पुस्तकाच्या कव्हराचे भितल्ले वटेन आशिल्ले शिल्पाकृतीत शुब्दोधन राजाच्या दरबारातलें दृश्य आसा. तातूंन तीन ज्योतिशी बृद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचा अर्थ राज्य शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखवलां. ख्रिस्ता शकाच्या दुसऱ्या शेंकड्यांत नागार्जुनकोंडा डांगाचे एक शिळेत कात्रेंयिल्ल्या ह्या प्रसंगांत सकले वटेनं बशिल्लो एक बरोबरी तें सांगप वरावन गेता. भारतांतल लेखनकलेची ही सगळ्यांत पहिल्ली नोंद आंसचे.

*राष्ट्रीय संग्रहालय, नवी दिल्ली, ह्यांच्या सौजन्याने*

साहित्य अकादेमी तस्त्रीप मेळिल्ली हिन्दी कादंबरी

# कलि-कथा : वाया बायपास

बरोवपी

**अलका सरावगी**

कोंकणी अणकार

**हेमा नायक**



साहित्य अकादेमी

Kali-Katha : Via Bypass (कलि-कथा : वाया बायपास) :
Konkani translation by Hema Naik of
Akademi's Award winning Hindi novel
with the same title by Alka Saraogi
Sahitya Akademi, New Delhi (2008), Rs. Ninty


First Edition : 2008

**Published by :**
Sahitya Akademi

**Head Office :**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi-110 001

**Sales Department :**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi-110 001

**Regional Offices :**
172, M.M.G.S. Marg, Dadar (East), Mumbai-400 014
Jeevan Tara, 23A/44X, Diamond Harbour Road, Kolkata-700 053
Central College Campus, Dr. Ambedkar Veedhi, Bangalore-560 001

**Chennai Office :**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai-600 018

ISBN 81-260-2578-6

मोल : 90 रुपया

**Typesetting :** Rachana Mudran, Mumbai -14
**Printed at :** New Age Printing Press, Mumbai-25

# अनुक्रमणिका

# 1
# कलि-कथा : 1997

कोलकाताच्या लेंसडाऊन रोडाचेर नेटान धांवपी गाडयो, बशी - मिनी बशींतल्यान सुटपी धुंवोर, केंकाटपी होर्न आनी कच् कच् करून दामिल्ल्या ब्रेकांचो आवाज, जुस्त ह्या सगळ्यांच्या मदेकाकूच शारांतल्या सगळ्यांत नवीन आनी म्हारग अशा 'गोल्डन हारवेस्ट' रेस्टोरंटामुखार किशोरबाबू फाटफुडो पळयनासताना रस्तो वलांडटाना दिश्टी पडलो.

जे लोक किशोरबाबूक वळखनात तांचेखातीर ही खबर म्हळ्यार खंत करपासारखी बाब न्हय. पूण किशोरबाबूचे सोयरे आनी ताचे वळखिचे हाणी भिरांत बाळगिल्ली ती ही, खंयच्याय खिणाक ताचे पांय आडखळूं येतात. देखून हें वर्णन आयकतकूच ते अजापले, भियेले आनी खंतींत बुडले आनी निमाणें, 'नशीबाचे खेळ' म्हण वगी बसले.

सत्तर वर्सांची पिराय जावनय किशोरबाबू आपली मत शाबुदीर दवरून एका असादारण मनशावरी चवकसपणान वावुरतालो. ताची तुळा फकत बंगालांतले मुख्यमंत्री ज्योती बसू जाणी पिरायेचीं ऐंशीं वर्सां पुराय केल्यांत तांचेकडेन करूं येता. ताची अशेतरेन अचकीत गोंदळपाची अवतिकाय म्हळ्यार ताच्या वळखिच्यांक सण्ण करपी सुचोवणीच आशिल्ली.

आनी तें लेगीत अशें कारणाबगर गोंदळप!

गजाल अशी, किशोरबाबूचे बाबतींत जी अहेतुक घडणूक घडली ताचें कारण भारत देशांतल्या हॉस्पिटलांतले एके अत्युच्य सादारण वा एके थराविक तरेचे घडणुकेंत लिपलां.

कोलकाता शारांतल्या सगळ्यांत नांवाजत्या हॉस्पिटलांत बायपास सर्जरी केल्या उपरांत किशोरबाबू जेन्ना शाबुद्दीर आयलो तेन्ना ताका आपणाल्या माथ्याचे फाटले वटेन बरेच सणसण मारतात म्हणपाचें जाणवलें. स्वास घेवपाक तोंडाक बसयिल्लें प्लास्टीकचें कॉप उखलून ताणें आपणाक येतात त्यो कळो कशेयभशेन दोतोरांक आनी नर्सींक सांगपाचो यत्न केलो तेन्ना ताणी बेजारून ताका तपासलो. तातूंत तांकां जाणवलें, किशोरबाबूचे कवटेचे फाटले वटेन, मानेचे बरोबर वयर एक गूट कशें आयलां. त्या गुटाचेर रगत व्हांवून व्हांवून एकटावलां. तो शावुद्दीर नाशिल्लो तेदेवेळार ताका वॉर्डांत व्हरपाचो जालो तेन्ना ताका स्ट्रेचराचेर घालता आसताना कसलीतरी लोखणाची वस्त ताचे तकलेच्या फाटल्या भागाक

लागली आनी दुखापत जाली असो ताणी अदमास केलो. पूण हें अशें घडत आसता. हे घडणुकेची पुराय उस्तवारी केलेबगर ती थंयचे थंय दपटिली. येदें व्हडलें ऑपरेशन करून जितो उरलों आनी वेवस्थीत घरा परतलों हे खोशयेभरशीं ताका तकलेच्या गुटाची व्हडलीशी बादा जाली ना. किशोरबाबूचे भलायकेंत तकलेचें गूट धरून ल्हवू ल्हवू सुदारप जायत गेलें. तेन्ना ताचेभितर एक व्हड परिवर्तन घडून आयिल्ल्याचें दिसपाक लागलें.



# 2
# 'समवेअर इन द नॉर्थ'

सांजवेळचीं चार वरां जावंनाका किशोरबाबून रस्त्यार वचचें आनी वरांचीं वरां एकटोच भोंवत रावचें. हाचेआदीं केन्नाच कोलकाताच्या व्हिक्टोरिया मैदानावयली ऑक्सीजन दिवपी हरयाळी सोडून किशोरबाबू पांयानी चलतलो म्हणपाची कल्पनाच करूं नज आशिल्ली. इतलेंच न्हय तर रस्त्याचेर पांयांनी भोंवप्यांकडेन तो तिरस्कारान पळयत आयला. आपलीं सोयरीं धायरीं आनी इश्ट, जांचेकडेन गाडी ना, तांकां हटकुपाची तकालस लेगीत ताणें केन्ना घेतली ना.

आतां अचकित अशेतरेन रस्त्याचेर पांयांनी हेडपाचे किशोरबाबूचे संवंयेन ताचे बायलेक, पुताक - धुवांक खंतींत वडयलें आनी ताणी ताचे तकलेच्यो सगळ्यो चांचण्यो करून घेतल्यो. 'कॅट स्कॅन' धरून तकलेची एम. आर. आय. करपाखातीर हजारांनी रूपयांचो धुंवोर करूनय कांयच उपाय सांपडलो ना. फिशालांतल्या फिशाल दोतोरांक दाखोवनय कांयच फायदो जावंक पावलो ना. हाचें कारण म्हळ्यार कांय दोतोर अशे आशिल्ले तांकां रस्त्याचेर भोंवपाचो असो शौक म्हळ्यार दुयेंसाचो भाग अशें दिसच नाशिल्लें. कुडींत रगताची पुरवण वाडिल्ल्यान ताकां अशी इत्सा जावप सभावीक अशें तांचें म्हणणे.

तशें पळोवपाक गेल्यार ते सगळे दोतोर तळागाळांतल्यान वयर सरिल्ले. जे कोण आपणाल्या भुरगेपणासावन, म्हळ्यार बालवाडींत वचपाक लागतसावन आपले गाडयेन येताले अशा दोतोरांक किशोरबाबूचे बायलेन आनी ताच्या पुता - धुवांनी सोदून काडले. त्या दोतोरांनी स्थितिचें गांभिर्य समजून घेतलें आनी तेप्रमाण ताका वखदांय दिलीं. ताका गाडी आशिल्ल्या मनोचिकित्सकाकडेन धाडलो, पूण रस्त्याचेर भोंवपाची किशोरबाबूची वायट संवंय मात सुटपाक पावली ना. बदलत्या काळाक धरून आपलो इतिहास धुवपाची-पुसपाची खर इत्सा कांय कुटुंबांनी उफाळून येता, जशी आयच्या आधुनिक आवयांक आपल्या भुरग्यांक किटाणुमुक्त दवरपाचो दाट हुस्को आसता. केन्नातरी ताका खोंकली जाल्ली हें निमित्त करून जेन्ना ताचे व्हडले धुवेन ताका आपले नातीक वेंगेंत घेवंक दिवंक नाशिल्लें तेन्ना किशोरबाबून हाका 'भारतांतलो नवो अस्पृश्यवाद' अशें नांव दिल्लें.

अर्थांत हें सोडून दिवपाचें. प्रसंग आशिल्लो तो इतिहासाक धुवून नितळ करपाचो.

इतिहासाचे यादिसरशीं घडटल्या गोंदळांतल्यान मेकळें जावपाखातीर किशोरबाबूच्या कुटुंबान जायते तरेच्यो युक्ती सोदून काडल्यो. तांची ही अशी वळेरी :

1. पोरन्यो गजाली विसरप

2. नव्या तथ्यांची रचणूक करप.

3. विंगड विंगड तरेच्यो ओपारी घडोवप.

4. जाण्टेल्यांचे सुंदर अशे लांब कोट घाल्ले गिल्ट फ्रेमीचे पोर्ट्रेट हुमकळावप. इतिहास प्रसिद्ध लोक आनी घडणुकांकडेन तांचो संबंद जोडप.

5. पोरनें फर्निचर, पोरने अळंकार, म्हुर्ति विकत्यो घेवप.

किशोराबाबू आतांमेरेन आपल्या कुटुंबियांखातीर 'हेडगो' इंग्लीशींत जाका 'ट्रेंप' आनी बंगालींत 'भावधूरे' म्हणटात अशी व्यक्ती जाली. ताची अशेतरेन हेडपाची संवंय कुटूंबियांक अस्वस्थ करपाक लागली आनी ताणे इतिहासाकडेन पळोवन कांय अडचणिंचे प्रश्न उबे केले. बालीगंजाक रावपी ताच्या चलयांनी बडाबाजारांत भोंवपाच्या निमतान 'समवेअर इन द नॉर्थ' म्हळ्यार 'खंयतरी उत्तर कोलकात्यांत' अशें म्हणपाची संवंय करून घेतली.

गजाल अशी - ब्रिटिशांच्या वेळार वशिल्ल्या कोलकात्याचे बाबतींत उत्तर आनी दक्षिण वा देशी आनी फिरंगी कोलकाता अशे वांटे जाले. फिरंगी आपल्या देशांत परते गेल्या उपरांत दक्षिण कोलकात्यांत रावप म्हळ्यार दिसान दीस आपलें सामर्थ्य मेजपाची बाब जाल्ली. हाकाच लागून किशोरबाबूच्यो धुवो लग्न जावन उत्तर कोलकात्यांत वचपाचें सपनांत लेगीत चिंतीनासल्यो. बडाबाजारांत वचपाचें नांव काडल्यारूच तीं नाक किल्लीतालीं.

किशोरबाबू आतां 'रस्ताद' तर आनीक कोणाच्या उतरांनी 'भोंवडो' जालो आनी ताणें आपल्या कुटूंबाच्या न्हिदिल्ल्या इतिहासाक जागयलें. ते लोक बडाबाजारांतल्या त्राशीक, गजबजिल्ल्या, रिक्षा, हातगाडयो चलोवपी आनी घाण अशे वस्तींत रावताले. किशोरबाबूक अशी रस्त्यार हेडपाची संवंय आशिल्ली काय म्हणपाचें जाणून घेवपाखातीर दोतोरांनी आनी हेर लोकांनी जेन्ना विचारलें तेन्ना भुरग्यांनी भियेवन आवयवटेन पळयलें. किशोरबाबूचे बायलेन प्रसंगांतली नाजूकसाण वळखली आनी तिणें सांगलें, तकलेक मार बशिल्ल्यान पिसो जाल्ल्या अशा एका फकिर मनशाविशीं किशोरबाबून लग्ना उपरांतच्या पयल्या वर्सांत जरूर सांगिल्लें. ताच्या खांदार एक लांबोडोसो दांडो आसतालो आनी त्या दांड्याक कितल्योशोच पोटल्यो बांदिल्ल्यो आसताल्यो आनी थिगळां लायिल्ली मुस्तायकी घालून तो कोलकात्याच्या गल्लींनी भाशणां दीत भोंवतालो. आनी हां, तिका याद जाली - त्या दांड्याच्या वयल्या तोंकाक एक झेंडोय लायिल्लो आसतालो.

हे विचित्र गजालीक लागून किशोरवावूचे मनोचिकित्सक कसल्याय निश्कर्शाचेर येवचे पयलींच किशोरबावूच्या पुतान उत्तेजित जावन सांगलें, ह्या दिसांनी आपणेय एक

असलोच मनीस लैंसडाउन रोडाचेर हेवटेन - तेवटेन भोंवताना पळयला. तो एकदम दुबळो - अशक्त, काळो आनी लांब आसा न्हीं? सुरकुत्यो पडिल्ल्या ताच्या मुखामळाचेर लांब केंस आनी खाड आसा न्ही? ताचे दोळे राग ओंकतात न्ही? किशोरबाबूचो पूत आपले आवयक प्रश्नाचेर प्रश्न विचारीत रावलो. पूण किशोरबाबूचे बायलेकडेन कांयच जाप नासली कित्याक तर किशोरबाबून तिका त्या फकिराविशीं फकत सांगिल्लें. तिणें स्वतः ताका पळोवंक नासलें. हां, तिका इतली मात याद जाली, ती म्हळ्यार 'हिंदू मुसलमान एक आसात' म्हणपाच्यो कांय पिशेपणाच्यो गजाली तो करतालो.

किशोरबाबूच्या चल्यान आपणावांगडा घडिल्ली घडणूक सांगली. "हरशीं त्या पिशाकडेन म्हजें लक्ष वचपाचें न्ही. पूण घडलें अशें, त्या दिसा लैंसडाउन रोडाचेर तो पिसो म्हजे गाडयेपोंदा पडटां पडटां वांटावलो. तरी बरें म्हजी सामकी नवी मारूती आशिल्ली म्हणून. ताका लागून ब्रेक मारतांच ती आसा थंयच थांबली. नाजाल्यार त्याच दिसा त्या पिशाक देवाचें आपोवणें आयलां. राग ओंकपी आपले दोळे त्या पिशान म्हजेर घुंवडायले आनी शुद्ध इंग्लीशींतल्यान म्हाका विचारलें, 'डू यू थिंक यू ऑन धिस रोड?' (हो रस्तो कितें तुमी विकतो घेतला अशें दिसता?) त्या पिशा फकिराची इंग्लीश आयकून हांव इतलो गडबडलों, ताका कांयच जाप दिवपाक पावलों ना. त्या पिशान मागीर आपल्या दांड्याच्या तोंकाक हुमकळायिल्लो तिरंगी झेंडो - जो बागवल्लो, परतून सारको केलो आनी तो गुरूसदय रोडाचे वटेन वचपाक गेलो."

हे गजालीन घुस्पागोंदळ चड वाडयलो. किशोरबाबूचो पूत फट उलयता म्हणपाचो किशोरबाबूच्या मनोचिकित्सकाक दाट दुबाव आयलो. किशोरबाबूच्या लग्नाक पन्नास वर्सां पुराय जावचीं आशिल्लीं. पंदरा जुलय एकुणिसशें सत्तेचाळीस, म्हळ्यार स्वातंत्र्य मेळ्ळें ताच्या एका म्हयन्याआदीं ताचें लग्न जाल्लें. अशें आसताना पन्नास वर्सांआदीं रस्त्यार हेडपी तो अर्दनागडो पिसो आजूनय जितो आसून तसोच हेडटा हें कशें शक्य आसा? ह्या कुटूंबाच्या रगतांतूच पिशेपणाचे जंतू तर भरूंक नात मू? माथ्याचे फाटले वटेन कोंक जाल्ल्यान आपलो बापूय पिसो जाला हें हो भुरगो सिद्ध करपाक पळयता काय तो रहस्यमय पिसो जितो आसपाचो दुबाव घेवन किशोरबाबूची अवतिकाय अशी जाल्या हें सिद्ध करपाक पळयता?

किशोरबाबूच्या पुतान आपणाल्या धा बोटांतल्या स बोटांत विंगड विंगड फातरांच्यो मुदयो घाल्ल्यो. किशोरबाबूच्या मनोचिकित्सकाक जाणवलें, आपूण किशोरबाबूची तपासणी करीनासताना ताच्या पुताच्या बाबतींत तपासणी करपाक लागलां. किशोरबाबूच्या धुवांकय वी आपणाल्या भावाविशीं कांय दुबाव आयला आसूं येता. पूण किशोरबाबूच्या वगी रावपांत ताणी एक गूढ कशें निर्माण केल्ल्यान तांकां खूब आदार जालो. सांगतां सांगतां सामकी ऊवगण येसर आनी पुरो जायीसर ताणीं साधुच्या त्या पिशेपणान भोंवपाच्यो तरातरांच्यो गजाली घडोवन येतल्या वतल्यांक सांगल्यो.

किशोरबाबूचें गल्ली गल्लींत भोंवपाचें मात तशें चालूच उरलें. कुटूंबांतल्या मनशांनी हाका नियतिचें चक्र समजून हेविशीं येवजुपाचें थांबयलें. ताची बायल मात अदींमदीं कोणाय पंडीताक मेळून ताची जल्मकुंडली दाखोवन कितेंय दानधर्म वा पुजापाठ करीत रावली.

किशोरबाबूचे बायलेक एक दीस किशोरबाबून आदले रातीकडेन बरयिल्लो एक पेपर मेळ्ळो. तिणें तो वाचलो आनी लिपोवन दवरलो. ह्या पेपराविशीं भुरग्यांक सांगून तांकां आनीक खंतींत वडोवचें काय कितें हें तिका सारकें कळना जालें. त्या पेपराचेर किशोरबाबून आपणाल्या सुंदर अशा वाटकुळ्या वाटकुळ्या उतरांनी लैंसडाउन रोडाचें तिरसुवाद टीपण बरयिल्लें. किशोरबाबूचे बायलेक हाची खंत जाली कित्याक काय म्हळ्यार तांची व्हडली धूव लैंसडाउन रोडाचेरच रावताली जाचें नवें नांव आतां शरदबोस रोड अशें नेताजीच्या व्हडल्या भावाच्या नांवावयल्यान आशिल्लें. चलयेन हें टिपण वाचिल्लें जाल्यार तिका खूब त्रास जावपाचे कित्याक तर आपल्या बापायन आपणाली सणक पुरी करपाक कोलकात्याचे हेर सगळे रस्ते सोडून जुस्त आपणाक दिल्ल्या घरचो रस्तो सोदून काडलो अशें तिका दिसपाक फावतालें.

किशोरबाबूची शिस्तप्रिय वागणूक, कडक सभाव आनी मनाक मारता तशें वागपाची हुकूमशाय पळयतकच तागेलीं भुरगीं ल्हानपणासावन ताका 'हिटलर' म्हणटालीं. आपणाल्या बापायच्या हिटलरपणाक लागून तांच्या भुरग्यांक जितले त्रास जावंक नात ताचेपरसूय चड त्रास तांकां आपलो बापूय ते सुवातेवयल्यान घसरलो ताचें जालें. किशोरबाबूची धाकली धूव आनी पूत सोडलीं जाल्यार तागेल्या बाकी चार धुवांनी आपले जिणेंत हिटलरपणाचीच नदर आपणायिल्ली. 'आय एम द मॉनार्क ऑफ ऑल आय सर्वे' हें ताचें पालूपद भुरगेपणांतसून आयकत आयिल्ल्यान कळटां नकळटां बापायवरी तांचेय तें आंगवळणीक पडिल्लें. आपले जिणेचो आदर्श थारायिल्ल्या आपणाल्या बापायचो असो सामान्य मनशांत जाल्लो बदल पळोवप हो चौगांखातीरूय एक भिरांकूळ अणभव आशिल्लो. जिणेवयलो तागेलो ताबो सदळ जायत वता म्हणपाचें तांकां जाणवलें. ह्या सगळ्या लचाणांचें किशोरबाबूचे बायलेक मातशेशें धंगण आशिल्लें. हेचखातीर लैंसडाउनचें तें पाकीट तिणें आपणाले साडयेचे घडयेपोंदा लिपोवन दवरलें.

□□

*ही कथा किशोरबाबूची आनी तातूंत कथालेखकाची हाजेरी ही फकत कथा सांगपापुरती आसपाक जाय तितलीच आसतली. तशें पळोवपाक गेल्यार एकदम नवीन अशी आधुनीक कथा वाचल्या उपरांत किशोरबाबून ही कथा बरोवन घेवचेआदीं कथालेखकाकडल्यान अशी कबलात करून घेतली : बंगालांतल्या नांवाजत्या शेटीभशेन बावीस बाय बावीस (22 x 22) कॅरेट शुद्ध अळंकारावरी तो कथा बरयतलो - म्हळ्यार विशुद्ध भांगराच्या चोवीस कॅरेटांत दोन कॅरेट भरसूंक मेळटा इतलें लेखकाक मेकळेपण आसा. तें लेगीत*

*इतलेच खातीर, हाचेबगर भांगराचे अळंकार घडसुपाक जायनात हें किशोरबाबू जाणा आसलो. तर आतां हे कथेची मागणी आसा ती, ते बायलेन साडयेचे घडयेपोंदा लिपोवन दवरिल्लें तें लैंसडाउन रोडाचें टिपण जशाचें तशें तुमचेमुखार दवरप -*

*"लैंसडाउन रोडाचे हेवटेन हावें पळयलें, थंय 'गोल्डन हार्वेस्ट' रेस्टोरंटाचे मातशे फुडें धा - बारा जाण, वणटिचे वटेन नदर लावन हागपा - मुतपाक बशिल्लेवरी उकणयां बसल्यात. म्हज्या मनांत असो विचार कित्याक आयलो हो प्रश्न उपरासूं येता. शारांत तर दादले आतां उब्या उब्यानी मुतपाक लागल्यात. आमच्या भुरगेपणांतलेभशेन बसून मुतनात. थेंबे उसळत हे भिरांतेन वा हातांतली ब्रीफकेस वा चामड्याची बॅग घट धरून उरपाखातीर हावें जायत्या लोकांक अशे तरेन मुतताना पळयलां. कितेंय आसूं, हो देखाव पळोवन हांव इतलो अस्वस्थ जालों, थंयच्यान हावें रस्तो वलांडलो आनी हांव दुसरे वटेन गेलों.*

*थंय वचून पळय जाल्यार धा मजली नवे इमारतिचे भायले वणटीचेर दोन रंगी व्हडलोसो एक पोस्टर चिकटायला आनी ताचेर वेगवेगळे भाव दाखोवपी वळखिचे अशे कांय फिल्मी चेरे आसात. सगळो देश ह्या फिल्माच्या गिताचे धुनीचेर धोलता असो ह्या पोस्टरांत दावो केल्लेभशेन दिसता. त्या पोस्टरामुखार सादारण एक फूट लांबायेची एक फळी मेजाभशेन थंय मांडल्या आनी ताचेर पत्रावळीनी धांपिल्ले दोन मोटे पाटले आसात. तेभायर स्टीलच्यो ताटल्यो धांपिल्लीं दोन भोगुणीं आसात. साद्या पालवाची, रंगीत थिपक्यांची साडी न्हेशिल्ली आनी दाव्या मनगटावयल्या कांकणाच्या मदीं घडयाळ बांदिल्ले घटमूट बांधाची तंदुरूस्त सावळी बायल मोट्यामोट्यान कितें उलयता. ती तिच्या उजवेवटेनच्यान येतल्या गिरायकांकडल्यान ऑर्डर घेता आनी ते तिचेकडल्यान स्टिलच्या कांठाचे ताटलेंत वाडिल्लें जेवण घेवन तिचे दावेवटेन वतात. उपरांत ते वणटिचे वटेन तोंड करून, जमनीपरस मातशे उंचायेर आशिल्ल्या फातराचेर ताटली दवरून मान सकयल घालून हेर लोकांवांगडा तकली सकयल घालून उकडयां बसतात. खाता आसताना हे लोक एकामेकाकडेन गजाली करपाक वा एकामेकाक पळोवपाक चुकून लेगीत आपलें तोंड उजवे - दोवे वटेन घुंवडायनात. वणटीचेर एका चौखण्या जाग्यार धवो रंग पितारून ताचेर तांबड्या रंगान शीत-दाळ-भाजी, शीत-तांतीं आनी नुस्तें-शीत हांचे रेट बरयिल्लेआसात.*

*आनी हावें कोणाक पळोवचें थंय! हांव आकांताचो अजापलों. आमच्या ऑफिसांत वीस वर्सांसावन काम करपी शिवबाबू जेवता तें हावें पळयलें. शिवबाबू हांगां रस्त्यार अशेतरेन वणटीकडेन तोंड करून जेवत म्हणपाची म्हज्यान कल्पनाय करपाक जाली ना. ताची बायल दुयेंत बी आसा कांय - म्हाका दिसलें, तखातीर ताणें डबो हाडूंक ना? पूण ताका बायल आसा कांय ना हें तरी हांव खंय जाणा? आनी इतले दीस दनपारचो तो खंय आनी कितें खाता म्हणपाचें म्हाका कांय खबर ना. आनीक एक गजाल आसा जाका लागून हांव अस्वस्थ आसां - शारांत रस्त्यावयल्यान चलताना बायलांक जेन्ना मुतपाक जाता तेन्ना त्यो खंय वतात आसतल्यो?"*

हें टिपण वाचून किशोरबाबूचे बायलेक खूब दुख्ख जालें. किशोरबाबूचें लक्ष कसले कसले वाह्यात गजालींकडेन गेलां हाचे तिका चड त्रास जाले. आनी गेलां अशें धरूंया, जाल्यारय तें बरोवन दवरपाची कसली गरज? तो पेपर आनीक कोणाच्याय हातांत पडलो जाल्यार? हालींसराक किशोरबाबू तिचेकडेन खूब थोडें उलयता हेंवूय तिका जाणवल्लें. एक तर तो आपणालीं होमियोपथिचीं पुस्तकां घेवन बसता आनी कांय नोट आपले डायरेंत बरयता, नातर टी वीचेर एखादें फिल्म पळयता. तो आपणाभितरच शेणिल्लेवरी वागता वा अशेंय जावं नये मू, रस्त्यार हेडपाचे ताचे संवंयेक लागून किशोरबाबूबरोबरच्या दीसपट्ट्या वेवहारांत घडये तिच्यांतूच बदल घडला! किशोरबाबूचे बायलेन एक लांब उस्वास सोडलो आनी शारासावन ब-याच पयस अशा दमदमांतल्या एका पंडिताचें घर गांठून घेवपाचो तिणे त्याच खिणाक निश्चेव केलो.

रातीकडेन केन्नातरी किशोरबाबूचे बायलेची न्हीद चाळवली तेन्ना तिका किशोरबाबून दोळे धांपल्यात पूण तो जागोच आसा म्हणपाचें जाणवलें. पूण "जागे आसात तुमी?" ह्या तिच्या प्रश्नाक किशोरबाबून कांयच जाप दिली ना.

□□

## 3

# ‘मदली कूड खंय आसा?’

जायते फावटीं भोंवडी करून येतकच रातची जेन्ना न्हिदेंतल्यान जाग येता तेन्ना भोंवडेंत आसतना आपूण जे कुडींत आशिल्लों थंयच आसा म्हणपाचो भास जाता. बायपास सर्जरींतल्यान बरो जातकूच किशोरबाबूचो बदल ‘हेडगो’ म्हण जातनाच किशोरबाबूचे बाबतींत सामकी अजापाची एक घडणूक घडली. आपल्या जल्मदिसा म्हळ्यार एक जानेवारीचे रातिकडेन ताका दिसपाक लागलें, आपूण बालीगंज घरांत ना, तर उत्तर कोलकोत्याच्या सेंट्रल एवेन्यू म्हळ्यार बडाबाजारच्या त्याच घरांत आसां, जंय तो तीगां चलयांचो बापूय जायीसर म्हळ्यार सुमार एकवीस वर्सां उरिल्लो. ताका परतून परतून दिसपाक लागलें, एक जानेवारीची कसलीय गजाल आपणांक याद उरपाक जाय आनी रातभर न्हिदता - जागताना ती याद करपाचो तो यत्न करपाक लागलो. दुस-या दिसा, म्हळ्यार दोन जानेवारीक किशोरबाबूचे बायलेन सकाळीफुडें जेन्ना विचारलें, सदचेप्रमाण तो मदले कुडींत वचून च्या घेतलो काय म्हण. तो एकदम अजापलो, “मदली कूड? मदली कूड खंय आसा? तकली जाग्यार आसा न्ही? दोनूच तर कुडी आसात. एक धाकली कूड आनी एक व्हडली कूड.” एकेवटेन आसा व्हरांडो जो सेंट्रल एवेन्यू आनी मुक्तारामबाबू स्ट्रीटच्या चार रस्त्यावटेन उकतो जाता. दुसरे वटेन पयल्या मजल्यावयल्यान सकयल दिसपी चौकाचे चारीय वटेन धुंवपी गॅलरी आनी तीन मजल्यांवयर मेकळें मळब.

“किशोर, किशोर उठ रे बाबा. आज शेनवार.” आवयचो आवाज ताका आयकूंक आयलो.

□□

*<u>किशोरबाबूच्या आग्र्यान कथेभायले ताचेच कांय विचार</u>*

*ह्या संवसारांत फाटीं घडून गेल्लें कांयच शेणना. आमी आजून आसात, मागीर शेणटलें कशें? चडूच जाल्यार तें आमचेभितर खोल खंयतरी एखाद्या पोरण्या भग्न शाराभशेन भितरले भितर पुरून वता आनी ताचेर थर दाटत वतात. आमी आयकल्लीं उतरां, आमी पळयिल्ले देखाव, आमी झेलिल्लीं सुख-दुख्खां, सारिल्लो एक खीण लेगीत*

*केन्ना मरना. थंयचे थंयच दपटून उरता. मनीस जेन्ना मरता तेन्ना ताणे भुरगेपणासावन जगिल्लें सगळें जिवीत परतून एक फावट एखाद्या फिल्माच्या रीलाभशेन तो पळयता अशें म्हणटात. पूण रिलीज जाल्ल्या फिल्माभशेन तो तातूंत कसलोच बदल करपाक शकना.*



# 4
# ‘कलिकथा : 1940’

सेंट्रल एवेन्यू आनी मुक्ताराम बाबू स्ट्रीटच्या चार रस्त्यावटेन उकतो जावपी व्हरांड्यांत उबो रावन सकयल्या लोकांचें येवप - वचप पळोवपाक किशोराक आवडटा. रस्त्याचे कुशीकूच लायिल्ल्या व्हडल्या नळांक पायपां लावन फांतोडेरूच रस्ते धुवन काडिल्ले आसतात. धुल्ल्या रस्त्यांवयल्यान बायलांचें राममंदिराकडेन वचप वा गंगेचें न्हाण करून चंदनाचो तिबो लावन परतप. मुखारच आसा पैशाक दोन गुलगुले आनी भजीं दिवपी नत्थुराम. ते विकते घेवन स्वतः खावपी वा कावळ्यांक - सवण्यांक घालपी लोकांचो चोंबो सदांच थंय एकटाविल्लो आसता. वेळार जाग आयली जाल्यार एखाद्या जमीनदाराच्या वाड्यांतल्यान भायर सरिल्ली व्हिक्टोरीया मैदानावटेन वचपी देशी सायबांची धवीफुल्ल अरबी घोड्यांची बग्गी नदरेक पडूं येता. चार रस्त्यांवयली रिक्शावाल्यांची टणटण, देवळांतल्यो घांटी आनी आरतीउपरांतचे शंख - घांटीचो घणघण, ‘जय हो, जय हो’ चो गजर हे सगळे आवाज एकामेकांत भरसून वयर पयल्या मजल्यामेरेन पावतात. शनिदेवतेची धातूची म्हूर्त दवरून देवळाच्या भायर उबो रावन ‘शनिम्हाराज, शनिम्हाराज’ अशें उंचेल्या सुरांत आड्डुपी पुरयताचो आवाज ह्या बोवाळांत भरसून वता.

आईनं किशोराक यादीन ‘शनिदेवते’ क  दान करपाक सांगलां. कोणाक खबर तांच्या घराक शनिची दशा लागल्या काय म्हण. तसो आईचोय ह्या गजालींचेर चडसो विश्वास ना आनी किशोराचोय ना. तेभायर सगळें जेदेवेळार खलास जाता तेन्ना आनी वायट म्हण कितें घडपाचें उरता? पूण आवयच्या मनाचो आदर राखून किशोर शनिम्हाराजाच्या चेंबवांत सांसवांचे तेल आनी कांय नाणी वडोवन येता. मात अशें करता आसताना आपल्या एखाद्या इश्टान पळोवंक ना मू ह्या विचारान ताच्या काळजांत धडधडटा.

आईच्या मोट्या मोट्या दोळ्यांत भिरांतेचो दर्यो पातळ्ळा. जगपाचो भंय कितलोय लिपयलो तरी तो लीपना. पूण तिचीं दुकां कितलींय जरी भरून आयलीं तरी तीं त्याच दर्याभितर शेणून वतात - भायर व्हांवनात. जगपाची भिरांत किशोराच्या काळजांत

उपरासची न्हय हाचो तिका हुस्को आसा हें किशोराक खबर आसा. आनी ह्या घरांत असो आसा तरी कोण जाचेमुखार तिणें रडचें? तशें तिच्या कुळारा तिचे तीग भाव आनी आवय-बापूय जरूर आसात पूण तेच पयलीं आपणाल्या दुख्खांत बुडिल्ले आसात.

आईच्या मुखामळावयली सहजताय आनी सदांच तिका कामांत गुंतिल्ली पळयताना किशोराचें मन दुखावतालें. खूब फावटीं ताका मनातल्यान दिसचें, आईक म्ह-यांत घेवंची आनी सांगचें, "आई, तूं एक फावट बरे तरेन रडून घे." पूण अशें करपाक ताका भिरांत दिसताली. सांगूं येना, आईकूच कितेंय जालें जाल्यार!

आई केन्नाय ताका उदास पळयताली तेन्ना फकत इतलेंच म्हणटाली, "जें कितें घडपाचें आशिल्लें तें घडलें. तूं व्हडलो जातलो तेन्ना सगळें जाग्यार पडटलें." इतलें बळगें आईक खंयच्यान येता आसूंये? - किशोर जायते फावटीं येवजिता.

पळयिल्ले खेपेक आजो आपणाले झक्पक् मुस्तायकेंत आनी रूबाबदार चे-यान पेडयेर येतना वा परतताना, दरवट्यांत येवन आईच्या मुखार उबो रावतालो आनी म्हणटालो, "कुंती, कर हें घर बंद आनी चल म्हजेवांगडा. हांगां एकमुळी कित्याक पडल्या? कितें दवरलां ह्या घरांत? तुका आनी किशोराक वांगडा घेतलेबगर आयज हांव वचपीच न्हय."

आईच्या दोळ्यांत ओलसाण येवचेपयलींच ते आटून वतात. सगळें बळ लावन ती आपणालीं उतरां उबीं करता. त्या उतरांनी आसता व्याकुळतायेची समजिकाय आनी तातूंत व्हांवन ना वचपाचो संकल्प - "ख-यांनीच येतां हांव बाबा. पूण परतून मात हांगां येतलीं. तुमचो जांवय भायर पडटकच हावें तुमकां हेंच सांगिल्लें, ललित आनी किशोर ह्या दोगांय भुरग्यांक कांयच न्हय जाल्यार एक घर तरी दिवपाक शकतलीं. नाजाल्यार ते जेन्ना व्हड जातले तेन्ना म्हाका विचारतले - आई, आमचें घर कित्याक ना? आमी आज्याल्या घरा कित्याक रावतात? आतां तर ललितय ना. पूण ललितचे बायलेन चीट धाडल्या - ती कानपूराक आपले आवयगेर रावपाक सोदिना. ती परके घरची चली ह्या घराबगर आनीक खंय रावतली? होवूय वेळ सरतलो. तुमी हुस्को करूं नाकात."

स म्हयन्यामेरेन आजो दारांत येवन मागीर येवपाचें बंद करता. पयलीं जांवयाचें मर्ण आनी मागीर अठरा वर्सांचे एके सुकुमार षोडशीक विधवा करून वचपी नातवाच्या मर्णाचें दूख्ख सोंसपाची तांक आतां ताच्या काळजाक ना. एक दीस ख-यांनीशीं ताच्या काळजाचो फार जाता. आज्जेन तर पयलीं चलयेच्या आनी मागीर नातसुनेच्या दुख्खान आज्याचे जितेपणीच कपलाक कुकूम - सिंदूर लावपाचें सोडून दिल्लें.

रातचो जेन्ना किशोर उशाचेर तकली दवरता तेन्ना बरोच वेळ तो दोळे बंद करून दोनूय भुवयांमदल्या त्या बिंदूकडेन पळयत रावता जातूंतल्यान काळखाचीं वलयां भायर

पडटात आनी तीं भायले वटेन पसरतात. केन्ना केन्ना हीं वलयां एकामेकांत भरसतात. ताच्या इश्टान, अमोलकान ताका सांगिल्लें, ह्या बिंदूकडेन नदर लावन आंकडे मेजित रावल्यार रोकडी न्हीद येता म्हण. पूण सुस्त न्हिदेंत लेगीत व्यक्त जावंक नाशिल्ल्या एका दुख्खाचो भार किशोराच्या काळजाक आख्खी रात दुखयत रावता. आई न्हिदेंत किते येवजिता आसतली हें कळना. जंय सगळें सारकें आसा अशा सपनांच्या संवसारांत न्हीद तिका व्हरपाक पावत काय? एक विशाल हवेली आसा आनी सदां सांजवेळा ललित भैयाक पुराय भिवानी शारांत भोंवडावन हाडपी दोन घोड्यांची रूनझून करपी बग्गी आसा. काय आई लेगीत आतां ताचेभशेन सपनां पळोवपाक शकना? फटींगपणांच्या कल्पनांचीय न्हय आनी घडून गेल्ल्या कालच्या भांगराळ्या दिसांचीय न्हय.

किशोराक आतां अजिबात सपनां पडनात. केन्ना केन्ना तो येवजिता, सपनांत जर कोणूय परमेश्वर मुखार आयलो जाल्यार कांयच न्हय तरी तो इतलेंच विचारीत, तीस वर्सांचे पिरायेर आईक विधवा केली हाका नियती म्हणूं येता? पूण देग आशिल्ली धवी साडी न्हेसून, कपलाक कुकूम शेंदूर लायनासताना रावपाची भाभीचीय तशीच पिराय आतां आसा व्हय?

“प्रिन्स......” मदलो मामा ललितभैयाक प्रिन्स म्हण पाचारतालो. त्याच प्रिन्साक सरणाचेर दवरून ताका लासून वडयलो. जतनायेन सांबाळिल्ले ताचे केंस भक्क करून कशे लासून गेले. सगळे पळयत रावले. उजो लावपाक किशोराच्या हातांत जेन्ना जळटें लाकूड दिलें तेन्ना तो परमेश्वराक विचारपाक सोदी, हो कसलो न्याय? ताणे आपले चारीय वटांनी एक नदर भोंवडायली. मदल्या मामान ताच्या खांदाक हात लावन ताका फुडें धुकललो. “लासून उडय” “लासून उडय” मसंडभुयेंत हजारांनी वर्सांसावन लासून गेल्ल्या प्रेताचे आत्मे ताका सांगताले. “अशेंच जाता तें. होच तर नेम आसा.” म्ह-यांतल्यान व्हांवतली गंगा म्हणटाली.

“आई” ताका आतां आईची याद जाली. ‘आईक आतां हांवेंच पळोवपाक जाय. हावेंच सांबाळपाक जाय तिका. कर्तव्य - हेंच कर्तव्य. हें जाळप, हें पिण्डदान, तिलांजली, गंगा-न्हाण, सुखशय्या. सगळें करपाक जाय.’ एका ल्हान भुरग्याचें मडें हाडिल्लें ताणें पळयलें. ‘न्याय? परमेश्वराचे हे सृश्टींत खंयच न्याय ना? ह्या भुरग्याक मरपाचें आशिल्लें जाल्यार ताचो जल्म तरी कित्याक जालो? मरण हेंच कितें जिविताचें सगळ्यांत व्हडलें आनी अंतिम सत्य?’

होच प्रश्न ताणें शाळेंतल्या आपल्या शांतनू ह्या बंगाली इश्टाक विचारलो तेन्ना शांतनून रागान ताचीं भुजां हालयलीं आनी म्हळें, “पिसो तूं. मुर्ख सामको. परमेश्वर बी कोण ना. परमेश्वर जाय तुका? तूंच तुजो परमेश्वर कित्याक जायना? जिणेंत वायट

घडणुको घडत आसतात. तुज्या ललित भैयाच्या मर्णाचें दुख्ख म्हाकाय जालां. पूण म्हजेमुखार न्याय, परमेश्वर, नियती बी असल्यो गजाली करूं नाका. शांताभाभीचें परतून लग्न करपाचें आसा तुका. विसावो शेंकडो हो माय डियर. नाइनटीन हंड्रेड एन्ड फॉर्टी!"

एक खिणभर किशोराक दिसलें, शांतनूक कशेयभशेन वगी करपाक जाय. पूण तो उलयतच रावलो, "तुमच्या मारवाड्यांमदेंय विधवा-विवाहाक तेरा वर्सां जावन गेलीं. तुजे भाभीची जीण कशी आसची अशें तुका दिसता? कणान कण लासत तिणें सती वचचें?"

किशोराच्या मनांत एकेतरेचो नेट कसो आयलो. ऊर्बा, लज, भंय हांची भेसळ जावन एक हावेस कसो. पूण मागीर तो एकदम थंड पडलो. कशें शक्य आसा हें? आई, व्हडलो मामा, व्हडलो काका, भाभीचो बापूय - सगळ्यांचीं खुमणी घुंवन घुंवन ताचेमुखार येवपाक लागलीं. आमचे कुळयेंत अशें केन्ना घडूंक ना. कुळाची मर्यादा म्हण अशेतरेन मोडपाक जाता? उलोवपाक खूब सोपें, पूण खरेपणीं जगप दुसरेंच आसता. त्या दिसा पुलिसांच्या दांड्याचो मार खावन ही गजाल आनी समजुपाक बाकी उरल्या तर? तकलेचे फाटलेवटेन आजूनय गूट आसा ताचे सणसण मारतात. आईक सांगून शेक मारून घेवपाकय मेळना. ताच्या मनांत विचार येता - त्या दिसा जर ताची तकली फुटिल्ली आनी तो मेल्लो जाल्यार भारतमातेक कितेंय मेळूं वा ना मेळूं पूण ताचे आवयचें मात सगळें लुटून व्हेल्ल्याभशेन जावपाचें. कशी जगतली आसली आई मागीर - येवजूनच ताका थरथरो भरता.

ना, आतां असली चूक करप ना. ताचेखातीर ह्या संवसारांत सगळ्यान पयली म्हणटा ती आई. आनीक कोणूय आसल्यार ती मागीर. खंयच्याय मोलाखातीर तो आवयक दुखोवंक सोदिना. ताच्या रगताचेर सगळ्यांत पयलो अधिकार आसा तो ताका जल्म दिवपी आईचो. शांतनुच्या रक्ताचेर आसना सुभाषबाबूंचो बोसाचो.

"आई, दोळे मोटे करून दाखय न्ही." ल्हानपणासावनचो किशोराचो हो पोरनो खेळ. आवय आडेच्या रागान दोळे मोटे करता तेन्ना किशोराक खातकुतल्यो जातात आनी भिरांतूय दिसता. इतले मोटे दोळे ह्या संवसारांत आनीक कोणाचे आसूं नज. हो खेळ ताच्या शिरंतरांनी इतलो भरसला, तागेर जातलीं तीं भुरगीं लेगीत आज्जेवांगडा घडये होच खेळ खेळटलीं.

ललितभैयाचेय दोळे अशेच आशिल्ले, आईभशेन. पूण आईचे इतले मोटे मात न्हय. किशोराचे दोळे आपल्या बापायभशेन ल्हान आसात आनी हे गजालीची ताका मनांतल्या मनांत खंत भोगता. ललितभैया सगळेवटेन ताचेपरस चड सुंदर आशिल्लो. कातीन गोरो, मोटे दोळे, तिकतिकीत प्रसन्न मुखामळ, कोंगरे कशे केंस. ललितभैयाच्या शांत आनी लजकु-या सभावाक लागून आपूण ल्हान आसूनय आवयन आपणाचेर चड उमेद बाळगिल्ली

हें किशोराक केन्नासावन खबर आसा.

आनी आईचें अशें चिंतप हेंच किशोराक जिणेंतली सगळ्यांत व्हडली गजाल आसली कित्याक तर ताचे आईसारखी आवय आनीक कोणाची आसूं नज. ताच्या इश्कोलांतले इश्ट, घराकडले इश्ट, घरांत शिकवणेक येवपी मास्तरांक धरून सगळ्यांक ही गजाल खबर आसा. हे सगळे आपले आईकडेन उलयताना तो तांच्या चे-यावयले भाव पारखिता. दुर्गा-पुजा आसूं वा सरस्वतिपूजन आसूं, दरेके म्हुर्तिच्या चे-यांत किशोराचे आवयचोच चेरो दिसता. सगळ्यांक घडोवपाचे आसात ते हेच दोळे. केन्ना केन्ना तशें घडोवपांत तांकां यशय मेळटा. भुरगेपणांत जेन्ना आई काणयो घडोवन सांगताली वा पोरन्यो काणयो सांगताली तेन्ना तो मदींच तिचेकडल्यान तिची काणी आयकुपाक सोदी - “आई, रामविलासदादा - पंणजो, कितें सांगतालो गे तुजेविशीं? परतून सांग न्ही.” आवयच्या दोळ्यांत लज आनी खोस हांचे मेळावण जावन हरयाळीचो उदेव जावंचो.

“कितले खेप म्हण आयकतलो रे? म्हजो आजो - मांव म्हणटालो, म्हजे सुनेचो एक-एक दोळो म्हळ्यार कोहिनूर वज्र. म्हजेकडेन दोन-दोन कोहिनूर जाले ना? राणी विक्टोरिया कडेन तर एकूच आसा.”

“पूण आई, तुज्या ह्या पालवा भितरले तुजे दोळे ताका कशे कितें दिसले?”

आईन हांसचें. “केन्नाय पळयल्या आसुंये वा म्हाका दाखोवपाच्या वेळार पळयल्या आसुंये. म्हाका याद जायना.”

दर खेपेक होच प्रश्न आनी हीच थरिल्ली जाप. भुरगेपणासावन किशोराचो होच खेळ आसतालो कित्याक तर ताच्या जल्माआदींच सगळ्यो काणयो सोंपिल्ल्यो.

उगडास जायते आसात, तांच्यो काणयोय जायत्यो आसात. काणी खंयची आनी उगडास खंयचो? सगळें एका दुस-यांत मिसळ घुसळ जालां. दर एका उगडासांत आपणांक जाय तें जोडपाचें आनी तेंच काणयेपरस व्हड जायत चललां.

जें आसा तें जगपाखातीर पुरें पडना. मनशाक उडपाखातीर एक मळब लागता. शाळेच्यो चार वणटी हें किशोराखातीर मळब. हांगां शांतनूचे सुभाषबाबू आसात, अमोलकाचे गांधीजी आसात, सच्चिदानंदाचे विवेकानंद आसात. खाकी चड्डी घालून कोणाक हांगां हिंदू राष्ट्राखातीर कवायत करपाची आसा तर कोणाक मारवाडी फाटीं उरिल्ल्याची चिंता सतायता.

शाळा वांदपाचें कार्य पुरें जालेबगर पगडी बांदप ना म्हणपाचें उतर कांय मारवाड्यांनी मदनमोहन मालवीयाक दिल्लें. हाका लागून जमयिल्ले वर्गणिंतल्यान सादारण तीस वर्सांपयलीं ह्या ‘विशुद्धानंद सरस्वती विद्यालय’ ची थापणूक जाली. व्हिक्टोरिया मेमोरीयलचो नक्सो ज्या वास्तूशिल्पकारान केला ताणेंच ह्या शाळेचो नक्सो केल्लो. हिच किशोराची शाळा

किशोर पळयता, हांगां सगळ्यांचीं आपलीं आपलीं सपनां आसात. पूण हीं सगळीं सपनां खंयतरी एका जाग्यार जोडून येतात. हाचें कारण म्हळ्यार दुस्मानाचो चेरो स्पश्ट आसा - ताच्या वचपांत भांगराळ्या सुर्याचो उदेव आसा. किशोराक मात कांय दसकां उपरांत जाणवून येता तें हें, दुस्मानाचो चेरो सोदपाक गेल्यार हारशांत आपलेंच मुखामळ दिसता आनी तेदेवेळार सगळीं सपनां धुंवटेतात. अशें घडटा, कसलेंच म्हण सपन उरना. बाकी उरता तें फकत आपलें पोट, जें दिसान दीस वाडट्यो गरजो, इत्सा आनी वस्तुंवांगडा वाडत वता आनी तें कशेंच पुराय भरपाक पावना.

स्वातंत्र्याचें सुंदर सपन हें ह्या खिणाक सगळ्यांचेंच सपन. कॉंग्रेसच्या अधिवेशनांत जशी मोटमोट्यान आनी नेटान चर्चा जाता तशीच शाळेंतूय जाता. भायलें वारें जेन्ना शाळेंत भितर घुसता तेन्ना शिरंतरांनी व्हांवतल्या रगताची गती वाडटा आनी ताका नेटाचो खतखतो येता. सोंपणांवयल्यान चडटां - देंवताना, मैदानांत खेळटाना, इतलेंच न्हय तर मुतारेचे भितर लेगीत *सरफरोशी की तमन्ना अब हमारे दिल में है* ची धून गुणगुणटात तें जेन्ना तेन्ना आयकूंक मेळटा.

शांतनू हो किशोराचो सगळ्यांत खाशेलो इश्ट. शांतनूचो आजो हो राजपूतानाच्या खंयच्यातरी संस्थानांत दीवाण आशिल्लो. आज्याच्या मर्णाउपरांत ताचो बापूय आतां परतून बंगालाक आयला. शांतनूक आपणाली मायभास बंगालीपरस हिंदी चड बरी कळटा आनी ताका लागून ताणें खंयचेय बंगाली शाळेंत नांव दाखल करीनासताना किशोराचेच शाळेंत नांव दाखल करून घेतलें. शांतनूच्या मतान राजपुतान्यांच्या लोकांक आपूण किशोरापरस चड बरो वळखतां. "तुमचे तकलेंत सदांकाळाखातीर भरल्या वाळवंटांतल्या दुकळाची सांवळी. दुकळ म्हळ्यार कितें तें खबर आसा? दुःकाळ म्हळ्यार आपल्या मनाक वांगड नासता तो काळ. तुमी सदांच फुडाराच्या हुस्क्यान जियेतात. इतलो कुड्डो विश्वास दवरपाफाटलें कारणय तेंच आसा. 'हें करूंक जायना', 'तें करूंक जायना', 'हें केल्यार अशें जातलें', बस, तुमचें जिवीत हें असल्याच गजालींभोंवतणी घुंवत आसता."

असल्या सगळ्या उलोवण्यांची किशोराक तिडक येता. 'बंगाल्यांची जातीय घमेंड हिसपाभायर'. पूण शांतनूच्या उलोवण्यांत कांयशें खरेपण आसा हेंवूय ताका कळटा. हाका लागून तो शांतनूक कांय जाप दिवपाक शकना.

शांतनू आनी अमोलकामदीं फाटले कांय दीस हांगां बरीच बाचाबाची जाता. फाटल्या वर्सा जेन्ना सुभाषबाबून कॅांग्रेसीचें अध्यक्षपद सोडलें त्या उपरांत तो आपली वर्कींग कमिटी करपाक शकलो ना, कित्याक तर गांधीजी ताचें समर्थन करीनासले. तेन्नासावन दोगांयमदीं बरेंच झगडें पेटलें आनी दोगांयनी एकामेकाकडेन उलोवपाचें बंद केल्लें. सुभाषबाबूक कॅांग्रेसीचो राजनामो दिवचो पडलो. शांतनून आपणाल्या इश्टांमदल्यान अमोलकाक भायर

काडलो. किशोरान मदीं पडून झगडें मिटोवपाचो यत्न केलो पूण ताचो कांयच परीणाम जावंक पावलो ना.

मारवाडी लोक स्वातंत्र्यझुजांत वांटेकार जावंक शकनात अशें शांतनू म्हणटा. ते इतले दुबळे आनी भित्रे आसतात, तांच्यांनी बंदखणिंत वचपाक जायना आनी पुलिसांच्यो लाठीय घेवपाक जायना. तांकां सदांच आपल्या जिविताचो आनी संपत्तिचो हुस्को आसता. तेखातीर ते चडानचड गांधीजीखातीर पिवपाक बोकडेच्या दुदाची वेवस्था करतात आनी चरख्याचेर सूत कांतताना तांच्या फाटल्यान फुटल्यान गणयत रावतात.

शांतनू रॉय हो सुभाषबाबूचो भक्त. ताच्या मतान तो वागिणिचें दूद पियेला. आपल्या वाड्यांतल्या कोणा इश्टावांगडा तो टाऊन हॉलांत सुभाषबाबूचे सभेक वचून आयला. थंय ताणें मनांतल्या मनांत सोपूत घेतलो, प्लासीच्या झुजांत नवाब सिराजुद्दौलान एके कुडींत बंद करून दवरिल्ल्यान घुस्मटून मरून गेल्ल्या इंग्लीश सैनिकांच्या उगडासाक बांदिल्ल्या 'होलवेल मान्यूमेंट' वा 'ब्लैक होल' तोडपाक जेन्ना सुभाषबाबू वतलो तेन्ना आपूणय तातूंत वांटेकार जातलों.

'संवसारांतली सगळ्यांत मोटी फट तुकां दाखयतां' अशें सांगून शांतनू ताका डलहौजी स्क्वायरवयले रायटर्स बिल्डिंगेमुखार बांदिल्लें हें स्मारक दाखोवपाक घेवन गेलो. कोणाक खबर त्याच दिसा थंय इतली गर्दी जातली आनी घोड्यांचेर स्वार जाल्ले पुलीस अचकीत प्रकट जावन दणादण लाठयो मारतले म्हण! आकांतून हेवटेन तेवटेन पळटले गर्देंत तो आनी शांतनू वेगळावले. तातूंत किशोराच्या पांयांतल्या जोत्याची एक व्हाण सुटली. ताणें थारून धांवतल्या पावलां मदल्यान ती व्हाण काडपाचो यत्न केलो. तितल्यान पुलिसांची लाठी ताचे तकलेचे फाटले वटेन बसली आनी आपल्या पांयांतली दुसरीय व्हाण शेंवटून मारीत घरा वचपी रस्त्यावटेन ताणे शेंपडी तुटसर धांव मारली. ताची थरथरपी कूड, घामाघूम जावन चिप्प भिजिल्ले ताचे कपडे आनी तांबडोगुंज जाल्लो ताचो चेरो पळोवन आवयक तीं मलेरियाचीं लक्षणां दिसलीं आनी तिणे ताका सरळ व्हरून हाथरूणांत न्हिदायलो. ताच्या काळजाची धडधड खूब उसरां उणी जाली. तोमेरेन आई ताका वाटयेन कितें - कितें पिवयत रावली म्हण कोण जाणा - तोवूय बी पळयलेबगर आनी नकळो आसताना पियेत रावलो. मदीं मदीं तो आवयचो चेरो नियाळटालो. आपूण जितो उरलां हीच गजाल भोंवन भोंवन ताचे तकलेंत येताली.

दुस-या दिसा शांतनू ताका शाळेंत अशे तरेन मेळ्ळो जशें कि तें आदल्या दिसा कांयच घडूंक ना. ताचें हें वागप पळोवन किशोरान ताका आपल्या माथ्याक जाल्ली कोंक सांगपाची गजाल आडावन धरली. शांतनून आपल्या बोल्सांतल्यान नवाब सिराजुद्दौलाचें चित्र भायर काडलें, ''इंग्रजांकडेन झुजपी ह्या नवाबाची काणी तुका खबर आसा? ताच्या

सेनापतिंनी आनी मोट्या वेपा-यांनी जंर ताका धोको दिवंक नाशिल्लो जाल्यार आज आमी अशे गुलाम नासले."

किशोराच्या गळ्यांत कितेंतरी आडखळिल्लेवरी जालें. 'खंयचे वेपारी' अशें तो विचारपाक सोदी. पूण तो कांयच उलोवपाक शकलो ना. ताचें तकले फाटले वटेनचें गूट सणसणूंक लागिल्लें.

"मीर जाफरान अमीचंद आनी जगतशेट हांचेकडेन संगनमत करून दगाबाजी करूंक नाशिल्ली जाल्यार सिराजुद्दौलान फोर्ट विल्यमचो तावो घेतिल्लेवरी जाल्लें. सांगूं येना, एखाद दुसरो इंग्रज, गर्मेन वा घुस्मटून मेलाय आसुंये पूण इंग्रजांनी जाणून बुजून मरतल्यांचो आंकडो वाडोवन-चडोवन हांगाचे नवाब कितले रानटी आनी क्रूर आशिल्ले हें संवसारामुखार सिद्ध करपाचो यत्न केलो. मेल्ल्यांच्या उगडासाक हें यादस्तिक आमच्या हड्ड्यार उबें केलां. नांव दिलां - ब्लैक होल ऑफ कॅलकटा" - शांतनूच्या नाकाच्यो पुडयो रागान फडफडटाल्यो.

किशोर वगी आशिल्लो. ताचे खोल भितर एक फांस जसोकाय ताका घुस्मटायतालो. त्या दिसा पुराय दीसभर तो शेणिल्ले शेणिल्लेभशेन उरलो. सांजवेळा घरा वतकच ताणे कपडे बदलले आनी आवयक म्हळें, "हांव बडाबाजारांतले लायब्रींत वतां. येवपाक कळाव जातलो."

सय्यद साली लेनमेरेन सडसडीत पावलां उखलीत किशोर पुस्तकालयांत वचून सरळ सत्यपालजीमुखार उबो रावलो. "म्हाका सिराजुद्दौला संबंदीं जाणां जावपाक जाय. कसलेंय पुस्तक दी."

सत्यपालजीन रजिस्टरावयली नदर वयर काडीत ताका बारीकसाणेन नियाळ्ळो, "कित्याखातीर म्हायती जाय?" किशोर गडबडलो तेसरशीं सत्यपालजीन विचारलें, "कसली म्हायती जाय?"

"सगळी. प्लासीच्या झुजासंबंदी." किशोरान निश्चेवी सुरान म्हळें.

"बरें आसा. यो म्हजेबरोबर." तो ताका कोनशाक आशिल्ले लायब्ररीयनाचे धाकटुले कुडींत घेवन गेलो. थंय ताणे चावी लावन आलमारींतली एक फायल काडली. तिचेर इंग्लीशींत 'एस' अशें बरयिल्लें. ती किशोराकडेन दीत ताणे म्हळें, "ही म्हजी स्वतःची फायल. तुका जाय जाल्यार तूं हांगाच बांकार बसून वाचूंक शकता. हांव आजीमगंज - मुर्शिदाबादचो. तेखातीर म्हाका सदांच सिराजुद्दौलाची ओड आसा. सिराजुद्दौला आमचो नवाब आशिल्लो."

कृतज्ञतायेन भरून गेल्ल्या किशोरान फायल उगडली. सुंदर, मोठ्या उतरांनी सत्यपालजीन हांगाच्यो थंयच्यो पुंजावन बरोवन दवरिल्ल्यो गजाली तो एका चित्तान वाचपाक लागलो.

*"28 मे 1756. सिराजुद्दौलान आर्मेनियन एजंट 'खोजा वजिद' हाका बरयलां - अल्ला आनी पैगंबराचो सोपूत घेवन सांगतां, इंग्रजांनी जर कोलकात्याच्या देशी आनी फिरंगी राज्यांक वेटाळपी 'मराठा खंदक' भरलो ना आनी आपलो किलो कोंसळायलो ना जाल्यार हांव तांकां देशाचे शीमेभायर धांवडायतलों."*

*सिराजुद्दौलानचे सेनापती मीर जाफर हाणे एडमिरल कर्नल क्लाइव हांचेकडेन समजोतो केलो तो म्हळ्यार, नवाब जातकूच कोलकात्याचेर घुरी घाल्ल्यान जें लुकसाण जाल्लें आनी सैन्याचेर जो खर्च आयिल्लो तो जमेक धरून अशे तरेन पयशे दितलो -*

*ईस्ट इंडिया कंपनी - एक कोटी रूपया*

*इंग्रज नागरीक - पन्नास लाख रूपया*

*मुसलमान नागरीक - वीस लाख रूपया*

*आर्मेनियन नागरीक - सात लाख रूपया*

*दुस-या एका समजोत्यावरवीं मीर जाफरान ईस्ट इंडिया कंपनीच्या मुखेल समितिच्या सदस्यांक भेट म्हण बारा लाख रूपया आनी इंग्रज सैन्याक ईनाम म्हण चाळीस लाख रूपया दिवपाचें मान्य केलें.*

*कंपनी आनी मीर जाफर हांचो मध्यस्त, कोलकात्याचो एक मोटो वेपारी अमीचंद हाची फटवणूक करपाखातीर कबलातिची एक फटिची प्रत तयार करून तातूंत अमीचंदाक ताणे केल्ल्या सहयोगाखातीर वीस लाख रूपये दिवंचे अशें बरोवन घेतलें,*

*23 जून 1757. नवाब सिराजुद्दौलाच्या सैन्याच्यो मुखेल तुकड्यो मीर जाफर, यारलुत्फ खान आनी राय दुर्लभ हांच्या ताब्यांत आशिल्ल्यो. हे तिगूय षड्यंत्रांत सामील आशिल्ल्यान ते झुजांत लडूंक नात. फकत मोहनलाल आनी मीरमदन हांच्यो तुकड्यो झुजांत देंवल्यो. मीर मदन जखमी जातकच सिराजुद्दौलान मीर जाफराक आपल्या तंबूंत आपयलो. आपली पगडी देंवोवन ताचेमुखार दवरीत सिराजुद्दौलान ताका तांच्या रगताच्या नात्याची, आजो अलीवर्दी खाँ च्या उपकारांची आनी सैयद जातीच्या परंपरांची याद करून दिवन आदलीं झगडीं विसरून वचपाक सांगलें. मीर जाफरान झुजपाक सहमती दाखयतकच ताचेच सांगणेन सिराजुद्दौलान मोहनलालाक झुजाच्या ठिकाणावयल्यान परतून आपयलो. मोहनलाल परतता तें पळोवन, फाटीक कोण लागनासतानाय सगळें सैन्य, माथ्यार पांय घेवन धांवत सुटलें. निमाणे सिराजुद्दौलाचीय तकली घुंवली आनी ताणेय पळून वचपाचो बेत आंखलो.*

*(गुलाम हुसेन - सियर-अल-मुत्खरीन, 1780)*

अचकीत आवाज जालो तेसरशीं किशोरान अजापान तकली वयर केली जाल्यार

मुखार सत्यपालजी चावयांचो घोंस घेवन उबो आसा. भायर काळोख दाटिल्लो. सत्यपालजीचें मुखामळ गंभीर जाल्लें. ''जें सोदतालो तें मेळ्ळें काय ना?'' किशोरान न्हयकार दाखोवपाक तकली हालयली.

''कितें जाणून घेवपाक सोदता?''

किशोराचें तोंड काळें पडिल्लें ताणें पळयलें. ''हो अमीचंद कोण आशिल्लो? म्हळ्यार ताची जात कितें?''

वक्लाच्या भितरल्यान सत्यपालजीचे दोळे आपुलकायेन ताका तेळटाले. ''शीख खत्री बनिया आशिल्लो. मारवाडी येवचे पयलीं कोलकात्यांत पयलीं बंगाली आनी उपरांत खत्री बनियांची चलती आशिल्ली. भोगविलासांत रमिल्ल्या कारणान ह्या लोकांची कामाकडेन उदासिनता दिसून आयली आनी मागीर ल्हवू ल्हवू इंग्रजांनी मारवाड्यां बरोबर काम करपाक सुरू केलें. प्लासीचें झूज जातकच दुस-याच वर्सा अमीचंद मेलो. त्याकाळार ताचेकडेन सुमार पन्नाशेक लाखांची संपत्ती आशिल्ली. ताका भुरगेंबाळ नाशिल्लें. दियाचंद हो पोसको पूत आशिल्लो. पूण ताची सगळी संपत्ती अमीचंदाचो मेवणो हुजुरीमलान सुतलायली. दियाचंदाक कांयच मेळ्ळें ना. सगळें खलास.''

''आनी जगतशेटीचें कितें जालें?'' किशोरान विचारलें.

''जगतशेट आमच्या अजीमगंज - जियागंजचोच आशिल्लो. तो बंगालच्या नवाबांक आनी ईस्ट इंडिया कंपनीक उदारेचेर पयशे दितालो. ताचे मर्जेबगर खंयचोच नवाब गादयेर बसूंक शकनासलो आनी तिगूंकय पावनासलो. तो आपणाक 'किंग मेकर' समजतालो. जगतशेटीची बरीच चलती आशिल्ली. एक फावट ईस्ट इंडिया कंपनी आनी जगतशेट हांचेमदीं पयशे फारीक करपासंवंदीं इतलीं झगडीं पेटलीं, तेन्ना नवाबान जगतशेटीचे सांगणेवयल्यान वकिलाक अटक केली. जगतशेटीचे वेवहार बँक ऑफ इंग्लंडचेभशेनच आशिल्ले अशें एडमंड बर्कान बरयलां.''

''पूण जगतशेट सिराजुद्दौलाच्या आड ईस्ट इंडिया कंपनीवांगडा आशिल्लो तर?'' किशोरान विचारलें.

''हय. सिराजुद्दौलाच्या मर्णा उपरांत क्लाइव जेन्ना मुर्शिदाबादाक आयलो तेन्ना जगतशेट महताबचंद ताका मेळपाक गेलो अशें सांगतात. क्लाइवाक दिल्लीच्या बादशाहाकडल्यान बंगालची दीवाणी मेळिल्ली ती जगतशेटीवरवींच. पूण आपले हेच राजकी ताकदीखातीर निमाणे ताका मारून वडयलो. मीर कासीम ह्या फुडल्या नवाबान ताका मुंगेरच्या बुरूजांत कैद करून मारून वडयलो कित्याक तर तो इंग्रजांकडेन बरेपण जोडून आपली गादी निखळायतलो म्हणपाची मीर कासीमाक भिरांत आसली. महताबचंदाचो वारस जगतशेट खुशालचंद हो पक्को भोगविलासी आशिल्लो. बंगालांत दुकळ पडिल्ल्या कारणान थंय

वेपार थंडाविल्लो. जगतशेटीचे वारस भिकेक लागले. नवाबांकडेन आनी कंपनीकडेन तांची जितली उदारी आशिल्ली ती सगळी बुडली. ल्हवू ल्हवू सगळें विकचें पडलें. प्लासीच्या झुजासावन शंबर वर्साभितर हालत अशी जाली, इंग्रजांकडल्यान दर म्हयन्याक मेळपी थराविक रकमेंत जगतशेटीक खर्च भागोवचो पडलो. अशे तरेन ही सगळी कथा सोंपली."

"जगतशेट कितें मारवाडी आशिल्लो तर?" किशोरान सत्यपालजीवटेन काकुटवाणेपणान पळयलें.

अचकीत सगळी गजाल सत्यपालजीच्या ध्यानांत आयली.

"हय. मारवाडी ओसवाल. पूण जे गजालीखातीर तूं आपणांक त्रास करून घेता ताका कसलोच आदार ना. इंग्रजांकडेन संगनमत करून ज्या मीर जाफरान सिराजुद्दौलाक फटयलो, ताचेकडेन ताचें रगताचें नातें आशिल्लें. सत्ता आनी पैसो हांचें पिशें लागिल्ल्यांक आनीक वेगळी जात आसना. ते सगळे एकेच जातिचे आसतात. केन्ना काळासावन ते आपणांक विकत आयल्यात आनी विकत रावतले. म्हाका दिशिल्लें, तूं सुभाषबाबूखातीर सिराजुद्दौलाविशीं जाणा जावपाक सोदता. पूण तुका तर दुसरीच कसली गजाल चाबता तें हांव पळयतां. इंग्रजांक हांगां पांय दवरपाक सगळ्यान पयलीं बंगाल्यांनीच मदत करूंक ना? तूं तुकाच पयलीं वळखुपाक शीक. कोणा दुस-यांच्या धारणांनी चिंतेस्त कित्याक जाता?"

किशोराचें काळीज त्याच खिणाक ल्हव जालें. ताणें ओणव घालून सत्यपालजीच्या पांयांक हात लायलो आनी तीर कसो तो पुस्तकालयांतल्यान भायर सरलो.

रातिच्या तीन वरांचेर मल्लिक बाबुआंच्या आमरायेंतल्या कोगळाच्या कुहू कुहू आवाजान किशोराक जाग आयली. आंब्याक चंवर येवन बरेच दीस जाल्ले आनी तोरांचे ल्हान ल्हान कणय लागिल्ले. रातिचे थंडसाणेंत कोगळाचें कुहू कुहू इतले लागीं भासता, दिसता जशेंकितें जनेलाचेरच बसून ती गायता. भायरसून भितर सरिल्ल्या मंदशा उजवाडांत ताणे आवयचेय दोळे उकते आसात म्हणपाचें पळयलें, "आई, म्हाका सांग, आज्यांचे बी संबंद इंग्रजांकडेन कशे आशिल्ले?" किशोरान ल्हव आवाजान विचारलें.

"आरे, तूं जागो जालो? आनी आतांशो रे ह्यो इंग्रजांच्यो गजाली तुजे तकलेंत कित्याक आयल्यात?" आवयन विचारलें. तिच्या उलोवपाच्या सुरांत गजाल ना सांगपाजोगी कसलीच सुलूस ताका लागली ना. बरोच वेळ ती वगी रावली. काळोख आनी थंडसाणेंत घुस्पून गेल्लो किशोर पयस खंयतरी घडून गेल्ल्या आनी जायते फावटीं आयकल्ल्या घडणुकांचें काल्पनिक चित्र रंगयत रावलो.

"इंग्रज सायबांखातीर हॉग सायबाच्या मार्केटांत फळां आनी सुक्या मेवाचे व्हडले

व्हडले पाटले श्रृंगारताले. कुळारा हांव आईक, काकीक सांगतालीं तर 'आ' करून तीं पळयत रावतालीं. म्हज्या आजे मांवाच्या, 'व्हडलो बाबू' च्या, कश्टांची आनी प्रामाणिकपणांची सायब लोक खूब कदर करताले. कोणूय आपल्या सख्ख्या भावाक मानचो ना ताचेपरस चड हॅमिल्टनसायब ताका मानतालो. 'व्हडल्या बाबू' च्या प्रामाणिकपणाचेर दोळे धापून भरवंसो दवरताले. मैकेन्जी लॉयड म्हण एक कंपनी आशिल्ली. तिचेखातीर ते शेयर विकते घेताले. पूण एखाद्या शेयराचो भाव त्याच दिसा देंवलो जाल्यार, हो शेयर चडावत दरान कसो विकतो घेतलो अशें कंपनीचो सायब विचारीनासलो. एक फावट त्याच सायबान ताचेखातीर शिपायाकडल्यान एक पाकीट धाडून दिलें. व्हडल्या बाबून तें उकतें करून पळय जाल्यार भितर एक कागद आनी ताचेर बरयिल्लें - दोन लाख रूपया. तो अजापलो. ताणें हें कितें काय म्हण सायबाक वंचून विचारलें. सायबान ताका त्या वर्सा तागाची पिकावळ कितली येतली आनी ताची किंमत कितली वाडटली हेविशींचो अदमास सांगलो. ताणे म्हळें, "रामविलास, तुजी इत्सा आसल्यार अमूक एका एकराचें पीक विकतें घेवन तूं इतले पयशे जोडपाक शकता." तुज्या पणज्यान ह्या वेवहारांत खूब फायदो कमायलो.

"ही गजाल पयल्या म्हाझुजावेळावयली. त्या काळांत तागाच्या 'हेसियन' पोत्यांची मागणी खूब वाडिल्ली. भिवानीत एक लाख धा हजार रूपयांत तीन चौक्यांची मोटी हवेली उबी जाली. फळांची बाग वेगळीच. आंबे, लिची, सफरचंद, पेरां - सगळ्या तरांचीं फळां आसतालीं. बागेंत एक तळें आशिल्लें. तुजो बापूय आनी काका इश्टांवांगडा तातूंत पेंवताले. दोन धव्याफुल्ल घोड्यांची बग्गी आशिल्ली. गर्मेच्या दिसांनी साखर घालून चार शेर दूद घोड्यांक पाजताले. शिंयांच्या दिसांनी पाव शेर तूप खाववयताले."

"सदां सांजवेळा घोड्यांची बग्गी रूनझून करीत ललितभैयाक आख्खे भिवानीत भोंवडावन हाडटाली. एका वर्साचो आशिल्लो तो. तुजो तर जल्मूच जावं नाशिल्लो. शिंयांच्या दिसांनी रातीकडेन बग्गींत दोन कांबळी वडोवन व्हडलो बाबू रातचो पयस पयस वतालो. पांगरूणाबगर कोणूय न्हिदिल्लो सांपडलो जाल्यार ताचेर एक कांबळ घालतालो. म्हज्या मांवान, धाकल्या बाबून भिवानीत पुस्तकालय उगडलें. चलयांखातीर खूब शाळा उकत्यो केल्यो. पूण सदांच काळ एकासारखो खंय आसता?"

"थंय कोलकातांत धाकलो बाबू टायफोड जावन अचकीत मरता कितें आनी व्हडल्या बाबूची तकली घुंवता कितें. भर तरनाटेपणांत एकतीस वर्सां पिरायेच्या एकल्या एकसु-या पुताचें मर्ण ताच्यान सोंसपाक जालें ना. त्यावेळार तुजो बापूय आशिल्लो पंदरा वर्सांचो. वेपार - कारभार कांय समजनाशिल्लें. व्हडले बाबून कामाचो सगळो भार भावालो चलो चौथमलचेर सोंपयलो. तो फकत सट्टा खेळटालो. रातयांत लाखांनी रूपये जोडपाचीं

सपनां पळोवपी मनीस आशिल्लो तो. ताका विचारपी - पाचारपी कोण ना जाल्ल्यान एके राती ताणें इतलें लुकसान करून घेतलें आनी ल्हडल्या बाबून कमायिल्लें तितलेंय भकीक वडयलें."

"त्या दिसांनी जायत्या जाणांचे बाबतींत अशें घडिल्लें. चड करून आख्ख्या संवसारांतूच अशें घडिल्लें. हवेली, बाग सगळें घाणाक दवरलें. निमाणे व्हडलो बाबू म्हजेकडल्यान दोन-दोन रूपये मागत-मागत मेलो. हांव दाराच्या आडसाक रावन ताका समजायतालीं, दोन रूपये ज्योतिशाक दिवन कांय तो शेणिल्लें नशीब परतें हाडूंक शकचो ना. पूण तो उबोच रावतालो. मागीर म्हाका दिसतालें, वचूं दी. उरिल्लें सुरिल्लेंय दिवन वडोवचें. नातसुनेन ताका दोन रूपयांखातीर सतायलें म्हणपाचें दुख्ख तरी निदान ताका उरचें न्हय." आवयन एक आंवडो गिळ्ळो. उलोवपाची ती वगी जाली.

भांगराचें घडयाळ घाल्ल्या, काळी अचकन, काळो सदळसो पायजमो आनी विलायती 'ग्लासकिड' बूट घाल्ल्या व्हडले बाबूच्या म्हळयार रामविलास-पणज्याच्या रूबाबदार व्यक्तिमत्वाची तुळा, दारा आडसून दोन रूपये मागपी विरक्त जाणटेल्याकडेन करप किशोराक कठीण दिसतालें. भायर ल्हवू ल्हवू उजवाडटालें आनी दक्षिणेवटयां थंड वारें व्हांवपाक लागिल्लें. कोगूळ कुहू कुहू करून थकिल्ल्यान तिच्या आवाजांत मदीं मदीं पुरो जाल्लेभशेन जाणवतालें. गंगेच्या उदकान रस्ते धुवपाचें सुरू जाल्लें.

आई उलोवपाक लागली, "व्हडलो बाबू म्हणटालो, पयलेच फावट जेन्ना तो कोलकात्याक आयलो तेन्ना दिसांतल्यान दोनूय वेळा गंगेच्या उदकान रस्ते धुतात तें पळोवन ताका पिशें लागपाचें उरिल्लें. ताणीं म्हणचें, मनीस दोन थेंबे गंगाजलाखातीर तळमळटा आनी हांगां तर गंगाजलान रस्त्यांचें धुवप चललां. हें शार सोडून हांव वचचों ना हें हावें तेन्नाच थारायलें. पूण हांगां कसलें सूख पळयलें व्हडले बाबून? शेयर बाजार आनी सट्टो हातूंतल्यान कोण केन्ना जैपतीक आयला? दीसरात फायदो लुकसानीची चिंता."

किशोर एकदम अस्वस्थ जावन उठून बसलो आनी ताणें विचारलें, "आई, आज्याच्या मर्णाउपरांत पुलीस कमीशनर टैगर्ट व्हडले बाबूक मेळपाक आमच्या चोरबागानच्या घरा आयिल्लो हें तर तुवें सांगूंक ना."

"हय. आयिल्लो. पयलीं खूब फावटीं तुका सांगलां हावें. टैगर्टाकडेन व्हडले बाबूची ब-यापैकीं इश्टागत आशिल्ली. सांजवेळचो ताचेबरोबर पासयेक वतालो तो. ताका खूब मानतालो तो."

"आई, एक सांगूं तुका? आयकतली? आयजसावन आयुश्यांत केन्नाच तूं कोणाच्याच हुजरां टैगर्टाचें नांव घेवं नाका. टैगर्ट आमच्या घरा आयिल्लो म्हणपाचें कोणाकूच सांगूं नाका." किशोराचो आवाज थरथरतालो. "आई, तुका खबर ना, हो टैगोर्ट एक क्रूर

मनीस आशिल्लो. जनरल डायरापरस मातूय उणो न्हय. स्वातंत्र्याखातीर झुजपी लोकांचेर ताणें कितले जुलूम आनी अत्याच्यार केल्यात हें सांगपाचें ना. व्हडले बाबूचो तो इश्ट आशिल्लो म्हणपाची गजाल कितली लजेची जाणां आई. आयच्यान सोळा वर्सांपयलीं गोपीनाथ साहान टैगर्टाक मारपाच्या यत्नांत चुकून कोणा भलत्याकूच मारून वडयलो. फकत अठरा वर्सांचे पिरायेचेर ताणें टैगर्टाक मारपाखातीर आपलो जीव दिलो. इतलेंच न्हय तर आठ वर्सांआदीं टैगर्टाक मारपाची येवजण आंखताना सुभाषबाबूच्या व्हडल्या भावाक, शरतबाबूक धरून बंदखणींत वडयिल्लो. आई, चुकून लेगीत कोणाय हुजरां पणज्याची टैगर्टाकडेन इश्टागत आशिल्ली हाचो उल्लेख करूं नाका."

कांय वेळ आई वगी रावली. "म्हाका हें कांयच खबर नाशिल्लें. पूण तुजो पणजोच न्हय तर गांधीजीवांगडा रावपी व्हडव्हड लोक लेगीत टैगर्टाकडेन संबंद जोडून आशिल्ले. म्हाका इतलेंच कळटा, आमच्या पुर्वजांक जें सारखें दिसलें तेंच ताणी केलें आनी आमकां जें योग्य दिसता तें आमी करचें. पूण घडून गेल्ल्यो गजाली पुसपाची वा लिपोवपाची आमकां कसली गरज? तेविशीं लज दिसून घेवपाचें कारण कितें? आपणाक एखादी गजाल मानना जाल्यार आपणे तिचेपासून पयस रावचें. पूण घडून गेल्लें म्हण कोणाच्यान अशे तरेन पुसून वडोवं येता.?"



# 5

# जदि निर्वासने पाठाबेई-कलिकता

## (निर्वासनांत जर धाडपाचेंच जालें जाल्यार -कोलकाताच)

<u>कथालेखकाचो अपरिहार्य हस्तक्षेप :</u>

*किशोरबाबूच्या हट्टाक लागून ही कथा आतां आनीक फाटीं वता : किशोरबाबू आपलो पणजो, ग्रेट ग्रैंड फादर रामविलास बाबू ऊर्फ व्हडलो बाबू (1860-1926) चे डायरीच्या आदारार एक पूर्व-कथा बरोवंक लागला. ताच्या म्हणण्याप्रमाण, पयसुल्ल्या देशांतल्यान आयिल्ल्या सवण्यांवरी आपले मांयभुंयेपरस पयस वसून आयिल्ली एक जात - मारवाडी जात - आनी एक शार - म्हळ्यार कोलकाता म्हानगराच्या एकवटीत इतिहासांतच ताचे कथेचें मर्म आसा.*

*कथा लेखकाच्या म्हणण्याप्रमाण ही एक अवांतर कथा. पूण बायपास सर्जरी उपरांत रस्तो मापीत मापीत भोंवतानां किशोरबाबूचीं मेजमापां बदलत गेल्यांत. 'टू-द-पोइंट' उलोवपाचो आग्रो धरपी किशोरबाबू आतां अवांतर गजाली करपच पसंत करता. मनशांत कितलोय जरी बदल घडलो तरी तो पुराय बदलना अशेंच म्हणटात. किशोरबाबूचे तकलेंत इतिहासमास्टर रघुनंदन मिश्राची गजाल आयजूय घर करून उरल्या, ती म्हळ्यार, घडून गेल्लो 'काल' समजून घेतलेबगर 'आयज' चो अर्थ पुरायपणान समजूंक जावचो ना. हेखातीर दरेके गजालीची फाटभूंय दिवप गरजेचें.*

*ताचो दुसरो तर्क हो, इतिहास जरी सामान्य मनशांची कथा सांगीना आसलो तरी दरेक इतिहास, त्या इतिहासाकडेन झुजत जीण सारपी सामान्य मनशांनीच घडिल्लो आसता. देखून किशोरबाबू इतिहासांतलें अव्यक्त कथन करतां करतां आपले कथेक इतिहासाच्या थराचेर पावोवपाची इत्सा बाळगिता.*

*कितेंय आसूं, कथा किशोरबाबूचीच आनी चोवीस केरेटांतले बावीस केरेट तांचेच मर्जेप्रमाण आसतले. 'निर्वासनात जर वचपाचें आसा जाल्यार कोलकात्याकूच वचपाक जाय कित्याक तर थंय गंगा आसा. खंयूय रावपाचें आसत जाल्यार कोलकाता रावपाचें कित्याक तर थंय दिसाक दोनूय वेळची रस्त्यांची गंगाजलान धुलाई जाता.' अशें येवजुपी ग्रेट ग्रेंडफादर रामविलासबाबूच्या कुपांविरयत भुरगेपणांचे मरूभुमीसावन किशोरबाबू*

*कथेक सुरवात करता.*

मरूभुमीच्या मळबांत अचकीत कुपांची एक रांक दिसता. तेबरोबर चार भुरग्यांचो एक पंगड चादर घेवन भायर सरता. रामविलास, डुंगर, नरसिंह आनी नारंग. धाकटुल्या धाकटुल्या आठ हातांनी चार कोनशे धरून ती चादर पसरायतात. पंगड गायत घराघरांनी वता.

| | |
|---|---|
| *डेडरियो करे डरूं डरूं* | *बेबकी म्हणटा डरांव डरांव* |
| *पालर पानी भरूं भरूं* | *कुपांचें उदक भरा भरा* |
| *आधी रात री तलाई नेष्टेई नेष्टे* | *कितलें? अर्दे रातमेरेन तळें भरून ओतता इतलें.* |

दरेका घरांतल्यान चादरेंत मूठभर गंव घालतात. कांय घरांनी चणे तर बाजरी लेगीत. वाड्याची भोंवडी पुराय जायीमेरेन वजनाच्या भारान ते आठ हात दुखपाक लागतात. रामविलासाची आई हें सगळें धान्य मातयेच्या बुडकुल्यांत उकडटा आनी ताची 'खिचडी' करता. उपरांत थोडी थोडी खिचडी चारूय दिकांवटयां वडयता आनी वारें आनी उदकाचें अर्ध्य दिता. कसल्याय कारणांक लागून कुपां जर रागार जाल्लीं आसत जाल्यार हे भेटीन तीं प्रसन्न जांव म्हण. मागीर खिचडेचो प्रसाद घरा घरांनी वांटटात.

रामविलासाच्या कानार आवयचो नाजूक साद पडटा. ती ताका सादयता, "विलास, विलास." आईन कितल्याय पयसुल्ल्यान जरी साद घालो तरी ताका तो आयकूंक येता. आठ वरसांचे पिरायेचेरूच त्या कंवळ्या काळजाक समजायलेबगर कळून आयलां तें म्हळ्यार आवय एकटेपणाक भियेता तेन्नाच ती ताका सादयता. ताची भयण चुनिया हरशीं सदांच आवयम्ह-यांत आसता, पूण ती आसली म्हण तिका आदार दिसना.

आठ वर्सांपयलीं जेन्ना तो तीन वर्सांचो आशिल्लो तेन्ना म्हळ्यार अठराशें त्रेसश्ट वर्सा, दिल्ली आनी कोलकातामदीं रेल्वे लाइन जाल्ली. रामविलास विक्रम संवतांतल्यान सत्तावन वर्सां काडून हिशोब करता. "रेल्वे लायन जाली कितें आनी तुजो बापूय हेमिल्टन सायबाच्या आपोवण्यान परगांवांत गेलो. हेमिल्टन सायब आपूण कोलकाताक गेलो तो गेलो, वतना तुज्या बापायकूय वांगडा व्हेलो. स वर्सांआदीं गदरच्या झुजांत तुज्या बापायनूच ताचो जीव वांटायिल्लो. ताची काकूळट दिशिल्ली ताका. म्हणपाक लागलो, 'मनशाचीच तर जात आसा. ताचेंय रगत आमचेचभशेन तांबडें.' धान्याच्या गुदावांत ताका लिपयलो. नाजाल्यार शिपायांनी ताका चांचावन वडयला. ताणें म्हळें, 'जितो आसासर तुजे उपकार विसरपाचों ना.' आरे, उपकारांची फेड करपाचीच आशिल्ली जाल्यार दिवपाचें एक मोहरांचें पोतें. तर मेल्लो म्हणपाक लागलो, 'आमचेबरोबर कोलकाताक यो. थंय तुका भांगरान न्हाणयतां.' जालें. गेलो तुजो बापूय."

लंवडिल्लेकडेन विलास आवयच्या गळ्यांत हात वडयता आनी खबरी आयकतां आयकतां तिच्या गळयांतली भांगराची माळ सांसपिता. हे फांवट कोलकाताक सावन

दिवाळेकडेन बाबा घेवन आयिल्लो ती. "उंटांवांगडा भोंवपी बंजा-यापरसूय पाश्ट आसा आमची जीण. ह्या लोकांचें कुटूंब निदान सांगाताक तरी उरता. आमच्या नशिबांत तितलेंय ना. असलें धन जोडून फायदो कितें? मीठ भाकरी खावन कितें मनीस जगपाक शकना? परदेशांतले आख्खे भाकरेपरस घरची अर्दी लेगीत रूचीक आसता."

रामविलास आड पडूनच आवयचें आपणाकडलें उलोवणें आयकता. आई हरशीं आनीक कोणामुखार उलोवपाक शकना. देखूनच ताचेमुखार उलयता. एखाद्या दिसा फांतोडेपयलींच काळखांत आई दांत्यार बाजरी दळटां दळटां भजन आळयता तें ताका आयकूंक येता. आवयचो आवाज थारता तेन्ना पळयनासतानाय ताका कळटा, दुकांनी तिचो पोलको भिजून गेला आसतलो.

आई रडपाक लागतकच आजी तिका धपकायता हें ताणें आयकलां, "विमले, काळजांत एक फावट भिरांत उपरासली जल्यार मागीर बेगीन था-यार पडना. कित्याक अशें रगत आटोवन वडयता? आगे, दर वर्सा तो येता न्ही? मदीं-मदीं तर हरकारा दिल्लीक सावन कोलकाताची ताची चीटय तुका हाडून दिता. मनशान कशेयभशेन आपणेच आपणाक सवस्तकाय मेळोवपाची आसता." पूण आईचें काळीज बाबाखातीर कित्याक तळमळटा हें रामविलासाक खबर आसा.

आईचे धाकले मावशेचो घोव लग्न जायनाफुडें पैशे जोडपाखातीर उदेंतेवटेन पयस आसामाक गेल्लो. त्याच दिसांनी मालवांत अफिमाच्या वेवहारांत तांकां आकांताचें नुकसान सोंसचे पडिल्लें. मावशाचेर खूब व्हड रिणाचो भार सांडून ताचो बापूय मेल्लो. आईचो मावसो आसामाक वचपाखातीर मारवाडसान मिर्जापूरमेरेन पांयांनी चलत गेलो. थंयच्यान मालाचे होडयेंतल्यान गंगेवटेन कोलकाता आनी मागीर पद्मा न्हंयच्या रस्त्यान आसाम. आसामाक पावतकच उदकाच्या जाग्यार सतत च्या पिवन-पिवन तो मलेरियाकडेन झुजत उरलो. सोळा वर्सांउपरांत बापायचें रीण पावोवपाइतले पयशे एकठांय करून, आपलो जीव शाबूत दवरून, तो आपल्या गावांत परतलो तेन्ना वाटेंतूच ताची गांठ पडली बायलेचे प्रेतयात्रेकडेन. गावांतलो जाणटेलो ठाकूर नाशिल्लो जाल्यार घडये ताका कोण वळखुपाचो नासलो आनी तोवूय कोणाक वळखुपाचो नासलो. तेन्नासावन तो विक्षिप्त कसो जालो. रामविलासाचे आवयन आपणाले मावशेचें तीळ-तीळ झिजून जगप पळयलां. आई एक गीत म्हणटाली - *आंखडियां झांई पडी, पंथ निहारि - निहारि / जीभडियाँ थाला पड्या, आया नहीं गिरीधारी* (वाट पळोवन पळोवन दोळ्याचेर दाटलो काळोख / जिबेक आयले फोड, गिरिधारी आयलो ना) आनी तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवत रावतालीं.

जोमेरेन रेल्वे लायन दिल्लीमेरेन येवंक नाशिल्ली तोमेरेन आईन कशेयभशेन बाबाक थातारून दवरलो. मात रेल्वे लायन योमेरेन तांचें कुटूंब इंग्रजांनी वसयिल्ले मंडी भिवानींत येवन राविल्लें. दर दिसा हरकारे लोक दिल्लीसावन भिवानीखातीर चिटी हाडटाले. रातभर ते चलताले. पंच्यात्तर मैलांचो रस्तो ते एके रातींत माड्डीताले. ताकत येवपाखातीर

तांच्या बोल्सांनी आसताले लाडू आनी बोल्सांतल्या चिटयांनी आसतालें खांडसरी, तूप, गोड, धान्यां हांचें मोल. हरका-यांकडल्यान चिटी घेवपाखातीर गांवांतले लोक गांवच्या भायर बसून रावताले. त्या चिटींमदीं केन्ना केन्नाय बाबाचीय चीट आसताली. रेल्वे लायन जेन्ना कोलकाताकसावन दिल्लीमेरेन पावली तेन्ना मात बाबाक आई हॅमिल्टनसायबाम्ह-यांत वचपाची आडावंक शकली ना. पूण बाबाकडल्यान तिणें इतलेंच उतर घेतलें, तें म्हळ्यार तो केन्नाच आसामाक वचचो ना. आनी मागीर बाबा वचपाक गेलो.

*'रूपयो होवे रोकडो, सोरो आवै सांस / संपत होय तो घर भलो, नहीं भलो परदेस'* (रोकड पयशे आसल्यार, बरो चलता स्वास / धन आसल्यार घर बरें, नाजाल्यार बरो परदेस) आई केन्नाय बाबाक कितेंय सांगपाक गेली जाल्यार बाबा तिका ही ओपार सांगतालो.

हे दिवाळेंत एक दीस रामविलासान बापायक लिपोवन सांगिल्लें, आपूण आतां व्हडलो जालां. आठ वर्सांचो. आपणाकूय कोलकात्याक घेवन वच. बापूय हांसलो. "तुजे आईचें कितें? कुडींत जीव आसासर ती तुका कशीच येवपाक दिवची ना."

रामविलासाकय हें बेस बरें खबर आशिल्लें. ताचेआदीं जल्मल्ले ताचे चार भाव एकाच बरोबर कॉलराचे धामींत मेल्ले. तेन्नासावन आईचें काळीज इतलें हाललां, दर खिणाक तिका मर्ण आपणाले आशिकुशीक उबें आशिल्लेभशेन दिसता. पूण रेल्वेगाडी कशी आसता हें रामविलासाक पळोवपाचें आसा. बाबा खोडवान पाटयेचेर काडून दाखयता. रेल्वेगाडयेचें दार अशीर आसता. तातूंतल्यान भितर सरप सामकें कठीण. कित्याक तर गाडी सदांच खचाखच भरिल्ली आसता. गाडयेचें जनेल तर ताचेयपरस ल्हान. बाबा सांगता, पयलेच खेप जेन्ना तो रेल्वेन गेलो तेन्ना इतली गर्दी आशिल्ली, स्टेशनावयल्या कुलीन ताची पोटली उबारून जनेलांतल्यान ताका डब्याभितर शेंवटिलो.

रामविलासान ती पाटी सांबाळून दवरल्या. खूब फावटीं तो ती भायर काडून पळयता. जनेलांतल्यान डब्यांत भितर वडोवपाइतली बाबाची पोटली ल्हान जावूं येता? बावान आपली पगडी काडल्या आसतली. पगडी घालून कांय तो भितर घुसूंक शकना. फुडले दिवाळेक बाबा जेन्ना घरा येतलो तेन्ना ताका पगडेविशीं विचारपूच.

रामविलासाक न्हंय कशी आसता हें पळोवपाचें आसा. कितलें उदक आसता तातूंत? आडापरस चड? बांयचेपरस अदीक? काय व्हडले तळये तळ्यापरसय चड? गंगेचें चित्र बाबाच्यान काडपाक जायना. फकत दोन वळी काडटा. पयस-पयस. ताचेवयल्यान न्हंयंत कितलें उदक आसतलें हाचो अदमास येना. कोलकातांत बाबा सद्दां गंगेंत न्हावपाक वता. हांगां येता तेन्ना लेगीत सदांच न्हाता आसताना 'हर हर गंगे, हर हर गंगे' म्हणून गंगेची याद करता. आंग पुसतां-पुसतां जप करता, 'देवी सुरेश्वरी भगवती गंगे, त्रिभुवनतारिणी तरल तरंगे, शंकरमौली विहारिणी विमले, मम मतिरास्ताम् तव पद कमले ।' रामविलास आठ वर्सांचो आसलो म्हण कितें जालें, कसलीय गजाल एक फावटीं कानार पडटांच ताका

ती पाठ जाता. शाळेंत आजूनमेरेन ताच्या मास्तराक केन्नाच ताचे कान धरचे पडूंक नात.

कोलकातांत बाबाक फकत एकूच त्रास. थंय कोणूच तांबयो घेवन रानांत परसाकडेन वचना. जे पेढयेचेर तो रावता थंयच एक पायखिळो केला. थंय संडास करपाखातीर सगळेजाण रांक लायतात. रामविलासाचे तकलेंत हें सारखें वचना. बाबा समजावन सांगता, “पायखिळो म्हळ्यार दोन पांयांमदें खणिल्लें एक मोटो फोंणकुल खूब खोल.”

“पूण हें कोंणकुल केन्ना भरना?” रामविलासान विचारतकच बाबा हांसता.

बाबा बडाबाजारांत भिवानीतल्याच शेट नाथुरामचे पेढयेचे खाणावळींतच जेवता. थंयच काम करता आनी थंयच न्हिदता. तो कोलकाताक पावलो तेदेवेळार हॅमिल्टनसायब स म्हयन्याखातीर विलायतेक गेल्लो. तेन्ना बावान मुनीमाचें काम धरिल्लें. तो सांगता, खूब फावटीं अशें जातालें, सकाळीं गंगेचेर न्हावपाक भायर वता तितलें सोडल्यार दीसभर मागीर भायर सरपाकूच मेळनाशिल्लें. सुर्या केन्ना अस्तमतालो तेंच कळनाशिल्लें. आई म्हणटा तें रामविलास आयकता, “बंदखणींतच जर रावपाचें आसा जाल्यार मागीर तशेंच जगपाचें.” हाचेर बावाची जाप, “जशें रावता ताचीच मागीर संवकळ जाता.”

शेट नथुरामचे पेढयेर बाबा कांय दीस मुनिमी करीत रावलो. उपरांत हॅमिल्टनसायब विलायतेंतसून परततकच सायबान ताका तागाचे दलालीचें काम दिलें. आतां तो हॅमिल्टनसायब आनी ताच्या इंग्रज इश्टांखातीर खरेदी विक्रेचें काम करता.

भिवानीत एक व्हडली हवेली बांदपाचो बाबाचो आंवडो. हेचखातीर तो कोलकातांत दीसरात काम करता जावंये. एक मिनीटूय उसरपत घेना. दिवाळेच्या धा दीस आदीं तो जेन्ना घरा परतता तेन्ना आपली तकालस निवळावपाक सेगीत तीन दीस न्हिदून काडटा. वांगडाच इतली न्हीद कशी म्हण काडूं येता हाचें रामविलासाक अजाप दिसता. आपणाले न्हिदेचीय तो अशीच पयशांभशेन पुंजी करून दवरिना मू? तेचखातीर घडये बाबान पुंजी करून दवरिल्ले पयशे चांदीच्या सट्ट्यांत कापरावरी उडून गेल्ले तेन्ना ताची न्हीदय वांगडाच उडिल्ली. रामविलासाची पिराय तेन्ना पंदरा वर्सांची. अशें जातलें म्हणपाचीं लक्षणां आदींसावन दिसतालीं, असलें फुतफुतप काकांमदीं जातालें तें ताणें घरांत आयकल्लें.

तागाची दलाली करतां-करतां बाबान आपूण जावन अफू आनी चांदीच्या सट्टयाचें काम सुरू केल्लें. हे फावटीं जर वेवहारांत नशिबान सांगात दिल्लो जाल्यार कितल्योशोच हवेली बांदूं येताल्यो. पूण अशें जावपाचें नाशिल्लें. सगळीं रीणां फारीक करून बाबा परत भिवानीक परतल्लो.

उरिल्लें सगळें आयुश्य ताणें रात रात जागोवन आनी सद्दां सकाळीं गंगेचें स्मरण करून सारलें. न्हावपाच्या उदकाची बालदी मुखार दवरून बाबान एक वरभर दोळे बंद करचे आनी ‘हर हर गंगे’ ‘हर हर गंगे’ करीत रावचें. बावाचे हे संवंयेचो आज्याक आनी दोगांय काकांक राग येता हें रामविलास जाणां. आज्जेन म्हणचें “खूब जालें आतां. चल,

न्हावन घे." आज्जेच्या ह्या उतरांचो आईक खूब त्रास जाता. पूण ती कांयच करपाक शकना. बाबाची असली करणी तिच्यान आडावं नजो आनी आज्जेकय हें उलोवपाचें थारावं नजो.

परतून नव्या जोमान सुरू करूंया म्हणपाचें हॅमिल्टनसायबान बाबाक जायते तरेन समजावपाचो यत्न केलो. पूण बाबाचें मन उडिल्लें. तो आपणालो चडानचड वेळ पुजापाठ आनी साधू संत हांचेभितर सारपाक लागलो. आईकूच आतां दिसतालें, ताणें आतां कोलकाताक वचचें म्हण. पूण ताका वैराग्यशें आयिल्लें. तो आपूण स्वताय परतून कोलकाताक गेलो ना आनी आपल्या दोगां भावांकूय ताणें कोलकाताक वचपाक दिलें ना. ताच्या कुटूंबान आतां एक भुसारी दुकान उकतें करून पोटापाणयाची वेवस्था केल्ली. एक विशाळ हवेली बांदपाचें बापायच्या काळजांतलें सपन रामविलासाच्या काळजांत रीगलें आनी ताचेर थरार थर दाटून तें दबून उरलें. इतले मजगतीं कोलकाता, मुंबय, कानपूर, हैदराबाद मेरेन वचून पयशे जोडून येतल्यांच्यो हवेल्यो भिवानीत उब्यो जायत गेल्यो.

कोलकाताक सावन येवपी दर एका वळखिच्याकडसून बाबा गंगाजल मागयत रावतालो. सद्दां कांय थेंबे आचमन करतालो. पूण जितो आसासर ताणें केन्नाच कोलकाताक वचपाचो आनी विचार केलो ना. कोलकाताच्यो यादी मात सदांच जागृत दवरल्यो. ताणे म्हणचें, "कोलकाताच्या पावसाळ्यामुखार देशाचो पावसाळो कांयच न्ही." श्रावण ऋतू येता. शेतांत पांचवेंचार तण किल्लता. मोट्या मोट्या रूखांचेर झोपाळे बांदतात. घराघरांनी पावसाचीं गीतां आयकुपाक मेळटात. पयलो पावस पडून जातकच गावांतल्या सगळ्या लोकांनी व्हडल्या जोहड तळ्याचीं कितलीं सोपणां बुडल्यांत तें पळोवपाक वचचें. पूण बाबा कोलकाताच्या पावसाचो राग आळयतालो. गावांतलो मामुली पावस मेजपांत ताका रूच नाशिल्ली.

रामविलासान कोलकाताचो पावसाळो पळयला - पूण आवय बापूय जितीं आसताना न्हय. आई मेली आनी उपरांत एका वर्सानूच बाबाय मेलो. त्याच वर्सा राजपुतान्यात त्या शेंकड्यांतलो सगळ्यांत व्हडलो दुकळ पडलो. छप्पनांतलो (विक्रम संवत, एकोणिसशें छप्पन म्हळ्यार ईस्वी अठराशें णव्याणव्वदांतलो) दुकळ. आई आनी बाबा हांचें एका फाटोफाट ताका सोडून वचप, दुकळ पडिल्ल्यान भुसारी पस-याचो कारभार ठप्प जावप, आनी बायलेची मुंबयच्या आपल्या प्रवासांत भावाकडली इंग्लीश घडयाळ आनी इंग्लीश टॉर्च पळोवन परगटायिल्ली इत्सा - एकाचबरोबर अशो कितल्योशोच गजाली रामविलासाक परदेशांत वचपाक धोसूंक लागल्यो.

रामविलासाच्या काळजांत वर्सांसंकिनी थरापोंदां दबून उरिल्लें बाबाचें सपन - एक मोटी हवेली निर्मुपाचें सपन - जितें जाल्लें. पूण बायलेक, धा वर्सांच्या एकल्या पुताक, बालविधवा भयण चुनियाक आनी ह्या देशाचे मातयेक सोडून कसो वतलो? लोक कशें कितें काळीज घट करून परदेशांत वतात म्हण कोण जाणा.

बायलेन म्हणचें, "तुका तुजे आवयन आपणासारख्याच दुबळ्या मनाचो करून वड्यला. मनशाचे उदरगतींत स गजाली बादीकारक थरतात अशें म्हणटात - आळस, बायलेचो-मोग, दुयेंस, मायभुंयेची ओड, समाधान आनी भिजूडपण. तुज्यांत तर हे सवूय गूण भरल्यात. चाळीस वर्सांची पिराय जावपाक आयली तरी आजून गांवची लक्ष्मणरेशा वलांडूंक ना. मुंबय वच. म्हजे भाव खंयूय हिशेबाच्या कामाक लायतले. लग्नाउपरांत मोट्या कश्टांनी कसो पंदरा वर्सांनी केदारासारख्या चल्याचो जल्म जालो. आतां धा वर्सांचो जातलो. ताका दिसचें ना आपणे विलायती कपडे घालचे, विलायती घडयाळ बांदचें? "

निमाणे मन घट्ट करून रामविलासान परदेशांत वचपाचें थारायलें. पूण मुंबय न्हय, तर तो कोलकाताकूच वतलो. भुरगेपणासावन ताका कोलकाताची ओड लागून आशिल्ली. केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें शार ताका आपलें आशिल्लेभशेन दिसता. बाबाचे नदरेंतल्यान तो परतून कोलकाता पळयतलो. तेभायर थंय गंगा न्हंय आसाच.

ताच्या बापायक खबर आशिल्लें ताची सून आपल्या घोवाक पयशे जोडपाखातीर मुंबय धाडपाक सोदता म्हणपाचें. ताणें मरचेआदीं ताका सांगिल्लें, "आपलो गांव सोडपाचोच आसा जाल्यार बाबा रे, कोलकाताक वच. थंय गंगा न्हंय आसा. कोलकातासारखें शार खंयच सांपडपाचें ना." ताणें हैमिल्टनसायबाच्या नांवान बरयिल्ली चीट सायबाच्या पत्त्यासयत रामविलासाकडेन दिल्ली. तेन्ना रामविलास कोलकाताकूच वतलो आनी ताचो बापूय जें करपाक शकलो ना तें तो करून दाखयतलो.

भुसारी दुकानाचेर बशिल्लेकडेन रामविलासान 'टेलिग्राफ टीचर' पुस्तकांतल्या तीनशीं उतरांची उजळणी केली. 'गो' म्हळ्यार वच, 'कम' म्हळ्यार यो, 'बाय' म्हळ्यार विकतें घेवप, 'सेल' म्हळ्यार विकप. तशेंच भायल्यान येवपी लोकांबरोबर ताणें सदांच संबंद दवरल्यात. हाका लागून ताका दर एका ठिकाणाच्या कारभाराची म्हायती कळटा. ताचो पसरो म्हळ्यार गावांत परत आयिल्ल्या लोकांचो बसपाचो अड्डो जाला. बदल्यांत ताका तरातरांची म्हायती मेळत रावता. आतां तर वाफेचेर चलपाचें इंजिन भिवानीमेरेन आयलां. रामविलासाक बापायभशेन उंटार बसून दिल्लीमेरेन वचचें पडचें ना. आपली भूंय सोडून वचपाचेंच जालें जाल्यार तो कोलकाताकूच वतलो हें नक्की. कोलकाता - जंय गंगा न्हंय आसा.

रामविलास जसोजसो भिवानीसान पयस वचपाक लागलो तसोतसो श्यापन्नच्या दुकळाचे सावळेसानय पयस पावपाक लागलो. रेल्वेच्या जनेलांतल्यान भायर पळयताना ताच्या मनांत आयलें, कितली रंगरंगयाळी भूंय ही. खंय रेंवेंचे दोंगराचे दोंगर आनी खंय हो हरयाळीचो अनंत पसारो. पिंपळ, वड, कोडूलिंबू, शमी हांचे रूख, बोरांचीं झाडां, वर्सांतल्यान एक फावट रसरसपी बाजरीचे पिकेची फसल आनी हो बाराय म्हयने पांचवोचार सैम. कितलो फरक आसा हातूंत. पूण हो फरक फकत धरतरेमदलोच न्हय,

तर हे धरतरेवयर पसरिल्ल्या मळबांतय तितलोच फरक आसा. मळब-मळबांत इतलें अंतर!

बंगालचे भुंयेचेर भोंवतणी वेटाळो घालपी मेजूंक येना इतल्या रूप-रंग-छायांचीं कुपां पळोवन, रामविलासाचें काळीज वाळवंटांत कुपांखातीर तळमळपी मोरांवरी नाचपाक लागता. फाटल्या जल्मांत तो मोर आसूंक जाय, ताच्या मनांत त्यावेळार हो विचार आयिल्लो. कोलकाताच्या आपल्या सव्वीस वर्सांच्या राबित्यांत निमाण्या दिसाय होच विचार परतून एक फावट ताच्या मनांत आयिल्लो. त्या दिसाय ताका हे भुंयेवयल्यान निरोप दिवपाक मळबांत अशींच कुपां दाटून आयिल्लीं. घेरेदार घाग-याच्या फुलोरासारखीं कुपां. एकार एक घडयो घाल्लीं श्यामवर्णी कुपां.

रामविलासाक आपणाल्या मरपाच्या खिणातूय खोस जाली ती हे गजालीखातीर, पुत्रवियोगान आक्रंदपी ताचें काळीज आजूनय कुपां पळोवन आदलेभशेनच नाचपाक शकता. दर वर्सा पावसाळ्यांत पयल्या पावसाच्या दिसा रामविलास भुरगेपणांतले 'खिचडी' जाग्यार दाल-वाटी-चुरम्याचो प्रसाद वांटीत आयला. पावसाचे खोशयेंत उचंबळीत जावन ताणे गरीबांक जिलेबी-कचोरी वांटल्यात. सेगीत एकवीस वर्सां. फकत निमाणच्या पांच वर्सांत, एकल्या एकसु-या पुताच्या, केदाराच्या मर्णावांगडा ताचे भाग्यलक्ष्मीनय ताका फाट केली तेन्नाच हो नेम तुटलो. ह्या पांच वर्सांत ताका कुपांय खोशी करपाक शकलींनात. पूण त्या काळांत ताका सांबाळ्ळो तो गंगेच्या ल्हारांनी. कोलकाताच्या ताच्या सव्वीस वर्सांच्या राबित्यांत एक दीस लेगीत ताचो गंगेच्या न्हाणांत खंड पडूंक ना - जोर येवं, पीडा जांव वा वारें - वादळ, व्हांवते गंगेन ताका आपणाल्या भुरग्याभशेन पोटाकडेन धरून त्या पांच वर्सांत अखंडीतपणान शांतीचे धडे आयकूंक दिल्यात.

हैमिल्टन सायबाच्या नांवाची चीट घेवन रामविलास जेन्ना कोलकोताक पाविल्लो तेन्ना चाळीस वर्सांआदीं ताचो बापूय जंय राविल्लो तेच गांव भावांचे पेढयेचेर ताका आसरो मेळ्ळो. पत्तो विचारीत विचारीत रातिच्या इकरा वरांचेर तो शेट नथुरामचे पेढयेर पाविल्लो.

दुस-या दिसा सकाळीं-सकाळीं गंगेच्या उदकान रस्ते धुवपाचो देखाव ताणें पळयलो आनी तो अजापून पळयतूच उरलो. ह्या गंगाजलाचे थेंबे बाबा कितले जतनायेन सांबाळून दवरतालो. थेंब्या थेंब्याचो हिशोब दवरतालो. न्हावपाचे बालदेंत गंगाजलाचे थेंबे, आचमन करताना थेंबे, 'हर हर गंगे' 'हर हर गंगे' चो जप. मरच्या वेळार नदर आसली ताची गंगाजलाचेर - रामविलास ताचे जिबेर गंगाजलाचे थेंबे दवरपाक विसरत काय म्हण ताका भंय दीस. आनी हांगा तर शारांतले रस्ते लेगीत गंगेच्या उदकान धुतात. कितलें विचित्र शार हें. मनीस गंगाजलाच्या थेंब्या थेंब्याक आशेता आनी हांगां तर कणाकणांत गंगा आसा.

तेच सकाळीं गंगेंत उडकी मारताना ताणें प्रतिज्ञा केल्ली ती म्हळ्यार आपूण हेच

भुंयेर रावतलों. हांगांच राबितो करतलों. हांगांच मरतलों. आपणाल्या गांवांत हवेली बांदपाचें बापायचें सपन नक्की पुराय करतलों. पूण हें शार केन्नाच सोडचों ना. तो कोलकातांतूच निवास करतलो. तें निर्वासन आसतलें. हद्दपार न्हय.

निर्वासन आनी निवास. रामविलासाचो सामको लागिंचो इश्ट वसंतलाल. वसंतलालच्या काळजांत मात बिकानेरच्या सरदार शारांतल्या रेंवेच्यो धव्यो दोंगुल्ल्यो आनी ऊजळ, निर्मळ रेंव वसल्या.

| | |
|---|---|
| *मरूथर म्हारो देस* | *मरूथळ म्हजो देश* |
| *म्हाने प्यारा लगे जी* | *म्हाका कितलो आवडटा* |
| *धोला धोला टीवडा जी,* | *धव्योफुल्ल दोंगुल्ल्यो* |
| *उजली निरमल रेत* | *उजळ निर्मळ रेंव* |
| *चमचम चमके चांदनी में* | *चमचम चमकता चान्र्यांत* |
| *ज्यूं चाँदनी रा खेत* | *जशें चांदिचें शेत* |
| *म्हाने प्यारा लागे जी* | *म्हाका कितलो आवडटा* |

बसंतलाल दर वर्सा आश्विन आनी कार्तिक हे दोन म्हयने गावांत वचून रावता. "शेतांतलीं तंवशीं आनी काळंगां म्हाका आपोवन व्हरतात. बाजरीचीं कणसां जशीं कितें म्हजी वाट पळयत आसतात. जोहड तळ्याचेर दाल-बाटीची टिफिन करपांत जी खोस आसा ती हे गजबजिल्ल्या शारांत खंयची मेळटली?" वसंतलाल म्हणटा. ताचेखातीर कोलकातांत रावप ही एक ख्यास्त. हद्दपारी. हांगां फकत पै पै करून पयशे जोडपाचे, जालें.

"रामाक लेगीत चवदा वर्सां वनवास भोगचो पडला. आमकां कितल्या वर्सांचो आसतलो कोण जाणा! कितेंय आसूं, चवदा वर्सांपरस एक दीस लेगीत चड हांव हांगां रावचो ना. म्हजे ख्यास्तीची मुजत ज्या दिसा सोंपतली त्या दिसा सगळे कारभार गुठलायतलों. मागीर तातूंत फायदो जांव वा लुकसाण." वसंतलालान सांगलें.

रामविलासाक खबर आसा, वसंतलाल केन्ना ताचेभशेन गंगेचेर प्रेम करपाक शकचो ना. तो जैन. ताचेखातीर गंगा ही जीव जंतूंचो प्रवाह. "कोणाक खबर, ते न्हंयंत कितले जिवाणू वळवळटात आसतले. फाटल्या शंबर वर्सांत कोलकातांत कॉल-यान मरतल्यांचे आंकडे नेमाळ्यांनी आयल्यात. तें पळयल्यार कळटलें. मरतल्यांमदीं मुसलमानांपरस हिंदूंचो आंकडो चड आसा. कित्याक तर गंगेंत न्हालेबगर तांचें जायना." वसंतलाल ताका गंगेंत न्हावपाच्या ताच्या विचारांपासून आडावपाचो यत्न करीत आसा.

वसंतलालाक सगळ्यांत वायट मोसम लागता तो पावसाळ्याचो. चिखोल-रेबो, दुर्येस-घाणी हांचो मोसम. कुपांक पळोवन तो बेजारता."देशांत पावस थराविक वेळार पडल्यार वरें जावपाचें. हो कितें मोसम जालो पावसाचो? सदांच पावस. तुका मरे रामविलास, बंगालच्या जादवान पिसो केला. नाजाल्यार हो कितें मनशांनी रावपाचो जागो? हागवण

आनी ओंकारे ह्या दुयेंसांनी भरून गेला.''

वसंतलालाक खिणाखिणाक सोडून वचचेंशें दिसता आनी रामविलासाचे तकलेर तर दिसानदीस कोलक़ाताक रावपाची नशा जादवावरी चडत वता.

केन्ना केन्ना रामविलास सकाळीं गंगेचेर न्हाल्याउपरांत परतून पेढयेर वचना, तर हावडा पुलाचे सकयल आशिल्ल्या घाटाच्या सोंपणाचेर बसून रावता. हांगां बसून तो वरांचीं वरां फुलांच्या बाजारांत विक्री जातल्या हजारांनी फुलांक, मुद्‌गल घेवन कसरती करपी तरनाट्यांक, उडिया भुरग्यांकडसून तेल मालीश करून घेवपी लोकांक आनी गंगेंत कपडे उमळपी तशेंच बुडकी मारप्यांक तेळीत रावता. हावडा पुलाचे पलतडीं आशिल्लेया नीमतला मसंडभुयेंत जळिल्ल्या लाकडांचो गोबोर आनी फुलांचे हार व्हांवून येतात तें तो पळयता. केन्नातरी तो लेगीत इतल्याशा गोबराइतलोच उरतलो आनी अशेच तरेन गंगेंत न्हातल्या लोकांम्ह-यांतल्यान उफेत फुडें म्हासागरावटेन वतलो. गंगेच्या व्हांवत्या उदकावांगडा घाटाचेर फडफडपी कबुतरां आनी पोल्लो पेटोवन रमून गेल्ले साधू पळयताना तो तल्लीन जाता.

कांय आयतारांक सांजवेळचो रामविलास हेवटेन येना आसताना स्ट्रँड रोडावयल्यान चलत प्रिन्सेप घाटामेरेन वता. थंय उबीं आशिल्ल्या होड्यांचीं शिडां धोलताना पळोवपाक ताका खूब आवडटा. ग्वालियर रेजिमेंटच्या शिपायांच्या उगडासाक उबें केल्ल्या ग्वालियर मान्यूमेंटाच्या लागसार एका खास बिंदूचेर उबो रावून गंगेचे दुसरे वटेन हावडांत बुडटल्या सुर्याक पळोवन ताच्याा आंगार खोशयेचीं पिसां भोंवतात. सुर्यावांगडा मळब आनी गंगेचें उदक लेगीत तांबश्या श्यामल रंगांत सरमिसळ जातात. सुर्या जेन्ना पुराय लिपता तेन्ना तो श्यामल रंग ना जावन थंय तांबडो रंग फांकता. मळबाच्या निळ्या रंगांमदीं तरातरांचे गाड-लेव निळे रंग निर्माण जातात जे मेजपूय कठीण. फाटल्यान वळून जेन्ना तो फोर्ट विल्ययमच्या भायल्या मैदानांतली हरयाळी पळयता, तेन्ना ताका कळना, मळबांतल्या निळ्या रंगाखातीर पांचवीचार धर्तरी सुंदर दिसता काय पांचवेचार धर्तरेक लागून मळबाची निळाय आकर्शून घेता आनी हातूंत तो घुस्पता.

दोन घोड्यांच्या घोड्यागाडयांतल्यान आनी बग्गींतल्यान भोंवपी, ताचेचभशेन पयसुल्ल्या देशांतल्यान आयिल्ले गोरे लोक लेगीत ताका आपलेशेच दिसपाक लागतात. भिवानीचे बोलींत कोलकातांविशीं आयकल्ली एक म्हणणी ताचेभितर गुणगुणपाक लागता - *'चांदी बरगे भात, सोने बरगी दाल, गिलौरी बरगे फलके। कलकत्ता से जाना तो इस जहान से जाना से जी।'* (चांदीवरी शीत, भांगरावरी दाळ, विड्यावरी भाकरी, कोलकाता सोडून वचप म्हळ्यार संवसारूच सोडून गेल्ल्याभशेन.) बंगालांतलो हो निळो पांचवो जादू वसंतलालाक पिसो करपाक कसो पावलो ना? रामविलास अजापान चिंतपाक लागता.

हरिसन रोडाच्या मोडणावयल्या रघू पानवाल्याच्या गाड्यार वसंतलालाकडेन रामविलासाची इश्टागत जाली. दोगूय आपापल्या गांवांतल्यान सादारणशे एकाच वेळार

कोलकाताक आयल्यात. वसंतलाल ताचेपरस पंदरा वर्सांनी ल्हान, पूण जसो काय शंबर वर्सांचे पिरायेच्रो आशिल्लेभशेन तो गजाली करता. तो सकाळीं रघूकडल्यान एक पान घेता, पूण एकेचबरोबर आख्खें खायना. ताचे ल्हान-ल्हान कुडके करून दीसभर पावयता. मैलांचे मैल पांयांनी चलतलो पूण ट्रामाखातीर एक पै वगडावचो ना. गंगा न्हंयंत आसा तशें गांभिर्य ताच्या दोळ्यांत भरलां. कित्याक कोण जाणा, पूण ताका पयलेच खेप पळयलो तेन्ना गर्देंत शेणिल्ल्या भुरग्याक आपलो असो कोणूय मेळटकच जाता तशें रामविलासाक जालें. त्या दोगांयनी आपणालो कामधंदो जुळोवपाक एकाचबरोबर सुरवात केल्ली.

कोलकाताच्या बडाबाजारांत बारीक-मोटे नोकरेचे वा दलालीचे आशेन वणवण भटकुपी ल्हान पिरायेचे भुरगे धरून तरनाटे, प्रौढ आनी म्हातारे हांची गर्दी! रघू पानवाल्याच्या गाड्यामुखार एक पिसो तरनाटो बसून आसता. तो राजपुतान्यातल्या चुरू वाठारांतलो आनी तो थोडें भोव इंग्लीशय उलयता. तो आनी ताची इंग्लीश थंय येतल्या वतल्यांच्या आनी पान खावपाक थांबतल्यांच्या हांसपाचें एक साधन जालां. ह्याच पिश्याकडेन गजाली करताना वसंतलाल पयलेच फावट रामविलासाक मेळ्ळो. शेजारच्या दुकानांतल्यान वसंतलाल ताचेखातीर कचोरीचो दोणो घेवन आयिल्लो आनी ताका खावपाक घालतां-घालतां ताच्या घराकडेन आनीक कोण-कोण आसा आनी तो परतून आपल्या गावांत वचपाक कित्याक सोदीना हेविशीं चवकशी करतालो. रामविलास ताच्या म्ह-यांत वचून उबो राविल्लो. अचकीत तो पिसो गंभीर जावन वसंतलालाक सांगता तें ताणें पळयलें,"कोलकताकसावन कांयच जोडीनासताना हांव घरा कसो परतून वचूं?"

त्याच खिणाक वसंतलाल आनी रामविलासाच्यो नदरो एकामेकांक मेळ्ळ्यो आनी हांगासावनच तांचे इश्टागतीक सुरवात जाल्ली. दर एकल्याच्या दोळ्यांत दिसताली एकेच तरेची वेदना, भिरांत आनी धास्ती. कांयच जोडीनासताना हांगासावन कोण कसो घरा परतूंक शकता?

वसंतलालान 'श्यापत्र' दुकळाच्या वेळार भियेवन सरदार शारावटेन पळून येवपी दळडि-यांक पळयल्यात. बैलांचे गाडयेक जोडिल्ले बैल मरतकच आपणाल्या सामानांच्यो पोटल्यो हाडांचो सांगाडो जाल्ले आपले कुडींचेर घेवन येवपी.

"भूक सोसूंक जायना जावन लोक कच्ची बाजरी आनी चणे तायटार घेवन खावंक लागले. कांय जाणांनी आपलीं भुरगीं विकलीं. बरेचकडेन मड्यांचे किरवंटीक नाणी लायिल्लीं सांपडलीं. धान्य इतलें म्हारग जाल्लें, तें विकतें घेवपाक पयशे मोडचेपरस लोकांनी मरण आपणायलें, इतलें मोल आसा पयशांक! कितल्या कश्टांनी मेळटा हो पयसो! तो असो म्हण वगडावं येता?"

'हें सांगताना वसंतलालाचो गळो कित्याक भरून आयिल्लो?' रामविलास येवजिता. 'नक्कीच हातूंत कितेंतरी कुवाडें आसा. ताच्या स्वतःच्या आयुश्याकडेन जुळून आशिल्लें

रहस्य. कोण आसतलो तो, जाचे किरवंटीक पयशे आसूनय भुकेन मेल्लो? ख-यांनीच इतलें मोल आसा ह्या पयशांक? मनशाच्या जिवापरसूय चड?'

'एका एका पैची बचत करपी वसंतलाल तेन्ना त्या पिश्या भिका-याक सद्दां रघुल्या दुकानावयल्यान कचोरी हाडून कित्याक खावयतालो?' रामविलासाक कळना जालें. तो कसलेय गजालिचें प्रायश्चित तर घेना आसलो मूं?

हैमिल्टनसायबाच्या नांवान बाबान दिल्ली चीट रामविलासाच्या बोल्सांत खूब दीस तशीच आशिल्ली. ताणें येवजिलें, 'पंचवीस वर्सां उलगलीं. हैमिल्टनसायब आजून जितो आसूं येता? जितो आसलोच जाल्यार विदेशांत परतो गेला आसतलो.' मागीर एक दीस पेढयेचेरच कोणा एकल्याच्या तोंडांतल्यान हैमिल्टनसायबाचें नांव आयकून रामविलासाक दिसलें, हैमिल्टनसायबाक जरूर मेळपाक जाय. आज़ूनमेरेन ताच्या कामाचोय मेळ खंय बसूंक नासलो. ताका कळिल्लें, 'हैमिल्टन ऍन्ड कंपनी' म्हण तागाची दलाली करपी एक व्हडली कंपनी आसा. सगळ्यांक हे कंपनीचें नांव खबर आशिल्लें.

शिपायावरवीं बाबाची चीट भितर धाडिनाफुडे सायबान ताका भितर आपयलो. सायबाक पळोवन रामविलास अजापीत जालो. इतले ल्हान पिरायेचो सायब? सायबांची पिराय वाडना बी काय कितें? ताका अजापीत जाल्लो पळोवन सायब हांसलो आनी सहजतायेन समजूं येता अशे हिंदींत ताबें म्हळें, "हांव हैमिल्टनसायबाचो चलो. पूण तूं निरशेवं नाका. मरपाच्या वेळार म्हज्या बापायन म्हाका तुज्या बापायविशीं सांगून दवरलां. तुज्या बापाथन ताचो जीव वांटायिल्लो. तुमच्या कुटूंबाखातीर आपूण कांय करपाक पावलों ना ही खंत ताका उरली. आतां तूं कोलकाताक आयला हाची म्हाका कितली खोस जाल्या म्हूण सांगूं?"

हैमिल्टनसायबान त्याच दिसासावन रामविलासाक नोकरेक रूजू करून घेतलो. "नोकरी करतां-करतां काम शिकून घे. मागीर ल्हवू-ल्हवू कामाचो मेळ बसतलो. पूण एक सांग, तूं कालीघाटाक वचून आयला काय ना?" इंग्रज सायबाच्या तोंडांतल्यान कालीघाटाविशीं आयकून रामविलास चाट् पडलो. "आरे इश्टा, हें कोलकाता, कालीचो देश. हांगां येतल्याक पयलीं कालीची पुजा करची पडटा. तुज्या बापायन सांगूंक ना तुका? तुजो बापूयच तर दर वर्सा म्हज्या बापायचे वतीन कालीघाटाक वचून पुजा करून येतालो."

रामविलासाच्या मुखामळार उदेल्ले अजापभरीत भाव पळोवन हैमिल्टनसायब ताका सांगपाक लागलो, "ईस्ट इंडिया कंपनी लेगीत मिरवणूक घेवन गेल्ली कालीघाटाक. सुरवातीकूच कंपनीन पांच हजार रूपयांची थाळी अर्पून कालीचो आशिर्वाद घेतिल्लो." बापायन ताका कालीघाटाक वचपाक सांगिल्लें म्हणपाचो रामविलासाक उगडास जालो. ताका हे गजालीचो कसो विसर पडलो कोण जाणा. एका इंग्रजान ताका हें नदरेंत हाडून दिवप हें एक मोटें अजापूच. हो मनीस आपलें बरें मागपी आसा. रामविलासाचें अंतस्कर्ण भरून आयलें. सायबाच्या दोळ्यांत खोल कितेंतरी उफेताशें ताका दिसलें.

दुस-याच दिसा रामविलास कालीघाटार गेलो. थंयच्या बंगाली पंडीतान फूल-पत्र मंत्रोच्चारणासयत पुराय शास्त्रविधींक धरून ताचेकडल्यान पुजा करून घेतिल्ली. मारवाडी पगडी दिसनाफुडें ब्राह्मणांची एक झुंडच ताचेवटेन सरकली. तांचेमदीं हत्तीरोग जाल्लो एक म्हातारो पंडित आपले जड जड पांय घेवन पयस उबो रावन आपल्या मोट्या मोट्या दोळ्यांनी पळयत आसलो. रामविलासान ताकाच वेंचून काडलो. पुजा करून जातकच ताणें रामविलासाक विचारलें, “तुजो बापूय केन्ना हांगा पुजा करपाक आयिल्लो?” रामविलासान अजापान हयकार दाखयलो. ह्या ब्राह्मणाक कशें कळ्ळें? काय बाबानय पुजेखातीर हाकाच वेंचून काडिल्लो? सगळे तर सांगतात, ताचें रूप आवयभशेन म्हण. मागीर बापायविशीं हाका कशें कळ्ळें? “तूं लेगीत बापायभशेन आपले पगडेक परतून परतून हात लायता आनी दोनूय कानांक आफडून मागीर देवीक पांयां पडटा.” तेन्ना रामविलासाच्या लक्षांत आयलें, ब-याचशा ल्हान ल्हान संवंयांनी ताचो बापूय ताच्यांत जितो आसा. “एक फावट बहूबाजारांतले फिरंगी कालीकय वचून यो.” हत्तीरोग जाल्ल्या पंडितान ताका सांगलें.

रामविलासाचे पेढयेर फिरंगी कालीचें देऊळ कोणाकूच खबर नाशिल्लें. विचित्र नांव. फिरंगी काली? चवकशी करीत करीत रामविलास एक फावट फिरंगी कालीच्या ल्हानशा देवळाम्ह-यांत पावलोच. नाक्यावयल्या पानवाल्याकडसून ‘श्रीमंत डोमाचें देऊळ’ अशें आयकतकच आयिल्ल्या पावलांनी परतुचें अशें ताका दिसलें. पूण धाडस जालें ना. हत्तीरोग जाल्ल्या ब्राह्मणाच्या तोंडांतल्यान जसो काय बापूयच आदेश दिता अशी ताची भावना जाल्ली. नवीन जाग्यार आयलां. कितलें यश मेळत सांगपाक जायना. खंयच कांय चूक उरपाक नाका.

“श्रीमंत डोम हांगां ‘देवी’ आयिल्ल्यांचेर उपचार करतालो. ताच्या उपचारांनी ब-यो जावपी बहुबाजारच्यो अर्ध्यो हिंदुस्तानी-अर्ध्यो फिरंगी बायलो हांगाचे मां कालीक भेटी धाडटाल्यो. त्या फिरंगी बायलांखातीरूच हे कालीक ‘फिरंगी काली’ नांव पडलें.” पानवालो पान लायतां-लायतां रामविलासाक खुश जावन सांगतालो.

बाबा हांगां कित्याक आयिल्लो आसतलो? ताका देवीचो त्रास जाल्लो काय? ताच्या मनाचो भितरले भितर घुस्मट जाता. ताका जे भोग भोगचे पडले तांतलें ताच्या चल्याक कशें कळटलें? बाबाक कोलकाताक कसले कसले हाल सोंसचे पडल्या आसतले काय? आपले खूब लागिंचे व्यक्तिविशीं लेगीत मनशाक कितलें उणें खबर आसता? मनीस जायत्या सुख-दुःखांक आनी कश्टांक सांगाताक घेवन आयुष्य चलत आसता आनी तातूंतल्यो कांय अवघ्योच गजाली आपल्या लोकांक सांगपाक पावता.

ताच्या बापायन पळयिल्ल्या कोलकातापरस आतांचें कोलकाता कितलें बदललां हें कोण सांगूंक शकत? काळ आनीक कितले बदल अशेच तरेन घडोवन हाडीत कोण जाणा? ज्या कोडूलिंबाच्या रूखाचे सावळेंत आज शेयर विकपी आनी विकते घेवपी एकठांय जातात तो रूख ताच्या भुरग्याक पळोवपाक तरी मेळटलो काय कितें कोण जाणा.

घरां बदलत वतलीं, रूख हुमटतले, लोक बदलतले आनी हे धरतरेचेर ताचें नांव निशाणय उरपाचें ना.

रामविलासाचो बापूय ज्या वर्सा कोलकाताक आयिल्लो, ताच्या दुस-याच वर्सा कोलकातांत अशें भिरांकूळ मॉड आयिल्लें, तातूंत शेंकड्यांनी गडगंज घरां कोंसळून फकत विटांच्यो राशी उरिल्ल्यो. व्हड-व्हड इमारती लेगीत हालिल्ल्यो. बापायन रामविलासाक सांगिल्लें, एके दनपारां खंयच्यान तरी पयसुल्ल्यान भिरांकूळ गर्जनावरी आवाज जालो आनी पळयतां-पळयतां मॉडान सगळ्या रस्त्यांचो आनी गांवांचो विध्वंस करून कोलकाताक आपल्या चपक्यांत ओडलें. उत्तर कोलकात्यांत चाळीस हजार मातयेचीं घरां नश्ट जाल्लीं. बाबान ताका म्हणिल्लें, “त्यावेळार म्हज्या मनांत एकूच विचार घुंवतालो, आयज कशेयभशेन जगून उरलों जाल्यार फाल्यांच गावांत परत वचपाचें.” सगळ्या पितरांक आनी कुळदेवांक ताणें आंगवण केली. ती ताणें एका म्हयन्यान दिवाळेक घरा गेलो तेन्ना फेडली. दुस-या दिसा गंगेचे तडीक बुडिल्ल्या होड्यांच्या शिडांक पळयत मैदानावटेनच्यान तो चौरंगी रोडाचेर हैमिल्टनसायबाक आपलो निर्णय कळोवपाक गेल्लो.

मैदानांत हुमटून पडिल्ल्या रूखांची रांक आनी जळामळाक मरून पडिल्लीं सवणीं पळोवन रामविलासाचे आवयची याद जावन ताचें काळीज भरून आयिल्लें. हातूंतल्या कोणाक कोणाम्ह-यांत वचपाचें आशिल्लें कोण जाणा आनी तो थंय पावलोच पूण हैमिल्टनसायबान त्या दिसा ताचो हात धरिल्लो आनी ताका आपणाम्ह-यांत बसोवन घेवन ताका सांगिल्लें “काल सगळो वेळ हांवूय हेंच चिंततालों, आयज जर म्हजो जीव वांचून उरलो जाल्यार फाल्यांच हांव म्हज्या देशांत परतो वचपाक भायर सरतलों. म्हजे जाणटे आवयविशीं हांव सगळो वेळ हुस्को करीत रावलों. पूण दर एकल्याक आपलें काम पुराय करूनच परतुचें पडटा. खंयूय वचप जितलें कठीण तितलेंच कठीण थंयसान परतुपाक. इतले बेगीन गळसणी येवन कशें जातलें? हांव तुका असो वचपाक दिवचो ना.” हैमिल्टनसायबान अशें जायतें कितें-कितें सांगून ताका आडावन दवरलो. बाबाची गंगान्हाणाची भावना ताका खबर आशिल्ली देखून निमाणे गंगेचें निमित्त सांगून ताणें बाबाक थातारून दवरलो.

रामविलास आनी धाकल्या हैमिल्टनसायबाचे मजगतीं सुरवातिच्या दिसांनी जें नातें निर्माण जाल्लें ताचो अर्थ समजुवप दोगांकय कठीण आसलें. हैमिल्टनसायबाची इत्सा आसली, ताणें आपणाकडेन फकत नोकरीच करीत रावचें न्हय. ताच्या पगारांतल्या चवथ्या वांट्याचे रकमेचे तो ताचेखातीर शेयर विकते घेवन दवरतालो. तागाभशेनच वेगवेगळ्या तरेची म्हायती पुंजावपांत रामविलासाचे हुशारीचेर तो खूब खूश आसलो. “तूं खूब फुडें पावतलो रामविलास. म्हाका खबर आसा.”

“आपल्या बापायचेर केल्ल्या उपकारांची परतफेड करपाखातीरच हैमिल्टनसायब ताचेर इतली माया करता काय?” - रामविलासाच्या मनांत परत परत हो प्रश्न उबो

रावता. मनीस दर एके गजालीच्या तळामेरेन वचपाक पळयता. तेबगर ताका चैन लागना. केन्नातरी तो हैमिल्टनसायबाक ह्या प्रश्नाची जाप विचारलेबगर रावचो ना. सध्या तो हैमिल्टनसायबाक इतलेंच दाखोवपाक सोदता, ताचेकडल्यान ताच्यो ज्यो अपेक्षा आसात त्यो एक दीस ख-यांनीच पूर्ण जातल्यो.

सकाळसान सांजवेळमेरेनच न्हय तर रातीच्या धा-धा वरांमेरेन रामविलास तागाच्या सौद्याखातीर विडीविडी करून भोंवत आसता. चितपूर - काशिपूरच्या तागाच्या गुदावांसान ते डलहौजीमेरेन ट्राम-बशींतल्यान जायत्यो खेपो मारीत आसता. थोडी उसरपत मेळ्ळी काय तो हैमिल्टनसायबाचे सांगणेवयल्यान ज्यूट एक्स्चेंजांत बसून नेमाळीं वाचता. हैमिल्टनसायब ताका इंग्लीशीचो सराव जावपाकूय मदत करता. ताची इंग्लीश शिकपाची क्षमता पळोवन तो अजापता. खूशय जाता.

हैमिल्टनसायबाच्या ऑफीसांत ताचो एक इंग्लीश पार्टनर आसा तो ताच्यो ह्यो धांवधपटी आनी काम करपाची तळमळ पळोवन ताका फकाणांनी 'चार्ली' म्हण पाचारता. चार्ली कोण म्हण कोणाक खबर ताचें खुमणें आनी वागप रामविलासाकडेन जुळटा आसुंये. ताणें हैमिल्टनसायबाक विचारिल्लें, पूण ताका कितेंय जाप दिवपाच्या बदला तो गंभीर जाल्लो. ताणें आपल्या पार्टनराक कितें सांगलें खबर ना, पूण रामविलासाक ताणें 'चार्ली' म्हण पाचारपाचें बंद केल्लें.

एका वर्साभितरच रामविलास स्वतंत्रपणान तागाची दलाली आनी तेचबरोबर ताग दाबपाच्या मशिनांचीय दलाली करपाक लागिल्लो. त्याचवेळार 'हैमिल्टन एंड कंपनी' खातीर ताग खरेदी करपी जुन्या-जाणट्या सज्जन अशा मित्राबाबूक मर्ण आयलें. मित्राबाबूच्या जाग्यार हैमिल्टनसायबान रामविलासाची आपले कंपनिचो 'बेनियन' (युरोपियन कंपनिचो हिंदू प्रतिनिधी) म्हण नेमणूक केली.

आतां ताच्या आयुष्यांत एक अशी संद आयली, जाची सुरवात मात विचित्र जाली. ताणें ब-याच वेपा-यांकडेन सौदो करून विकतो घेतिल्ल्या तागाच्या खूब मोट्या मालाक उज़ो लागलो. उज्याच्या आकांताळ्या ज्वाळांनी तागावांगडाच ताच्या सगळ्या उमेदींचो आनी आशा आकांक्षांचोय गोबोर करून वडयलो. रामविलास सुन्नपणान पळयत रावलो.

खंयच्या तोंडान तो घरा परतो वतलो? 'बापायभशेनूच पुताकूय कोलकाताचें धार्जिणें ना' - केदाराचे आवयचे थोमणे आयकुचे पडटले. खंय कसली चूक जाल्ली ताचेकडल्यान? ताणे व्याकुळतायेन मां कालीमातेची प्रार्थना केली. 'मां काली, कोलकातेवाली, तुजो आशिर्वाद फुकट वचूंक दिवं नाका.' लोकांचे पयशे कशे पावोवपाचे? तागाचो विमो काडला पूण तितल्या पयशांतल्यान वेपारांचें देणें फारीक जावचें ना. हैमिल्टनसायब तरी निमाणे खंय खंय म्हण पावतलो? बापाय सारकोच ताकाय निराश जावन परतुचो पडटलो?

तेन्नाच विमा कंपनीचो सर्वेयर मिस्टर बीडन हाणें ताका आपोवपाक धाडलो.

रामविलास मागीर पयशे फारीक करतलो हे हैमिल्टनसायबाचे हमीचेर बीडनान ताका अर्दकुटे जळिल्ल्या तागाची विक्री करपाक दिलें. म्हयनोभर दीसरात कश्ट करून, जळून गेल्ल्या आनी जळूंक नाशिल्ल्या तागाचें वेंचप करून, तें सुकोवन, एकठांय बांदून रामविलासान विमा कंपनी आनी वेपा-यांचे पयशे फारीक केले. इतलेंच न्हय तर त्या जळिल्ल्या तागांतल्यान धा हजारांची जोडय जाली. तेन्नासावन मिस्टर बीडन असले दर एके घडणुकेवेळार जळिल्ल्या तागाचो सौदो रामविलासाकूच दिवपाक लागलो. दुर्भाग्यान तकली घुंवडायली आनी सुभाग्यान फुडो केलो.

रामविलासान हैमिल्टनसायबाक म्हणिल्लें, "बाबाचेंच खरें थरलें. तो म्हणी, दुख्खच सुखांत बदलूंक शकता, मोग तिटका-यांत बदलता, काळाच्या फे-यांत सगळ्यो एका दुस-याच्या उरफाट्यो गजाली एका-दुस-यांत बदलून वतात." हैमिल्टनसायबाक हातूंत उमळशीक जाली. ताणें विचारलें, "कशें?"

"हें पळय सायब, जी गजाल आमकां दूख भोगयता तेच गजालीन आमकां केन्नातरी सूख दिल्लें आसता. ज्या गजालींविशीं आमच्या मनांत कांय भाव भावना आसतात तांचोच उणाव आमकां जाणवता. ह्या एकासावन दुस-या उरफाट्या गजालींच्या अंतिम ध्रुवासावन मुक्त जावपाखातीर मनशाची तडफड आसता. पूण ताच्या आयुष्याची पकड तितलीच आसता." कित्याक कोण जाणां, हैमिल्टनसायब हें आयकून गंभीर जालो.

कोलकाताक येतना रामविलासान पयलींच थारावन वडयिल्लें, बापायभशेन अफू-चांदिच्या सट्टयांत केन्नाच पडप ना. पूण कोलकाता हें सट्ट्यांचें शार हें ताणें पळयलें. ताग, जवस, अळशी, तीळ, भांगर-चांदी, कापूस आनी शेयर हांचो सट्टो तर नेटान चलताच पूण सामको पावसाचेरय सट्टो लागता. अशे रंगेल सट्टेबाज खर वोताच्या भर दनपारां लेगीत उंचेले गच्चीचेर चडून मळबांतलीं पयसुल्लीं कुपां तेळून अमकें कूप खंय आसा आनी तें केन्ना आनी कितलें शिंवरतलें हें सांगतात. मळबांतलीं कुपां पळयत रावपाचे रामविलासाचे संवंयेक लागून लोक ताकाय बी पावसाचो सट्टेबाज समजूंक लागले. हैमिल्टनसायबाचे संगतीक लागून रामविलासाकय शेयर विकते घेवपाची आनी विकपाची चटक लागली.

रामविलासाचे जोडीचेर हैमिल्टनसायब बारीक नदर दवरून आसा. ताच्या सगळ्या वेवहारांत तो रस दाखयता. ताणें आपल्या पुताक, केदाराक कोलकातांत हाडून हांगांच्या एके शाळेंत ताचें नांव घालचें असो ताका सल्लो दिलो. केदार सद्या भिवानीत शिकता आनी एक खूब बरो शिक्षक ताका इंग्लीश शिकयता. देखून रामविलासाक दिसता, ताणें थंयच रावचें. आपले आवयसरीं. कोलकाताचें वारें एक फावट बादलें जाल्यार तो आनी मागीर परतून घरा वचपाचें नांव काडचो ना. मागीर ताच्या खावपा-पिवपाच्यो, रावपाच्यो कटकटी मारवाडी लोकांक कोलकातांत संवसार थाटप कितलें कठीण हे सायबलोकांक खंय खबर आसा? बायलो तर हांगां रावपाकूच शकच्यो नात. आफूड-भश्ट असले

भैरजळप तांच्यांत चड. ताच्या पयसुल्ल्या नात्यांतलो एक भाव आपले आवयक घेवन हांगां घर करपाचे तजविजेन आयिल्लो. पूण ताची आवय हांगां धा दीस लेगीत सवस्तकायेन रावपाक शकली ना. ती सांगताली, "कसलें शार हें? हांगां संडासाकसान येतकच हात धुवपाची मातीलेगीत विकती घेवची पडटा आनी संडास निवळ करपी तर घरामुखावयल्यानूच यो-वच करतात. आनी हे बुरशा उदकाचे नळ. हातूंतलें उदक पिवपाक वापरपाचें?"

गावांतल्या मेकळ्या वातावरणांत रावून आयिल्ल्या बायलांचो जीव हांगां घुस्मटूंक लागता. सायब लोकांच्या मॅडमांप्रमाण तांकां भोंवपा-फिरपाचें मेकळेपण थोडेंच मेळटालें! एखादें इंग्रज जोडपें वग्गींत वा मोटारींतल्यान एकठांय बसून वतना नदरेक पडल्यार रामविलास तांकां पळयतूच उरतालो. केदारचे आवयक घेवन अशेतरेन भायर भोंवपाची तो कल्पना तरी करपाक शकत? समाज थू थू करतलो तें तर जालेंच, केदाराची आवय लेगीत उकत्या मुखामळान ताचेबरोबर भायर येवपाक तयार जावची ना.

रामविलास मनांतल्या मनांत जायते संकल्प करीत रावता. तो केदाराखातीर वेगळे तरेची बायल पळयतलो. एक बेबी ऑस्टीन गाडी विकती घेतलो. केदाराची बायल तातूंतल्यान केदाराबरोबर भोंवपाक वतली. कोण शी-थू करता ताका करूं दी. तो कोणाची पर्वा करचो ना.

रामविलासाच्या इश्टाचें, वसंतलालाचें भाग्य फळफळ्ळें. ताच्या हाताक जसो काय मोहोरांचो हांडोच लागलो. रामविलासाचे सांगणेनच हैमिल्टनसायबान वसंतलालाक 'बर्ड एंड कंपनी' ह्या आपणाल्या एका इश्टाचे कंपनींत नोकरी मेळोवन दिल्ली. ते कंपनीचे वेनियन एक नांवाजते जैनी आशिल्ले. ताणें आपणाले एकले एकसुरे चलयेखातीर वसंतलालाक पसंत केलो. वसंतलालाचें मनभुलोवणी रूप आनी ताचें बुदवंतकायेचें उलोवणें हाचेर तो इतलो भुल्लुसलो, ताणें ताचे परिस्थितीकडेन आडनदर करून ताका आपलो जांवय केलो. वसंतलालाचो थाटमाट आतां कितें तर पळोवपाचो!

"तूं त्या पिश्याक कचो-यो खावयतालो ताचें पुण्य तुका फळाक आयलें." रामविलासान फकाणांनी म्हणचें. हाचेर वसंतलालान ताका आनीकूच अजापीत केलें. ताणें सांगलें, त्या पिश्याक ताचे कंपनींत नोकरेक लायला आनी तो ब-यापैकीं जापसालदारकी सांबाळून काम करता. हो संवसार म्हळ्यार एक अजापूच. कोण केन्ना आनी कशेतरेन खंय पावतलो हें कळपाचें ना.

इंग्रजांच्या नव्या शेंकड्याची, विसाव्या शेंकड्याची सुरवात जाता आनी हे गजालीची तांचेमदीं जशी किते नवी उमेद बळावल्या. हैमिल्टनसायब रामविलासाक सांगता, "अशें दिसता, आमचे लोक ह्या शेंकड्यांत कितेंतरी नवीन करून दाखोवपाक उतावळे जाल्यात. अशें कितेंतरी जें फाटल्या शेंकड्यांत जालें ना तें."

सायबाच्या ह्या उतरांचें रामविलासाक हांसपाक येता. "पूण सायब, ही धर्तरी तर तशीच घुंवता सुर्याचे भोंवतणी. हिंदूंखातीर नव्या शेंकड्याची सुरवात जातली ती त्रेचाळीस

वर्सांनी. मुसलमानांची आनीक केन्नातरी. कितें फरक पडटा असल्या गजालींनी? मनशाची धांव धपटी वाडटा. बस् इतलोच फरक - म्हाका हें करपाक जाय, म्हाका तें करपाक जाय. धा वर्सांत तें करपाक जाय. आयुश्याचे अशे वांटे करीत जगपांत कितलो धोको आसा!"

रामविलासाचें उलोवप सायबाक खूब आवडटा. ह्या दिसांनी तो इंग्लीशींतल्यान गीता आनी उपनिषद वाचपाक लागला. "तुमच्यासारक्यांची विचार करपाची पद्धत कितली वेगळी. आमी ख-यांनीच आकांताची धांवपळ करीत आसतात. बेगीनांत बेगीन हें सोपोवन तें सुरू करपाचें आसता. हांव लेगीत जायते फावटीं चिंततां, हेतरेन धांवताना पळटाना आमी निमाणे खंय पावतले काय?" कसल्या विचारांत सायब बुडून वता कोण जाणां!

रामविलासाक दिसता, सायब आपल्या बापायच्या मर्णाउपरांत इंग्लंडाक परतून गेल्ले आपले दुयेंत आवयचो हुस्को करता आसतलो. ताका मनांत येवजता आसतलें, आवय आतां एकटुकेपणान वेळ सारताना केन्नातरी मरतली आनी तो तिका केन्नाच पळोवंक पावचो ना. वा इंग्लंडांत शिकपी, ताचेपासून पयस वाडटल्या आपल्या दोगां भुरग्यांविशीं तो चिंतता आसतलो. वा मागीर ताच्या मनांत आपले बायलेविशीं विचार येतात आसतले, तीं दोगांय आपल्या भुरग्यांचें हांसतें-खेळटें भुरगेपण अणभवपाक शकनात.

मनीस कितलो लाचार आसता - रामविलास येवजिता. जिणेची वाटचाल कशी योग्य मार्गान जावपाक जाय हें तो समजूनच घेना. जें मेळना ताचेखातीर फडफडटा आनी जें मेळ्ळां तें सोडूंक सोदिना. हें सगळें सोडलें जाल्यार पोसो रितो उरतलो ह्या भंयान तो आसा ताका दसून रावता.

रामविलास दर आयताराक दनपारचो सायबाच्या घरा वचपाक लागला. इंग्रजांचे अशे तरेचे भारतियांकडले संबंद खूब उण्या प्रमाणांत. तशे पैशांनी गिरेस्त आशिल्ल्या हिंदुस्तानी लोकांक इंग्लीश लोक तांच्या पार्ट्यांनी आमंत्रणां दितात. पूण नोकर धनी संबंद दवरतल्यांमदें सहसा अशें घडना. म्हणटकच हैमिल्टनसायब कितें ताका आपणालो इश्ट समजता? रामविलासाच्या मनांत घुंवन-घुवन होच प्रश्न घुरी घालता. तो ताचेकडसून दर एके गजालीची म्हायती कित्याक पुंजावपाक सोदता? कित्याक ताका ताचें इतलें आपलेपण? दरेका मुद्याचेर तो ताचें मतय जाणून घेवपाक सोदता. ताचो इश्ट बसंतलाल हाचीय सगळी खबर तो जाणा.

वसंतलालाच्या मांवान अफूच्या सट्ट्यांत लाखांनी रूपया जोडल्यात आनी तातूंतल्यान एक मोटी रकम लेडी डफरिन हॉस्पिटलाक देणगी दिवन तेखातीर ताणीं 'रावबहादूर' ही पदवी मेळयल्या. 'गवर्नर हावज' चे निर्मणेक शंबर वर्सां पुराय् जाल्ल्याच्या निमतान लॉर्ड कर्जन एक व्हडलो समारंभ घडोवन हाडूंक सोदता आनी तातूंत देशांतल्या मोट्या मोट्या देशी शेट-सावकारांक ह्या सुवाळ्यांत आमंत्रीत करपाचे आसात. वसंतलाल लेगीत आपल्या मांवावांगडा ह्या सुवाळ्याक वतलो. ताणें हाका लागून खाशेले वेगळे कपडे शिवून घेतल्यात.

कोलकातांत सद्या 'चपकन' पार्टीची चलती आसा. पुडवें वापरपाचें सोडून आतां काळी वा धवी घट्ट पॅण्ट आनी वांगडा चपकन घालतात. चपकन हें खोमसाचेंच बदलतें रूप. ह्या चपकन-कोटाच्या वयल्या बोल्सांत भांगराची एक गडगंज सरपळी लांबयिल्ली आसता. तिच्या दुस-या तोंकाक एक घड्याळ अडकावन तें वयल्या दाव्या बोल्सांत दवरिल्लें आसता. सकयल इंग्लीश, वयल्यान हिंदुस्तानी. वसंतलालाखातीर विलायती ग्लासकिड मोचे मागयल्यात. आपणाचेर कितलोय ताबो दवरूनय रामविलासाच्या सुरांत कुस्कूटभर दुस्वास जाणवताच. "तुजेखातीरय मागोवया?" हैमिल्टनसायब हांसून विचारता.

सायबाच्या ह्या प्रश्नाची जाप दिवपाचें ताळपाखातीर रामविलास ताका चपकन पार्टीविशीं सांगपाक लागता, "चपकन पार्टीवाल्यांच्या मनांत मारवाडी समाजाचें फुडारपण करपाची उमेद आसा. मारवाडी समाजाखातीर शाळा आनी हॉस्पिटलां उगडपासारकिल्यो जायत्यो येवजण्यो तांचे तकलेंत आसात. पूण ते तर खांपे सनातनी! दुसरे वटेन सुदारकांचो नेट वाडत आसा आनी चपकन पार्टीवाल्यांकडेन तांचीं झगडीं चलतात." तो खंयचेवटेन आसा काय म्हण  हैमिल्टनसायब विचारता. रामविलास हांसता. ताच्या मनांत एक सपन आसा तें म्हळ्यार केदाराचें लग्न एके सुदारकाचे चलयेकडेन लावप. पुता-सुनेक बेबी ऑस्टीन गाडयेंत एकठांय बसून भोंवताना पळोवपाचे कल्पनेकडेन संबंदीत आसा हें सपन.

सनातनी लोक व्याख्यान-वाचस्पती दीनदयाळजीक कोलकातांक आपयत आसतात. मालवीयजी-म्हाराजय जायत्या वेळा येवन गेल्यात. रामविलासान सगळ्यांचें आयकलां, पूण सुदारकांचे विचार काळा प्रमाण आसात म्हणपाचें ताका पटलां. "आनी हां, आर्यसमाज लोकांचो एक पंगड कोलकातांत सक्रीय आसा आनी तोवूय सुदारकांबरोबरचोच अशें धरतात. आर्यसमाजावीशीं ब-याच लोकांक तीडक आसा. तांचेकडेन ते लग्नासारकिले संबंदय दवरूंक सोदिनात. आर्यसमाजाच्या स्पर्शानय भश्टकार लागत म्हणपाची भिरांत आसता सनतनवाल्यांक." रामविलास हैमिल्टनसायबाक सांगता.

"आनी तुजें कितें म्हणणें आर्यसमाजाचे बाबतींत?" दरेके गजालींत हैमिल्टनसायबाक ताची धारणा समजून घेवपाची आसता.

रामविलास गंभीर जावन ह्या प्रश्नाची जाप दिता, "आर्यसमाजी लोकांचें हें यज्ञ-हवन-संध्या सगळें सुंदर आनी पवित्र आसा. पूण म्हज्या दोळ्यांत सांठावलां तें कृष्ण-राधेचें रूप. तांचेबगर म्हजेखातीर आनीक खंयचो धर्म ना. आर्यसमाजी मनशांच्यो गजाली ब-यो आसात, पूण ज्या वेदांची आनी उपनिषदांची ते पुजा करतात, तांची राखण त्या देवळां आनी देवळांतल्या मुर्तिनीच केल्या, जांचेविशीं तांकां आक्षेप आसा. कृष्ण म्हणटांच म्हज्या दोळ्यांमुखार कृष्णाचीं विंगड विंगड रूपां उबीं रावतात. माखन चोर कृष्ण, राधेवांगडा रास खेळपी कृष्ण आनी अर्जुनाक उपदेश करपी कृष्ण. हो एक संस्कार आनी हाचीं मुळां कितल्याशाच पिळग्यांभितर रूजवणां आयल्यांत. तीं खंय खंय फांकारल्यांत

म्हाकाच खबर ना. मागीर हांव तें कित्याक सोडूं? तें रूप कित्याक विसरूं? ''

हैमिल्टनसायब ताच्यो ह्यो सगळ्यो गजाली कशो म्हण समजूंक शकता हाचें रामविलासाक अजाप जाता. ते कांय पिळग्यान पिळगी हांगाचे मातयेचेर पोसवल्ले हिंदू न्हय वा मुसलमानय न्हय. ''म्हाका जाल्यार दिसता, फाटल्या जल्मांत तुमी हिंदूच आसपाक जाय. हेचखातीर तर तुमकां इतल्या पयसुल्ल्या देशांतल्यान हांगाचे मातयेन ओडून हाडल्यात.'' रामविलासाच्या ह्या उलोवण्यान हैमिल्टनसायब ख-यांनीच गंभीर जालो आनी ताणें तें मान्य केलें.

सायबाच्या वागपांत जायते खेपो रामविलासाक अजापां आनी विचित्रपणां जाणवूंक लागता. केन्ना केन्ना तो अचकीत वग्गी रावता. खूब फावटीं अशें दिसता, सायबाच्या मनांत ताका कितेंतरी सांगपाचें आसा आनी तें तो ताका सांगपाक शकना. त्या दिसा एक योग जुळून आयलो आनी हैमिल्टनसायब आदल्या जल्मांत हिंदू आसपाक जाय हें ताच्या उलोवण्यांतल्यान ताका कळ्ळें आनी हैमिल्टनसायबासंबंदिच्यो कांय गांठी सुटाव्यो जाल्यो.

''हांव तुका म्हजेविशीं अशी एक गजाल सांगपाक सोदतां, जी फकत हांव आनी इंग्लंडाक आशिल्ले म्हजे आवयक सोडून दोगांबगर आनीक कोणाकूच खबर ना. जाणून घेवपाचो अधिकारय कोणाक ना. पूण हांव तुका सांगपाक सोदतां. हांव तुजेर पातयेवं न्हय?'' हैमिल्टनसायबान ताच्या दोळ्यांत पळयत विचारलें.

''बरेभशेन सायब'' सांगलें तर खरें रामविलासान. पूण ताचें काळीज धडधडटालें. हे गजालीचो संबंद ताच्या बापायकडेन आसत? ताच्या मनांत एक दुबाव आयलो. तेबगर हैमिल्टनसायब ताचेविशीं इतलीं आपलेपणा दाखयतलो? ताचे तकलेंत हो प्रश्न शंबर खेपो येवन गेलो.

''तुका हांव ही गजाल कित्याक सांगपाक सोदतां ताका कारण आसा. तुका म्हजेविशींचें येदें मोटें सत्य खबर ना तेन्ना तुका आपलो असो मानताना आडखळ येता. तुका जर हांव म्हजो इश्ट मानतां आसत जाल्यार हें सत्य तुका सांगचेंच पडटलें. घडये तातूंतल्यान म्हाका सवस्तकाय लाबतली. तुमचें 'सवस्तकाय' हें उतर म्हाका खूब आवडटा. आमचेमदले सगळे मतभेद कुशीक दवरून आमी खरे इश्ट आसचे अशें म्हाका दिसता. तेभायर तुज्या बापायच्या उपकारांतल्यान हांव थोडो तरी मुक्त जावंक पावतलों.''

हैमिल्टनसायबाच्यो गजाली ताका खंय घेवन वतात ह्या विचारान ताची तकली गरगरूंक लागली. ''सांग सायब, बेगीन सांग. म्हज्यान आनीक धीर धरपाक जायना.'' ताणें म्हळें.

''आयच्यान सायब म्हणप ना रामविलास. तुवें म्हाका जॉन म्हणपाचें. आपल्या इश्टाक कोण सायब म्हणीना.'' उपाट आपुलकायेन भरिल्ल्या दोळ्यांनी हैमिल्टनसायब ताचेकडेन पळयतालो.

कितलें विचित्र आसा हें, रामविलासाक दिसलें. सगळीं अंतरां बालांडून मनीस कशे

एक जावपाक लागतात. एकेवटेन लॉर्ड कर्झनाच्या वंगभंगाखातीर सगळेकडेन इंग्रजांविशीं तिरस्काराचें वारें पातळ्ळां आनी हांगा हें असलें आपलेपण? असलो स्नेह आपल्या सख्ख्या भावाकडल्यान तरी मेळूं येता काय हाचो ताका दुबावूच आयलो.

“हांव अर्दो हिंदूच आसा, रामविलास. म्हजी खरी आवय एक हिंदू बायलमनीस आशिल्ली. बहुबाजारांतले फिरंगी कालीच्या देवळाकडेनच ती रावताली. म्हजे इंग्लंडांतले आवयन म्हाका आपलोच भुरगो म्हण वाडयलो. घडये तिचे इत्सेआड आसत. म्हज्या बापायची इत्सा तिणें भायर वडयली ना आनी ही म्हण कितें उण्या मोलाची गजाल न्हय.” उलयतां उलयतां हैमिल्टनसायब वगी रावलो.

रामविलास अजापितूच जाल्लो. योगायोगान कशें कालीघाटाच्या भटजीकडसून ताका कळिल्लें, बापूय फिरंगी कालीच्या देवळांत वतालो. इतिहास केन्ना नश्ट जायना काय? काय तो परत परत जितो जावन आपली रूपरेखा तयार करता? बाबाच्या कोलकातांतल्या राबित्यांतल्यो अश्यो कितल्यो खबरी ताच्या कानार पडटल्यो काय? असल्यो खबरी ज्यो बाबान केन्ना ताका सांगल्यो नात. आईकय घडये सांगिल्ल्यो नासत. हैमिल्टनसायबाचे खरेले आवयकडेन बाबाचे संबंद कसले आशिल्ले काय? आयकलेबगरच रामविलासाक सत्याचो अदमास येतासो दिसपाक लागलो.

“म्हजे खरेले आईची म्हज्या बापायकडेन भेट घडोवन दिवपी तुजोच बापूय आशिल्लो. त्या दिसांनी कोलकातांत प्लेगाची लागण आशिल्ली आनी तातूंत म्हजे आवयचे आवय - बापूय दोगांय मेलीं. आवय अनाथ जाल्ली. सकाळीं गंगेचें न्हाण करून परतता आसताना स्मशान घाटाच्या भायर तुज्या बापायक ती रडटाना मेळ्ळी. तुज्या बापायचें अंतस्कर्ण कळवळ्ळें आनी तो तिका हैमिल्टनसायबाम्ह-यांत म्हळयार म्हजो बापूय जो ताचें खंयचेंच उतर मोडीनासलो ताच्या म्ह-यांत घेवन आयलो. म्हज्या बापायन तिची रावपाची वेवस्था आपल्या पोरन्या घरांत केली. पूण म्हजे आवयक पालव दितां दितां तो केन्ना तिच्या पालवापोंदा पावलो हाची कोणाकूच सुलूस लागली ना. म्हजे इंग्लंडवालें आवयचो कडक सभाव आनी हिंदुस्तानी मोसमाचो तिका तिटकारो आशिल्ल्यान बापायक घडये एकलेपण जाणवतालें आसुंये. आईच्या मनभुलोवण्या सोबीत रूपावांगडा तिच्या सादेपणान आनी मायेस्त सभावान बापायक बांदून घेतलो. तुजो बापूय त्या दोगांमदलो दुवो आशिल्लो आनी ताणें हें नातें आवयच्या निमाण्या दिसांमेरेन सांबाळ्ळें.”

हैमिल्टनसायबाच्यो खबरी आयकतां आयकतां रामविलास आपल्या मनांत तरातरांचे अदमास करतालो. बापायचें कोलकाता सोडपाफाटल्यान, वैरागी जावन भोंवपाफाटल्यान, वेपारांतलें लुकसाण सोडून आनीक दुसरें कसलेंय कारण आशिल्लें काय? “तुजे आवयचें नांव कितें आशिल्लें?” एक फालतू, अर्थ नाशिल्लो प्रश्न.

“जयंती.” --- सायबाचे जापेन रामविलास कच्च करून हाललो. बापायचे पुजेंतलीं नित्यनेमातलीं उतरां ताच्या कानांत घुमपाक लागलीं. ‘ओम् जयंती मंगला काली

भद्रकालीनी। दुर्गा, क्षमा, शिवा धात्री स्वाहा स्वधा नमोस्तुते' खूब फावटीं जयंती ह्या उतराचेर तो थांबतालो ती ताका याद जाता. ह्या मंत्राफाटल्यान लेगीत असोच कितेंय उगडास आशिल्लो? आसूंय येता, नासूंय येता. अर्थ नाशिल्लें चिंतप. तकली-शेंपडी नाशिल्लें.

"तुजो बापूय लेगीत म्हजे आवयक खूब मानतालो आसूंक जाय. नाजाल्यार आईखातीर ताणें जितलें केलें तितलें म्हाका दिसना आनीक कोणूय करतलो आसलो म्हण. म्हज्या बापायचे डायरेंत तुज्या बापायविशीं हें बरोवन दवरिल्लें तें हावें वाचिल्लें."

हैमिल्टनसायबाच्या उलोवण्यानी रामविलासाच्या काळजाक दूख भोगता. तें दुखतच रावता. कित्याक म्हणून? आपल्या बापायचे व्यथेखातीर? काय आपले विमला-आईचे व्यथेखातीर?

"म्हज्या जल्मासावन म्हज्या फुडाराच्या हुस्क्यान म्हजो बाबा खूब मानसीक अस्वस्थतायेंत उरलो. अर्दो हिंदुस्तानी आनी अर्दो इंग्रज अशा भुरग्यांचें आयुश्य कशें आसता हें ताका भोंवतणी दिसतालें. तो धड हांगाचो उरना, ना धड थंयचो. काळो-फिरंगी, यूरेशियन (एँग्लो-इंडियन) असल्या नांवांनी ताका पाचारतात. तर मस्क-यांनी 'ची-ची' करतात आनी अनौरस, बास्टर्ड अशें कितें कितें म्हणटात. एखादी युरोपियन चली यूरेशियन चल्याकडेन लग्न जावपाक तयार जायना. कांय कफल्लक युरोपियन तरनाटे मात यूरेशियन चलयांकडेन आपणाक यूरोपियन बापायकडल्यान मेळटले संपत्तिचे आशेन लग्नाक तयार जातात. ही सगळी परिस्थिती सोसूंक जायना जावन अखेरेक बापायन म्हजे इंग्रज आईक म्हज्या जल्माचें सगळें रहस्य सांगलें आनी तिणें म्हाका आपणावचें अशी विनवणी केली. तिका भुरगेंबाळ जावपाक ना. ती खूब रडली, फुगार जाली आनी मागीर म्हजे खरे आवयक परतून केन्नाच मेळचो ना म्हणपाचें उतर घेवन तिणें मानून घेतलें. योगायोगान म्हजे आवयचो रंगय गोरो आशिल्ल्यान हांवूय इंग्रज कसो दिसपाक लागलों. देड वर्सभेरेन मिसेस हैमिल्टनाक दार्जिलिंगाक दवरून ती गुरवार आसा म्हणपाचें नाटक रचलें आनी म्हाका ह्या घरांत प्रवेश मेळ्ळो. हाका लागून म्हज्यांत मिश्र रगत आसा हाचो कोणांक दुबावय येवंक पावलो ना." इतलें उलोवन हैमिल्टनसायब वगी रावलो आनी रामविलासाच्या मुखामळार उदेतल्या वेगवेगळ्या भावांक निरखुपाक लागलो.

रामविलासान आपणाल्या सुकिल्ल्या ओंठांचेर जीब भोंवडायत विचारलें, "आनी तुजे खरे आवयचें कितें जालें?" हैमिल्टनसायबाचें तोंड अकस्मात बावलें.

"म्हजें कल्याण जावचें म्हण आईन म्हाका दिवन वडयलो खरो, पूण म्हजें आनी बाबाचें पयसावप तिच्यान सोंसपाक जालें ना. तिणें हांथरूण धरलें. पूण तरी लेगीत ती पांच वर्सांभेरेन जगली. तुजो बापूय खूब फावटीं म्हाका घेवन तिचेसरीं मेळपाक गेलो. कोलकाता सोडचेपयलीं तिणे म्हज्या बाबाकडल्यान दोन उतरां प्रमाण करून घेतलीं - म्हाका ह्यो सगळ्यो गजाली तो सांगतलो आनी हांव म्हजे आवयचें श्राद्ध वाडटलों."

दादलो आनी बायल हांचेमदलें आकर्शण हें आदीमकाळासावन - हे कथेंत आनी नवीदाद कसली? रामविलास ह्या प्रश्नाकडेन झुजता. पूण ताका जाप सांपडना. कथेतलीं संवंगां बदलत वतात हीच घडये नवीदाद आसूं येता. ताणे नेमाळ्यांत वाचलां तेप्रमाण ह्या वेळार कोलकातांत सोळा हजार यूरेशियन आसात, इंग्रजांची संख्या तांचेपरस दोन हजारांनी उणी आसा - म्हळ्यार ते चवदा हजार आसात. ह्या सगळ्या सोळा हजार मिस्तूराद रगताच्या लोकांसंबंदान अशोच तरातरांच्यो काणयो आसतल्यो. कोणाची आवय हिंदू आसतली तर कोणाची मुसलमान. असल्या जोडप्यांचे आपापसांत संबंद कशे आसतले काय?

हे यूरेशियन लोक उत्तर कोलकाताचें 'काळें शार' आनी दक्षिण कोलकाताचें 'गोरें शार' हांच्या मदल्या भागांत रावतात. मदल्या भागांतल्या बहूबाजार आनी चौरंगीचे फाटलेवटेन अशा देशी बायलांचो राबितो आसा जांचेखातीर इंग्रजांनी आपल्याफाटल्यान सांडिल्ली जमीन, भाटबेंस आनी संपत्ति आसा. हांचीं भुरगीं चड करून रेल्वे, टेलेग्राफ सारकिल्या ल्हान-व्हड कारखान्यांनी नोकरी करतात. पूण हांचेमदल्या कितल्या जाणांक हैमिल्टनसायबाभशेन वा शंबर वर्साआदीं जावन गेल्ल्या 'डिरोजिया' नांवाच्या यूरेशियनाभशेन हिंदुस्तानाकडेन आपलेपण आसा? रामविलासाक इतलेंच खबर आसा, हे लोक आपणाल्या रगताच्या काळसाणेपासून पुरायपणान मुक्त जावपाक सोदतात.

"बरोबर आसा" रामविलास येवजिता, "आमी लेगीत आमच्या नात्यांतलो एखादो सामको गरीब वा सादोसो आसलो जाल्यार ताची खंय पर्वा करतात? व्हडल्या हैमिल्टनसायबान आपल्या भुरग्याचें अर्दें हिंदुत्व लिपोवपाखातीर कितले यत्न केले? आनी भुरग्यान?" रामविलास हैमिल्टनाचें देंविल्लें मुखामळ बारीकसाणेन नियाळटा.

पूण त्या मुखामळाकडेन पळयताना रामविलासाक अचकित आपल्या काळजांत कितेंतरी उफाळून येता तें जाणवूंक लागता. आपणा दोगांमदें जी दडपणाची सया दाटून आयल्या ती निवळावची म्हण तो वेगळें कितेंतरी उलोवपाक सोदता. तो हांसत म्हणटा, "तर सांग जॉन लालाजी - आमचेकडेन ल्हान भावाक वा पुताक मायेन लाला म्हण पाचारतात, हें रहस्य म्हाका सांगतकच तुका ल्हव जाल्लेभशेन दिसूंक ना? तूं अर्दो हिंदुस्तानी आसा हें सांगतकच तर म्हाका तुजेविशीं चड आपलेपण दिसपाक लागलां. तुजेखातीरय ब-याचेंच हें. इंग्रजांवरीच तूं हिंदुस्तानीयांचेरूय प्रेम करपाक शकता. तुका सगळे तुजेच जाले ना? तुजो हातूंत फायदोच आसा."

"आतां उरली गजाल रहस्य हें रहस्यूच दवरपाची, तर आमचेकडेन एक म्हणणी आसा - पुरिल्लीं मडीं उस्तुपाचीं नासतात. आनी हिंदू लोक तर मड्यांक लासून तांकां ना नपयत करून वडयतात. म्हणटकच इत्सा आसल्यारूय तीं उस्तूंक गेल्यार मेळपाचीं नात. तुमचें रहस्य जाणून कोणाक कसलो फरक पडपाचो आसा? तुमचें जें रूप आसा तेंच सगळ्यांमुखार उरचें? हे गजालीक लागून तुमी कित्याक तुमचेचकडेन झगडचें? आनी

आवयचें श्राद्ध वाडप म्हळ्यार आपणामदें तिचो उगडास जितो दवरप. तुमच्या नशिबांत आवयची साथ संगत इतलीच बरयिल्ली आसुंये. आमचो कृष्ण तरी आपले खरी आवय देवकीकडेन कितलोसो रावपाक पावला?'' आपल्या ह्या उतरांचो प्रभाव पडून सायबाच्या देंविल्ल्या मुखामळाचेर ल्हव ल्हव करून हांसो उदेवपाक लागिल्ल्याचें रामविलासाक दिसतालें.

त्या दिसाउपरांत फुडल्या सोळा वर्सांचें कोलकाताचें जिवीत-वंगभंगासावन तें एकुलत्या पुताच्या, केदाराच्या मर्णामेरेनचें जिवीत - रामविलासाखातीर वाटेवयल्यो सगळ्यो आडखळी कुशीक सारीत, दोंगरावयल्या व्हांवते गंगेच्या उद्दाम प्रवाहावरी सरत गेल्लें. धाकलो हैमिल्टनसायब उर्फ लालाजी आपलो वरदहस्त पसरून शिंवावरी ताचेफाटल्यान उबो राविल्लो. ताचे जिणेच्या दर एका मोड्णाचो निर्णय हैमिल्टनसायबान घेतिल्लो. आपल्या वेपाराची दिसानदीस वाडत चलिल्ली नशा रामविलासाचे तकलेक इतली चडिल्ली, वेपार आनी हैमिल्टनसायब हाचेबगर दुसरें कितेंच ताका येवजनासलें.

वंग-भंगाच्या आंदोलनाचे दीस आशिल्ले. कोलकाताच्या टाउन हॉलांत लॉर्ड कर्जनाच्या आड आशिल्ले विराट जनसभेंत तागेलो पंदरा वर्सांचो पूत, केदार सामील जालो तेन्ना रामविलास भियेलो. तेन्ना हैमिल्टनसायबाचे सांगणेन ताणे केदाराक कोलकातांतल्यान बहिश्कृत कसो करून भिवानीक परतून धाडिल्लो. आपल्या आयुश्यांतल्यान आनी वेपारांतल्यान ताका वेगळायिल्लो.

चवदा वर्सांउपरांत केदाराक कोलकतांक मर्ण आयलें तेदेवेळार लेगीत तो एका हिंदी नेमाळ्याच्या संपादकाक मेळपाक कोलकाताक आयिल्लो. त्यावेळार 'मारवाडी-सुधार' नांवाच्या नेमाळ्यांत, वाडिल्ले पिरायेचे विधुर मारवाडी दादले तांचेपरस पिरायेन वीस-तीस वर्सांनी ल्हान आशिल्ल्या चलयांकडेन लग्न करतात ताचो विरोध करपाखातीर ताणें 'विक्रय-विवाह' शिर्षकाखाला लेख बरयिल्लो. ह्या लेखाक लागून रामविलासान ताचेर बरीच तापय काडिल्ली, कित्याक तर त्या लेखाचो सरळ मारो आशिल्लो ताच्या इश्टाचेर, वसंतलालाचेर.

वंग-भंगच्या काळांत रामविलासाचे पोरने इश्ट, 'भारतमित्र' नेमाळ्याचे संपादक बालमुकुन्द गुप्ता हाच्या लेखांचेर फिदा जावन केदारान तांकां मेळपाक कोलकाताक येवपाचो हट्ट धरिल्लो. रामविलास तेन्नाच शिटकाविल्लो आनी ताका दिशिल्लें, ह्या भुरग्यान आपली वाट बदलल्या. तो आतां वेपार करपाक शकचो ना. ताचेवांगडा एकेच शाळेंत शिकिल्ल्या बालमुकुन्द गुप्ताचें नेमाळें मागोवन हाडून तातूंत लॉर्ड कर्जनाच्या विरोधांत बरयिल्लें तागेलें 'शिवशंभू के चिठ्ठे' वाचिल्लें. केदार खंयचे गजालींकडेन ओडटा हें जाणा जावप ताका अत्यंत गरजेचें दिसलें.

चिटयेचे निमाणेकडेन 'वंदेमातरम्' बरोवपाचे केदाराचे भिरांकूळ संवंयेक लागून आख्ख्या चवदा वर्सांत भिवानीसान आयिल्लीं सगळीं पत्रां तो पिनीत गेल्लो. उपरांत

जेन्ना केदार ह्या संवसारांत उरलो ना तेन्ना तो त्या चिटयांक आंवडेवपाक लागलो, निदान ताणें बरयिल्लीं उतरां तरी दोळ्यांनी पळोवं येतालीं.

त्या दिसांनी हैमिल्टनसायबानच ताका शिटकायिल्लो, “ह्या भुरग्याक तुज्यान बदलपाक जावचें ना रामविलास. पयलेच खेप जेन्ना तो म्हाका मेळपाक आयिल्लो तेन्ना ताच्या दोळ्यांत हावें म्हजेविशींचो इतलो द्वेष पळयलो तसलो द्वेष हावें त्या उपरांत आयजमेरेन कोणाच्याच दोळ्यांत पळयलो ना. तुवें ताचेकडेन वाद घालून कांय जावपाचें ना. तो जें कितें करपाक पळयता, बरोवप-वाचप वा वांकडे-तिकडे कसलेय लेख बरयता, तें ताचें ताका करत रावूं दी. तुवें ताका आडावपाचे यत्न केल्यार तो ‘टेररिस्ट’ जातलो. तुका आजून भिवानीत हवेली बांदपाची आसा. तुजें आरोग्यय बरें आसा. तुका चल्याची मदत जायच कित्याक? ताचें लग्न करून दी आनी भिवानीत ताका जें कितें करपाचें आसा तें ताका करूं दी. तूं कोलकातात तुजें काम करीत राव.”

हैमिल्टनसायबाचो सल्लो रामविलासाच्या पथ्यार पडलो. ‘बायल भुरग्यांचो भार पडलो म्हणटकच आपूणशींच येतलो ताळ्यार. ताका सुदारपाक म्हाका तरी वेळ खंय आसा? चड तापलों-तिडकलों जाल्यार खंयूय बॉम-बंदुकेचे भानगडींत पडूं येता. कोलकातांत रावलो जाल्यार हो धोको निश्चित आसा. हांगां तर गल्ली कणकणीं बॉम तयार जातात. ‘भारतमाता भारतमाता’ म्हणत बंगाल्यांचें माथें सामकें इबाडून गेलां. केदार हांगां कोणाल्या जाळ्यांत घुस्पतलो कोणाक खबर!’ रामविलासान मनांतल्या मनांत फुडाराची येवजण थारावन वडयिल्ली. ‘घेवूं दी राशिनी पुस्तकां विकतीं. बसूं दी वाचीत. म्हाका कितें?’ केदाराच्या इंग्लीश पुस्तकांची एक वळेरी ताणें हैमिल्टनसायबाचे सांगणेनूच ताका दाखयिल्ली आनी हिंदी पुस्तकांची आनी नेमाळ्यांची वळेरी आपणेच आर्ती-पर्ती करून तपाशिल्ली. हैमिल्टनसायबान ताका सांगिल्लें, हातूंतलीं दोन तरी पुस्तकां, टॉलस्टोयचें ‘वॉर एंड पीस’ आनी जेप्रो ब्राऊन लेखकाचें एक पुस्तक कोलकाता विश्वविद्यालयाच्या विद्यार्थ्याकडल्यान पुलीस जप्त करताले खंय.

“भिवानीतल्या कोणाय एखाद्या टेररिस्टाकडेन वा तांचेकडेन सहानुभुती दवरतल्या कोणाय व्यक्तिकडेन हाची इश्टागत जाल्या आसूं येता. म्हज्या अदमासाप्रमाण हो भुरगो हीं सगळीं पुस्तकां ताचेचखातीर घेवन वता. पूण तूं हुस्को करूं नाका. हांगाच्या पुलीस कमिशनराकडेन म्हजी भुरगेपणासावन इश्टागत आसा. तो भिवानीच्या कमिशनराक कळोवन तुज्या पुताच्या ह्या गुरूक कडेक काडटलो. तूं केदाराक फकत इतलेंच सांग, ताणें राजकारणात पडनासताना फक्त समाजसेवा करपाची. वेल्यान एक पुस्तकालय उगडपाखातीर ताका लागता ते पयशे दी. न्हंयचे धारेची वाट तूं आडावंक शकना. पूण तिका दुसरे वटेन वळोवपाचें काम कठीण न्हय.”

हैमिल्टनसायवाच्यो सगळ्यो गजाली ख-यो थरल्यो. केदाराच्या विद्रोहाचो रूख सहजपणान मोडून वडोवपाक जमलें आनी हातूंत ताच्या इंग्लीशीच्या शिक्षकांक धांवडावप आदाराचें

थरलें. हैमिल्टनसायबाचे सांगणेनूच रामविलासान आपल्या धंद्यांतल्या फायद्यांतल्यान कडेक काडून दवरिल्ल्या धर्मदाय खात्यांतल्यान केदाराक भिवानीच्या लागींसराकूच मारवाडी शाळेच्यो चार शाखो उगडपाखातीर बरीच मोटी रकम दिल्ली. विधवा आनी निराश्रित बायलांक कापूस कातून पेळू करपाखातीर चार पटीन ज्यादा मजूरी दिवपाक मेळटा असलो 'महिला शिल्पाश्रम' चलोवपाक पयशे दिले. केदाराचे इत्सेप्रमाण ताणें आपली बालविधवा भयण चुन्नीखातीर एके व्हड रकमेची पुंजी करून दवरिल्ली जिच्या व्याजांतल्यान ती आपणाले मर्जेप्रमाणा दान-धर्म करूंक शकताली.

इतलें सगळें करून लेगीत एकोणिसशें इकरांतल्या सम्राट पंचम जॉर्जच्या दरबारांतलो सुवाळो पळोवपाक गेल्लेखातीर आपल्या बापायचो धिक्कार करपी चीट ताणें बरयिल्ली, त्या दिसा पयलेच खेप रामविलास हैमिल्टनसायबा मुखार तिडकीन चवताळिल्लो, "पळयलें कितें बरयलां तें ह्या फटींग, अनुपकारी बेमानान तें-आपल्याच सख्ख्या बापायक? इंग्रजांचे मोंचे चाटपी खुशमस्क-यांचे टोळयेंत सामील जाला म्हण कळटकच म्हाका म्हजीच लज दिसली. आरे, लज दिसली जाल्यार वच आनी बांयत उडी घे. लज दिसपाक जाय ती तुकां पापया, ज्या बापायचे पयशे फुकटचे वाटून तूं इतलें नांव मेळयता त्या बापायची प्रतिष्ठा तुज्या कर्मांनी केन्नाय मातयेंत मेळूंक शकता. आनी चिटयेंत बरयता-'वंदेमातरम् !'मुद्दाम करून तिडायता म्हाका. म्हजे संपत्तिपासून हांव ताका पयस दवरतलों. तेन्ना कळटलें ताका असले आलतू फालतू हांगां-थंय लेख भिरकटावन कोणाचें पोट भरपाक जाता काय कितें तें."

सदांच शांत आसपी रामविलासाचो असो किंवाटो पळोवन हैमिल्टनसायब कांय वेळ चाट पडलो. मागीर ताणें म्हळें, "चल विलास, आज गंगेचे तडीर बसून ल्हारांक पळोवया."

"एक गजाल तुका सांगपाक सोदतां हांव विलास - आयुश्यांत जें सुटटा ताच्यो यातना मात हरघडी कांट्यांवरी तोपत उरतात. असली चूक तूं करूं नाका विलास. केदार तुजो एकलोच पूत. ताका समजा कितेंय जालें जाल्यार तूं जगपाक शकचो ना. म्हाका उतर दी, तूं हे चिटीची जाप ताका धाडचो ना म्हण. आपणाक ही चीट मेळूंकच ना अशें भासय. हें सगळें बरयल्या उपरांन येन्ना मेरेन केदारूय शांत जाला आसतलो. घडये ताका खंतय भोगल्या आसूं येता." - हैमिल्टनसायबाचीं उतरां खरेपणाचे कितले खोलायेन भरिल्लीं हें रामविलासाक केदाराच्या मर्णा उपरांत गंगेचे तडीर बसून ल्हारांक पळयताना परतून परतून येवजून येवचें. पूण हीं उतरां आनी ताचेफाटलें खरेपण हाची अनुभुती येवपाच्या काळांमदलीं वर्सां म्हळ्यार सगळ्या जगांतले उलथापालथीचीं वर्सां आशिल्लीं, ज्या वर्सांत रामविलासाक एखाद्या वर्षावाप्रमाण कोंसळपी संपत्ति पुंजावपाबगर आनीक कसली सुद उरली ना.

एकोणिसशें चवदाच्या झुजांत शेयरांचे किंमतींत इतली वाड जाली, हैमिल्टनसायबाक ताच्या नांवार विकते घेतिल्ल्या शेयरांतल्यान आयिल्ल्या पयशांचो हिशोब दवरपय कठीण

जाल्लें. मेकन्झी कंपनीच्या सायबान तागाच्या पिकाच्या खरेदींतल्यान जावपी फायद्याची बातमी कळयताना ताका रिकाम्या पाकिटांतल्यान एक कागद धाडिल्लो. ताचेर बरयिल्लें - दोन लाख रूपये. आपणाल्या इश्टाचे हे करणेचें हैमिल्टनसायबाक खूब हांसपाक आयिल्लें. पूण ताणें ताका चड हावरटपणा करूं नाका म्हणपाचें शिटकायलें. 'डनबर कॉटन' मिलीच्या शेयराचें मोल धा रूपयांवयल्यान सोमतें सातशें पांसश्ट रूपये जाल्लें आनी ह्या एकाच शेयरांतल्यान हैमिल्टनसायब आनी रामविलास, दोगांयनी लाखांनी रूपये जोडिल्ले.

भिवानीत तीन चौक्यांची हवेली बांदपाच्या आनी एक सोबीत बाग तयार करपाच्या कामाची जापसालकी केदारान आपणाल्या भुजांर घेतिल्ली. हैमिल्टनसायबाच्या लिव्हरांत इबाड जाल्ल्याकारणान तो दिसानदीस दुयेंत पडपाक लागलो आनी दोन वर्सांमेरेन ताका सोडून भिवानीत वचपाचें रामविलास येवजूंकय शकनाशिल्लो. ताणें कोलकताकसानच घराचो नक्सो काडून केदाराक धाडून दिल्लो. अदींमदीं इंजिनियर वचून देखरेख करून येतालो. हैमिल्टनसायबाच्या दुयेंतपणाक लागून रामविलासान घरप्रवेश लेगीत खूब गडबडींत उरकून घेतिल्लो. तोंमेरेन ताचे तकलेंत कोलकातात घर बांदपाचीं चिंतना येवपाक लागलीं आनी भिवानीत एक व्हडली हवेली बांदप सारकें न्ही कशें ताका दिसपाक लागिल्लें.

हैमिल्टनसायबाचें मर्ण आनी पुलीस कमिशनर टैगर्टाकडले इश्टागतीक लागून दोन वर्सांमेरेन केदाराकडलो संघर्श - ह्यो दोनूय दुर्घटना रामविलासाच्या आयुश्यांत एकाच वांगडा घडिल्ल्यो. आपल्या कसल्यातरी कामाच्या संदर्भांत केदार कोलकताक आयिल्लो आनी थंय ताणे आपणाल्या इश्टांकडल्यान आपलो बापूय आनी इंग्रजांचो सगळ्यांत दुश्टकर्मी पुलीस अधिकारी टैगर्ट हांचेमदले इश्टागतिच्यो खबरी आयकल्ल्यो. क्रिसमसानिमतान दर वर्सा गवर्नराकडेन जावपी पार्टेच्या दिसा पातळ मोहरीची काळी पॅण्ट, चकचकीत विदेशी ग्लासकिड मोचे, विलायती कपड्याची लांब काळी चपकन, भांगराच्या जाड सरपळेंत बांदिल्ली बोल्सांत दवरिल्ली भांगराची घडयाळ आनी हळडुवी पगडी अशा भेसांतल्या धव्याफुल्ल मिशांच्या रूबाबदार बापायमुखार आपल्या हातांनी विणिल्ले स्वदेशी कपडे घालून केदार उबो राविल्लो, "तुवें तुज्यांतल्या आत्म्याक सामको विकून वडयला काय कितें? बारा वर्सांचे पिरायेचेर जेन्ना पयलेच फावट हांव तुजेबरोबर दिल्लीकसान कोलकताक रेल्वेन आयिल्लों तेन्ना ह्या इंग्रजांनी आमचेवांगडा कसलें जनावरांवरी वर्तन केल्लें ताची याद आसा न्हय तुका? हो अपमान विसरलो तूं? हो तुगेलो इश्ट टैगर्ट आसा पळय तो मनीस न्हय, मनशाचें रगत पिवपी राकेस - राकेस तो. तुवें आतां हांव आनी टैगर्ट हांचेमदल्यान एकट्याक वेंचून काडचो पडटलो."

रामविलासान ताका आनी ताच्या कपड्यांक तिरस्कारान पळयिल्लें. "तूं आतां दोगां भुरग्यांचो बापूय जाला. ते दोगूय तुजेकडेन अशे तरेन उलयतले तेन्ना तुका अक्कल येतली आपल्या बापायवांगडा कशेतरेन उलोवपाचें आसता ताची. वाटेवयलो कडेक सर. म्हाका कोचवान रावता."

केदार ताचे वाटेवयल्यान कुशीक सरिल्लो. दोन वर्सां उपरांत ताचे आवयच्या मर्णावेळार भिवानींत बापूय-पुतामदीं उलोवणी जाल्लीं तितलींच. हीं दोन वर्सां रामविलासान हैमिल्टनसायबाच्या मर्णान उपराशिल्ल्या एकटेपणान आनी केदाराकडेन उलोवपाचें बंद जाल्ले खंतीन निर्माण जाल्ल्या आत्ममंथनान गेल्लीं.

ताचे नदरेसामखार अश्यो गजाली येवपाक लागल्यो जांचेर ताणें केन्ना लक्षूच दिवंक नाशिल्लें. हिंदुस्तानी लोक शेयरबाजाराचे इमारतींत लिफ्टान चडपाक शकनाशिल्ले. खंयच्याय एखाद्या कार्यालयांत गेल्यार वाट पळयत तांकां बांकांर बसपाक मेळनाशिल्लें. तांकां उवेंच रावचें पडटालें. जायते रस्ते अशे आशिल्ले, जांचेवयल्यान तांकां चलपाक मनाय आशिल्ली. जायते क्लब आशिल्ले, खावपा-पिवपाचीं जायतीं हॉटेलां आशिल्लीं जंय तांकां वचपाकमेळनाशिल्लें खास करून जालीयांवाला हत्याकांडाउपरांत रामविलास भितरल्यान हालला. अचकीत ताका जाणवपाक लागलें, सांठ वर्सांचे पिरायेर पावतां पावतां ताका एकटेपण भासूंक लागलां. ताचो आपलो असो कोण ना. केदार आनी आपल्या दोगां नातवांक पळोवपाक ताका भोवन भोवन भिवानीक वचचेंशें दिसपाक लागलां. आतां कामाचेर लक्ष लागना. गंगेंत न्हातकच जी थोडीशी शांती मेळटा तितलीच. तशेंच न्हंयचे देगेर बसून ल्हारांक तोखेताना, कुपांक नियाळटाना, रूखांक पळयताना. आतां ताका परतून परतून बापायचो उगडास जाता. आवयची याद येता. इतल्या वर्सां उपरांत. मदलीं इतलीं वर्सां तो एके धुंदींत वावुरतालो आनी आतां आतां ताका स्पश्ट दिसपाक लागिल्लें.

बायलेविशीं ताका केन्ना अशी ओड कशी भासली ना. तिची इत्सा आशिल्ली, एक व्हडलें घर आसचें, बग्गी आसची, संपत्ति आसची. तिका हें सगळें मेळ्ळें. पूत तिचेवांगडा. सूनय बी. दोन नातरां जालीं. तिका रामविलासाआदीं मरपाचें आशिल्लें. तिगेली तिवूय इत्सा पुराय जाली. नथ, ओडणी, कुकूम, कांकणांसयत ती सवायशीण मेली. तिका सगळ्यांत चड भिरांत आशिल्ली ती ही, आपूण जर विधवा जाली जाल्यार आपल्यो नव्यो, खरेल्या चांदी आनी भांगराची तार लायिल्ल्यो जरी, शालू आनी गोट्याच्यो ओडणी तश्योच भितर उरतल्यो. त्यो घेवन ती केन्ना घराभायर पडलीच ना. ती केन्ना कोलकाताक आयलीच ना. आपणाक कोलकाताक व्हर अशें तिणें ताका केन्ना सांगलेंच ना. तिच्यो इत्सा अशो सामक्यो ल्हान आनी सामान्य आशिल्ल्यो. ह्यो गजाली आसप म्हळ्यारच सूख अशें ती ल्हानपणासावन समजून आशिल्ली. ती सुखान मेली. तिचेकडेन आशिल्लें तितलें भांगर भिवानीतल्या खूब थोड्या घरांनी आशिल्लें. तिगेल्या मुंबयंतल्या भावांपरस चड. बायलेच्या आंगां खांदार वेळा प्रसंगाक लागपी सगळे अळंकार तिचेकडेन आशिल्ले - नुपूर, किंकिणी, चूडी, मुदी, कांकणां, बाजूबंद, हार, कंठी, कुड्यो, बेसर, बेरिया, भांगतिळो, सीसफूल. दर एक वस्त पोरने - नवे मोदिची. हातांखातीर हातसांखळी, कांकणां, पाटल्यो, तोडो, विलवर, मनगटी, पोची अशी दर एके मोदिची वस्त तिचेकडेन आशिल्ली. तिचे इत्सेप्रमाण तिका जाय जाय तें मेळ्ळें. पूण रामविलास? ताका कितें जाय

आशिल्लें? आनी ताका कितें मेळ्ळें? ताचें ताकाच खबर ना.

केदाराच्या आवसच्या मर्णा उपरांत धंद्यांतले नुकसानीक सुरवात जाली. एकाफाटोफाट एक. मागीर केदाराचें मर्ण. मरचे पयलीं विजोड-लग्नाचेर रामविलासाचो इश्ट वसंतलाल हाचेर बरयिल्ल्या लेखाखातीर ताचेकडेन जाल्लो वाद. तेंच तांचें निमाणचें संभाशण. त्यावेळार रामविलास ताका खूब कितें सांगपाक सोदी - टैगर्टाकडली इश्टागत सोडिल्ली ताची गजाल, जालीयानवाला हत्याकांडाखातीर जाल्ल्या दुख्खाची गजाल.पूण ते दोगूय एकामेकाकडेन अनवळखी जावन उरले आनी सासणाखातीर एकामेकाक पयसावले. आपल्या पुताचेर आपलोच अधिकार आसता म्हणूनच काय कितें ताच्या मर्णाउपरांत बापायक आपल्या मर्णावरीच कळो येतात? केदाराच्या मर्णाउपरांत तागेले उजवाडाक आयिल्ले लेख रामविलासाक वाचीन दिशिल्ले. ताचो पूत कितें करतालो, कितें चिंततालो, कितें बरयतालो हें जाणून घेवपाची ताका इत्सा जाल्ली. पूण ह्या सगळ्या गजालींची म्हायती केदारावांगडाच ना नपयत जाली म्हणपाचें ताका कळून आयलें. आपल्या कुटूंबातल्या कोणाक आपली पर्वा ना हें केदाराक घडये खबर आशिल्लें, तेचखातीर ताणें आपलें कांयच सुगूर करून दवरलें ना.

रामविलासान ताच्या पुस्तकांक हात लावन पळयलो. कांय आरतिलीं - परतिलीं. ताचें बरोवपाचें मेज सांसपीलें. पूण कोणेच रामविलासाक ताच्या पुताविशीं कांय सांगलें ना. फकत ताचे दोगय नातू ताचेफाटल्यान येवन उबे राविल्ले. रामविलासान आपल्या पंदरा आनी चवदा वर्सांच्या नातवांक पयलेच फावटीं बारीकसाणेन पळयलें. फुडल्या वर्सामेरेन व्हडल्याचें लग्न करपाक जाय. तांचेखातीर धंद्याचीय घडी सारकी बसोवपाक जाय. कशें जमतलें हें सगळें? ताणें एक हुस्कार सोडलो आनी तो केदाराचे कदेलीर बसलो.

रामविलासान आपणाल्या आयुश्याचीं उरिल्लीं पांच वर्सां परतून एक फावट सुरवातीच्या पांच वर्सांवरीच नवे उमेदीन धांव धपट्यो काडीत सारपाचें येवजिल्लें. पूण गेल्लो काळ आनी सरिल्ली पिराय परतून मेळना म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें. आतां ताचेफाटल्यान हैमिल्टनसायबासारकें व्यक्तिमत्व नाशिल्लें आनी पुताच्या मर्णाचेर दुखवटो व्यक्त करपाक टैगोर्ट आयलो तेन्ना रामविलासान तोंड घुंवडायिल्लें.

निमाणे रामविलासान काळाकडेन हार मानली आनी तो ज्योतिशांच्या चक्रांत घुस्पलो. कोलकातांतली ताची व्हडली नातसून बरीच समजिकायेची आशिल्ली. थोड्याच दिसांभितर भिवानीतले अगडबंब हवेली आनी थंयची रूनझून करपी बग्गी हांचेफाटल्यान दडिल्लें सत्य - सगळें घाणाक दवरलां हें तिच्या लक्षांत आयलें. तिणें घुंगटाभितरसून रामविलासाक सांगिल्लें, "दादसराजी, पंडितांच्या चक्रांत घुस्पून रावचेपरस तुमी तुमच्या आदल्या वळखिच्या गो-या सायबांक मेळात. तुमच्या कुलदीपकांची तांचेकडेन वळख करून दियात. सगळें जाग्यार पडटलें." पूण रामविलासाक आतां सायबांकडेन संपर्क सोड, तांचेकडेन

उलोवपाचीय इत्सा उरूक नाशिल्ली.

केदाराचीं उतरां ताच्या कानांत गुंगुल्ल्यावरी घुमत रावतालीं, "बारा वर्सांचे पिरायेचेर जेन्ना पयलेच फावट दिल्लीकसान कोलकाताक आमी रेल्वेन आयिल्ले तेन्ना जो अपमान आमी सोंसलो तो विसरलो तूं?" केन्नाय ताच्या बापायन सांगिल्ल्यो खबरी ताका याद जाताल्यो. एक फावट हैमिल्टनसायबाचे बायलेन, दोरयेन झालरदार कपड्याचो पंखो हालोवपी म्हाता-या नोकराक आपल्या बुटांच्या तोंकान खोंट मारीत म्हणिल्लें खंय, "आरे हें कितें चलयलां तुवें सुस्तेल्या हरामखोर धुकरा." हो देखाव आनी हें वाक्य रामविलास केन्नाच विसरूक कित्याक शकलो ना कोण जाणा. आनी जेन्ना जेन्ना धाकले हैमिल्टनसायब आपणाले इंग्लंडांतले आवयचो उल्लेख करताले तेन्ना रामविलासाच्या दोळ्यांमुखार बापायकडल्यान आयकल्ले हे गजालीचो उगडास जातालो. अशेच तरेची कोणाकडल्यान तरी आनीक एक गजाल ताका याद जाताली ती म्हळ्यार फलाण्या इंग्रज सायबान आपल्या नोकराक बारा पयशे चोरील्ल्याखातीर इतलो मारील्लो, निमाणें ताचो जीव लेगीत गेल्लो.

रामविलासाचें काळीज अचकीत सायब लोकांविशीं उदासीन जावन गेलें. हे लोकय आपणासारखेच पयसुल्ल्या देशांतल्यान आयिल्ले प्रवासी हें जाणा आसूनय ताका तांचेविशीं एके तरेचें आपलेपण कशें आनी केन्ना दिसपाक लागिल्लें कोणाक खबर! ना, आतां तो खंयच्याच सायबाच्या दारांत नाक घश्टुपाक वचचो ना. केदाराक जितेपणी तो असलें आश्वासन दिवपाक पावलो ना. ताच्या मर्णाउपरांत ताच्या आत्म्याक तो कश्ट दिवंचो ना. केदाराच्या नेणार काळजाचेर पयले रेल्वे यात्रेवेळार कसले घावे जाल्ले आसतले ते ताका कळना जाले.

□□

*किशोरबाबूकडेन आज - रामविलास पणज्याच्या मर्णाच्या एक्यात्तर वर्साउपरांत, किशोबाबूचो आजो केदारनाथ बारा वर्सांचे पिरायेचो आसताना ताच्या काळजाचेर कसलो घावो जाल्लो जाका लागून ताणें आपल्या जिविताची वाट आपणाल्या बापायपासून वेगळायिल्ली - ह्या प्रश्नाची जाप आसा. त्या काळांत सगळ्या म्हत्वाच्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयिल्ल्या आपणाल्या आदरणीय आज्याच्या, केदारनाथांच्या लेखांची क्रमान वळेरी किशोरबाबूकडेन आसा. रामविलास पणजो जेन्ना आपणाल्या पुताच्या मर्णाउपरांत ताची वळख जाणून घेवपाचें सूत्र सोदतालो तेन्ना आपल्या पुताची, केदाराची डायरी ताचो व्हडलो नातू किशोरबाबूच्या बापायकडेन आसतली म्हणपाचें ताचे केन्ना तकलेंतूच आयलें ना. आमचे जिणेंत लेगीत अशींच सत्यां सामकीं लागीं आसूनय सहसा आमचे नदरेक पडनात. सोड खबर. किशोरबाबूचो आजो, केदारनाथ हाचे डायरेंत तांचे दिल्ली-कोलकाताचे पयले भोंवडेचें वर्णन किशोरबाबूचे इत्सेक धरून हांगां जशाचें तशें मांडलां, कित्याक तर आधुनिक कथा हरशीं अशे तरेन बरयनात हें खबर आसूनय किशोरबाबूक समजप ह्या*

*कथाकाराक खूब फावटीं कठीण पडटा.*

**10 ते 12 जानेवारी 1902**

*धा जानेवारीचे रातीकडेन दिल्लीकसान कोलकाताक वचपाखातीर हांव आनी म्हजो बापूय इंटर क्लासाचें तिकेट काडून ट्रेनीर चडपाक रावले. ट्रेन प्लॅटफॉर्मार लागली. पळय जाल्यार ट्रेनीक इंटराचो डबो एकूच आसा, ताका दोन खण आसात आनी ते युरोपीयन सायबांक आनी मडमांखातीर राखीव. आनी उरिल्ले तीन हिंदुस्तानी लोकांक मेंढरां-बोकड्यांवरी भरून व्हरपाक. कुडकुड्याच्या शींयांक लागून सगळ्यांकडेन ऊबेच्या सामानांच्यो पोटल्यो उण्या नाशिल्ल्यो. सोसूं नजो इतले हाल जाले. गर्देचे भिरांतेन कांय लोक तिस-या वर्गाच्या डब्यांत चडले. पयल्या आनी दुस-या वर्गाचे पांच डबे आशिल्ले. तातूंत एखाद दुसरो सायब सायबीण दिसतालीं. तीं मोटे मजेन रिकाम्या डब्यांतल्यान प्रवास करतालीं.*

*आमचेकडेन इंटर क्लासाचें तिकेट आशिल्ल्यान आमी थंयच पडून रावले. तिस-या वर्गांत वचपाचें धाडस जालें ना. इतली गचमुंडी आनी दुर्दशा जाल्ली, कुडिचीं सगळीं हाडां दुखपाक लागलीं. दरेका स्टेशनार गर्दी वाडत वताली. मुतूंक जातालें तेन्ना बरोच वेळ सोंसून धरचें पडिल्ल्यान सणसण मारताले. मकरसंक्रांतिच्या निमतान प्रयागाक न्हावपाखातीर जायते भोंवडेकार आयिल्ले. स्टेशनाचेर खूब गर्दी आशिल्ली. प्रयागाकसान परीक्षा दिवन परतुपी कांय कॉलेजीचे विद्यार्थी गर्दी पळोवन दुस-या वर्गाच्या डब्यांत चडले, तेन्ना एका गो-या सायबान तांकां बडयेन पेटले आनी तांच्यांतल्या एकल्याक धुकलून प्लॅटफॉर्मार शेंवटिलो. त्या विद्यार्थ्याच्या दोळ्यांतली तीडक आनी तिरस्कार म्हाका सदांच याद उरतली.*

*सांजवेळा चौसा पावतकच गाडी आडायली. पुलीसांचे लोक धांवत आयले आनी ताणीं डब्याचीं जनेलां ओडलीं आनी तीं धांपलीं. मागीर ते दारां आडावन मदीं उबे रावले जशे कितें आमी कैदी आशिल्ले आनी गाडयेंतल्यान देंवन पळटले आशिल्ले. तेउपरांत एक जनेल उगडलें आनी आमकां डब्यांतल्यान सकयल देंवन वचपाची आज्ञा केली. प्लॅटफॉर्माचेर आमकां एके ओळीन उबे केले आनी डब्याच्या जनेलाक दोनय वटेन दोरी बांदून पक्षांक आडायतात तशे आमकां आडायले. मागीर दोन गोरे सायब आयले आनी आमचेमदल्या अशक्त-दुबळ्या अशा लोकांक वेंचून काडून तांची मान दामून दामून प्लॅगाचें लक्षण सांपडटा काय म्हण सोदपाक लागले. बापूय सदांच पळोवपाक अशक्त आनी दुबळो. हांवूय तसोंच. देखून आमकांय वेगळे काडले. तेन्ना आमच्यासारख्या कांय अशक्त लोकांक प्लॅगी म्हण दोन हातगाड्यांचेर घालून तांका बळजबरीन चौसाच्या प्लॅग कँपाचेर व्हरताना आमी पळयलें. ते आड्डून-आड्डून आपूण दुयेंत ना म्हण सांगताले पूण तांचें कोणेंच आयकून घेतलें ना.*

*बापूय आनी हांव आकांताचे भियेले. कितें जातलें आमचें? रेल्वे आमकां हांगाच*

*सांडून वतली काय? बापायन बेगीबेगीन एका गो-या पुलीसवाल्यामुखार वचून ताका कितें सांगपाचो यत्न केलो. पुलीसवाल्याक ते पळून वचपाक सोदतात अशें दिसलें. ताणें आपल्या बुटांनी ताच्या पोटार अशी खोंट घाली, बापूय वळवळून जमनीर कोंसळ्ळो. ताची पगडी गडगडत पयस वचून पडली. वक्ल पडून फुटलें. वक्लाबगर ताका कांयच दिसना.*

*तीडक, दुख्ख आनी भिरांतीन हांव थरथरतालों. म्हज्यांत कितें संचारलें तें नकळो हांव, पूण हावें पुलीसवाल्यावटेन धांव मारली आनी ताचो छडयेचो हात घट्ट धरून ताका म्हळें, "वाय आर यू हिटींग हीम?" ताची जाप थापटांत उदेली. ताणें अशें थापट मारलें, म्हाका दिसलें कोणेतरी म्हजेर हातोडीच मारल्या. म्हज्या दोळ्यांसामखार काळोख दाटून आयलो. तोमेरेन बापूय आपल्यो वेदना विसरून उबो राविल्लो आनी, "सायब, सायब, चाइल्ड....हैमिल्टन.....माय फ्रेंड...." अशें तत - पप करून उलयतालो.*

*खंयचे गजालीचो कितें परीणाम जालो तें आमकां खबर ना. पूण आमकां परतून रेल्वेंत चडपाक दिलें. आख्खी रात बापूय वेदनांनी वळवळत उरलो आनी हांव म्हज्या गालाचे सणसण सोंशीत उरलों. रेल्वे कोलकाताक पावतासर खूब कळाव जालो. कित्याक तर सायब लोक जेवण घेतात थंय थंय गाडी थारताली. हांव ह्या थापटाची दूख केन्नाच विसरचो ना. बापायक खूब वेदना जातात. पोटाचो जागो किणेला आनी निळो पडून सुजला. म्हज्या दोळ्यांसकयल लेगीत काळें निळें जालां.*

# 6
# अर्थहीण जगपां

. किशोरबाबूची बायल बायपास सर्जरीउपरांत किशोरबाबूची अवस्था पळोवन दूख करीत रावता.

किशोरबाबूचो आग्रो असो, हे कथेंत 'दूख करप' हाच्या बदला 'दूख मानप' वा 'दूख जावप' अशें बरोवचें न्हय. तर मागीर कितें दूख 'केलें' अशें जावूं येता? घडये एखादे खंयचेय गजालीचें तुमकां दूख जाता आनी तें दूख नश्ट करपाचें कुस्कूटभरय सामर्थ्य तुमच्यांत ना जाल्यार ह्या प्रकाराक 'दूख करप' अशेंच म्हणटा आसतलं.

किशोरबाबू हालीं फकत रस्त्यावल्यानच पासयो मारीत रावता अशें न्हय तर तो आपणाल्या आज्याच्यो-पणज्यांच्यो डाय-यो उकत्यो करून तातूंत तकली घालून बसता. जशें कितें त्या हळडुव्या जाल्ल्या पानांमदल्यान बोथे घालपी कसरीकडेन जगपाचें कसलेंतरी रहस्य आसा आनी तें सोदपाखातीरच काळजाच्या सर्जनान किशोरबाबूच्यो बंद पडिल्ल्यो रगताच्यो शिरो मोकळ्यो केल्यात.

सगळ्यांत अजापाची गजाल म्हळ्यार ज्या मनशान आपलें सगळें आयुश्य दरेके पोरने वस्तूक नवें रूप दिवपाचो ध्यास घेतिल्लो, ताणेंच सकयले कोठडेंतलीं पोरन्या खोक्यांत दवरिल्लीं हीं हळडुवीं जाल्लीं कागदां सोदून काडचीं आनी दीस-रात तीं आर्ती-पर्ती करीत रावचीं? आईन जिद करूंक नाशिल्ली जाल्यार तो हे फालतू ग्रंथ केन्नाच गंगेंत बुडोवपाचो! हें केल्यार ताका इतली धादोसकाय जावपाची, जितली ताणें आपणे पळोवंक नाशिल्लो आजो (तेन्ना किशोरबाबू पिरायेन फकत एका वर्साचो आशिल्ल्यान) स्मृती गेल्लो पणजो, हांच्या अस्थिकलशांचें गंगेंत विसर्जन केल्यार लाबपाची. तेभायर जागो रितो जाल्ल्याचें समादान वेगळेंच.

किशोरबाबूचें सगळें जिवीत सरलें तें एका बंगाल्याकडल्यान विकतें घेतिल्ल्या एका पोरन्या घराक 'साऊथ कोलकातांतल्या' आधुनीक घराचें रूप दिवपांत. हें घर विकतें घेतसान मेस्ताचें ठोक्-ठोक् केन्ना बंद जालें ना. मदीं खंयच्याय एखाद्या वर्सा कसल्याय कारणाक लागून ठोका-ठोकी बंद उरल्या आसूं येता. तितलेंच. ताच्या मूळ सांगाड्याबगर

ह्या घरांत आतां पोरने अशें कांय बाकी उरिल्लें ना.

रस्त्यावयल्यान व्हरांड्यांत बशिल्ले कोण दिसचे न्हय म्हण व्हरांड्यांतल्या लोखणाच्या ग्रीला जाग्यार वणट उबी जाली. उपरांत तिचेर आधुनीक डिजाइनाची ग्रील बसयली. पांचव्या रंगाचीं शटराचीं जनेलां आशिल्लीं - तांतूंतलो मदलो दांडो ओडून घेतकच सरळ जाल्ल्या लाकडी पट्ट्यांतल्यान भायर पळोवपाक मेळटा, सारकें सत्यजित रायच्या 'चारूलता' भशेन. त्यो बदलून तांच्या जाग्यार कंवचेचीं दारां आशिल्लीं जनेलां आयलीं. दोन दारांच्या जाग्यार डबल डोर जाले. घरासकयलच्या अर्द्या भागांत विटांनी कटींग केल्लो डिजाइन. भायर चुनो फाशिल्लो थंय 'डिस्टेम्पर' लावपाखातीर पोरनें, कोंसळपी शिमीट खरवडून काडलें. घराच्या हाडांचेर नवें मास चडलें. मागीर नवो रंग. उजवे वटेन शेजरा रावपी बंगाली गरीब कुटूंबांतल्या मनशांनी तोंड घालून भितर पळोवचें न्हय म्हण थंयचीं सगळीं जनेलां पुरयलीं. रस्त्यावटेनची वणट दोन पटीन वाडयल्या. आतां पाळी आयली तांबड्या शिमिटाची जमीन बदलपाची. पयलीं तिचेर चडलें निळ्या - पांचव्या रंगाचें लिनोलियम. दोन-चार वर्सांनी खंय खंय मोझायकाच्यो फरशो बसपाक लागल्यो. उपरांत संगमरवराचे कुडके जुळोवन फुडले आनी फाटले वटेन 'क्रेजी मार्बल' ची फरशी. मागीर विशेक वर्सांनी आयले खरेल्या संगमरवराचे दीस.

किशोरबाबूचे बायलेच्या मतान हो संगमरवरच सगळ्या संकश्टांचे मूळ. अशें म्हणटात गिरणीर दळिल्लेंच खावपाक जाय, दांतांनी दळिल्लें न्हय. पूण किशोरबाबून तिचें केन्ना आयकलां? पांचूय धुवांच्या आनी पुताच्या लग्नाचो खर्च, वयल्यान घराचें नवें रूप, नवो रंग आनी आतां हो संगमरवर. लोकांच्या दोळ्यांत भरलेबगर रावत? खंयच्यान आयलो इतलो पयसो अशें म्हणचे नात? नदर लागची ना जाल्यार कितें? परीणाम तर मुखारच दिसता - बायपास सर्जरींतल्यान वांटावता म्हणसर तकलेक दुखापत जाली. लोकांचे वायट नदरेचेंच तर हें फळ न्हय? आतां सांज-सकाळ हेडटा रस्त्यावयल्यान - पिशें लागिल्लेभशेन.

लोकांचें काळीज इतल्यान थंड जावपाचें, म्हणटासर हो परीणाम. कितें भलतें सलतें बरयता आनी बरोवन घेता म्हण कोण जाणा. खंयच्या कोनशाचीं वाळटेन खाल्लीं पुस्तकां आनी डाय-यो उस्तून काडल्यात. वाडवडिलांचेर इतलो मोग आशिल्लो जाल्यार कित्याक सांबाळ्ळी ना ती हवेली आनी ती बाग? सरकारान फुक्यासवाय ती बाग गिळ्ळी आनी हवेली तर एका वर्साआदींच अर्दमोलाक विकून वडयली. इतल्याशा पयशांखातीर ती वाडवडिलांची हवेली कित्याक विकता काय म्हण जेन्ना किशोरबाबूचे बायलेन विचारलें तेन्ना ताणे तिका किंकोत केली "बायलांक इतली बुद्द आशिल्ली जाल्यार दादल्यांचे तकलेक अशे बोथे घालचीं नासलीं. तो भंकस जागो सांबाळून कितें करपाचें आशिल्लें? ती हवेली केन्ना आबाद जाल्ली आनी आतां तरी जातली? तुजीं भुरगीं रावतलीं तातूंत वचून काय तूं रावतली?"

आतां आज्या-पणज्याक लागून जिवाक समादान भोगता ती गजाल समजूं येता, पूण

आपले भाभीच्यो पोरन्यो चिटी, कागद-पुस्तकां उस्तून काडून वाचपाक लागला. चलो म्हणटालो, "सगळीं मडीं चड करून एकाच वांगडा उस्तून वडयतलो." कोण समजायतलो? केन्ना कोणाचें आयकलेंच ना. सदांच आपलें तें खरें. फकत आवयचें तितलें आयकलें आसतलें आयुश्यांत आनी सुरवातिचे थोडे दीस भाभीचें. किशोरबाबूचें लग्न जावन जेन्ना बायल घरांत आयली तेन्ना तर भाभीक विचारलेबगर पानय हालनाशिल्लें. पूण ल्हवू ल्हवू काळाप्रमाण हेवूय दीस फाटीं पडले. सुरवेक तर हें भाभी पुराण सामकें खटकुपासारखेंच आशिल्लें. तर कितें! रात-दीस भाभी - भाभी! धरूया, भाभी खूब बरी आशिल्ली. बाबडी तरनाटेपणांतूच विधवा जाली. पूण तरी आसताना दरेके गजालीक शीम आसता. सिनेमाक वचपाचें जाल्यार वांगडा भाभी. विक्टोरियाक वचपाचें जाल्यार भाभीक घेतलेबगर वचूं येता? एक फावट दोगांय एकांतांत आशिल्लीं तेन्ना दबिल्ल्या आवाजांत तिणें लोक अशें तशें उलयतात म्हणपाचें सांगलें तेन्ना तो अशे तरेन आड्डलो, किशोरबाबूचे बायलेचो जीव खप्प जालो. भाभी आपूणच हांसत म्हणटाली, "ह्या लोकांच्या खानदानीपणाची परंपराच आसुंये अशी. म्हजें लग्न जावन हांव जेन्ना आयलीं तेन्ना तुज्या व्हडल्या देराचें सदांच व्हडली मामी, व्हडली मामी हें पालूपद आसतालें. गजाली करपाच्यो जाल्यार तिच्योच. किशोरबाबूचें भाभी भाभी करप तुका वायट तर दिसना मू?" भाभी सदांच किशोरबाबूचे बायलेक सुदारपाचो यत्न करताली. "अशें कर, अशें करूं नाका. किशोरबाबूक हें आवडटा, तें आवडटा." बरी बायल आशिल्ली बाबडी. भुरग्यांक तर इतली बरी देख दिली.

आई आनी भाभी दोगांयची ती लाडकी. पूण खूब बरीं मनशां लेगीत सदांच बरीं उरतात अशें ना. तिचें आपलें अशें कितें नाशिल्ल्यासारखेंच आशिल्लें. केन्नाय मनांतल्या मनांत दुःख करीत रावताली तेन्ना तिचें तिकाच कळनाशिल्लें आपूण कसले गजालीचें दुःख करतां म्हणपाचें. सगळ्यांचो इतलो मोग आनी आदर मेळटा आसताना कसली म्हण तक्रार करपाची? कसलोय हलको विचार उकतायल्यार सगळ्यांच्या मनातल्यान देंवतली. पयलीं उतरांनी मांडपाचें बंद जालें आनी मागीर भितरले भितर कितेंय घडपाचें बंद जालें. भितर चूप - भायरूय चूप.

पांचूय धुवो आनी पूत आपले आज्जेक आनी मागीर काकीक विचारीत रावलीं. आपली आवय सदां वग्गी आसता तें पळोवन ताणी घडये चिंतलां आसतलें, सगळ्यो आवयो अशोच आसतात. फकत धाकली धूव, जी पिरायेन वाडूंक लागिल्ली, तिणें दर दिसा कसल्या ना कसल्या कारणान बापायकडेन जातले मतभेद पळोवन विचारिल्लें,

"मां, तूं इतली वगी कित्याक आसता? तूं कितें चिंतता तें आमकां कित्याक सांगीना? सगळ्यांचें तूं कित्याक आयकून घेता?" पूण मागीर आवयच्या मुखामळार उदेल्ले काकूळटवाणे भाव पळोवन तिका कळ्ळें, आई आतां इतले पयस पावल्या,

आपणाले मर्जेन तिणे आपली वळख लेगीत पुसून वडयल्या - केन्नातरी भुरगेपणांत कोणतरी इश्ट आसचे आनी दोगूय आतां पयसावचे, तेभशेन. तिका कळ्ळें, बापायवरोवरच्या तिच्या संघर्शांत तिची आवय तिका कसली मदत करपाक शकची ना. मागीर ती आपले काकीकडेन वळ्ळी. "काकी, तूं सांग पळोवया, पापाचे विचार चलयांविशीं अशे कित्याक? आमी शेजारच्या घरांतल्या चलयांवांगडा खेळपाक कित्याक जायना? आमी व्हरांड्यांत कित्याक उबीं रावपाक जायना? आमी आमच्या इश्टीणीगेर कित्याक वचपाक जायना? पांज-यांत बंदिस्त करून दवरिल्ल्या पांखरांभशेन आमकां ही बंदखण कित्याक? तूं लेगीत कित्याक पडलीं बंदखणींत? अशी जीण जगून तुका कितें मेळ्ळें? कोणाखातीर तूं अशी जीण जियेली? दर एके गजालींत तूं पापाची मर्जी कित्याक सोंसता?"

पुस्तकां वाचून वाचून थकिल्ले आपले दोळे किलकिलायत आनी अकाळीं धवें जाल्लें आपलें माथें हालयत, मैथिलीशरण गुप्तांच्या 'यशोधरा' तल्यो वळी तिणें उच्चारल्यो - "अबला, जीवन हाय तुम्हारी कहानी । आँचल में है दूध और आँखों में पानी। (अबलेच्या जल्मा ही तुजी काणी. पालवांत आसा दूद आनी दोळ्यांत उदक.)" आनी म्हणपाक लागली, "म्हजे धुवे, बायलांची जीण ही अशीच आसता. तांकां सगळें सोंसूनच जगचें पडटा. ताणीं सदांच अशी चिड्डल्ली जीण जगपाची. पूण तुमचो पापा सदांच असो नाशिल्लो. काळान ताका तसो केलो. चारीय वटेन चिंता. इतलो खर्च! एकटो जोडपी. तो तरी कितें करतलो? तुमी तर पांच-पांच चलयो. आनी धुवे म्हजे, हांव आतां खंय वतलीं? आतां एकूच इत्सा म्हजी, किशोरबाबून म्हजी किरवड निमतलाचे मसंडेंत पावोवपाची. एक फावट बायलमनशेन घर सोडलें जाल्यार तिका हे धर्तरेचेर आनी ठिकाण ना. इतलीं वर्सां तुज्या पापान म्हजो मान राखलो. आतां तो बदललो जाल्यार कितें हांवूय बदलूं? ताचेबगर म्हाका म्हजो असो कोण आसा?"

किशोरबाबूची धाकली धूव आपले आज्जेम्ह-यांत गेली. "आज्जे, तुवें कित्याक म्हण पापाक असो जावपाक दिलो? आमी जशीकितें मिलिट्री रुलांत रावतात अशें दिसता. ताचेच मर्जेप्रमाण न्हिदपाचें, उठपाचें, वाचपाचें, हांसपाचें आनी केन्ना हटपणां करपाचीं नात. केन्नाच रडपाचें ना. अशें कित्याक? " आज्जेन आपणाल्या मोट्या मोट्या कोहिनूर दोळ्यांनी नातीचेर नदर मारली - "जालो खरो तुमचो पापा असो. हांव तरी कितें करतलीं? सुरवेसावनच हटी आशिल्लो. घरांत तर बायलोच बायलो. कोणाच्याय धाकांत उरतलो म्हळ्यार बापायची, भावाची सावळी ताचेर उरलीच ना. मां, भाभी, बायल - मागीर तुमी पांच चलयो. सदांच आपलेंच खरें. आतां संवयेर पडलें."

किशोरबाबूची एकूच जीण पुराय तरेन दुस-या मनशांत परिवर्तन जातना वा म्हणुंया, हिटलरांत बदल जावपाचे प्रक्रियेंत अश्यो कांय घडणुको घडल्यो, तांचो किशोरबाबूची आई, भाभी आनी बायलेचेर इतलो गाड छाप पडलो तो केन्नाच ना मिटपा इतलो. निमाणे दर एके गजालीची सुरवात खंयच्यान-ना-खंयच्यान जाताच न्ही?

किशोरबाबू आयज ही कथा बरयताना जिणेसंदर्भांत एक प्रश्न तो आपणांक विचारता, आपले मर्जेप्रमाण चलोवपाची संद जर मनशाक मेळ्ळी जाल्यार तो आपले पोरने विचार, मतां, धोरणां हांकां धुवून, पुसून एकदम दुसरीच व्यक्ती जावंक शकत?

किशोरबाबू आनी ताची भाभी हांची इश्टागत इतली घटमूट आनी दाट जाल्ली, ताणी आपणांमदीं उलोवन समजुपाची एक नवी भास लेगीत सोदून काडिल्ली. मजेची गजाल म्हळ्यार, किशोरबाबूक ही भास उलोवपाक जमताली पूण आयकून तितली समजनाशिल्ली आनी तेवटेन भाभीक ही भास उलोवपाक जमनाशिल्ली पूण तिका बरेभशेन समजताली. "तरफुम कितरफने दिरफानों बारफद आरफोगे? (तरफुमी किरतल्या दिरफसांनी येरफतले?)" कितें समजलें? म्हळ्यार तुमी कितल्या दिसांनी येतले? दरएका उतराक खंय ना खंय रफ जोडून ताका उपरांत मात्रा वा वेलांटी जोडपाची. भाभीक घेतलेबगर किशोरबाबू कोलकाताभायर केन्ना भोंवपाक गेलो ना. चलयो व्हड जातकच जेन्ना ताच्या हातांत थोडो पयसो घोळपाक लागलो, तेन्ना किशोरबाबून कुटूंबाक घेवन हिलस्टेशनाक वचपाची कार्यावळ थारायली तेन्नाय ताणें भाभीक वांगडा घेतली. "नाजाल्यार ती मागीर कशी पळयतली हिलस्टेशन? कोण दाखयतलो तिका?" पूण होच किशोरबाबू मागीर बदललो तो असो बदललो, ताची बायल लेगीत ताका एक सारकी पळयतच उरली.

त्या दिसांनी किशोरबाबू एके नांवाजते संस्थेचो वांगडी जाल्लो. आपणाल्या घरांत म्हयन्याच्यो बसका घेवपाचो प्रस्ताव कितलेशेच म्हयने फाटीक लागून अखेरेक तशें निश्चित केल्लें. किशोरबाबून आपले जिणेंत जायतो संघर्श केलो, ताचें बरें फळ आतां सगळ्यांमुखार प्रकट जावपाचें आशिल्लें. घराचें रूप बदलिल्लें ताच्या नांवाची 'नेम प्लॅट' भायर संगमरमरच्या कुडक्याचेर काळ्या अक्षरांनी लायिल्ली. माळी मात तांबड्या शिमिटाची आशिल्ली आनी ताचीं मदलीं सोपणां वेरेल्लीं, फुटिल्लीं. पूण ताचो फुडलो आनी फाटलो भाग लोकांक प्रभावीत करपाखातीर बरो आशिल्लो. एका चिनी मेस्ताक धरून ताचेकडल्यान नवें डायनींग टेवल आनी कदेलां करून घेतिल्लीं. 'बूफे' करची पडटा - आयजकाल तीच फॅशन आसा. सेकंड हेंड एक सोफा विकतो घेवन ताचेर नवो कपडो घाल्लो. आईन केन्नातरी विकतो घेवन दवरिल्लो तो तिच्या कपड्यांचे पोरने पोटलेंत मेळ्ळो.

किशोरबाबून आपणाकडेन जाता तेभशेन, आपले कुवतिप्रमाण दर एके वस्तूक नवें रूप दिल्लें. आपल्या घराचो नवो साज श्रृंगार आनी आधुनिक तरा पळोवन तो आपले आपूणच भुल्लुसतालो. हातूंत चड योगदान उरलें तें भाभीचें. खाणांच्यो तरातरांच्यो डिशी दवरिल्ल्यो, ज्यो रांदपाक किशोरबाबूचे बायलेक कठीण आशिल्लें. (आधुनीक्र कुकींग शिकोवपाक त्या काळांत टी. वी. नाशिल्लो.)

किशोरबाबूच्या मनाप्रमाण सगळी वेवस्था सारकी जाल्ली. इतली, किशोरबाबून गजल आनी कवितांची आपली पोरनी एक चोपडी काडून पळयिल्ली आनी संद मेळ्ळ्यार सांस्कृतीक संस्थेच्या वांगड्यांक अजापीत करपाचें थारायिल्लें. "तांकां सगळ्यांक संस्कृती

आनी साहित्य कितें कळटा आसतलें? सगळो पयशांचो चकचक. आमच्या वेळार शाळेंत कविता पाठांतराचे सगळे पुरस्कार हावेंच जिकिल्ले - मैथिलीशरण गुप्त धरून जयशंकर प्रसाद मेरेन सगळ्यो कविता घोळयिल्ल्यो. कितें भाभी, सारकें न्ही?" किशोरबाबू आपल्या दोगांय व्हडल्या धुवांक त्या काळांतल्या गजालींचेर गजाली सांगतालो. ब-याच वर्सांनी भाभीन किशोरबाबूक साहित्यांत रस घेता तो पळयलो आनी तिचे खोशयेक शीम उरली ना. त्या दिसांनी तिणेंच किशोरबाबूक पाठ करपाखातीर कविता सोदून-सोदून दिल्ल्यो. कितलीं पुस्तकां वाचून घेतिल्लीं किशोरबाबूकडल्यान! पूण हाचो उगडास करून ती किशोरबाबूच्या रंगाचो भंग करपाक सोदिनाशिल्ली.

उमेदिभरशीं आज भाभीन सुखदिण्या रंगाची देग आशिल्ली साडी काडली. किशोरबाबूक ही साडी कितली आवडिल्ली! पयलेच फावट दोंगरांर भोंवडेक वतना घेतिल्ली ही साडी. नैनीतालाक उणेच म्हळ्यार पांच खेपो तरी न्हेसल्या आसतली ही साडी. पूण कोलकाताक परततकच न्हेसूंकच ना. लज कशी दिसताली तिका ही साडी न्हेसताना. देगेचो रंग मातसो चडूच गाड गुलाबी. पूण आज येतली ती तर सगळी वाचपी-बरोवपी लोकांची जमात - मेकळ्या, वैचारीक लोकांची. ही साडी आज न्हेसपाक कसलीच हरकत ना. देग नाशिल्ल्यो धव्यो साडयो न्हेसून न्हेसून जीव उबगला सामको. साडी न्हेसून प्रसन्न मनान ती लजेतूच कुडींतल्यान भायर सरली.

"आरे वा, काकी. आज तर तूं सामकी सुंदर दिसता." तिका पळेतानाच किशोरबाबूचे व्हडले चलयेन म्हळें. तितल्यान किशोरबाबू थंय पावलो. भाभीक पळोवन ताचें तोंड पयलीं काळें जालें आनी मागीर गुलाबी. "तुजी तकली कितें सामकी घुंवल्या काय म्हणटां हांव? पिराय वाडटां वाडटां मनशाची अक्कलय वाडपाक लागता पूण म्हाका दिसता, 'यूपी' वाल्यांची मात उणी जाता आसतली. ही इतल्या भडक रंगाची साडी कितें म्हण न्हेसल्या? लोक पळोवन कितें म्हणटले? समाजांत कितें मर्यादा म्हण दवरपाची आसता काय ना?"

एक एक उतर म्हळ्यार हुनहुनीत शीशाचो एकेक थेंबो कानांत पडिल्लेवरी भाभीक जालें. किशोरबाबू पयलीं सावनच तिका तिच्या कुळारच्यांक लेखून 'यूपी' चेर तरांतरांचे चुटकुले रचून तिडायतालो, पूण आयज 'यूपी' हें उतर तिचें काळीज चिरीत गेलें. तिणे मांयकडेन आनी आपले जावेवटेन पळयलें. सगळीं वगी पडिल्लीं. सगळीं सुन्न जाल्लीं. कोणेच तिचे नदरेक नदर दिली ना. किशोरबाबूची व्हडली धूव एकसारखी पळयत रावली.

भाभीन साडी बदलली आनी भितर भरून उसळपी दुकांचो लाव्हा दामून धरीत किशोरबाबूची आरंभाची सांस्कृतीक वाटचाल मार खातना पळयत रावली. जायतीं वर्सां वाचन नाशिल्ल्यान किशोरबाबून केन्ना एखादी कविता संदर्भावगर म्हळी तर केन्ना चुकिचो संदर्भ लावन म्हळी. केन्ना कवितेच्यो वळी चुकिच्यो म्हळयो तर केन्ना कविचें नांव चुकिचें

सांगलें. इतलेंच न्हय, तर भांगराचें कुलेर तोंडांत घेवन जल्माक आयिल्ल्या आनी संगमरमराची फरशी आनी बेल्जियमाचीं हंड्या झुंबरां पळयत वाडटल्या खानदानी गिरेस्तांक तो परत परत आपली मोझाइकाची नवी फरशी दाखयत रावलो. आत्ममुग्ध जावन आपणाल्या नव्या प्लास्टिकच्या लँपशेडीची तोखणाय करीत रावलो. त्या दिसाचे भाभीकडले आपणाले वागणुकेची किशोरबाबूक लजूय दिसूंक ना आनी आपणाकडसून कितें चूक जाली हाची ताका केन्ना खंतय भोगली ना. उपरांत हेच घडणुकेक लागून खंयचीय संद सांपडटकच वा प्रसंग येतकच भाभी आतां 'आवटडेटेड' जाल्या, तिची साठी जाल्या आनी तिची तकली सारखें काम करीना म्हणपाचें सिद्ध करपाचो तो प्रामाणीक यत्न करीत रावलो.

ल्हवू ल्हवू किशोरबाबू ही गजाल एक निर्विवाद सत्य आसा म्हणपाचें मानपाक लागलो. जायतीं वर्सां हो फतवो आयकून आयकून ताचे बायलेन तें खरें मानलेंच, खुद भाभीय तें खरें मानपाक लागली. किशोरबाबूच्यो धुवो केन्नाय तिचेकडेन हिंदी साहित्याचेर कसलोय प्रश्न विचारपाक येताल्यो तेन्ना ती दुख्खी जावन सांगताली, "आतां म्हाका कसली यादूच उरना. म्हजी तकली सारखी ना. वाचिल्लें सगळें विसरून गेल्या हांव." फकत किशोरबाबूची धाकली चली सांगताली, "तूं कितेंच विसरूंक ना. तुकां सगळी याद आसा. तुजी मतय इबाडूंक ना." पूण कितलेंय केलें तरी काकी जें खरें मानताली तें फट म्हण प्रमाणीत करपाक तिचेकडेन जायनाशिल्लें.

किशोरबाबूचे बायलेक हें सगळें याद ना. अशें घडपाची सुरवात याद ना वा अशें घडत उरपाची प्रक्रिया याद ना आनी ना याद आनीक कितेंच. तिका फकत इतलेंच खबर आसा, किशोरबाबून सुरवेक भाभीक इतलो आदर आनी इतली माया दिली जितली आनीक खंयचोच देर आपणाले भावजयेक दिवचो ना. ह्या कारणाक लागून तिच्या काळजाक लागिल्ले हुलपय तिका हयन्हयशे याद आसात. त्यावेळार ती आपूणय भुरगीच आशिल्ली. तिका उगडास आशिल्लो तो म्हळ्यार निमाण्या-निमाण्या दिसांनी भाभीचे तकलेचेर मातसोसो परीणाम जाल्लो खरो आनी किशोरबाबूय चिडचिडोसो जाल्लो. हाचोच परीणाम म्हण भाभीचे दरेके गजालीचेर ताणें तिडकुचें. भाभीन कितेंय म्हळें जाल्यार नेटनेटाव आड्डी मारून आनी बोवाळ घालून ताणें ती गजाल थांबोवन तिचो विलो करून वडोवचो. दरेके गजालीचेर उलोवपाची आनी सल्लो दिवपाची भाभीची आदींपासूनची संवंय. बदलत्या काळाप्रमाण ती बदल्ली ना. हाका लागून तिका बरेंच दूख भोगतालें. दर एकलो मनीस हो आपणाल्या सभावाचो गुलाम आसता हें किशोरबाबूचे बायलेक खबर आशिल्लें. ताचेर कोणाचेंच नियंत्रण उरना. कोणाक दोश दिवपाचो हेखातीर? पूण कितली गुणेस्त आशिल्ली ती? तिची न्हेसपाची, वागपाची तरा, चलपा-उलोवपाची पद्धत, कितली वरी आशिल्ली? पूण उपरांत हे सगळे गूणच तिचे दोश थरले. नशिबाच्योच गजाली ह्यो. कोण कितें करपाक शकत?

किशोरबाबूची बायल सांजवेळा च्या घेवन कुडींत भितर सरल्या मात, किशोरबाबून

सट करून आपूण बरयतालो ती डायरी बंद केली. तातूंत जें आशिल्लें तें किशोरबाबू तिका दाखोवंक सोदिनाशिल्लो इतलें नक्की. तशे ताचे ते पेपर किशोरबाबूक विचारीनासताना उगडून पळोवपाचें धाडस ताचे बायलेक नाशिल्लें, तिका तातूंत रूचय नाशिल्ली. पूण आज तिणें थाराय्लें, च्या पितकच किशोरबाबू पासयेक वचपाक भायर सरतलो तेन्ना ताणे कितें बरयलां तें पळयतलीं. तो कितें चिंतता हें जाणून घेवप दोतोरांकय घडये आवडटलें. भाभीच्या हस्तलिखिताची एक चोपडी किशोरबाबूच्या म्ह-यांतच पडिल्ली. किशोरबाबूची बायल ते चोपडेम्ह-यांत बसून ताका च्या दिवपाक लागली.

"भाभीक आपणाल्या निमाणच्या दिसांनी खूब एकलेपण भासतालें आसूंक जाय, न्ही?" किशोरबाबून अचकित विचारिल्ल्या प्रश्नान ती अजापली. कितें सांगप? कितें जाप दिवप हाची? तिका कांय समजना जालें. किशोरबाबू तिचेकडेन पळयत रावलो. तेखातीर कितेंच उलयलेबगर तिणें फकत संमति दाखोवपाक तकली हालयली. किशोरबाबून परतून विचारलें, "भाभीची ही चोपडी तुवें केन्ना पळयिल्ली?" भाभीच्या मर्णा उपरांत किशोरबाबूचे बायलेन ती चोपडी पळयिल्ली पूण उकती करून न्हय.

तिची न्हयकार दाखोवपी मान हालतकच किशोरबाबून तिका ती उकती करून पयलें पान दाखयलें, "पळय." किशोरबाबूचे बायलेन पळयलें, जाल्यार त्या पानाच्या मदेकाकूच उरील्ल्या मेकळ्या जाग्यामदें एक वळ उफेताली. चारी वटेन पातळिल्ल्यां आकांताळ्या दर्याच्या मदेकाक एखादें ल्हानशें व्हडें उफेवचें तशें. "जिंदगी के सफर में अकेले हैं हम।" (जिणेचे भोंवडेंत एकटुके आमी) नकळटाना किशोरबाबूचे बायलेचे दोळे भरून आयले.

भाभी ख-यांनीच एकली आशिल्ली. कितली एकली हें कोणाक समजूंक शकतलें? एक फावट धवे-काळे टिवीच्या दिसांनी 'हर कोई चाहता है एक मुट्ठी आसमान।' (दर एकलो आंवडेता एक मूठभर मळब) हें फिल्मांतलें गाणें पळयताना भाभी कितली रडिल्ली हाची तिका याद जाली.

"आतां हें वाच." किशोरबाबून सांगलें. ताचे बायलेक परतून अजाप जालें. किशोरबाबूचो आवाज पडिल्ल्यासारखो जाल्लो? ती वाचपाक लागली - "कित्याखातीर, कोणाखातीर, कोणाचे आशेचेर हावें ही जीण सारली? इतल्या वर्सांउपरांत जिणे आतां म्हाका धोको दिलो ते प्रतिमेचे आशेचेर? तोंड दाखोवपाक म्हाका जागो दवरलो ना. पयलेच फावट पाटण्यांत जो फोटो म्हज्या काळजांत भरलो त्या यादिंच्या सांगातान हांव जीण सारतलीं अशें म्हाका दिशिल्लें, ताणेय 'बी' म्हाका धोको दिलो. हारशांत म्हाका धव्या केंसांची एक बायल दिसता. तो आदलो फोटो मात आजूनय तरणो आसा. तो तर आसा एका अठरा वर्सांच्या सोबीत सुंदर तरनाट्याचो. ताचो म्हजेकडेन कसो कितें संबंद आसूं येता? ताणेय 'बी' म्हाका सोडलें. म्हजेपरस तरी ते व्हडले मामीची जीण बरी आशिल्ली म्हणपाची. आपले जिणेचो त्याग करून तिणें कितेंतरी सिद्ध केलें. हांवें कितें सिद्ध केलें? म्हज्या जगपाचो अर्थ कितें जालो?"

जड काळजान किशोरबाबूचे बायलेन तकली वयर काडून ताचेवटेन पळयलें. आतां ह्या सगळ्यांत परतून तकली रिगोवन फायदो कितें? किशोरबाबू तिका एकटक पळयत राविल्लो. "हांगां दोन फावटीं 'बी' चेर इतलो नेट कित्याक लागून दिला हें तूं सांगशी?" किशोरबाबूचे बायलेक कांयच येवजना जालें. तिचें काळीज धडधडटालें. तिणें जापेंत जें कितें सांगलें ताचो किशोरबाबूच्या प्रश्नाकडेन मातय संबंद नाशिल्लो. "ललीतभैया ख-यांनीच फोट्यांत दिसता तसोच सुंदर आशिल्लो? आई म्हणटाली, ताचे दोळे आवयभशेन आशिल्ले म्हण. पूण ताचें काळीज मात बापायभशेन खूब दुबळें आशिल्लें. व्हडले मामीच्या मर्णाचें दुःख ताच्यान पेलूंक जालें ना. भितरले भितर तो मोडिल्लो. ललीतभैयाक ख-यांनीच हेखातीर मरण आयलें?"

"ना. ललीतभैयाक मरपाचें नाशिल्लें. म्हाका खबर आसा. ताका भाभीखातीर जगपाची खूब इत्सा आशिल्ली." किशोरबाबू च्याचें कोप दवरून दोळे धापून लवंडलो. आज जायत्या वर्सांनी ताका आपल्या बापायचो चेरो याद जालो. फकत आपले आवयचो घोव आनी आपलो जल्मदातो हाचेभायर ताच्या आयुश्यांत आनीक कसलीच भुमिका नाशिल्ल्या बापायचो चेरो. अखेर ताच्या बापायच्या जगपाचो आनीक वेगळो अर्थ तरी कितें आशिल्लो?



# 7

# परतून कलि - कथा : 1940

**भिवानीसान** कोलकताक परततसावन ते ताच्या बापायच्या मर्णामेरेनच्या काळांत किशोर केन्नाच घडिल्ल्यो घडामोडी आपले आवयक विचारिना. ताका खबर आसा, थंयसावनच सपनांचो संवसार सोंपून एका वेगळ्या संवसाराची सुरवात जाता. ताणें बापायचें मरण पळयलां. तो तेन्ना इकरा वर्सांचो आशिल्लो. ब-योचशो गजाली ताका येन्नामेरेन समजूंक लागिल्ल्यो. बापूय सदांच उदास आनी चिंतेस्त उरतालो. मदींच केन्नातरी तो भियेतालो आनी ताचे हातपांय थंड जाताले. आईच्या म्हणण्याप्रमाण, ताच्या बापायचें, केदारनाथाचें अकाळीं जाल्लें मर्ण आनी रामविलास आज्याचें मर्ण ह्या घडणुकांक लागून बापायचें अशें जाल्लें. किशोर पळयतालो, बापूय केन्नाय कसल्याय कामाच्या निमतान भायर वतालो तेन्ना हरिहर-म्हाराज आईम्ह-यांत येवन कपड्यांच्या ताग्यांच्या वेवहाराचे पयशे आईक दिवन वतालो. हरिहर हो तिच्या कुळारचो पोरनो दलाल आनी आई ताच्या आदाराचेर पयशांचो थोडोभोव मेळ बसयताली. ही गजाल ती आपल्या कुळारच्या मनशांक तशेंच आपल्या घोवाकय कळूंक दिना. पूण बापायक सगळें खबर आसा. म्हणूनच तर त्या दिसा तो बंकिमचंद्राचे कादंबरींतल्या सुर्यमुखीच्या घोवाभशेन आईक म्हणटालो, "म्हजेखातीर तूंच सगळें सर्वस्व. आवयभशेन मायेस्त, चलयेभशेन श्रद्धाळू, सुखांत सांगातीण, शिक्षिका, सेविका - सगळें कितें." अशें कितेंय आयकलें म्हणटकच आई लजेन आपली मान सकयल घालताली.

लीप, निवळ करून सदांच आई घर इतलें चकचकीत दवरताली, संवसारांत आनीक कोणाचेंच घर अशें आसचें ना. आज्याचें घर खूब व्हड आसलें म्हण कितें जालें, आईभशेन निवळ तें थोडेंच दवरिल्लें आसता! आई एक खिणभर लेगीत बेकार बसना वा बाबाभशेन एकाच जाग्यार चिंतीत बसना. चौरंगी वा विक्टोरीया मैदानांत भोंवपाक वचपाची कार्यावळ आईच आंखता. ललितभैयाचे सुचवणेनय ती आज्याची मॉरिस गाडी मागून हाडिना. घोड्यागाडयेखातीर लागपी पयशे लेगीत बाबाच्या हातांत आईच दिता.

दर पुनवेचे राती चंद्रिमाच्या उजवाडांत, धव्याफुल्ल चान्न्यांत चादर हांथरून खीर, पुरी आनी बटाट्याची भाजी खातात. तो सांगता त्यो गजाली आयकतां आयकतां

किशोराचे इश्ट तशेच उरतात. तांच्यो आवयो अशे तरेन चौरंगीक वचपाचो बेत आंखपाची कल्पनाय करपाक शकनात. चौरंगींतलीं चकचकीत दुकांनां अतिशय सुंदर दिसतात - आर्मी नेव्ही स्टोर्स, हॉल अँड अँडरसन, व्हाइटवे लेडलॉ. व्हिक्टोरिया मेमोरियलच्या मुखावयल्या मैदानांत बसून चौरंगी पळोवपाचें. मोटरकार, टॅक्सी, बस, ट्राम, घोड्यागाडयो हांचो आवाज, सूर्य अस्तमल्या उपरांतची दिव्यांची रोषणाय, ब्रिस्टल हॉटेलांतल्यान येवपी संगीताचो मधूर सूर, हिंदुस्तानी दुकानांतल्यान वाजपी ग्रामाफोन - हें सगळें किशोराच्या इश्टांमदल्या खूब थोड्यांनी पळयलां. शांतनुची गजाल वेगळी. तो रावताच चौरंगीक. आईचे सांगणेन केन्ना केन्ना बाबा ताका आनी ललितभैयाक ट्रामांत बसोवन हरिसन रोडासान चौरंगीक घेवन गेला.

खूब फावटीं किशोर चिंतता, सगळ्यो कार्यावळी आईच कित्याक थारायता? बाबा आपूण जावन कितेंच कित्याक सुचयना? पूण बाबा तर सदींच चिंतेस्त आसता. आई ताका बळगें हाडीत आसता. जायते खेपो ताणे बाबाक कितें ना कितें सांगून समजायताना आईक पळयल्या .

किशोराचे यादस्तेंत बापायचे उगडास खूब थोडे. सगळेकडेन आईचोच संवसार. निमाणच्या दिसांनी लेगीत आईन योग्य सल्लो दिल्लो बापायक - मलद्वाराक जाल्ली जखम खंयच्याय ब-याशा दोतोराक दाखोवन तपासून घे, कुशीक मुक्ताराम बाबू स्ट्रीटांत रावतल्या 'चांदसी' चिकित्सकाकडल्यान उपचार करून घेवं नाका. पूण बापायन तें आयकलें ना. शरदबाबूक ताणें दाखोवंक ना ताचें कारण म्हळ्यार वेपारासंबंदिच्या कांय गजालींक लागून तो आज्याच्या घराचेर नाराज आशिल्लो. शरदबाबू हो आज्याच्या घरचो दोतोर आशिल्लो. देखून बापूय तांचेरय नाराज. हातूंत आईचें कांयच चललें ना. किशोराक याद जाता, हें सगळें इतलें फटाफट घडलें, घराभायर पडटाना आईची माथ्यार घेवपाची कशिदा केल्ली जरीची ओडणी जी खुंटयेक लांबयिल्ली ती तशीच उरिल्ली. परतून केन्ना तिचो वापर जालो ना.

ललितभैया ह्या आघातान मुळासावन हालललो. जायते दीसमेरेन ताका रडपाक आयलें ना आनी तो कांय उलयलोय ना. आईक धव्या वस्त्रांत पळोवप ताका इतलें कठीण जाल्लें, जेन्ना जेन्ना तो आईक हे अवस्थेंत पळयतालो तेन्ना दर फावटीं नव्या आवेगान काळजांतसून हालतालो. आईन आपणालीं दुकां घोटून ललितभैयाक सांवरिल्लो. ललितभैया सदांच आईचे मांडयेंत तकली रिगोवन पडिल्लो आसतालो. कसलेंय काम आसल्यार तें किशोरच करतालो.

तेन्नासावन ल्हवू ल्हवू करून किशोराक घरांतलो कारभार सांबाळपाची संवंय कशी जावन पडली. इतलेंच न्हय तर ललितभैया तीन वर्सांनी व्हड आसूनय ताणें सदांच धाकल्या भावाचेंच वर्चस्व चलोवपाक दिलें. किशोराचे तकलेंत तरातरांच्यो येवजण्यो निर्माण जातात.

एक दीस व्हडल्या मामान दोगांय भावांक आपले पांय चेपपाक सांगलें आनी आपणें

ताणून दिलें आनी तो घोरेवपाक लागलो. पांय चेंपतां चेंपतां दोगांकूय उबगण आयली तेन्ना ललितभैयान ताचेवटेन पळयलें. ताणें ललितभैयाच्या कानांत फुतफुतत कितेंतरी सांगलें आनी ते दोगूय एकामेकाक मारपाक लागले. तांच्या झगडपाच्या आवाजान ताची न्हीद चाळवली आनी तो आड्डलो, "धरतरेचेर होच जागो सांपडलो काय म्हणटां हांव तुमकां झगडपाक? झुरात पयलीं. लागात चलूंक, भायर वचून झगडात." किशोरान म्हळें, "मामा, आमी तर तुजे पांय चेंपताले." "वचात पयलीं. खूब जालें पांय चेंपल्यात ते." मामान तिडकीन म्हळें. हांसपाक येतालें तें दोगांयनी दामून धरलें आनी ते दोगूय भायर आयले आनी भायर येवन खूब्ब हांसले. दोगांयनी कसलींतरी वात्रटपणां केल्यां आसतलीं हें व्हडले मामीन ताडलें. तिणें म्हळें, "कितें रे लाला, कसलो हांसो हो इतलो? कितें करून आयल्यात?" व्हडल्या मामाचो वचकच असो आशिल्लो, सगळें घर ताका थरथरतालें. मामीचो तर ताचेमुखार स्वास लेगीत अंदतालो. ललितभैयाचें मामीचेर खूब प्रेम आशिल्लें. देखून ताणें घडिल्ली खबर मामीक सांगली. मामीय हांसली. "वा. मानले आं तुमकां. व्हड जातकच सगळ्यांच्या कानांत घालतले. येन्नाच दिसतात लक्षणां."

व्हडले मामीची गजाल काडटकच ललितभैयाक दूख जातालें. मामीन आपल्या हातांनी जेवणाचें ताट सजोवन व्हरचें आनी मामान तें भरिल्लें ताट शेंवटून मारचें हें किशोरान खूब फावटीं पळयलां. ताटाचो सण्ण जाल्लो आवाज थामचे पयलींच मामा केदे बेगीन पांयांत व्हाणो चडोवन घराभायर पडिल्लो आसतालो आनी मागीर रातभर तो घरांत परतनासलो. मामी आपणाले सुजिल्ले मोटेमोटे दोळे आनी सोंक् सोंक् करून नाकाचो जाल्लो सोणो पदरान पुसताली आनी रित्यो वाटयो पुंजोवन ताट घेवन घरांत वताली. तिची गोरी कात तांबडी जाताली. मागीर रघू नोकर येतालो आनी तोंड वांकडें करून सरभोंवतणी शिंपडिल्ले गोंटे - दाळ एकठांय करून पुसून निवळ करतालो.

"मामी कानपूरांतल्या मोट्या खानदानी घराण्याची." हांगांचें थंयचें आयकून जाणा जाल्ल्या ललितभैयान केन्ना केन्नाय किशोराक तें सांगचें. "दिसना तुका, कितली सुंदर ती! कोणा राजाची राणी ज़ावपाचे लायकिची. पूण बाबडी अशा मनशाच्या गळ्यांत पडली, जाका हि-याची कदर करपाक येना. मामा जांचेम्ह-यांत वता त्यो चड सुंद-यो काय कितें?"

"कोणाम्ह-यांत वता मामा?" मामीची तोखणाय आयकून उबगल्ल्या किशोरान आपणाले कान व्हड केले.

"खबर ना तुका? बरोबर, तुका कशें खबर आसतलें? तूं भुरगो आसा. मामा वता बहुबाजारांतले कोणा मैना ठाकुरानीकडेन. ती हिंदू काय मुसलमान म्हण कोण जाणा. रावता मोट्या थाटामाटांत. तिचें आपणालें घर आसा आनी तातूंतच मशीद आसा. खूब पोरनी. तशें ह्या लोकांचें कितें सांगूं येता. हिंदू आसूं वा मुसलमान. पूण तिचेसारको गोड ताळो आनीक कोणाचो ना अशें म्हणटात. जेन्ना ती गावपाक लागता तेन्ना वारो लेगीत व्हांवपाचो थांबता." आनी जिचें वायट सांगपाचें तिची आपूण तोखणाय करपाक लागलां

हें कळनाफुडें ललितभैया उलयतां उलयतां वगी रावलो.

“पूण भैया, तुका हें सगळें कशें कळ्ळें? तूं गेल्लो काय कितें थंय?” किशोरान कांयशा दुबावान विचारलें.

“तुका पिशें बी लागलां काय कितें? असल्या जाग्यार हांव वतलों?” ललितभैया रागान तांबडो जाल्लो. “म्हज्या वर्गांत एक भुरगो शिकता, मदन नांव ताचें. ताचो भावोजी आसा न्ही, ज्वालाबाबू, तो व्हडल्या मामाचो इश्ट. सद्दां सकाळीं व्हिक्टोरिया मैदानार व्हडली ऑस्टीन गाडी वता ती ताचीच. दर जन्माष्टमीक ज्वालाबाबू बहुबाजारांतल्या बायलांक आपणाल्या घरा आपयता. तांच्या घरांतल्या मदल्या चौकांत देवाच्या मुखार बसून तीं भजनां गायतात. मदनान तिका पळयल्या. केंसांत फुलां माळटा. खूब अळंकार घालता. सांजवेळ जातांच मदनाची ताई घरांतले सगळे हारशे पड्ड्यांनी धांपून घेता. ती म्हणटा, ब-या बायलांनी सांजवेळ जातकच आपलो चेरो हारशांत पळोवपाचो नासता. सांजेचो साजशिरंगार कसलो? सांजवेळच्यो तर कसबिणी साजशृंगार करतात.”

किशोरान सुचयलें “चल एक दीस आमी वचून कसबिणी तरी पळोवन येवंया.”

ललितभैया एकदम भियेलो. “ना, ना. अशें केन्ना करप ना आं किशोर. तुका हें सगळें सांगलें तीच चूक जाली म्हजी. तुका खबर ना ह्या बायलांक बंगालांतली काळी जादू खबर आसा. तांच्या धोंपरांमेरेन येवपी केंसांचो एक फावट स्पर्श लेगीत जालो जाल्यार तांच्या चपक्यांतल्यान मागीर सुटपाक कठीण. चिंतून पळय, मामाक कळ्ळें जाल्यार कितें जातलें तें. आमची चामडी सोलून काडटलो. आनी आमचे आईक सुलूस लागली जाल्यार? ती तर पयलींच दुख्खांत आसता. परतून अशें केन्नाच चिंतचो ना म्हणपाचें म्हाका उतर दी.”

“बरें बरें. पूण त्यो बायलो जादूगारणी आसतात म्हणपाचें तुका कोणें सांगलें?”

“व्हडले मामीन. आनीक कोण सांगतलो?” ललितभैया म्हणपाक लागलो, “एक दीस व्हडली मामी खूब रडटाली. मामावयल्यान आज्जेन कितेंतरी म्हटलां आसतलें. भुरगो हाताभायर गेलो बी अशें कितेंतरी. तेन्ना व्हडले मामीक खूब वायट दिशिल्लें. तिणें म्हळें, त्या पाडापडिल्ल्या ज्वालाप्रसादाचें आयकून तुजो मामा जर गाणें आयकुपाक वचूंक नाशिल्लो जाल्यार तो ह्या जादवांत घुस्पून उरचो नाशिल्लो. आतां बाबडो घुस्पलो जाल्यार तो तरी कितें करतलो? पळय किशोर, मामी कितली बरी ती. केन्नाच म्हण मामाचें वायट चिंतीना. इतलें सगळें सोंसूनय वयल्यान म्हणटा, जें सुख म्हज्या नशिबांतूच नाशिल्लें तें म्हाका कशें मेळटलें?” ललितभैयाचो गळो भरून आयलो.

“व्हडल्या मामाक आजो कांयच कित्याक म्हणीना? म्हाका तर कांयच कळनाशें जालां.” किशोरान रागान म्हळें.

“व्हडलो मामा हो आज्याचो लाडको. ताका तो कसलेच बाबतींत विरोध करीना. तो म्हणी, भुरग्याक गाणे आयकुपाचो शौक आसा जाल्यार तातूंत कितें चुकलें? बायलांक संवंयच ती रडपाची. व्हडल्या घराण्यांतली चली हाडली तेंच चुकलें. घोवाक एखादो

कसलोय शौक आसलो जाल्यार बायलेन तें समजून घेवपाक जाय. मामीक आसा तो एकूच आदार - शेजाराक राधेशाम बर्मनाची आवय आसा न्ही, तिका ह्या जादूटोण्यांतल्यान सुटपाचो उपाय खबर आसा. मामी सद्दां गच्चीवयल्यान तांगेर वता. कसलोय प्रयोग करून मामाची सुटका जाता जाल्यार पळोवया. कोणाक खबर! कितेंय घडतय वी."

वर्मनबावूचे आवयक किशोरान जायते फावटीं पळयल्या. ताणें आयकल्लें, चोरांक धरपाखातीर ती धान्य आसुडपाचें एक सूप दोगां मनशांनी धरिल्ले कैचींत अडकावन दवरता. चोराचें नांव येतां खिणाकूच तें सूप घुंवता. एक फावट शेजारचे बायलेचे अळंकार चोरयेक वतकच हेच पद्धतीन बर्मनबाबूचे आवयन तांच्या नोकराक धरून दिल्लो. बर्मनबाबूचे आवयचें खुमणें इतलें रागीश्ट आनी भयानक आसतालें, तिच्यामुखार चोर धवो फटफटीत पडटालो. वयल्यान चारी वटयां खबर पसरिल्ली ती म्हळ्यार तिच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें उतर केन्ना फट थरना. किशाराक दिसतालें, बर्मनबाबूचे आवयक सूप घुंवडावचे पयलींच चोर कोण हें कळटालें आसूंक जाय.

बर्मनबाबूचें कुटूंब हें कोलकाताच्या पोरन्या रईस खत्रीचें कुटूंब. बर्मनबाबूचे आवयचो गोरोपिट्ट चेरो, नाकांत वज्राची चमकी, पान खावन तांबडे जाल्ले ओंठ, काळे तीक्ष्ण दोळे अशा तिच्या रूपामुखार बर्मनबाबू लेगीत दबकून आसतालो. देशबंधू चित्तरंजन दासाचें आनी सुभाषबाबूचें बर्मनबाबूकडेन येवप-वचप आशिल्लें अशें शांतनून ताका म्हणिल्लें. शताब्दीच्या फाटल्या निमाण्या वर्सांनी जेन्ना हावडासान सियालदहाक जोडपाखातीर हरिसन रोड जालो आनी ताचे दोनूय वटांनी घरां बांदपाखातीर इंग्लीशांनी जमीन विकली तेन्ना बर्मन कुटूंबान भरपूर जमीन विकती घेतिल्ली. मुखावेल्या खादी भांडारांत जेन्ना कॉंग्रेसीचो कोणूय व्हडलो फुडारी येतालो, तेन्ना तो बर्मनबाबूक मेळपाक घरा येतालो वा बर्मनबाबू खादी भांडारांत वतालो. बर्मनबाबूची आवय एकदम गोरीपिट्ट खत्रीण आशिल्ली. वयल्यान काळेच तेजीश्ठ दोळे. किशोराक तर ती जादूगारीणच कशी भासताली. पूण तिचो खंयचोच उपाय व्हडले मामीक फळाक आयलो ना. व्हडल्या मामाक बहूबाजाराच्या जादवापासून सोडपासारकेलो कसलोच चमत्कार ती करपाक पावली ना.

भितल्ले भितर घुस्मटून घुस्मटून व्हडले मामीक निमाणे राजयक्ष्मा जालो. तिची कूड सुकून तिच्या हाडांचो पांजरो जालो. तिची गोरसाण फिकी पडली. पूण चे-यावयली आब मात जशाची तशी उरली. आज्जेन आतां तिका चुलीम्ह-यांत येवपाचें बंद केल्लें. हाका लागून आतां ती मामाचें ताटय सजयना आनी मामाय तें शेंवटून मारीना. मामाक तर तिचे कुडींत भितर सरपाचीय मनाय आसली. व्हडली मामी आपले कुडिच्या ल्हानशा व्हरांड्यांत उबी रावताली तेन्ना कोणाकय दिश्टी पडटाली तितलीच. तिचेखातीर एक दाई दवरिल्ली. ती तिचो सांबाळ करताली.

मामीन आपूण जावनच ललितभैयाक म्ह-यांत येवपाची मनाय केल्ली. ललितभैया सामको उदास-उदास कसो रावपाक लागलो. व्हडल्या मामाची अवतिकाय तर सामकी शांत जाल्ली. इतली म्हळ्यार, नोकरा-चाकरांचेर तापपाखातीर वा तांकां गाळी मारपाखातीर

ताचो जो स्वर आवाज घरभर गाजतालो तोवूय बंद जाल्लो. राजयक्ष्मांत फिशाल अशा मोट्या इंग्लीश दोतोराक ताणें खंयच्यातरी संस्थानांतल्यान व्हडले मामीच्या उपचाराक आपोवन हाडलो. पूण मामीक खंयचेंच वखद पारलें ना. मामान बहुबाजाराक वचपाचेंय बंद केल्लें. आख्खें घर जशें कि ते यमाची वाट पळयतालें.

कांय सप्तकांउपरांत एक दीस किशोरान तिका व्हरांड्यांत उबी आशिल्ली पळयली. तिच्या चे-यावयली कांत आतां ना नपयत जाल्ली. पूण तरीकय ती हांसताली. ती हांसता तें किशोरान सारकें पळयलें. तिणें उंचायेवयल्यान हात उबारून ललित कसो आसा अशें विचारलें. किशोरान जाप दिवपाक मान हालयली. मागीर तिणें आपणावटेनच खुणा करून जशें काय सांगलें, "हांव न्हिदपाक वतां. हांव बरी आसा." मागीर ती कुडींत भितर सरली.

त्याच दिसा तिका मर्ण आयलें.

तिच्या मर्णा उपरांत ललितभैयान आज्यागेर म्हळ्यार मामागेर वचपाचें सामकेंच सोडून दिलें. व्हडले मामीन आपणाम्ह-यांत येवपाक मनाय करीतसान आईन सांगून लेगीत तो केन्नाय अदींमदीं थंय वतालो. व्हडले मामीच्या मर्णाच्या दोन-तीन म्हयन्या उपरांत व्हडल्या मामान आईक सांगून ललितभैयाक आपोवन व्हेलो. तो ललिताच्या माथ्यांत हात भोंवडायत रावलो आनी ताच्या दोळ्यांतल्यान टप् टप् करून दुकां गळत रावलीं.

एक दीस मागीर आजी आईक सांगताना किशोरान आयकलें, "व्हडली जी जादूची करणी करताली तेंच तिच्या आंगलट आयलें. तिका तेचखातीर मरण आयलें."

आज्जेविशींचे तिटका-याचे भाव आईच्या चे-याचेर उदेल्ले किशोरान पळयले. हाचेपयलींय आपली आवय व्हडले मामीकडेन जे तरेन वागताली ताचें तिका खूब दूख भोगतालें. ललितभैयाचो व्हडले मामीकडलो मोग हेंवूय ताचेफाटलें एक कारण आसूं येता. पंदरा वर्सां पिरायेच्या त्या भुरग्याच्या मनाक हो दुसरो आघात खूब त्रासदायक थरलो. आईन किशोराक कुडीच्या दारांतलो भायर वचपाक सांगलें.

किशोरान दाराच्या आडसाक उबो रावन आई कितें उलयताली तें सगळें आयकलें, "तुका हावें कितले फावटीं सांगलें आई, ते बाबडेचें अंतस्करण समजून घेवपाचो यत्न कर. पूण तुवें म्हजें केन्ना आयकलेंच ना. दादाक आडावपाचोय यत्न केलो ना. भाभी सदांच आपणाक व्हडल्या घरची सून समजताली हीच मूं तुमची तिचेविशीं तक्रार आशिल्ली? पळय तर तिचें व्हडपण - आपलो जीव वगडावन तिणें दादाक बहुबाजारांत वचपाचो आडायलो. भाभीच जिकली आई."

उलयतां-उलयतां आई थांबली. पुरो जाल्ल्या चे-यावयल्यो आडयो स्पश्ट जायत तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो धारो व्हांवपाक लागल्यो. ओंठांचेर गळिल्ल्या आपल्याच दुकांची खारसाण चाखली तेन्ना दाराचे कुशीक उबो राविल्ल्या किशोराक आपूणय रडटां म्हणपाची जाणीव जाली. आईन अकस्मात रडपाचें थांवयलें आनी दुकां पुसून घेतलीं. तेसरशीं ताणें ताडलें, ती आपलें म्हणणें पुराय केलेवगर रावची ना. "आनी ती कसली

जादू करणी करीनासली आई. बर्मनबाबूचे आवयन भाभीक सांगिल्लें खंय, तिचे आज्जेच्या म्हणण्याप्रमाण जी बायल खंय मेथयेन आपल्या थानांचेर मोर आनी साळीक गोंदयता, तिचो घोव सदांच तिका वश रावता. भाभीन हेंय करून पळयलें. पूण हो प्रयोग करूनय जेन्ना ती दादाक आडावंक शकली ना तेन्ना तिणें ही वाट धरली. तिणें बरी जावपाची कसली गुळी घेतली ना आई, जाणा तूं? तिका बरें जावपाचेंच नाशिल्लें. कसल्योच उरफा करण्यो बी जावंनात. ती जिकली आई. तूं म्हाका तिचेविशीं कायचे काय सांगूं नाका. हांव तिचेविशीं वायट क़िर्तेंच आयकूंक शकना."

किशोराच्या अंतस्कर्णाक पिंवळ पडलो. हें जैत कसलें? जेन्ना जिकवीच ना तेन्ना हार-जैताचो अर्थ कितें? ताणें आपल्या कानांन आयकल्ल्यो ह्यो खबरी ललितभैयाक सांगल्यो नात. ताका खबर आशिल्लें ललितभैया हें सोसूंक शकचो ना म्हण. खूब दीसमेरेन ललितभैया मोनोच उरलो. ताचो इश्ट मदनय केन्ना केन्ना बहुबाजारांत फावटी मारपाक लागिल्लो. ल्हवू- ल्हवू किशोराक कळपाक लागिल्लें बरेचशे वळखिचे लोक शिंदळक्यांकडेन वतात म्हणपाचें. पूण ह्या कारणाखातीर तांची समाजांत वा घरांत अप्रतिष्ठा जाता अशेंय कांय ना. तरी लेगीत असल्या लोकांविशीं दर एकल्याक म्हायती मात आसता.

अमोलकान किशोराक म्हणिल्लें, ताच्या नात्यांतलो एक काका सद्दां रातचो हाताक मोग-यांचो गजरो बांदून, आंगाचेर अत्तर फापडून, करकरीत धवोफुल्ल कुरतो घालून घरांतल्यान भायर सरतालो. थरावीक वेळाचेर ताका व्हरपाक घोड्याची गाडी येताली. तातूंत बसून तो बहुबाजारांत वतालो आनी थंय आपणाले महबूबाक घेवन तो तिका रातचो व्हिक्टोरीया-चौरंगी भोंवडावन हाडटालो. तेवटेन काकीक दरवर्सा एक भुरगें जातालें ताका लागून एक तर ती गुरवार उरताली वा बाळंत तरी.

आमच्या घरांतल्या बायलांची ही कसली जीण! किशोराचे तकलेंत जायते फावटीं हो विचार येता. आख्खो दीस त्यो घरांत कोंडून उरतात. केन्नाय भायर सरपाचेंच जालें जाल्यार जरीची जड लागपी ओडणी घेवन. ती गळ्यामेरेन ओडून घेवन. अमोलक सांगता, हाथरसांत ताच्या आजोळाक घराच्यो गच्च्यो सामक्यो तेकून-तेकून. थंयच्या बायलांक एकामेकाच्या घरांत वतना ओडणी घेवची पडना. गच्चीवयल्यान त्यो कितल्याय पयस कोणाल्याय घरांत यो-वच करपाक शकतात. तांचेखातीर गच्च्यो हेच रस्ते जाल्यात, सकयल्या खंयच्याय दुकानांतल्यान तांकां सामान घेवपाचें आसलें जाल्यार त्यो वयल्यान साडी दोरी कशी लांब सोडटात आनी दुकानदाराक उलो मारतात. तो मागीर तेच साडयेंत सामान बांदता. ती साडी त्यो वयर ओडून घेतात. म्हयन्याचे म्हयने ह्यो बायलो घरांतल्यान भायर रस्त्यार पावल लेगीत दवरीनासताना रावतात.

अमोलकानच ताका द्वारकादास नांवाच्या लेखकान कोलकातांतले वेश्यावेवसायाचेर बरयिल्ल्या पुस्तकाविशीं सांगिल्लें जें संयोगान ताका कॉलेज स्ट्रीटांत सांपडिल्लें. तातूंत बरयिल्लें, जेन्नासावन कोलकाता घडलें तेन्नासानच हांगां शिंदळक्यांची भर आसली. देडशें वर्सांपयलीं हांगां शिंदळक्यांच्यो व्हड व्हड कोठयो आसताल्यो. एके कोठयेंत पन्नास पन्नास

कुडी. कोलकाता हें सदांच भायरसान वेपार करपाक आयिल्ल्यांचें शार जावन पडलां. ताका लागून युरोपियन शिंदळक्यो धरून व्हड व्हड नांवाजत्यो मुस्लीम आनी बनारसच्यो शिंदळक्यो हांगां राबितो करून रावल्यो आनी तांचेकडेन भरपूर धनसंपत्ति जाली. त्या पुराय वांठाराक शिंदळक्यांचो वांठार म्हण वळखूंक लागले.

अमोलकाच्या कानार घराकडेन सगळे तरेच्यो गजाली पडटात कित्याक तर देशसमाजाच्या ब-याच विकृत्यांचेर तांगेर मेकळेपणान चर्चा जाता. ताचो बापूय कॉंग्रेसीचो सक्रीय कार्यकर्तो. कसलेय तरेचो प्रश्न विचारपाक ताका घरांत मेकळेपण आसा - असल्यो गजाली चलताना ताका भायर वच अशें कोण सांगीना. अमोलक सांगता, मारवाड्यांच्या घरांत दादल्यांक आपणांक जाय तशें वागपाची सूट आसा तेचबरोबर बायलांच्या वागपांचेर सगळे तरेचीं बंधना आसात. पूण हाका लागून गुपचूप कितलेतरी संबंद येतात. ताणें आयकलां, बडाबाजारांतल्या एका घरांत पंदरा वर्सांचे एके आंकवार चलयेक कोणापासून तरी गर्भ धरलो. सवव्या म्हयन्याचेर तो व्हळयलो तेन्ना तिणें कोणाकूच कळूंक दिनासताना तो व्हरून संडासाचे फाटले वटीन शेंवटून दिलो. उपरांत खूब बोवाळ जालो तेन्ना हें प्रकरण उकतें जालें.

"बंगालांत रावूनय मारवाडी बायलो कितल्यो फाटीं उरल्यात." अमोलक खंत करीत दर फावटीं किशोराक सांगता. "कोंग्रेसीच्या मिटींगांनी तांबडे देगेची साडी न्हेसून, मेकळे लांब केंस सोडिल्ल्या चलयांक - बौलो बौला बौला / शतवीणा वेणु सबे / भारत आबार जगत - सभाय / श्रेष्ठ आसन लबे - गायताना पळयतकच म्हजे दोळे दुकांनी भरून येतात. आमच्या समाजांत केन्ना येतली जागृती? बंगाली लोक आमकां वगीच 'मेडो' आनी 'खोट्टो' म्हणिनात. आमची अवस्था ख-यांनीच पाड आसा."

अमोलक लेक रोडावयल्या बंगाली पाड्यांत रावता. ताका दिसता स्वातंत्र्य जालें काय पाड्यांतलीं भुरगीं ताका 'मेडो' 'खोट्टो' म्हणपाचें आपले आपूणच बंद करतलीं. अमोलकाचे आवयन धा वर्सांपयलीं बडाबाजारांत विदेशी कपडे विकपी दुकानाचेर पिकेटींग केल्लें. त्यावेळार मारवाडी समाजांतल्या लोकांनी तिका शिंदळकी म्हणपाकूय फाट फुडो पळोवंक नाशिल्लो.

अमोलक हे गजालीखातीर आयजूय पेटून उठटा. हे घडणुकेक लागून तो मनांतल्या मनांत किड्डता. एक फावट ताणें आवयक म्हळें लेगीत, "लोक तुजेविशीं अशे तरेन उलोवपाक लागतले हें खबर आसूनय तुका आनीक थोडे दीस रावपाक जालें ना? अशें उलोवं येता हें मातूय तुजे तकलेंत आयलें ना?" तेन्ना अमोलकाचे आवयन म्हळें, "रावलीं आनी रावलीं ना हातूंत फरक कसलो पडटलो आसलो? बायलेन कितेंय केलें तरी तिच्या आयुश्याचो अर्थ होच लायतले मरे?"

□□

# 8

# 7 नम्बर, प्रसन्न कुमार टैगोर स्ट्रीट

सगळ्यांच्यो गजाली आयकता आनी तो आपणाभितर एक विचित्र सुन्नताय अणभवता. शांतनू आसूं वा तो अमोलक आसूं, सगळेजाण समाज, देश, जगप हांच्या संदर्भांत मोट्या मोट्या सिद्धांतांकडेन टक्कर दितात. पूण ताचें जिवीत मात सेंट्रल एवेन्यूतल्या ह्या घराच्या दोन कुडींमदीं बंदिस्त उरलां. ताका खूब फावटीं आपणालीं पाखांच कापून वडयिल्ल्यावरी भासता. तो कित्यानूच वांटो घेवपाक शकना. ताच्या आयुश्याचेर दोन-दोन अकाळी मर्णांची सावळी अशेतरेन दाटल्या, ताका आपल्या जिविताकडेन झगडप गरजेचें थरलां. देशाचें स्वातंत्र्य, मारवाड्यांचें मागास्लेपण, बायलांची अवस्था ह्या सगळ्या गजालींकडेन टक्कर दिवपाची जाल्यार पयलीं आपणें स्वतः स्वतंत्र आसपाक जाय. ताका मात जरी कळाव जालो जाल्यार आईचें काळीज धडधडूंक लागता. हातपांय थंड पडटांत आनी काळजाचो खपखप वाडूंक लागता. तो आपूणच कोणाचोतरी आदार आसा. ताका कोणाचो आदार ना. ताका सपनां पळोवपाचेंय मेकळेपण ना. चारय वटेन आपणाल्या पोरण्या समजांतल्यान आनी विचारांतल्यान सुटपाखातीर धडपडपी वातावरणाचे निर्मितींत लोक बुडिल्ले आसताना ताका आपणाली जीण मात तातूंतच घुस्पल्लेवरी लागता. कोणाचें मानपाचें आनी कोणाचें मानपाचें न्हय?

आपणाभितरच ताचे वेगवेगळे संवसार आसात जांचो एकामेकाकडेन मेळूच ना. शांतनूच्या संवसाराक तो आपणवपाक गेलो जाल्यार तकलेफाटल्यान अदींमदीं सणसणपी हें गूट फाव जालें. आतां तो अमोलकाच्या संवसारावटेन ओडून वता. कितेंय करून तो शेनवारचें दान, भूतबंगले आनी मरणाचीं अज्ञात कारणां जीं ताचे तकलेर चडून न्हिदता ताका सतावन वडयतात, तातूंतल्यान तो सुटूंक पळयता.

हालीं तो रात-रात सपनां पळयता. कांय वेळा ताका सपनांत दिसता, तो अशा एका बिंदूचेर पावला जंय सगळ्यो समस्या सोंपून गेल्यात. पूण जाग येतकच मात सपनांत आपणें हेखातीर खंयचो मार्ग सोदून काडलो हाची निखालस याद जायना. केन्ना केन्ना तो सपनांत शांतनूक लांबचेलांब भाशण दिता तर केन्ना लायब्ररींत बसून सत्यपालजीक कितें-

कितें सांगत आसता. केन्ना तो गल्ली-गल्लींत भोंवता. वांकड्या-तिकड्या गल्लींनी भोंवताना तो चलत-चलत अमोलकाचें घर सोदता आनी परतून-परतून घुंवून तो एका चौकोनी तळ्यामेरेन पावता ज्या तळ्याच्या उदकांत काली मातेच्यो म्हुर्ती विसर्जीत केल्ल्यो तांच्या भितरलो कोयर, भुसो आनी ताग वयर उफेता. पूण कितेंय केलें तरी अमोलकाचें घर ताका मेळना. मागीर ताचे तकलेंत उजवाड पडटा, तो अमोलकाचें घर सोदता अमहर्स्ट स्ट्रीटाचे उदेंतेचे गल्लेंत आनी अमोलक तर रावता लेक टेम्पल रोडाचेर. कोलकातांचें दक्षिणेचें तोंक सोडून आपूण उत्तरेच्या तोंकाक कित्याक आयलां हेंच ताका कळना. हेच विवंचनेंत ताची न्हीद खळटा आनी खूब वेळमेरेन तो अस्वस्थ उरता.

आयज तो सपनांत शांतनूक कितें सागतालो? मुद्दे मांडपाचो ताचो नेट पळोवन शांतनून ताची गजाल मानून घेतिल्ली. कसल्या विशयाचेर जाल्ल्यो तांच्यो गजाली? तो आपल्या मेंदवाक ताण दिता. आं, ताणें शांतनूक म्हणिल्लें, दर शेनवाराक तो राममंदिराच्या भायर आशिल्ल्या शनिम्हाराजाच्या पितुळच्या चेंबांत तांब्याची चौकोनी नाणी, बुराक आशिल्लीं वाटकुळीं नाणी आनी सांसवांचें तेल घालून येता. हें आयकून शांतनू बेजारिल्लो हाची ताका याद जाता. शांतनूक ताणें हेंवूय सांगिल्लें, भिवानीसान परतताना एक फावट मंगळाराचो बापूय कोलकोतांत भितर सरलो तेन्ना तो इतलो दुयेंत पडलो, त्या दुयेंसांतल्यान तो आनी बरो जावपाक पावलो ना. आपणें अशें कित्याक केलें म्हणपाचें निमाणेमेरेन बापायक सतायत रावलें. फाटली वायट घडी बदलपाक तो मंगळाराक भितर सरिल्लो तो कोलकातांतल्यान भायर सरपाक पळयतालो. पूण अशें घडपाक पावलें ना. कोलकाता हो कालीमातेचो वाठार. नरमुंडांची माळा धारण करपी, बळिंच्या रगताक तानेल्ले देवीचो वाठार. मंगळाराक भितर सरपी भोंवडेकाराक ताचे वायट परीणाम भोगचे पडटात. हें खबर आसूनय बापायन अशें केलें. हेचखातीर फुडलें सगळें अशें घडलें काय कितें कोणाक खबर! कितें खरें म्हणपाचें कोण सांगतलो?

किशोराचें माथें सपनांच्या यादिंनी भणभणूंक लागता. ह्यो सगळ्यो गजाली तो शांतनूपासून लिपोवन दवरूंक सोदता, पूण ताचे तकलेंतल्यान त्यो वचूंकच शकनात. ह्या सगळ्या गजालींचेर ताचो विश्वास ना, पूण तरीय तो हातूंतल्यान मुक्त खंय जाता तर! पूण ह्या गजालींसंबंदान शांतनूकडेन उलोवप कठीण हेंवूय ताका खबर आसा. शांतनू मनशाचो दुबळेपणा समजून घेवपाक शकना. हातूंतल्यान ताणें मुक्त जावं येता अशी कसली मदतय तो करपाक शकचोना. मनीस कुड्डो भावार्थी आसता वा नासता - बस, शांतनू इतलेंच जाणा.

रातचो किशोराचे भितर जो संवसार घुंवता तो दिसाच्या संवसारापरस सामको वेगळो. रातचो तो तकली वापरून विचार करपाक शकना. तागेली सगळी भिरांत रातची खरेपणीं उकती जाता. आनी तो पुराय ताकतीन झगडून लेगीत ताचेर जैत मेळोवंक पावना. आई सांगताली, तिचो मांव खंय म्हणटालो, भिवानीची हवेली तांकां केन्ना जैपतीक

आयली ना. तीं चुकिच्या आनी निषिद्ध म्हुर्तार घरांत भितर सरिल्लीं. हाका लागून हवेलीची केन्ना भरभराट जाली ना. आनी तातूंत रावले तेवूय केन्ना सुखाक पावले ना. तर मागीर मनशान वचपाचें तरी खंय? हें घर तरी आमचेखातीर शुभ आसा काय ना? रातचो न्हिदेंत किशोर ह्या प्रश्नाकडेन झुजता. आईकडेन उलोवपाचें हेविशीं? पूण मागीर हे लोक वतले तरी खंय?

निमाणे एके रातीं किशोर आवयकडेन हे गजालीसंबंदीं उलयलोच : रातचें ताचे तकलेंत शनी, मंगळ, शुभ-अशुभ असल्यो तरातरांच्यो गजाली कसो घोसोळ घालतात तेंच ताका कळना. ताका न्हीद पडना. तेदेवेळार आईन ताका आपणाले मुक्तिची काणी सांगिल्ली. आनी किशोर धडधडट्या अंतस्कर्णान आवयची गाथा आयकतालो. "तूं आनी ललित जावचेपयलीं म्हाका एक चली जाल्ली. तुजी ती भयण तीन म्हयन्यांची आसताना मेली. दुख्खान हांव पिशी जावपाकडेन पाविल्लीं. ती इतली सुंदर आशिल्ली, आयिल्ल्या दिसा तिका नदर लागताली. भिवानीत सद्दां झाडो घालपी येतालो. तो सान्नीच्या व्हिरांचे दोन सारके भाग करतालो. झाडो घालतालो. दर फावटीं एक भाग दुस-या भागापरस व्हड जावंचो. तो मागीर व्हडल्या भागांतले कांय व्हीर काडटालो आनी परतून दोनूय सारके करतालो आनी म्हणटालो, पळय इतली नदर लागिल्ली. पूण निमाणें ताज्यानय कांयच करपाक जालें ना. दूद पिलें काय तिच्या हड्ड्यांतल्यान विचित्र असो धडधड आवाज जावंचो. दोतोराक दाखयलें जाल्यार दोतोरान सांगलें, तिच्या काळजाक बुराक आसा. पूण कसल्याच उपायान गूण आयलो ना. एक दीस दूद पितां पितां ती मेली. धव्याफुल्ल कुडक्यांत गुठलावन तिका पुरपाक व्हेली. हांव तर पिशीच जाल्लीं. म्हजी बावली म्हाका कोणतरी हाडून दियात अशें म्हणत हावें सदांच रडत रावचें."

"आमगेर एक न्हावीण (म्हाल्याची बायल) येताली. खूब आदली. तिणें सगळ्यांच्या माथ्याक तेल घालचें, पांय चेंपचे. तांची पिळग्यान पिळगी आमचे पिळगेन पिळगेकडेन काम करीत आयल्या. तिणें म्हाका सांगलें, रातीकडेन मसंडेंत तांत्रीक येतात आनी भुरग्यांचीं मडीं उस्तून काडटात. त्यावेळार कोणेंय फाटल्यानसून वचून तांचे केंस ओडले जाल्यार ते भुरग्याक जितें हाडून दिवपाक शकतात. म्हजी चली म्हाका जिती मेळटा आसत जाल्यार कितेंय करपाची म्हजी अवतिकाय जाल्ली."

"आमगेर कपडे उमळपाक येवपी मडवळणीकडसून हावें तिगेल्या कपड्यांचो एक जोड मागून घेतलो आनी हावें स्वतःक पालवान पुराय धापून घेतलें. ते रातीं हांव सुखी न्हंयचे मसंडेमेरेन गेलीं. त्या ठिकाणार वचपाचें धाडस म्हज्यांत कशें संचारलें तें म्हजे म्हाकाच खवर ना. आमी केन्ना-केन्ना न्हंयचेर पुजा करपाक वतालीं. थंय दोंगुल्लेपलतडीं मसंड आसा हें हावें आयकल्लें. ते राती थंय भिरांकूळ शांतताय आशिल्ली. कोणाचेंच मडें लासपाक हाडूं नाशिल्लें. एकिकडेन खोपींतल्यान उजवाड येतालो. हावें थंय वचून पळयलें जाल्यार खोपीचे भायर एक चौकोनी दुरीग कशें केल्लें आनी ताचेर अठरा कवट्यो

दवरिल्ल्यो. अचकीत म्हज्या लक्षांत आयलें, ह्यो कवट्यो भुरग्यांच्यो, कित्याक तर तांचो आकार सामको ल्हान आशिल्लो. ख-यांनिशीं तें एका तांत्रिकाचें ठिकाण आशिल्लें. पूण त्यावेळार थंय कोण नासलो. त्यो कवट्यो पळोवन हांव शाबुद्दीर आयलीं. हांव दोंगुल्लेवयल्यान धांवत सुटलीं."

"कशेयभशेन हांव घरा पावलीं. देवादयेन म्हाका कोणें पळयलें ना. पूण त्या दिसासावन म्हज्यांतलो भंय-भिरांत ना-नपयत जाली. जें जें जेन्ना जावपाचें आसता तेन्नाच तें जाता. मनीस दुबळो आसता देखून ताचेकडेन सहजपणान सत्य पेलपाक जायना. तेदेवेळार ताका मेळटात तीं मनशां असलीं, जीं एकतर तांचो दुबळेपणा पारखून तांचेपासून फायदो उठोवंक सोदतात वा तीं ख-यांनीच असल्या गजालींचेर विश्वास दवरतात. पूण प्रत्यक्षांत छळणुकेबगर हातूंत दुसरें आनीक कांयच नासता."

"असल्या कसल्या गजालींनी पडपाची आतां म्हजी इत्सा ना. हांव तें खरें मानपाकूय तयार ना. जें घडटा तें सोंसपाबगर आनीक दुसरी योग्य वाट ना. तें कित्याखातीर घडलें हाचेफाटल्यान लागल्यार कांयच मेळपाचें ना. तुका आतां शनिम्हाराजाक दान दिवपाची कसली गरज ना. चल, बरें जालें तुवें म्हाका सांगलें तें."

त्या दिसासावन किशोराक सपनां पडपाचीं बंद जाल्लीं.

सपनां हीं सपनांच आसतात. जाग येनाफुडें तीं नश्ट जातात. पूण वास्तव मात जाग येतकच लेगीत जिवें उरता. त्या घराचो पत्तो आनी तो देखाव किशोर केन्ना विसरूंक शकत?

7 नम्बर, प्रसन्न कुमार टैगोर स्ट्रीट. व्हडले मामीच्या मर्णाउपरांत मामाल्या घरांतलीं सगळीं हरिसन रोडसान हांगां रावपाक आयिल्लीं. त्या घरांतलो ललितभैयाच्या मर्णाचो देखाव सिनेमाभशेन किशोराक भोवन-भोंवन याद जाता आनी ताचो गळो अंदल्ल्यावरी जाता. त्याच घरांत एक दीस सपनांत भुतान ताच्या हड्ड्यार बसून ताची गोमटी अंदिल्ली ज्युस्त तशीच. बोकडेभशेन त्या भुताचें खाड ताच्या गालांक रोमतालें. ताका धुकलून वडोवन आपली गोमटी सोडोवपाचो वा कशेयभशेन म्ह-यांत न्हिदिल्ले आवयक वा ललितभैयाक जागोवपाचो ताणें खूब यत्न केलो. पूण ताच्या गळ्यांतल्यान कसलोच आवाज भायर सरूंक पावलो ना. वा तो आपणाले हात-पांय हालोवंकय शकलो ना.

ताची आख्खी कूड जशी कि तें आर जाल्लेवरी लुळी पडिल्ली. फक्त ताचेभितर कोणतरी आपणांक वांटावपाखातीर पुराय जोर लावन मोन्यानी किळांचतालो. ताची ही आपणालीच किळांच खंयचेतरी खूब खोलायेंतल्यान येवन सूं-सूं आवाजांत बदलताली. इतलेमेरेन तो पुराय शाबुद्दीर आशिल्लो. इतलेंच न्हय तर ताणें आपणाल्या मेल्ल्या बापायक पराथिलें आनी आपणांक कशेयभशेन वांटाय म्हण मागलें. भुतां-प्रेतांपासून राखण करपी हनुमानाचोय ताका उगडास जालो. आनी मागीर तो प्रेतात्मा जो ताच्या हड्ड्यार चडून दोनूय हातांनी ताची गोमटी अंदितालो तो अचकीत नाच्च जालो. मागीर

ताणें धडधडट्या काळजान सुन्न जाल्लें हात हालोवन कूस बदलली आनी आवयक पळयलें. ती सुस्त न्हिदिल्ली.

ताणें ख-यांनीच एखादें भूत पळयिल्लें काय हें एक भिरांकूळ सपन आशिल्लें? पूण सपन आसलें तरी एकदम घडिल्ल्यासारखें वास्तव कशें दिसतालें. कित्याक तर ताका आपूण सपन पळयतां हें खबरच नाशिल्लें. बरेच दीस तो हे गजालीचेर येवजीत रावलो पूण हेविशीं कोणाक कांय सांगपाक मात पावलो ना. ललितभैयाक वा शांतनूक सांगिल्लें जाल्यार ते ताचीं बरींच फकाणां मारतले आशिल्ले. ताका सोळाव्या शेंकड्यांतलो गांवडळ वा कुड्डो भावार्ती म्हणटले आशिल्ले. शांतनू तर एखाद्या नाटकांतले संवाद म्हणिल्लेभशेन म्हणपाचो - "कितें सांगता रे तूं किशोर! हजारांनी वर्सांचे हे सुस्त न्हिदेंतल्यान आतां तरी जागो जा. इश्टा, हिंदुस्तानाचे म्हाप्रजेक आतां जागृत जावपाची वेळ आयल्या. भूत-प्रेत, हनुमान-पीर-फकीर असल्यो गजाली आतां सोडून दी. ताणीं आमचें खूब नुकसान केलां. आतां आमकां सगळ्यांतल्यान मुक्त जावपाचें आसा."

किशोर ल्हवू-ल्हवू ह्या विचित्र अणभवांच्या स्मृतींतल्यान मुक्त जाल्लो. तेउपरांत कांय दिसांनी ललितभैयाचो साखरपुडो थरिल्लो. कोणा एके नवे व्यक्तिचो कुटूंबांत आसापाव जाता हे गजालीचे उमळशिकेन बापायच्या मर्णाउपरांत आई-ललितभैया, किशोर हांचेर जी काळखी सया दाटिल्ली तातूंतल्यान मुक्तताय जाल्ली. पूण लग्नाच्या चार म्हयन्याआदीं ललितभैयाच्या पोटांत ज्यो भिरांकूळ कळो येताल्यो त्यो लग्नाच्या स म्हयन्या उपरांत काळाचें रूप धारण करून परतून उचकल्ल्यो.

डॉ. शरद मुखर्जी म्हळ्यार शरदबाबू हांच्या सदच्या हांसत्या खुमण्यावयलो हांसो जेन्ना पुराय ना नपयत जालो तेन्ना कितेंतरी गडबड आसा म्हणपाचें ताणी जाणलें. चौंसश्ट रूपया फी आकारपी बंगाली दोतोर विधानचंद्र राय जेन्ना आपणाले ऑस्टीन गाडयेन आयलो तेन्ना सगळ्यांच्या मुखामळार परतून एक फावट उमेद फांकारली. ललितभैयाची अप्रूप सुंदरताय, विधवा आवयची धवेफुल्ल साडयेंतली असहायता, झकपक पुडवें-कुरतो घाल्ले तिगूय मामा आनी आजो हांच्यो सुवार्ताविरयत पराथण्यो हें सगळें दोतोर राय हाणे बारीकसाणेन पळोवन घेतलें. ताच्या चे-याचेर कसलेच भाव उदेले नात. गाडयेंत बसताना ताणें आपणाली मान हेवटेन-तेवटेन हालयत शरदबाबूक कितेंततरी सांगलें आनी तो गेलो.

शरदबाबून भाभीक आपोवन घे म्हण आज्याक सांगलें आनी सोमतेंच ताका रडपाक आयलें. आज्यान तर आपणाक मेळपाक येवपी नोकर तशेंच सायब वा दलाल ताचेमुखार जे तरेन बसताले तशीच रस्त्यार बसकण मारिल्ली. आजो परतून ललितभैयाचे कुडींत गेलो ना. व्हडल्या मामाचो आदार घेवन तो धडपडत आपणाले कुडींत गेलो. ताणें कोणाकूच कांयच सांगलें ना. पूण सगळ्यांक सगळें कळून आयिल्लें.

ललितभैयाक कितें आनी कशें कळ्ळें म्हण कोण जाणा, पूण दोतोरांनी दिल्ले ब्यात्तर

वरांचे मुजतींत ताणें एके गजालीचो ध्यास घेतलो, "आई, आमी आमच्या घरा या. हांव थंय बरो जातलों." अशे अवस्थेंत घरा व्हरपाची गजाल आईन आपल्या तोंडांनी सांगपाबगर दोळ्यांनीच खुणायिल्ली पूण व्हडल्या मामान आपलें तोंड घुंवडायलें. मागीर ताणें भूंय-मळक करून कशेय भशेन बेगीनांत बेगीन इंग्लीश दोतोराक घेवन येवपाची वेवस्था केली. हे फावट यमराजाचें कांयच चलपाक दिवप ना हो ताणें ठाम निश्चेव केल्लो. एपेंडीक्स फुटून ताचें वीख पुराय कुडींत पसरलां हें तो मानून घेवपाकूच तयार नाशिल्लो. वीख पसरिल्लें जाल्यार ललिताचें मुखामळ अशें तेजीश्ट कशें उरपाचें? आतांमेरेन काळें पडपाचें न्हय? ताच्या वांचपाची शक्यताय धा प्रतिशदय ना अशें सांगिल्लें आसतानाय इंग्लीश दोतोरान ऑपरेशन करपाचो सल्लो दिलो तेन्ना तो रोकडोच तयार जालो. पूण शरदबाबून मामाक आवरलो.

जिवाक आकांताळे त्रास जावन लेगीत ललितभैयाचे दोळे आनी कान भाभीची सुलूस घेवपाक दाराकडेन लागिल्ले. व्हडल्या मामान हे बाबतींत हार खाल्ली. इंग्लीश दोतोर इंडियन लोकांच्या मागाशिल्लेपणाक आनी पिशेपणांक गाळी मारीत रागान बडबडत फी घेनास्ताना तरतरीत गेलो.

व्हडल्या मामान आतां ललितभैयाक हातांनी आयणो हालोवन वारो घालतल्या नोकराक कुशीक काडून तें काम आपणांकडेन घेतलें. पांख्याचेर हुमकळायिल्ल्या विजेच्या पंख्यान ललितभैयाक सुशेग मेळनासलो. व्हडलो मामा आयणो हालोवपाचें बंद करतांच ललितभैया दोळे उगडटालो. कोणा दुस-यान आयणो हालोवपाक घेतलो जाल्यारय तो अस्वस्थ जातालो आनी 'उदक-उदक' करतालो वा उदक पिवपाक जाय म्हणपाची खुणा करतालो. दोतोरान उदक अजिबात बंद केल्लें. फक्त झेल चोखपाक दिवन ताचेच थोडे थेंबे ललितभैयाक दिवपाक मेळटाले. व्हडलो मामा सबंद रात आपले हात आलटून-पालटून ललितभैयाक आयणो हालयत रावतालो आनी नोकर तेवटेन ताचो हात चेपीत रावतालो.

किशोरान रातचो उठून हो देखाव जायते फावटीं पळयलो. ललितभैयान तर आईक एक फावट विचारलें, "आई, तुंवूय म्हाका उदक दिवची ना गे?" तेदेवेळार आईच्या गळ्यांतल्यान एक विचित्र हुंकार फुटिल्लो. तो सोडल्यार कुडींत सुन्न आशिल्लें. आजो कदेल घालून कुडींत वग्गी बशिल्लो. सगळेजाण जशे कि तें मर्णाच्या पावलांची सुलूस घेवपाकच थंड बशिल्ले.

ललितभैयान सकाळीं परतून सांगलें, "म्हाका आमच्या घरा वचपाक जाय." आनी मागीर तो वगी रावलो. कित्याक कोण जाणा किशोराक बोकडेचें खाड आशिल्ल्या त्या भुताच्या सपनाचो उगडास जालो. ललितभैयानय तें सपन पळोवं ना मू आनी तेचखातीर तर ताका हांगा रावपाचें ना मू? त्या वाठारांत आयदनां विकपी कांसारान किशोराक सांगिल्ले, त्या घरांत खंय पयलीं खाड आशिल्लो एक बंगाली रावतालो आनी ताणे गोळ लावन गल्लींत आत्महत्त्या केल्ली.

भाभीक सकाळीं तिचो बापूय आनी भाव घेवन आयले. मोन्यानी व्हांवपी दुकां एकामेकाक निमाणचो निरोप दितालीं. त्यावेळार कुडींत फकत किशोर आशिल्लो. बाकिचीं सगळीं कुडींतल्यान भायर गेल्लीं. आईन भाभीक कांयच सांगूंक नाशिल्लें. भैयान किशोरावटेन एके नदरेन पळयलें पूण कांय म्हळें ना. तो भाभीचे फाटल्यान कदेलाक धरून उबो रावलो. तो भैयाक राव म्हण सांगपाक सोदी पूण तो सांगपाक शकलो ना.

ललितभैयाची सत्ता चलताली जाल्यार कितें तो भाभीक सोडून वतलो आशिल्लो? तो सद्दां भाभीक चिटी बरयतालो तें फक्त किशोर आनी आई दोगांकूच खबर आशिल्लें.

भाभीक घेवन तिचो बापूय कोणा सोय-यांगेर गेलो. वता आसताना भाभी आईचे साडयेक धरून रावली. आईन तिका काळजाकडेन वेंगायली. मागीर सवकास आपली साडी सोडोवन घेवन ती ललितभैयाम्ह-यांत वचून बसली.

आतां ललितभैयाची दाराकडली नदर कुशीक सरली. ताणें दारावटेन फाट केली आनी म्हळें, "आई, मरतल्याची निमणी इत्सा तर सगळेकडेन पुरी करतात. म्हाका उदक पिवय आई, नाजाल्यार आख्खी जीण तूं पस्तावतली." आईच्या माथ्यार सदांच थीर आसपी पदर गळ्ळो आनी तिणें मोठ्या-मोठ्या दोळ्यांनी मामावटेन पळयलें. व्हडलो मामा काळीज हालोवन वडोवपी आवाजान एकदम किळांचलो, "ना म्हज्या बाबा, तूं तानेन मरचो ना. हाडात, उदक हाडात. एक बालदीभर उदक हाडात. पी बाबा, जाय तितलें उदक पी." एक पेलो उदक पियेतां खिणाकूच भैयाक रगताचो काळो ओंकारो आयलो आनी ताका थोडो सुशेग दिसलो. ताणें हातांनी खुणावन किशोराक लागीं आपयलो आनी ताच्या हातांत आईचो हात दिलो.

ललितभैयाच्या मर्णाचो हो देखाव किशोराखातीर एखाद्या भिरांकूळ सपनापरसूय चड भिरांकूळ आसा. न्हिदेंत ताका ह्या देखाव्यापासून मुक्ती मेळटा. हेखातीर तो न्हिदूंक सोदता. सपनांच्या संवसारांतूय जगपांतलें वास्तव्य तरातरांचीं वस्त्रां पांगरून येता. आनी उठटकच परतूनय तेंच. दोन विधवांच्या मदली ताची जीण एका वाळवंटावरी जाल्या. ताका हांसचेंशें दिसता, पूण आपलोच हांसो ताका गुन्यांवकारावरी जाणवता. आई केन्ना ताचे हुजरां ललितभैयाचें नांवूय घेना - आईची निबरसाण ताका अजापीत करता. आई विसरली बी काय कितें ललितभैयाक आनी बाबाक? दर घरांनी मेल्ल्या लोकांचे फोटो पांयजेलांत घालून वणटीचेर हुमकळायतात. वेळावेळार तांकां फुलांचे हार घालतात. पूण बाबाचेंय पांयजेल वणटीर हुमकळायलें ना आनी ललितभैयाचेंय ना. समजा ताका कितेंय जालें जाल्यार आई ताकाय बी अशीच विसरतली काय?

ललितभैया मरपाक सोदिनासलो. व्हडलो काका जेन्ना ताका मेळपाक आयिल्लो तेन्ना ललितभैयान ताका म्हणिल्लें, "काका, म्हाका मरपाचें ना." काका हुंडकेलो. दुस-याक जर आपणालें आयुश्य दिवपाक मेळिल्लें जाल्यार आई, व्हडलो मामा, आजो, काका कितें

आपलें आयुश्य ताका दिवचे नाशिल्ले? हुमायूनाक ताच्या बापायन बाबरान आपणालें आयुश्य दिल्लें खंय. पूण ह्यो तर सगळ्यो काणयो जाल्यो. शांतनू कितेंय म्हणू, पूण मनीस कांयच करपाक शकना हेंच खरें.

ललितभैयाक आपणाल्या लग्नाची कितली उमेद आशिल्ली! भाभीक ताणें आपणेंच पसंत केल्ली. आपणालो इश्ट जगदीश, ताच्या लग्नाक तो पाटण्याक गेल्लो आनी थंयच ताची शांताभाभीकडेन गांठ पडली. कानपूराकसान शांताभाभी लग्नाखातीर पाटना आयिल्ली. जगदीशाची ती मामेभयण. तिची सोयरीगत आग्र्याक कोणागेर तरी जाल्ली. ती बरी गाताली. पूण सुंदरकायेचे बाबतींत ललितभैयाचे आशीकुशीक लागनासली. घडये व्हडले मामीभशेन ती कानपूरची आसप आनी बरी गावपी आसप हेंच ललिलभैयाखातीर आकर्शणाचें कारण आसूंये. जगदीशानच दोनूय पक्षांची समजिकाय केल्ली. निमाणे इतलें जालें, शांतीभाभीच्या बापायन आग्र्याची सोयरीगत मोडून ललितभैयाकडेन तिचें लग्न जुळोवन वडयलें.

लग्नाउपरांत सगळे मेळून दोनूच म्हयने दोगांय सांगाताक उरलीं. दुसरे खेपेक भाभी जेन्ना कानपूराकसान परतली तेन्ना ललितभैया मर्णाचे धडेर आशिल्लो. भाभीचें विधवा जावप हें घडीत जर थरील्लें नाशिल्लें जाल्यार जुळिल्ली सोयरीगत मोडून ललितभैयाकडेन तिचें लग्न कित्याक म्हणून जातलें आशिल्लें? आसतली काय शांतनूकडेन ह्या प्रश्नाची जाप?

ते दोन म्हयने किशोराखातीर आयुश्यांतले सगळ्यांत सुंदर म्हयने. भाभी ताका कितलो मान दिताली! आपणाक ल्हान कुडींत वचपाचें ना अशें ललितभैया भासयतालो. आईचे व्हडले कुडींत बसून तो कितेंतरी वाचीत आसतालो. तो कांयच वाचीना म्हणपाचें किशोराक बेस बरें खबर आसतालें. दर फावटीं ताच्या पुस्तकाचें तेंच पान उकतें आसतालें. निमाणें आई बळजब-यां कशी ललितभैयाक ताचे कुडींत धाडटाली. आपणाक न्हीद येता म्हणून ती दिवो वाडयताली.

ललितभैया आपले कुडींत गेलो म्हणटकच तिच्या मुखामळार दाट समादान फांकतालें. तीं आपणाभितरच मुमुरख्यांनी हांसताली. भाभीची न्हेसपाची अदबशीर तरा, 'आई' म्हणून अतिशय मायेन आनी आदरान उलोवपाचो तिचो ढंग तिका खूब आवडचो. ललितभैया भाभीचे कुडींत योमेरेन किशोर तिच्या सांगाताक रावतालो. भाभीच्या येवपान ती कूड जशी कि तें रहस्यमय जाल्ली. ते कुडींत सद्दां एक सुरबूस वास घमघमतालो. घडये ती गुलाबाचें अत्तर वापरताली आसूंये. भाभीन ताचीं पुस्तकां चाळचीं. तिका पुस्तकां वाचपाचो खूब शौक. आपणे वाचिल्ल्या पुस्तकांचेरय तिणें भैयाकडेन चर्चा करची. तिणें म्हणचें, आपणांक जर बंगाली शिकयिल्लें तर आपूण बंकिमचंद्र आनी शरतचंद्राचीं पुस्तकां बंगालींतच वाचतली आशिल्ली. ललितभैयान हांसचें आनी सोडून दिवंचें. तशें

पळयल्यार ताकाच पयलीं बंगाली येनाशिल्ली. किशोरान म्हणचें, "भाभी, हांव शिकयन." हाचेर भैया-भाभीन हांसचें.

पुनवेच्या दिसा जेन्ना आईचे सांगणेवयल्यान भैया-भाभी व्हिक्टोरिया भोंवपाक गेलीं तेन्ना किशोराकय वांगडा घेतलो. थंय व्हिक्टोरिया मैदानावयली हरयाळी पळोवन भाभीचें मुग्ध जावप, चौरंगीवयली गजबज पळोवन अजापीत जावप आनी गंगेचे तडेर चलताना वा-यान भुरभुरतलो आपलो पालव सांबाळप हें सगळें ताचे यादस्तेंत आसा. भाभीक कोलकाता शार खूब सुंदर दिसूंक लागिल्लें. मागीर ताणी तिगांयनी आदलेभशेन चौरंगीमुखावयल्या मैदानाचेर चादर पातलावन टिफिनातलें खाण खाल्लें. ताणी उदेंतेकडेन उदेतल्या चंद्रीमाक आनी अस्तमतेकडेन बुडटल्या सुर्याक पळयलो. किशोर आनी ललितभैया दोगांकय दिशिल्लें, तांचे आदले दीस परते आयले. ललितभैयान म्हणिल्लें, "फुडले पुनवेक आईकय वांगडा घेवन येवया."



## 9

# करार : 1 जानेवारी, इ. स. 2000

चे-याचेर नेटाची फूंक बसली आनी किशोरबाबून धांपून घेतिल्ले दोळे उकते जाले आनी थेट वचून ते दोन चकचकत्या काळ्या अनवळखी दोळ्यांक भिडले. त्या दोन दोळ्यांच्या मदेकाकूच चंदनाच्या त्रिपुंडाच्या तीन धारांच्या वयर आठ आण्यांच्या आकाराची शेंदुराची एक तिकली चकचकताली. तोंकदार वांकडें नाक, ताचेसकयल काळ्यो धव्यो मिश्यो आनी तेलान चिपचिपिल्ले केंस - एक एक करून हें सगळें किशोरबाबूचे नदरेंत आयलें.

"कितें बाबू कशें दिसता आज?" आपूण जिंकिल्ल्याचे खोशयेंत पंडितान किशोरबाबूचे बायलेचेर एक नदर मारून नेटान आवाज काडीत विचारलें. किशोरबाबूनय आपली नदर बायलेचेर थिरायली. एक खिणभराखातीर ताचे बायलेच्या चे-याचेर वर्सानवर्सांचे भिरांतिच्या अभ्यासाचे तेच पोरने भाव उदेले. आजमेरेन आपल्या जिवितांत किशोरबाबूचे बायलेन घोवाक विचारलेबगर कसलेंच पावल मुखार वडोवंक नाशिल्लें. एक खिणभर ती भियेली, पूण मागीर रोकडीच सांवरली. आतां किशोरबाबू दुयेंत आसा जाल्यार सगळे निर्णय तिकाच घेवचे पडटले.

"डमडम कडचे पंडित ते. जायत्यो विनवण्यो करतकच आयल्यात. सहसा कोणाल्या घरा वचनात." एका दमांत ती उलयली.

"तूं पुराय छत्तीस वरां न्हिदून उरलो बाबू. सगळे दोतोर येवन पळोवन गेले. पूण तुवें दोळे उगडूंक नात. तुजी शनिची साडेसाती चलता. जल्मकुंडली पळयली हावें. हुस्को करपाची गरज ना. हावें सगळी वेवस्था करून दवरल्या. तुज्या लक्ष्यांत हें उरतलें न्ही सुनवाय? एका काळ्या घोड्याच्या पावलाच्या टापाच्या लोखणापासून एक मुदी घडोवपाची आनी ती दाव्या हाताच्या मदल्या बोटांत घालपाची. सगळे त्रास सोंपतले. जय भुतनाथ मृत्युंजयी रक्षतो सर्वकाल्म." चारीवटेन पळयत पंडितजीन अशा सुरांत म्हळें, जशो कि तें ताणे सगळ्यो समस्या सुटाव्यो केल्ल्यो.

"घोड्याचीं कितलीं टापां लागतलीं पंडितजी? म्हज्या इश्टाकडेन रेसीचे कांय घोडे आसात." किशोरबाबूच्या चल्यान हातांतल्यो मुदयो चकचकायत विचारलें.

पंडितजीन आपणाले चकचकतले दोळे ताचेर थिरायले. म्हळें, "फाटले खेपेची डरबी लेगीत आमच्या खास शिष्यानूच जिंकिल्ली."

"कोण? नेवरजीक वळखतात तुमी?" चल्यान अजाप उकतायत विचारलें. पंडितजी फकत हांसलो. कांयच उलयलो ना. भुरग्याच्या चे-यावयले अजापभरीत भाव थीर उरले.

किशोरबाबूचे अस्वस्थतायेक शीम नाशिल्ली. छत्तीस वरां. म्हळ्यार देड दीस. पूण ह्या देड दिसांत ताच्या जिविताचें रीळ तर पुरायपणान पळोवंक ना. हाचो अर्थ आतां आनीक न्हिदचें पडटलें. ताणें आपली एक नदर पुताचेर आनी पांचूय धुवांचेर भोंवडायली. पंडितजींविशींचे श्रद्धेन तांचे चेरे फुलिल्ले.

"हांगासान आतां गोयंकाजीगेर वतलों. तीन दीस जाले सारको घराकडेन येवन बसता. वळखता न्ही अलीपूराच्या गोयंकाक?" पंडितजी चल्याक विचारतालो.

चल्यान अदीकच नमळाय दाखयत म्हळें, "हय. ताचेच एके जूट मिलीक आमी मशिनाचे पार्ट सप्लाय करतात."

किशोरबाबूच्या मनांत आयलें ताका विचारचें, ताच्या घराकडेन ठाण मांडून बसपी हो गोयंका कसल्या नव्या संकश्टांत सांपडला काय म्हण. पूण तेन्नाच ताची धाकली धूव ताचे कुशीक येवन बसली आनी आपलें तोंड उशाचेर ताच्या कानांत घुसयलें.

"पापा ऽ ऽ " तिच्या गळ्यांतल्यान रडपाचो आवाज भायर सरलो.

किशोरबाबून केन्ना आपल्या भुरग्यांक दुकां गळोवपाक उत्तेजन दिलें ना. ताच्या भुरग्यांकूय भुरगेपणांसान खबर आशिल्लें, आपल्या बापायकडल्यान रडून कांय सादोवन घेवपाक जावचें ना. तातूंतलीं काय जाणां तर बरींच वर्सां रडूंकच नात. पूण धाकले धुवेच्या रडपान किशोरबाबूक आपणाकय भितरल्यान भरून आयिल्लेभशेन जाणवलें. आपणाक आनी आपणाभोंवतणी हें सगळें कितें घडटा?

किशोरबाबू नास्तिक नाशिल्लो. कितले यत्न करूनय तो तसो घडलो ना. पूण शाळेच्या दिसांनी शांतनू आनी अमोलकाचे धार्मिकतायेचे आड सांगाताक लागून तो पंडे-पुजारी-ब्राह्मण हांचे सांवळेपासून पयस रावतालो. ताणें आपणाली आस्तिकताय फकत ऑफिसाक वचचेपयलीं कांय मिनटां एखादो श्लोक वा एखाद्या भजनाचें कडवें म्हणपापुरती बिगर खर्चीक तशेंच कटकटींविरयत मर्यादीत दवरिल्ली. घरांतल्या देवा-यामुखार उबो रावन तो आपणाले कपडे घालतालो. उब्या उब्यानीच बुतांव लायतां लायतां तोंडांतल्या तोंडांत ताची पुजा-अर्चा सोंपताली. देवाकडेन केन्नाय कितें मागपाचें आसलें जाल्यार मात आनीक एक मिनीट जादा खर्चून दोळे धांपून घेवन तितलो वेळ थीर रावतालो.

आपणाल्या घराचें फुडारपण स्विकारल्या उपरांत ताणें आईक लेगीत केन्ना कीर्तन-भजन-भागवत, साधु-प्रवचन हातूंत पडपाक दिली ना. भाभी वा ताची अर्धांगिनी हांचेबाबतींत तर हें सगळें करपाचो प्रश्नूच येनाशिल्लो. फकत दर वर्सा जानेवारी म्हयन्यांत एक फावट गंगासागरचे भोंवडेक वचपी एक साधू मात मिरठसान कोलकाताक प्रवास करताना आईक मेळपाखातीर म्हण मुद्दम घरा येतालो. ताची बायल ताका सांगताली, एक खेप खंय

ताणें हात घुंवडावन कशें तरी करून पांचवे कोंथविरेचे चुडयेची गोड खडीसाकर केली आनी एक फावट कसो तरी वयल्या वयर हात घुंवडावन लारांज प्रकट केलें आनी तें सोललें जाल्यार तातूंतले दर एके शिरेचेर खंय खीसमीस लागिल्ले आशिल्ले. पूण किशोरबाबून तिच्या गजालींचेर केन्ना विश्वास दवरलो ना. वेल्यान ताणे म्हणचें, "म्हज्या हाताक केन्नाय सांपडत जाल्यार ताचे हात पांय मोडून घालतलों. बायलांक पिशीं करता." तो साधू सोडून आनीक कोणा दुस-या असल्या मनशाक ताणें घरांत पावल दवरूंक दिलें ना.

गंगासागरवालो साधू वर्सांतल्यान फकत एकूच फावट येता इतलेंच ताका समाधान. दर वर्सा ताका उमेद जावंची तो मेला आसतलो म्हण. पूण ताच्या येवपाची खबर कानार पडनाफुडें मात निराश जावन ताची तकली उसळची. इश्वर नांवाची शक्त आपले मुठींत आसा अशें भासोवपी लोकांकडेन ताणें सदांच प्रतिस्पर्धि कशें पळयलां. आपणाल्या एकछत्र अधिकारवाल्या मळाचेर कोणा दुस-याचो आसपाव आसपाचो धोको स्विकारपांत ताणें विश्वास दवरलो ना.

आतां हो डमडमवालो पंडित खंयच्यान आयलो? पूण सद्या ताका त्या पंडिताकडेन वा पंडिताचेर अतूट भरवंसो दवरपी आपल्या चल्याकडेन कसलो वाद घालपाची इत्सा नाशिल्ली. ताचे तकलेंत बरींचशीं कामां ताटकळत उरिल्लीं.

एकतीस डिसेंबराच्या सांजवेळा आपणाली सदची रस्त्यावयली पासय मारताना एक अद्भूत, अनवळखी संयोग घडिल्लो जो अर्दकुटो सुटून गेल्लो. ताका आतां त्या आणभवाच्या अंतामेरेन वचपाचें आशिल्लें.

किशोरबाबून बायल आनी भुरग्यांवटेन पळयलें. त्या लोकांचीं खुमणीं पळोवन ताका आपणांक भितरल्यान कांटो रोमून कळ आयिल्ल्याचो अणभव आयलो. कितलो बंदिस्त संवसार ह्या लोकांचो! कितले अटूक विचार हांचे! कसलीय खंयचीय अद्भूत गजाल भितर रीगपाक मातूय बुराक ना. जिणेसंबंदिचो दृश्टीकोण लेगीत कितलो रोमांचहीण, 'कट एन्ड ड्रायड' रूख. पूण तांकां तर किशोरबाबूनच अशे केले न्हय? आतां आपणांभितर उगडिल्ल्या नव्या संवसारांत हांकां कशे वांटेकार करून घेवं येता? विक्षिप्त, पिशे आनी सणकी मारपी मनशांचें जग हें तें लोक सर्वसामान्य, वेवहारी जगाचे शीमेपलतडचें जग समजतात? तांकां कशें म्हण समजावपाचें, आरे बाबांनो, तुमी चलंत मापदंडाक निर्णायक मानून जो संवसार घडयला तातूंत तुमचें कितलें नुकसान आसा. कितल्यो वस्तू पळोवपाक आनी त्यो आदा करून घेवपाक तुमी मुकल्यात.

किशोरबाबून अंतस्कर्णांतल्यान त्या लोकांक धन्यवाद दिले जाणीं ऑपरेशनाउपरांत ताच्या तकलेच्या फाटल्या भागाक ही दुखापत करून दवरिल्ली. आयुश्याच्या निमाण्या खिणाक जायना, उण्यात उणें मरचेपयलीं तरी पुराय खोलायेन, समृद्धीसयत, तशेंच तें पुर्णत्वायेन जाणून घेवपाचो यत्न तरी ताणें केल्लो.

तकलेंत कितेंतरी येवजलें आनी किशोरबाबून खुणेनच बायलेक लागीं आपयली. ताण येंवन थकिल्लो आपले बायलेचो त्राशीक चेरो ताणें मायेन नियाळ्ळो आनी विचारलें,

"पुनव केन्ना येता तें खबर आसा?" किशोरबाबूचे बायलेचें खुमणें अचकीत फिकें पडलें, "कित्याक? कितें जालां? पुनवेक कितें करपाचें आसा? चंद्रीमाक दान वी दिवपाचें आसा काय कितें?"

"च्ये, च्ये कितें उलयता तूं हें? म्हाका कितें जालां तर? हांव सामको बरो आसा. गरजेभायर तूं ह्या पंडितांच्या चक्रांत घुस्पल्या. आनी आयक, म्हाका त्या दुस-याय पंडितांची म्हळ्यार दोतोरांचीय गरज ना. वगीच पयशांचो इबाड करूं नाका." किशोरबाबू आपले बायलेक हें समजावन सांगपाक पळयतालो पूण अचकीत् ताका जाणवलें, ही भास समजुपाची क्षमताय बायल वगडावन बशिल्ली. हीच गजाल जर ताणें तिडकीन आड्डी मारून सांगिल्ली जाल्यार तिच्या मेंदवांत ती सारकी रीगतली आशिल्ली.

किशोरबाबून एक व्हड सुस्कारो सोडून म्हळें, "हें पळय सरोज, तुका याद आसा लग्नाउपरांत एक फावट आमी आई आनी भाभीक घेवन व्हिक्टोरीया मैदानार गेल्लीं आनी सकयल तणाचेर चादर पातळावन आमी टिफिनांतली खीर-पुरी काडून खाल्लीं. याद जायना तुका?"

किशोरबाबूचे बायलेच्या चे-याचेर परतून भिरांतेची सांवळी पातळ्ळी. बावचळून तिणें म्हळें, "हां, याद जाता थोडी-थोडी."

"तूं खबर काड न्ही पुनव केन्ना आसा ती. हे पुनवेक आमी सगळीं तेन्नाचे भशेन चान्याचे रातीं त्याच व्हिक्टोरीया मैदानार बसून जेवण जेवचें. पूत, सून, धुवो-जांवय सगळ्यांक घेवून वचचें. आदीं आमचेकडेन गाडी नाशिल्ली. टॅक्सीचेर पयशे वगडावपाक कितलें दुखतालें तें खबर आसा न्ही? धाएक वर्सांनी गाडी आयली. पूण आदलेभशेन आमी व्हिक्टोरीया-चौरंगीक कित्याक गेलीं ना तेंच समजना."

किशोरबाबूचे बायलेचें माथें सण्ण जालें. खात्रीन कोणा भूत-प्रेताची सांवळी पडल्या आसूंये हाजेर. तकली ठिकाणार आसल्यार हो असल्यो गजाली करपाचो? देव ह्या दोतोरांचें केन्नाच बरें करपाक पावूं नाका. काय ब-या धट्ट्या कट्ट्या मनशाची अशी दशा करून वडयल्या. पूत-सून-धुवो-जांवय हांकां घेवन कितें आतां पुनवेक पिकनिक मनोवपाक वचपाचें? खीर-पुरी असले जिनस खावन कितें आपलें कॉलस्ट्रोल वाडोवपाचें आसा आनी हीं भुरगीं कितें अशीं रस्त्यार मैदानार बसून खातलीं? हाका इतलेंय कशें कळना हें येवजून ती कासावीस जाली. चौरंगीचेर नव्यानच उगडिल्ल्या पेशावरी पद्धतिच्या 'जारंग' रेस्टोरंटांत बसून तीन-चारशें रुपये प्लेटीचें खाण खावचींनात? पूण ताका आतां कोण समजायतलो?

तिणे म्हळें, "म्हजे म्हायतीप्रमाण पुनवेक एक म्हयनो उरला आसतलो. पयर-एरवांच तर पुनव आशिल्ली."

किशोरबाबूच्या चे-याचेर निरशेवणेचे भाव उदेले. "बरें आसा. करूया एका म्हयन्यान."

आयचें संकश्ट एका म्हयन्याखातीर टळ्ळें देखून किशोरबाबूचे बायलेन सू करून समादानाचो स्वास सोडलो आनी पुनवेची ही गजाल फकत पंडितजी सोडून आनीक

कोणाकूच सांगप ना हें तिणें थारायलें.

एकलो जातकच किशोरबाबूक एकतीस डिसेंबराचे सांजवेळाची याद जाली. त्यावेळार किशोरबाबूचीं सगळीं भुरगीं 'न्यू इयर्स इव्ह' मनोवपाक कोलकाता शारांतल्या सगळ्यांत नांवाजत्या, पोरन्या क्लबांतल्यान त्या दिसाखातीर खाशेले शिंविल्ले कपडे घालून खावपा पिवपाक आनी नाचपाक वचपाची तयारी करपाचें येवजिताले. (इंग्रज हांगांसान वतना तांच्यो सोबीत विशाळ इमारती, स्विमींग पूल, धव्याफुल्ल गणवेशांतले तशेंच धवेफुल्ल टेबलक्लॉथ पसरावपी बेअरांसयत फुडाराच्या देशी सायबांच्या पिळग्यांखातीर सोडून गेल्ले.) त्याचवेळार सांजवेळा किशोरबाबून कोलकाता शाराच्या कैमेक स्ट्रीटाचेर एक अजापांचो देखाव पळयलो.

ताणें पळयलें एक सुंदर बंगाली तरनाटी बायल एका तरनाट्याच्या हातांतल्यान कितेंतरी झोमून घेवपाक पळयताली आनी तो तें आपल्या बोल्सांत घालपाचो यत्न करतालो. तांचें दोगांयचें झगडें आनी झटापट पळोवन किशोरबाबू येवजणेंत पडलो. ताणें थांबून त्या तरनाट्याक कितें चललां म्हणपाचें बंगालींतल्यान विचारलें. ते बायलेची ताणें कसली वस्तू लिपयल्या? आनी तिका तो ती कित्याक दिना? तेन्ना ते बायलेन सांगलें, "वीख आसा तें काका वीख. पळय न्ही, हें वीख खावन तो मरतलो म्हणटा. ही बाटली ताचेकडल्यान काडून घे न्ही."

किशोरबाबूक थारून मर्दी पडटा तो पळोवन दुसरो एक वाटसुरो थंयच उबो रावलो, फुडें सरलो आनी ताणें त्या तरनाट्याचो हात पिळवटून ताच्या बोल्सांतल्यान विखाची पत्र्याची बाटली भायर काडली. पळयतां-पळयतां त्या वाटसु-यान एक वीट घेवन ताचेर आपटून बाटलेचें धाकणें उगडलें आनी कैमेक स्ट्रीटाचेर सदचे अवास्तव पसरिल्ले कोयराचे राशीकुशीक फुटपाथावयले कच्चे मातयेचेर ओतोवन दिलें.

त्या तरनाट्यान आपले दोळे तिडकीन तांबडे केले आनी त्या वाटसु-याचेर गुरगुरत ताणें म्हळें, "जालें मरे, केलें न्ही तुवें म्हजें पंचेचाळीस रूपयांचें लुकसाण? ही कितें विखाची बाटली नाशिल्ली. झाडांक कीड लागता ताका मारपाचें तें वखद आशिल्लें - मेटासीन. हांव माळी. एग्री-होर्टीकल्चर गार्डनची ही स्लीप पळय." किशोरबाबू टटास जालो. ताणें ते बायलेकडेन पळयलें.

ते तरनाटे बायलेन प्रार्थनाभरीत सुरान सांगलें, "काका, हाणें म्हाका सांगलें, आपूण आतां जितो रावचो ना म्हण. वीख खावन मरतलों. हावें कितें करपाचें? तुमीच सांगात." किशोरबाबून ताडलें कसलीय मोगा-फोगाची बी भानगड आसतली. ते बायलेन फुडें सांगलें, "काका, म्हजेखातीर तुमी इतलें केलें. आतां तुमी मातसो हाका शामबाजारांतल्या ताच्या घरा पावयात. नाजाल्यार म्हाका सुख लागचें ना. उपकार करून म्हजेखातीर इतलें करात." तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकांची झर व्हांवताली हें किशोरबाबून पळयलें. ताका त्रास जाले. वरें आसा - इतलें ताच्यान करूं येतालें. रवीन्द्रसदनाकसान मेट्रो धरपाची आनी चडानचड म्हळ्यार वीस्र मिनटांभितर तो शामबाजारांत पावूं येता. आज हेंच करपाचें.

ट्रेनींत वाटभर तो तरनाटो दोळे चोरून बाबडें तोंड करून बशिल्लो. किशोरबावून ताका सांगलें, “हें पळय, हांव तुज्या बापायचे पिरायेचों. आज म्हज्या पुतान जर अशें कितेंय केल्लें जाल्यार म्हजी अवस्था कितें जावपाची हें म्हाका खबर आसा. आयचे घडकेक म्हज्या काळजाचें ऑपरेशन जालां. जीण ही खूब मोलादीक आसा. ती कितें अशे तरेन नश्ट करपाखातीर आसा?”

मेट्रो रेल्वेच्या धडधडाटामदीं त्या भुरग्यान आपणाल्या भावहीन दोळ्यांनी पळयलें आनी विचारलें, “कित्याक म्हण तुमी म्हजे फाटीक लागल्यात? तुमी तुमच्या घरा चलात. हांव मरचो नाशिल्लों. हावें फकत तिका भियेवपाखातीर हें केल्लें.”

किशोरबाबू वगी रावलो. ते बायलेक जें उतर दिल्लें तशेंच करपाचें. हो भुरगो कितेंय म्हणूं. ताच्या भुरगेपणांतलो इश्ट शांतनू, ताच्या चे-याकडेन हो कितलो जुळटा? तशेच दोळे, तशेच कोंगरे केंस, उलोवपाची तराय तशीच. असंभव गजालींतल्यान निमाणेकडेन एक प्रतिशत संभव आसपाच्या विचारान, हय-नाका करून ताणें मागीर ताका विचारून सोडलें, “तुज्या बापायचें नांव शांतनू तर न्ही?”

एखाद्या पिश्या मनशाक पळयतात ते तरेन त्या भुरग्यान ताचेकडेन पळयलें “अजिबात ना. म्हज्या बापायचें नांव गिरीश दास.”

“अशें.” म्हणून किशोरबाबू वगी रावलो.

शामबाजार स्टेशनाचेर मेट्रो थांबनाफुडें त्या भुरग्याचो हात धरून तो ताचेवांगडा देंवलो. जिनो चडटाना त्या भुरग्यान सट् करून आपलो हात सोडोवन घेतलो आनी नेटान स्टेशनाचीं सोपणां वलांडीत खंयचेकडेन नाच जालो. किशोरबाबू सुन्न जावन पळयत उरलो.

आपसुलाद! असल्या भुरग्यांक दांड्यांनी पेटपाक जाय. एका जाणटेल्याची इतलीय पर्वा ना? आयच्या भुरग्यांकडेन असले गूणच नात. कितें करपाचें? गरज नासताना हीं सोपणां चडपाचीं काय परती ट्रेन धरून घरा वचपाचें? किशोरबाबू कांय वेळ जिन्याचेर उबो रावलो. मागीर आपूणशींच ताचीं पावलां वयलेवटेन ओडपाक लागलीं. स्टेशनाभायर रस्त्यार येवन ताणें चारयवटेन नदर घुंवडावन पळयलें. त्या भुरग्याचो कांयच आगा-पिछा लागना जालो. हांगासान टॅक्सी करून परतुया? किशोरबाबूक अचकीत थकिल्ल्याभशेन जाणवलें. इतलीं सोंपणां ताणें चडपाक फावनाशिल्लीं.

फुटपाथ सोडून किशोरबाबू रस्त्याचे कुशीक उबो रावलो. ऑफिसां सुटिल्लीं. खंयचीच टॅक्सी रिकामी नाशिल्ली. अस्वस्थ जावन तो रस्त्याचेर उबो रावन बशी, गाडयांचो धुंवोर खायत रावलो. जिवितांत पयलेच खेप ताणें असलीं पिशेपणां केल्लीं. ते बायलेच्या उलोवण्याक बळी पडलो. तो कितें शेणिल्लो ल्हान भुरगो, ताका धरून घराकडेन ताच्या आवय बापायचे सुवादीन करपाक!

पूण कितें करतलो? थराचेर थर दाटून आपणाल्या काळजाचो जो भाग ताणें बंद करून वडयिल्लो, तो ह्या दोतोरांनी कसो कोण जाणा इतलो उस्तून वडयिल्लो, ताका आतां

आपलें काळीज आवरप कठीण जावन पडिल्लें. दरेके कसलेय फालतू गजालीक लागूनय ताचें काळीज दुख्खान कळवळूंक लागता. ते बायलेचीं दुकां ताच्यान पळोवपाक जालीं नात.

टॅक्सी मेळपाची शक्यताय उणी अशें दिसतकच किशोरबाबू परतून स्टेशनावटेन वळपाक गेलो. पळय जाल्यार ताच्या फाटल्यान तो तरनाटो उबो. ताच्या चे-यावयलो लजकुरो हांसो आनी दोळ्यांत भोगसणी मागपासारखें कितेंतरी. किशोरबाबू ताका नियाळीत रावलो. दिसता कसो सारको शांतनूभशेन. तेच तरेचें फटोवप आनी मागीर गुपचूप सांगनासताना भोगसणी मागत प्रकट जावप. हो कोणा गिरीश दास-बिसाचो भुरगो नासून शांतनूचोच आसपाक जाय.

“कितें कसलो विचार करता?” किशोरबाबूच्या हांश्यांत माया भरिल्ली. ताणें म्हळें, “आरे, शांतनू म्हगेलो भुरगेपणांतलो इश्ट. तुज्या बापायकडेन भेट घडोवन हाडचो ना?”

परतून एक फावट कोणा पिश्याक पळयता अशे भाव ताच्या चे-याचेर उदेले. “कितले फावटीं सांगूं तुमकां म्हज्या बापायचें नांव शांतनू न्हय तर गिरीश दास म्हण. चलात म्हज्या घरा आनी तुमीच पळोवन घेयात. आतां तुमकां टॅक्सीय मेळपाची ना. तुमी म्हजेखातीर गरजेभायर इतले त्रास घेतात तें पळोवं नजो म्हज्यान.” तरनाट्यान आपलें तोंड घुंवडायलें आनी ताचो हात धरून तो रस्तो वलांडूंक लागलो.

रस्त्याच्या मदेकाकूच उबें आशिल्लें तांबड्या रंगाचें ते कालीमातेचें देऊळ, लागींच्यान धांवपी वाहनां, सगळें विटकूर जावन गेल्ल्याचें किशोरबाबूक जाणवलें. तीं रडटालीं. कित्याक म्हण कोणाक खबर! तांकां आपलीच लज दिसपाक लागली. आपणाक रडटा तें त्या भुरग्यान पळोवंचें न्हय म्हण ताणें रस्तो वलांडटां-वलांडटां आपल्या झक्पक् अशा धव्या टी-शर्टाच्या दाव्या हातान दोळे पुसून घेतले.

लाल मंदिराकडलो रस्तो वलांडटकूच किशोरबाबू त्या तरनाट्यावांगडा शामबाजाराचे गल्लींत घुसलो. मारवाड्याच्या घरांत जल्मुपी दर एका कुलदीपकावांगडाच ‘दीस दुपेटीन रात आनी चोंयवटेन जोड’ अशी कमाई आशिल्ल्या ‘चित्तरंजन मिष्ठान भंडार’ नांवाच्या नामनेच्या रसगुल्लेवाल्याचें दुकान वलांडून ते आनीकूच अशीर जायत गेल्ल्या गल्ल्यांनी घुसत गेले. बंगाल्यांच्या पोरन्या खांब्यांच्या अगडबंब पूण कोंसळपाक आयिल्ल्या वाड्यांशेजाराच्यान वचत ते एका मोडक्या-तोडक्या घराकडेन आयले. घराचे ल्हानशे पायणींत लायिल्ले दुदयाचे वालीपोंदच्यान चलत सोंपणा चडून तो तरनाट्यावांगडा पयल्या माळ्यार पावलो. तुटक्या फुटक्या आनी नाका आशिल्ल्यो वस्तू आनी मशिनाच्या कळमेल्ल्या पार्टांनी भरिल्ली कूड वलांडून तो वयल्यान सकयलें दिसता अशे अशीरशे गॅलरींत घेवन आयलो. “बाबा, बाबा भायर यो. पावणे आयल्यात.” गॅलरींत भितर सरतानाच तो व्हडल्यान आड्डलो. “कोण रे सुमित?” विचारीत दुबळ्या आंगाचो, पांसश्टेक वर्सां पिरायेचो, लुंगी न्हेशिल्लो आनी वयर उकतें आंग अशे अवस्थेंतलो एक मनीस भायर आयलो.

"आमार बाबा - गिरीश दास." तरनाट्यान सांगलें. मागीर किशोरबाबूवटेन पळयत म्हळें, "हांचें नांव खबर ना. पूण ते खूब बरे मनीस."

गिरीश दास आनी किशोरबाबू गोंदळ्ळे आनी एकामेकाक पळयत उरले. घडयाळीचो कांटो एका मिनटापरस फुडें गेलो तेन्ना गिरीश दासाच्या चल्याक जाणवलें, खंयतरी गडवड आसा. "तुमी दोगूय ख-यांनीच एकामेकाक वळखतात?" सुमितान थंड सुरान विचारलें.

"हांगा कित्याक आयला तूं किशोर? म्हजेकडेन कसलें काम आसा?" गिरीश दास ऊर्फ ताचो बापोलभाव बनवारी तिडकून आनी तिरस्कार उकतायत ताका विचारतालो. किशोरबाबू त्या तिरस्काराफुडें मोनो जाल्लो. तो कांयच उलोवंक पावलो ना. हां, अशें तर. सुमिताचें मुखामळ शांतनूकडेन न्हय तर ताचो भाव बनवारीकडेन जुळटा. देखून सुमिताक पळयतकच ताका अशेंच कितेंतरी जाणवल्लें. वळखिचें कशें. किशोरबाबूचे दोळे भरून आयले.

सुमित हें सगळें पळयतालो. ताणें रागान बापायक म्हळें, "कितें करता बाबा तूं? हद जाली आं तुजेमुखार. हे म्हजे पावणे. तुजे न्हय. कळ्ळें? तुमचें कितेंय पोरणें झगडें आसल्यार विसरून वच. आज हांव मोट्या संकश्टांत सांपडिल्लों. हाणींच म्हजो जीव वांटायलो."

बनवारीन आपल्या पुताकडेन पळयलें. तातूंत चिंता आनी माया दोनूय आशिल्लें. चल्यान म्हळें, "मागीर सांगतां तुका. पयलीं च्या. येयात किशोरबाबू. आज तुमची रास आनी गिरे उरफाटे घुंवपाक लागल्यातशें दिसता. बरेंच सतायलें हावें तुमकां." सुमिताच्या सुरांत ताचेविशीं आदर आशिल्लो. बनवारीची बायल माथ्यार पालव पांगरून च्या घेवन आयली. सादारण रुपाची बंगाली बायल. आंगांन जाडी, गोरी सांवळी कात. चे-याचेर देवी आयिल्ल्याचे पोरने दाग. वक्लाची सवायशी फ्रेम. गाल-नाक-दोळे खंय पिचके जाल्यार खंय फुगरे. किशोरबाबू निरशेलो. हेच बयेखातीर बनवारीन घरचे सगळे संबंद तोडून वडयले? अशें कितें पळयलें हे बायलेमदीं ताणें? बनवारीची आवय मरतकच बनवारीच्या बापायन आनी व्हडल्या भावांनी बनवारीचेर लक्षूच दिलें ना. त्या दिसांनी उरिल्ल्या सुरिल्ल्या वेपारांत लुकसाणी आयिल्ली. सदांच गरीबीन पिडिल्ल्या अशा काळ्या किट्ट, दुबळ्या, अशक्त अशा सामान्य बनवारीक विचारता कोण आनी ताच्या लग्नाचे भानगडींत तरी कोण पडटा? तो असोच कामाचे सोदीक हेडत रावलो आनी त्याच वेळार सगळ्यांच्या कानांर पडलें बनवारीन आपूण जावन कोणा बंगाली बायलेकडेन लग्न केल्लें. तिका मारवाड्यांभशेन पुराय चेरो पदरान धांपून घेवपाक लावून तो तिका घेवन आपल्या बापायच्या दारांत उबो राविल्लो. गाळींचो शिंवर करीत काकांनी बनवारीक येवकार दिल्लो. आनी तिका "नुस्ते खायरी, कुलनाशिनी" म्हणून तूं आमचेखातीर मेलो अशें म्हणीत ताका हुम-यावयल्यान आयिल्ल्या पांयांनी परतिल्लो.

किशोरबाबू चिंतपाक लागलो - हीच आसतली कांय ती बायल? पूण सुमिताक पळयतकच आज ताका दिसलें, हे सादारण दिसपी बायलेमदीं एखादो असादारण आत्मो

लिपला आसुंये जाणें मायेक पारखो जाल्ल्या बनवारीक नक्कीच आदार दिला आसतलो.

लग्नाउपरांत जायत्या वर्सांनी एक खेप बनवारी किशोरबाबूगेर आयिल्लो. तोमेरेन तो प्रतिशठीत जाल्लो. ताणें बलिगंजकडलें घर विकतें घेतिल्लें. बनवारी नांवाचो कोण एक मनीस ताका मेळपाक आयला म्हणपाचें गुरख्यान येवन ताका सांगिल्लें. पयशे मागपाक आयला आसतलो - किशोरबाबूक दिसलें. बंगालिणीन सोडूंक तर ना मूं? सगळें जाणून घेवपाची उमळशीक तर ताका आशिल्लीच. पूण सदांच येवजून करून वेवहार करपी किशोरबाबून चिंतलें - वगीच बनवारीक मेळप, ताणे पयशे मागले जाल्यार ताका न्हयकार दिवप, कितें फायदो? ताका तापयलो-विपयलो जाल्यार आई दुखावतली. ताणें गुरख्याकडसून सांगून धाडलें किशोरबाबू दुयेंत आसा आनी कोणाकूच मेळचो ना.

उमळशिकेन आयिल्लो बनवारी इशारो समजून परतलो. पूण ताका एक फावट पळोवपाची अधाशी इत्सा तो आडावंक शकलो ना. व्हरांड्याच्या एका कोनशांतल्यान ताणें ओणव घालून घराचे पायणींत उबो आशिल्ल्या बनवारीक पळयलो. पायांतल्यो व्हाणो काडून दाराकडेन फाट करून आनी रस्त्यावटेन फुडो करून तो उकत्या पांयांनी उबो आशिल्लो. सदळ जावन देंवता अशे ताणें पॅण्टीचेर काळे लोळकें अशें मातयेच्या रंगाचें खोमीस घाल्लें. ताणें केंस आदलेभशेनच उदक लावन फाटलेवटेन वळोवन घेतिल्ले. कुशीक काडून दवरिल्ल्यो ताच्यो व्हाणो पळोवन किशोरबाबू अजापलो. ताच्या लांबचे लांब पावलांक क्वचित केन्नातरी पुराय येवपी लांब व्हाणांमदली फक्त एक अर्दीच उरिल्ली जाल्यार दुसरी दोन तृतियांश.

आज बनवारीक पळोवन किशोरबाबूक परत एक फावट त्या व्हाणांचो उगडास जालो. बनवारी गेल्या उपरांत कांय म्हयन्यांनी एक दीस आईन किशोरबाबूक म्हणिल्लें, भिवानीकसान तांगेर येवपी एका आदल्या पंडितान बनवारीक कोलकातांत बस कंडक्टराचें काम करताना पळयिल्लो. पंडिताच्या म्हणण्याचेर आईचो विश्वास बसलो ना. तेन्ना किशोरबाबून त्या दिसाचें वर्णन आवयक सांगलें. "तरीच बनवारीच्यो व्हाणो तसल्यो आशिल्ल्यो. कंडक्टरपण करतां करतां खोंटीकडलो भाग झरून तुटला. सवाय व्हाणो चड तेंप तिगनात."

ही गजाल आयकून आई सेगीत तीन दीस रड रड रडली. किशोरबाबूक खूब दुख्ख जालें. संवसारांत तो आनीक कितेंय सोसूंक शकत पूण आवयचें रडप ताच्यान सोंसपाक जायना. हे एकेच गजालीचे बाबतींत मात आयुश्य ताच्यांच बदल घडोवंक शकलें ना. पूण वाडटे पिरायेवांगडा आवयमदें मात हें नवें परिवर्तन घडून आयिल्लें. हे आदीं आयुश्यांतल्या सगळ्या दुख्खांनी तिका रडयलें ना. आतां मात एखादी गजाल मनाक लागली जाल्यार ती दिसांचे दीस रडत रावता. ती म्हणटा, "कितें करूं? म्हाका फाटलीं-फुडलीं सगळीं दुख्खां याद जायत रावतात." बनवारीच्या संदर्भांत आवयच्या दुकांक असो हुंवार येतलो हें किशोरबाबून केन्नाच चिंतूंक नाशिल्लें. पूण आपल्या चल्याची ही हालत पळोवन जावेच्या आत्म्याक कितले कश्ट भोगतात आसतले ह्या चिंतनानीच आवयचीं दुकां थांबनाशिल्लीं. वयर वतकच 'व्हडलो बाबू' आनी 'धाकलो बाबू' हांच्या रगताची ही दुर्दशा घडटा ताची जाप ती तांकां कितें दितली?

त्या दिसाखातीर बनवारी आज्ज कितें म्हणटलो? कानतुटकें कोप धरून च्या पिता आसताना किशोरबाबू येवजितालो. आनी गिरीश दास? बनवारीन हें नांव आपणाक कित्याक घेतलें? मारवाडी म्हणून जगप ताका शक्य नाशिल्लें? आपणाल्या बापायची ही हकिकत सुमित जाणां? ताणे सुमिताकडेन पळयलें. तेन्नाच बनवारीन सुमिताक सांगलें, "म्हजो व्हडलो भाव. तुजो काका."

बनवारीचे बायलेन दारा आडसाक रावन हें आयकलें आनी चट करून येवन तिणें बंगाल्यांभशेन ताच्या दोनूय पांयांक हात लावन ते आपल्या माथ्याक तेकयले. किशोरबाबून तिका अंतस्कर्णांतल्यान आशिर्वाद दिले. पांयांक हात लावपाक फुडें सरतल्या सुमितावटेन स्नेहान पळयत ताणें म्हळें, "पळय, रगताचे उलो आमचे पिळगेक आयकूंक आयलोना जाल्यार कितें जालें, फुडले पिळगेमेरेन ताचो साद गाजत उरतलो. सुमिताक पळयनाफुडें म्हाका जाणवलें, हो म्हजोच कोणतरी आसूंक जाय. हावें येवजिल्लें, घडये हो म्हगेलो बंगाली इश्ट शांतनूचो चलो आसूंये. म्हज्या शाळेंतलो इश्ट शांतनू, जाणा न्हय तूं?"

बनवारीन हयकार दाखोवपाक तकली हालयली आनी म्हळें, "तोच न्ही सुभाषबाबूचो निष्ठावान आनी कुड्डो भक्त आशिल्लो तो?" हाजेर ते दोगूय खळखळून हांसले. ह्या एकठांय हांश्यान तांचीं मदलीं सगळीं वर्सां गिळून वडयिल्लीं आनी तांकां शाळेच्या संवसारांत व्हरून सोडिल्ले. "तुंवूय म्हणून, भाई, शाळेंत आसताना ताचोच चेलो जाल्लो. सगळ्यांक कितलो हुस्को जातालो तुजो? याद आसा तुका, एकोणिसशें पंचेचाळीसांत जेन्ना आजाद हिंद फौजचे ऑफीसर शाहनवाज-धिल्लाँ-सहगल हांचो देशबंधू पार्कांत सत्कार जाल्लो तेन्ना तुवें शाळेंतल्या सगळ्या भुरग्यांचें फुडारपण केल्लें आनी तांकां घेवन तूं मिरवणुकेन देशबंधु पार्कांत आयिल्लो. याद जाली?" बनवारीन विचारलें.

"देशबंधू पार्कांत गेल्ले काय देशप्रिय पार्कांत? याद जायना. त्या दिसांनी मॉन्युमेंट वा ब्रिगेड परेड ग्रावंडार सभा जायनाशिल्ल्यो. उत्तर कोलकातांत देशबंधू पार्क आनी दक्षिणेंत देशप्रिय पार्क. कितें दीस ते तेन्नाचे! आतां दिसता, खरी जीण ती तीच. तेउपरांत आतांमेरेन आमी फकत जिणेचें मडें ओडीत व्हरतात. सगळी जीण एके बेहोशींत गेली. मदल्या ह्या वर्सांनी सगळेंच धुकें जाल्लें. बायपास सर्जरी जाल्या उपरांत कशें कोण जाणा, पूण त्या पोरन्या दिसांनी पावलों हांव. तूं म्हाका मेळपाक आयिल्लो तेन्ना तुजेकडेन कितलो वायट वागलों हांव. पूण हांव शाबुद्दीर नाशिल्लों रे. तशेंच समजून भोगशीय म्हाका."

कितलो विचित्र योगायोग हो! जिवीत लेगीत कसले-कसले खेळ खेळटा. किशोरबाबूक केन्ना केन्ना दिसता, ह्यो सगळ्यो घडणुको एखाद्या प्रचंड आनी ध्याना मना नाशिल्ल्यात येवजण्याप्रमाण घडून येतात. पूण त्यो घडपाखातीर जिणेच्यो लेगीत त्या मनशाकडल्यान कांय मागण्यो आसतात. मनशान जिणेच्यो ह्यो मागण्यो मान्य केल्यो जाल्यारच अशें जावं येता. डमडमवालो पंडित गेल्या उपरांत बरोच वेळमेरेन किशोरबाबू लवंडिल्लेकडेन येवजित रावलो.

ताका परतून बनवारीक मेळपाक वचपाक जाय. सुमित माळ्याची नोकरी करता.

ताका कसलेय बरेशे नोकरेक लावपाक वा धंदो घालून दिवपाक जाय. पूण ताकाच वचचें पडटलें बनवारीच्या घरा. ताका आनी ताचे बायलेक तो ह्या घरांत आपोवपाक शकना. तांकां कोणे मान दिलो ना वा तांचो आदर राखलो ना जाल्यार ताच्यान तें सोसूंक जावचें ना. पूण केन्नाय जर बनवारीन म्हळें, तूं सदांच कानतुटक्या कोपांतल्यान च्या पियेत रावतलो? केन्नातरी आपल्या घरा आपोवन 'बोन चायना' चे क्रोकरींतल्यान वयनीच्या हातांतली च्या पिवयतलो काय ना? तेन्ना कितें सांगतलो? सांगूया, बाबा रे, तुवें येवपासारखें म्हजें घर ना. पयलीं हांवूय नाशिल्लों. हेखातीर आयलों ना. तुकाच पिवोवची पडटली म्हाका च्या. किशोरबाबूच्या मनांत आयलें एक बरोसो टी सेट विकतो घेवन ती भेटवण म्हण घेवन वचचें? पूण मागीर ताका भिरांत दिसली. असली गजाल बनवारी आनी म्हजेमदीं येवपाक फावना. टी सेट सुमित आपूणच विकतो घेतलो.

"आई, आतां तरी तूं खोशी जाली न्हय?" किशोरबाबून मनांतल्या मनांत सर्गांत पाविल्ले आपले आवयक विचारलें आनी कूस परतून आवयच्या पांयजेलाक पळयलें. आनी शांतनू! शांतनू खंय आसतलो? ताचोय सोद घेवपाचो आसा किशोरबाबूक. एकतीस डिसेंबराचे ते सांजवेळासान किशोरबाबू सारको शांतनूवांगडा आसा. पयलीं शांतनूचो सोद घेवपाक जाय आनी मागीर अमोलकाचो. त्या दिसांनी त्या लोकांनी चिंतिल्लें तरी आसतलें, एक दीस असोय येतलो ज्या दिसा तांकां तांच्यांतले दुसरे दोगूय जिते आसात कांय ना हेंवूय खबर आसचें ना?

अस्वस्थ करपासारको हो विचार तकलेंत येता थंय आसा, इतल्यांत किशोरबाबूच्या स्मृतीविश्वांत एक घडणूक घडली. हांगां कथालेखकाक एक भिरांत आसा, ती म्हळ्यार हे घडणुकेकडेन फकत एक उपक्रम म्हण मानुं -येता. पूण हें कशें घडलें हें किशोरबाबूकच खबर आसा. अचकीत किशोरबाबूच्या मेंदवाचे थर छेदीत आनी भेदीत त्या सांजवेळा ताची ती याद परत आयली जी तो एक जानेवारीचे रातीं न्हिदेंत न्हीदता-उठटाना परतून-परतून सोदतालो. किशोरबाबू ती गजाल विसरिल्लो तरी कशी? आपणाल्या इश्टांवांगडचो तो करार अखेर कसो विसरूं येता? किशोर, शांतनू, अमोलक हे त्रिमुर्तिचो तो करार आशिल्लो - एक जानेवारी एकोणिसशें चाळीसांत केल्ली ती कबलात. एक जानेवारी एकोणिसशें पंचविसांत त्या तिगांयचो जल्म जाल्लो हो एक संयोगच. तांचे इश्टागतिचे सुरवातिची बुनयाद घडये हीच आसुंये.

पंदरा वर्सांचे पिरायेर त्या तिगांयनी अमेरीकन कथाकार ओ हेन्रीची एक कथा वाचिल्ली - 'आफ्टर ट्वेंटी ईयर्स' (वीस वर्सां उपरांत) ते कथेंत आसतात दोन इश्ट. ते दोगूय एकामेकाक उतर दितात, वीस वर्सां उपरांत ते खंयूय आसूं, जर जिते उरले तर त्याच रेस्टोरंटांत एकाचबरोबर रातचें जेवण घेवचें, जातूंत ताणीं निमाणें जेवण घेतिल्लें. वीस वर्सां उपरांत थारायिल्लो वेळ आनी थळार वाट पळयत राविल्ल्या इश्टाक दुसरो इश्ट जेन्ना मेळपाक येता तेन्ना ताणें पेटयिल्ल्या सिगाराच्या उजवाडांत पयल्याच्या, तो पुलीस अधिकारी आशिल्ल्यान, लक्षांत येता, ब-याच तेपासावन पुलीस जाच्या सोदांत

आसात असो तो कुख्यात गुन्यांवकारी आसा. तो आपल्या जाग्यार साद्या कपड्यांतल्या दुस-या पुलीस ऑफीसराक धाडून ताका अटक करता. हो दुसरो ऑफीसर त्या गुन्यांवकारी जाल्ल्या इश्टाक एक चीट दिता जातूंत ताच्या पुलीस इश्टान पुराय परिस्थितिचें कथन करून ताचेकडेन कबलातिची पुर्तता करपाक मेळना म्हण आपली मजबूरी वर्णन केल्ली आसता.

ओ हेन्रीच्या हेर कथांप्रमाण हे कथेंतलो चमत्कारीक शेवट आनी कथा सांगपाचे शैलीन त्या तिगांकूय अशे भारावन वडयले, शांतनूचे तकलेंत एक कल्पना येवजली. 1 जानेवारी 2000 ह्या दिसा त्या तिगांयच्या जिवितांतलीं पंच्यात्तर वर्सां वांगडाच पुरीं जातलीं. वांचून उरले जाल्यार त्या दिसा त्या तिगांयनी एकठांय मेळून भारतीय परंपरेप्रमाण एकठांय संन्यासाश्रमावटेन पावली कित्याक मारची न्हय? ओ हेन्रीचे कथेंत ते दोगूय इश्ट ज्या रेस्टोरंटांत मेळपाचे आशिल्ले, तें वीस वर्सांनी एका लोखणाच्या सामानाच्या दुकानांत बदलिल्लें आसता. तेखातीर किशोरान असो प्रस्ताव दवरलो, व्हिक्टोरीया मेमोरियांलांतले म्हाराणी विहेक्टोरियाचे म्हुर्तीमुखार वा ती थंय उरली ना जाल्यार, त्याच जाग्यार साठ वर्सां उपरांत तिगांयनी मेळपाचें.

थंय तर आतां म्हाराणी विहेक्टोरियाचे म्हुर्तीच्या जाग्यार महर्षि अरविंदाची म्हूर्त आयल्या. किशोरबाबूचे आतां तकलेंत आयलें. भुरगेपणांत केल्ल्या जायत्या संकल्प आनी आदर्शांप्रमाण हो करारय किशोरबाबूचे तकलेंतल्यान शेणिल्लो. आपल्या इश्टांकडेन केल्ल्या करारांची याद उरपाखातीर तर देवान ताका ही दुखापत घडोवंक ना मूं? शांतनू आनी अमोलकाक हो करार याद उरतलो काय? किशोरबाबूक दिसलें, अवश्य उरतलो. उरचो ना अशें जावपाकूच शकना. शांतनू आनी अमोलक ज्या देवाक मानीना - वा धरूया आतां मानपाकूय लागल्या आसतले, तर तो तांकांय बी ताचेभशेनच याद घडयतलो. कशेयभशेन. मनशाक याद उरप वा ताची स्मृतीभश्ट जावप हें निमाणे ताचे इत्सेचेरच निंबून आसा.

किशोरबाबूक आजूय बी तो दीस तारखेसयत जशाचो तसो याद आसा, जे राती संकश्टांच्या अथांग दर्यांत वुचकळटल्या-वुडटल्या शांतनूक लागून तो रातभर न्हिदूंक पावना. जुलय म्हयन्याचो तो दुसरोच दीस आशिल्लो न्हय?

□□

# 10
# 2 जुलय 1940

2 जुलय 1940. किशोराचे तकलेफाटल्यान आयिल्लें गूठ आज खूब सणसणटालें. दीसभर रस्त्याचेर भोंवत राविल्ल्यान जाल्ले तकालसीन लेगीत ताका न्हीद येना जाली. तो परत-परत गूठाक हात लावन पळयता. ताचे तकलेंतल्या चिंतपाच्या आनी येवजुपाच्या नाडयांकडेन त्या गुठाचो कितें संबंध आसा? आड पडिल्लेकडेन जेन्ना तो चड चिंतूंक लागता, तेन्ना ताका तें चड सणसणूंक लागता. तो हांगां-थंय भोंवत आसता, कितें ना कितें करीत आसता तेन्ना बरो आसता. अशें दिसता, ह्या गुठांत भरून ओतता इतली उर्जा आसपाक जाय. ह्या दिसांनी लायब्ररींत वतां म्हण आईक सांगून किशोर सांजवेळचो रस्त्याचेर वरांचीं वरां भोंवत रावता. हे तरेन बंजारे आनी फकिरांभशेन रस्त्याची धूळ झाडपांतूच ताची मुक्ती आस्पावल्या.

ताच्यो नव्यो व्हाणो सामक्यो झरल्यात आनी दोन फावटीं त्यो शिवून हाडल्यात. चलताना ताका पुरोय जायना आनी एकलेपणय जाणवना. ताका भितरल्यान कोणतरी दुसरोच चलयता. कितल्याशाच जाणांक तो खुमण्यावयल्यान वळखुपाक लागला आनी कितलेशेच लोकय ताका वळखुपाक लागल्यात. चड करून रस्त्याचेर हें ना तें विकपाक भोंवपी फेरयेवाले, चिरमुल्यो-चिरमुल्यांचे लाडू विकपी, आयदनां विकपी, लातां-फोलीणां विकतें घेवपी-दिवपी, भाज्जेचो पाटलो घेवन सादोवपी, माकडाचो वा कठपुतळीचो खेळ दाखोवपी आनी ताचेभशेन उद्देश नासताना भोंवपी अशा कितल्याशाच दादले तशेंच बायलांक तो वळखूंक लागला. कितलेशेच अशे लोक - जांचे आवय वा बापायवटेनचे खंयचेय पिळगेंतलो कोणूय युरोपियन आसूं येता, मुसलमान, फकीर, चिमटो घेवन भोंवपी कानफाटो जोगी, च्याच्या कोपांचे फुटके कुडके घेवन वाजयत गावपी कोणतरी, कांय पिशे, हिंदू-मुसलमान एकवटाचेर भाशणां दिवपी तिरंगी झेंडो घेवन भोंवपी फकीर.

कांय फावटीं किशोराक दिसता तकलेचें गूठ हें वगीच निमित्त कशें. तशें पळोवपाक गेल्यार तरातरांचीं कामां करतल्या वा बेकारपणांत वेळ सारतल्या लोकांक पळयत भोंवताना ताका जी खांस जाता ती ताका आनीक कितेंच करून मेळना. पूण आतां तो शांतनूबरोवर

खंय वचपाक मात अजिबात तयार ना.

फाल्यां सुभाषबाबू हॉलवेल मान्यूमेंट काडपाक फुडें सरतलो. शांतनून ताका आज शाळेंत विचारिल्लें, फाल्यां तो ताचेबरोवर येतलो काय म्हण. किशोर कितेंच सांगपाक शकलो ना. 'हां'य ना आनी 'ना' य ना. तो वचपाक शकना हें सत्य. फाटले खेपेचें संकश्ट आजूनय ताची फाट सोडीना. कोण जाणा, तकलेचें हें फाटलें गूठ फुडाराक जीव घेवपी एखाद्या दुयेंसांतय बदलत! खूब फावटीं केंस वळयताना थंय हात लागतकच ह्या चिंतनांनी तो भियेता. आपूण मरतकच आपले आवयचें कितें जातलें हीच ताका भिरांत आसा. मारवाडी हे भित्रे आनी दुबळे अशें शांतनून कितलेंय म्हणूं, पूण तो तांचेबरोबर वचपाचो ना. वेल्यान त्या दिसा शांतनूवांगडा गेल्ल्याची आपली चूक आतां ताका जाणवता पूण तो करतलो तरी कितें? ताचेर कसल्या कसल्या गि-यांची वायट नदर आसा म्हण कळना. शाळेंत येतकच ताका एकेवटेन सू जाता आनी दुसरे वटेन शाळेंत ताचेविशींची उणाकपणाची भावना.

शांतनू आनी अमोलक शिकपांत ताचेपरस बरेच फाटीं. पूण भायल्या संवसाराचें गिन्यान मात तांकां खूब आसा. तांच्या दोळ्यांत देशाखातीर, समाजाच्या फुडाराखातीर कितलीं सपनां आसात! ताचेकडेन कसलें सपन आसा? कशेय भशेन मामा लोकांच्या उपकारांतल्यान सोडवणूक करून घेवन आपणाल्या कुटूंबाखातीर दाळ रोटीची सोय करप? व्हडल्या मामान सांगलां, सुटयेच्या दिसा हरिसन रोडावयल्या दुकानार बस म्हणून. पूण ताका मात दीसभर रस्त्यावयल्यान हेडपाची इत्सा आसा.

व्हडलो मामा आईक सांगता, "आतांसावन कामधंद्यांत लक्ष घाल्यार किशोर इबाडपाचो ना. संवसारांत वायट वारें व्हांवपाक लागलां. माथ्यार बापायची-भावाची सांवळी ना. आपणाल्या मनाक दिसता तसो चलपाक लागलो जाल्यार मागीर तो ताब्यांत उरचो ना."

मामाच्या हुकमाआड वचप ताका जमपाचें ना वा आईकय जमपाचें ना हें किशोर जाणा. व्हडलो मामा म्हळ्यार दुर्वास मुनीचो अवतार. धाकल्या भावाची कसली चूक भोगशीना थंय ताचें कितें चलतलें? आख्खो दीस तापयत रावतलो दुकानार. दुसरो कितें उपायच ना. दुकानार बसना म्हटलें जाल्यार दुसरें करतलो तरी कितें?

पूण फाल्यांचें कितें करपाचें? शांतनू सकाळीं आठांक राममंदिरामुखार येतलो. ताचेबरोबर ना वचपाचें निमित्त तरी कितें करूं येता? आपणांक येवपाक जमचें ना अशें कालूच कित्याक सांगलें ना? आपणाल्या सुवार्थाक लागून आपूण वेडयो घाल्ले भारतमातेसंबंदीं कांयच करपाक शकना हेंच प्रमाणीत करपाक तो त्या दिसाय शांतनूवांगडा गेल्लो.

तकलेक दुखापत जाल्या उपरांत तो अमोलकाच्या गजालींवटेन ओडून गेलो. अमोलकान ताका सांगिल्लें, फांशीचेर हुमकळावचे पयलीं रामप्रसाद बिसमिल्लानय देशाच्या तरनाट्यांक हेंच सांगिल्लें, क्रांतिकारी दलांचो मार्ग योग्य ना. अमोलक म्हणटा, गांधीजीचे विरोधक समजतात तेप्रमाण अहिंसा आनी सत्याग्रहाचो मार्ग म्हळ्यार भित्र्यांची आनी आपणालें

भित्रेपण लिपोवपाची नीत न्हय. वयल्यान ते एका खोल आत्मीक शक्तीचे मार्ग आसात.

एकोणिसशें अठ्ठाविसाच्या कॉंग्रेस अधिवेशनावेळार धव्या फुल्ल घोड्याचेर स्वार जाल्ली, बंगाल व्हॉलिंटियर्साच्या सैनिकी भेसांतली सुभाषबाबूंची छवी शांतनूचे तकलेंत अशे तरेन आस्पावल्या, तो सुभाषबाबूचें नांव घेतनाच उत्तेजित जाता. "अहिंसेचे वाटेन गेल्यार स्वातंत्र्य केन्ना मेळोवपाक जावचें ना. आधुनीक विज्ञानाच्या युगांत खंयच्यान हे पोरने, जिरजिरीत विटकुरे सिद्धांत घेवन गांधीजी आयल्यात, ज्या सिद्धांतांक लागून हो भारत वर्सांसंकिनी गुलाम उरला. विवेकानंदान म्हळां, 'बुद्धाक लागून भारतदेशाची दुर्दशा जाली आनी जेजूखातीर ग्रीक आनी रोमन संस्कृतायांची. वैदिक धर्माचे जे चार पुरूशार्थ - धर्म, अर्थ, काम, मोक्ष आचरणांत हाडप होच मार्ग योग्य आसा.' बंकीमचंद्राच्या 'आनंदमठ' कादंबरींतल्या संन्याशांवरी ब्रह्मचर्य आनी भौतीक सुखांचो त्याग करपाच्या ह्या मार्गावयल्यान चलून ह्या देशाक सुभाषचंद्र बोसच स्वतंत्र करपाक शकतले."

शांतनूचे विचार चुकिचे अशें किशोराक दिसना. ताचें स्वतःचें मन लेगीत ताका अशेंच सांगतां, एक फावट नेट लावन सगळें खणून मोखून मारपाक जाय. सत्याग्रह करप, वंदखणींत वचप - कितें जातलें असल्यांनी? दर फावटीं कसलें ना कसलें निमित्त सांगून गांधीजीनी आंदोलन आडायलां. मैलांचे मैल चलत दर्याचे देगेमेरेन वचून मीठ तयार करून कितें स्वातंत्र्य मेळपाक आयलां? हरिसन रोडावयल्या दुकानाभायर जर तो उपासाक बसलो जाल्यार मामा कितें ताका दुकानाच्या कामांतल्यान मेकळो करतलो?

स्वातंत्र्य हें आपलें बळगें वाडोवन झोमून हाडपाचें आसता. एखादो कोणूय भुकेन मरता आसत वा तो कांयच उलयनासताना बंदखणींत वचपाक तयार आसत जाल्यार कोण कोणाक स्वातंत्र्य दीत? भुरगेपणां हीं सामकीं. पूण कितें चिंतून म्हण हे लाखांनी लोक गांधीजींचे सांगणेचेर भरवंसो दवरतात तेंच कळना. आमी सगळे मरणाक भिवपी लोक म्हणून? इटालीचे मॅजिनी वा आयरीश क्रांतिकारकांचे भशेन धाडस आमच्या रगतांत ना? पूण शिवाजी, राणा प्रताप हे तर आमचेकडेनच जावंक नात?

लक्ष्मीचंद सद्दां शाळेंत येतना खाकी चड्डी घालून येता. ताणें आग्रो केलो म्हण एक दीस सक्काळीं वचून तो तांची कवायत पळोवन आयलो. 'नमस्ते सदा वत्सले मातृभूमे' ही तांची सामुहीक प्रार्थना आयकून खूब वरें दिसता. तांची लेझिम चलोवपाचो अभ्यास पळोवपासारखोच. मदलो मामाय मदीं थोडे दीस शाखेंत वतालो. पूण ताणें रोकडेंच सोडून दिलें. आई सांगता, जशे हिंदू तशेच मुसलमान म्हणून. हिंदू आपल्या धर्माक बांदिल्ले आसतात तशे मुसलमान आपल्या धर्माक. ल्हान आसताना किशोर एक फावट खूब दुयेंत पडलो तेन्ना नाखुदा मशिदीभायर बसून रावतल्या एका फकिराच्या आशिर्वादान आनी फुंकेनच ताका गूण पडिल्लो.

आई म्हणटा, "तुजी जीण ही त्या फकिरान दिल्ली देण. मुसलमान आपल्या धर्माचें जितले निष्ठेन पालन करतात तितले हिंदू करीनात. ते म्हयनोभर रोजा करतात. तांचेकडेन

आमी कितें म्हण झुजपाचें?" मदल्या मामाकय आईन घडये अशेंच कितेंय सांगिल्लें आसूंये तेन्नासावनच ताणें शाखेंत वचपाचें सोडून दिल्लें.

शांतनूच्यो गजाली आयकत जाल्यार किशोराक ताच्यो गजाली बरोबर दिसतात आनी अमोलकाच्यो आयकत जाल्यार ताच्यो. हिटलर आनी मुसोलिनीकडेन हात मेळोवणी करपाचें योवजिलें जाल्यार तातूंत सुभाषबाबू चुकिचें येवजितात अशें कित्याक म्हणचें? इंग्रजांचे दुस्मान तेच आमचे इश्ट जावपाक शकतात. पूण अमोलक म्हणटा, सुभाषबाबू 'फॅसिस्ट' शक्तिकडल्यान मदत घेवपाक सोदतात. ही ताकतीक करताना ते साधनांची शुद्धताय ही लेगीत एक व्हड गजाल आसा म्हणपाचें विसरतात.

'मारवाडी छात्र निवास' च्या वर्सुकी उत्सवानिमतीं एके वादविवाद कार्यावळींत विशय दवरिल्लो - 'अहिंसा कितली उपेगी, कितली नाकामी.' शांतनू आनी अमोलक दोगांयनी हातूंत वांटो घेवपाक नावां दिल्यांत. किशोराक खूब फावटीं दुबाव येता, ते दोगूय ताचेवांगडा विचार उकतायताना कार्यावळींत उलोवपाची प्रेक्टीस करतात. तो दोगांयचें आयकता आनी दोगांयचें उलोवणें विरूद्ध पक्षाकडल्यान आयकल्ल्या युक्तीवादान खोडून काडटा. अशे तरेन दोगांकूय आपले विचार खोडून काडपाखातीर दुसरो कितें उलयतलो हें कळून आयलें.

अमोलकान एक दीस किशोराक विचारलें, "म्हाका हरोवपाखातीर शांतनून जर हांव उलयता आसताना मायक बिगडावपाची वेवस्था केली जाल्यार तूं हें योग्य म्हणटलो?" किशोराक समजलें, साधन शुद्धतायेची गजाल समजावपाखातीर तो ताका हें विचारता. ताणें जेन्ना हो प्रश्न शांतनूक विचारलो तेन्ना शांतनून म्हळें, "तुका आपली म्हण मत आसा काय ना? अमोलक सांगता तें तूं पोपटपंजी करून कसो उलयता?"

पूण कितेंय आसूं, बंगालच्या हून रगताखातीर सुभाषबाबू सोडून आनीक कोण फुडारी आसूंकच शकना. किशोराक दिसता, दरेका देशाचे मातयेचो, वा-याचो एक गूण आसता आनी तशेंच दरेका मनशाचोय बी. ताका स्वतःक सुभाषबाबूंचेच विचार चड पटटात. तातूंत जोश आसा, संघर्शाक वाव आसा. अमोलक आनी सोहन मुंधडाभशेन किशोर चरख्याचेर सूत कांतपाचो विचारय करपाक शकना. ते दोगूय इश्कोलांत सूत कांततात. हाचेपरस सगळ्या इंग्रजांक मारून धांवडावप चड बरें. किशोर ह्या दिसांनी आपलें आरोग्य घटमूट दवरपाखातीर दंडा-बैठको काडपाक लागला आनी अर्जून ठाकुराचे व्यायामशाळेंतय वचपाचें येवजिता. थंय जपान्यांभशेन आपणाली राखण करपाचें शिक्षण दितात. जुजुत्सू कांय अशेंच कितेंतरी नांव आसा ताचें. सांजवेळचें हेवटेन तेवटेन भोंवून-हेडून जंय हें सगळें शिकयतात ते जागे ताणें सोदून काडले. शाळेंत बास्केट बोल खेळाचे टिमीतय ताणें आपलें नांव दिलां. ताका आतां आपले कुडींत बळ हांडपाचें आसा.

अमोलकान ताका सूत कातपाक शिकोवपाचो यत्न केल्लो पूण मामाचें नांव सांगून तो फाटीं सरिल्लो. मामाचें कपड्यांचें दुकान आसा आनी तातूंत इंग्लीश मिलींतलेच कपडे

विकतात. “आपणाल्या पोटार खोंट मारून आमकां देशसेवा करपाची ना रे बाबा.” व्हडलो मामा म्हणटा. “नाजाल्यार आमी आमचो देश सोडून हांगां थोडेच येवपाचे. ह्या इंग्रजांक धांवडावपाचो एकूच मार्ग आसा - दर एका हिंदुस्तानीन एका इंग्रजाक जर मारलो तर सगळे इंग्रज एकाच दिसांत काबार जातले.”

मामाच्या ह्या उतरांनी किशोराक खूब तीडक येता. आपणे स्वतः कितें करप-सवरप ना. आपलें सोडून आनी कितें करपाक फुरसतच ना. वयल्यान व्हडल्यो वडायो! फकत इतलेंच करपाचें, दुकानात गांधी-नेहरू-बोस हांचीं पांयजेलां हुमकळावन दाखोवपाचीं. एक फावट धाडस करून ताणें मामाक म्हळें, “मामा, म्हजो इश्ट अमोलक सांगता, आमच्या देशाक सूत कातपाच्या आनी कपडे विणपाच्या कारणांक लागूनच भांगराचें सवणें म्हणटाले. हांगाच्या तलम कपड्यांक इतली मागणी आसताली, युरोपाचे वेपारी भांगरा-चांदिच्या बदलांत ते विकते घेताले. वगीच न्हय गांधीजी चरखो चलोवंक सांगताले.” मामामुखार तो पयलेच फावट इतलीं वाक्यां एक दमांत उलयतालो. मामा अजापलो आनी ‘बरें आसा’ म्हण तो चिंतपाक पडलो. पूण किशोराक खबर आसा खुद्द ताचो विश्वास ना. चरखो चलोवन स्वातंत्र्य मेळटलें काय इंग्रजांचे काकुळटेन मेळिल्लें सरकार स्वातंत्र्य हाडटलें हाचेर!

क्रांती ही काळाची मागणी आसा. किशोर इतिहासाचे आपणाले अध्यापक रघुनंदन मिश्राचे आवडटे कवी बाळकृष्ण शर्मा ‘नवीन’ हांच्यो वळी गुणगुणटा - “आओ क्रांति बलाएँ ले लूं। अनाहूत आ गयी भली। वास करो मेरे घर आंगन। विचरो मेरी गली-गली।” (यो गे क्रांती, दीश्ट तुजी काडटां. अनाहूत आयली बरी, राव म्हज्या आंगणांत - घरांत. भोंव म्हजे गल्ली-गल्लींत.)

म्हणणीच आसा, मोर नाचता, पूण आपल्या पांयांकडेन पळयतकूच ताका रडपाक येता. क्रांतीच्यो गजाली करप सोपें पूण ताचो प्रयोग करप किशोराक कशेंच शक्य ना. शांतनू ताका व्हरपाक येतलो तेन्ना तो ताका कितें सांगतलो? ताका अशें सांगचें, आईक कडकडीत ताप आयला आनी तिका एकली सोडून येवपाक ताका जमचें ना? अशेंच कितेंतरी सांगचें पडटलें. हो निर्णय घेवन किशोर न्हिदपाक गेलो.

सकाळीं णव वरांचेर शांतनून उठायलो तेन्ना तो न्हिदेंतल्यान जागो जालो. शांतनूक पळोवन तो धवो फटफटीत पडलो. आवयच्या दुयेंसाचें निमित्त ताका आतां सांगपाक जालें ना. “रातभर न्हीद पडूंक ना शांतनू. हेखातीर सकाळीं जाग आयली ना. धा मिनटांभितर तयार जावन येतां.” किशोरान सांगलें. शांतनूचें मुखामळ पडिल्लें. “खंय वचपाचें ना किशोर. रातभर हांव न्हिदूंक ना. हांगां येवचेपयलीं खबर मेळ्ळी, सुभाषवावूक तांच्या घराकडेनच अटक केल्यात म्हणपाची. म्हाझूज सुरू जालां आनी इंग्रज आतां कसलोच धोको स्विकारूंक पळयनात.” किशोराक काळजांतल्यान सू ऽ जालें. आज देवाच्या आनी आईच्या आशीर्वादाक लागूनच ताचो जीववांटावलो.नाजाल्यार कितें जावपाचें कोण जाणा!

किशोराची आई शांतनूखातीर सुहाली आनी दुदाचें कॉप घेवन आयली. "घे बाबा, सकाळीं घराकडल्यान कितें खावन भायर सरील्लो म्हण कोण जाणा." शांतनून उपकारी भावनेन कॉप धरलें. आई भितर वतकच ताणें म्हळें, "किशोर, तुजे आईभशेन म्हाका आई मेळिल्ली जाल्यार संवसारांतली व्हडांतली व्हड संपत्ति हांव तिचेवयल्यान उंवाळून वडयतलों आशिल्लों. साक्षात दुर्गामाता."

शांतनूक आवय ना. ताचो बापूय डॉ. राय हो दातांचो दोतोर. ताचें भव्य व्यक्तिमत्व पळोवन किशाराकय दिशिल्लें, आपणालोय बापूय असोच आशिल्लो जाल्यार! चौरंगींत ताच्या घराकडेन साहित्यिक आनी राजनीतीक लोकांचें जमप जाता. शांतनूक सगळें सहजतायेन मेळ्ळां. थंय वचून पळयतकच किशोराक ताचो दुस्वास दिसपाक लागता आनी ही गजाल तो शांतनूक सांगूनय मेकळो जाला. पूण शांतनून मान घुंवडावन ताची ही गजाल फांफडून वडयली. शांतनूचे विचार बापायच्या विचारांकडेन जुळनात. तो आपल्या बापायकडेन आनी बापायम्ह-यांत येवपी तरातरांच्या लोकांकडेन तिरस्कारान पळयता. "ह्या लोकांक आपली म्हण अशी मत ना. सगळीं बिनबुडाचीं बावलीं. केन्ना ह्या पक्षावटेन उलयतले जाल्यार केन्ना त्या पक्षावटेन. असलेच लोक देशाच्या स्वातंत्र्याखातीर चड धोक्याचे आसतात. ब्रिटीश साम्राज्याचो विरोध करपी कसलीय विचारधारा आसूं, हे तांचेच वटेन उलयतले. केन्ना गीतेंतलें सांगतले तर केन्ना बायबलांतले. केन्ना गांधींचे वटेन, केन्ना फॅसिस्ट इटाली पक्षावटेन तर केन्ना साम्यवादी रशियाचे वटेन. ते दरेका पक्षाचेवटेन आसतात आनी दरेका विरोधी पक्षाचेवटेन लेगीत."

किशोराच्या मतान शांतनूच्या बापायविशींची सगळ्यांत व्हडली कागाळ सुभाषबाबूखातीरच आसा. एक दीस चर्चा करताना जेन्ना थंय किशोर आशिल्लो तेदेवेळार डॉ. रायान म्हळें, "सुभाषबाबूंचे देशभक्तींत म्हाका कसलोच दुबाव ना. पूण वैयक्तीक नदरेन पळयल्यार सुभाषबाबू अधिक म्हत्वाकांक्षी आसात. सगळीं सुत्रां आपल्या हातांत उरचीं हो तांचो आंवडो आनी हेचखातीर गांधीजींक तांचो मुळांत विरोध आसा."

हें आयकून शांतनूक सण्ण जालें. ताका हें आवडलें ना. ताचेर प्रतिवाद करीत चवताळून ताणें म्हळें, "सुभाषबाबून सिविल सर्विसेची इतली व्हड नोकरी सोडली. चवथ्या नंबराचेर येवन लेगीत आपलो करीयर देशाक अर्पित केलो. भारतमातेखातीर ते ब्रह्मचर्यव्रत पाळटात आनी तुमी म्हणटात वैयक्तीक नदरेन ते खूब म्हत्वाकांक्षी आशिल्ले म्हण. हांव सांगतां तुमी सगळे ब्रिटीशांचे पिट्टू."

डॉ. राय शांतपणान हांसत रावलो. ताका मातूय राग येवंक ना हें पळोवन किशोर अजापलो. ताणे शांतनूक म्हळें, "हें पळय, तिडक सदांच मनशाचें नुकसान करता. आमी सत्यापासून पयस वचूंक लागतात. तुका हावें एक गुपीत गजाल सांगली जाल्यार तुंवूय म्हजी गजाल मानून घेतलो. गांधीजीन सुभाषबाबूक हरिपुरा कॉंग्रेसीचो अध्यक्ष हेखातीर केलो, सुभाषबाबूचे आवयन गांधीजीक चीट बरयिल्ली - ह्यावेळार सुभाष जर अध्यक्ष

जालो ना, जाल्यार तो दुखावतलो. सरदार पटेलान हरिपुरा कॉंग्रेसीच्या जायत्या जाणांक सांगिल्लें, बंगालच्या रसगुल्ल्याक निमाणे महात्म्यान अध्यक्ष केलो खरो."

बापायक आपणें ब्रिटिशांचो पिट्टू म्हणिल्ल्यान शांतनूक लज जावन तो आतांमेरेन सगळें वगी रावन आयकतालो. मागीर तो रागान उसळ्ळो, "हें सगळें फट आसा आनी ही निवळ अफवा आसा. गांधीजी आपणाली डिक्टेटरशीप चलयतात. आनी सुभाषबाबूच्या विरोधाचेर नाराज जावन ताणी सुभाषबाबूक दर एका जाग्यावयल्यान निखळावन भायरे केल्यात. आज सुभाषबाबू एकले पडल्यात तेन्ना तुमी लेगीत तांच्या विरोधांत उलयिल्ल्यो गजाली कानांनी आयकल्यात त्यो सांगतात." शांतनू उठून कुडींतल्यान भायर गेलो.

डॉ. रायान एक लांब सुस्कार सोडलो आनी म्हळें, "आमच्या शांतनूचें चरीत्र एकदम टीपिकल बंगाली. आपणाल्या हिरोच्या आड कसलीच गजाल आयकुपाची तयारी ना. हांव खंय गांधीचो भक्त आसां? पूण मनशान चिंतून आनी सगळें पळोवनूच निर्णय घेवपाचो आसता. सुभाषबाबू बंगाली आसलो म्हण कितें जालें, ताच्या चरित्रांत आमकां अवगूण दिसचे न्हय हें आमचें राष्ट्रप्रेम? नीरदबाबू म्हजो इश्ट, तो सांगतालो, तागेलो डिप्टी मेजिस्ट्रेट चाचा सांगतालो खंय, कालीदास बंगाली आशिल्लो म्हण. ताच्या नांवांत दास आशिल्लें न्हय? बंगाल्यांचें सरनेम दास आसता. एखादो 'मेडो' वा 'खोट्टो' इतल्यो ब-यो रचना करपाकूच शकना. आतां सांग, हें अशें जावं येता? गरजेभायर गोंदळ निर्माण करप, नाका आशिल्ल्या वादांत पडून तंटे घडोवन हाडप आनी मागीर भावुकतायेंत व्हांवून घेवन असल्या गजालींनी आपणाली सगळी मानसिक शक्त आनी प्रतिभा नष्ट करप हो आमचे जातकुळयेचो सभाव जावन पडला."

डॉ. रायाचे विचार आयकून किशोराक आकांताचें अजाप जालें. हेर सगळ्या प्रांतांत बंगाल्यांखातीर खूब आदरणीय भावना आसा. एका बंगाल्यानच आपणाले जातीची अशी टिका करप ही ल्हान गजाल न्हय. केदें धाडस लागता हेखातीर! पूण किशोराक खबर आसा, डॉ. रायच्या ह्या आत्मपरीक्षणाफाटल्यान तांच्या कांय पिळग्यांचो इतिहास लिपला. शांतनून ताका जायतें सांगलां. बडाबाजार लायब्ररीच्या सत्यपालजीनय ताका म्हायती पुरयल्या आनी कांय पुस्तकांय बी.

डॉ. रायचें कुटूंब कोलकात्यांतल्या त्या सगळ्यांत पोरन्या कुटूंबांमदलें एक जांकां 'रानां नितळ करपी जमीनदार' म्हण वळखतात. तीनशीं वर्साआदीं इंग्रजांनी सूतानटी, गोविंदपूर आनी कलिकताच्या तीन गावांमदल्यान गंगा न्हंयचे तडेर सगळ्यांत उंचेली सुवात आपल्या पयल्या नगराची थापणूक करपाखातीर वेंचून काडली, तेदेवेळार चडशें कोलकाता दलदल आनी रान आशिल्लें. हांगाच्या फोर्ट व्हिल्यम मेरेन व्हांवपी वा-यावरवीं मलेरीया, डेंग्यूसारक्या दुयेंसांनी मरपी लोकांच्या आंकड्यांक भियेवन इंग्रजांनी भोंवतणची दलदल आनी रान निवळ करपाक सुरवात केली. अठराव्या शेंकड्यांच्या मध्यामेरेन कलकत्ता फोर्ट विल्यमच्या अडीजशें एकर जमनीभितर यूरोपियन, आरमेनियम आनी

पुर्तुगाली ख्रिश्चनांच्या रावित्याचें ठिकाण जाल्लें. ताका 'गोरें शार' म्हण वळखताले. हाचे भायलेवटेन न्हंयच्या मुखाकडेन सादारण साडेतीन मैल उत्तरेकडेन 'नेटीव' वा 'काळें शार' वशिल्लें आनी ह्या दोनूय भागांक वेंगावपी 'मराठा खाई' आशिल्ली जी मराठ्यांच्या आक्रमणांतल्यान कोलकाताक वांटावपाक घडिल्ली.

उत्तरेच्या 'काळें शार' च्या रानांतले पट्टे विकते घेवपी ताल्लुकदार जमिनदार लोकांमदीं चडशे 'भांगरशेट' जातिचे लोक आशिल्ले जे इंग्रजांक सुती कपडे पुरोवपाचें काम करताले. डॉ. राय हांचें कुटूंब हांचेमदलें एक. ह्या कुटूंबांनी आपणाले जमनिचेर भोंवतणी भव्य म्हालांच्यो दाट वसत्यो केल्यो जेवरवीं तांकां भाड्याच्या रूपान एक व्हड रकम येणावळ म्हण मेळटाली. ह्या पोरन्या बंगाली कुटूंबांकडले अमर्याद संपत्तिची स्थिती अशी आशिल्ली, 1780 त जेन्ना एका कुटूंबाचो मुखेली शोभाराम बसाक मेलो तेन्ना ताचेकडेन कोलकात्यांतल्या बडाबाजारांत आशिल्ल्या सदतीस घरांभायर हजारांनी मोतयां, वज्रां, माणकां, भांगराचीं नाणीं, आनी सूत, मसाले आनी अफू हाणी भरील्ले गुदांव आशिल्ले. सुवेज, मुंवय, वसरामेरेन तांचो वेपार पातळिल्लो. सत्यपालजीन किशोराक सांगिल्लें, ल्हवू-ल्हवू करून आपणाभितरलीं झगडीं, आळसाय आनी भोगविलासाच्या कारणांक लागून ह्या सगळ्या कुटूंबांचेर अरीष्टां कोंसळ्ळीं. हे लोक निमाणे भाडेदार जावन उरले. 'रेन्टीयर' हे इंग्लीश उतर तांकां लागता.

शांतनूच्या कांय पिळग्यांचो इतिहास हो अशेच तरेचो, उपाट समृद्धतायेंतल्यान सामक्या रसातळाक पाविल्ल्याचो इतिहास. ताचे फाटल्यान ताच्या पणज्यांनी आपसांतले सर्तीक लागून त्या काळांत एका श्राद्धाखातीर आठ लाख रूपया खर्चिल्ल्याची काणी आसा. शांतनूच्या पणज्याची आवय कनुप्रिया हिच्या श्राद्धाचेर जाल्ल्या खर्चावयल्यान भावांमदें आपसांत चलतलो देमान्द - इंग्लंडाच्या प्रिवी कौन्सिलमेरेन पाविल्लो आनी ताचेखातीर हें कुटूंब नश्ट जायत गेल्लें. अशें म्हणटात, कनुप्रियादेवीच्या श्राद्धाचें जेवण जेवपाक कोलकाताकसान तीस मैल पयस आशिल्ल्या अंतरामेरेन वचपाखातीर कोणाच्याच घरांतले चुलीक उजो पेटलो ना.

ह्यो सगळ्यो अद्भूत गजाली वाचतां-वाचतां किशोराक आपणाले भिवानीचे हवेलीचो उगडास जाता. ख-यांनीच काय ह्या संवसारांत निर्माण, विनाश आनी परतून उदरगत अशें हें सृश्टीचें चक्र आसा? पोरन्यो पिळग्यो कितल्यो वदंता फाटल्यान सांडून वतात म्हण कोण जाणा. नव्या पिळग्यांक तांचे सांवळेंत जियेवचें पडटा. आपणाल्या भूतकाळांतल्यान तांकां पुराय मेकळीक मेळना. डॉ. रायच्या बंगल्याच्या विश्लेषणा फाटल्यान तांची आपल्या कुटूंबाची गाथा आसा.

कनुप्रियादेवीच्या श्राद्धाखातीर खणिल्लें तुपाचें एक तळें कोलकाताच्या तांच्या भग्न जायत चलिल्ल्या 'राजगृहा' चे फाटलेवटेन, जलकुंभीच्या निळ्या फुलांनी आनी पांचव्या पानांनी धांपिल्ले अवस्थेंत आजूय सांपडटा. बंगालांत सूर, सुंद-यो, ब्राह्मण, सोयरे आनी

वकिलांचेर आपणाली सगळी संपत्ति, भाटबेंस स्वाहा करून वडोवप्यांच्यो कितल्योशोच काणयो आसात. 'हरी घोष', 'गौरी सेन' अशीं कितलीशींच नांवां म्हणी आनी हुमाण्यांत आस्पावल्यांत. देखीक, कोणूय कितेंय मागपाक आयल्यार ताका म्हणटात - "तुमी कितें ह्या घराक हरी घोषाचो गुदांव समजल्यात काय कितें मेळटा तेन्ना मागपाक येवपाक?" वा "पैशे जाय न्ही मागीर वच कोणा गौरी सेनाकडेन."

शांतनूचो आजो कनुप्रियादेवीचो वंशज आसूनय आपणाल्या बापायच्या श्राद्धाची रूढी योग्य तरेन निभावपाक पावलो ना म्हण घराघरांनी तो टिकेचो विशय जाल्लो. तेखातीर ताणें आपूण जितो आसासर बंगालाक परतुचो ना म्हणपाचो सोपूत घेतलो आनी तो राजपूतानाच्या एका संस्थानांत आपल्या मामेभावाम्ह-यांत गेलो. उपरांत तो थंय दीवाण जाल्लो.

एक दीस किशोराच्या खूब आग्र्याक लागून शांतनू ताका उत्तर कोलकातांतल्या आपणाल्या बापायच्या महालाचे भग्नावेश दाखोवपाक घेवन गेलो. लोखणाच्या उंचेल्या दाराफाटल्यान, ताडाच्या उंच झाडांच्या खांदयांनी वेटाळिल्ली, गाडी वचपाच्या रस्त्यापेल्यानच्यान दिसपी ती भग्न वास्तू पळयताना किशोर रोमांचित जाल्लो. जाग्याजाग्यार कोंसळपी प्लास्टर, संगमरमरी माळ्याच्या हेवटेन-तेवटेन वाडिल्लीं झुडपां. तातूंतल्यान दिसून येवपी गरादी, पांखें, मनोरे आशिल्ल्या भारतीय-व्हिक्टोरीयन शैलीच्या अगडबंब खांब्याच्या म्हालाचें भव्य रूप. महालाच्या भायर कोर्टाची नोटीस लागिल्ली.

"तुका ह्या म्हालांत राजा-म्हाराजावरी रावचें अशें दिसना शांतनू?" किशोरान विचारिल्लें.

"ना, बिलकूल ना. हांव ह्या घरांत केन्नाच रावपाक येवंचो ना वा ह्या घराचो वांटोय मागचो ना. बापूय आपणालो वांटो सोडचो ना पूण हांव मात ह्या घरापासून मेळपी एक रूपयो लेगीत केन्ना वापरचो ना. म्हाका ह्या घराचो तिरस्कार दिसता." शांतनून उत्तेजित जावन सांगलें.

"पूण कित्याक?" अजाप दिसून किशोरान विचारलें.

"आमचेकडेन ही संपत्ति कशी आयली हें तुका खबर ना? ह्याच इंग्रजांच्या कुडक्यांचेर जगून. असल्या पयशांक आफडप म्हळ्यार काळसर्पाक आफुडिल्लेभशेन दिसता म्हाका. म्हज्या आज्याक लेगीत अशेंच दिसतालें." उलयतां-उलयतां शांतनू वगी रावलो. आपली स्थिती आनी आपले विचार येवजून किशोराच्या मनांत हीण भाव निर्माण जाले. कितलो सामान्य तो. येदे उंचायेफुडें सामको गिड्डो.

"तुमच्या कितल्या पिळग्यांचो इतिहास तुका खबर आसा?" किशोराक जाणां जावन घेवपाची इत्सा आसा. "तूं कितेंय म्हण पूण म्हाका मात हें मोह घालपासारखें दिसता. आनी म्हजी आई ह्या इतिहासाविशीं कितें सांगता ती गजाल सांगूं तुका?" आईचें नांव कानार पडनाफुडें शांतनूच्या चे-यावयले भाव बदलतात. ताच्या तोंडार एके तरेची

मोवसाण फांकता. किशोराक कळटा - कोणा एकल्याच्या ना जावपान आपल्या संवसाराची कितली उलथापालथ जाता. जशें आसपाक जाय तशें केन्नाच उरना. दर फावटीं मनशाचे भितर एक रिकामेपण उरता, जणूं काय ताच्या काळजाचो एक वांटोच कोणेतरी कातरून काडला.

"सांग न्ही, तुजे आईच्यो गजाली आयकुपाक म्हाका खूब आवडटा. ती सदांच योग्य तेंच उलयता." ताच्या हाताक धरून शांतनू महालाच्या भायर आशिल्ल्या तांबड्या शिमिटाचे बसकेर बसलो.

"आई सांगता आमी आमचो इतिहास ना करपाक शकनात. हेखातीर आमकां ताची लजूय दिसपाक फावना आनी आमी उदासूय जावपाक जायना. आमच्या पुर्वजांनी तांकां जें योग्य दिसलें तें केलें. आमकां जें योग्य दिसता तें आमी करचें. इतिहासांतल्यान मुक्त जावनच आमी बरेभशेन जियेवंक शकतलीं." आपल्या गजालींचो शांतनूचेर परीणाम जाल्लो ताणें पळयलें. शांतनूचो आजो आपली तिडक आनी घृणा आपणाल्या भुरग्यामदीं घालपाक शकलोना. पूण मरचेपयलीं त्यो भावना ताणें शांतनूमदीं घाल्यो हें बुदवंत आसूनय शांतनूक कळपाक पावलें ना. शांतनू आनी ताचो बापूय डॉ. राय हांचेमदीं ही घृणा जशी कि तें एक वणत कशी उभी रावल्या. ताका बापायचे सगळे विचार तडजोडवादी आनी नकली दिसतात. ताचेभितर एक उजो कसो भगभगता, जो कितेंय लासून वडोवपाखातीर अस्वस्थ आसा. आनीक कांय मेळना जाल्यार तो बापायच्या प्रेमाकच लासून गोबोर करीत.

"आनीक एक गजाल सांगूं शांतनू तुका?" किशोरान ताका नियाळीत म्हळें. "तुजो बापूय डॉ. राय जेन्ना ह्या संवसारांत आसचो ना तेन्ना तूं ब-याचशा गजालींखातीर पश्चाताप करतलो. ताच्यो जायत्यो ब-यो गजाली तेन्ना तुज्या ध्यानांत येतल्यो आनी हें दुख्ख तुका तुज्या आयुष्याच्या निमाण्या दिसामेरेन, निमतला घाटावयले मसंडेमेरेन सतायत रावतलें."

"पूण म्हाका जर न्हंयत बुडून वा दोंगरावयल्यान पडून मर्ण आयलें जाल्यार?" शांतनू मोठ्यामोठ्यान हांसपाक लागलो. "मागीर हांव निमतलामेरेन दुख्ख कसो करतलों?" किशोरानय ताच्या हांसपांत आपलो सूर भरशिलो.

शांतनूचो बापूय खूब खोलायेचो मनीस. किशोर खूब फावटीं चिंतता - ताणें दुसरें लग्न कित्याक करूंक ना काय? व्हडल्या मामाचें दुसरें लग्न जालां. कितली विचित्र गजाल ही! दुसरें लग्न करपाची ताका कसली गरज आशिल्ली? वहुवाजारवालीकडेन तर तो परतून वचपाक लागिल्लोच. आतां आनीक एके वायलेच्चें जिवीत कित्याक वरवाद करता? किशोरान पोरन्या नोकराकडल्यान, रघूकडल्यान आयकल्लें, नवी मामी आपूण जावन व्हाणो चडोवन मामाक वहूवाजाराक वचपाक तयार करताली. ज्या दिसा तो वहूवाजाराक वचनाशिल्लो, त्या दिसा आपूण जावन आपल्या हातांनी ताका घरांतूच

सो-याचें कोप हाडून पिवपाक दिताली. रघू म्हणटा, ती बायल खूब समजिकायेची.

पूण तिच्या आवयबापायन तिचें लग्न कित्याक म्हण बिजवराकडेन करून दिलें? बरीच सुंदर तर दिसता ही व्हडली मामी. आई म्हणटा, तिका दोट्टी मंगळ आशिल्लो, म्हळ्यार तिचो मंगळ इतलो खर आशिल्लो, लग्न जाल्याउपरांत रोकडीच ती विधवा जावं येताली. हाजेर एकूच उपाय म्हळ्यार तिचें लग्न कोणाय बिजवराकडेन करून दिवप. आमच्या मारवाडी लोकांचें जग म्हण अजापांचेंच कशें! आमी सदांच भिरांतेंत जगपी लोक अशें जें शांतनू म्हणटा तें बरोबर आसा.

डॉ. रायान दुसरें लग्न करूंक ना हाचेखातीर किशोराच्या मनांत ताचेविशीं आदर आसा. आज हे बसकेर बशिल्लेकडेन तो शांतनूक सामको ताच्या बापायम्ह-यांत व्हरून सोडटलो - किशोर आपल्या निश्चेवान उमेदी जालो.

“हें पळय शांतनू, तुज्या बापायन तुजेखातीर दुसरें लग्नय करूंक ना. केन्ना चिंतलां तुवें हेविशीं?” कांयशा संकोचान किशोरान विचारलें. लागींच खंयच्यातरी झाडाचेर मेस्त पक्षी ठोक-ठोक आवाज करतालो. किशोराचें काळीजय त्य आवाजाबरोबर धडधड करपाक लागलें. शांतनू खळखळून हांसलो. मेस्त पक्षी घडये भियेवन उठून गेलो.

“घुंवल्या काय कितें रे तुजी तकली? म्हजेखातीर करूंक ना दुसरें लग्न? माय डीयर, तुका खबर आसपाक जाय आशिल्लें, डॉ. रायाकडेन म्हजे आईखातीर दिवपाक अजिबात वेळ नासलो. लोकांचे दांत सारखे करून जातकच आपणाल्यो आवडी, रूची सगळें भागयताना ताणीं सगळो वेळ खर्चिलो जो ताणी प्रत्यक्षांत आपणालो जाणटो बापूय, आपली बायल, भुरगो हांकां दिवपाक जाय आशिल्लो.

“डॉ. राय आमच्या घराण्याचो इतिहास बरयता हें जाणां तूं? अडीजशें वर्सांपयलींचो इतिहास. आई आसतानाच ताचें हें काम चालू आशिल्लें. आमच्या घराण्याकडेन जुळिल्लो आसा कोलकाता शाराच्या इतिहासाचो सांधो. म्हज्या आज्याक ताचो तिरस्कार दिसतालो. आमच्या घराण्याचो इतिहास जॉब चार्नोकाचो कोलकाता शार वसचेपयलींचो इतिहास. तुका आयकुपाक आवडटा न्ही? जॉब चार्नोक कोलकाता वसचेपयलीं जेन्ना बंगालांत कोणाचोच आदार नाशिल्ल्यानं वणवण हेडटालो, तेन्ना हांगाचे थळावे जमीनदार राय-मुजुमदार, म्हळ्यार आमचे पुर्वज हाणी ताका आपणाले कचेरेंत आलाशिरो दिल्लो. ताणें आपणालीं कागदपत्रां आमचेकडेनच दवरिल्लीं. थंय सियालदहकडेन ‘बैठकखाना’ म्हण जो एक नांवाजतो विशाळ पिंपळाचो रूख आशिल्लो, त्याच झाडापोंदा बसून हुक्को पीत त्यावेळावयल्या आमच्या कुटूंबाच्या मुखेल्याकडेन इंग्रजांचे, आपली वस्ती खंय वसोवपाक जाय हेविशीं सल्ले उपदेश जाताले. उपरांत त्याच पिंपळाच्या झाडाचो लळो लागिल्ल्यान ताणें कोलकाता शार हांगां वसयलें.”

“ख-यांनीच? एका रूखाचे ओडीन? मोठो विचित्र मनीस आसपाक जाय. आनी देशी मनशाभशेन हुक्को पिवप?” शांतनूच्या गजालीनी अजापभरीत जावन किशोरान

म्हळें.

शांतनून तोंड वांकडें करीत उपरोधान म्हळें, "जरूर आशिल्लो जावंक जाय. देशी वायल लेगीत दवरिल्ली ताणें. तिच्या थड्यार ताणें गैर ख्रिश्चनाभशेन कोंब्याचो वळीय दिल्लो, जाका लागून ताचेर खूब आरोपय जाल्ले. पूण ह्या देशांत त्रास सोंसतां-सोंसतां निमाणें तो इतलो पिसावलो, तो आपल्या नोकरांक तांच्या ल्हान-ल्हान चुकींक लागून लेगीत चाबकांनी सोलून काडपाक लागलो. अशें करपाखातीर ताणें खास रातिचो जेवणाचो वेळ राखून दवरिल्लो म्हणटकच त्या लोकांच्या रडपाच्या आनी आड्डुपाच्या किंळांच्यांक लागून जेवता आसताना खेरीत संगीताची गरज भासनाशिल्ली."

"खंयच्यान मेळ्ळ्यो तुका ह्यो सगळ्यो खबरी? हांव मानपाकूच तयार ना. वगीच बातां मारता तूं." किशोरान विश्वास बसना जावन म्हळें.

"कितें विचित्र रे तूं. 'मेडो' भशेन उलोवं नाका. इव्हान कॉटन नांवाच्या एका इंग्रजांनूच बरयिल्ल्या पुस्तका वयल्यानूच सांगतां हांव. 1909 त उजवाडाक आयलां हें पुस्तक. डॉ. रायकडल्यान घे आनी वाच. ताचेकडेन आसा तें. पान नंबर णव. जालें?" शांतनून हांसत सांगलें.

शांतनू आपल्या बापायक 'बाबा' म्हणीनासताना डॉ. राय म्हणटा हाचो अर्थ डॉ. रायसंबंदिच्यो ताच्यो धारणा बेगीन सुदारपाच्यो न्हय हें किशोराच्या लक्षांत येता. घराण्याचो इतिहास त्या दोगांयमदीं दुधारी तलवारीभशेन तर उबो रावचो ना मू? किशोर उदास जालो.

"कितें जालें किशोर? 'मेडो' म्हळें म्हण रागार? तुका राग येना म्हण तर म्हणटां मरे इश्टा. बरें आसा, तुका खूश करपाक हांव तुका आनीक एक गजाल सांगतां. आमच्या एका जाणटेल्याची शंबर वर्साआदली डायरी म्हज्या बापायच्या हाताक लागली. ताची दिनचर्या सांगूं? सकाळसान दनपारमेरेन राजा शिवचंद्र राय आपणाले पुजारी, ब्राह्मण, कुलगुरू आनी वैष्णव भक्त हांचेकडेन वार्तालाप करून तांकां दान दितात. दनपारच्या जेवणाउपरांत एक वरभर ते आपल्या कारभा-यांवांगडा आपले धनसंपत्तिविशीं चर्चा करतात. ते उपरांत इश्टांचो आनी सोय-यांचो येवपाचो वेळ जाता. रातीकडेन बुद्धिबळ, फांश्यांचो खेळ आनी जादूगार, विदूषक, भाट, गावपी हांच्यावांगडा मनोरंजन. हांकां पोसपाची जापसालकी तांचीच आसताली."

"फकत एकूच वर काम? बाकिचो आख्खो दीस असोच वगडायताले?" किशोराक अजाप जालें.

"काम तरी कसलें? आपणाल्या जमनीच्या भाड्याची आनी रीणाच्या रूपयांची वसुली. केन्ना-केन्ना म्हाका दिसता, म्हजो आजो आनी आतां म्हजो बापूय राक्षसाभशेन दीसरात काम करून त्या पुर्वजांचें प्रायश्चित घेतात. एक फावट म्हज्या पणज्यान बोटींतल्यान कांय म्हाल परदेशांत धाडपाखातीर पांच हजार रूपये खर्चिले. त्या उपरांत ताचेर एकशें

सात रूपयांचो फायदो जायीमेरेन तांच्या काळजांत भिरांतेची इतली धडधड भरिल्ली, ताचेवयल्यान ताणीं असो निर्णय घेतलो - ह्यानफुडें अशे तरेचो धोको स्विकारून आपली संपत्ति वाट लावपाचें काम केन्नाच करप ना."

किशोर शांतनूविशीं चिंतीत रावता, फुडाराक तो कितें करतलो काय? शांतनूमदें एके तरेची अस्थिरताय आसा, जी खंयच्या कामाक चिकटून रावन तें पुराय करपाक बाधा हाडटा. तो जीण पुरायपणान समजून घेवपाक शकना. एकेतरेची 'दिशाहीण' अवस्था आसा ताची. ताणें आपूण जावनच ही गजाल किशोराक सांगल्या. बापायभशेन तो 'दोतोरकी' शिकतलो? पूण बापायची कसलीच गजाल तर ताका मानवना. तेभायर शिकून सवरून कसलीय नोकरी करपाक तयार जातलो अशें म्हळें जाल्यार सुभाषबाबूक लागून तोवूय विचार तकलेंतल्यान गेला. ज्या बंगाल्यांची नदर फकत इंग्लीश शिकप घेवन सिविल सर्विसेंत वचपाची आशिल्ली तांचेखातीर सुभाषबाबून 'हिजडे' हें उतर वापरिल्लें. दुसरेवटेन बंगालांतले व्हड विज्ञानीक पी. सी. रॉय हाणीं बंगाल्यांची मारवाड्यांकडेन तुळा करीत बंगाल्यांच्या अकर्मण्यताय आनी पुस्तकी अवेवहारीकताये खातीर तांकां धिक्कारल्यात.

शांतनू म्हणटा, बंगाली समाज हो आपणालो फुडार पारखीत अनिश्चितताय आनी आत्मनिरीक्षणाचे वाटेन वता. शांतनूच्या एका आतेभावान जपानाकसान इंजिनियरींगचें ट्रेनींग घेवन ताणें पंखे करपाचो कारखानो उगडला. दुस-याय कांय मळांचेर - वखदां, शाबू, केमिकल, वल्व हातूंतय बंगाली फुडें सरपाचे यत्न करतात. हातूंतल्या कसल्याय कामाचें शांतनून ट्रेनींग घेतलें जाल्यार? पूण ताचें मन एका जाग्यार खंयच तिगना. तो कवी जावंक शकतलो कांय? रवीन्द्रनाथासारखो तो कवी न्हय. समर सेनासारखो वेगळे तरेच्यो कविता रचपी कवी? कांय ताणें वकिलीचें शिकप घेवप बरें? बंगाल्यांमदींय व्हड व्हड़ कवी जावन गेले. तो आपूण जावन खंयचोच निर्णय घेवपाक शकना.

"म्हजी आई जर जिती आशिल्ली जाल्यार तिची जी इत्सा आसपाची तसोच हांव जातलो आशिल्लों. म्हाका कितेंय येवजुचेंच पडचें नाशिल्लें." शांतनू सांगता. पूण किशोर जाणा तागेलो हो भ्रम म्हण. ह्या दिसांनी सद्दां सांजवेळचो शांतनू ताचे वांगडा गल्लीनी भोंवपाक लागला. पांयांनी चलतां-चलतां जशे कि तें आपणाल्या जिविताच्यो वाटो सोदून काडपाचे आसात. केन्ना केन्ना शाळा सुटटकच ते दोगूय हरिसन रोडावयल्या 'माधो भवन' च्या मुखावयल्यान ट्राम धरतात आनी ट्रामाच्या निमाण्या तोंकावयल्या बेहाला डेपोमेरेन वतात आनी थंयच्या रानांत भोंवत रावतात. परतताना शांतनू चौरंगीकडेन देंवता आनी किशोर परतून माधो भवन मेरेन येता. हालीं अमोलक दीस रात पुस्तकां वाचपाक लागला. कोणाक खबर तो कोण जावंक सोदता म्हण!

किशोराचे जिणेची समस्या सामकीच वेगळी. शांतनू आनी अमोलक मेट्रीके उपरांत कितें करपाचें हे गजालीखातीर दोगूय चिंतेस्त आसात. तर किशोरामुखार मामाच्या

दुकानार बसपावगर आनीक दुसरो पर्याय ना. म्हयन्याचो खर्च म्हण दर म्हयन्याक मामा दोनशीं रूपये आईकडेन दितात. ते रूपये घेवपाक आईक कितले कश्ट भोगतात हें किशोर जाणां. ललितभैया जेन्ना दुकानार बसतालो तेन्ना पैशे घेतना आईक खोस जाताली. पूण आतां जेन्ना मुनीम येवन आईच्या हाताचेर पयशे दवरता तेन्ना तिचें तोंड काळें पडटा. तिका दानाच्या रूपांतले असले फुकटे पयशे नाकात. पूण दुसरो आनीक कांय उपायच ना. तिचेकडेन पांचशीं तोळे भांगर आसा. पूण भांगर विकून खर्च चलोवप तिका योग्य दिसना. कुटूंबाच्या भवितव्याखातीर सांबाळून उरिल्ली ही इतलीच संपत्ति. जितली कितें पुंजी आशिल्ली ती ललितभैयाच्या दुर्येसांत सोंपली. किशोर दुकानाचेर बसपाक लागिल्लो जाल्यार तांकां थोडो सुशेग मेळपाचो. किशोर मन लावन काम करून आनी कश्ट करून मामाच्या उपकारांचें रीण फारीक करतलो हाजेर तिचो विश्वास आसा.

लायब्ररींत शिकपाक वचपाचें निमित्त करून किशोरान मेट्रीकमेरेन निभावन व्हेलें. पूण निमाणें ताका तेंच करचें पडलें जें तो कदापी करपाक सोदिनासलो. हरिसन रोडावयल्या दुकानार बसून ब्रिटीश इंडिया कोर्पोरेशनचें 'लाल इमली' छाप कपडे विकपाचें.

मामाच्या दुकानार 'कोहेन' नांवाचो एक ज्यू येता. तो कपड्यांच्या ताग्यांतल्या वुलन कपड्यांचे तीन-साडेतीन मीटराचे कपडे कापून पोटली करता. किशोरान हालीं ताका रस्त्यावयल्यान भोंवताना ऑफिसांनी आनी घराघरांनी वचून म्हाल विकताना पळयला. किशोराक मनांतल्यान दिसता, कोणालेय हुकमतीचेर काम करचेपरस अशेतरेन स्वतंत्रपणान काम करप बरें. हो ज्यू कोहेन कितें दोनशें रूपये जोडटा आसचो ना? पूण अशे तरेचें काम करप म्हळ्यार मामाचे प्रतिष्ठेक धक्को बसूं येता ही आडखळ आसा. ताका ते असलें काम केन्नाच करपाक दिवचेनात. चीनी लोक लेगीत हाथरूणाच्यो चादरी, मेजावयले कपडे वी खांदार हुमकळायत आवाज करीत भोंवतात. बाकी सगळे तरेचे लोक आपणाल्या मनाप्रमाण कामां करपाक शकतात. मारवाडी आसप म्हळ्यार एक झंझटच. हें काम केल्यार लज वता, तें काम केल्यार बदनामी जाता. फुकटच्यो गजाली ह्यो. पूण कोण समजायतलो?

एक फावट ताणें वगीच आईकडेन ती कितें म्हणटा तें पळोवया म्हण कोहेनचो विशय काडलो. ताणें स्पश्टपणान सांगलेबगरच आई ताच्या मनांतलें वळखली. तिणें हांसून म्हळें, "हांवूय चिंततालीं, नूग-कचोरी वा असल्यो कांय वस्तू घरांतूच तयार करपाच्यो आनी एका भुरग्याक दवरून एक पाटलो दिवन ताका रस्त्यार ह्यो विकपाक धडपाचो. तुका कितें दिसता?" तो वगी रावलो. ताणें पळयिल्लें, मामी-मावश्यो वा आनीक कांय अशोच वायलो आईकडेन आपणाल्यो साडयो भरून दिवपाक, विडींग करपाक वा सकयल फॉल लावपाक धाडून दिताल्यो. आईन सांगून दवरलां, "म्हजेम्ह-यांत एक गरीव ब्राह्मणी येता. ती हें सगळें काम घेवन वता आनी करून हाडून दिता. तिच्या

हातांत अजापाची कला आसा." पूण किशोर जाणां, हीं सगळीं कामां ताची आई आपूणच करता म्हण. तो तें सगळें पळोवन-आयकून आपणें पळोवंक ना आनी आयकूंक ना अशें भासयता. आई केन्ना कोणाकडेन कितेंच मागना. आपणालें दळिद्र केन्ना दिसूंक दिना. केन्नाय व्हडलो काका मेळपाक आयलो जाल्यार सट् करून पयशे काडून दिता आनी सकयल्यान ब-यांतली बरी मिठाई-कचोरी हाडपाक सांगता. जशे कि तें आरमारींत जायते पयशे राखून उरल्यात! ताका खावपाक घालतकच ती इतली खुशाल जाता, जशें कि तें तिकाच कितेंतरी मेळटा. ते पयशे खर्च जाल्ल्याचें तिका कुस्कुटाचें दुख्ख जायना.

किशोर थारायता, जोडपाक लागतकच आईक कसलेंच काम करपाक दिवप ना. दीसरात आईची सेवा करप. असले आवयच्या पोटांत जल्माक आयलो हें ताचें केदें भाग्य!

किशोराचो रस्त्यावयल्यान हेडपाचो उद्देश म्हळ्यार कशेंय करून कसलेंय काम मेळपाची एखादी युक्ती सांपडची. चौरंगीतल्या 'माखूराम' च्या नेमाळ्यांच्या स्टॉलाम्ह-यांत तो वरांचीं वरां उबो रावता. नेमाळीं विकतल्यांक बरेच पयशे मेळटात आसतले. वयल्यान कामय आवडिचें - सगळो दीस भोंवतणचो संवसार नियाळपाचो आनी मनाक दिसता तेन्ना पेपरांतल्यो जगभरांतल्यो खबरो वाचपाच्यो.

दुस-या म्हाझुजाक सुरवात जाल्या आनी तरातरांच्यो खबरी कानार पडपाक लागल्यात. इंग्रज जर झूज हारले जाल्यार कितें भारत स्वतंत्र जातलो? व्हडल्या मामाल्या इश्टांमदीं थोडे अशे आसात जे उकतेपणीं इंग्रजांचे पिट्टू आसात. तातूंतलो एकलो इंग्रज शिपायांखातीर गायचें मास सप्लाय करता अशें ताणें आयकलां. अमोलकाच्या सांगण्याप्रमाण हे सगळे हुजरे म्हण. अमोलक कितलेतरी पेपर वाचीत आसता. व्हड जातकच अमोलकान अशे तरेचो पेपर काडल्यार कितलें बरें जातलें आनी किशोर लेगीत मागीर अशे तरेचें काम करीत. हरिसन रोडावयल्या दुकानाचेर बसचेपरस तरी दुसरें कितेंय केल्लें बरें.

किशोराचे बाबतींत आनीक एक अडचण अशी जाली, तो पंदरा वर्सांचे पिरायेकडेन पावतां-पावतां ताची स फूट लांबाय जाली. ताचो आवाज पुरूषी जालो. खाड-मिश्यो आयिल्ल्यान तो पंदरा वर्सांचो न्हय तर वीस वर्सांचो दिसपाक लागलो. मामाच्या दुकानार बसपाच्या दबावाफाटलें ताची लांबाय हेंवूय एक कारण आसा. शांतनू आनी अमोलक ताचेपरस लांबायेन उणे आनी तांच्या मिश्यांच्यो रेगो अस्पश्ट आसात. अमोलकाचो तर आजून आवाजय फुटूंक ना. किशोराक दिसता आपूण अचानक खूब वाडला कसो. चलयो-वायलो हांचेबावतींत शांतनू आनी अमोलक व्हडलीशी आस्था दाखयनात. पूण ताचें लक्ष मात इत्सा नासतानाय असल्या गजालींचेर वचपाक लागलां. ताच्या इश्कोलांतल्या मदनमोहन सिंधानिया नांवाच्या एका भुरग्याचें लग्न जालां आनी किशोरान पळयलां, भुरगे ताका गराडो घालून कितें-कितें विचारीत आसतात. तो आपूणय हालीं मदनमोहनाकडेन पळोवन हांसपाक लागला. ह्या आदीं तो केन्ना ताचेकडेन लक्ष दिनासलो.

रस्त्याचेर भोंवतां-भोंवतां किशोराच्या मनांत येता, एखादें कसलेंय काम करचें

जातूंतल्यान मोठी उलथापालथ जावं येता. ताच्या मनांत कांय वेळा जायत्यो येवजण्यो येतात. असल्या वेळार तो आपणाले तकलेफाटल्यानच्या गुटाक हात लावन चिंतेस्त जाता आनी येवजिता, आपणाक पिशें तर लागचें ना मू? खांदार एक दांडो आनी ताचेर कपयाळीं, पोटल्यो हुमकळायत घेवन कोलकात्याच्या रस्त्यार भोंवपी एक पिसो ताका खूब फावटीं मेळ्ळा. त्या पिश्यान दांड्याचे वयर एक झेंडोय लायला अशें म्हणटात. तो एक मारवाडी अशें म्हणटात. ताका 1921 च्या असहकार चळवळीवेळार पुलिसांनी मारील्ले लाठयेची दुखापत जाल्ली. त्या पिश्याची जात कितें तें आतां कळना. तो आख्खोच जाला मातयेच्या रंगाचो. फकत ताच्या झेंड्याचे तीन रंग झळकतात. किशोराच्या मनांत केन्नाय येता, भेस बदलून त्या पिश्यावरी जावंचें आनी वचून व्हडल्या मामाक सांगचें, ताच्या दुकानार बसपाची ताका मातूय इत्सा ना. पिसो जावन तो कोहेनाभशेन माल घेवन भोंवून-भोंवून विकपाचो धंदोय करपाक शकतलो. मागीर ल्हवू-ल्हवू निवळटा तसो अभिनय करीत रावतलो. पूण तो पिसो जाला म्हण ताची आई ख-यांनीच पिशी जाली जाल्यार? आईक सांगून पिसो जावपाचें नाटक करपाचें थारायल्यार ती असले गजालीक मान्य जावची ना. वेल्यान दुकानार बसपाक नाका म्हण तो कितें कितें करपाक पळयता हें वगीच आईक कळटलें आनी तिका अधिकच हुस्को जातलो.

ताची उंचाय आनी पुरूषी आवाजाक लागून शाळेंत ‘चाणक्य’ नाटकांत ताका चाणक्याचे भुमिकेखातीर वेंचून काडलो. तेन्नासावन ताचे तकलेंत असले तरेच्यो गजाली चड रीगपाक लागल्यो. ताच्या अभिनयाची सगळेकडेन तोखणाय जाली. ‘हिन्दी नाट्य परिषदे’ न बसयिल्ल्या नाटकवाल्या मंडळीनीय ताची तुस्त केली. ‘भामाशाहची देशभक्ती’, ‘चंद्रगुप्त’, ‘शिवाजी’, ‘छत्रसाल’ बी नाटकां किशोरान पळयल्यांत. मामाचो भंय नाशिल्लो जाल्यार तो ते नाट्यपरिषदेचो रीतसर सभासदच जावपाचो. पूण दरकडेन मामाचो भंय आसाच. ताका खंयच मेकळेपणान स्वास घेवपाक मेळना. गोमटेक अंदल्ल्या दोरयेच्या फांसाभशेन आसा हो भंय. नाजाल्यार शिक्षक जावन ताच्यान इतलो खर्च भागोवंक जायना? पूण किशोराक खबर आसा, ताणें कितलेंय जरी येवजिलें तरी मामाच्या विरोधांत वचप ताका परवडपाचें ना.

सुभाषबाबूक अटक जाली त्या दिसा किशोराची सगळी उलथापालथ करपाची इत्सा मात ख-यांनीच पुराय जाली. शांतनूचो उदासपणा ताच्यान सोसपाक जायना जालो. शांतनून ताका सांगिल्लें, आपणाची शाळेंत वचपाची इत्सा ना म्हण. पूण किशोरान ताका बळजब-यां शाळेंत हाडलो. शाळेंत एका भुरग्यान शांतनूक थोमणो मारलो, “कितें रे शांतनू, सुभाषबाबूक अटक जाली आनी तुज्यान इश्कोल लेगीत बंद करपाक जालें ना मरे?” उतरां किशोराक लागलीं. ताणें त्या हाडकुळ्या दुबळ्या भुरग्याच्या कॉलराक धरलें, “चल, तुजेचकडल्यान जावूं दी आज शाळेंत हडताळ.” मागीर अशी येवजण थारली, तो

भुरगो मुतपाचें निमित्त करून वर्गांतल्यान भायर वतलो आनी हेडमास्तराचे कुडीभायर आशिल्ली घंटा वाजयतलो. इतले मजगतीं दुसरो एक भुरगो गुरख्याकडेन चवकशी करपाच्या निमतान सांगून येतलो, सुभाषबाबूक अटक केल्ल्या कारणान आज मोर्चा काडपाचे आसात आनी ताका लागून शाळेक चड करून सुटी दिवपाची शक्यताय आसा. हेर सगळ्या वर्गांनी सुटी आसूं येता म्हणपाची खबर पातलावं येता आनी दुस-या दिसा शांतनू आनी किशोराचेरच हो दुवाव घेवं येता म्हण त्या दोगांयनी पं. रघुनंदन मिश्र हाच्या वर्गांत मात अवश्य हाजीर रावपाचें.

त्या भुरग्यान थारायिल्ल्याप्रमाण घंटा वाजयली आनी तो नाच्च जालो. तेबरोबर सगळ्या वर्गांतलीं भुरगीं किंकाट्यो मारीत शाळेच्या दाराकडेन धांवलीं. गुरख्याक दिसलें कसलेय गडबडीक लागून घडये इश्कोलाक सुटी दिल्या आसतली म्हण आनी ताणें शाळेची दारां उकतीं करून दिलीं. हेडमास्तर भायर येवन भुरग्यांक आडायता म्हणसर अर्दीं तरी भुरगीं शाळेंतल्यान भायर पाविल्लीं. दुस-या दिसा पं. रघुनंदन मिश्र हाणें शांतनू आनी किशोर आपल्या वर्गांत वशिल्ले म्हणपाची साक्ष दिली. दुसरो कसलोच पुरावो मेळनाशिल्ल्यान उपरांत घडणुकेचेर पड्डो पडलो. शांतनूक इतली खोस जाल्ली, तितले भितर तो सुभाषबाबूचे अटकेचें दुख्ख विसरून गेलो. हे गजालीक लागून दोगांयचे इश्टागतींत एक नवी उर्बा आयली.

□□

# 11

# हिटलर आनी नेहरू

*किशोरबाबू आपली कथा कित्याक बरोवन घेवंक सोदता हो प्रश्न लोकांच्या मनांत निर्माण जातलो हें ताका खबर ना अशें न्हय. ताच्या आयुष्यासारकीं आयुष्यां लाखांनी आंकड्यांत शिंपडल्यांत. तातूंत असामान्य आनीक कितें आसा? निमाणें दर एक मनीस जेन्ना जल्म घेता तेन्ना ताच्या घराण्याचो इतिहास आनी ताच्या समाजाचो इतिहास ताचे पयलींच जल्माक आयिल्लो आसता. ज्या लोकांक तो मेळटा आनी तांचेमदीं मिसळटा तांचेबाबतींतय हीच गजाल लागू जाता. इतलेंच न्हय तर ज्या कोलकाता शारांत जल्मून किशोरबाबून सगळें जिवीत घालयलें, ताचो इतिहास लेगीत जायत्या पुस्तकांनी बरोवन पुस्तकालयांत पडिल्लो आसा. तर मागीर ताचेकडेन अशी कसली नवी गजाल उरल्या जी सांगपाची ताका गरज उपरासल्या?*

*किशोरबाबूचे जिणेक अशें कसलें खास म्हत्व ना जाका विश्व-देश-समाज हांचेसंबंदान केल्ल्या कित्याचीय एखाद्या सत्कृत्याच्या मापान तुळा करूं येता. पूण किशोरबाबूक दिसता, दर एकल्याचे जिणेचे काणयेंत दुसरे एके व्यक्तिची काणी लिपून उरल्या. दर एकलो मनीस मुळांत आपणाले जिणेविशीं येवजिता वा येवजूंक सोदता. हेखातीर खंयचेय कथेंत जर ताका आपणाल्या प्रत्यक्षांतल्या वा कल्पनेंतल्या वा सपनांतल्या जिविताचो थोडो जरी अंश मेळ्ळो तर ताणें हें समजूंक जाय, कथा सांगप्याच्या वा बरोवप्याच्या कथनाचें मूळ तेंच आसा. ताचे जिणेचो होच कुडको त्या वाचप्याक तितल्यापुरतो तरी जमनिच्या गुरूत्वाकर्षणापासून मुक्त करता. तो ल्हव जाता, उडपाक लागता. देश आनी काळ हांच्या पेल्यान. आपल्या क्षुद्र आत्मतत्वाच्या पेल्यान. आनी हीच तर मुक्ती.*

*मुक्ती - शब्दकोशांत हाचेपरस चड सरगर्भित उतर दुसरें आनीक कसलें आसतलें? मरणाच्या निमाण्या खिणामेरेन मनीस नवो नवो अर्थ सोदीत रावता अशें उतर. प्रेम, वासना, लोभ, संपत्ति असल्या उतरांनी मनशाचें सगळें जिवीत बांदून उरलां, तीं उतरां लेगीत जेन्ना सांगात आनी वांगड सोडून दितात तेन्नाय मुक्तिचो अर्थ तितलोच नवो, तितलोच गरजेचो जावन उरता.*

*किशोरबाबूक दिसता, मनशाच्यो जायत्या तरांच्यो मुक्ती आसतातआनी एक मुक्ती तर अशी आसता ती हें जाणा जावपाक, खंयचोय मनीस हो पुरायतरेन एक व्यक्ती नासता. अशें म्हणटात, मनशाचे गूण ताच्या आवय आनी बापायच्या सात सात पिळग्यांसावन चलत आयल्यात. अशे तरेन चवदा पिळग्यांचे आवय-बापूय, जातूंतल्या दरेकांत फाटल्या चवदा पिळग्यांचे गूण उरतात ते दरेका मनशाचे भितर जिवे उरतात. केन्ना ते कोणाच्या जिविताचो वांटो जावन उरतात, तर केन्ना आनीक कोणाच्या. हें सगळें चिंतून-येवजून किशोरबाबू घुस्पता. पूण आपली कथा बरोवन घेवपाचें मूळ कारण ह्याच घुस्पागोंदळांत सांगून गेलां अशें ताका जाणवता.*

किशोरबाबूचे एके जिणेंत तीन जगपां आस्पावल्यांत. देशाच्या स्वातंत्र्यामेरेन म्हळ्यार बावीस वर्सांचे पिरायेमेरेन तांचें एक आयुश्य आशिल्लें. ताचे उपरांत ताचें दुसरें आयुश्य सुरू जाता - एकूण पन्नास वर्सांचें आयुश्य. ह्या दुस-या आयुश्याचेर पयल्या आयुश्याची कसलीच सावळी लेगीत नाशिल्ली. हेखातीर किशोरबाबू ताचेकडेन पळयताना एक नवो जल्म जाल्ल्यावरी पळयता. कोणूय सांगूंक शकत काय, किशोरबाबूच्या जिवितांतलीं हीं पन्नास वर्सां भारतवर्साच्या 'लोकतंत्रा' च्या पन्नास वर्सांवरी आसात जातूंत स्वातंत्र्याच्या झुजाच्या आदर्शांची झलकय उरली ना.

किशोरबाबूच्या सभावांत जाल्ल्या बदलांचेर जर कोणे एके व्यक्तीन अजाप उकतायलें जाल्यार ती आशिल्ली शांताभाभी. ललितभैयाची बायल. पूण पुराय देशाच्या चरीत्रांत आयिल्ल्या बदलाकडेन हो बदल जोडप वा ताची, स्वातंत्र्य मेळ्या उपरांत किशोरबाबून नेहरूक आपलो हिरो मानिल्लो हे गजालीकडेन सांगड घालप तिका कशें शक्य जातलें आशिल्लें?

ताची भाभी चडानचड होच विचार करपाक शकपाची, बेचाळीस सालाच्या आसपास जेन्ना जपान्यांचे भिरांतीन कोलकाता शार खाली करपाक आयलें तेन्ना किशोरबाबू जर्मन रेडयोचेर हिटलराचें ब्रोडकास्ट खूब आयकतालो. ताचोच तर ताचेर दाट प्रभाव पडूंक ना मू? तिच्या मनांत अशेंय आयलां आसुंये, बरेच फावटीं मनीस आपल्या लोकांच्या ज्या संवंयांखातीर चड चिंतेस्त उरता, वेळ येतकच तो त्याच संवंयांक जशाच्यो तश्यो आपल्या जिवितांत उतरायता. ताचो व्हडलो मामा म्हळ्यार 'दुर्वासऋषी' चो अवतार. त्या काळांत हरिसन रोडावयल्या दुकानार बशिल्लेकडेन किशोरबाबू तेखातीर खूब अस्वस्थ आसतालो. मदल्या मामान जेन्ना व्हडल्या मामाक दुकानाचे गादयेवयल्यान काडलो तेन्ना किशोरबाबूच्या लक्षांत आयलें, दुस-यांक स्वास घेवपाक मेकळीक आसची ही नदर आशिल्ले खानदानी गूण मदल्या मामामदीं जरूर आशिल्ले.

देशाच्या स्वातंत्र्यावांगडाच मामांच्या पावलार पावल दवरून चलतल्या किशोरबाबूनय जंयमेरेन शक्य आशिल्लें आनी जितल्या लोकांमेरेन शक्य आशिल्लें त्या सगळ्यांचीं आयुश्यां आपणाले मर्जेन चलयलीं. ह्या दिसांनी रस्त्याचेर भोंवतल्या एका पिश्यावरी

आमी हें सांगीत भोवूंक शकना, नेहरूनी जितेपणीं देशांत 'वेंचून दिल्ल्या' एका डिक्टेटरावरी राज्य केलें आनी उपरांत ताचे धुवेन आनी नातवानय तेंच केलें. एका पिश्या मनशाक जायत्यो गजाली उलोवपाची मेकळीक आसता - भंय आनी लज ह्या दोनांतल्यानय तो मुक्त आसता. कोलकाता शारांत सदांच अशे तरेचे लोक दिश्टी पडटात आनी ते ज्यो गजाली करतात तातूंत कितलें खरेपण आसता आनी कितली ताची लहर आनी वनवावनवी आसता हें तेच जाणात. "एक जे छिलो नेहरू / हिटलर परे / शे कोरलो इलेक्शन / होलो सावार उपरे.... (एक आशिल्लो नेहरू / हिटलरच्या उपरांत आयलो / घेतली ताणें वेंचणूक / आनी पावलो सगळ्यांत वयर....)" ह्या दिसांनी रस्त्यार भोंवताना किशोर असल्याच पिश्याक मेळटा.

किशोरबावून पळयलें ह्या पिश्याकडेन कांय पोरनी नेमाळीं आसात आनी तो तीं वाचता आनी दवरता. ताचेकडेन ताणें एकोणिसशें अठ्ठेचाळीसच्या तीस जानेवारीच्या सांजवेळा भायर सरिल्लो 'स्टेटस्मैन' पळयला जाचेर व्हडल्या व्हडल्या काळ्या इंग्लीश उतरांचें हेडींग आशिल्लें, 'महात्मा गांधी शॉट डॅड.' घडये देशाची राजधानी दिल्लींत लेगीत इतले राजनितीक पिशे भोंवता आसचेनात जितले कोलकात्यांत भोंवतात. किशोरबावूक दिसता हाचें कारण म्हळ्यार कोलकाता ही सदांच प्रबुद्द लोकांची नगरी आशिल्ल्यान हांगा सदांच राजनितीक चेतना जागृत उरल्या. किशोरबाबूची ह्या पिश्याकडेन जेन्नासावन गांठ पडली तेन्नासावन ताकाय बी पोरनी कात्रणां जमोवन दवरपाचो शोक जडलो. तो रद्दीवाल्याकडसून पोरनी नेमाळीं आनी म्हयनाळीं घेवन थंयच रस्त्याचे कुशीक पडिल्ल्या कसल्याय एखाद्या स्टुलार बसता. कसलीय गरजेची वातमी सांपडली जाल्यार बोल्सांतल्यान एक धाकटुलीशी कातर काडून ती बातमी कातरून घेता. तो अशें करताना पळयिल्लो कोणूय मनीस ताका पिसोच धरता. पूण रद्दीवाले मात ताका पळोवन खूश जातात, कित्याक तर दर कात्रणाफाटल्यान किशोरबाबू ताका एक रूपया दिता. अशे तरेन किशोरबाबूकडेन कात्रणांची रास जाल्या.

किशोरबाबूचे बायलेक हें कितें खबर ना अशें न्हय. पूण भुरग्यांक हाची सुलूस लागची ना ही तिणे जतनाय घेतल्या. आपलो वापूय ह्या दिसांनी खूब नेमाळीं वाचता हें मात भुरग्यांनी पळयलां. किशोरबाबू सांजवेळा जेन्ना पासयेक वचपाक भायर सरता तेन्ना किशोरबाबूची बायल सगळीं कात्रणां पाकिटांतल्यान उसोवन पलंगाचेर पातलायता आनी किशोरबाबू कितें सोदता आसतलो हें समजून घेवंक पळयता. तिच्या कांयच लक्षांत येना. हर्षद मेहता, नरसिंहराव, चंद्रास्वामी, सुखराम, लालूप्रसाद यादव, जयललिता ह्या नांवांची वळेरी करून एका व्हडल्या पाकिटांत तांचेसंवंदिचीं कात्रणां-पुंजावन दवरल्यांत. दुस-या एका पाकिटांत बोसनियाचें झूज, ईराक-इराण झूज, रशियेंत पाव-रोटीखातीर लागिल्ली लांव लायन, उथियोपियांत भुकेन मरपी भुरगीं हांचीं चित्रां दवरल्यांत. तिस-या पाकिटांत वेंगळूरांतली विश्वसुंदरी सर्त, माईकल जॅक्सन, देवराला सतीच्या खटल्यांत आरोपी

दोषमुक्त थरून सुटिल्ल्याच्यो बातम्यो एकठांय करून दवरल्यात.

किशोरबाबूचे बायलेचो धीर सुटपाक लागला. कितें करप? नेमाळ्यांतलीं हीं कात्रणां अशे तरेन वेगवेगळ्या पाकिटांनी एकठांय करून दवरपाचो अखेर अर्थ तरी कितें? कित्याक ह्यो सगळ्यो कटकटी आनी त्रास? किशोरबाबूचें ह्या भानगडींकडेन दिवप-घेवप कितें आसा? बागडोदियाजीसारखो पोलिटिक्सांत वचून तो कितें एम. पी. थोडोच जावपाचो आसा! मागीर ह्या सगळ्या गजालींची तकलीफोड कित्याक म्हणून? अदीक बरें आपल्या चल्याक आदार करचो. सेल्सटॅक्स, इन्कम टॅक्स - कसल्या कसल्या उचापतींनी तो अस्वस्थ आसता कोण जाणा! एकटो पडला बाबडो. अस्वस्थ जावपाक कितें एकूच कारण आसा ताका? मार्केट कितल्या नव्या नव्या गाडयांनी भरून गेलां. पळयता ताचेकडेन सोबीत सुंदर गाडी. ताचेकडेन 'मारूती' आनी ती लेगीत 800! ती तर आतां मिडल क्लासाची गाडी जाली. व्हडली गाडी विकती घेवपाची ताका कितली इत्सा आसा! तो म्हणटा, "ऑपल वा फोर्डसारखी एखादी गाडी आसपांतूच जिणेची मजा आसा." पूण कितें करपाचें? लग्न जावन पांच वर्सां जालीं तरी आजून भुरगें जावंक ना. ताचेवयले उपचार आसात ते कितले म्हारगे. बापायचें दुयेंस, आवयचीं वखदां, बायलेच्यो मागण्यो, भयणिलें कुळारपण - खर्च कितें एक आनी दोन? भुरग्याकडेन पळयत जाल्यार किशोरबाबूक तिडक मारता. नेमाळ्याचीं कात्रणां इतले जतनायेन सांबाळ्ळ्यांत जशीं कि तें तीं नोटींचींच बंडलां आसात.

अचकीत किशोरबाबूचे बायलेचे तकलेंत उजवाड पडलो. मेळ्ळो उपाय! कितेंय आसूं, हे घराचे वास्तूंत कितेंतरी गडबड आसा. तांचे एक सोयरे खेतानजी, हाणी आपणालो नवो ताल्ल फ्लॅट सामको मोडून वडयिल्लो. हैदराबादसान तांचेकडेन एक वास्तुशास्त्री पंडित आयिल्लो खंय. ताणें सांगलें, घराचीं सगळीं दारां जर ताणे योग्य दिशेन लायलीं नात जाल्यार तो पिसो जातलो. अशे तरेन पिसो जावचेपरस थोडो खर्च करप बरें न्ही? खेतानजी किशोरबाबूक मेळपाक आयिल्लो तेन्ना बाबडो आपल्या शिक्षणाच्या आदारार सांगून गेल्लो - "भाभी, तुमच्या घराचे इशान्येच्या कोनशाक आशिल्लो हो माड आसा तो बरोबर ना. हो घराच्या नैॠत्याच्या कोनशाक आसपाक जाय."

"पूण भावोजी, हो माड तर ह्या घरांत हे सुवातेर आदींसावनच आसा. माड म्हळ्यार कितें ती आरमार, हालयलो आनी दुसरेकडेन दवरलो." किशोरबाबूचे बायलेन चिंतेस्त जावन म्हणिल्लें. खेतानजी हांसलो.

"तें बरें आसा भाभी. पूण तो माड कातरू येता न्हय? आसूं. तुमची मर्जी. पूण इतलें मात जरूर कर, घराच्या इशान्येच्या कोनशाक मातयेचें एक रूंद तोंडाचें मडकें उदकान भरून दवर. ताका लागून तुमच्या घरांत सदांच धन सांठवल्लें उरतलें."

किशोरबाबूचे बायलेन रोकडेंच दुस-या दिसा थंय उदक दवरलें. किशोरबाबूक विचारलेवगर तो माड कापपाचें तिका धाडस जालें ना. तिणें निश्चेव केलो, आजूच वचून

खेतानजीकडल्यान त्या वास्तुशास्त्र पंडिताचो पत्तो विचारून घेवपाचो. चलो सांगतालो, हालीं नेमाळ्यांत वास्तूशास्त्रज्ञांच्यो खूब जायराती येतात म्हण. पूण तातूंतलो योग्य असो कोणाक म्हण वेंचून काडपाचो?

त्या आयताराक किशोरबावू सकाळीं मातसो बेगीनसोच भोंवपाक भायर सरलो. किशोरबाबूची बायल उठली तेन्ना तिका कळ्ळें, तो आपूणच गाडी चलोवन घेवन गेला. तिणे सुटकेचो स्वास सोडलो. तकली थोडी जाग्यार पडल्या आसतली. मनोचिकित्सकांच्या वखदांचो थोडो गूण आयला आसूंक जाय.

किशोरबाबू परतलो तेन्ना खूब प्रसन्न दिसतालो. येनाफुडें ताणें आपलें लेटरपेड काडलें आनी तो चीट बरोवपाक बसलो. ताणें एके चीटयेचे एकाफाटोफाट मजकूर बरयले. फाटलो दर मजकूर पिनून कोयराचे पेटयेंत वडोवंक लागलो. पांच फावटीं अशें जातकच किशोरबाबूचे बायलेची तकली सण्ण जाली.

"कोणाक चीट बरयता?" तिणें विचारलें.

"ज्योति बसूंक"

किशोरबाबूगेर वर्सांसंकिनी काम करपी, सदांच आळशीपणांत वेळ सारपी एक अफूबाज ड्रायवर आशिल्लो. गल्लींतल्या लोकांनी खंयच्या उरफाट्या तर्कान ताचें नांव 'ज्योति बसू' दवरिल्लें कोणाक खबर. आनी तेन्नासावन ताचें हेंच नांव चलंत जालें. ज्योति बसू सुटी घेवन ताच्या गांवांक गेल्लो आनी ताका एक म्हयनो जावन गेल्लो.

किशोरबाबूचे बायलेन चिंतेस्त जावन विचारलें, "कितले दीस जाले न्ही ताका घरा वचून? तुमकां गाडी चलोवपाक त्रास जाले कांय कितें? कितल्या दिसांनी चलयली तुमी गाडी. पूण इतल्यो चिटी पिनपाची गरज कितें? तुमी केन्ना अशें करीनासले."

किशोरबाबून परतून कागद चुरमडून ताची गुठली केली आनी कोयराच्या पाटल्यांत वडयत म्हळें, "आमच्या ड्रायवराक बरयना. बंगालचे ड्रायवर ज्योति बसूक चीट बरयतां."

किशोरबाबूचे बायलेचो धडधड एक खीणभर थांबलो. 'आरे देवा, ही आनी कसली साडेसाती उपरासली? हे मारूतीराया, हे बेगीन बरे जाले जाल्यार हांव सालासरच्या देवळांत सव्वा मण चुरमो दितां.' आतां आनी हें आटापाक येवचें ना अशें किशोरबाबूचे बायलेक दिसलें. ताका पिशें लागलां आसूं वा नासूं. ती मात नक्कीच पिशी जावपाकडेन पावल्या. तिचे दोळे भरून आयले. ही गजाल आतां भुरग्यांक सांगची पडली. नाजाल्यार हो आनीक नवो शौक जडलो जाल्यार फाल्यां दिल्लींत आयिल्ल्या दिसा बदलत आशिल्ल्या पंतप्रधानाक चिटी बरयत रावतले.

मोट्या कश्टांनी तिणें आपणांक सांवरलें आनी विचारलें, "कितें बरयता ज्योति बाबूक?"

"तूं जाणां सरोज, फाटल्या आयताराक हांव डलहौजीसान ट्राम धरून धर्मतल्लासावन बलीगंजाक येतालों - भुरग्पणांत येतालों तसोच. राजभवनामुखार धर्मतल्लावटेन ट्राम

धुंवली जाल्यार हावें पळयलें, क्रांतीकारक रासबिहारी बोसाची व्हडली म्हुर्त. तिच्या कपलार धव्या रंगाचो लांब तिबो. कितेंतरी गडबड आसा. हांव बरोच अजापलों. इतले उंचेले म्हुर्तिच्या कपलाक कोणें लायला आसतलो हो तिबो? त्या धव्याफुल्ल तिब्याक पळोवन म्हाका कोणाची याद जाली जाणा? स्वामी रामानंद कृष्णाची. हांव एकदम पन्नास वर्सांपरसूय फाटीं गेलों.

"एकोणिसशें बेचाळीसाच्या 'भारत छोडो आंदोलना'च्या दिसांची गजाल. सुभाषबाबू तर एकेचाळीस सालांतूच भारत सोडून काबूलाकसान जर्मनी आनी मागीर सिंगापूराक गेल्ले. गांधी-नेहरू वी सगळे फुडारी बंदखणींत आशिल्ले. शांतनू आनी अमोलकाक कितें करचें हें कांयच कळनाशिल्लें. ते दोगूय आइ. ए. म्हळ्यार वारावेंत आशिल्ले आनी हांव दुकानार बसपाक लागिल्लों. अमोलकावांगडा आशिल्लो सोहन मुंधडा जो गांधीजीचो पक्को भक्त आशिल्लो, ताणें अचकीत सूत कांतपाचें सोडून दिल्लें. आनी तो 'व्हॉट इज मार्क्सिजम' वाचपाक लागिल्लो. तो पक्को कम्युनिस्ट जाल्लो आनी सदांच खाकी चड्डी घालून शाळेंत येवपी आनी नेमान राष्ट्रीय स्वयं सेवक संघाचे शाखेंत वचपी लक्ष्मीचंद ताचो सांगाती जाल्लो. सगळेजाण दिका शेणिल्ल्यावरी निराश जाल्ले. त्याच वेळार म्हाका धवो तिबो लावपी स्वामी रामानंद कृष्ण मुर्शिदाबाद हांगां मेळ्ळे. म्हाका आनी शांतनूक ताणें फक्त व्यक्तिगत आयुश्यांत योग्य दृष्टीकोन आपणावपाखातीर मदत केल्या इतलेंच न्हय, तर देशाविशीं आपलें कर्तव्य कशें पाळपाचें...... "

किशोरबाबूचे बायलेच्यान रावपाक जालें ना. आतांमेरेन कशेबशेन आपणाली अस्वस्थताय दामून दवरून ती आयकत राविल्ली. तिणें मदींच किशोरबाबूक थांबयत विचारलें, "जाल्यार ज्योति बसूक चीट बरोवपाची गरज कसली? आनी रासबिहारी बोस कोणा स्वाम्याभशेन तिबो लावूं वा नाका लावूं आमकां कसली अडचण आसा?"

किशोरबाबूक अजाप जालें, कितले वेगीन आपली बायल आपलेच बुद्धीन विचार करपाक लागली! इतलेंच न्हय तर, सामकी निर्भीड जावन आपली धारणा ताचेमुखार मांडपाक लागली. संवसारांत लोकशाय केन्नाच मरपाक शकना हेंच खरें. खंयूय एखादें बारीकशें लेगीत छीद्र मेळ्ळें जाल्यार वडा-पिंपळाच्या खांदयांवरी फातरांत लेगीत मुळां रीगोवन भायर सरता.

"आगो बाये सरोज, सगळी गजाल तरी आयकून घे. ट्राम जेन्ना फुडें लेनिनच्या पुतळ्याम्ह-यांत पावली तेन्ना लेनिनच्या तोंडाचेर व्हांवतले धवे व्हाळ पळोवन म्हाका समजलें, तो धवो तिबो नाशिल्लो तर सवण्यांची आनी कबुतरांची शीट आशिल्ली. म्हाका कच्च जालें. सोमारासान हावें सगळें शार भोंवन पालथें घालें. गांधीजी, सुभाष, विवेकानंद, नेहरू, आंबेडकर, मातंगिनी हाजरा, राणी रासमनि, खुदीराम, शरत बोस सगळ्या पुतळ्यांची हीच गत जाल्ली. हांव ज्योतिबाबूंक वरयतां, हांव एका भुरग्याक ताच्या अड्ड्यारसान गाडयेन घेवन गेलों आनी वीस रूपये खर्चून हावें फांतोडेर काळखांत

गांधीजीचो पुतळो ताचेकडल्यान निवळ करून घेतलो. पूण अशे कितले पुतळे हांव निवळ करून घेतलों? ज्योतिबावूकडेन म्हजें मागणें आसा, ताणें आमच्या देशांतल्या म्हान फुडा-यांचो, कोलकात्यांत जो अशेतरेन सार्वजनीक अपमान जाता तो बेगीनांत बेगीन थांबोवचो आनी तांचे तकलेंचेर सत्रेवरी कितेंतरी बांदून घेवचें. निमाणें ज्योति बसू आतां कितलो तेप आसतले? त्र्यांयशीं वर्सांची पिराय जायत आयली. तांचेय प्रतिमेची रोकडीच अशी गत जावपाची आसा."

□□

# 12
# नाइन्टीन फॉर्टी टू : अ लव्ह स्टोरी

किशोर दुकानार बसपाक लागला. एक फावट मेट्रीक पास जाल्या उपरांत कसलीय युक्त वापरून अशें कितेंय करप ना म्हळ्यार धोरणाआडच तें. ललितभैयानय हेंच केल्लें आनी ताकाय हेंच करपाचें आसा. युरोपाच्या झुजाक लागून पेपर-पेन्सिल, दूध, च्या, वखदां, तांदूळ बी सगळ्या वस्तुंचे दर हिसपाभायर वाडल्यात. आई मनांतल्या मनांत हुस्को करता. शांताभाभीय कोलकाताक येवन रावल्या तोवूय थोडो खर्च वाडला. आपली अर्थीक कुचंवणा लिपोवप आईक खूव कठीण जालां. हे फावट व्हडलो काका मेळपाक आयलो तेन्ना आईन सकयल्यान कांय खावपाक मागयलें ना. 'आलमारीची चावी खंयच मेळना.' 'खंय गेली काय आलमारीची चावी' अशें ती करीत रावली. ह्या सगळ्या गजालींक लागून दुकानार बसपाचें दडपण किशोराचेर वाडत गेलें. तो दुकानाचेर बसपाक लागतकच मामाकडेन थोडे पयशे वाडोवपाचीं उलोवणी करूं येतालीं.

पयलींभशेन आतां किशोराचें शांतनू आनी अमोलकाक मेळप जायना. तांच्या जगपाच्यो वाटो वेगळ्यो जाल्यात. पूण ते ताका मेळपाक दुकानाचेर कित्याक येतात कोण जाणा, आनी मामाक हें अजिबात आवडना. चड करून शांतनूचें बंगाली आसप. ताणें आयताराक शांतनूच्या घराकडेन येवचें म्हण ते दोगूय ताका खूव आग्रो करतात.

सुरवेक-सुरवेक ते दुकानार आयले काय किशोराक संकोच जातालो. त्या दुकानाच्या कावंटरार बसप म्हळ्यार ताका आपणाक नागडो करून रस्त्यार बसयिल्लेभशेन दिसतालें. शांतनून आनी अमोलकान ताका थंय बशिल्लो पळयना जाल्यार पुरो म्हण ताणे मागचें. पूण ते दोगूय येत रावले तशी संवकळ जावन गेली. आतां तितलेंशें वायट दिसना. ते दोगूय जितलो वेळ थंय रावतात, तितलो वेळ तो दुकानाचे कसलेच गजालीकडेन आपलो संबंध ना अशें दाखयता. पोरन्या मुनिमापासून ते म्हाल दाखयतल्यांमेरेन सगळ्यांच्या लक्षांत हें येता आनी ते भितरले भितर हांसतात.

सगळ्या मामांनी दुकानाच्या वयर पयल्या माळ्यार एक ऑफीस केलां. तरी वरें, किशोराक तांचेमुखार दुकानार बसचें पडना, ताका तितलेंच मू जाता. नाजाल्यार व-याच

फावटीं हरिसन रोडाचेर मुखावयल्थ्यान वतल्या ट्रामाच्या चाकापोंदा तकली दवरपाची पाळी येवपाची.

लागीच्याच फळां विकपी चाळींतलो एखादो फळवालो जेन्ना येता आनी धा तागे उकते करपाक लावून निमाणे कांयच घेनासताना वता आनी वयल्यान म्हणटा, 'तुमचेकडेन तसली वस्तच ना.' तेन्ना किशोराक दिसता, वचचें आनी ताची कॉलर धरून ताका भरभरीत ओडीत हाडून कावंटराभितर शेंवटुचो आनी ताका यथेस्ट पेटचो. व्हडल्या मामाल्यो सगळ्यो गाळी तो शिकला आनी असल्या प्रसंगाचेर तो तोंडांतल्या तोंडांत क्रमान गाळी पुटपुटटा, 'पाडापडिल्लो, मालक्रियाद, साला, भेंचोद.' अशें करतकच ताचें मन थोडेशें ल्हव जाता.

बाजारांत रावन किशोरान वेपा-यांचीं उणाकपणां आनी पिशेपणां बरेतरेन पळयल्यांत. शांतनू सांगतालो तें कितलें खरें! ह्या लोकांक देश-समाज-धर्म असल्या गोष्टींकडेन कांयच लागणूक ना. ते फक्त आपणाल्या फायद्याचेंच चिंततात. 'पाडापडिल्ले, तुपांत चरबी मिसळावपी लोक हे.' युरोपांतलें झूज थांबचें अशी वेपा-यांची बिलकूल इत्सा ना हें तो पळयता. झूज आनीक दोन-तीन वर्सां चालू उरलें जाल्यार वेपार-धंद्यांत तेजी येतली. झूज बंद जाता म्हणपाची वा इंग्रज हारतात म्हणपाची वदंता जाली जाल्यार बाजाराक मंदी येता. किशोराच्या मनांत येता, रस्त्यार उभो रावंचो आनी व्हडाव्हडान आड्डून सांगचें, 'भूतां-देंवचारांनो, तुमचो हो फायदो फुडल्यो पिळग्यो भोगपाक पावच्यो नात. सगळें खलास जावन वचपाचें आसा.' एखाद्या फर्माचें दिवाळें वाजलें म्हण ताच्या कानार पडटा तेन्ना ताचेभितर खोशयेचें ल्हार उसळटा. आनीक एकलो गेलो. उपरांत ताका पश्चातापय जाता - दुस-यांक भोगतल्या संकश्टांचें सूख मानपी असो तो कोण म्हणून? पूण दर खेपेक ताची प्रतिक्रिया परतूनय तशीच जाता.

झुजाक लागून केन्ना-केन्नाय शेअर बाजार अचकित तेजींत येता आनी ताका लागून मंदीच्या काळांत विकपाचो सौदो करप्यांक खूब लुकसाण सोसचें पडटा. दलालांचेर खूब रिस्क उरता. किशोराक खबर आसा, व्हडलो मामाय लिपून-लिपून सट्टो लायता. ताचो मूड पळोवन तो पारखिता, ताका चड लुकसाण जालां काय ताचें लुकसाण मेकअप जालां तें. हालीं ताच्या गाळींचो शिंवर मानसूनच्या पावसाभशेन शिंवरत आसता. किशोराक जायते फावटीं भिरांत दिसता, मामा लोकांची कंपनी जर बुडली तर ताचें आनी आई-भाभीचें कशें जातलें? असो विचार तकलेंत आयलो काय तो कामांत मन लावपाचो हर तरेन यत्न करपाक लागता.

व्हडल्या मामाचो मूड समजून घेवन ताच्या कलान चलून आपलो फायदो करून घेवप ही गजाल दुकानाचो कंटाळो आयिल्ल्या किशोराक अचकित् मजेशीर 'खेळण्या' वरी दिसपाक लागल्या. हाका लागून दुकानावयलो पोरनो मुनीमजी हालीं किशोराक मातसो दबकून रावपाक लागलो. एक दोन फावटीं मामा दुकानांत भितर सरतकच किशोरान

ताचे चुकीकडेन नदर ओडून व्हेल्या आनी ताका मामाच्या तोंडांत सांपडायला. हाका लागून दोन फायदे जाले - एक तर दुकानांतल्या दरेका कामांत तो घरच्या मनशाभशेन बारीक लक्ष दवरता अशी मामामुखार ताची प्रतिकृती तयार जाताली. आनी दुसरें म्हळ्यार मुनीम आतां ताचेकडेन वायटपण करपाक थोडोसो भिवपाक लागलो. सुरवेक तो केन्नाय आपणाखातीर च्या-सामोसा मागयतालो तेन्ना पयशे दिवपाक मुनीम इतलो कठीण करतालो जशे कि तें बळजब-यां ताका भीक घालता कसो. हें लक्षांत येतकच ताका सामोशे उदकावांगडा गिळचे पडटाले. आतां मुनीम ताच्या च्या-नाश्त्याखातीर उमेदीन पयशे काडटा.

'मुनीमाच्या बापायचें कितें सरता? हिशोब तर मामा पळयता. आतां कितेंय उलय आनी पळय, हांव चड दीस सोंसपी न्हय. मनशान कामय करपाचें आनी भुकेनय मरपाचें?' - किशोर चिंतता. पूण मामा अशे तरेन केन्ना चिंतचोच ना म्हणपाचें किशोर जाणा. ताचें काळीज खूब विशाळ आसा. हे दुकानांतले मुनीम-गुमाश्ते आसात तेच ताका आपणामदलो समजतात. दर खिणाक ताका ताची सुवात दाखोवन दितात.

किशोराक खूब फावटीं दिसता, सगळें वातावरणच जशें कि तें क्षुद्रताय आनी हिंसेचो दर्यो कशें आसा आनी कोणतरी ताचे पांय धरून ताका तातूंत सकयल ओडटा. धंद्याचें जग शाळेपरस कितलें वेगळें आसा! आपलें खुमणें जेन्ना तो हारशांत पळयता तेन्ना ताका भास जाता - ताचें खुमणें कोणातरी दुस-याचेंच आसा. ताच्या दोळे-नाक-ओंठाचेर एक कडवटपणाची सया उदेल्या. ताका लागून ताच्या नाकादोळ्यांचो नक्शाच बदलून गेला. तो आईम्ह-यांत येता तेन्ना ताका थोडी सवस्तकाय लाबता. आईच्या गळ्याक वेंग मारून तो तिका विचारपाक सोदता - "आई, ह्या दुश्ट संवसारांत तूं इतली बरी कशी उरपाक पावली?" तो आईक कांयच विचारीना पूण कशें कोण जाणा, एखादे अंतर्यामी व्यक्तीभशेन तिका ताच्या मनांतली गजाल समजता आनी ती ताची जाप दिता. त्या दिसा आई सांगताली - "मनशान धीर बाळगूंक जाय. खंयचोच मनीस आपणाली पत एका दिसांत मेळोवपाक शकना. इतले मजगतीं धीर सोडून दिलो जाल्यार ताचेसारखेलीं पिशेपणां आनीक नात. सगळ्यांत व्हडली गजाल म्हळ्यार काळ...."

'काळ!' हें सगळें ठीक आसा. पूण काळापरसय अदीक गतीन धांवपाचीं सपनां किशोर पळयता. रान, दोंगर, न्हंयो वलांडून तो उडणां मारीत वता. ताच्या कॅनवासाच्या बुटांपोंदा सुकून पडिल्ल्या पानांच्या पत्र्याची भूंय करकर आवाज करता. पळटां-पळटां ताच्या हातांत अचकीत खंयच्यानतरी तिरंगी झेंडो येता. खूब पयस वचून ताका तो झेंडो सगळ्यांत उंचेल्या जाग्यार लावपाचो आसा. तो इतलो थकला, ताका दिसता ताच्या हातांत आसा तो झेंडो न्हय तर कितल्यातरी मणांचो फांतोर. दोळ्यांच्या पापण्यांचेर थिराविल्ल्या घामाच्या थेंब्यांक तो फाफडून वडयता आनी तिरंगी झेंड्याक पळयता. ना, तो रावूंक शकना. ताका आपले जिभेर खारसाणेची रूच लागता. तो इतलो थकला, ताका दिसता

खंयच्याय खिणाक आपली सूद वचून आपूण कोंसळटलों. अचकीत खंयच्यानतरी शांतनू प्रकट जाता. एका धव्या लेंसान तो ताचो घाम पुसता. ताची फाट थापटावन ताचेकडसून तिरंगी झेंडो घेता. इतल्यान बर्लिन रेडियोवयल्यान सुभाषबाबू इंग्लीशींतल्यान भाशण दिता आनी शांतनू ताच्या दोळ्यांत पळोवन हांसता. उठटकच धांविल्ल्याचे कश्ट लेगीत ताका जाणवतात. इतलीं खरीं किशोराचीं सपनां!

अमोलकाचें गांधी-प्रेम आनी शांतनूचें सुभाष-प्रेम दोनय ह्या दिसांनी थोडें मंदावलां अशें किशोराक खूब फावटीं जाणवपाक लागलां. हो ताचो भ्रमय आसूं येता. पूण संवसाराचें वारेंच अशें व्हांवपाक लागलां. सगळेकडेन काळखी-अस्पश्ट कशें जालां. दरेकाच्या काळजांत दर एकल्याच्या मनशाविशीं दुबाव उपरासूं लागला. अमोलक आपल्या बापायभशेन गांधाजीचेर शंभर टक्के पातयेवन रावंक शकना. तरातरांच्यो गजाली आयकून तो फाटीफुडें जाता.

लोक म्हणटात, संवसारीक म्हाझूज सुरू जातकच कॉंग्रेसच्या प्रांतीक सरकारांक राजिनामे लावंक दिवन कितें साध्य जालें? वेल्यान हातूंतल्यान कॉंग्रेसीची ताकत उणी जाली काय ना? आनी नाजीयांकडेन झूज दिवप कॉंग्रेसीक जर योग्य दिसता जाल्यार ती इंग्रज साम्राज्याक तेंको कित्याक दिना? कोणाक खबर, तेंको दिल्लो जाल्यार ब-याचशा राजकी फायद्यांचो लाव मेळूं येतालो. वेल्यान असल्या वेळार गांधीजीनी इंग्रजांमुखार चड अडचणी उब्यो ना करपाचो निर्णय घेवन 'व्यक्तिगत सत्याग्रहा' चो संकल्प केला. हातूंतल्यान कितें जातलें आनी कितें घडटलें? अशे तरच्यो वादावादी करपी थोडे नात. ह्या सगळ्या चर्चांक लागून अमोलकामदें एके तरेची अथिरताय आयल्या. तो आपल्या बापायभशेन गांधीजीक 'महात्मा' मानून ताचे दर एके गजालीचें समर्थन करूंक सोदिना. हालीं चरखो चलोवपांतय ताचें मन रमना.

सुभाषबाबू कोलकातांतल्यान ना जायतसावन शांतनू सैल पडला. सुरवेक तर तांचेविशीं तरातरांचे अदमास लायताले. तातूंत भावनावेगांतल्यान आत्महत्या करपासान ते दुयेंसाक लागून तकलेचेर परीणाम जाला आनी संन्यासी जावन ते हिमालयांत वचपामेरेनच्या गजालींचो आस्पाव आशिल्लो. ताच्या उपरांत काबुलांतल्या तांच्या भाशणाची एक प्रत डॉ. रायमेरेन पावली. ती वाचून डॉ. रायान सुभाषबाबूविशीं आपले उरफाटे-पराटे विचार मांडिल्ले. पूण सदचेभशेन शांतनू हे खेपेक आपल्या बापायचेर तापलो ना. सुभाषबाबून त्या भाषणांत बरयिल्लें - "इंग्रजांची राजवट सोंपतकच कांय वर्सांखातीर एक हुकूमशाह आसप गरजेचें. आनीक कसलें दुसरें संविधान हांगा चलचें ना."

सुभाषबाबूंक भारतीय समाजाच्यो सगळ्यो समस्या हुकूमशायेंत सुटाव्यो जाल्ल्याचें दिश्टी पडटालें. आनी ही गजाल शांतनूक पचली ना. निमाणे कितेंय जांव, पूण ताच्या बापायन, डॉ. रायन ताका सदांच आपलें स्वतंत्र मत मांडपाची मेकळीक दिल्या. शांतनूचें बरोबर आसूं वा चूक आसूं, डॉ. रायान बळजब-यां आपले विचार ताचेर लादपाचो यत्न

करूंक ना. आतां शांतनूचे तकलेंत येवपाक लागलें, डॉ. रायच्या उदारपणाक तो तांचें गुळमुळीतपण मानीत आयिल्लो. डॉ. रायान सगळ्या तरेच्या लोकांकडेन बरेपण दवरलां हें तो पळयता, जांव मागीर ते विरोधी मताचे, हें ताच्या आतां लक्षांत येता.

एकेचाळीस सालांतल्या जानेवारींत कोलकाता शारांतल्यान सुभाषबाबू गेले आनी शार खाली जावपाक जशी कि तें सुरवातूच जाली. झूज जशेंजशें हिंदुस्तानाच्या लागीं तेकलें, तशेतशें शारांतल्यान भायर वचपाक लोकांमदीं मारामारी जावपाक लागली. जून म्हयन्याच्या मान्सुनाचे सुरवातीवांगडाच कोलकातांत ब्लॅक आवट सुरू जालो. दुस्मान विमानांतल्यान बॉम वडयतले हे भिरांतेन कोलकाताच्या शिरंतरांतल्यान व्हांवपी रगताच्या प्रवाहाक आडखळ हाडिल्ली. बॉम पडलो जाल्यार घराच्या भितरल्या भागाक ताची चड झळ बसची न्हय म्हण जाग्या जाग्यांचेर घरांमुखार वणटी उभ्यो केल्ल्यो. कांयकडेन रेंवेंच्यो पोतयांच्यो पोतयो भरून दवरिल्ल्यो. सायरन वाजनाफुडें उडकी मारून लिपून रावपाक कांय फोणकुलां खणून दवरिल्लीं. कोलकाता शाराचेर दाटपी मान्सुनच्या दाट-काळ्या कुपांवरी कोलकाताच्या लोकांच्या मनाचेर बॉबाची भिरांत पातळिल्ली. वारें थारलें. हवेंतली दमळाय आकांताची वाडली.

आयतारा दिसा पचपचीत घाम येता आसूनय शांतनू आनी अमोलकावांगडा किशोरान ट्रामांतल्यान आनी पांयांनी भोंवून हे सगळे देखाव पळयिल्ले. त्या तिगांयच्या घरांत लेगीत कोलकाता सोडून भायर वचपाच्यो गजाली चलताल्यो. त्या तिगांकूय वचपाची इत्सा नाशिल्ली. जेन्ना बॉब पडटलो तेन्ना पळोवं येता. पडूं दी तरी पयलीं.

पिराय वाडिल्ल्या लोकांक संकश्टांचो आवाज सामको लागींच्यान आयकूंक येता आसूनय तरनाट्यांक मात संकश्टांकडेन आडनदर करपाची संवंय आसता. रातीच्या ब्लॅकआवटच्या भिण्ण काळखांत लोक दोळ्यांचोय उपेग आयकुपाखातीर करीत चक्षुःश्रवा जाल्ले. पूण एक एक दीस स्वास आडावन धरून वाट पळोवनय बॉबांचो आवाज आयकूंक येना जालो तेन्ना लोकांनी उलोवपाक सुरू केलें. दरेका घरांत रातीचो वेळ चर्चा करपाखातीर थरिल्लो - जाचेकडेन जो विशय आशिल्लो ताचेर चर्चा जावपाक लागली.

रातिच्या गुपाट काळखांत जितो मूस नाशिल्ल्या रस्त्यावयल्यान किशोर लागीं लागींच्या मोहल्ल्यांतल्यान भोंवून येता. अशें दिसता, दरेका घरांत दरेकलो मनीस उलयता. जशी कि तें कोणूच वगी रावपाक सोदीना. सगळ्यांत व्हड विशय म्हळ्यार शार सोडून कोण आनी खंय वचपाक शकता तो - कोणाचे वळखिचे, एखादे सोयरे कोलकात्याचे भायर आसात आनी ते थोड्या दिसांखातीर आलाशिरो दिवपाक शकत काय? किशोर आनी आई, व्हडल्या मामाच्या दुस-या मावोड्या फर्रूखाबादाक वतलीं. भाभी आपल्या कुळारा कानपुराक, शांतनू मुर्शिदावादाक आनी अमोलक वर्ध्याक. जायते मारवाडी राजपुतानाक वचपाक लागल्यात - आपल्या देशांत. किशोर येवजिता, जितले दीस फुडें फुडें धुकलूंक येता तितलें बरें. डॉ. रायच्या मतान कोलकात्याचेर हवाई हल्लो जावपाची शक्यताय उणी.

जपानी दर्यावटेनच येतले. आपलें मत मामाक सांगून किशोर कोलकाताच्यान वचपाचें ताळूंक पळयता.

तितल्यांत थंय जर्मनीन रशियाचेर हल्लो केलो. ताका लागून कोलकात्याच्या राजकी वर्तुळांत एक वेगळीच सनसनी पसरली. कोलकाताचे कम्युनिस्ट आतां ब्रिटीश सरकाराचे वटेन उलोवपाक लागले - फॅसिस्टांच्या आड 'लोक-झुजां'त ते आतां इंग्रजांक साथ करतले. कॉंग्रेसीन मात नाजीयांआड आसूनय देशाक स्वातंत्र्य मेळ्ळेबगर झुजांत ब्रिटीश साम्राज्याक सहकार्य ना दिवपाचो निश्चेव केल्लो. अमोलकाचो बापूय कम्युनिस्टांची खूब टीका करतालो. पूण कोणाचें चूक आनी कोणाचें बरोबर थारावप हें अमोलकाक समजनाशिल्लें. अमोलकाचें उलोवप किशोराक खूब खोलमेरेन अस्वस्थ करता - "गरीब आनी मार खाल्ल्या लोकांचे वटेन आसपी दरेक मनीस कांयशा प्रमाणांत कम्युनिस्टच आसना? ते नदरेंतल्यान आमी सगळेच कम्युनिस्ट थारतात."

दुकानाचेर बसचेपयलीं रस्त्याचेर भोंवून-भोंवून किशोरान जो संवसार पळयला तातूंतलें दळडिरेपण आनी अडाणीपण तो विसरपाक पावूंना. कोलकाता हें भिका-यांचें शार. अमोलक म्हणटा, हे सगळे भिकारी इंग्रजांनी निर्माण केल्यात. बंगालांत कपडे विणपी तशेंच हेर दुस-या उद्देगांतल्या लोकांक हाणीं मुळांसावन भायरे केले. गांवांत कसलेंच काम मेळूंक ना पाविल्ल्यान हे भिकारी कोलकाताच्या गल्ली-गल्लीनी भितर सरले. इंग्रजांनी 1938 त 'बंगाल वेगेरन्सी बील' संमत केलें ज्याका लागून ह्या भिका-यांक पिसाळिल्ल्या सुण्यांभशेन पकडून शारांतल्यान भायर पयस व्हरून सोडपाक मेकळीक आसली. किशोरान अमोलकाक खूब फावटीं रस्त्याचेर भिका-यांकडेन वरांचीं वरां गजाली मारताना पळयला. दुकानार बसपाक लागतकच किशोरान एक दुसरो संवसार पळयला. कोणूय एखादो भिकारी जर मामाच्या दुकानामुखार उभो रावलो जाल्यार मामाच्या धेंगशान त्या बाबड्याच्या काळजाचे ठोकेच बंद पडूं येताले. त्या वाठारांतल्या सगळ्या भिका-यांक घडये हे गजालीचें भान आशिल्ल्यान ते ह्या दुकानामुखार केन्ना भीक मागपाक उभे रावनात.

अमोलकाचो बापूय बाजारांत भोवून वर्गणी एकठांय करता म्हणून मामा म्हणटा - "पयशे जोडपाचें सोडून आपल्या मुळाव्या वैश्य धर्माचें रूपडें देंवोवन दान मागीत भोंवतात. देशसेवा करतले! हे लोक म्हळ्यार मारवाड्यांच्या नांवाक लागिल्लो कलंक. तकली घुंवल्या हांची म्हणून भोंवड्चो काडीत आसतात. प्रभात फेरी! खादी फेरी! खूब गाजयतात आपल्या पुर्वजांचें नांव!"

अशे तरेच्यो खबरो आयकल्यो काय किशोराच्या काळजाक उजो पेटटा. मनांत येता, सांगचें - "कळपाक जाय तुमकां, हे लोक कलंक लायनात तर मारवाड्यांचो कलंक धुवन वडयतात."

प्रभात फेरी पळयली काय किशोराचे भितर एक आवेग कसो उठटा. ताचो गळो

भरून येता. 'मेरा रंग दे बसंती चोला....' किशोराचो चोला किशोर बसंती रंगोवंक शकना. धन्य आसात हे लोक आनी धन्य आसा ही धर्तरी जे धर्तरेचेर हे लोक जल्माक आयले. आमचें जिवीत मात किड्या-मुयांसारखें आसा. उद्देश नाशिल्लें. सुवार्थान भरिल्लें जिवीत.

एकेचाळीस सालांतलो निमाणो म्हयनो येतां-येतां जपानान अमेरीका आनी इंग्लंडाचेर घुरी घाल्ल्या कारणान आतंक इतलो वाडलो, कोलकाताच्या लोकांक शार खाली करपाबगर आनीक दुसरो कांय उपाय उरलोच ना. गर्भांतले आवयचे वारेवरी मनीस आपल्या शाराकडेन जोडिल्लो उरता. तें सोडप कितलें कठीण आसात हाचो अणभव किशोराक पयलेच फावट येवपाक लागिल्लो. रामविलास-पणजो, आजो, आपलो बापूय ह्या सगळ्यांविशीं तो येवजुपाक लागला. हे सगळेजाण जेन्ना आपणाली भूंय सोडून हांगां आयले तेन्ना तांकां कितली खंत भोगल्या आसतली. तेचखातीर घडये ते आपणाल्या बायलांक घेनासताना आयले. उपरांत बायलो आयल्यो, पूण कसल्याय सणा परबेवेळार वा बाळंटेरावेळार त्यो परतून गावांत वताल्यो. ललितभैयाचो जल्मूय भिवानीतूच जाल्लो. दादले हांगां, बायलो थंय. ललितभैयाच्या लग्नावेळार गायिल्ल्या मारवाडी गीताचीं उतरां किशोराक याद जातात-

मेहंदी मोल की ऐ
ऐ जी मेहंदी राची म्हारे हाथ,
म्हारो बन्नो बस्यो है दूर, सहेली
कुण निरखे म्हारा हाथ?

"हावें खर्च करून हाडल्या मेथी. हातांचेर चितरायल्या मेथयेन नक्षी. पूण सखी, म्हजो साजन रावता पयस देशाक. कोण पळयतलो म्हजे हात?"

मदल्या मामाचें फाटल्याच म्हयन्यांत लग्न जालां. पूण मामी आपणाल्या आवय-बापायबरोबर रामगडाक वतली आनी मामा कोलकात्याक रावन कारभार सांबाळटलो. मामीच्या हातावयले मेथयेचो रंग आजून फिको पडचो आसा. पूण उपेग कितें?

जपान्यांनी सिंगापूरवटेन बरेच बॉब·वडयले. बाजार सामको मंदावला. इश्कोलां, कॉलेजी सगळीं बंद जावपाक लागल्यांत. सिंगापूरांत हत्यारांनी सज्ज आशिल्ल्यो आधुनिक इंग्रज बोटी जपान्यांनी बुडयतसान भिरांकूळ वातावरण पसरलां. लोकांचें म्हणणें अशें - इंग्रज राज्याचो सुर्या बुडपाचो आसा. कांय लोक जपान्याविशीं खूब मोग आशिल्ल्याचें उकतायतात आनी तांच्या येवकाराचे तयारेंत रावल्यात. दुसरेवटेन नेहरून सांगून दवरलां, सुभाषबाबू जर जपान्यांवांगडा आयले जाल्यार तो स्वतः आपूण हातांत तलवार घेवन तांच्या विरोधांत रावतलों. कम्युनिस्ट तर सुभाषबाबूंक 'क्विझलिंग' (गद्दार) अशेंच म्हणटात. चोंयवटेन हलकल्लोळ चलला. इतले मजगतीं मेथयेन रंगयिल्ल्या हातांचें पडलां कोणांक?

सोळा डिसेंबर एकोणिसशें एकेचाळीस - ज्या दिसा रंगूनाचेर बॉब वडयिल्ल्याची

खबर आयली त्या दिसा किशोर आनी आई, फरूदाबाद वचपी रेल्वेंत व्हडल्या मामावांगडा चडिल्लीं. फक्त मदलो मामा कोलकात्यांत उरलो.

खंयच्याच मालाक कसलेंच मोल ना ही अवतिकाय जाल्ली बाजाराची. व्हडल्या मामाक सट्‌ट्यांत खूब व्हड मार बशिल्लो हें किशोराक बरेतरेन खबर आशिल्लें. वचचे पयलीं एक फावट वयल्या ऑफिसांत खूब मोट्यामोट्यान बाचाबाची जाल्ली. मदलो मामा, व्हडल्या मामाक सांगता तें किशोरान आयकल्लें, "तुवें आमकां सामके नरकांत पावयल्यात. तुज्यो मिजाशी आनी नखरे आतां आमच्यांनी सोंसपाक जायना. तुवें आतां काम पळोवपाची कसलीच गरज ना. तूं घरा बस आनी म्हाका म्हजें काम सांबाळूं दी." किशोराच्या कानार पडलें तेन्ना तो अजापीत जालो. व्हडल्या मामान ह्या उलोवण्याक परती जाप केली ना. किशोराक दिशिल्लें आतां व्हडलो मामा आड्‌डतलो आनी मदलो मामा ल्हानपणांतल्याभशेन पुडव्यांतूच मुततलो. पूण अशें कांय घडलें ना. व्हडलो मामा हरिल्ल्यावरी जाल्लो. तीन म्हयन्याआदीं घरांतय पालक-भज्यांक लागून आकांताचीं झगडीं जाल्लीं. तेदेवेळार आई धरून सगळ्यो भयणी आनी ल्हान भाव आपल्या आड गेल्यात म्हणपाचें व्हडल्या मामाच्या लक्षांत आयिल्लें.

त्या आयताराक सदचेभशेन इस्पिकांनी खेळपाखातीर व्हडल्या मामाली इश्ट-मंडळी घरांत एकटाविल्ली. कोलकातांत खाली जातल्या घरांमदलें लेक रोडावयलें एक घर व्हडल्या मामान सवायशा दरान विकतें घेतिल्लें. मामाल्या एका इश्टाक लहर आयली - "चलात, पालक-भजीं खावंया." पूण पालक मेळटली खंयच्यान? पालकाचो मोसम तर ना. दुस-या एकल्यान म्हळें, "नुस्त्या बाजारांत नक्कीच मेळटली." रोकडीच गाडी शाराच्या दुस-या तोंकाक आशिल्ल्या नुस्त्या बाजारामेरेन घेतली. झुजाक लागून पेत्रोलाचें रेशनिंग चलतालें. एके गाडयेक फक्त स गॅलन पेत्रोल मेळूं येतालें. हाका लागून रस्त्याचेर खूब थोड्यो गाडयो धांवताना दिसताल्यो. मोटारवाले लेगीत बसीनी, ट्रामानी येवपाक-वचपाक लागिल्ले. ते रातीकडेन पालक-भज्यांक लागून मदल्या मामान मोटो हलकल्लोळ केल्लो. त्या वेळार सगळ्यांक धंद्यांत भोगचें पडिल्ल्या नुकसानीबद्दल कळिल्लें. त्या दिसाय व्हडलो मामा उलोवंक नाशिल्लो. ताची कूड उकती जाल्ली ती बद्द दुस-या दिसा दुकानार वचपाच्या वेळार. ते उपरांत तो चडसो वगी-वगीचसो रावपाक लागिल्लो. ताचे इश्ट संवंगडी मागीर केन्ना घरा आयले नात.

धंद्यांतलें नुकसान मदल्या मामान मोठे हुशारेन सांबाळ्ळें. हातूंत ताच्या मावोडच्यान आयिल्ल्या रुपयांचोय आस्पाव आशिल्लो. ताणें सगळ्यांचे पयशे फारीक केल्ले आनी प्रामाणिकपणान तो वयलें तेचवरोवर सकयलें अशीं दोनूय कामां सांबाळपाक लागिल्लो. आपल्या लग्नाच्या दुस-याच दिसा तो दुकानार आयिल्लो. ताणें फर्रूखाबाद वचपाचो प्रश्नूच नाशिल्लो. त्या लोकांच्या रेल्वेंतले भोंवडेखातीर मदली मामी मेथयेन रंगयिल्ल्या हातांनी पुरयो लाटटाली तेन्ना किशोरान रांदचेकुडींत वचून पळयलें जाल्यार तिचीं दुकां

बरेच फावटीं साडयेंत गळनासताना पुरयेचेर पडटालीं. ती मागीर ती पुरी कुडक्यान पुसून घेताली आनी आपले कुशीक दवरील्ल्या पाटल्यांत वडयताली. तिकाय दुस-या दिसा आपल्या कुळारा, रामगढाक वचपाची रेल्वे धरपाची आशिल्ली.

फर्रूखाबादाक वतना रेल्वेंत एकूय पुरी किशोर खावपाक शकलो ना. दुकांची पुरी. संवसारांत सदांच अशें कित्याक म्हण घडत आयलां? एका ल्हानशा आयुष्यांत जाका जाचेवांगडा रावपाक जाय ताचेबरोबर ताका कित्याक रावपाक मेळना? केन्ना मरण आड येता जाल्यार केन्ना आनीक दुसरें कसलेंय कारण. पूण हें कित्याक?

घरासान हावडा स्टेशनामेरेन वतना पळयिल्लो देखाव किशोर केन्ना विसरपाक शकना. इतले सगळे लोक जशे कि तें एकाच वेळार अशीर अशा एका दारांतल्यान भायर सरपाक पळयतात. रस्त्याचेर रिक्शावाले, घोड्यांगाडयो, मोटारी हांची दाटी जाल्ली. बसींत, ट्रामांत खंयच जागो नाशिल्लो. हावडा स्टेशनाच्या प्लेटफॉर्मार शेंकड्यांनी लोक आशिल्ले. तांकां दिसतालें, कशेय तरेन तिकेट मेळपाक जाय वा रेल्वेच्या डब्यांत तरी घुसपाक मेळपाक जाय. निदान मर्णाचे दाढयेंतल्यान तरी वांटांव येत. खंयच्याय खिणाक मर्ण खरें रूप घेवन मळबांतल्यान प्रकटूं येता. पांच-स मनशांखातीर ट्रेनींत जागो राखून दवरपाक शंभर रूपयांमेरेन लांच दिताले. हवाई हमल्यांची चेतावणी दिवपाक ट्रायलीखातीर सायरन वाजलो जाल्यार लोकांचीं काळजां धडधडूंक लागतालीं.

मदलो मामा तांकां बसोवपक स्टेशनार आयलो तेन्ना किशोरान मामाक विचारलें, थोडे दीस फर्रूखाबादाक रावून शारांतली हालत सुदारतकच तो कोलकाताक परतलो जाल्यार चलतलें काय म्हण. मामाक लेगीत आदार जातलो आनी किशोराचें मनय कोलकात्याबगर आनीक खंय रमपाचें ना. मदल्या मामान न्हयकार दिलो ना आनी किशोरान रोकडोच परतुपाची थारावणी घेतली.

किशोर परतलो पूण मदल्या मामाची नवी डिक्टेटरशीप झेलपाखातीर न्हय. तो परतलो स्वामी रामानंद कृष्णाभशेन - हे विराट जिणेचो आनीक एक पैलू जाणून घेवपाखातीर.



*आपले कथेचो हो अंश किशोरबाबूक विराट रूपान बरोवन घेवपाचो आसा. त्या वेळार ताका ज्यो गजाली आयुष्याचें सत्व आशिल्ल्यासारख्यो दिशिल्ल्यो त्यो त्याच उतरांनी रूप-रस-गंधासयत कथेंत येवंच्यो अशी ताची इत्सा आसा. मागीर ही कथा व्हांवत मुर्शिदाबादाक गेली जाल्यार कितें जालें? ती कथाच कित्याक, ती वाचतल्याक मागीर स्वामी रामानंद कृष्णाभशेन आपणांभितर झांकून पळोवपाची संद दिवं येता. ह्या विचारावांगडाच किशोरबाबू मनांतल्यान ही कथा बरोवन घेवपाखातीर बसका मारता.*

दर खिणाक आपली जीण आनी फुडाराची चिंता करीत राविल्ल्यान तकलेच्या फाटलेवटेनच्या गुटाक वेदनेचें एक थायी स्वरूपाचें दुखणें करुन वडयिल्लें. फार्रूखावादेंतले

अशे ना सोंसपासारखे सात म्हयने कांडटकच, किशोर जेन्ना कोलकाताक पावलो तेन्ना कोलकाताचे मनशांविरयत रस्ते, बंद दुकानां आनी बाजार पळोवन ताच्या मनांत अचकीत एक धाडसी विचार आयलो. तो मदल्या मामाक मेळनासताना जर मुर्शिदाबादाक शांतनूकडेन गेलो जाल्यार मामाक कितें कळटलें?

शांतनू, अमोलक आनी आई-भाभीबगर कोलकाताक रावप हें किशोराक जड दिसपाक लागलें. ताका फर्रूखाबादाक शांतनूची चीट मेळिल्ली ती ताणें परतून काडून वाचली - "आमराईकडसून व्हांवपी गंगा आनी पिकांनी भरिल्लीं शेतां हातूंतल्यान सर्गांत आयिल्ल्यावरी दिसता. 'सोनार बांगला' पळोवपाचें आसल्यार सगळीं बंधनां तोडून वडय आनी पळून यो. असली संद परतून मेळची ना. अमोलक वर्ध्याकसान परतून हांगां येतलो अशें ताणें बरयलां. आमचें त्रिकूट बेस बरें जमतलें. तुमच्या दोगांखातीर एक आगळी-वेगळी भेटवण लेगीत तिश्टता. ती कसली हें रहस्यच उरूं दी. पूण इतलें मात खात्रीन सांगतां, हांगाच्यान तुमी जेन्ना कोलकाताक परततले तेन्ना जीण जशी आसा तशी ती उरची ना."

किशोराचे हे चिटींत शक्यतायेचें एक सपन दिश्टी पडटा. कितलीं भुलोवणीं उतरां हीं - एक बदलिल्ली जीण! ह्या दिसांनी किशोराक एक विचित्रशी निराशा दिसपाक लागल्या. सतरा वर्सांचो जाला तो. ताच्या लग्नाची गजाल तो आनीक दोन-तीन वर्सां ताळूंक शकत. ते पयलीं ताका आपल्या पांयांचेर उबो रावपाक जाय. पूण कसो? सगळेवटेन परिस्थिती इबाडत चलल्या. खंयच कितें बरें घडटा अशें दिसना - ना देशांत, ना आपल्या कुटूंबांत.

शांतनूचें घर मुर्शीदाबादांतल्या जियागंजांत गंगेचे तडीर उभें आसा. उत्तर कोलकाताच्या राय कुटूंबाच्या भग्न जावपी म्हालाभशेनच इतिहासाचो गंध घेवन. पूण हें घर जिवें आसा म्हणपाचें घराच्या भायल्यानूच आयकूंक पळोवंक येता आनी आंगाक कांप सुटटा. दर घराक मनशाभशेनूच आपलो चेरो आसता काय कितें? म्हातारें आसूनय हें घर आजून जिजीविषेन भरलां, पोरन्या काळांतल्या मनशांभशेन. भितर सरतल्या दरेकल्याक तें हांसून येवकारता आनी भायर वतल्याखातीर उदास जाता.

हाच्या पोरन्या शिमीटाच्या वाघांचेर कोणूय भुरगो बसलो जाल्यार हें आपलें भुरगेपण येवजून खळखळून हांसता. हाच्या माडावयल्या आडसरांतलें अमृतावरी गोड उदक कोणूय पियेलो जाल्यार हाचे म्हातारे दोळे धादोसकायेन आनी उमेदीन भरून येतात. हाच्या कुळागरांतल्या 'श्रीकृष्ण बासरी' नांवाचें विशाळ केळें खावन कोणेंय तीन वरांखातीर आपलें पोट भरून घेतलें जाल्यार ताचे खोशयेक शीम उरना. हाचेकडेन चारूय कोनशाक लायिल्ले आंब्याचे चार रूख आसात. एका फळाचें नांव आसा 'कोहिनूर.' हो सगळ्यांत म्हारगो आनी सगळ्यांत श्रेष्ठ आंबो. मुर्शीदाबादच्या नवाबांची ही खाशेली पसंत. पूण

दुसरेवटेन ‘रानीपसंत’ आंबो आसा. हो कितें सिराजुद्दौलाचे अप्रूप सुंदरी पट्टराणी लुत्फन्निसाचे आवडिचो आशिल्लो? तिच्या गळ्यांतल्यान सकयल देंवतल्या पानांच्या रोसावरी ह्या आंब्याची लेवशी आमसाण-गोडसाण तिच्या व्यक्तित्वांत पळोवपाक मेळटाली? चांफ्याच्या फुलांचो परमळ धारण केल्लो ‘चंपा’ आंबोय ते चांफेकळीक बरोच पसंत आशिल्लो. ‘शहादुल्ला’ आंब्याचें कलम शांतनूच्या कोणा पुर्वजान नवाबांच्या माळ्याकडसून बरेंच मोल फारीक करून हाताशिल्लें. कित्याक तर सर्वसामान्य लोकांक ह्या आंब्याचें पीक काडपाक जमचें न्हय म्हण आंब्याचें बीं नश्ट करपाचो शाही आदेश आशिल्लो.

मुर्शीदाबादांतलें शांतनूचें हें नवें रूप पळोवन किशोर चकीत जाला. आपल्या घराण्याचो इतिहास सोदता आनी बरयता ह्या कारणाक लागून आपल्या बापायचेर नाराज जावपी शांतनू आतां सदांच इतिहासाच्यो गजाली करता. खंयच्यो खंयच्यो गजाली. ताका संगीतांची आवड आसा हें किशोराक शाळेंत आसतसावन खबर आसा. पूण शांतनूच्या हेर सगळ्या गजालींवरवीं संगीतय आतां इतिहासांत जमा जालां.

“कबियाल संगीत आयकुपाचें आसा? अँथनी फिरंगीचें कबियाल संगीत? हो पोर्तुगीज फिरंगी दोनशीं वर्सांआदीं जावन गेलो. तो कालीचो भक्त आशिल्लो हें खबर आसा?”

“बाऊल गाणें आयकुशी जाल्यार आयकत उरतलो. जिणेच्या सत्यांत भरसल्ली गोडसाण. बाऊल फकिरांची परंपरा बंगालांत आजूनय चलत आयल्या.”

“तुका खबर आसा, सिराजुद्दौला इतलो सौंदर्याचो भक्त आशिल्लो, हिंदू बायलांक आपणांवटेन ओडून हाडपाक ताणें एक नवी युक्त सोदून काडिल्ली. ताचे भिरांतेन हिंदू बायलो खूब उण्या प्रमाणांत भायर सरपाक लागल्यो. ताचे मनीस होड्यांत बसून रावताले. कोणूय एखादी सुंदर बायल गंगेचेर न्हातना दिसली काय ते तिका थंयची उबारून घेवन वताले. तरी लेगीत सिराजुद्दौलाचें मडें हतयाक बांदून इंग्रजांनी मुर्शीदाबादभर भोंवडायलें तेन्ना सगळ्या हिंदूंनी ताच्या आत्म्याचे शांतीखातीर गंगेंत तर्पण करून न्हावन घेतलें. फिरंग्यांचो सामनो करपी तो तांचो आपलो असो सिराज आशिल्लो.”

जियागंज-अजीमगंजचो सैम, शांतनूच्यो गजाली आनी शांतनूचे स्वामी रामानंद कृष्ण उर्फ जोगेशचंद्र चक्रवर्ति. ‘अद्‌भूत’ उतराचो वेगळो वेगळो विस्तार. किशोर जेन्ना पयलेच फावट स्वामीजाक मेळ्ळो, तेन्ना ताची पयलीच गजाल आयकताना शांतनूमदें घडिल्ल्या बदलाचें कारण आनी किशोर-अमोलकाखातीर दवरिल्ले रहस्यमय भेटवणिचो अर्थ समजून आयलो.

“तुजें दुःख कितें? कित्याखातीर तें? तुज्यो सगळ्यो वेदना, सगळ्यो व्यथा हांचें मुळावें कारण एकूच आसा. आपलो स-भाव ना जाणप. तुका जिणेकडल्यान कितें जाय तें खबर आसा? काय तुवें दुस-यांकडल्यान शिकिल्ल्या, वाचिल्ल्या गजालींवयल्यान तुवें तें थारायलां? तूं जें कितें करता तें तुजेच इत्सेन करता? तुजेर जर कसलेंय दडपण नाशिल्लें, कसली आगतिकताय नाशिल्ली जाल्यारय तूं आतां जें करता तें करतलो

आशिल्लो?''

किशोर थक्क जालो. स्वामीजी हें सदचेभशेन सगळ्यांखातीर सांगता तशेंच सांगता काय शांतनूकडल्यान आपणाविशीं कळटकच त्या संदर्भातल्यान सांगता? तो ह्या उतरांनी खूब दुखावलो. ताका दुःख जाता इतल्याच खातीर, तो जें कितें करता तेंच तर करपाची ताची इत्सा ना. पूण दुसरी कसली वाट आसा? तोयवी हेंच सोदपाक लागला. फक्त उलोवन कितें जावपाक आयलां? जी परिस्थिती आसा ती तशीच उरतली. तिचें कितें करपाक जायत? सोंसलेवगर आनी कश्ट काडलेबगर? पूण कसलोच नाईलाज नाशिल्लो जाल्यार तो ख-यांनीच कितें करपाचो? हें तर तो लेगीत नकळो. तेचवरी शांतनू आनी अमोलकय नकळो.

स्वामी रामानंद कृष्णाची गोरी कांत, व्हड उंचाय आनी तीक्ष्ण नाक, भगवी लुंगी आनी शेलो - तेजोमय व्यक्ती! कपलार धव्या रंगाचो लांब तिबो. कितली आसूंये पिराय हाची? पंचेचाळीसाकडेन आसतली. खोल भुयारांतल्यान आयिल्ल्यावरी ताचो स्वर दिसता. हाचो भूतकाळ कितें आसतलो? ताची भेट घडोवन हाडचेआदीं शांतनून कित्याक सांगलें ना? खंयच्यातरी रामानंदी संप्रदायाची दीक्षा घेतिल्ले स्वामी आसात इतलेंच सांगिल्लें ताणें. शांतनूच्या घरा कुशीकूच तांचें रिकामें पडिल्लें जाण्टेल्यांचें घर आशिल्लें तातूंत ते आतां रावपाक लागल्यात. लग्न जावंक नाशिल्लो एक धाकलो भाव आसा तो कोलकात्याक रावता. अदीं-मदीं मेळपाक येतां.

''उद्धटपणाखातीर भोगसुणी मागतां स्वामीजी. पूण म्हाका हें कळप हांव गरजेचें समजतां तें म्हळ्यार, तुमी तुमचो स-भाव वळखला आनी तुमी जे तरेची जीण जगतात तशीच जगपाची तुमची इत्सा आशिल्ली?'' किशोरान विचारलें.

स्वामीजीचे दोळे पयलीं हांसले, उपरांत ओंठ - ''लागींलागीं.''

ही जाप आयकून किशोरान अजापान शांतनूवटेन पळयलें. ताच्या मुखामळावयले भाव पळयतकूच हो प्रश्न शांतनून विचारून जाला म्हणपाचें ताका समजलें. जापेंतल्या प्रामाणिकपणान ताका बांदून घेतलो. एका साद्या उतरांत मनशाची वळख करून दिवपाचें सामर्थ्य आसता हें ताका पयलेंच खेप होलमलें.

स्वामीजी आनी शांतनूचो सांगात - जिणेचें सहज संगीत. सदां सूर्य उदेवचे पयलीं उठप. नखेत्रांच्या सांवळेखालच्यान चलताना ल्हवू ल्हवू उजवाडटा तें पळयताना उदेत्या सुर्याचें दर्शन घेवप. 'धा मिनटां शांततायेंत ध्यान.' कोणाचें? कोणाचेंय. एखाद्या परमेश्वराचे प्रतिमेचें वा 'ओम' ह्या उच्चाराचें. वा आपणाभितरच व्हांवतल्या रगताच्या प्रवाहाच्या ना थांबपी संगीताचें. चिमण्यांच्या चिवचिवाटाचें. गंगेच्या प्रवाहाचें. जाणे कित्यानय मनाक प्रसन्नता लाभता ताचें. थांबप. 'दोन मिनटां प्रार्थना'. धन्यवाद दिवपी प्रार्थना. कसले गजालीखातीर धन्यवाद? आनी कोणाक संबोधून? जें कितें खोस दिवपी दिसतालें, दिसता ताचेखातीर. ताच्या मुळसाक धन्यवाद. देव आसल्यार बरें आसा. नाजाल्यार

सैमाक. आपल्या आपणाकूच. हीच खरी बरी गिरेस्तकाय. प्रार्थना म्हळ्यार कसलें मागणें न्हय. तन-मन-धन, कुटूंब कोणाखातीर कांयच मागणें ना. 'एक वर अध्ययन.' आपणाले आवडिचो विषय घेवन. सांजवेळा एक वर भोंवप. आनी संवाद. असंख्य उतरांचो अखंड प्रवाह. देशाचो फुडार. समाजाची स्थिती. कर्तव्य. बंधन. कूड-मन-आत्मो. व्यष्टी-समष्टी. परमेश्वराची गरज. मनशा-मनशामदले भेद. ब्राह्मण-शुद्र. हिंदू-मुसलमान, अहिंसा आनी हिंसा. आपणाक वळखप. मुक्ती.

काळाचे घडयाळीन किशोराखातीर आपली टिकटिक मंद केल्या. जिणेच्या खिणा-खिणाक तो एके अनुपम तृप्ततायेचो अणभव घेता. काळजावयलो जो भार ताणें हांगा ओडून हाडिल्लो त्या भारांतल्यान ताचें मन पुराय तरेन मुक्त जालां. पूण ताचो जागो आतां रातदीस सतायतले एके अनवळखी वेदनेन घेतला. हो असो जगपाचो काळ तर ताका उश्णो मेळ्ळा. ताचे उपरांत? तो असली जीण सदांच जगपाक शकचो ना? कित्याक ना? ताणें स्वामीजाक विचारलें.

"तूं जिणेक धरून दवरपाक कित्याक सोदता? जें कितें मेळ्ळां तें तशेंच उरचें अशें कित्याक चिंतता? आपल्यो इत्सा मदीं हाडूं नाका. जिणेच्या प्रवाहांत तूं तुका झोकून दी. आपणाक व्हांवून वचपाक दी. ती तुका योग्य जाग्यार पावयतली. निरंतरतायेची ओड हेंच तर दुख्ख. जीण आसा तरातरांची. कोण बरोय ना आनी कोण वायटूय ना. हीं विशेशणां आमच्या इत्सांनी लायल्यांत. तुका दुकानार बसपाक इतलें वायट दिसूंक नाशिल्लें जाल्यार ही जीण सदांकाळाखातीर आपणावपाची इत्सा तुका जावपाची नासली. संन्यास घेवप म्हळ्यार एखादे गजालीपासून पळून वचप न्हय. संन्यास तुजेखातीर जगपा-मरणाचो प्रश्न जावपाक जाय, तरच तो तूं आपणावंक शकतलो."

किशोराक दिसलें, स्वामीजीन आपणामुखार हारसो दवरला. हां, हें खरें आसा, जीण ताका आपल्या सगळ्या आकर्षणां आनी रस-रंगांवरवीं आपणांवटेन ओडीत व्हरता. शांतनू आनी ताचेमदीं एक व्हडलें अंतर आसा. मदल्या मामाक ताच्या लग्नाआदीं किशोरान मोटें धाडस करून विचारिल्लें, तो शांताभाभीकडेन लग्न करपाक शकना कांय म्हण? मदल्या मामान ताका भुलोवपाखातीर म्हणिल्लें, तो आपूणच कित्याक करीना लग्न? तेन्नासावन किशोराच्या मनांत ही गजाल घुंवत उरली.

मुर्शीदाबादाक आयल्या उपरांत ताका जाणवलें, जेन्ना तो एकलो आसता वा रातच्या वेळार न्हीद लागचे पयलीं शांताभाभीचें खुमणें ताच्या मुखार घुंवत रावता. तिचेविशींचें एक प्रबळ आकर्षण ताच्यांत लिपून उरलां ही गजाल ताका आतां हांगा आयल्या उपरांत जाणवली. कसलेय गजालीवेळार तिचो विचार मनांत आयलो जाल्यार ताचें काळीज जोरा-जोरान धडधडूंक लागता. हांगां वळख-देख आशिल्ले धरतरेपासून पयस अंतराच्या एका अनवळखी प्रदेशांत, ताचीं सगळीं सामाजीक बंधनां ताका काळजाच्या ख-याखु-या भावनांमेरेन पावोवपाचो थांबोवंक शकनात हें ताचें कारण आसूंये.

स्वामी रामानंद कृष्ण अदीं 'मदीं आपले फाटले जिणेविशीं म्हळ्यार जोगेशचंद्र चक्रवर्तीचे जिणेविशीं सांगत आसतात. किशोरान सांगलेबगरय ताका कळटा, किशोराक आपले फाटले जिणेविशीं जाणून घेवपाची इत्सा आसा. सगळें कितें तें.

"एखाद्याचें आत्मचरीत्र वाचून ताचेबाबतींत आपणांक सगळें केन्ना कळून येता? अशें जायतें आसता जें स्वतः लेखकूच आपणाचे बाबतींत नकळो आसता. तें सुटटा ताचे लेखणींतल्यान. जायतें अशेंय आसता तें ताका खबर आसता पूण तें सांगपासारखीं उतरां ताका सांपडनात. आनी जायतें अशेंय घडिल्लें आसता जें बरयताना तातूंत काट-छाट करची पडटा. आयुष्यांत सगळें कितें 'लागींलागीं' घडटा. 'ॲप्रोक्सिमेट'. पूण हेंच तर मनशाक फुडें वचपाक प्रवृत्त करता. अपूर्णतायेसान पूर्णतायेकडेन वचपाचो प्रवास म्हळ्यारच तर जीण. पूण परतून 'लागींलागीं' 'पूर्णताय' 'लागींलागीं'..." स्वामीजी हांसतात.

हें 'लागींलागीं' उतर त्या लोकांमदीं आतां हांसपाची एक धारूच जावन पडल्या. जिणेंत हांसपाची नेमकी गरज तरी कितली आसता? हांसप म्हळ्यार कितें वारें न्हय जाचेबगर जगपाक जायना अशें. पूण हांसपाची लेगीत गरज आसता हें किशोराक आतां कळून आयलां. तें लेगीत कारणाबगर हांसप. ज्या हांसपाफाटल्यान कारण आसता, तें खरें हांसप नासताच. केन्ना धुर्तपणा आसता, केन्ना हिंसक भाव, केन्ना अभिमान. किशोर आनी शांतनू स्वामीजीवांगडा जशे कि तें दरेका खिणाक हांसपाक तयार आसतात. अर्थाविणें हांसप. पद्मा न्हंयचेवरी अविरत व्हांवपी हांसो.

"पूर्व बंगालांत एका उंचेल्या ठिकाणार मातयेचें एक मजली घर बांदून म्हजो बापूय रावतालो. थंय पद्मेक हुंवार आयलो काय नुस्तें धरपाक खूब सोपें पडटालें. घरांतूच बांबूच्या माचार जेवण रांदताना बशिल्लेकडेनच नुस्तें धरलें काय सरळ कायलीर."

मनीस आपल्या सगळ्या संकश्टांकडेन पळोवन कितें हांसपाक शकता? - किशोराक भितरल्यान कोणतरी विचारता. पूण हांसपाखातीर लेगीत एक भोंवडी करची पडटा.

"ती जायत्या जल्मांची भोंवडी आसा." स्वामीजी परतून हांसतात. "पद्मेचेर नावाड्यांचीं गीतां आयकतां-आयकतां हे तडीरसान ते तडीर वचपासारकी भोंवडी थोडीच आसा ती."

"स्वामीजी, तुमी दरेके गजालींत पद्माक मदीं हाडटात. मागीर तिचो संबंद आसूं वा नासूं. 'लागींलागीं' उतराभशेन." किशोराच्या म्हणण्याचेर स्वामीजी खळखळून हांसतात. हांसपाचें सूत्र ताचे तकलेंतल्यान कशें म्हण निर्माण जाता हाचें किशोराक अजाप जाता. तो हांसता, खूब हांसता आनी ताचेभितर एक दुसरोच किशोर आपणाल्या हांशाचेर अजापीत जाता. पूण केन्ना-केन्ना दुख्खी आनी उदासूय बी. केन्ना तो दुसरो किशोर भियेताय बी. एक नकळो आशिल्लो भंय. पूण परतून किशोर ह्या दुस-या क़िशोराक चिपचिपावन वगी करता. खूब खूब दिसांखातीर. हांसतानाय बी भियेवप? हें हांसप सोंपतलें आनी मागीर परतून आसा तेंच आयुष्य सुरू जातलें हेचखातीर?

स्वामीजी 'जोगेशचंद्र' चक्रवर्तीचे जिणेविशीं अशेतरेन सांगतात जशें कितें ती

कोणतरी वेगळीच व्यक्ती. तांचेपरसूय वेगळें अस्तित्व. ख-यांनीच काय मनीस आपलो भूतकाळ मारून वडोवंक शकता? एकेच जिणेंत दोन आयुष्यां? हे जिणेंत मदीं मदी खोरजत रावपाखातीर पोरणे जिणेची खोरोज बादची ना मूं?

पूर्व बंगालांतल्या विक्रमपूर जिल्यांतल्या मेदिनीमंडळ गावांत आसपी आपल्या घराच्यो जायत्यो काणयो स्वामीजींभितर सुप्त बीजांवरी दामून उरल्यात. वारें-उदक-माती जेन्ना केन्ना अनुकूल जाता तेन्ना तातूंतल्यान ल्हान ल्हान पानां भायर सरतात. फक्त त्या दोगांक हांसोवपाखातीर? काय पूर्व बंगालचें वर्णन करपाखातीर?

"आमचीं घरां उंचेल्या उंचेल्या सुवातींनी बांदताले. पूण पावसाळ्यांच्या दिसांनी सगळ्यांच्या घरांभितर उदक सरतालें. गायो-म्हशींक चरव घालपाखातीर आशिल्ल्या व्हड वाटकुळ्या 'टागाडीं' त बसून ल्हान-ल्हान वल्ह्यांनी तांकां वल्हयत लोक एकामेकांगेर गजाली करपाक वताले. वाटकुळी बोट केन्ना घुंवत हाचो नेम ना. एक फावट आमच्या पयसुल्ल्या सोय-याचो मामा, जो आमच्या शेजराकूच रावतालो, तो टागाडींत बसून दोन रूपये मागपाक आमगेर आयलो. म्हज्या बापायन म्हळें, एक रूपया व्हर. तो रोकडोच घुंवलो. बापायन ताका फाटसूनच म्हळें, बरें बाबा, व्हर दोन रूपये. तो परतून घुंवलो आपले हळडुवे दांत दाखयत. तो दोन रूपये घेवन वतकच बापायन म्हळें, साल्याक टागाडी सांबाळपाक कळना. गरजेभायर दोन रूपये गेले." शांतनू आनी किशोर खूब वेळ हांसत उरले.

मेदिनीमंडळ गांव हो ब्राह्मण पंडितांचो गांव. आयुष्यभर कोणाच्यान पद्माक विसरूं नज. न्हंयच्यान व्हांवत येवपी प्रवाही वारें. धान्याचीं पांचवीचार शेतां आनी तांचेर हुडपी धव्योफुल्ल बळारी. दंवान भिजिल्ली सकाळ. न्हंयचेर यो-वच करपी होड्यांचेर नावाड्यांच्या गीतांचे सूर. जमीनदारांच्यो सुंदर होडयो. केन्नाय इंग्लीश स्टीमर. दरेका घराचें आपलें-आपलें होडें. सगळ्यो वस्तू होड्यांतल्यान येताल्यो. फोव, चिरमुल्यो, गोड. स्वामी रामानंद कृष्ण आपणाल्या खोल गंभीर आवाजांत गातात -

आडाली धानेर चिउडा, बिन्नी धानेर खोई ( आडाली भाताचे फोव, बिन्नी भाताच्यो ल्हायो)

फोडितपुरा पाटाली गुंड, सिलिमपुरा दोई (फोडितपूरचें पाटाली गोड, सिलिमपुराचें धंय)

ओ बोन्धु, जाइयो आमार बाडी (ए बंधवा, म्हज्या घरा यो न्ही)

तोमार लाइका भाइना तोइरी (तुमचेखातीर भाजून दवरल्यात)

आउस धानेर मूडी (आउस भाताच्यो चिरमुल्यो)

"पळयात, पूर्व बंगालच्या लोकगीतांत लेगीत वेगवेगळ्या भातांचे फोव, चिरमुल्यो, ल्हायो हांच्यो गजाली आसपावल्यात. जोगेशाच्या गावांतले ब्राह्मण आकांताळे भुकेखातीर पयस-पयस लेगीत प्रसिद्ध आशिल्ले. शीताचो केदो मोटो दोंगर ते एकेच फावटीं फस्त

करपाक शकताले हाची कल्पना करूं नज. जोगेशाचो आजो शाळा चलयतालो. संस्कृतचें शिक्षण चलतालें. शिकपी दळिद्री जाल्यार शिकोवपी दळिद्री आसचोना तर कितें? आजो यजमानी पुरयताचेंय काम करतालो. लोक चड करून तांब्याचीं आयदनां आनी कपडे दान म्हण दिताले. एक फावट आज्जेन म्हळें, तांदूळ ना, तांदूळ घेवन यो. पूण दान म्हण दिले नवे कपडे. परतताना आज्यान आपले सगळे कपडे देंवयले आनी त्या तांदळाकाराक दिले आनी आपूण एक वालो गुठलावन तांदूळ घेवन घरा आयलो." स्वामीजी आनी शांतनू खो-खो करून हांसतात. किशोर वगी रावता. आपल्या कुटूंबाच्या दळडिरेपणाक म्हण कोण हांसता? स्वामीजी ताचेकडेन बारीकसाणेन पळयता.

"दळडिरेपणांतच मनशाची खरी पारख जाता. जोगेशाच्या आज्याक वेद-वेदांत, शास्त्र-पुराणांचें अद्भूत गिन्यान आशिल्लें. आनी प्रामाणिकपणा तर इतलो, व्हडांतले व्हड देमान्दांचो निकाल लेगीत तांचे गवायीचेर थरतालो."

किशोराच्या काळजांत खवदळ कसो उठटा. त्या दिसा आई चावी सोदपाचें फटींगपणाचें नाटक करीत रावली. व्हडल्या काकाखातीर कचोरी-हालवो मागोवन हाडपाखातीर तिचेकडेन पयशे नाशिल्ले. ताका आपले आवयविशीं अभिमान दिसपाक फाव. आपले असले परिस्थितीची लज कसली? तो स्वामीजीकडेन उपकारी भावनेन पळयता. ताका आपली वळख घडची म्हणूनच स्वामीजी ताका ह्यो सगळ्यो गाथा सांगतात काय कितें? ताचेमदीं सुदार घडून येवचो म्हणून? "आनी जोगेशचो बापूय? तोय बी शोळेंत शिकयतालो?" किशोर विचारता.

"आरे ना. दरेके फुडले पिळगेक, आदले पिळगेच्या जगपापरस वेगळेतरेन जगपाचें आसता. जोगेशाचो बापूय शरच्चंद्र चक्रवर्ति जालो पुलिशेंत फौजदार. पुरयतपण करपाक आनी शाळेंत शिकोवपाक दोनीकय बेजारिल्लो. आपल्याच खाणाचें कांय धड ना. वेल्यान गरीब ब्राह्मणांचे जे भुरगे शिकपाक येताले तांच्या खाणाची वेवस्था करची पडटाली. बेजारून ताणें पुलिसेची नोकरी धरली. बंगालच्या जायत्या क्रांतिकारकांकडेन ताचो संबंद आयिल्लो. शांतनूचो फिको पडिल्लो चेरो पळोवन किशोराक जाणवलें, स्वामीजीच्या ह्या भूतकाळाविशीं शांतनू नकळो आशिल्लो."

"नरेंद्रनाथ बॅनर्जीचें नांव आयकलां? प्रसिद्ध क्रांतिकारक. ताणे रेल्वेंतल्यान बंदुको काडपाखातीर दरोडो घाल्लो. ताका जोगेशाच्या घरांतच बंदखणींत दवरिल्लो. तो घरांतल्याच मनशावरी रावतालो. हातांत आसताली बेडी पूण घरांत सुशेगाद रावतालो, खातालो-पितालो. जोगेशाच्या बापायचो ताचेर इतलो भरवंसो, तो ताका मेकळो सोडून दितालो. ताणें केन्ना पळून वचपाचो यत्न केलो ना. जोगेशाच्या बापायच्या मरणामेरेन तांचे कुटूंबीक संबंद उरिल्ले."

"पूण आपलो वापूय ब्रिटीश पुलिशेंत आसा हेखातीर जोगेशाक कांय त्रास जाले नात?" किशोराच्या मनांत आयिल्लो प्रश्न शांतनून विचारलो.

"कित्याक? अशें कित्याक जावपाक जाय? आपणाले नोकरेंतलीं कर्तव्यां पाळटा आसताना लेगीत जोगेशाच्या बापायन आपणाल्या देशाखातीर कश्ट झेलपी लोकांक केन्ना चोर डाकूंभशेन पळयलें ना. वेल्यान तांच्यो अडचणी पयस करपाखातीर आपणाले पयशे खर्च करपांत तो धन्यताय मानतालो. जोगेश आपूण तरी असलें जिवीत जगनाशिल्लो. तो फक्त प्रेक्षक आसलो. जिविताचे स्थितीचो प्रेक्षक. ताका कित्याक त्रास जावंचे? पळय बाबा, खंयच्याय कर्माची गती कितें हें कोणाक कळटलें? गीतेंत कृष्ण सांगता, 'गहना कर्मणो गतिः' कर्माची गती खूब खोल आसा. ती समजप सोपें न्हय. पुलिशेंत आसूनय जोगेशाचो बापूय आपल्या देशवासीयांखातीर सेवाच करतालो."

किशोराच्या मनांत तोच प्रश्न खोलायेन चुळबुळटालो - जोगेशचंद्रान संन्यास कित्याक घेतलो? ह्या प्रश्नाची जाप मेळोवपाखातीर तो उमळशिकेन वाट पळयता हें स्वामीजी जाणात म्हणपाचें ताकाय खबर आसा. पूण ह्या प्रश्नाची जाप घडये स्वामीजी ताका योग्य वेळ येतकरच दितले. ढाका विद्यापिठांतल्या प्रेसिडेन्सी कॉलेजींतल्यान अर्थशास्त्र शिकपी विद्यार्थी संन्यासी जाता, हें कितें वगीच घडना.

सद्दां सांजवेळा स्वामीजी म्ह-यांत शिकपाक येवपी पांच-सात भुरग्यांक पळोवन किशोर चिंतता, जिणेची गती एका चक्रामदींच घुंवता? आपल्या पुर्वजांभशेनच पाठशाळा चलोवपांतूच स्वामीजीक आपल्या आयुष्याची सार्थकताय दिसूं येत?

स्वामीजीमदें कसलेय तरेची एखादी खोल धार्मीक आस्था दिश्टी पडना. 'ओम्' बरयिल्लें चित्र सोडलें जाल्यार ताणी आनीक कसलीच म्हूर्त बाळगूंक ना. स्वामीजी सांगतात, "भारत देशाचें वैशिश्ट अशें, हांगां कित्याचोच त्याग करीनात. हेंवूय सत्य, तेंवूय सत्य आनी तें लेगीत सत्य. देखूनच आमच्या धर्मांत इतल्यो गरजेभायल्यो गजाली भरसल्यात. जेन्ना आमी एक फावट 'रूपा' चो स्वीकार करतात तेन्ना आमी कितेंच शेंवटून मारूंक शकनात." सत्य खंयच्या रूपांत लिपलां कोणाक खबर! दरेका रूपाक आसता एक नांव आनी गूणय बी. तेन्नाच आमी रूपाचे इतले गर्देत घुस्पून उरतात. पूण दर रूपाचो आत्मो आमी नदरेआड करतात हेंच दुख्ख!

गीता, रामायण, महाभारत, त्रिपिटक इत्यादी ग्रंथांवांगडा स्वामीजीन बाकिचींय तरातरांचीं पुस्तकां दवरल्यांत. इतिहास, अर्थशास्त्र, बंकिम साहित्य बी. किशोरान तांकां केन्ना जप-तप करताना पळोवं ना. जाल्यार मागीर अशी कसली गजाल आसा जी मेळोवपाखातीर ते संन्यासी जाले? वा खंयचे गजालीपासून पळून वचपाखातीर ते संन्यासी जाले?

| | |
|---|---|
| तुमी बंधु आइया बोला रे | (येतां अशें तुवें सांगिल्लें इश्टा) |
| ओ बंधु आमार फूल बागाने | (रे इश्टा म्हजे फूलबागेंत) |
| वेल चम्पा फूटे रेयिदो एखाने शेखाने | (हांगा थंय फुलल्यांत चांफीं मोगरीं) |
| बंधु, जाइयो आमार बाडी | (इश्टा, तूं म्हज्या घरा यो न्ही) |

आपणाल्या घराच्या आंगणांत गुलाबाच्या रोपांक उदक घालताना किशोराक आनी शांतनूक पळोवन स्वामीजी हांसतात आनी गावपाक लागतात. तांच्या आवाजांतले व्यथेन किशोराक चर्र जाता. स्वामीजी कोणाची वाट पळयतात काय? कोण हो इश्ट? पुराय कडवें गावन जातकच स्वामीजी खळखळून हांसतात. कारण नासताना वा कसलेंय कारण लिपोवपाक? ताणीं आपलें धवें पुडवें धोपरामेरेन वयर ओडून घेतलां.

किशोर आपणाल्या पुडव्याक पळयता हें पळोवन स्वामीजीन म्हळें, "प्रेसिडेंसी कॉलेजींत दाखल जावपाक जोगेश जेन्ना कोलकाताक पावलो तेन्ना ताचो भेस कितें आशिल्लो तें खबर आसा? धोंपरामेरेन पुडवें, बापायचो उश्णो घेतिल्लो सदळसो बंद गळ्याचो कोट, कपलाक चंदन, तेलान पचपचिल्ले केंस. प्रिन्सिपलसायबाच्या ऑफिसाभायर नोटीस लागिल्ली, विद्यार्थ्यांचे दाखले घेवन सोंपल्यात आनी हेसंबंदी कोणें मेळपाक येवचें न्ही. जोगेशान स्लीप धाडली आनी तो भायर उबो रावलो. थंयच प्रिन्सिपलसायबांच्याच सदच्या सप्तकी तासांचें टायमटेबल लायिल्लें. भितर आपयतकच प्रिन्सिपलान किशोराक वयरसान सकयलमेरेन अजापान पळयलें. मागीर म्हळें, 'भायर कितें बरयलां तें तुवें पळयलां न्ही?' ताणें म्हळें 'हय' आनी ताणें तांचें पुराय सप्तकाचें टायमटेबल धडाधड म्हणून दाखयलें. प्रिन्सिपल अजापान पळयतूच उरलो. मागीर ताणी जोगेशाक भरती जावपाचो फोर्म सय करून दिलो." ते तिगूय बरोच वेळ हांसत रावले. स्वामीजीच्या वेशभुशेची कल्पना करून किशोर परतून परतून हांसता.

"जोगेशान जाणून-कळून मुद्दाम केलें हें?"

"प्रिन्सिपलाक आपणाली योग्यताय दाखोवपाचो आनीक दुसरो खंयचोच मार्ग जोगेशाकडेन नाशिल्लो म्हज्या इश्टांनो." स्वामीजीचो हांसो न्हंयचेवरी व्हांवत रावता.

"गंगेवरी न्हय, पद्मावरी. पद्मा चड व्हडली, चड खोल. तुमी पद्मा पळोवंक ना. तुमकां कळपाक शकचें ना इश्टांनो." पूण मागीर स्वामीजी पद्माक सोडून हांगा जियागंजाक कित्याक येवन रावतात? विक्रमपूराक कित्याक ना? किशोराक आतां हें विचारपाचें आसा. कोलकाताक परतुचे पयलीं.

कोलकाता! कोलकाताविशीं येवजूंक लागतकच किशोराक दिसता, जसो कि तें तो एखाद्या वेगळ्याच संवसाराचे बाबतींत, वेगळ्याच काळाचे बाबतींत येवजिता. आपूण मुर्शीदाबादाक आसा म्हणपाची मामाक सुलूस लागली जाल्यार तो कितलो नाराज जातलो हाची ताका भिरांत ना. मात लेगीत भिरांत जाणवली जाल्यार तो दोळे बंद करून गंगेच्या प्रवाहाक पळयता तेन्ना ताका आपणाभितर एक चमत्कार कसो जाणवपाक लागता. ताच्या मनाक थिरताय येता. एखादी न्हंय ख-यांनीच कोणा मनशाच्या जगपाचो आदार जावंक शकता हें ताका आतां कळटा. आडखळनासताना निरंतर व्हांवपी गंगेच्या प्रवाहाचें ध्यान करतकच ताका दिसता, काळ लेगीत गंगेवरीच एक प्रवाह आसा. ह्या प्रवाहांत सगळें बदलून वचपाचें आसा. जिणेंत कांयच थीर ना. आमी सगळीं खंयच्यातरी इतिहासाचीं

पानां जीं रोकडींच परतुपाचीं आसात.

गंगेचे पलतडीं अजीमगंजसान हांगां जियागंजच्या 'एडवर्ड कॉरोनेशन हायस्कुलांत' जगतशेटीचे दोन वंशज शिकपाक येतात. शांतनू सांगता, "शाळेंत भुरगे तांकां अदीं मदीं थोमणे मारून उलयतात, तांचेखातीर सियाजुदौला हारलो म्हणून. हे विश्वासघातकी. ते दोगूय हाचेर केन्नाच परती जाप करीनात. सगळ्यांकडेन बरेच नमळायेन आनी शाळीनतायेन वागतात. घडये ते आपणाल्या रगतांत भरसल्ल्या इतिहासाखातीर आपणाकूच जापसालदार धरता आसतले."

"घडून गेल्ल्या काळापासून मुक्त जावप कितलें कठीण आसता." किशोर चिंतता.

जियागंजांत पोरनो इतिहास जळामळा विखुरला. काळाच्यो उरिल्ल्यो पोरन्या पावलांच्यो खुणो! तांकां पळोवन किशोराक मेळटा एक पालवूंक नाशिल्ली सांत्वना. सगळें कितें घडून ना नपयत जातलें. नवाबी आलमच्या घरांनी आतां सर्वसामान्य लोक रावतात. स्वामीजीकडेन येवपी कालीदास चक्रवर्ती नांवाच्या एका भुरग्यावांगडा शांतनू आनी किशोर फुटबॉल खेळपाक वतात. तो ज्या घरांत रावता तें केन्नातरी पोरनें पोस्ट ऑफीस आशिल्लें. त्या घराच्या सकयल्या चौकांत एक मारवाडी-ओसवाल कुटूंब रावता. 'चांद' आनी 'पान' अशीं त्या घरांतल्या चलयांचीं नांवां. दोगीय अप्रूप सुंद-यो. हांगाच्या मारवाड्यांनी आपणाले रिती रिवाज सांबाळून दवरून देडशें वर्सांत ब-याच जाणांनी बंगाली करून घेतल्यात. तांकां बंगाली उलयताना आयकल्यार ते बंगाली न्हय अशें कोणूच म्हणचो ना.

कांय म्हयन्याआदीं बँड मुज्गासयत पुराय तरेन शारांत भोंवडावन हुंड्याचें प्रदर्शन करीत 'चांद' चें लग्न जालां. लग्न जावन ती बिकानेराक गेली. लग्नाआदीं सेगीत एक सप्तकभर परतून परतून दर विधीवेळार मुहल्ल्यांतल्या देवळांत बँड वाजपावांगडा येवपा-वचपाच्या प्रकाराचें वर्णन करताना कालीदास खूब हांसता. पूण चांदचे व्हंकलपावणे वेळार जाल्ले आकांताच्या रडारडिची गजाल सांगताना ताचे दोळे दुकांनी भरून येतात. चांद ताका राखी बांदताली - आपले दोळे घट्ट धांपून घेत तो सांगता.

जियागंजांत मारवाड्यांचो कपड्यांचो आनी भुसारी मालाचो मोटो वेवसाय आंसा. फाटल्या देड-दोनशीं वर्सांसावन पिळगेन पिळगेकडेन तो चलत आयला. हांगाच्या मारवाड्यांच्या जेवणांत आतां परवलाची भाजी, केळ्याच्या सोपाची भाजी, थोर (केळ्याचीं म्हानां) असल्या बंगाली जिनसांचो आसपाव जाला. "ह्या लोकांचीं 'चडचडी' आनी 'तेलेर भाजा' असलीं खाणां आमचेपरसूय सुरबूस जातात." कालीदास सांगता, "हांच्यो मिठायो म्हळ्यार बस, दिव्यूच. मोटे मोटे बदाम घाल्ल्यो बर्फ्यो, राजभोग, हालवो, पेठा. जेवणाची सुरवातूच ह्या मिठायांवरवीं जाता." ताचे जिभेक उदक सुटटा. किशोर आनी शांतनू हांसतात. "पूण नीरेन बाबू डॉक्टरांची 'वेलर हॉर्स' ची बग्गी लेगीत हांचेचकडेन चडशी येता." कालीदास तांच्या हांश्यांत भरसता.

दोन संस्कृतायो. एक मरूभुमीच्या वाळवंटी रेवेंतल्यान आयिल्ली आनी दुसरी

बंगालच्या सश्य-श्यामल धरतरेचेर पोसवल्ली. हे धरतरेन पयस मरूभुमींत रावतल्यांकूय हांगां रावितो करपाक दिला. पूण तांचींय आपलीं अशीं हजारांनी वर्सांफाटलीं मुळां आसात. ते तीं मुळां केन्ना हुमटून काडिनात. हांचो समाज म्हळ्यार जसो कि तें चोवीसय वरां जागो रावपी एक अदृश्य दोळो. नेमांआड वचप्यांकडेन तो निबरतायेन वागता. ते तर तांच्या नेमांक धरून चलतातूच. पूण हे धरतरेवयले संस्कृतायेकूय आपणाभितर आसपावन घेतात. कोलकात्याप्रमाण हांगा दोन संस्कृतायो समांतर वचनात. हांगां तांचे रस्ते एकामेकाक परत-परत मेळत आसतात.

मुळांत हो प्रदेश वैष्णवांचो. कीर्तन करपी वैष्णवांचो. व्हडली गोविंदबाडी आनी धाकली गोविंदबाडी - दोगांयचे कीर्तनांचे पंगड राधा-कृष्णाचे नित्य-नूतन प्रेमाचे धारेन ह्या पुराय इलाक्याक टवटवीत दवरीत आयल्यात. पूण गंगेच्या प्रवाहावांगडा कोलकात्याकसान येवपी राजरस्त्याचे कडेक जर कोणूय उबो रावलो तर श्वेतांबर जैनाच्या विराट देवळावांगडा मेजूंक जावचीं नात इतलीं ल्हान ल्हान शिवमंदिरां पळोवंक मेळटात. बिहारांतल्यान येवपी तरातरांच्या वेवसायाच्या साधनांनी भरून आयिल्लीं होडीं काळोख जातकच जेन्ना घाटाक लागतात त्यावेळार न्हंयचे थंडसायेंत आरतीच्या वेळार व्हडल्या शिवमंदिराचे नबतिचेर गाजिल्लो नाद पयस-पयसमेरेन आयकूंक येता.

स्वामीजींकडेन तरातरांचे लोक येतात-वतात. किशोर आनी केन्नाय स्वामीजी दुग्गडजी वांगडा जैन धर्माचेर चर्चा करताना शांतनूक दिसतात तर केन्ना गंगेचे तडीर कांय दिसांसावन रावपाक लागिल्ल्या कानफट्या नाथ जोगी वांगडा गजाली करताना दिसतात. नाकामेरेन चंदनाचो तिबो लावन, हार-चंदन-खंजीरासयत गावां गावांत भोंवून भीक्षा वृत्ती करपी वैष्णव-वैष्णवी स्वामीजींच्या कुटियांत थोडोवेळ विसव घेतना दिश्टी पडटात. एक दीस सकाळीं भोंवता आसताना एके वैष्णवीक पळोवन हांसत स्वामीजीन किशोराक म्हळें, "हावें संन्यास कित्याक घेतलो अशें तुवें विचारलें जाल्यार तुका हांव वैष्णवीच्या उततरांनी जाप दितलों - *साधेर लाऊ कोरलो आमाय बैरागी*. म्हज्या प्रिय तांबड्या दुदयान म्हाका बैरागी केलो.तुका ख़बर आसा न्ही, तांबड्या दुदयाची साल सुकोवनूच ही एकतारी तयार करतात जिचेर हे गातात." किशोर हांसलो आनी वगी रावलो.

स्वामीजीकडेन एकतारी, दोनतारी, दोनूय आसात. सांगतात, "एक बाऊल फकीर दिवन गेल्लो आनी दुसरी एका मुसलमान फकिरान दिल्ली. सगळे म्हाका तांच्यांतलो एक समजतात वा खरें म्हळ्यार तांच्यांत आसपावन घेवंक सोदतात. पूण दावें घालूंक नाशिल्ल्या बैलाची मस्ती हांकां कशी कळटली? कांय दीस मेरेन हांव मुर्शिदाबादाचे आदिसंत मुरशेद हांची साधना करपी एका मुसलमान फकिरावांगडा 'जय मुरशेद' 'जय मुरशेद' करीत गायत भोंवत रावलों - *देखेछि रूपसागरे / मनेर मनुषा / कांचा सोना /* (रूपसागरांत हावें पळयलां / मनरूपी मनशाक / कच्चें भांगरच तें.) पूण निमाणे लालन फकिरान काडिल्ल्या निष्कर्शाचेरूच पावलों - *गेराम बेडे अगाध पानी / ओ तार नाई किनारा / नाई तरनी /*

*पारे* (ताच्या गांवा मेरेन पावपाक अगाध उदक / जाका तडूच ना / म्हजेकडेन होडेंय ना / पलतडीं वचपाक)"

कितें सांगपाक सोदतात कांय स्वामीजी त्या दोगांकूय - किशोर परतून-परतून चिंतता. शांतनूचें संन्याशासंबंदीचें आकर्शण जें वाडत चल्लां ताची धार ती आटोवंक सोदतात आसुंये. ह्या सगळ्या 'मन मुरशेद' च्या वळीनी एक अपूर्व ओडलायणेपण आसा. पूण विद्यापतिचें गीतच किशोराक जिणेचे रंग-रस-हास-परिहासासयत आपणावटेन ओडून व्हरतात.

*जनम अवधि हम रूप निहारिल* जिवितभर आमी रूप नियाळ्ळें
*नयन न निरपित भेल....* पूण दोळे तृप्त जाले ना

किशोर शांतनूसारखो न्हय. तो जिणेचो रोस चोखपाक पळयता. '*कित्याक सखी विसर घालो / दोळ्यांतल्यान व्हांवती झरी / थरथर कापतात प्राण / बांसरीच्या मधूर सुरांनी.*' ह्या उतरांनी ताचेभितर एक विचित्र तरेची अस्वस्थताय आनी थरथर निर्माण जाता. शांतनू मात वेगळे मातयेचो घडला हें जाणवता. दाव्या हाताच्या बोटांक घुंगरू बांदून एकतारीचेर कोणा बाऊल फकीराक गाता तें आयकता तेदेवेळार ताचें खुमणें नकळो कशें कशें जाता. *खंय मेळटलो म्हजो मनमिलुआ, जाचेखातीर म्हजो मनपक्षी रडटा - अरे हो ऽ* ही गजाल स्वामीजींच्याय लक्षांत आयली हें किशोरान पळयलां.केन्ना-केन्ना किशोराक शांतनूखातीर भिरांतशी दिसता. सुभाषबाबूसारख्या आपणाल्या दैवताभशेन ताचीय बी संन्याशी जावपाची आकांक्षा तर ना मू? ही गजाल समजूनच घडये स्वामीजी ताका तरातरांनी सांगपाक पळयनात मू, संन्यासांत अशें कांय ना जें ताचे भायर रावन प्राप्त करपाक मेळना. हालीं ते ज्यो तरातरांच्यो काणयो सांगतात तातूंतल्यान भोवन-भोवन होच निष्कर्श भायर सरपाक लागला.

"एक फावट हांव एका अवधूतावांगडा तारापीठ मसंडींत गेल्लों. केली मड्याची साधना. आतां विचारात, मेळयलें कितें? आरे बाबा, कांयच ना. फक्त भुतां-मडीं-मरण हांची मात भिरांत सासणाची ना नपयत जाली. तितलेंच, आनीक कांय ना. करून पळयल्यार कळटलें हातूंत कांय ना म्हणपाचें. सगळ्यांत व्हडलें सत्य आसा ह्या माटवाचेर हुमकळटले घोंसाळ्याचे आनी तांबड्या दुदयाचे वालींत - ह्या वांयग्यांच्या रोपयांत आसा - गंगा न्हंयकडेन आसा. पूण दुसरेकडेन खंयतरी मेळटलें म्हण आमी अस्वस्थ आसात. सत्य तर आपणाभितरच आसा - ते एकत्वाचे अनुभुतींत.

केन्ना-केन्ना कांय विरळ खिणांवेळार आमकां ताचें गिन्यान जाता. कोणाकच घडूंक ना असलें गिन्यान? केन्नाय वा-याचेर धोलताना साळकां पळयता तेन्ना आमकां जालां. केन्नाय श्यामवर्णी कुपांचेर पडटल्या एका सप्तरंगी इंद्रधोणूक पळयताना. केन्ना केन्ना फांतोडेचेर अर्द जागृत अवस्थेंच कोगळाचें *कुहू ऽ कुहू ऽ* आयकताना. केन्ना कोणा भुरग्याच्या हांश्यांत. दर एकल्याक तें खंयचे ना खंयचे मात्रेंत खबर आसा. पूण आपल्या 'ना

आसपाच्या' खिणांतूच तें लखलखून वता. तेंच - *सुन्न महल में दियना बारि ले,* शून्य म्हालांत दिवो लावपाचो आसा. खंयच्याच फकिरांत, साधुपणाचे खंयचेच प्रणालींत सत्य लिपिल्लें ना. प्रणाली हो एक आसरो आनी ह्या आस-याचीच एक वायट संवंय जावन पडटा आनी मागीर कोणूच खंयच पावना."

खंयच कोणूच पावना? केन्नाय स्वामीजी म्हणटात, जोगेशाक जॉर्ज पंचमाचे तकलेचो शिक्को आशिल्ल्या तांब्याचे दोन पयशे खर्चून रसभरीत चमचम वा मोहनभोग खावपाची जी खोस आशिल्ली ती खंय गेली? पद्‌मेच्या एखाद्या घाटाचेर वटरूखाचे सावळेंत बसून घाटाचेर न्हावपी-पेंवपी, आयदनां घांसपी चलयांचीं-बायलांचीं चकाटां आयकतां-आयकतां - *अरे हाय री विष्णू प्रिया, निमाई चांद को कैसे तूने जाने दिया* (अरे हाय रे विष्णू प्रिया, निमाई चांदाक तुवें कशें वचपाक दिलें?) आयकुपाचो जो सरल आनंद आशिल्लो तो खंय गेलो? तर मागीर ही खोस कितें भुरगेपणांतूच मेळूं येता? आमच्या मनांत इतली खोस आसा हे गजालीची कांयच खोस जावं नये? जिणेक भोंवताडो काडून जीण परतून आसा थंयच येवन उबी रावतली? चंद्रिमाच्या उजवाडांत मैदानांत बसून चौरंगीवटेन पळयत खीर-पूडी खाताले ती किशोराक याद जाता. बाबा आईकडेन कसो पळयतालो? आनी भैयान भाभीकडेन कशें पळयिल्लें? सगळें खलास जाल्लें. स्वामीजी ताका कितें सांगपाक पळयतात? खूब कितेंतरी ध्यानांत आयिल्लेभशेन कांय खिणाक दिसता. पूण उपरांत लक्षांत येता - कांयच समजूंक ना.

किशोर माडांक, ताडांच्या झाडांकडेन आनी माडयांक पळयता. साळुंक्यांच्या झुंडींकडेन, रानपक्ष्यांकडेन - सत्य खंय आसा? खंय लिपलां? ताका दिसता, सगळे सृश्टींतच जशें कितें खंयतरी घडून गेल्ल्या सुखाविशींची वेदना आसा. ओ - रे - पिश्या मना - मना - आ - मा - रे - हें मन खंयमेरेन पावता? आनी कितें सादोवंक पळयता? शांताभाभीवांगडा तो आयुष्याची वाटचाल करपाक शकतलो? तातूंत सदांच तिस-याची हाजेरी आसची ना? पुराय मनान तो तिका आपणावंक शकत? मन पुराय तरेन ताचें जावंक शकचें ना हें जाणून लेगीत - ताचो एक वांटो - कोणाक खबर कितलो व्हडलो वांटो ललितभैयाचे चितेवांगडा जळून गोबोर जाला.

वयर-सकयल जातले आपल्या मनाचे अवतिकायेन किशोर अस्वस्थ जाला. तो एकटोच आयला ते जलवाहिनीकडेन. शंकराचे जटेंतल्यान तें उदक खंय खंय व्हांवून वचत तें हांगामेरेन पावलां. कितल्यातरी ल्हान-व्हड जलधारांचो तातूंत संगम जाला. पूण सगळें तातूंत समरस जावन गेलां. मागीर ताचेभितर अशी समरसता कित्याक जायना? जलकुंभीच्या वेलींप्रमाण आनी मुळांप्रमाण सगळें फापसलां-घुस्पलां. शांताभाभीक आपूण पुराय तरेन आपणावंक शकतलो काय ना हाचेर जेन्ना आपल्या मनाचो आपणाचेरच विश्वास ना तेन्ना हे गजालीखातीर कोणाच्या बळार ह्या संवसारांत झुजतलो?

सगळ्या कटकटींचें मूळ म्हळ्यार हें मनूच. दोळ्यांच्या पातकडींच्या हालचालींवरी

आसा हें अथीर मन. स्वामीजींच्यो स्वरलहरी फाटसून ताच्या कानार सादतात - *पद्मार ढेऊ रे / मोर शून्य हृदये खानी / निए जा / जा रे /* ( अरे ओ पद्मेच्या ल्हारांनो / म्हज्या शून्य काळजाक / घेवन वचात न्ही सांगाताक). वांगडाच जलतरंगावरी तांचो हांसो. परतून हांसो. मागीर थारून हांसो. किशोराक ह्या हांसपाचें अजाप दिसता. इतलें हांसपाक कशें म्हूण जाता?

"स्वामीजी, तुमच्या शून्य काळजाक ही पद्माच तर व्हांवत घेवन वचूं ना मूं?" किशोर विचारता. स्वामीजी हांगा आयले तें बरेंच जालें. फाल्यां कोलकात्याक परतुपाचें किशोर येवजिता. जियागंजाक रावन पंदरा दीस जावन गेले. झुजाच्या दिसांनी पत्रां उसरां मेळपाची गजाल आसूनय ताची ना जावपाची सूचना आतांमेरेन सगळ्यांक कळपाची पुराय शक्यताय आसा. आईक खबर कळत जाल्यार तर ती पिशीच जातली. आतां परतुचेंच पडलें. आज स्वामीजीकडेन उलोवणी करपाक जाय. तो स्वामीजीचो चेरो बारीकसाणेन नियाळटा. कित्याक कोण जाणा ताका दिसता स्वामीजींचें कसलेंतरी रहस्य पद्मांत लिपलां. ताका अशेंय जाणवता, तें म्हळ्यार स्वामीजी आपूणच ताका ह्या रहस्याविशीं सांगपाखातीर फाव ती सुवात आनी वेळ सोदतात.

"म्हजेखातीर जें कितें अर्थपूर्ण आशिल्लें तें सगळेंच पद्मा व्हांवोवन घेवन गेली आनी तेदेवेळार हावें ते 'पिशे' पद्मेक म्हजें शून्य काळीजय अर्पीत करून सोडलें. आनी जाणा किशोर, ज्या खिणाक हावें म्हजें शून्य काळीज भरशिलें, त्या खिणाक हांव खोशयेन भरून गेलों. म्हज्या भावा, ही तीच खोस आसा जी हांश्याच्या रूपान व्हांवता. आयकूंक येता तुका ताचो गाज?" पखवाजावरी गंभीर सुरान स्वामीजीन विचारलें. किशोराचे मनप्राण ताच्या दोन दोळ्यांत येवन राविल्ले. स्वामीजींच्या मुखामळावयली एक-एक आडी किशोर अशेतरेन वाचपाचो यत्न करतालो, जशें कि ते एका खिणाक चुकलो जाल्यार ताचें आयुष्य निसटून वचपाचें. स्वामीजी ताका कितें सांगपाक सोदताले? आनी ताकाच कित्याक?

"तिणें म्हाका दिल्लें तें प्रेम आशिल्लें काय देवाची कृपा आशिल्ली हें सांगप कठीण. एका वैष्णव-वैष्णवीच्या जोडप्यांचें तें संतान आशिल्लें. तिच्या गळ्यांत साक्षात सूर-संगीताचे सरस्वतीन वास केल्लो. 'कादंबिनी' - म्हाका ती पयलेच फावट पद्माचे तडीर मेळ्ळी. नव्यानूच जल्माक आयिल्ल्या माजराच्या एका पेट्याक गीताची धून आयकून दूध पाजपाचो यत्न करताली. तिणें म्हाका पळयलें. पळयात न्ही, दूध पियेचना. गीत गावन-गावन म्हजो गळो दुखपाक लागलो. पूण मातय पियेना पळय. आई-बाबा भजनां गायत भिक्षेखातीर भायर सरल्यांत. म्हज्या ह्या 'गौरांगा' चें हांव कितें करूं? तिचें उलोवणें आयकून हांव अजापान पळयत उरलों. ती म्हजेकडेन अशेतरेन उलयताली, जशी कि तें तिची म्हजेकडेन आदीं सावन वळख आशिल्ली. तिच्या खब-यांपरस हांव चड अजापीत जालों तो तिच्या दिव्य स्वर लहरीन. कितें अपूर्व गळो आशिल्लो तिचो! आनी तिचें तें

चंदन-चर्चित रूप! नाकामेरेन रेखिल्ल्या तिच्या दोनूय वटेन काळ्या, दाट भुंवयांमदीं दोन दोळे. हांव केन्ना तिचेकडेन पळयतालों तर केन्ना तिच्या गौरांगाक. ताका दूध पाजपाक हावें तिका आदार केलो. मागीर तिणें तितलेच सहजतायेन म्हाका विचारलें, 'तूंच न्हय श्याम?' तिच्या गडद काळ्या दोळ्यांत पळोवन हयकार दीत हावें मान हालयली. गौरांगाक घेवनच तिणें म्हज्या मानेभोंवतणी वेंग मारली - तूं येतलो हें म्हाका खबर आशिल्लें. तुका पळयनाफुडें हांव वळखल्लीं."

किशोराच्या अजापाक शीममेर उरली ना. स्वामीजी आज 'हांव' असो प्रयोग करून गजाली करतात. आपणाखातीर 'जोगेश' उतराचो ते वापर करिनात. "सहजपणान उकतें जाल्लें आमचें प्रेम आशिल्लें. ताचो प्रवाहय सहज आशिल्लो - पद्मावरीच विस्तारीत आनी लयबद्ध. आमी कृष्ण आनी राधेचे भुमिकेंत आशिल्लीं."

"*प्राण सखि रे सुन, कदंब तले बंशी बजाए के* (आयक प्राण सखये, कदंब रूखासकयल मुरली वाजता.) - सुरवेक ती धोंपरामेरेन केंस सोडिल्ली चंडिदासाची राधा आशिल्ली. कंवळ्या आनी मोव काळजाची. तेउपरांत विद्यापतिची राधा. ल्हवू-ल्हवू परजळपी तरनाटेपणाच्या नाविन्यान भरिल्ली. खिणा-खिणाक उदरगतीत जायत वचपी. *खने खन नयन कोन अनुसरई* - खिणा खिणाक दोळ्यांचे तिरपे नदरेन पळोवपी. खिणा-खिणाक हांसपांतल्यान दातांची छटा दाखोवपी. खिणा-खिणाक वंठांचेर परमळाक तोलपी. केन्ना-केन्ना सडसडीत चलता आसतानाच अजापान थारपी, तर केन्ना दातांमदीं पालवाचें तोंक घेवन लजपी."

किशोर ही अद्भूत प्रेम-कथा आयकून चाट् पडला. स्वामीजींचें उलोवप थांबलें. तांचे दोगांमदले थंडसाणेक गंगेच्या प्रवाहाचो मंद नाद आसा.

"मागीर -" किशोर ल्हवूच एक उतर उच्चारता.

"मागीर तेंच जें घडपाचें आशिल्लें तें. फौजदार शरतचंद्र चक्रवर्तीक खबर कळ्ळी. कुलीन ब्राह्मण कुटूंबातलो चलो आनी जिच्या कुळ-गोत्राचो कसलो थाव ना अशा हलक्या दर्जाची वैष्णव चली. तिच्या आवय-बापायचें केन्ना लग्न जाल्लें काय कितें कोण जाणा! घराघरांनी भिक्षुकी करून जीण सारपाची शैली. फौजदारसायबान चल्याक समजायलो. इतलें लेगीत सांगलें, ते वैष्णव चलयेक रखेली म्हण दवरूयेत. पूण लग्न रोकडेंच करचें पडटलें. अखेरेक मानून घेना जातकूच जोगेशाक घरांतूच एके कुडींत बंदीस्त करून कोंडून दवरलो. थंय 'राधा' हो म्हयनोभराचो विरह सोसूंक शकली ना."

| | |
|---|---|
| *चानन भेल विषम सर रे* | *चान्नें भासता शर विखारी* |
| *भूषन भेल भारी* | *आभूशणां जड जालीं* |
| *अजहुं हरि नहि आयल रे* | *आजूनमेरेन हरी येवूं ना* |
| *गोकुल गिरधारी* | *गोकुळचो गिरिधारी* |

कादंबिनीच्या विरह-गितांनी त्या प्रदेशांतलें पानान् पान व्यथित जावन गेलें. आपल्या काळजांतल्या तीव्र ज्वाळांक थंड करपाखातीर ती ते 'कीर्तिनाशी' पद्मेकडेन गेली, कांय उटंगाराच्या पावसाच्या उदकान भरून उफेतले न्हंयेन तिच्या काळजाचे ज्वाळ शांत करपाखातीर तिका पोटाकडेन आंवुळ्ळें हाचो पत्तो लागूंक ना. नुस्त्यावरी तिका पेंवपाक कळटालें हें सांगत-सांगत तिचे आवय-बापूय तिका सोदपाक लागले. पूण ती खंयच मेळ्ळी ना. जोगेशाक शिकपाखातीर बापायन कोलकाताक धाडलो. शिकून तो परतलो तेन्ना ताका पद्मेनूच वाट दाखयली. एक दीस खंयच्यान तरी व्हांवत आयिल्ली एकतारी, न्हंयत न्हातल्या उद्वीग्न जोगेशाक पद्मान दिली आनी ताचें शून्य काळीज ती व्हांवून घेवन गेली. एकतारी वाजयत जोगेशान कादंबिनीचें गीत गायलें आनी आपणाभितर जाल्ल्या अपूर्व आनंदाचो अणभव घेतलो. त्या वर्सा पद्मान ताच्या घराकय सोडलें ना. ती सगळें व्हांवोवन घेवन गेली. जोगेशाचो बापूय शरत्चंद्र रीटायर जावनव जियागंजाक येवन थायीक जालो. पूण पद्माच्या वियोगान चड दीस तग मारूंक पावलो ना. ताच्या मर्णा उपरांत जोगेशान शास्त्रशुद्ध रितीन संन्यासाची दीक्षा घेतली.

किशोराच्या काळजांत जशी कि तें एक एकतारी वाजता. ताका दिसता, स्वामीजीफाटल्यानय अशीच एखादी कथा आसूं येता. तो हेंवूय जाणा, ताच्या प्रस्नाची जाप ताका आतांच मेळटली. 'शांताभाभीकडेन ताणें लग्न करपाचें काय ना?' स्वामीजी ताच्या दोळ्यांत निरखितात.

"जंय इतले फावटीं जेविशीं मनांत प्रश्नांचो खवदळ जालो, थंय मन दुबावाविरयत कशें उरतलें इश्टा? आयुश्यांतलो येदो व्हडलो निर्णय अर्द्या मनान घेवपाक फावना. *सखि कि पूछसि अनुभव मोय?* - हे सखी, तुमी म्हजो अणभव कित्याक विचारतात? *से हे पिरित अनुराग बखानिए, तिल-तिल नूतन होय* - तिळ-तिळ नूतन जावपी त्या प्रिती-अनुरागाचें कितें कथन करूं?"



## 13

# दुकळ केन्ना पडना

*फाटले कांय दीस किशोरबाबू एका विचित्र उदासपणाच्या तळचिखलांत बुडिल्ल्यान कथा बरोवन घेवपाचें ताळटालो. कथेच्या प्रवाहाच्या फुडल्या पडावाचो जंयमेरेन प्रश्न आशिल्लो, किशोरबाबूची कथा फुडें सरपाखातीर एकूणिसशें बेचाळीस सालासावन एकूणिसशें त्रेचाळीस सालावटेन वचपाक जाय आशिल्ली. पूण किशोरबाबूची कथा फुडें-फाटींच न्हय तर केन्ना केन्ना फाटल्यान आनी खूब फाटल्यानय वता जशी कोणेतरी काळाचे घडयाळीक उरफाटी चावी दिवन दवरल्या. ह्या दिसांनी किशोरबाबूची बायल ताका भागवत-कथेचो हिंदी अणकार 'सुखसागर' वाचून दाखयता. तेवरवीं लाबतले पुण्यायेन किशोरबाबूची तकली योग्य मार्गार येवंची हो ताचेफाटलो उद्देश आसा. पूण कथा बरोवपाचो एखादो पोरनो प्रभावी उपाय भागवताक जुळूं येता काय किते हेखातीर किशोरबाबू ह्या असंभव किस्स्यांनी भरिल्ली ही कथा आयकता. ताचें कारण हें, ताचे भितर कथेचो प्रवाह उड्णां मारता, पूण भायर सरतां सरतां खंयतरी आडखळटा आनी तेन्ना ताका आपली कथा बरोवपाचें प्रयोजन आनी तिची गुणवत्ता दोनांचेय बाबतींत गाढ दुबाव निर्माण जावपाक लागता. ताची बायल ताका भागवत कथेंतल्यान कलियुगाचीं लक्षणां वाचून आयकूंक दिता आसताना किशोरबाबू आपल्या मुखावयले गच्चीच्या कठड्याचेर बशिल्ले त्रेचाळीस काळे कावळे मेजीत आसता.*

काळजाची शस्त्रक्रिया जाल्या उपरांत सांजवेळा रस्त्याचेर भोंवताना किशोरबाबूचे नदरेंत आयिल्लो देखाव असो - सद्दां सांजवेळा कावळ्यांचे झूंड गच्चीचेर आनी मैदानांत अशे तरेन मोनेपणान बशिल्ले आसतात जशे कि तें तांच्या पार्लमेंटांत एखाद्रो दुखवट्याचो प्रस्ताव संमत जावपाचो आसा. पूण अशें आसूनय तांचे दुखवटा सभेंत मनशांवरी मेल्ले व्यक्तिची तुस्त गावपाक बक-बक करून प्रवीणतायेचें प्रदर्शन जायना. जशे कि तें जिणेचे निरूपयोगी आनी खिणभंगूरतायेचेर मोनेपणान विचार चलला असो एक गंभीर मोनेळ पातळटा.

ह्या दिसांनी किशोरबाबून मोनेपणाचें संवंग घेतलां म्हणपाचें कुटूंबांतल्या सगळ्यांनी

नोंद केलां. तांचे वाचपाचे संवयेचो क्रमय अचकीत् बदलला. होमियोपाथीचीं पुस्तकांय कुशीक काडून दवरल्यांत. पोरन्यो डाय-यो लेगीत. इतलेंच न्हय तर, देशाच्या स्वातंत्र्याचो पंचविसावो वर्सुकी दीस मनोवपाक देड म्हयनो बाकी उरून लेगीत किशोरबाबू आतां नेमाळीं वाचपात लेगीत रूची दाखयना.

तर परिस्थिती अशी - ह्या लागीं पाविल्ल्या उत्सवाच्या निमतान इतिहास आनी वर्तमानाचें जुस्ताजुस्त परिप्रेक्षण दाखोवपाखातीर आपली योग्यताय एका दुस-यापरस वाडीव-चडावत कशी आसा हें शाबीत करपाक सगळीं नेमाळीं पळयतात. ताका लागून चडान चड सुटसुटीत करून सादर करपाच्या यत्नांत माथ्यासावन पावलांमेरेन वावरूक लागल्यात. टीव्हीच्या सगळ्या चॅनलांचेर स्वातंत्र्यतायेच्यो कार्यावळी विकचे आदींच अदमास घेवन तांची तयारी करप्यांची चांदी कातरूक लागल्या. राष्ट्रध्वज, अशोकचक्र, तशेंच 'वंदे मातरम्' हांची नेमाळ्यांचे आनी दूरदर्शनाचे जायरातींत विक्री जावन कोट्यांनी रूपयांचो वेपार करून वडयलो. जोतीं, मोचे, टी-शर्ट धरून गाडयो तयार करपी कंपन्यांनी लेगीत स्वातंत्र्याच्या पन्नासाव्या वर्धापनदिसा निमतान झेंड्याच्या तीन उडट्या रंगांमदीं 'पन्नास' बरोवन हे नमुने सगळेकडेन छापून वडयले. इतलेंच न्हय, तर सगळ्यो मल्टीनॅशनल कंपन्यो भारताच्या स्वातंत्र्याचो वर्सुकी सुवाळो मनोवपाक इतल्यो गूंग जाल्यो, जशें कि तें तो तांच्याच स्वातंत्र्याचो सुवाळो आशिल्लो. इश्कोलां, नेमाळीं, म्हयनाळीं, स्वयंसेवी संस्था - सगळेकडेन ह्या निमतान विशेशांक काडपाची तयारी चलिल्ली आनी पोरन्या इतिहासाक अशेतरेन चगळून वडयताले, जशें कितें तातूंतल्यान अमृत वा अनमोल रत्न भायर सरू येतालें.

"माइकल जॅक्सन आयलो आनी गेलो. लांब केंसांचो यात्री लेगीत ताजमहालाकुशीक चमकून गेलो. आतां कितेंतरी नवीन जाय आशिल्लें. चल, खूब दिसांउपरांत मिडीयाक आतां एक सुयोग निर्माण जाला. नाजाल्यार घोटाळे, हवाले वाचून-आयकून-पळोवन दर्शक आनी वाचक उबगल्यात." किशोरबाबूच्या मनांत येता. पूण स्वातंत्र्यदिनाचे मध्यानरातीमेरेन चलतल्या ह्या कावंट-डावनाबावतींत ताका जायत्या उदासिनतायेचो अणभव येतालो. खंयच्यान कोणाक खबर, कोणा अजितनारायण बोस हांचो एक लेख ताच्या हाताक लागलो आनी 'भारताची अर्थव्यवस्था' हाचेर तो रातदीस माथें फोडीत रावलो. त्या लेखांत दिल्ल्या तक्त्याचे चौकटींत ताका कितें दिसतालें कोण जाणा, त्या लेखाचें केन्ना तो फुडल्यान वाचन करतालो तर केन्ना फाटल्यान. किशोरबाबूचे बायलेन इत्सा नासून लेगीत ताचो तो भिरांकूळ चेरो पळयलो आनी निमाणे तो ह्या पानांनी कितें सोदता हें ताका विचारलेंच.

"तुका खबर आसा सरोज, आमच्या देशांत आज लेगीत चाळीस प्रतीशत लोक एका वर्सांत वट्ट मेळून चाळीस रूपयेच आपल्या कपड्यांचेर खर्च करतात?" किशोरबाबून सांगलें.

"कितें, म्हयन्याक फक्त चाळीस रूपये?" किशोरबाबूचे बायलेन अजाप उकतायलें.

किशोरबाबून तिडकून म्हळें, "चाळीस रूपये म्हयन्याक न्हय. वर्साक चाळीस रूपये. आनी तेय बी फक्त आंगावयल्या कपड्यांचेर न्हय, तर चादर, पांगरूण, तुवालो, वालो, सगळ्याचेर मेळून चाळीस रूपये."

"अशें कशें जातलें? छापणावळींत कितेंय चूक उरल्या आसतली." सांगलें आनी आपणें गरजेभायर गजाल फुडें व्हेली म्हणून किशोरबाबूचे बायलेक खंत भोगली. तिणें रोकडीच गजाल घुंवडायली आनी म्हळें, "आज छुटकी तुका मेळपाक येवपाची आसा. तिचो फोन आयिल्लो." तिच्या ह्या उलोवण्यांत किशोरबाबून मात लेगीत उमळशीक दाखयली ना.

ताणें म्हळें, "तुका एक खबर सांगतां, घडये तुजो विश्वास बसचो ना. पयर सांजवेळा हांव भोंवता-भांवतां बेहालावटेन पावलों. हावें चितलें, आतां आयलांच न्ही इतलेमेरेन, जाल्यार मागीर म्हज्या हार्टाचें ऑपरेशन केल्लें तेन्ना जिणें म्हजी इतली कुयताद घेतिल्ली ते नर्सीक मेळून येवचें. नशीब म्हळ्यार म्हाका तिचें ठिकाणय याद आशिल्लें. हावें मिठायेचो एक डबो विकतो घेतलो आनी बेहाल्याच्या गल्ल्यांनी पत्तो विचारीत-विचारीत भोंवत रावलों. आतां बेहाला म्हळ्यार कितें, गल्ल्योच गल्ल्यो. नंबरच मेळना. पूण कशेयबशेन ते नर्सिच्या घरामेरेन पावलोंच. एक ल्हानशें एका मजल्याचें पत्र्याचें पाखें आशिल्लें, अशीरश्या दाराचें घर आशिल्लें. घरांत भिण्ण काळोख आशिल्लो."

"घराच्या भायर एक म्हातारी पांय दोडून घेवन बशिल्ली. तिचें बोचडें एकसारखें हालत आशिल्लें. ते जाणटेले कडेन हावें पुतूल नर्सिची चवकशी केली. तिणें बंगालींतल्यान सांगलें आपूण ते नर्सिची आवय म्हूण. तेन्ना हावें ती घराकडेन आसा काय म्हण विचारलें. जाणटेलेन थंयसावनच उलो मारलो - 'पुतूल, पुतूल'. भितरल्यानच 'कितें जालें' अशें विचारिल्ल्याचो नर्सिचो आवाज आयलो. जाणटेली उठली आनी भितर गेली. भितर दोगीय झगडटात ताचो आवाज भायर आयलो. मागीर जाणटेली भायर आयली आनी म्हणपाक लागली, पुतूल घरांत ना म्हण. म्हाका अजाप जाल्ल्याचें पळोवन तिणे आपलो बोचो म्हज्या कानाम्ह-यांत हाडलो आनी म्हळें, तिणें कपडे घालूंक नात. आज तिणें आपणाल्यो दोनूय साडयो उमळून घाल्यात आनी ती भायर येवपाक शकना. ही धव्याफुल्ल चकाचक कपड्यांतली नर्स इतले बुरशे वस्तींत रावता आनी तिचेकडेन फक्त दोनूच साडयो आसात हाचेर तूं विश्वास दवरशीत? ते जाणटेलेक कितले चले आनी चलयो हें हावें तिका विचारलें ना. दोन-तीन तरी नक्कीच आसतलीं आनी त्या सगळ्यांचो खर्च पुतूलच करता आसतलें. तिचे आवयकडेन हावें तो मिठायेचो डबो दिलो आनी हांव आयिल्ल्या पावलांनी परतलों."

किशोरबाबूचे बायलेन मनांतल्या मनांत तकलेर हात मारून घेतलो. मनशाची तकली घुंवतकच तो कितें-कितें करता हें ती फकत आयकून जाणा आसली. आतां आनी नर्सिच्या घरा पावपा इतली हाची दशा जाल्या! हे गजालीचें अजाप जाता थंय आसा किशोरबाबूचे

बायलेक दुसरे एके नर्सिची गजाल येवजली जिका तो आजूनमेरेन विसरूंक पावूं ना.

किशोरबाबूची आई मर्णाचे धडेर आशिल्ली. रातची तिचेम्ह-यांत रावपाक एक नर्स आसताली. तिचेखातीर रांदप म्हळ्यार तांकां एक कटकटच आसताली. कित्याक तर ती मोट्यो-मोट्यो अठरा रोटयो खाताली. त्या दिसांनी तांचो रांदपी सुटयेर गेल्लो आनी रोटयो लाटपाचो वावर किशोरबाबूचे बायलेचेर पडिल्लो. तीन-चार दिसांनी तिका पुरो जालें आनी तिणें किशोरबाबूक सांगलें, रातीकडली नर्स बदलल्यार बरें जातलें. दुस-या दिसा सकाळीं आठ वरांचेर जेन्ना नर्स घरा वताली तेन्ना किशोरबाबून बायलेक अजापीत करीत नर्सीकडली पोती तपासपाक मागली. नर्स फाटीफुडें जाली तेन्ना किशोरबाबून तिचेकडसून पोती झोमून घेतली आनी तितल्यान कितें जालें कोणाक खबर! दुस-याच खिणाक जमनीर आठ-धा रोटयो शिंपडल्यो आनी किशोरबाबू नर्सिचेर असो आड्डलो, ताच्या तोंडांतल्यान फेसं भायर येवपाक लागलो. "हांव तरीच चिंततालों, इतल्यो रोटयो एक बायल एकेच फावटीं कशी खावपाक शकता? आमकां पयलींच दुबाव आयिल्लो. चोरी करता तूं? लज दिसना तुका? जाय तशे पयशे घेता, वयल्यान चोरी करता. तुज्या ब्युरोंत हांव तक्रार करतलों. लज दिसपाक जाय....." किशोरबाबूचे बायलेक एकदम सण्ण जालें. तिचें काळीज वेगळेच तरेन धडधडूंक लागलें. चोरयेच्यो रोटयो चारूय वटेन फापसल्ल्यो. त्या देखाव्यांत अशें कितेंतरी आशिल्लें, तिच्या काळजांत आपूणशीच एक प्रार्थना जागी जाली - "हे देवा, भोगशीय आमकां. ह्या अपराधाची ख्यास्त आमच्या भुरग्यांक दिवं नाका. हे फावट भोगशीय आमकां." खूब दीस मेरेन किशोरबाबू दर एकल्या येतल्या-वेतल्याकडेन, दोतोराकडेन हे घडणुकेची चर्चा करीत रावलो. हे घडणुकेचो उल्लेख येतकूच दर खेपेक किशोरबाबूचे बायलेच्या दोळ्यांमुखार तो देखाव येवचो आनी तिचें काळीज एके अनवळखी भिरांतेन धक्-धक् जावचें.

किशोरबाबू बारीकसाणेन आपले बायलेचें मुखामळ नियाळीत आसलो. ती कितें चिंतता आसतली हें येवजून घडये तो भियेला आसतलो. एक खिणभर ताचे बायलेक दिसलें, किशोरबाबूय बी त्याच देखाव्या संदर्भांत चिंतिना मूं? पूण ही असंभव गजाल तिणें मनांतल्यान काडून वडयली.

किशोरबाबू कांय वेळ विमनस्क अवस्थेंत बसून रावलो. मागीर ताणें भोंवपाक वचपाचे आपले मोचे चडयले आनी तो सकयल देंवलो. आज खंयचे वटेन भोंवपाक वचपाचें? बालीगंज सर्कुलर रोडाचेर तो आयलो. चल, आज मिंटो पार्क तळ्याचे देगेवयल्या एका बेंचाचेर बसया. खरें म्हळ्यार मींटो पार्काच्या तळ्याच्या तीनूय वाटांनी गाडयांची खूब ट्रॅफीक उरता आनी चवथे वटेन शाराचें पांच नकेत्री हॉस्पिटल आसा. तातूंतले दर एके कुडींत पीडेन ग्राशिल्ले कितलेजाण आसतले कोण जाणा! पूण माडांनी घेरिल्ल्या ह्या तळ्याच्या उदकाक पळोवन ह्या दिसांनी किशोरबाबून एके विचित्र शांतीकायेचो अणभव घेतिल्लो. उदकाक पळोवन लेगीत मनशाभितर कितेंतरी वदल घडटा अशें ताका दिशिल्लें.

किशोरबाबू मींटो पार्कांत घुसतालो इतल्यान एक नवीताल्ल चकचकीत गाडी पार्कामुखार येवन थांबली आनी तातूंतल्यान सोबीत चलो-चलयेचें एक जोडें देंवलें. चलयेक पळोवन किशोरबाबू अजापलो. हे चलयेक आपणे हालींच खंयतरी पळयल्या अशें ताका दिसलें. ताणें आपले विचारशक्तीक नेट दिलो. पूण ताका कांयच याद जायना जाली. तांचे म्ह-यांतल्यान वता आसताना ताणें ती चली बंगाली-भाषिकांवरी हिंदी उलयताली आनी चलो हिंदी-भाषिकांवरी बंगाली उलयतालो तें आयकलें. मागीर दोगांय एकदम कॉन्वेंटी इंग्लीशींतल्यान खंयतरी वचपाची गजाल करपाक लागलीं. चलो कितेंतरी ताळपाचो यत्न करतालो आनी चली परतून-परतून कसले तरी गजालीचो आग्रो धरताली. अचकीत चलयेच्या उलोवपाचे खुबीवयल्यान किशोरबाबूच्या लक्षांत कितेंतरी आयलें आनी हे चलयेक आपणें खंयतरी पळयिल्ल्याचो उगडास ज़ालो. आरे ही तर ताच्या फॅक्टरीचे सुपरवायजर मित्रा सायबाची कॉलेजींत शिकपी चली. आनी ताणें मित्रा सायबाक सांगिल्लें, ताची चली खूब सुंदर आसा म्हण. ताका लागून तिच्या लग्नाची विवंचनाय ताका जावंची ना.

आतांमेरेन चलयेन खंयतरी वचपाखातीर चल्याक तयार केलो आनी तीं दोगांय चलतूच रस्तो वलांडून कोनशाचे इमारतीवटेन वचपाक लागलीं. तीं दोगांय खंय वतात तें पळोवंचें अशें किशोरबाबूक दिसलें. तांचेफाटल्यान चलत वचून किशोरबाबू एके इमारतीच्या पयल्या मजल्यार चडून एका अतिशय आलिशान अशा कपड्यांच्या दुकानामुखार उबो रावलो. मिंटो पार्काच्या मुखार शारांतलें सगळ्यांत म्हारगें अशें 'बुटिक' (कपड्यांचें दुकान) उकतें जलां अशें आपले व्हडले चलयेन म्हणिल्ल्याचो ताका उगडास जालो. तांच्या फाटल्यान ताणेंय हारशाचें दार उकतें केलें आनी तो भितर सरलो. ताणें सेल्सगर्लाक सांगलें, ताका आपले धुवेक तिच्या वाडदिसाखातीर साडयेची भेटवण दिवपाची आसा.

साडयो पळयतां-पळयतां किशोरबाबून आपले तिरपे नदरेन पळयलें, ते चलयेन विशेक ड्रेस आपल्या आंगाक तेकोवन पळयत त्या चल्याक दाखयले आनी तातूंतले तीन ड्रेस वेंचून काडले. बील जालें आठ हजार रूपये. मागीर मित्रा सायबाची चली खोशयेन भरिल्ले नदरेन त्या चल्याक पळयत कपड्यांचें पॅकेट घेवन नाचत मुरडत सोंपणां देंवपाक लागली. ही आतां वतली खंय? त्या चल्याक ह्या कपड्यांचो कसलो मोबदलो दितली? ह्या कपड्यांखातीर इतले पयशे खंयच्यान मेळ्ळे हें ती आपल्या सुपरवायजर बापायक कशी सांगतली? असलो कसलो दुकळ पडिल्लो तिचे जिणेंत म्हण तिणे हे कपडे घेतले? एका फाटोफाट एक निर्माण जातल्या प्रश्नांनी किशोरबाबूची तकली भणभणून फोडपाक लागली. कसलो अ-काळ आयला? हेंच काय कलियुग? बायलेन सांगिल्ल्या कलियुगाचीं लक्षणां याद करपाचो ताणें यत्न केलो. तेदेवेळार ताका चोपन्न वर्साआदीं आत्महत्या केल्ले दुसरे एके चलयेचें मडें येवजलें.

□□

त्या आयताराक भोंवतां-भोंवतां किशोर, लेक रोडाचेर अमोलकाच्या घरा पावलो. किशोर आनी अमोलक, फाटल्या एका वर्साभितर दोगूय जशे कि तें एकाच वांगडा धा वर्सांनी वाडिल्ल्यावरी व्हड जाल्ले. तांच्या जिवितांतल्यान शांतनूचें ना जावप म्हळ्यार तांचें जगप अशा वळणाचेर आयिल्लें, जंय काळजांत जागी जावपी भावुकताय तर नश्ट जावन वताच. पूण तेचबरोबर मनशाभितरले मोवाळपणा लेगीत त्याच वांगडा विलीन जावन वता. बस, उरता ती फकत क्रूर संवसाराची एक वास्तविकताय आनी ताचेकडेन झुजपाखातीर जापसालदारकेची असह्य जाणवीक.

अमोलकाचो बापूय फाटल्या ऑगष्टाकसान 'भारत छोडो' चळवळींत अटक जावन बंदखणींत आशिल्लो. दुसरेकडेन शांतनूचो स्वामी रामानंद कृष्ण एके क्रांतिकारी दलाचो वांगडी आशिल्ल्याचो सुगाव पुलिसेक लागिल्लो. संन्याशाच्या भेसांत तो भितरले भितर एका सशस्त्र विद्रोहाची तयारी करतालो. तांच्या वांगडा पुलिसांनी शांतनूकय मुर्शिदाबादांत अटक केल्लो. पूण शांतनूचो बापूय डॉ. राय हाणीं जायते यत्न करून पुलीस विभागांत आपली वळख काडून ताका सोडयिल्लो. शांतनूचेर प्लायर घेवन विजेच्यो तारो कातरपाचो आनी रेल्वेचे रूळ खणपाचो अपराध केल्ल्याचो आरोप आशिल्लो. पूण डॉ. राय हाणी शांतनू हो एक ल्हान नेणार भुरगो आनी ताका फुसलावन हें कर्म करून घेतलां हें सिद्ध करून दिलें. मागीर ताका वैजकी शिक्षणाखातीर मुंबय आपल्या इश्टाम्ह-यांत धाडून दिलो.

मुंबय वचचे पयलीं शांतनू किशोराक तर मेळूंक नाच आनी डॉ. रायान दिल्ल्या मुंबयच्या पत्त्यार ताणें बरयिल्ले चीटयेचीय जाप दिवंक ना. ह्या दुख्खांतल्यान भायर सरपाक किशोराक बरेच म्हयने गेले. किशोरान देवाक खूब पराथिल्लो हें खरें, कित्याक तर त्या हॉलवेल मोन्युमेंटवाल्या दिसाभशेनूच तो हे फावटीय मरतां मरतां वांचिल्लो. तो मुर्शिदाबादाक परतल्या उपरांत पंदरा दिसांनीच हो दंगो जाल्लो. नाजाल्यार ताचें कितें जातलें आशिल्लें कोण जाणा! पूण शांतनूक ताच्या मनांतली ही गजाल कशी कळूं येताली? मागीर किशोराकडेन इतली नाराजी कित्याक? किशोराक कांय समजना जालें. संवसार कितें असो अकस्मात बदलूं येता? ताणें हें अमोलकाक विचारिल्लें. पूण अमोलक कितेंतरी येवजितां-येवजितां वगी रावलो. अमोलक केन्नाच खंयचेच गजालीचेर आपलें मत मांडिना. किशोराक हे गजालीची सदांच तीडक मारता.

त्या दिसा ह्यो सगळ्यो गजाली करतां-करतां अमोलकाक घेवन किशोर भोंवपाक म्हण भायर सरलो. मळबांत पावशी कुपां दाटून आयिल्लीं आनी वारो सामको ठप्प जाल्लो. नेटाचो पावस येवपाची ही सुलूस आशिल्ली. सकाळचो वेळ आसूनय सांजवेळासारकी काळखी सया मारिल्ली. तळ्या लागशिल्ल्या मैदानाक दुस-या म्हाझुजावेळार कोलकात्यांत आयिल्ल्या अमेरिकी सैन्यान कांट्यांच्यो तारो मारून ओडून घेतिल्लें. तातूंतल्या गो-या आनी काळ्या अमेरीकन सैनिकांक कुतूहलान चोरून पळयत ते थंय उबे रावले. दोन

अमेरीकन 'टॉमी' तांकां पळोवन हांसत कितें गुणगुणूंक लागले. ते कितें गुणगुणटात हें तांच्या लक्षांत येना जालें. पूण राग आनी लय वळखिची दिसपाक लागली. तेन्ना अमोलकान कीळस उकतायत सांगलें, "ते कितें गुणगुणटात तें खबर आसा? काननबाला चें फिल्म पळोवन आयल्या आसतले, तेंच गुणगुणटात - 'छन्दे छन्दे दूली आनंदे आमि बनफूल गो.' चल, हांगासरल्यान कडसुया आमी. तळ्याच्या कांठार आमच्या आदल्या सदच्या जाग्यार बसूंया." थंय पडिल्लो फातर उखलून मोखून मारचो अशें किशोराक जाल्लें पूण ताचे हात चुळबुळ्ळे आनी थांबले.

ते दोगूय त्या आदल्या पोरन्या शिरीषाच्या रूखापोंदा, जाचे सत्रेसारख्या फांदयांनी वाटकुळोच घेर केल्लो, थंय येवन बसले. थंयच्यान तळ्यांत आशिल्ल्या ल्हानशा जुंव्याचेर जो दर्गा बांदिल्लो थंय व्हरपी पूल नदरेक पडटालो. पूण आपणाल्या मनपसंतिच्या जाग्यार येवन लेगीत अमोलक आज खूब उदास दिसतालो. किशोराक दिसलें, घडये बंदखणींत भोगचे पडटल्या आपल्या बापायच्या त्रासांविशीं तो चिंतता आसतलो.

"पळयलां तुवें किशोर, कोलकाताच्या रस्त्याचेर भीक मागपी लोकांची संख्या दिसानदीस कशी वाडत चलल्या ती? म्हज्या बापायचो इश्ट आसा न्ही संपतकाका, तो सांगतालो बंगालाक खंय गांवांतल्या लोकांकडेन खावपाक कांय उरिल्लें ना. आपणालीं सगळीं आयदनां-बियदनां विकून ह्या लोकांनी जी तांदळांची खरेदी केल्ली ते खावन सोंपले. आनी आतां ते भुकेल्ले गांव सोडून कोलकाताक येतात. कितें जातलें खबर ना. फाटलीं दोन सप्तकां जालीं आमच्या घरामुखावयल्या नाक्याचेर अशाच एका कुटूंबान ठाण मांडलां. पळयलां तुवें तांकां? सगळ्यांचे सुकून-सुकून सांगाडे जाल्यात. बापूय आनी चलो सदां भीक मागून हाडटात. आवय आनी तरनाटी चली थंयच बसून रावतात. पयर रातीकडेन बापूय आनी चलयेचें झगडें म्हज्या कानांर पडलें. बापूय तिका भीक मागपाक वच म्हण सांगी. चली सांगताली - 'म्हज्या आंगार अब्रू धांपपाक लेगीत वस्त्र ना. कशें वचूं हांव भीक मागूंक?' आमचेकडेन पळय कितले कपडे आसात न्ही किशोर? काल हावें आईक सांगिल्लें, तिका एक साडी दी म्हण. आई तांकां खावपाक कितें कितें दीत आसताच."

किशोरानय फाटल्या आयताराक ते नाक्यावयले चलयेक पळयिल्ली. दळडीर आनी भुकेच्या वळवळ्यांतल्यान लेगीत तिची सुंदरकाय नदर ओडून घेतलेबगर रावनाशिल्ली. किशोराक ते चलयेचो हुस्को जावपाक लागलो. तिचो घात घेवपाक कितलेजाण टपून रावल्या आसतले कोण जाणा!

पार्क स्ट्रीटाचेर अमेरीकन सैनिकांक अँग्लो-इंडीयन चलयांक तेंकून तांच्या गळ्यांत हात घालून भोंवताना किशोरान पळयिल्लें. त्या लोकांच्या दुस-या हातांत कागदांत गुठलायिल्ले कवाब असतात आनी ते लोक राकेसावरी खायत रावतात. ह्या लोकांच्या तवनासपणाच्यो आनी तरातरांच्या त्रासांच्यो खबरी सगळ्या शारांत पसरिल्ल्यो. चार-पांच वर्सांच्या चलयांचेर

पासून बलात्कार जावपाच्यो घडणुको जाल्ल्यो. ह्या लोकांचेर नदर दवरपाक मिलिट्री पुलिसांच्यो फटफटी कोलकातांत भोंवताल्यो, पूण दर दिसा सैनिकांचीं नवीं-नवीं कर्तुपां कानार पडपाक लागलीं. मिलिट्री चे 'मॅक' ट्रक सगळ्या शारभर धांवताले आनी रस्त्याचेर ठिकाणा-ठिकाणाचेर चिड्डून मेल्ल्या सुण्यांचीं मडीं नदरेक पडटालीं. सुणींच न्हय, तर सो-याच्या बल्लांत बुडिल्ल्या कितल्या बेबद्यांक ह्या मिलिट्रीवाल्यांनी चिड्डिल्या आसतले कोण जाणा! एक दीस चौरंगींत 'फिरपो' रेस्तोरंटामुखार एका काळ्या अमेरिकी सैनिकान आपली अर्दी खाल्ली चॉकलेट किशोराक दिवपाखातीर हात ताचेफुडें व्हेलो. तिडकीन आनी तिरस्कारान भरिल्ल्या ताच्या मनाक दिसलें, ताचेर थुकचें. पूण मार खावचो पडटलो हे भिरांतेन ताणें आपणाक आडायलो. चौरंगीमुखावयल्या मैदानांत बॉंबाच्या मारान वांटावपाखातीर खणिल्ल्या खोल फोणांत हे लोक चलयांक घेवन पडून आसताले. कोणतरी म्हणटाना ताणें आयकल्लें - "हे लोक पुराय कोलकाताक रंडीखानो करून सोडटलेशे दिसता."

अचकीत् अमोलकाची नदर दर्ग्याकुशीकच तळ्यांत पसरिल्ल्या जलकुंभीच्या वालींचेर पडली. थंय खूब्ब कावळे एकठांय जमून काव-काव करपाक लागिल्ले. किशोरान पळय जाल्यार उदकाच्या वयर एक मडें उफेतालें आनी जलकुंभीच्या वालींक तें शिरकल्लें. ते दोगूय किळांचले. अमोलक अकस्मात थरथर कांपतालो. तो पुटपुटलो - "ही तीच चली किशोर. तीच आसा ती. हिची साडी वळखतां हांव किशोर. ती सद्दां हीच साडी न्हेसताली: ही तीच रे किशोर."

अमोलकाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवत आशिल्लीं आनी हुंडकेताना हीच गजाल तो परत-परत म्हणटालो. ताची ही अवस्था पळोवन किशोर आपलो थरथरो आनी आपली भिरांत विसरलो. तो ताका घरा घेवन आयलो.

"तुवें काल तिका साडी दिली ना मगे आई? आतां ती उदकांत बुडून मेली. आई, तुवें तिका साडी कित्याक दिली ना गे?" आवयक पळोवन अमोलक परतून बडबडूंक लागलो. अमोलकाचे आवयक तो कितें उलयता तें कांयच समजना जालें. तेन्ना किशोरान तिका रडत-रडत मोट्या कश्टांनी इतंभूत गजाल सांगिल्ली. अमोलकाची आवय लेगीत सुन्न जाली. तिणें रोकडोच संपतकाका फोन करून मेल्ले चलयेचें क्रियाकर्म करपाची वेवस्था केल्ली. हे घडणुके उपरांत थोड्याच दिसांनी तेच चलयेची आवय भुकेन कासावीस जावन मड्याचे अवस्थेंत नाक्यार सांपडली आनी संपतकाकाखातीर आनीक एकाचें क्रियाकर्म करपाची जापसालदारकी येवन पडली.

अमोलक थोडोसो निवळ्ळो आनी संपतकाकावांगडा दीस-रात बंगाल रिलीफ कमिटीच्या सेवाकार्यांत पडलो. एक दीस ताणें सांगलें, "कितल्या चलयांनी आपली कूड धांपपाखातीर वस्त्र नाशिल्लें म्हण जीव दिला हाचो थांग आतां लागता. कितल्या चलयांनी आपले पोटांतले भुकेन आंतकड्यो खावन वडयल्यो म्हण स्वतःक विकून वडयले. मनशाचे भितर

मनीसपण म्हण जी वस्त आसता न्हय किशोर, ताका पोटाचो उजो गिळून वडयता. पोटाची भूक भागची म्हण घोवाखातीर बायल, बायलेखातीर घोव, भुरग्यांखातीर जाणटे आवय-बापूय, इतलेंच न्ही तर आवय-बापायखातीर तांचीं भुरगीं लेगीत विक्रेच्यो वस्ती जातात." किशोर सद्दां नेमाळ्यांनी हें वाचता, जाल्यार अमोलक आपल्या दोळ्यांनी पळयता आनी ताका सांगता. भुकेन वळवळून रस्त्याचेर पातळिल्लीं पन्नाशेक जाणांचीं मडीं किशोरान स्वतः पळेल्यांत. एक दीस तर ताणें सेंट्रल एवेन्युच्या पुटीरामच्या मिठाईच्या दुकानाभायर मेल्ल्या भुरग्याचें एक मडें पळयलें. त्या दिसासावन तो खूब थोडें खावपाक लागलो. अचकीत् ताची भूक उणी जाली. मिठाई तर तो अजिबात खावंक शकना.

सप्तकांतले स दीस किशोर एखाद्या यंत्रावरी काम करता. त्या दिसांनी ताची मतय चलना आनी ताचें मनय लागना. दीस-रात दुकानांत कश्ट करून काम करपांत तो दंग उरता. सैनिकांक पांचवो गणवेश, ताडपत्र्यो आनी कांबळी सप्लाय करपाचें टेंडर मामाक मेळ्ळां. हाका लागून कामाचो व्याप वाडला आनी फायद्याकय अंत ना. गांधी-नेहरू सगळे बंदखणींत दीस सारतात आनी इंग्रजांक झुजांत मदत करप म्हळ्यार देशद्रोह केल्ल्यासारखो. असल्या हवेंतल्या आदर्शांची आतां कोणांक गरज उरिल्ली ना. सगळेजाण आपणाली चांदी करून घेवपांत मग्न आसात.

मदल्या मामाचेर तर कामाचो सांवारूच आयला. वीस वर्सांचे पिरायेचेरूच धाकुटपणाची जीण सारताना ताणें संपत्ति जोडपांतूच आपणाल्या जिविताचें लक्ष करून वडयिल्लें. मदले मामीक टायफोड जावन ती दुयेंत पडिल्ल्याची आनी मर्णाचे धडेर आशिल्ल्याची खबर आयकून मामीक मेळपाक मामा रायगडाक गेलो. मामीन ताका म्हळें, "तुमचें बाबा कितें, हांव मरनाफुडें तुमी जावशात दुसरें लग्न. म्हाका दुख्ख जाता तें म्हज्या आवय-बापायचें. हांव वतकच तीं जितेपणीं मरतलीं." मामीच्या उतरांनी मामाच्या काळजाक चर्र जालें. ताणें म्हळें, "तूं म्हाका कितें समजता? तुजो घोव इतलो सवाय ना. तुका हांव उतर दितां हांव दुसरें लग्न करचो ना." फर्रूखाबाद वता आसताना लाटिल्ल्यो मामीच्या दुकांच्यो पुरयो किशोराक येवजतात. मामा-मामी दोगांय एकामेकाक पुराय वळखुचे आदींच सदांखातीर पयसावलीं. पूण मदलो मामा त्या धाग्यान बांदिल्लो उरलो. दुसरें तोंक खंयच ना. ताच्या ह्या निर्णयाक लागून किशोराची आई खूब दुख्खी जाल्या. "फुडें मागीर सामको एकलो पडटलो. सगळे बसतले आपापले संवसार घेवन आनी ताचो मात कोण उरचो ना." पूण मदलो मामा आपल्या निर्णयाचेर ठाम आसा. किशोर जायते फावटीं येवजिता हीं कसलीं पिशेपणां काय म्हण. हांगा मामा एकलो आनी थंय शांताभाभी. दोगांयचें एकामेकालागीं लग्न जाल्लें जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! पूण हो प्रस्ताव् ओंठार लेगीत हाडपाचें धाडस ताच्यांत ना. अखेर जी परिस्थिती आसा ती सगळ्यांक परिचित आसा. घडये सगळ्यांच्या मनांत ही गजाल येता आसतली पूण उलोवन कोणूच दाखोवचो ना हें किशोराक खबर आसा.

किशोर कसलेच विचार मनांत हाडिनासताना सप्तकांतले स दीस कामांत बुडून रावता. फकत सातव्या दिसा तो परतून आसा तसो जितो मनीस जाता आनी ताका त्या किशोराचो आनी ताच्या दुबळेपणाचो तिटकारो येवपाक लागता जो फकत आपणाल्या पोटाचें येवजिता. शांतनू ताच्या आयुश्यांतल्यान जे घडयेक गेलो त्याच खिणाक ताचेवांगडा ताचे तकलेच्या फाटल्यान आयिल्लें गूठय अचकीत ना जालें आनी आतां ताका आपणाक केन्ना दुखापत जाल्ल्याची यादय जायना. हालीं तर ताका मुर्शिदाबादच्या स्वाम्याची लेगीत कसली गजाल याद जायना. जशो कि तें त्यो सगळ्यो खंयच्यातरी वेगळ्या जल्मांत कोणा दुस-या किशोरावांगडा घडिल्ल्यो गजाली आशिल्ल्यो. उलोवप आनी कल्पना कितल्योय ब-यो आसूं, पूण जें आसा ताचेपासून कितेंय केलें तरी आपणाक वांटावपाक जायना. अमोलक आनी शांतनूमदलो हो मोटो फरक किशोराक जाणवता. अमोलक कोणा मनशाचो आदर राखून ताचीं मुळां खणपाक वचना. ताका आपल्या मनांतल्यो गजाली सांगपाक कळटात.

अमोलकाक ताची हालत आनी ताचें दुबळेपण समजता. हेखातीर तो सप्तकांतल्या त्या स दिसांविशीं किशोराकडेन केन्नाच उलयना. ताचे नदरेंतल्यान किशोराचे ते 'घाणाक' दवरिल्ले दीस. ताच्या आयुष्यांतले आई आनी भाभीखातीर 'घाणाक' दवरिल्ले. पूण दर एका मनशाक सात दिसांतलो एक दीस आपले मर्जेप्रमाण जगपाचो अधिकार आसा आनी जर तो अशें करपाक शकता जाल्यार तो उण्यांत उणे विकपाक गेल्लो गुलाम तरी न्हय. तो आपणाल्या अस्तित्वाचे जाणिवेउदेशीं जगता. अमोलकान दिल्ल्या ह्या विश्वासाच्या बळाचेरच किशोर दर आयताराक ताच्या कामांक मदत करता. अमोलक म्हणटा, "दोळ्यांमुखार जेन्ना इतले लोक मरतात, तेन्ना दोळे बंद करून जगपाचो यत्न करप म्हळ्यार एके तरेची आत्महत्याच."

"आत्महत्या?" किशोर त्या दिसा पुराय वेळ अमोलकान वापरिल्ल्या ह्या उतराचेर चिंतीत रावलो. अमोलक दिसानदीस बरोच गंभीर जायत वचपाक लागलो. हरशीं म्हण तो उतरांचो वापर अशेतरेन करता, त्या उतराचो अर्थूच बदलून वता. नाजाल्यार 'जगपाचो यत्न' म्हळ्यार 'आत्महत्या' कशें जावं येता? हीं दोनय उतरां तर एक दुस-याच्या विपरीत आसात.

तेदेच वेळार किशोराक मिदनापुरासान आयिल्लो साठ वर्साचो एक निमाई हलदार रस्त्याचेर भीक मागताना भेटलो. "पयलीं फाटल्या वर्सा आयलें वादळ, उपरांत पूर, आमचें सगळें तर त्या वेळारूच नश्ट जावन गेलें बाबा. घरदार, भाटबेंस, आयदनां-मडकीं, धान्य, बोकड्यो सगळें. बाजारांत तांदूळच नाशिल्ले आनी आशिल्ले ते सपटीन भावाच्या दरान. तितले पयशे आमचेकडेन खंयचे आसतले? कोण सांगता, सरकारान सगळो तांदूळ कोलकात्याक फौजीखातीर धाडून दिला म्हणून. कोण सांगता, दर वर्साप्रमाण वर्माकसान येता तो तांदूळ येवंक ना म्हण. कित्याक तर थंय जपानी लोक आयल्यात खंय.

आमी तण खाल्लें. म्हज्या एका चल्याक तण पचलें ना आनी ताका उलट्यो-ओंकारे येवन तो मेलो. मागीर आमी पानां खाल्लीं, रानांतलीं मुळां खाल्लीं, कोंगे, गोगलगायी खाल्ल्यो."

"सरकारान आमच्यो होडयो हातासल्यो. नाजाल्यार कांय न्ही म्हळयार निदान नुस्तें तरी मारून खावं येतालें. म्हणपाक लागले जपानी लोक आयले जाल्यार तांकां होडी मेळपाक जायना. कितें करपाचें बाबा आमी? म्हज्या दुस-या चल्यान म्हज्या एकल्या एकसु-या नातवाची गोमटी अंदून ताका जितोच मारलो. कित्याक काय म्हळयार तो आपणाक खावपाक जाय म्हण रडटालो. म्हज्यान आनीक सोंसपाक जालें ना. हांव त्या लोकांवांगडा आनीक रावपाक शकलों ना. रातचोच थंयसान पळून गेलों. आमी सगळे राक्षस जाल्ले. राक्षस." ताचें उलोवणें आयकून किशोर सुन्न जालो. तो जाणटेलो रडटालो तें ताणें पळयलें, पूण ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवनासलीं. फकत ताचें मुखामळ रडटालें.

त्या जाणटेल्याची काणी आयकून किशोराक अकस्मात अमोलकाची आत्महत्तेसंबंदीची गजाल समजून आयली. आमी सगळीं मरून गेल्लीं मनशां. म्हणूनच तर आमी जगपाक शकतात, हांसपाक-उलोवपाक शकतात, खरेदी करपाक शकतात, फुडाराच्यो येवजण्यो आंखपाक शकतात.

आयताराक भवानीपुरांत भुकेल्ल्या लोकांचे गर्देंत, अमोलकाचे भयणीवांगडा धकलगाडयेवयल्यान रोटयो वांटटना मामाच्या कोणा कारभा-यान किशोराक पळयलो. दुस-या दिसा सकाळीं-सकाळींच मामाल्या घरा आवयच्या मुखार किशोराची सुनावणी जाली. तेन्ना आईन मदल्या मामाक म्हळें, "हां. करतलो किशोर तें काम. ह्या कामांत वायट कांय ना. भुकेल्ल्यांक रोटयो खावोवप हातूंत कितें चूक आसा भैया? किशोरान म्हाका सांगूंक ना म्हणून, नाजाल्यार ह्या कामाक हांवूच रोटयो करून दितली आशिल्लीं ताका." तटास जावन किशोर आवयक पळयत रावलो. मामा मातसो गडबडलो, "ना गे ताई. किशोर चुकिचें काम करता अशें हावें खंय म्हळां? हांव इतलेंच सांगतां, ताचो तो इश्ट बरो न्हय. ताचो बापूय थंय बंदखण भोगता. पूण आमच्या सायबांक जर सुलूस लागली, आमचो भाचो कोणावांगडा मेळोवणी-जुळोवणी करून आसा तो, जाल्यार आमची ऑर्डर रद्द जावपाक शकता. फर्माचें मोटें लुकसाण जातलें. महासभेक आमीय दिल्यात पयशे लंगर चलोवपाक. भुकेल्ल्यांक कितें आमी दान करीनात? पूण महासभावाले हेतरेन रस्त्याचेर उभे रावन आमकां रोटयो वांटपाक सांगत जाल्यार आमी थोडेंच आयकुपाचें. दर एकल्यान आपलो पांवडो राखून दवरपाक जाय काय नाका? तूंच सांग पळोवया म्हाका." आईन कांयच जाप दिली ना. ती फकत हांसली. किशोरान पळयलें, तिच्या हांश्यान मामा अस्वस्थ जालो. व्हडल्या मामाक देंवती कळा आयल्या उपरांत मदल्या मामाचे दिसानदीस वाडत चलिल्ले प्रतिष्ठेचो तो हांसो उपहास करतालो. तो हांसो जसो कि तें मदल्या मामाक विचारपाक सोदतालो, आज व्हडल्या मामाचो पांवडो कितें आसा

काय म्हण! व्हडलो मामा आपलें कुटूंब घेवन वेगळो संवसार करतालो. एक दीस ताका भाजयेची पोती घेवन वता तो पळयताना किशोराक अजाप जाल्लें. व्हडल्या मामाक लज जावंची न्हय म्हण ताका पळोवन तो लिपून राविल्लो.

"मनशाक मोल तरी कसलें उरलां? किडी आनी मुंयांवरी मनशां मरतात तशेंच भूक आनी दुयेंसांनी लाखांनी लोक मरतात अशी अवस्था जेन्ना मनीसच मनशाखातीर निर्माण करता तेन्ना मनीसपणापरसय कांय उतरां श्रेष्ठ जाल्यांत हें लक्षांत घेवपाक जाय : देश, राष्ट्र, सरकार, सिद्धांत, कर्तव्य, हक - सगळीं उतरां हीं अखेर उतरांच. भुकेन वळवळटल्या मनशाखातीर ह्या व्हडल्या-व्हडल्या उतरांचो अर्थ कित्याक उपकारता? इतल्या भुकेल्ल्या लोकांच्या रगतान स्वतः रंगून गेल्ले हे इंग्लीश खंयच्या सिद्धांताच्यो गजाली करतात? चर्चिलान सांगलां, मनशाचे स्वप्रतिष्ठेचे थापणुकेखातीर हें झूज आसा, पूण जांचेकडेन ते झुजतात, तांचेपरस हे बरे कित्यावेल्यान? हिटलर खंय ज्यूंक किड्या-मुंयांवरी मारता. पूण हांगां ह्या मरतल्या लोकांविशीं इंग्रजांच्या काळजांत कसले चुरचुरे आसात?" अमोलकाचीं उतरां किशोराच्या काळजांत खोल रीगतात. ख-यांनीच काय मनीसपण नांवाची वस्त ह्या संवसारांतल्यान शेणून वतली? हांगां कांय पावसाळो सुको वचूंक ना. खरो दुकळ खंय पडिल्लो ना. मनशानच मनशाखतीर निर्माण केल्लो हो दुकळ. कालूच ताणें दिसाळ्यांत वाचिल्लें, अमेरीकेंत सोळा वर्सांच्या एका भुरग्यान आपल्या बापायचो खून केलो. कारण कितें काय म्हळ्यार बापायन ताका मोचे घेवपाखातीर पयशे दिवंक नाशिल्ले. कोणाखातीर एखादो सिद्धांत, तर कोणाखातीर मोचे - निमाणें मरता तो मनीसूच. दुकळ केन्ना पडना, दुकळ निर्माण करतात.

सोमाराक सकाळींच किशोराक आपोवपाक अमोलकान एका मनशाक धाडलो. किशोरान भियेवन आवयचेवटेन पळयलें. कितें घडलां? काल रातीं तर तो खूब उसरां अमोलकाच्या घरासान आयिल्लो. इतल्या वेळामदीं कितें घडलें? मशिनावरी काम करपी सोमारच्या किशोराक, आयतारच्या किशोरान भेश्टायिल्लो. अमोलकावांगडा काम करताना फाल्यां कसल्याय संकटांत फारावलो जाल्यार? दुकानांत गेलो ना जाल्यार मदल्या मामाची नाराजी आनीक वाडटली. वेल्यान आनीक कसलेंय लचांड आयलें जाल्यार गेलो कामांतल्यान. कितें करपाचें? तो वयर सकयल जाता ती अवस्था आवयचे नदरेंतल्यान सुटली ना. तिणे म्हळें, "तूं वच. भैयाक हांव समजायतलीं." आईच्या ह्या उतरांनी किशोराक आपले भिरांतेची आनी उणाकपणाची लज दिसली. ख-यांनिशीं तो एकदम भित्रो. आज ताका वचप कितलें कठीण आसा हें अमोलक बरेभशेन जाणा. पूण तरी लेगीत ताणें रकाद धाडला ज़ाल्यार नक्कीच ताची गरज भासल्या अशी गजाल घडल्या आसूंक जाय.

किशोर जेन्ना अमोलकागेर पावलो तेन्ना अमोलक णव-धा म्हयन्याच्या एका अर्भकाक दोनय हातांनी घट्ट वेंगावन धरून कदेलीचेर वसला तें पळोवन तो बुचकळ्यांत पडलो. आंगार कपडे नाशिल्ल्यान भुरग्याची ती उकती कूड पळयल्यार ताच्या आंगांतल्यो वरगड्यो

मेजपाक येताल्यो. ताच्या हातापांयांच्यो बडयो जावन जीव नाशिल्लेभशेन त्यो शेंगांभशेन हुमकळटाल्यो. पूण भुरग्याक जीव आशिल्लो. ताचें पोट वयर-सकयल जातालें ताचेवेल्यान जाणवतालें. अमोलकान किशोराचे वटेन पळयलें. ताच्या दोळ्यांत जी थकाय आनी निर्शेवणी दिसली ती किशोरान हाचेपयलीं एकदांच पळयिल्ली. ललीतभैयाक जाळून आयल्या उपरांत येवन जेन्ना ताणें हारशांत आपलें खुमणें नियाळिल्लें तेन्ना ताणें आपल्याच दोळ्यांत पळयिल्लें. किशोर थटकलो. कोण हें भुरगें? ताणें दोळ्यांनीच अमोलकाक प्रश्न केलो.

"काल रातीं कोणतरी ह्या भुरग्याक आमच्या दारांत सोडून गेला. हें भुरगें कोणाचें हाचो पत्तो लागना." अमोलकान दबिल्ल्या आवाजान सांगलें. किशोरान त्या भुरग्याकडेन बारीकसाणेन पळयलें जाल्यार ताका विजेचो शॉक ब्रशिल्लेभशेन जालें. भुरग्याच्यो पातकड्यो थीर आशिल्ल्यो - तो मातूय पातकड्यो हालयनाशिल्लो. किशोरान कितेंतरी विचारपाखातीर तोंड उगडचेपयलींच अमोलकान म्हळें, "डॉक्टर गैरमोहनान पळयला. ह्या दुयेंसाक मॅरॅस्सम म्हणटात. हातूंत पातकड्यांचें काम बंद पडटा" अमोलकान आपणाक कित्याक आपयला म्हण विचारपाचें धाडस किशोराक जालें ना. तो वगी उबो रावलो. अमोलकानच आडखळत ताका म्हळें, "हावें...हावें....तुका इतलेचखातीर आपयला, हाचें कितें करपाचें. म्हज्या हिसपान हो वांचचो ना. डॉक्टरान सांगलां. तेन्ना कितें करपाचें? म्...म्...म्हजें म्हणणें - संपतकाका शारांतल्यान भायल्या गावांत गेला. हो मेलो जाल्यार कितें करपाचें हें तूं सांगशी म्हाका?" किशोराच्या अंतर्मनांत एक थंड ल्हार काळजांतल्यान उफेलें आनी मेंदवामेरेन पावलें. मेल्ल्यांचें कितें करपाचें आनी कशें करपाचें हें अमोलक नकळो. किशोर जाणा. ताणें आपल्या भावाक जाळ्ळा. ताका अणभव आसा. तो अमोलकाकडेन उदास दोळ्यांनी पळयत रावलो.

दोनेक वरां उपरांत त्या भुरग्याचें पोट वयर-सकयल जातालें तें थांबलें. किशोर आनी अमोलक ताका घेवन केवडातलाचे मसंडींत आयले. थंयचो देखाव पळोवन त्या दोगांयचीं अंतस्कर्णां जड जालीं. जाळपाखातीर मड्यांचेर मडीं अशी रास पडिल्ली. आकांताची घाण सुटिल्ली. एका ल्हान भुरग्याचें मडें अर्दें खावन वडयिल्लें. भुरग्यांचीं पडून उरिल्लीं मडीं सुणीं खातात हें किशोरान दिसाळ्यांनी वाचिल्लें.

"भूक मनशाचें कितें करपाक शकता? हें पळयतकच आमी जिणेचे सुंदरकायेविशीं आनीक चिंतपाक पावतले? मोग, ममता, त्याग, धर्म - ह्या गजालींचो अर्थ आमचेखातीर पयलींभशेन उरू येत? निर्मळ, दोशांविरयत अर्थ?" अमोलक म्हणटा. किशोराक ख-यांनीच दिसपाक लागलें, ताचेभितर कितेंतरी एकटावलां आनी फातरावरी ताका तें धोसपाक लागलां. आतां हें सगळें पळयतकच पयलींभशेन दुख्ख खंय जाता? "सगळ्यांत व्हडलें लुकसान जें आसा तें आतां म्हजेचखातीर आसा, अशेतरेचें कोणाचें दुख्ख पळोवन म्हाका केन्ना दुख्ख जावपाचें ना. आमचेखातीर आमचे ल्हान-ल्हान कश्ट लेगीत व्हड दिसतात.

पूण दुख्ख आनी कश्टाच्या तळाक  आमी जेन्ना नदर मारतात तेन्ना आमकां हे धाकटुले कश्ट फालतू दिसपाक लागतात. तीन दिसांआदीं आईन म्हणिल्लें, आपणाले पांय दुखतात म्हण. हावें म्हळें, 'बरें आसा'. पयलीं केन्नाय खूब दुखपाक लागतकच ती म्हाका सांगताली तेन्ना हांव म्हणटालों, 'हाड, हांव चेपतां'. उपरांत हांव कितलो बदललां हें येवजीत रातभर जागोच उरलों." ते दोगूय त्या भुरग्याचें मडें हेर लावारीश मड्यांभरशीं सोडून आयिल्ले. एक स्वयंसेवी संस्था त्या मड्यांची जाळपाची वेवस्था पळयताली.

"हें सगळें पळयतां-पळयतां आमच्यो संवेदना ल्हवू-ल्हवू आंकड्यांपुरत्यो मर्यादीत जावपाक लागल्यो. इतले लोक मेले, इतले पयशे खर्चिले." लंगरांत काम करतां-करतां अमोलक किशोराक सांगता, "आनी मागीर अशें जाता,  फाटल्या म्हयन्यांत जेन्ना सात हजार सातशीं लोक मरतात आनी ह्या म्हयन्यांत चार हजार मरतात तेन्ना मनीस एके तरेचें समादान आनी खोस मानून घेता. आमी म्हणटात, स्थितींत सुदारणा जाल्या. ताच्या काळजांत आनी मनांत मनशांचो जागो आंकडे घेता.

"हांगा रस्त्यार 'मा गो एक टू फेन दाओ' (भाताची थोडी पेज वाड गे आवय) म्हणत भीक मागपी शेंकड्यांनी भुरगीं, रस्त्याचेर जळामळाक पातळिल्लीं मडीं आनी दिसाळ्यांनी येतात त्यो गावांत भुरग्यांच्यो जातात त्या विक्रेच्यो खबरी, हें सगळें घडटा आसूनय इंग्रज तर सोडूनच दियात, बंगालांतल्या मुस्लीम लीग सरकारांतले अन्नमंत्री सु-हावर्दी हाणींय बंगालांत आकांताळो दुकळ पडला म्हणपाचें घोशीत करपाक म्हयने लायले. आजूनमेरेन सत्याक कशेतरेन फट थारावपाचें वा तें कशें अर्धसत्यांत बदलुपाचें आनी ताची भयानकता उणी करपाखातीर कितें करूं येता ह्या यत्नांत सरकार घुस्पून उरलां." अमोलक हें सगळें सांगता आसताना किशोर ताका बारीकसाणेन नियाळटा.

पातकड्यो हालयनाशिल्ल्या त्या लावारीश भुरग्याच्या मरणान अमोलकाच्या भितर जो घावो निर्माण केल्लो ताका लागून ताचो भायलो चेरोय बदलून गेल्लो. तो पळयता, अमोलकाच्या ओंठाचे कुशीक गालावयल्यान देंविल्ल्यो आडयो अचकित खूब खोल गेल्यात. ह्यो कितें दुख्खाच्यो सासणाच्यो रेषा? ह्योच रेषा आवयच्या चे-याचेर, धाकल्या मामाच्या चे-याचेर आनी खुद ताच्याय चे-याचेर उदेल्यात. ह्या दुख्खांतल्यान वांटावपाचो कसलोच उपाय मनशाकडेन ना? हें सगळें येवजिताना ताचें काळीज धडधडूंक लागता. सगळ्यांत बरें म्हणटा तें कांयच चिंतप ना. मुखार जें काम आसा, तातूंत बुडून रावप. आईभशेन. धाकल्या मामाभशेन. बस!

अमोलकाक खावपाक-न्हीदपाक एका मिनटाची लेगीत उसरपत ना. संपतकाका देशांत जाग्या-जाग्यांनी थापन केल्ल्या सहाय्यक संस्था आनी दक्षिण आनी पूर्व आफ्रिका तशेंच लंकेच्या अनिवासी भारतीयांच्यो संघटना, हांचेकडल्यान एकठांय केल्ल्या पयशांतल्यान धान्य विकतें घेवपाक आनी मेळिल्ल्या धान्याचें बंगालांतल्या गांवांनी वांटप क़रपाखातीर जाग्या-जाग्यांनी भोंवतात. कोलकातांतलें बरेंचशें काम अमोलकासारखेल्या भुरग्याचेर

सोंपयलां.

एक दीस घरा परतताना घरा लागींच्याच नाक्याचेर आपलेच पिरायेच्या एका चल्याकडेन अमोलकाची गांठ पडली. अमोलक पयलीं केन्नातरी ताचेकडेन फुटबॉल खेळिल्लो. "कितें दुयेंत बी आशिल्लो काय कितें रे तूं?" अमोलकान ताचे दुबळे कुडीक पळोवन विचारलें. "ना रे" म्हणत चलो मंदशें हांसलो. ताचें तें हांसप पळोवन किशोराच्या मनांत दुबावसो आयलो आनी उदक पिवपाचें निमित्त करून तो ताचेवांगडा ताच्या घरा गेलो. थंय वचून पळय जाल्यार ताची आवय, भयण आनी धाकलो भाव हांचीय गत तशीच जाल्या. त्या चल्याचो बापूय कसले कपड्यांचे मिलीच्या ऑफिसांत कामाक आशिल्लो.

"तांची ही अवस्था पळोवन हांव समजलों, ते खूब स्वाभिमानी आसात. तीस रूपये मण ह्या दरान तांदूळ विकते घेवपाची तांची ऐपत ना हें ते कोणाक सांगपाक शकनात. ते लंगरांत वचून जेवपाकय शकनात. म्हज्या अदमासाप्रमाण हे लोक सप्तकांतल्यान चार-पांच दीस तरी उपाशीं रावतात. मध्यमवर्गांतलो मनीस कोणाकडेन भीक मागून नकळो. हांचेखातीरय आमकां कितेंतरी करपाक जाय." अमोलकान किशोराक सांगलें. त्या उपरांत ताणें संपतकाकाक मेळून असल्या लोकांखातीर धा रूपया मण ह्या दरान तांदूळ विकपाची येवजण आंखली.

रिलीफ कमिटीच्या सभासदांनी आपलीं राशन-कार्डां करून घरानघर वचून वांटिल्लीं, ह्या कार्डांचेर कमिटिच्या दुकानांतल्यान सवाय दरान तांदूळ विकते घेवपाक शकताले. एका आयताराक किशोर अमोलकावांगडा राशन-कार्डांचें वांटप करपाक गेल्लो आसताना, घरान घराचेर गिराणावरी अकालाची सांवळी कशी पडिल्ली हें किशोरान पळयिल्लें. लोकांनी तशीं कार्डां घेतलीं पूण कसलेच तरेची उपकाराची भावनां दाखयली ना. हें पळोवन किशोराक खूब अजाप जालें. ह्या लोकांचीं मुखामळां फुलतलीं अशी ताका उमेद आसली. जांकां हीं कार्डां मेळ्ळीं ते सद्‌गदीत जातले अशी ताची अपेक्षा आशिल्ली. पूण अशें कांय घडलें ना. वयल्यान तांचे बाविल्ले चेरे आनीकूय बावले. कांय लोकांनी तर कार्डां घेता आसताना तांचेर नदर लेगीत मारली ना.

"मरणाचे भिरांतेन मनीस मर्णा आदींच मरून वता. आनी मेल्ल्या मनशाक उत्साह, खोस उपकार बी गजालींचो अणभव कसो येवंक पावतलो?" अमोलकान ताका पयलींच सांगिल्लें, आपूण पयलींच जाणा म्हण, कांय लोक कार्डां घेवपाक नाईलाज म्हण तोंड वांकडे करतले पूण उपकार मात कशेच प्रकट करपाचे नात. "ह्या इंग्रजांनी बंगालचे फाटीचो कणो कसो मोडून घालो पळय. ज्या बंगालची संवेदनशीळताय, भावुकताय आनी जोशाच्यो गजाली केन्नाच सोपनाशिल्ल्यो त्या समाजाक कसले काकुळटेचे अवस्थेर पावयले. वयल्यान हालींच कोणा इंग्रजान म्हळां, भारत छोडो आंदोलनांत सगळ्यांत चड उत्पात जालो मिदनापूरांत, हेखातीर परमेश्वरान तांकां ख्यास्त भोगयल्या. म्हाका दिसता, हे लोक खुद्द बंगालाचेर तिडकल्ले आनी ताका ख्यास्त भोगोवंक सोदताले. तेन्नाच ह्या लोकांक

मरपाक दिलें. बंगाली भुरग्यांत आनी हेर प्रांतांतल्या भुरग्यांमदीं कितलें अंतर आसा! दोन वर्साआदीं आमचे आळींतलीं भुरगीं खेळटाना एक मिरवणूक काडटालीं - 'ना एक पाई, ना एक भाई' म्हळ्यार इंग्रजांक लडपाखातीर एक पैसोय दिवचे ना वा एक मनीसूय दिवचेना. संपतकाका हालींच धान्य विकतें हाडपाक लाथलपूर आनी हिस्सार गेल्लो तेन्ना थंयच्या भुरग्यांच्या तोंडांतल्यान ताणें फौजेंत भरती जातल्यांखातीर एक गीत आयकल्लें - 'भरती हो प्यारे रंगरूट, भरती हो / अठै मिलै तनै फट्या लितरा, बठै मिलै फुल बूर्ट' (जा भरती म्हज्या रंगरूट इश्टा, भरती जा. हांगां तुका पिंजकीं वस्त्रां मेळटात, थंय मेळटले फूल बूट.) अठै मिलै तने रूखी रोटी, बठै मिलेगा फ्रूट। (हांगां तुका सुकी भाकरी, थंय मेळटलें फ्रूट)"

हें गीत आयकताना किशोराक हांसपाक येता. तो हांसत रावता. ताचो हांसो थांबून थांबना. अमोलक पयलीं ताचेकडेन कुतूहलान, मागीर अजापान आनी मागीर मातसोसो तिडकीन पळयता. कोणाकय गरजेभायर चड हांसता तें पळोवन दुसरो अडचणींत पडटा. अमोलकाक तिडक आयल्या तें पळोवन किशोर हावाशिवा करून आपलो हांसो दामता.

"तर गजाल अशी अमोलक - म्हाका हांसपाक येवपाचें कारण म्हळ्यार अचकीत् म्हज्या दोळ्यांमुखार मदल्या मामाची फूल बूट घालून फौजी गणवेषांतली मूर्त उबी रावली. इंग्रज सायबांक खूश करपाखातीर ताणें घरांतल्या बायलांकडल्यान स्वेटर, मेय, मफलर विणून घेवन धाडून दिल्ले. म्हाका दिसता, ताच्या सायबान जर तुकाय बी गणवेष, बूट घालून झुजाक वचचें पडटलें म्हण ऑर्डर दिल्ली, जाल्यार मामा तयार जावपाचो." अमोलक ल्हवूच हांसता. कांयच उलयना. किशोर अचकीत् गंभीर जाता. ताणें मामाचीं फकाणां करपाक फावना आसलीं. आतां अमोलकय तांचेविशीं कितें-कितें उलोवंक लागतलो. पूण अमोलक वगी रावता. तो ताच्या मामांचेर सरळपणान वा आडवाटेनय कांय आक्षेप घेना.

अमोलक कितें सामको निरस जायत चलला? किशोराक खूब फावटीं जाणवता, अमोलक खंयच्यातरी भोंव-यांत आडखळ्ळा आनी तातूंतल्यान ताका भायर सरप कठीण जावन पडलां. नेमकें कितें तें मात ताका सारकें कळना. पूण एखाद्याच्या अंतरात्म्याचेर एखाद्री घडणूक इतलो खोल घावो घालून सोडटा जो केन्नाच भरून येना. हातूंत खंयतरी कसली गडबड आसा. निमाणे आयुष्य हें फुडें व्हरपाकूच जाय. ताणें आपणें कितें उणें दुख्ख सोंसलां? पूण तो आजूनय हांसता. जिणेचे बाबतींत ताचें आकर्षण मातूय उणें जावंक ना. मागीर अमोलक अशे तरेचो कित्याक जावपाक लागला? स्वतंत्र आनी सुखी भारताचें सपन हें अमोलकाखातीर एक व्हड सपन आसूं येता पूण अशेतरेन आपले आपणाकूच त्रास करून घेवप सारकें? योग्य आसा हें? आपणाल्या पुराय रंग-रागासयत चारी वटेन फाफसल्ले जिणेचो त्या सपनाकडेन कसलो विराध आसूं येता?

किशोर केन्ना केन्ना लीपचोरयां एका दुकानदाराकडल्यान पुस्तकां घेवन येता - कांय चित्रां तेचभरोन कादंब-यो. हातूंत वायट कितें आसा? हे पिरायेर सगळेच असलें करतात.

पूण अमोलकाकडेन तो अशे तरेच्यो गजाली करपाक शकना. अमोलकाखातीर हो भाग ताचे जिणेंत नाच. देश, समाज, जात - ताका अख्ख्या समाजाचो हुस्को आसा. पूण तो आपणाल्या जिवितावेशीं केन्ना चिंतता हें खबर ना.

"खरेपणीं येवजूंक गेल्यार एक उंडी लेगीत गळ्यासकयल देंवची ना. इतलो अन्याय भरला चारीय वटांनी. मनीसूच जसो कि तें मनशाचें मास खावपाक लागला." अमोलकाच्यो असल्यो गजाली आयकून तो गर्भगळीत जाता. अजापान तो आयकत रावता. ताच्यान कांय उलोवंक जायना. आनी उलयतलो तरी कितें? झूज आनी दुकळाखातीर पयशे एकठांय करप्यांक तो वळखता. ऑस्पितलांतल्या पूं आनी रगतान बुडबुडिल्ल्या कोयराच्या पेटयांतल्या कपड्यांतल्यान खावपाक कितेंय मेळटा कांय म्हण उस्तुवपी हाडांचे सांपळे ताणें पळयल्यात. मेल्ले आवयचीं थानां चोखपी अर्भकां ताणें पळयल्यांत. पूण तरीय अशेतरेन अमोलक येवजीत रावलो जाल्यार तो सारको जगूंक पावचो ना. ताका अमोलकाचो हुस्कोसो दिसपाक लागलो. पूण ताच्यान कितें करूं येत? ताका कितें सांगतलो? ताका कांयच येवजना. ताका इतलेंच कळटा, ताणें अशे तरेन चिंतूंक फावना. चड चिंतप हेंच चुकिचें.

किशोराक दर आयताराक अमोलक कांयसो अदिकूच गंभीर जाणवता. पूण हे फावटीं फाटल्या स दिसांत ताचें कितें घडलां कोणाक खबर! अशें दिसता, जशी कि तें ताच्या आत्म्याक दुखापत जाल्या. ताचे दोळे भायर आयिल्ल्यावरी दिसताले आनी ताच्या चारूय वाटांनी काळीं वर्तुळां आयिल्लीं दिसतालीं. अमोलकान ताचेकडेन पळयलें आनी आपली नदर दुसरेकडेन घुंवडायली. सदचेभशेन मंदसो हांसोय नाशिल्लो. किशोराचो जीव धोसणीक लागलो - शेर्त कसली नवी घडणूक!

लंगरांत काम करपी दुस-या एका मनशाक ताणें विचारलें तेन्ना ताणें सांगलें, "कितें सांगूं किशोरभैया, कितें घडलां म्हण तुज्या इश्टाक. अशे तरेन तो आपणालो जीव वगडावन बसतलो. मंगळाराक एक मनीस हांगां जेवपाक आयिल्लो. ताणें खूब दीसांत कांय खावंक नाशिल्लेंशें दिसता. तो खिचडीचेर तुटून पडिल्लो आनी दोन मिनटांभितर ताणें आख्खी पत्रावळ लीप केली. उपरांत ताणें परतून लायनींत रावून दुसरे खेप खिचडी घेतली. ताका अजिरवण जाली. रोकडेच ताका ओंकारे आयले आनी पळयतां-पळयतां थंयच ताणें जीव सोडलो. खूब भिरांकूळ देखाव आशिल्लो तो! आमचें सगळ्यांचें मन इतलें कोडू जालां तें सांगपाक नजो. पूण तुजो इश्ट तेन्नासावन असो जाला. सामको फातर कसो जाला. हांव येवजितालों संपतकाकाक वचून सांगचें हाका मातसो सांबाळ म्हणून. ताका आनीक कसल्याय कामांत गुंतोवन दवर. हें सगळें ताच्यान सोंसपाक जायना म्हण."

जे गजालीची भिरांत दिसताली तेंच घडटा अशें किशोराच्या मनांत आयलें. अमोलकाच्या अंतस्कर्णांत कितेंतरी मोडून-तुटून गेल्लें. तें आतां सांधप कठीण आशिल्लें. "कितें रे अमोलक, तुजे गांधीजी कितें अजिबात हांसनात?" संद मेळटांच ताणें विचारलें. अमोलकान

अजापभरीत नदरेन ताचेवटयां पळयलें. "ना कित्याक तर? खूब हांसतात. ल्हान भुरग्यांभशेन तांचें निर्व्याज हांसप आसता." "मागीर तूंच कित्याक असो जायत चलला तर?" किशोरान विचारून सोडलें. अमोलक एक खिणभर वगी रावलो आनी मागीर ताणें म्हळें, "सारकें उलयता तूं. हे पिरायेर गांधीजीचेर इतलो भार आसा. पूण तरीय ते हांसत आसतात. पूण म्हाका दिसता, म्हज्या आत्म्याचेर कोणेंतरी लोखणाचो दोंगर दवरला. हांव हांसपाचें-उलोवपाचें विसरूनच गेलां. ख-यांनीच म्हज्यांतलें हें उणेपण आसा. हाचेवेल्यान म्हज्यांत आत्मबळाचो उणाव कितलो आसा हें कळटा. हावें म्हाकाच बदलपाक जाय."

"हावें म्हाकाच बदलपाक जाय" अमोलकाच्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं हीं उतरां किशोराक ताका ताच्या शाळेंतल्या दिसांकडेन ओडून घेवन गेलीं. राष्ट्रीय स्वयं सेवक संघांत प्रशिक्षण घेतिल्ल्या लक्ष्मीचंदाबरोबर दनपारचे सुटयेंत अमोलकाचें नेटाचें झगडें जाल्लें. अमोलकाक आयकूंक येवचें अशे रितीन लक्ष्मीचंद गांधीजीविशीं उलयतालो - "गांधी तर खरेपणीं पळयल्यार मुल्ला गांधी आसा. तुमकां खबर आसा, ताचें खरें नांव मोहम्मद करीम गांधी - मोहनदास करमचंद न्हय. तेन्नाच तो मुसलमानांचे वटेन उलयता."

हें आयकतकच अमोलकाचो आपणाचेर ताबो उरलो ना. फाट-फुडो पळयनासताना आनी चिंतीनासताना ताणें लक्ष्मीचंदाच्या गोलाक धरलें आनी 'इंग्रजांचो दलाल', 'शागीर्द' बी अशें म्हणून तो ताका गाळी मारपाक लागलो. कोणाचकडेन केन्नाच झगडीं करपाक नकळो आशिल्ल्या अमोलकाचो हो अवतार पळोवन लक्ष्मीचंदाक सण्ण जालें. मागीर ताका सद्दां सकाळची कवायत आनी लाठयो चलयताले ताची याद जाली आनी ताणें अमोलकाक असो एक धपको दिल्लो, फाटीचेर बशिल्ल्या त्या धपक्यान अमोलक पयस शेंवटल्लो. तोमेरेन बरेचशे भुरगे एकठांय जाल्ले आनी मदीं पडून ताणीं दोगांकूय दोन वटांनी काडिल्ले.

अमोलकाक पुराय खबर आशिल्लें, ही गजाल जर वयर हेडमास्तर वा मॅनेजींग कमिटीमेरेन पावली जाल्यार गुन्यावकार तोच थारातलो आशिल्लो. "ज्या दिसा म्हाका शाळेंलांतल्यान भायर घालतले त्याच दिसा घडये हे लोक सुशेगादीन उदकाचो घोंट घेतले. हे सगळे भितरल्यान हिंदू महासभेक पयशे खावोवपी लोक. ते लेगीत वयलेचाराक कॉंग्रेसचे म्हणपाचें नाटक करतात. मुसलमानांचो द्वेस करप हातूंतच तांचें आपसांतल्या प्रेमाचें कारण. लक्ष्मीचंदान जाणून-बुजूनच म्हाका तिडावपाखातीर गांधीजीक अशें म्हळें, कित्याक तर त्या दिसा साहित्य-सभेंत हावें सांगिल्लें हिंदू आनी मुसलमान हांकां दोगांकूय समान रूपान आपणायतले अशे भाशेची आमकां गरज आसा. हे गजालीचेर लक्ष्मीचंदान बरोच बोवाळ घालो. इतलो म्हळ्यार सभा आटोपती घेवची पडली. तेन्ना सावन बदलो घेवपाची तो वाटूच पळयतालो."

हे घडणुकेक लागून कितें घडटलें हेविशीं शाळेंत भितरले भितर उमळशीक आशिल्ली. अमोलकान जेन्ना लक्ष्मीचंदाम्ह-यांत वचून आपणाले आदले वर्तणुकीखातीर भोगसणी

मागली आनी म्हळें, "हावें म्हाकाच बदलपाक जाय." तेन्ना सगळे अजापीत जाले. किशोर खूब निर्शेलो आनी शांतनून तर हाका सरळ-सरळ गांधी जावपाचें नाटक म्हण बहिष्कृतय केलो. किशोर आनी शांतनू दोगूय आज मनांतल्यान तयारी करून आयिल्ले, लक्ष्मीचंदान जर कसलीय गडबड केली जाल्यार ताका पेटपाचो. मदले सुटयेंत ते दोगूय अमोलकापासून कुशीक-कुशीक रावले. तेन्ना अमोलक आपूण जावन तांचेम्ह-यांत आयलो आनी ताणें म्हळें, "काल सबंद रात म्हाका पश्चाताप जायत रावलो. कोणाचे विचार बरोबर आसूं वा चुकिचे आसूं आमी हिंसक जावन ताचे विचार बळजब-यां बदलूंक शकनात. म्हजेभितर इतली हिंसा लिपून आसा म्हणपाचें म्हाका खबरच नाशिल्लें. स्वतः हांवूच हरलां तेन्ना दुस-यांक हांव कसो बदलतलों?"

शांतनून रागान म्हळें, "तूं राव तुकाचं बदलत. बदलपाची तरी कसली गरज आसा? हेचभशेन लोटांगणां घालीत राव. पूण दुस-यांक बदलुपाचीं सपनां विसरून वच. पळय तूं, तुमचे गांधीजीय कोणाक बदलूंक शकचे नात, आनी तुमीय नात. हे लांडगे दिसानदीस क्रूर जायत चलल्यात. मुस्लीम लांडगे आसूं वा हिंदू. हांकां फकत सुभाषबाबूसारको एखादो फुडारीच जाग्यार हाडपाक शकत. भारत सेवाश्रम संघाची आतांच सभा जाल्ली, माहेश्वरी भवनांत. थंय गेल्लो जाल्यार तुजे दोळे उगडटले आशिल्ले. एक व्हडलें त्रिशूळधारी शिंवाचें चित्र लायिल्लें आनी 'दैत्यां' क मारपाखातीर उत्तेजीत करताले. दरेका हिंदूक सैनिक जावपाक उलो मारताले. मारवाड्यांकडेन मागताले, ताणीं आपले पयशे हिंदू धर्माच्या रक्षणाखातीर दिवचे म्हण. तुमी गिरयत रावात तुमची अहिंसा, अहिंसा. ताणें कांय जावपाचें ना वा घडपाचेंय ना. आपले आपणाक बदलत रावात."

आज अचकीत् किशोराक शांतनूची ही गजाल योग्य कशी दिसपाक लागली. त्यावेळार किशोरान ह्यो गजाली शांतनूच्या सुभाष-प्रेमाची अभिव्यक्ती मानून ताचेर व्हडलेशें लक्ष दिवंक ना. पूण आतां हो अमोलकाचो नीरस जिवी विषाहीण गंभीर चेरो पळोवन ताच्याच आत्म्याचेर एक भार जावन पडिल्लो. दुख्ख भोगपी आनी मनाक अशूभ दिसपी गजाली मनशान सदांच गळ्याक गुठलावन बसचें अशें ना. आपणाक बदलचें पडटलें. हेंच चिंतीत-चिंतीत जगप, जिणेचो होच अर्थ काय कितें?

कितें सारकें आनी कितें चूक हाचो जोंमेरेन निर्णय जायना तोमेरेन कितें बदलपाचें आनी कोणाक बदलपाचें? आनी हो निर्णय करतलो कोण? हें खरें, जे लोक संवसारांत कितें चललां हाचो विचार करीनासताना हांसत-कीटकीटत रावतात, खेळत-खायत रावतात ते फुकट गेल्ले लोक. मनशामदीं करूणा आसपाक जाय. पूण करूणेन ताकाच खावन वडोवपाइतलो आदर वाडप हें सारकें न्हय. मनीस कितें पुरायपणान दुस-याखातीर जियेवंक शकता? आनी खरें सांगपाचें म्हळ्यार तें योग्य तरी जातलें?

हात फुडें काडून किशोर अमोलकाक थांबोवपाक पळयता. दिसता, ताका सांगचें, "इश्टा, राव. जिवीतभर ह्या उज्याचेर चलप कठीण जातलें. आमचेभशेन जा मातसो. थोडें

आपणालेंय चींत. पळय, तुजे कपडे कितले जिरजिरल्यात पळय. चल, जायना खादी भांडारांतले, पूण कपड्यांचे दोन नवे जोड आनी जोतें विकतें हाड." पूण उतरां गळ्यांतूच आडखळिल्ल्यावरी जातात. हीं उतरां गळ्यांतल्यान भायर कित्याक फुटनात हें कळना. ताच्या वाट्याचें ताका अमोलकाच्या उतरांची याद जाता. "गांधीजीकडेन पळय. तुका खबर आसा न्ही, हो 'नंगा फकीर' पयलीं कितले सुंदर दिसपी कोट-सूट घालतालो तो? हें सगळें ताणें सोडलें तें इतलेचखातीर, देशांतल्या गरीबांतल्या गरीब मनशान लेगीत ताका आपलो मानचो म्हण. आमचेकडेन कितल्यो वस्तू आसात, कितले कपडे आसात!" अमोलकाच्यो अश्यो गजाली आयकून किशोराचें मन कशेंतरीच जाता. खूब फावटीं ताका दिसता, उठचो आनी खंयतरी पळून वचचो आनी केन्नाच परतुचो न्हय. तो अमोलकाभशेन जावपाक शकना. केन्नाच जावंक शकचो ना. इतलेंच न्हय तर अमोलकाचे ते दशा जाल्ले मुस्तायकेक लागून कांय फावटीं ताका अमोलकावांगडा रस्त्यावयल्यान भोंवताना आपणांक कोणूय पळयत काय म्हणपाची लज दिसता.

कालचीच गजाल, हरिसन रोडाकडेन ताणें अमोलकाक पळोवन पळोवंक नाशिल्लेभशेन केलें. मागीर मात ताका पश्चाताप जालो आनी तेभरशीं दीस-रात तो अस्वस्थ उरलो. अमोलकाकडेन ताणें अशें कशें केलें? कोण आशिल्ले ते लोक जांची ताका भिरांत आशिल्ली आनी कित्याक आशिल्ली ही भिरांत? पूण हे भिरांतेंतल्यान मुक्त जावप ताचेखातीर सोपें ना हाचीय ताका जाणीव आसा. घडये परतूय अशेंच हरिसन रोडाचेर जायत आनी अमोलकाक मेळपाक तो कांचवेत.

ही घडणूक जेन्नासावन घडली, तेन्नासावन किशोराच्या मनांत परतून-परतून होच प्रश्न उपरासता - अमोलकान ताचेकडेन इश्टागत कित्याक दवरल्या? वा तांच्या दोगांयमदीं जें कितें आसा, ती ख-यांनीच इश्टागत? अमोलकावांगडा रावन किशोराक आपल्या जगपाचो कितेंतरी उद्देश, कितेंतरी अर्थ गावला. पूण अमोलकाक ताचेबरोबर रावन कितें मेळटा? विदेशी कपडे विकपी एक दुकानदार - होच न्हय तो? आनी कितलो मामूली? क्षुद्रतायेन आनी अहंकारान भरिल्लो. दर फावटीं आपलो फायदो-नुकसान चिंतपी. ताचे जिणेंत आदर्श कितें? ताचें ध्येय कितें आसा आपणाले भरभराटीबगर? तरी लेगीत अमोलक ताका आपणालो इश्ट मानता. ताका केन्ना अपमानीत करीना. ताका तो कितलो हीण आसा हाची केन्ना जाणीव जायत अशें करीना. मदलो मामा पयशे जोडल्या उपरांत परतून हिंदू महासभावादी जाला आनी तो हिंदू महासभेक वर्गणी दिता हें जाणा जावनय तो केन्नाच ताच्या मामासंबंदीं अश्यो-तश्यो गजाली करीना. मागीर अमोलकाकय कितेंय मेळटा काय कितें? कसली वस्त आसूं येता ती?

अचकीत किशोराच्या मनांत एक दुबाव आयलो. अमोलकान आपणाक म्हान थारावचो म्हण तो आपणाचें मेजमाप थारायता काय कितें? तुळा करपाखातीर एक आदार आसा काय? वा चडानचड अमोलकाच्या भितर घडिल्लो संवसार, भायल्या दुस-या

संवसाराची म्हायती मेळपाचें साधन? दर एका मनशाचो संवसार ही ताची आपली निर्मणी आसता आनी ताचेभितर रावपाचें मनशान कितलेंय चिंतलें तरी दुस-यांच्या संवसारापासून कडेक उरूक नाका ही गरज ताका भासपाक लागता. अशी गरज भासना ती फकत पिश्याक. नाजाल्यार सामके साधू-संत लेगीत हे गरजेंतल्यान सुटूंक नात. तर मागीर अमोलकाची ही गरज किशोर भागयता? एक सादारण, सामान्य, मामूली मनशाक लागीं बाळगुपाची गरज - मागीर तो पिसो थरचो न्हय म्हण?

हें सगळें चिंतून किशोराचें मन यातनांनी भरून येता - अमोलक म्हजी वळख कोणचकडेन कित्याक करून दिना हातूंतलें सत्य इतले दीस कित्याक होलमलें ना? म्हजेसारखो आपणाक एक इश्ट आसा हाची ताका खरेंच लज दिसता आसूंक जाय. संपतकाकाकडेन ताणें म्हजी वळख फकत आपलो इश्ट इतलीच करून दिल्ली. हांव कितें करतां, म्हजे मामा कोण हें सगळें सांगपाची गरज ताका भासलीच ना. लंगराचेर काम करपी हेर लोकांक घडये म्हजें नांव लेगीत खबर आसचें ना. शी, बाबा. इतले दीस म्हजे तकलेंत ही गजाल कशी आयली ना? ताणें आपल्या बापायकडेन म्हजी बरेतरेन भेट लेगीत घडोवन हाडली ना. आपल्या घराकडेन आपोवपाचें लेगीत ताणें टाळ्ळेंच. लेक रोड पयस आसा म्हणपाचें फकत निमत्त. आमी सदांच शांतनूच्याच घराकडेन मेळत रावले. आतां शांतनू मुंबय गेल्ल्या कारणान ताच्या घराकडेन वचप हो नाईलाजच जाला. तेभायर हांव ताच्या घराकडेन वयर तर फकत एक-दोन खेपोच गेलां. चडसो हांव ताका सकयल्यानूच उलो मारतां आनी तो देंवून सकयल येता.

हें सगळें येवजितां-येवजितां किशोराच्या मनांत पक्कें थरलें, तें म्हळ्यार ताचे आनी अमोलकाचे इश्टागतीक कसलेंच कारण ना. हे फावटीं तो अमोलकाक सांगतलो, किशोराची काकूळट करपाची ताका कसलीच गरज ना. संवसारांत हजारांनी आनी लाखांनी लोक ताचेभशेन जगतात आनी मरतात. वचूं दी तो फुकट गेल्यार. ताका कोणाचीच सेवा करपाची ना. आतांसावन तो आपणाखातीर जगतलो आनी आपणाखातीर मरतलो. कितले अहंकारी हे लोक! कितलो मद मारला हांकां. फकीरांभशेन दळडिरे रावतात आनी मार दुस-यांक सांगतात, पळयात आमी कितले म्हान त्यागी आनी परमार्थी आसात ते. तशें पळयल्यार ह्या लोकांच्या गजालींनी निबरसाण भरल्या. तांचेर पातयेवन रावल्यार हो देश भरभराटीक पावपाचो ना. थंयचे थंय उरतलो. संवसार मळबांत उडणां मारपाक लागला आनी हांगेले गांधीजी सांगतात, देशी मिलींत तयार जाल्ले कपडेय वापरूं नाकात. स्वतः विणात आनी वापरात. केन्ना सांगतात, रेल्वे आनी हॉस्पिटलांचो विद्वाट जालो जाल्यार हांव ताका जरूर येवकार दितलों. उंचेले संस्कृतायेची ही खूणा न्हय. आनी आपूण मात करतात रेल्वेन भोंवडी. हाचेवेल्यान समजुपाचें ह्या लोकांच्या भितर कितलें वेगळें आसा तें आनी वयल्यान मात कितेंतरी दुसरेंच.

दुस-या दिसा आयताराक किशोर खूब वेळमेरेन न्हिदून रावलो आनी आवयन खूब

फावटीं जागोवनय तो कूस परतून न्हिदलो. “आज अमोलकागेर वचपाचें ना?” आवयन परतून-परतून विचारतकच तो उठून बसलो. “आयच्यान वचचों ना.” ताणें रागान म्हळें. “कितें घडलां? भैयान परतून कितें म्हळें काय कितें?” आवयन चिंतेस्त जावन विचारलें. “उं हूं.” म्हणत किशोर परतून वगी रावलो.

“चल कारण सांग पळोवया, कितें घडलां?” ताचे तिडकीचो अदमास घेत आवयन कठोरपणान विचारलें.

किशोरान रागान जळटल्या दोळ्यांनी आवयवटेन पळयलें आनी तोंडांतली थुकी वडयत रागान येता तें बडबडत रावलो. “स्वताक व्हडलो समजता आपूण. ‘गांधीजीचो पिट्टू’ सगळें धोंग. म्हजी काकूळट करता. म्हजेसारकेल्या पतित मनशाक सेवेक लावन म्हजीं पातकां धुता खंय. जोडपाक लागतलो तेन्ना सगळें वारें सुटटलें.

म्हाका मूर्ख समजता. आयजमेरेन आपल्या आवय-बापूय, भाव-भयण हांचेकडेन म्हजी वळख लेगीत करून दिवंक ना. ताका दिसता हांव गाढव म्हणून. तो दळडिरेपणान रावता म्हण कितें हांवूय ताचेभशेन रावं? तरूच कितें हांव ताचे लायकिचो जातलों?”

तो बडबडटा तें आवय मोन्यांनी आयकत रावली. ते उपरांत एक उतर लेगीत उलयनासताना उठून रांदचेकुडींत गेली. किशोराक आवयकडसून ही अपेक्षा नाशिल्ली. तो एकदम वग्गी बसून रावलो. आईन कितेंच कित्याक म्हळें ना? उठून कित्याक गेली? तेन्नाच ताका कुपांक चिरीत भायर सरपी सुर्याचें दर्शन घडचें तशें, अमोलकाचे बाबतींत ताणें जें चिंतिल्लें आनी तो जें कितें उलयिल्लो ताचें कारण ताका स्पश्ट जालें. ताणें स्वतः आपणेंच हरिसन रोडाचेर अमोलक आपलो इश्ट म्हण सांगपाचें ताळिल्लें आनी म्हणूनच तो अमोलकाचे बाबतींत इतल्यो आरत्यो-परत्यो गजाली येवजितालो. ताका आवयन सांगिल्ल्याचो उगडास जालो, “मनशाकडेन एक खास वस्त आसा. सदांच सत्य उलोवपी एक दुसरी बुद्द. घडये तिकाच आत्मो म्हणटात आसुंये. ती एकूच फावट खरें उलयता आनी मागीर शेषशायी विष्णूभशेन न्हिदून सोडटा. परतून उलयना.”

किशोराक दिसलें, ते दुसरे बुद्दीन किशोराच्या कानांत जशें कि तें सत्य फुंकलां. तो झटपट तयार जावन रांदचेकुडी कडेन गेलो आनी ताणें म्हळें, “आई, हांव अमोलकागेर वतां गे.”

आवयन फाटल्यान वळून पळयलें. तिच्या मुखामळाचेर ओजें देंविल्ल्याचो भाव पळोवन किशोर हांसलो. आई परतून घुंवली आनी कायलींतली भाजी ती दोवल्यान धवळूंक लागली. भायर वचचे पयलीं किशोरान दाराचे चौकटीक हात लावन नमस्कार केलो. आईचे असवडीं.

□□

# 14
# द ग्रेट कैलकटा किलिंग

दनपारच्या गोड आनी सपनांनी भरिल्ले न्हिदेंत घुंवळत आसताना किशोरबाबूक भास जालो, कितें कांय म्हळ्यार ताका कोणतरी मेळपाक आयला आनी ताची बायल ताका तो दुयेंत आसा आनी तो न्हिदला हें सांगून परतूपाक पळयता. किशोरबाबू तडक करून उठलो आनी ताणें बायलेक म्हळें, "कोण गो सरोज? जागो जालां हांव." किशोरबाबूची बायल काचाबूल जावन भितर घुसली आनी ताका वगी रावपाक खुणावन फुतफुतत उलयली, "कोण ना. तेच संस्कृतवाले पंडीतजी ते. हावें गुरख्याक सांगलां, तुमचें बायपास ऑपरेशन जालां आनी तुमी न्हिदल्यात म्हण सांग अशें."

हालींच्या दिसांनी खंयचीय एखादी गजाल मानवली ना तेन्ना किशोरबाबू जेतरेन पळयतात तेच नदरेन ते आपणाकडेन पळयता हें किशोरबाबूचे बायलेच्या ध्यानांत आयलें. ती गोंदळ्ळी. हाणींच तर सांगून दवरिल्लें, उपाध्यायजी केन्नाय येत जाल्यार आपूण घरांत ना अशें सांग म्हणून. पांच वर्सांआदीं सांगिल्ली गजाल विसरले काय? सुदैवान ह्या पांच वर्सांत उपाध्यायजी कोलकात्यांत येवंक नात. नाजाल्यार दर वर्सा अलाहाबादच्या एखाद्या संस्कृत विद्यालयाखातीर शंभर रूपयांची वर्गणी मागपाक येताले. निमाणे खेपेक जेन्ना आयिल्ले तेन्ना किशोरबाबू पंडितजीचेर तिडकल्ले. त्यावेळार पंडितजी शंभर रूपयांच्या जाग्यार कसल्यातरी यज्ञाखातीर पांच हजार रूपये मागताले. तेन्नाच किशोरबाबून सांगून दवरिल्लें, ह्यानफुडें तो पंडितजीक मेळचोना कित्याक तर पिरायेवांगडा ताची आस वाडत चलल्या.

किशोरबाबू बारीकसाणेन आपले बायलेक नियाळीत रावलो. अशे तरेन एखादे व्यक्तीक दारांतल्यान आई परतितली आशिल्ली काय कितें? केन्नाच ना. आनी तीय बी अशे व्यक्तीक जी ताचेखातीर गुरूतुल्य आसा? पंडितजीन ताचेखातीर कितले कश्ट घेतिल्ले शाळेंतल्या दिसांनी? संस्कृतांतलें तर तो कांयच नकळो आशिल्लो. वेगळे पयशे घेनासताना पंडितजी ताका हिंदीय शिकयताले. किशोरबाबूची हिंदी ताणें कितली सुदारिल्ली! पंडितजी तेन्ना नव्यानूच कोलकाताक आयिल्ले. किशोरबाबून ताका कांय ट्युशनां लावन

दिलीं जाचेखातीर ते किशोरबाबूचे गूण गायत आसताले. मागीरच्या दिसांनी किशोरबाबूच्या चलयांक आनी चल्यांक हिंदी, संस्कृत शिकयताना दर दिसा किशोरबाबूनच आपल्याक कोलकात्याक जम बसपाक सगळ्यांत चड मदत केली हाजेर भर दिताले. उपरांत मागीर कोर्सांतल्यान संस्कृत काडटकच पंडितजी अलाहाबादाक रावंक लागले आनी वर्सांतल्यान एक फावट आपल्या आदल्या विद्यार्थ्यांक मेळपाक-सवरपाक आनी संस्कृत विद्यालयाखातीर वर्गणी एकठांय करपाक कोलकात्याक येताले.

किशोरबाबू आपले बायलेची काकूळट करपाचे भावनेन तिका पळयत रावले. ही बाबडी कितें समजतली शिक्षकाची महिमा? आपूण तरी खंय वाचूंक-बरोवंक शिकली? त्या दिसांनी कोलकातांत चलयांखातीर एकूण दोनूच शाळालां आशिल्ल्यो. सावित्री पाठशाळा आनी मारवाडी बालीका विद्यालय. किशोरबाबूची बायल, आपलो बापूय वेपारी नासून वकील आसूनय बी सावित्री पाठशाळेंतल्यान ब-याच कश्टांनी चवथीमेरेन कशी शिकल्या. चलयांचे बाबतींत, जांव ते मागीर उणे शिकिल्ले वा चड शिकिल्ले, सगळ्यांचे विचार एकासारखेच आसताले. शांताभाभी मात कानपूरची आशिल्ल्यान जांवये ती मातशी चड वाचूंक-बरोवंक शिकिल्ली. पूण कोलकातांत तर त्या काळांत मारवाड्यांमदें चलयांनी चड शिकपाचे बाबतींत विचार जायनासलो. किशोरबाबूची आजी तर म्हणटाली, चड शिकतकच चलयो विधवा जातात.

किशोरबाबून आपणाल्या पांचूय चलयांक कॉलेजमेरेन धाडल्यो. पूण तांतल्या दोगांकूच बी. ए. मेरेन शिकपाक यश आयलें. हेर तिगांचीं मदींच लग्नां जालीं. धाकली चली शिकपांत हुशार आशिल्ल्यान तिणें फुडें शिकपाची मातशी जिद्द दाखयली पूण ताणे तिची इत्सा योग्य वेळार दामून वडयली. चड शिकली जाल्यार चड शिकिल्ल्या भुरग्याची गरज पडूं येताली. चलयांक निमाणें घर संवसारच तर सांबाळपाचो आसा. खंयची हुंडी वठोवपाचो वेवहार तर थोडोच करपाचो आसा.

चड शिकिल्ल्यो चलयो किशोरबाबूक सदांच मर्दानी कशो दिसतात. तांचेभितरली नाजूकसाण कित्याक ना जाता तें कळना. हेखातीर ताणें आपले धाकले चलयेक धपकावन-समजावन फुडें शिकपाचीं आडायिल्ली आनी रोकडेंच घाईघाईंत तिचें लग्न करून दिल्लें. भायलें वारें इबाडलां आनी 'कितें तरी करपाक जाय' म्हणपाचें भूत केन्ना सांवार जायत सांगपाक येना. धाकले चलयेन लग्ना उपरांत आपलो घोव, मांय-मांव हांकां सगल्यांक आपूण फुडें वकिलिचो अभ्यास शिकतलीं म्हणपाच्या मताकडेन वळोवन घेतलें. तेन्ना किशोरबाबूक दखल घेवन मदीं पडचें पडिल्लें. कांयच कळना ह्या लोकांक. आतां हां-हां करतात. पूण फाल्यां तांचेरूच केस घालतली तेन्ना कपलार हात मारून घेतले. ताणे छुटकीक धमकी दिल्ली, "लॉ कॉलेजींत ऍडमिशन घेशी जाल्यार म्हज्या घरांत पावल दवरचें ना." ताचे हे युक्तीन काम साधलें. छुटकिचो निश्चेव डळमळीत जालो आनी ताणे हार खाल्ली. हरशीं म्हण तें सदांच दुबळ्या काळजाचें आशिल्लें.

किशोरबाबू आपणाल्या तरणेपणांत कोणा मारवाडी बालीका विद्यालयांत शिकिल्ले चलयेकडेन लग्न जावपाचें आंवडेतालो. तांबड्या कांठाच्यो साडयो न्हेसून 'वंदेमातरम्' गावपी चलयो ताका खूब आवडटाल्यो. शांताभाभी चड शिकूंक ना खरी पूण नाय म्हळ्यार कांय गजालींची समजिकाय तरी आसतली. मारवाडी बालीका विद्यालयांतले एके चलयेक ताणें शाळेंतले मनरीजवणेचे कार्यावळींत एका नाटकांत पळयली आनी पसंत लेगीत करून वडयली. पूण तिचेकडेन लग्न करपाची वाट सांपडली ना. ते चलयेन नाटकांत पड्डो प्रथेआड एक भाषण केल्लें. किशोरबाबूच्या काळजांत तें अशेतरेन रिगिल्लें, ताणें आपले बायलेक तकलेवयल्यान घेतात ताचेपरस चड सकयल पदर केन्ना ओडूंक दिलो ना. ताणें तिका नाकांत नथ-चमकी वा पांयांत घुंगरूवाले पैंजण घालपाक दिले ना. यू. पी., बिहाराकडल्या गांवांतल्या बायलांभशेन माग्यांत कुकूम भरतात तिवूय ताका तिडक येताली. आनी निमाणें ताचे बायलेन मन मारून कशें आपणेच कुकूम लावपाचें सोडून दिलें. भायर खंयूय वचपाचें आसल्यार, मागीर तें दोतोरागेर लेगीत आसलें जाल्यारूय वेल-बुट्ट्यो वा तिकल्या-तिकल्यांचें जरीकाम केल्ली उंची ओडणी घेवनच घराचीं सोंपणां देंवपाची रीत किशोरबाबून सुरवेकसावनच चलपाक दिली ना. मामा वा भोंवतणचे लोक कितें म्हणीत हाची मात आवयक जरूर भिरांत दिसताली.

आपणाल्या शाळेतल्या मदनमोहन सिंधानियाच्यो गजाली किशोरबाबूचे यादस्तेंत आसात. तागेली नवी-नवलायेची बायल कशेतरेन उंची जरदारी ओढणेन आपणालें पुराय तोंड धापून घेवन पेडयेचेर बसून रावताली [illegible] हाका लागून रातीकडेन तिची फाट दुखपाक लागताली आनी पड्डो घेतिल्ल्या[illegible]ना उंडी कशी तोंडाच्या जाग्यार केन्ना-केन्ना नाकांत वताली ती. असल्या तरांच्या पिशेपणांची किशोरबाबूक आकांताची तिडक येताली आनी मामा नाराज जावं वा खूश जांव आपले बायलेक हें असलें सगळें करपाक दिवचो ना हाचेर ताचो संकल्प आशिल्लो. अखेरेक ताचेंच मानून घेतलें. इतलेमेरेन, म्हळ्यार किशोरबाबून हे गजालीचेर आपणाले मांयचे हरकतीचीय पर्वा केली ना.

आज आपणाले बायलेक पळोवन किशोरबाबूक दिसलें, ताच्या सगळ्या धडपडींविरयत लेगीत ताचे बायलेच्या व्यक्तिमत्वाची उदरगत जावपाक पावली ना. कित्याक जालें अशें? किशोरबाबूक दिसलें, ताची बायल म्हणटा, "तुवें म्हजी दोरी आपल्या हातांत घट्ट धरून दवरल्या. केन्नाच म्हजो निर्णय म्हाका घेवपाक दिवूं ना. मागीर ती साद्यांतली सादी गजाल आसना." "पूण...पूण हावें अशें कित्याक केलें? आईन तर आपल्या आयुष्यांतले सगले निर्णय आपले आपणेच घेतिल्ले. मागीर हावेंच हिका कोर्दिचे बावलेवरी कित्याक चलोवपाक पळयलें? हिच्या सामर्थ्याचेर भरवंसो कित्याक दवरलो ना?" एक दीर्घ स्वास घेवन किशोरबाबून कागाळीच्या सुरांत आपले बायलेक सांगलें, "कसल्यो गजाली करता! इतल्या वर्सांनी आयला पंडितजी. आनी हो तर म्हजो दुसरो जल्म. मरणाचे दाडयेंतल्यान निसटून आयलां. आपय ताका आनी च्या-खाणाची वेवस्था कर."

किशोरबाबूचे बायलेक किशोरबाबूच्या दुस-या जल्माची गजाल खूब लागली. पूण मागीर हाचोच अर्थ, मनीस दुस-या जल्मांत आपणाल्या पयल्या जल्माच्या सामको उरफाटो वागता? किशोरबाबूचे बायलेक एका ब्राह्मणाचो अपमान करप केन्नाच सारकें दिसलें ना. तिका सदांच भिरांत आसली, पंडितजी नाराज जावन मनांतल्या मनांत एखादो शाप-बीप दीत जाल्यार? आतां मर्णाचे दाडयेंतल्यान निसटतकच किशोरबाबूच्या ध्यानांत ही गजाल आयली. चल, उसरां काय जायना!

पंडितजीक वयर धाडपाचो आदेश गुरख्याक दीतकच किशोरबाबूची बायल च्या-खाणाची वेवस्था करपाक गेली. किशोरबाबू उमळशिकेन पंडितजीची वाट पळयतालो. पंडितजीवांगडा भगवे मुस्तायकेंतल्या एका संन्याशाक पळोवन ताका अजाप जालें. इतल्या वर्सां उपरांत दोन दिसां आदींच ताणें मुर्शिदाबादाक स्वामी रामानंद कृष्णाची याद काडिल्ली आनी जुस्त एका संन्याशान घरा येवप हो एक योगायोगच म्हणपाचो. खुशालकाय, आरोग्य असल्यो गजाली जातकूच पंडितजीन संस्कृत विद्यालयाचें पावती-पुस्तक काडलें. शंबर रूपयांची पावती फाडून ताणें किशोरबाबूच्या हातांत चोंदली तेन्ना किशोरबाबून सांगलें, "फाटल्या पांच वर्सांचेय शंभर-शंभर रूपया बाकी उरल्यात. पंडितजी, सयशें रूपयांची पावती फाडात." पंडितजीचें मुखामळ फुल्लें.

किशोरबाबून आपणाली उमळशीक वाडयत विचारलें, "स्वामीजींचो परीचय करून दिवंना पंडितजी तुमी." "आरे, आजून परीचय करूं ना हावें? आतां साठी जावन गेली न्हीं? श्यात्तर वर्सां जालीं. सामको विसराळू जालां हांव किशोर." पंडितजी व्हडल्यान हांसले. "तर हे आसात स्वामी सहजानंद. जशें नांव तशे गूण. हांच्या मुखामळार सहजतायेन सदांच खोशयेची सांवळी पातळिल्ली आसता. मनशाचें अंतस्कर्ण जागृत आसल्यार ताचें तेज तोंडाचेर उजवाड घालचें ना? आतां सध्या एक वर्स मेरेन तांचें मौन चालू आसा." पंडितजीन असें सांगतकच किशोरबाबून काळ्या-धव्या दाट खाड, मिश्यांतल्यान स्वामी सहजानंदाचो सहज हांसो सोदून काडलो. भुरग्यांभशेन सरळ निरागस हांसो आसा स्वामींचो. "आनी तुवें पांच वर्सां आदीं सगळ्या दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी हांचो फोटो पळयला आसतलो. पूण मदल्या पांच वर्सांत कोलकात्याक आयले नात. आतांमेरेन तुका विसर पडला आसतलो त्या फोटवाचो." पंडितजीन आपणाले संवयेप्रमाण वा-यार एक कुवाडें सोडलें. किशोरबाबू थोडोसो काचाबूल जालो. धीरेन्द्र ब्रह्मचारी, चंद्रास्वामी आनी कोणा संतान दलाच्या स्वामीजींचीं कांय दिसाळ्यांनी फोट्यांसयत छापिल्लीं कात्रणां ताणें एका पाकिटांत वंद करून दवरिल्लीं खरीं. पूण ह्या स्वामीजींविशीं ताका आतां कांयच याद जायना. एखादो मोठो यज्ञ-बिज्ञ केला आसतलो घडये - ताणें चिंतलें. हिंदीच्या दिसाळ्यांनी छापून आयलां आसतलें. आतांमेरेन मुखावयल्या मनशाक कुवाडें सोडोवंक येवंक नाशिल्ल्यान पंडितजी उत्पादीत रसान तृप्त जाल्ले. ते हांसले आनी ताणी स्वामीजीक हांसत सांगलें, "तुमचेकडेन ती 'फ्रंटलायन' पत्रिका आसा न्हीं? दाखय ती हांकां. तांकांच

पळोवं दी.''

स्वामीजीन आपणाले भगवे झोळयेंतल्यान एक सप्तकी अंक भायर काडलो आनी हांसत-हांसत ताणें किशोरबाबूच्या हातांत दिलो. किशोरबाबून पळयलें, गुळगुळीत मुखपृष्टाचेर बाबरी मसजिदिचो आतांमेरेनचो सगळ्यांचे वळखिचो जाल्लो मातकट फोटो आशिल्लो आनी ताचेर लोखणाच्यो सळयो घेवन चडिल्ले रंगीत मुस्तायकेंतलीं मनशां चकचकतालीं. ''उकतें करून भितरले फोटो पळय. कवराचेर स्वामीजीचो फोटो ना.'' पंडितजीन सांगलें. किशोरबाबून यंत्रावरी पयलें पान उकतें केलें. भितरल्या फोट्यांमदल्या एका फोट्याचेर ताची रोकडीच नदर गेली. एक संन्याशी जमनीर उभो रावन मेगाफोन घेवन वयर चडिल्ल्या तरनाट्यांक आदेश दितालो. दुबावूच ना, तो नक्कीच स्वामी सहजानंद आशिल्लो. पूण हांसनाशिल्लो. फोटो सामको साफ आशिल्लो..

किशोरबाबूचे तकलेंत धुक्याभशेन कितेंतरी पातळ्ळें. त्या धुक्यांत प्रसन्न मुखामळान सरोजाकडसून च्या-फराळ घेतना आनी तिका अखंड सौभाग्यवती जावपाचो आशिर्वाद दितना ताणें पंडितजीक पळयले. सदचेभशेन पंडितजी खातां-खातां उलयत रावले आनी किशोरबाबून पळयलें, आतांयबी आदलेभशेन तांच्या ओंठांचे कडेक थुंकी एकटावता. कोलकात्याच्याच आपणाल्या एका गिरेस्त शिष्याची गजाल पंडितजी सांगत रावले. कशेतरेन ताणें विदेशांत रावपी आपणाल्या यन. आर. आय. मेवण्याचे वतीन विदेशांत कोट्यांनी रुपया एकठांय करून विश्व हिंदू परिशदेक दिले, कशेतरेन ते त्या दिसा बाबरी मशिदीमेरेन पावले, ताच्या कार्यकर्त्यांक पुलीस कशेतरेन उभे रावन पळयत रावले, कशेतरेन कांय भुरगे मशीद मोडपाच्या वेळार उपकारा पडले, कशेतरेन ताणी जैत जोडलें आनी मशीद वडयली.

किशोरबाबून आपणाले तकलेफाटल्यान जाल्ल्या गुटाक हात लायलो. त्या गुटांतल्यान दुकां-गॅसाचो गुळो सुटटा आनी ताचे तकलेंत धुंवरावरी फाफसता अशें दिसतालें. किशोरबाबून आपल्या दोळ्यांक हात लावन पळयलें. पूण तातूंत दुकांच नाशिल्लीं. त्या धुक्यामदीं ताका पंडितजींचो आवाज आयकूंक येतालो. पूण उतरां मात कळनाशिल्लीं. अचकीत ताणें अमोलकाचें नांव आयकलें आनी किशोरबाबूचें धुकें ल्हवू-ल्हवू निवळूंक लागलें. पूण त्याआदीं पंडितजी कितें उलयिल्ले हें ताका समजलेंच ना.

किशोरबाबूक इतलेंच कळ्ळें, पंडितजी अमोलकाखातीर सांगताले, ''संवसारांत कसले-कसले लोक आसतात. माथेफिरूपणा आनीक कोणाक म्हणटले! तशें पळयल्यार तो आशिल्लोच माथेफिरू. भुरगेपणासावन, स्वातंत्र्या उपरांत तर ताची तकली सामकीच इबाडली. गांधीजींचे हत्ये उपरांत तर तो सामकोच व्हांविल्लेभशेन जालो अशें म्हणटात. तकलेंत कितेंय आयलें काय तो ताका चीट बरोवन सुटटा. नेहरूक, राजेंद्रबाबूक, व्हड-व्हड मंत्र्यांक. एक फावट म्हाका रस्त्यांत मेळ्ळो तेन्ना म्हणपाक लागलो, इंग्रजांचे सगळे पिट्टू आनी दलाल, गांधी-तोपी घालून कॉंग्रेसींत घुसल्यात. नेहरूनय त्या सगळ्या ऑफिसरांक

जाणीं इंग्रजांकडेन मेळोवणी करून आमचेर जुलूम केल्ले तांकां जशाचे तशे दवरल्यात. आनीकय कितें-कितें उलयलो खबर ना. चीतं, त्या वेळार तूं दोगा चलयांचो बापूय जाल्लो आनी तो तसोच भोंवत रावतालो. बडबडत, संवसाराक खेपीत."

किशोरबाबू जड जाल्ल्यावरी बसून रावलो. अमोलकान लग्न करू ना तर? शेचाळीसाच्या उपरांत ताची भेट घडूंक ना. कॉलेजचें शिक्षण अर्द्यार सोडून तो खंयतरी गेल्लो अशें ताणें आयकल्लें. कोणें सांगिल्लें तो दिल्लीक रावपाक लागला. मागीर आयकलें, तो कांय गांधीवादी संस्थांनी काम करपाचे भानगडींत हांगा-थंय भोंवत उरलो. मागीर तो ताका एकदम विसरूनच कसो गेलो. दिल्लीक गेल्यारय ताचो पत्तो-ठिकाण सोदून काडपाचो ताणें यत्न केलो ना.

पंडितजी फुडें सांगत रावले, "कांय लोक दरेके गजालिचो विरोध करतात. तो दरेके गजालिच्या विरोधांत आशिल्लो. तुजो इश्ट अमोलक तर म्हाका दिल्लींत वर्स-दोन वर्सांत मेळटालो. कित्याक तर तो म्हज्या धाकल्या भावाच्या शेजराकूच रावतालो. केन्ना कसल्या मोट्या कारखान्याच्या विरोधांत उलयत रावतालो तर केन्ना कसल्या मोट्या बांदाच्या विरोधांत. हांव तर हांसून सरळपणान ताका हेंच विचारतालों - कितें अमोलक, सद्याक खंयचे गजालीआड झुजपाचें थारायलां? एक फावट सांगपाक लागलो, पंडितजी, तुमीच पळयात न्ही, सगळे जनतेक जोंमेरेन खावपाक मेळना, जोंमेरेन सगळ्यांक घालपाक कपडे मेळनात तेन्ना ह्या इतल्या मोटारी-गाडयांची गरज कितें? हेचभशेन बोड-शेपडी नाशिल्ल्यो गजाली कोण जाणा खंयच्या-खंयच्यान सोदून हाडटालो! पयलीं नेहरूच्या विरोधांत उलयतालो, उपरांत तांची धूव इंदिराच्या विरोधांत उलोवपाक लागलो - देश म्हळ्यार आपणाल्या बापायची देणगी समजून दवरल्या, अशें कितेंतरी. इतलेंच न्हय तर इमरजेंसींत बंदखण भोगून आयलो आनी ताचे उपरांत जाणीं सरकार घडयलें त्या आपल्या साथीदारांच्या विरोधांत आपूणच उलोवपाक लागलो."

पंडितजी संवयेप्रमाण हांसले. आपल्या गजालींनी किशोरबाबूंची उमळशीक पळोवन ताच्या मनाक खोशयेच्यो खातकुतल्यो जावपाक लागल्यो. आदीं सदांच तांचेकडेन गजाली करताना किशोरबाबूक पुरो जाल्लेभशेन दिसतालें.

अमोलकाचे चर्चेंत किशोरबाबूचे उमळशिकेचो अदमास घेवन पंडितजी उमेदीन सांगपाक लागले, "त्या दिसांनी म्हाका मेळ्ळो जाल्यार सांगपाक लागलो, पंडितजी, तुमी सांगात पळोवया, इंग्रजांच्या राज्यांत सरकार हिंदुस्तान्यांचेर गुळयो घालतालें. पूण जेन्ना आमचेंच सरकार आपूणच आपल्या लोकांचेर गुळयो घालता जाल्यार हाका तुमी कसलें राज्य म्हणटले? हे लोकय तेंच करतात, जें नेहरूच्या काळापासून हांगां जायत आसा. आतांच हांव ताच्या धाकल्या भावाक मेळून आयलां. संस्कृत विद्यालयाखातीर ताचेकडल्यान हजार रूपया घेवन. सांगतालो, ताणें जेन्ना नवीच मारूती गाडी घेतली त्या दिसांनी अमोलक कोलकात्याक आयिल्लो. जाल्यार ताणें ताका हाडपाक स्टेशनार गाडी धाडली.

पूण आमोलक ताचे मारूती गाडयेंत बसनासताना बसीन घरा आयलो."

पंडितजी आनी स्वामीजी सहजानंदाच्या हांश्यान किशोरबाबू गोंदळटा आनी पळयत उरता. मोनेपण पाळटाना इतल्या जोरान हांसप कितें शास्त्रांत बसता? ताणें येवजिलें. किशोरबाबू आदलो आशिल्लो जाल्यार तो आपणाली ही उमळशीक त्याच खिणाक प्रकट करून शांत जातलो आशिल्लो. पूण आतां पंडितजीक आनी स्वामीजीक वायट दिसचें न्हय ह्या विचारान तो वगी रावलो. तर अमोलक आपणाल्या भावाले मारूती गाडयेंत बसलो ना? पूण कित्याक? पंडितजी आपणालो हांसो थांबोवन सुर्र-सुर्र करून च्या पिताले.

"अमोलकं मारूतींत कित्याक बसलो ना?" किशोरबाबून विचारलें. पंडितजींची इत्सा तृप्त जाली. इतल्या वर्सांनी निदान पन्नाशेक वर्सां उपरांत किशोरबाबून तांकां एखादो प्रश्न विचारिल्लो. ते इतल्या सोपेपणान जाप दिवपाचे नाशिल्ले. ताणीं एक व्हड घोंट घेवन च्या सोंपयली आनी कोप सकयल दवरलें. लांब धेंकर दिलो. 'च्या बरी आशिल्ली' - सांगलें. किशोरबाबून अधीरतायेन परतून प्रश्न विचारलो, "अमोलक आपणाल्या भावाले मारूती गाडयेंत कित्याक बसलो ना पंडितजी?"

पंडितजीन सांगलें, "ताच्या भावान कितेंतरी कारण सांगिल्लें खरें. सारकें याद जायना. संजय गांधीचे भ्रश्टाचाराचे गाडयेंत हांव बसचोना अशें कितेंतरी. आनी हां, मारूती ह्या स्वदेशी नांवाचेर विदेशी कंपनीची गाडी आसा. हांगाचो पयसो विदेशांत वतलो अशी कितेंतरी खबर. कितें स्वामीजी, अशेंच सांगिल्लें न्ही?" मोन्या स्वामीजीन तकली हालोवन हयकार दाखयलो. तितल्यांत किशोरबाबूक मुखार दवरिल्ल्या अजितनारायण बोसांच्या लेखाचेर केल्ल्यो खुणो दिसल्यो.

किशोरबाबून पंडितजीक सांगपाक सुरू केलें, "पंडितजी हावें हालींच कितें वाचलां जाणां, इस्ट इंडिया कंपनीन भारताक जितलें लुटिल्लें न्हय, ताचेपरस हजारांनी पटींनी लूट आतां आमच्या देशांत विदेशी कंपनी करपाक लागल्यात. डॉलरांचे तुळनेंत रूपयाचें मोल इतलें देंवलां पळय, हांगाच्यान एक कोटींचो माल विदेशांत वता तेन्ना ताची कींमत फकत एक चतुर्थांश हातांत पडटा. म्हळ्यार फकत पंचवीस लाख. आर्थीक नदरेंतल्यान आमी परतून गुलाम जाल्यात अशें लोक म्हणपाक लागल्यात." किशोरबाबून पळयलें, पंडितजीन उबगून जांभय दिवपाक तोंड उकतें केलां. तो वगी रावलो.

"बरें आसा तर. वतात आमी. तुजी मारूती गाडी आमकां फुडल्या मुक्कामामेरेन पावयतली काय अमोलकाभशेन बस धरपाची?" पंडितजीन हांसून विचारलें आनी सांगपाक लागले, "आतां आदलेभशेन ताकत उरूक ना. हाडां झिजून गेल्यांत. बसीन भोंवपाक जमना. पूण संस्कृत विद्यालयाचो मोह उरला. जितेपणी तो सुटपाचो ना. हांगां येवप जाता तेन्ना पोरन्या शिष्यांकडल्यान कांय पयशे पुंजायतां. आतां घडये येवपाक जमत काय ना कोणाक खबर?"

किशोरबाबू कांयसो निरशेलो. अमोलकाचे वावतींत आनीक कांय गजाली कळिल्ल्यो

जाल्यार बरें जावपाचें. सोड खबर. आयजूच चीट बरोवची. "अमोलकाचो पत्तो दियात पंडितजी. तुमचेकडेन ताचो पत्तो आसपाकूच जाय. हांव ताका मेळपाक सोदतां." किशोरबाबून सांगलें.

किशोरबाबून पळयलें, पंडितजी ताका जसो कि तें एका पिश्याकडेन पळयिल्ल्यावरी नियाळटा. ताणे प्रश्नार्थक नदरेन पंडितजीकडेन पळयलें. "आरे बाबा, ताचो पत्तो आतां हांव तुका खंयच्यान दिवूं? तुका हावें सुरवेकूच सांगलां, बाबरी मशिदिच्या प्रकरणांत तो मेला म्हणून. आयकूंक ना तुवें? तेन्नाच म्हाका दिशिल्लें खरें, ताच्या मर्णावयर तुवें दुख्ख कित्याक उत्तावंक ना? बाबडो रामजन्मभुमिच्या उद्धाराचें पूण्यकर्म सोडून दुस-या धर्माक सांगात दितालो. वयर चडिल्ल्या लोकांक सकयल देंवपाक सांगतालो. ताचे तकलेचेर एक वीट पडली ती अशी, त्याच खिणाक ताचो जीव गेलो. म्हाका खूब दुख भोगलें. मड्याचो इलो स्वामीजीन केलो. ताच्या भावाक हावेंच कळयलें." दुख उकतायताना किशोरबाबूचें तांबडें गूंज जाल्लें मुखामळ पळोवन पंडितजी वगी रावले.

किशोरबाबूचें सगळें रगत जशें कि तें ताचे तकलेक चडिल्लें. अचकीत् किशोरबाबू बाण कसो धांवलो आनी मोन्या स्वामी सहजानंदाचो गळो तो दोनूय हातांनी अंदूपाक लागलो, "निर्दय, खुनी. तुका हांव जितो सोडचो ना. त्या दिसा - डायरेक्ट ऍक्शनाच्या दिसा, शेचाळीस वर्साआदीं तो कशेयतरेन वांटाविल्लो. पूण हे फावट तुवें अमोलकाक मारून वडयलो..."

किशोरबाबूची बायल आदलेवरीच किशोरबाबूच्या आड्डुपाचो आवाज आयकून भायर आयली, जाल्यार हो देखाव पळोवन ती लाकूड कशी घट जाली. पंडितजी रडत-रडत किशोरबाबूच्या दोनय हातांक धरून गळो सोडून दिवपाचो आग्रो करताले, ताका 'श्रीरामा' चो सोपूत घालताले. स्वामीजीचे दोळे भायर आयिल्ले आनी ते 'गों-गों' करताले. 'फ्रंटलायन' चो अंक वा-याचेर फडफडटालो आनी बाबरी मशीदीचेर चडिल्ले भुरगे आनी स्वामीजी ताचेवांगडा हालताले.

□□

### *उद्विग्न अवस्थेंत किशोरबाबून बरयिल्ल्यो कांय असंपादीत खबरो*

*'डायरेक्ट ऍक्शन डे' - 16 ऑगस्ट 1946 हो दीस अमोलकाच्या मर्णाचो दीस थरलो ना ही अजापांतली अजाप अशी गजाल आशिल्ली. ख-यांनीच काय मरतल्याची तीथ आनी जागो दोनय पयलींच निश्चीत जाल्लें आसता? अशें म्हणटात, भूंय उठून येना, मनीसूच उठून मर्णाच्या जाग्यार वता. तर अमोलकाचें मर्ण कितें स डिसेंबर एकोणिसशें ब्याणव्वदांत अयोध्येंत थरिल्लें आशिल्लें? हेचखातीर तो शेचाळीस वर्सांपयलीं त्या दिसा मर्णांतलो वांटावलो? पूण ख-यांनीच ताचें मरण असल्याच लोकांच्या हातांतल्यान जावपाचें थरील्लें? त्या दिसा जावपाचें काय निमाण्या दिसा जाल्लें तशें? गांधीजीभशेनच? आनी*

*ह्या अशा मर्णातल्यान कितें प्रमाणित जालें? मनशाची एकल्यावयली निष्ठा हो दुस-याखातीर तिरस्कार थरूं येता हेंच काय? रामाचेर प्रेम - मुसलमानांचो तिरस्कार. गांधीविशीं तिरस्कार - हिंदुत्वाचेर प्रेम. धर्माची वणट इतली घट आसा, तातूंत जनेलां बसोवं नजो? तर मागीर एक संवसार असो रचचो पडटलो जंय एकासारखींच मनशां सांगाताक रावतलीं? एकाच रंगाचे, एकाच धर्माचे, एकेच भाशेचे. जशें 'बद्रिका' सुकण्यांक एका वेगळ्याच पांज-यांत दवरतात. नाजाल्यार एकतर तीं दुस-या सुकण्यांक मारून वडयतात वा आपूण मरतात*

□□

*ही कथा आसा किशोरबाबूची. पूण कथाकाराक दिसता, कांय घडणुकांची फाटभूंय जाणां जावन घेतलेबगर कथा फुराय तरेन खुलना. बावीस कॅरटांत फक्त दोन कॅरट मिसळावपाची ताका निश्चित सवलत आसा. आनी इतली सूट पुरो कशी ताका दिसता. हो जो कथालेखक आसा तो गजाली रचपांत विश्वास दवरपी असल्यांतलो आनी अशें केलें ना जाल्यार तसल्यो कथा फक्त आमचेसारखेच थोडेशे लोक वाचतले असो आमकां दुबाव आसा.*

*गजाल आसा ती त्या दिसांची, जेन्ना मुस्लीम लीग आनी कॉंग्रेसीचे मतभेद तेंगशेर पाविल्ले आनी कायदे-आजम जिन्नान 16 ऑगस्ट 1946 क सगळ्या देशभर 'डायरेक्ट ऍक्शन डे' चें आव्हान केल्लें. बंगालांत मुस्लीम लीगचें सरकार आशिल्लें आनी ताचो पंतप्रधान आशिल्लो तोच सुहरावर्दी, जो अन्नमंत्री आसताना बंगालांतल्या अकालावेळार बेपर्वायेखातीर लाखांनी लोक मर्णाचे भकीक पडिल्ले. 'डायरेक्ट ऍक्शन डे' दिसा सुहरावर्दीन सार्वजनीक सुटी जाहीर केली. हालीं कोलकाताचें सरकार आपले पार्टिचे वतीन बंदाचें आयोजन करतकच अनौपचारीक सुटी दिता, सादारण तेचभशेन. 'डायरेक्ट ऍक्शन डे' च्या दिसा दनपारां मुसलमानांची एक व्हडली रैली शारांतल्या सगळ्या विंगड-विंगड भागांतल्यान येवन 'ओक्टरलोनी मोन्यीमेंट' कडेन एकठांय जावपाची आशिल्ली. त्या दिसा आशिल्लो जुम्मा. ताका लागून मुसलमान बायलो आनी भुरगीं भायर रस्त्यार आशिल्लीं. येतल्या आकांताळ्या घडणुकांची सुहरावर्दीक कांयच सुलूस नाशिल्ली. वा आपणाले शक्तीचो मद आशिल्ल्यान ताका हिंदुचे वटेंतल्यान घडये व्हडलें संकश्ट येत अशें दिसूंक नाशिल्लें. दुसरे वटेन बंगालांत मुस्लीम लीग चें सरकार आशिल्ल्यान हिंदूंभितर दुबाव आनी भिरांतिचें वातावरण पातळिल्लें. फाटल्या कांय वर्सां सावन हिंदू महासभा आनी राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघसारख्यो सांप्रदायिक संस्था लाठयो चलोवप, आखाडेबाजी आनी झुजपाचे शैलीच्या प्रशिक्षणाक उत्तेजन दिताल्यो. गल्लीबोळांतल्यान 'तरूण व्यायाम समिती', 'आर्य वीर दल', 'हिंदू शक्ती संघ' सारख्यो संघटना हिंदूंक तयार करताल्यो.*

*16 ऑगस्टाकसान कोलकाताच्या रस्त्यांचेर दंगे वा ख-या अर्थान सांगपाचें जाल्यार नागरी झूज (सिविल वॉर) सुरू जालें. हातूंत वास मारिल्लीं अशीं साडेतीन हजार मडीं रस्त्यावयल्यान उखललीं आनी कितलेतरी हजारांनी मडीं गंगेच्या प्रवाहांत सोडून दिलीं ताचो हिशोब ना. मुसलमानांची कत्तल चड जाली. सरदार पटेलांनी आपले निर्मभ शैलींत हे घडणुकेचो उपसंहार केलो, हातूंत ' हिंदुंचें पारडें जड जालें.' अशें सांगतात, दंगो भडकल्या उपरांत सुहरावर्दी अधिका-यांम्ह-यांत धांवून गेलो. पूण मिलिट्री पुलीस हातार हात वडोवन शस्त्रांची विणी गुंथून उभे रावले. कत्तल चालूच उरली आनी मोट्या कष्टांनी कसो कर्फ्यूचो आदेश रातीकडेन जारी केलो. ह्या दंग्याचो काळ एका वर्सापरस चड उरलो. ह्या काळांत कोलकात्यांत खून-मारामारी सतत चालूच उरल्यो. नोआखाली आनी बिहाराचे दंगे म्हळ्यार 16 ऑगस्टाचोच परीणाम. इतिहासांत हाची वळख 'द ग्रेट कैलंकटा किलींग' अशा नांवान जाता. ह्याच 'किलींगा' न देशाचे आनी बंगालचे वांटणीचेर शिक्को मारलो.*

□□

सोळा ऑगस्टाची सुरवात जाली मंद पावसाच्या सरींनी. सात वरांचेर अमोलकान डॉ. रायच्या घरासावन चौरंगीवयल्यान अस्तमतेकडेन उकतीं जाल्ल्या जनेलांतल्यान भायर पळय जाल्यार धर्तरेच्या ह्या तोंकासान त्या तोंकामेरेन पातळिल्लें इंद्रधोणू! तें पळोवन तो एक खिणभर अजापलो. ट्राम-बस बंद जावपाचो दुबाव आशिल्ल्यान कालचे रातीकडेन अमोलक शांतनूच्या बापायम्ह-यांत रावलो. धर्तरेचेर कितलींय संकश्टां कोंसळ्ळीं म्हण कितें जालें - मळबाक ताचो कांय संबंध ना. अमोलकाक दिसलें, कुपां येतात, पावस झडटा आनी केन्ना कुपां कुशीक सरतात तेन्ना सुर्याची प्रतिमा उरफाटे दिशेन एक सप्तरंगी इंद्रधनुष्य ताणून दिता. पूण निसर्गाची ही आल्हाददायी अभिव्यक्ती आपणाभितर शोषून घेवन खिणभराखातीर खुशालभरीत जावपा इतली क्षमता मनशांत सांबाळून उरल्या? हां, भितर असलें कितेंतरी सांबाळून उरलां जें मरूक ना. दोळे आसात म्हणून तर पळोवंक मेळटा आनी खंयतरी भितर खबर नाशिल्लें कितेंतरी विरगळूंक लागता. जनेलांत उबो राविल्लेकडेन अमोलक अस्तमतेवटेन मळबाक पळयता आनी येवजिता -

"आज कितें करपाचें? मुस्लीम लीगच्या सरकारा वतीन सुटी जाहीर केल्या. कॉलेज बंद आसा. मोन्युमेंटच्या मैदानार दनपारां रॅली जातली, थंय वचचें. फाटल्या वर्सा थंयच मोन्युमेंटासकयल जिन्नाक पयले फावट पळयिल्लो. पयलीं कॉलेजचो इश्ट अशरफाच्या घराकडेन चितपूराक वचचें. उपरांत हरिसन रोडाचेर किशोराक ताचे 'सुरकी कल' वाले आत्याच्या घरांतल्यान भायर काडूंया. फाटल्या पंदरा दिसांसावन किशोर थंय रावता. मागीर मोन्युमेंटाक वचचें. किशोर आनी अशरफाचोय परिचय घडटलो. किशोराक ताच्या मदल्या मामाच्या हिंदू महासभांच्या धोरणांतल्यान वांटावपाची खूब गरज आसा. फटी बिटी

सांगून तिटकारो आनी अविश्वास निर्माण करप कितलें सोपें आसता आनी मनशाक मनीस म्हण समजप कितलें कठीण आसता. वातावरण अतिशय इबाडत चललां आनी सुहरावर्दी तर सुदारपाक कितेंय करपाच्या जाग्यार उज्यांत आनीक तेल ओतीत रावला. आतां तर कोणांभितर हिंदू महासभावादी घुसूंक ना हाचो थाव लागप कॉंग्रेसवाल्यांकय कठीण जावन पडलां. बाकिच्यांचें सोडून घालूया, तागेलो कॉंग्रेसी बापूय लेगीत सांगपाक लागला, 'घडये पाकिस्तानाची निर्मणीच योग्य आसत. लोकांक बदलप खूब कठीण दिसता.' काल हेच गजालीखातीर बापायकडेन वाद जालो. हांवूय खूब निबर उलयलों. पूण करतलो कितें, तो उलयतालोच कसल्यो गजाली!"

अमोलक चलतूच चौरंगीसान बडाबाजार गेलो. थंयच्यान ताका घराकडेन कांय सामान व्हरपाचें आशिल्लें. तो निर्जन रस्त्यावयल्यान आपणाभितरच तल्लीन ज़ावन चलतालो. इतल्यान 'आडी बांसतल्ला' लेनी कडेन अचकीत कांय लोकांच्या धांवपाच्या आनी आड्डुपाच्या आवाजान तो भियेलो. ताणें फाटल्यान वळून पळयलें जाल्यार एक लुंगीवालो मनीस पळटालो आनी ताच्या फाटल्यान धांवतल्या चार-पांच मनशांनी ताका पकडिल्लो आनी तो आपूण सुटपाखातीर हातपांय धाडायतालो.

सगळी परिस्थिती समजता म्हणसर ताका दोन-तीन खीण गेले आसुंये. मागीर सगळी शक्त एकवटावन तो धांवलो आनी ताणें त्या मनशांकडेन हुज्जत घाली. "सोडून दियात हाका, सोडून दियात. कित्याक मारतात ताका? सोडात ताका." ताणें एकल्याक धुकलून वडयलो आनी तेन्ना तातूंतल्या दोगां मनशांचें पित्त खवळ्ळें. "साला, होवूय बी कापो काय कितें?" अमोलकान एकल्याक आड्डताना आयकलें. अमोलक आनी तो लुंगीवालो, दोगांकूय धुकलीत ते लोक लागींच्या एका घरांत घुसले. तातूंतल्या तिगांनी मेळून अमोलकाचे पेंटीचे बुतांव उगडले. "कापो, कापो" म्हणत तातूंतल्या एकल्यान चाकू उकतो केलो. अमोलकाच्या सुन्न जाल्ल्या मेदवांतल्यान आनी पराभूत जाल्ले कुडींतल्यान एक गजाल जोगूल कशी झगझग जाली ती म्हळ्यार भुरगेपणांत ताका मुतपाचे त्रास जाताले आनी ताका लागून त्या इंद्रियाची चामडी काडून वडोवपाखातीर एक ल्हानशें ऑपरेशन केल्लें. हेखातीर तोवूय कापो. मरण सामकें मुखार आशिल्लें आनी तेंवूय निश्चित आशिल्लें. तितल्यान जाचे दोळे भिरांतेन भायर आयिल्ले आनी न्हावन आयिल्ल्यावरी घामान पचपचीत भिजिल्लो तो लुंगीवालो मुसलमान म्हणपाक लागलो, "न्हय, तो मुसलमान न्हय. हाचो बापूय कॉंग्रेसीचो लीडर आशिल्लो. रामदिखबाबूचो 'लडकवा' हो." "कितें रे रिक्शावाल्या, तूं वळखता हाका सारखो?" आवाज गाजलो. अमोलकाच्या बापायचें नांव आयकून एक खिणभर सगळ्याक थंडसाण पातळ्ळी. मागीर चाकूवाल्यान अमोलकाचे मानेर चाकू धरून विचारलें, "कितें रे नांव तुज्या बापायचें?" "रामरिख पोद्दार." अमोलकान आपलोच आवाज आयकलो. तेन्ना ते लोक ताका एके कुडींत धुकलून घालून भायल्यान सांखळी घालून गेले. तीन-चार वरां दार गडगडायतकच एके घुंगटवाले बायलेन

येवन दार उगडलें. भायर मुसलमान रिक्शावाल्याचो पत्तो नाशिल्लो आनी हिंदू गुंडांचोय नाशिल्लो. ताचो जीव वांटावपी जितो आसा काय ताका मारून वडयलो म्हण कोण जाणा! अमोलक येवजीत रावलो.



किशोर आनी आवय हरिसन रोडाचेर 'सुरकी कल' वाली गिगिया आत्याच्या घरांत मामावांगडा रावपाक लागल्यार फाटले पंदरा दीस जाले. शांताभाभी कानपुराक गेल्ली. आईची तब्येत बरी नाशिल्ल्यान आई आनी किशोर घर बंद करून हांगां आयिल्ले. लेक रोडावयलें घर सोडून फाटल्या दोन वर्सांसावन मामा मंडळी आपणाल्या आत्याच्या घरांत भाडेकरू म्हण रावपाक लागिल्ली. दुकानासान इतले पयस लेक रोडाचेर रावप मदल्या मामाक पसंत नाशिल्लें. पूण एकेचाळीस सालांत व्हडल्या मामामुखार ताचें चललें ना. भुरगेंबाळ नाशिल्ली आत्या, बापायची भयण आसली तरी व्हडल्या मामाचे पिरायेचीच आशिल्ली. ती हांगां दुयेंत पडपाक लागली तेन्ना आपल्या रिकामी आशिल्ल्या घरांत ताणीं रावचें असो आत्याच्या घोवान प्रस्ताव दवरलो. तेन्ना मामा मंडळी एक मजलो घेवन थंय रावपाक लागली.

ह्या घराच्या तळमजल्याचेर केन्नातरी विटांचो चुरो करपाचें एक मशीन - 'सुरकी कल' आशिल्लें. म्हणून हाका 'सुरकी कल' चें घर म्हण वळखताले. आतां मात घराच्या सकयल्या दोन मजल्यांचेर फकत बिराडकार रावताले. आनी वयल्या दोन मजल्यांचेर मामा आनी 'सुरकी कल' ची गीगी आत्या. घरांत भुरग्यांचो उणाव भरून काडपाखातीर सुरकी कल वाली आत्यान जनावरां पोशिल्लीं. दर म्हयन्याक हे फाब्रटीं तरी आपल्याक गर्भ धरतलो हे आशेर विशेक वर्सां ती वाट पळयत रावली. उपरांतच्या वर्सांनी तर दर म्हयन्याक पाळयेचो श्राव पळोवन ती पिशांतूर कशी जाताली. तेन्ना तिच्या घोवान तिचें मन रमचें म्हण कांय तरांचीं जनावरां हाडून दिलीं.

आत्यान गच्चीचेर एक पाडूक पोशिल्लें. ताची आतां 'देवहूती' गाय जाल्ली. हे गायेक आतां सकयल देंवोवप कठीण जाल्लें. किशोराखातीर हें व्हड संकट आशिल्लें. 'देवहूती' जेन्ना मरतली तेन्ना कितें जातलें? परतून-परतून विचारतकच आईन सांगलें, "मरतली तेन्ना राजवान बांदून रस्त्याचे वटेन सकयल देंवोवपाची." आईक भिरांत दिसताली, हो किशोर केन्नाय आत्यामुखार देवहूतीच्या मर्णाची खबर करीत म्हण. आंत्याकडेन एक 'सोनकी' म्हण भांगराळें सवणें आशिल्लें. 'मिट्टू कहो सिताराम' म्हण बडबडपी एक 'मिट्टू' पोपट आशिल्लो. पूण आत्याची सगळ्यांत मायेची आशिल्ली ती मैना जिचो आवाज कोगळापरसूय अदीक सुरबूस आशिल्लो. तिचें नांव 'सुरंगी' दवरिल्लें.

सुरकी कल चें घर सारकें मुसलमान मुहल्ल्यांत पडटालें. घराच्या सामकें मुखार ट्राम लायनीचे पलतडीं बँड-बाजा वाजोवपी मुसलमानांची वस्ती आशिल्ली. हेर सगळ्या दिसांसारखोच

उदेल्लो सोळा ऑगस्टाचो दीस. दुर्गा पूजा आनी दिवाळेची परब थोड्याच दिसांनी येवपाची आशिल्ल्यान दुकानांत कामाची ताणी खूब आशिल्ली. 'टायगर' थेटरांत रिटा हेवर्थाचें 'गिल्डा' फिल्म पळोवन किशोर 'डायरेक्ट ऍक्शन डे' चे सुटयेचो उपेग करपाक पळेतालो. पूण बंदाक लागून सिनेमाय बंद आशिल्लो. आत्याच्या घोवाक आनी धाकल्या मामाक घेवन मदलो मामा सकाळीं णवांकूच दुकानार गेल्लो. किशोराक घराकडेनच रावपाची ऑर्डर आशिल्ली. किशोर आपल्या मनाआड घराकडेनच रावलो आनी जेवन न्हिदलो.

अचकीत दनपारां रस्त्याचेर बोवाळ जालो. 'मारात' 'मारात' आनी सगळे लोक धांवत-पळत हांगां-थंय घुसतात तें नदरेक पडलें. सुरकी कल चें मुखेल दार बंद करून गुरख्यान ताका कलयाद लायलें. किशोरान व्हरांड्याभायर लोखणाच्या जाळयांचेर पडून जाल्ल्या तणाच्या पड्डयांतल्यान दोळे लावन पळयलें जाल्यार रस्त्याचेर लुंगी पांगुरिल्ले, लाठयो चलोवपी आनी तलवारी चमकावपी गुंडांचो एक जमाव 'अल्ला हो अकबर' आनी 'लडकर लेंगे पाकिस्तान' अशो घोशणा दीत सकयल्यान वतालो. तोमेरेन तरी फोन चलतालो आनी मदल्या मामान सांगिल्लें, आतां ते दुकान बंद करून भितर रावल्यात आनी खबर मेळ्या ती अशी, उत्तर कोलकातांत सुरयो चलोवप, लूटमार आनी सोडा-वॉटर, बॉंब मारपाच्यो घडणुको घडपाक लागल्यात. सो-याचीं दुकानां लुटून सो-याचे नशेंत धुंद जावन गूंड रस्त्यार भोंवपाक लागल्यात. धर्मतल्ला हांगासर एक व्हडलें दुकान पुराय लुटलां. मामान किशोराक कडक आदेश दिवन दवरला, खंयचेच परिस्थितींत ते घरांत भितर आसात हें कळपाक फावना. कितेंय करून तांकां हालोवपाचे मामा यत्न करतले. हेउपरांत जी फोनाची लायन कट जाली तेन्ना फोन बंदच पडलो.

बायलांचो पुराय दीस राम-राम करपांत आनी सामानाची बांदाबांद करपांत सरलो. सगळ्यांनी आपल्या भांगराच्या अळंकारांच्यो पोटल्यो करून पोटाक बांदून घेतल्यो. गरजेक लागपी ल्हान ल्हान कपड्यांच्योय पोटल्यो केल्यो. सांजवेळ जावन लेगीत पुराय घरांत एकूय दिवो पेटलो ना आनी काळखांतच कशेंय करून हरवें-करपल्लें रांदप शिजयलें. गुरखो, किशोर आनी सकयल्या मजल्यावयले दोग-तीग मनीस अशा चौगांनी मेळून लोखणाची एक जड पेट उखलली आनी आनी आवाज करीनासताना ती मुखेल दाराकुशीक तेकून दवरली. बायलांनी तांबड्या मिरसांगेच्या पिठ्याच्यो पुडयो करून त्यो चोळयांभितर दामून दवरल्यो. गुरख्यान कंवच्यो धाडावन ताचो चुरो करून घेतिल्लो आनी ताचेकडेन एक मोठो सुरोय आशिल्लो.

सांजवेळा गच्चीचेर गायेच्या हांबेवपान सगळ्यांच्या काळजांत धडधड भरली. गुरख्यान पांजरो उगडून पोपटाक आनी भांगराळ्या सवण्याक उडपाक दिलें. पूण आत्यान 'सुरंगी' मैनेक मात खंयचेच परिस्थितींत उडपाक दिलें ना. "आवय्स म्हजे, म्हज्या दोगां भुरग्यांक झोमून व्हेलीं. तुमचे कुडीक किडे पडटले." अशें म्हणून ती येद्यान आड्डली, तो मिशाळो

रांकट गुरखो लेगीत थंड पडलो. नाजाल्यार तो स्वतःक कमांडरच समजतालो आनी किशोराक ताची खुबूच तिडक येताली. तो सगळ्यांचेर वगीच गरजेभायर हुकूम गाजयतालो आनी फटाश्यांचेर फटाशो मारीत रावतालो. "कोणूय मुसडो जर हांगां घुसलो जाल्यार ताचे कुडके-कुडके करून वडयतलों. चवदा वर्साआदीं जेदेवेळार हांगां दीनू चमरावालेचे मशिदीमुखार आर्यसमाजाच्या लोकांच्यो मिरवणुकांक लागून हिंदू-मुसलमानांमदीं दंगे जाल्ले तेन्ना म्हाका लागून हांगां कोणाकूच दोळे वयर काडून पळोवपाचें धाडस जालें ना. हावें गच्चीचेर फुलां आयिल्लें खतखतीत उदक आनी वीटो-फातरांचो दोंगर करून दवरिल्लो. हे इमारतीच्या दाराकडेनय जर कोण आयिल्लो न्ही, जाल्यार ताचें मडेंच वतलें आशिल्लें हांगासरल्यान."

सोळा ऑगस्टाचे रातीकडेन पुलिसांनी कर्फ्यू लायिल्लो. पूण रातभर केन्ना 'अल्ला हो अकबर' तर केन्ना 'हर हर महादेव' अशो घोशणा आयकूंक येताल्यो. दोळे धांपले जाल्यार किशोराक दर एका जाग्याचेर केन्ना उजो लागिल्लो दिसतालो, तर केन्ना कोणतरी भाले-लाठयो घेवन ताचेर हमलो करताना दिसतालो. मात लेगीत खट जालें जाल्यार सगळ्यांच्या काळजांत धडधडूंक लागतालें. रातच्या वेळार खूब फावटीं उजो पालोवपाची गाडी येता-वता ताच्या घणघणाचो आवाज आयकूंक येतालो.

दुस-या दिसा जनेलांतल्या बारीक बुराकांतल्यान किशोरान जो देखाव पळयलो, ते उपरांत ताका परतून-परतून उलट्यो येवपाक लागल्यो. तेरा-चवदा वर्सांचो एक हिंदू भुरगो खंयच्यान तरी घरांतल्यान कितें करपाक भायर सरून आयिल्लो म्हणून खबर ना. मुसलमान गुंडांनी ताका आपल्या ताब्यांत घेतलो आनी ट्राम लायनीचेर ताचेर सु-यानी घावे घालीत, ताचो गळो चिरून ताका मारून वडयलो. ताच्या पोटांतल्यान रगताचे लोट व्हांवताले. ताच्यो आंतकड्यो भायर सरिल्ल्यो. सारकें सुरकी कलच्या घरासामखार. जनेलांतल्यान भायर रस्त्यार पळोवपाक बायलांक मनाय आसली. हेखातीर हो देखाव पळोवपाचें तांकां चुकलें. पूण किशोराची भिरांकूळ अवस्था आनी ताच्यो उलट्यो पळोवन ताणें भायर कितें पळयलां आसतलें हाचो तांकां अदमास आयिल्लो. सगळ्यांची भिरांत आनीक वाडली. मर्ण सगळ्यांक दोळ्यांसामखार दिसपाक लागलें. सगळ्यांचो ताळो सरांटून आयलो. भूक-तानेचें नांव निशाण नाशिल्लें.

मदलो मामा त्या लोकांक भायर काडटलो म्हणपाची आस वरां कणकणी उणी जायत चलिल्ली आनी घराचेर हमलो जावपाचें संकश्ट वाडत वतालें. अशें दिसतालें, जशें कि तें घराचें दार धुकलून भितर सरपाखातीर मशाली, लाठयो, कुराडी आनी सुरयो लागींच खंयतरी एकठांय करप चललां.

हरिसन रोडाचे हे कुशीचो भाग आनी मामाच्या दुकानाचो भाग हांचेमदीं सेंट्रल एव्येन्यू आसा. शारांत मिलिट्री आयल्या म्हणपाचो थाव शेनवाराक सांजवेळामेरेन त्या लोकांक लागलो. तेन्ना त्या लोकांची भिरांत मातशी उणी जाली. हे फावटीं देवहूतीच्या

हांबेवपान मुखामळाचेर हांसो फांकलो आनी आत्यान आवयक सांगलें, "काल म्हाका सपन पडलें, म्हजी कूस उजवल्या म्हण. म्हजे होंटयेंत एक माणकुलें बाळक आसा." आत्याचे गजालीन सगळ्यांक हांसपाक आयलें. इतलें म्हळ्यार आई लेगीत आपलो हांसो दामपाक शकली ना. पूण तेन्नाच आईक उगडास जालो, तो म्हळ्यार मुक्ताराम बाबू स्ट्रीटच्या घराचे मालकिणीची सून खंयच्याय खिणाक सुटपाची आसा आनी असल्या प्रसंगाचेर तांकां दोतोर-नर्स कशीं मेळूं येतात हें येवजून ती भियेली. आई अशे तरेन दुस-यांचो हुस्को करताना पळोवन किशोराक तिडक आयली. "आपलें धड ना जाग्यार आनी तुका पडलां दुस-यांचें." ताच्यान आईक उलयलेबगर रावूं नजो जालें. पूण तोवूय चिंतूंक पडलो, ह्यावेळार कोणाच्याय घरांत जर मर्ण घडलें जाल्यार कितें करपाचें आनी कोणाकय दोतोराची गरज भासली वा हॉस्पिटलांत व्हरचें लागलें जाल्यार कितें जातलें?

मदल्या मामाचो बुलंद आवाज कानार सादपाक आनी धाड-धाड करून दार धाडावपाचो आवाज, दोनूय इतल्या अकस्मात जाले, सगळेजाण थंयचे थंय तडाक जाले. किशोरान ल्हवूच खांचींतल्यान पळयलें, जाल्यार मामा एक बस घेवून आयिल्लो. "चलात, चलात, बेगीन चलात." असो गजर करीत चारूय दादल्यांनी सगळ्यांत पयलीं ती दारांतली जड पेट कुशीक काडली आनी खूब जोरान आवाज करीत ती कुशीक शेंवटीली. मामान जेन्ना सगळ्या लोकांक आमडीत कशे बसींत चडयले तेन्ना गीगी आत्या रडून आड्डूंक लागली, "आरे, म्हजी मैना उरली मरे. आरे म्हजे सुरंगीचो पांजरो थंयच उरलो. म्हाका हांगाच दवरात. हांव वचची ना." ती बसींतल्यान परतून देंवपाक पळयताली. पूण किशोरान तिका इतल्या जोरान धपको दिवन बसीभितर सिटाचेर शेंवटिली, तेखातीर तिणें मरमेरेन केन्ना किशोराक भोगशिलें ना.

बस स्टार्ट जाली. पूण बसीचें तोंड सियालदह वटेन उरलें ही चूक घडली. आतां ती फाटले वटेन घुंवडावनच सेंट्रल एव्हेन्यूवटेन व्हरूं येताली. बस घुंवडायता म्हणसर खंयच्यान कोणाक खबर, सांजवेळच्या अंधूक उजवाडांत फातर वीटो पातळायिल्ल्या रस्त्यांचेर गुंडांचो एक पंगड लाठयो आनी सुरयो घेवन प्रकट जालो. बसींतल्या लोकांच्यो आड्डी आनी 'मारो, पकडो, लुटो' चे आवाज एकामेकांत भरसले. त्या बोवाळांत दोग तीग जाण बसीचेर चडपाक लागले. जाणटेल्या गुरख्यान एकल्याक धपको मारून सकयल शेंवटीलो. अचकीत आज्जेन आपणाल्या कमराक बांदिल्ली अळंकाराची पोटली काडली आनी तातूंत एक मूठ मारून ते सकयल रस्त्यार मोखून मारले. ते लुटपाखातीर एक मिनीटभर ती गर्दी थांबली आनी तोमेरेन बसवाल्यान आकांताळ्या नेटान झूम् करून बस घुंवडायली आनी सेंट्रल एव्हेन्यू वटेन धांवडायली.

मदल्या मामान आज्जेक वेंग मारली. "तुका लागून आज़ सगळ्यांचे जीव वांटावले आई. सगळ्या शारभर मडीं पातळ्ळ्यांत. हिंदू कितें आनी मुसलमान कितें - सगळ्यांचेर देंवचार बसला. आतां कितें जातलें कोण जाणां." बस सरळ वचून गिरीश पार्काच्या

रिलीफ कँपाकडेन थांबली. मागीर थंयच्यान सगळेजाण मुक्ताराम बाबू स्ट्रीटावयल्या किशोराच्या घराकडेन आयले. व्हडली कूड, धाकली कूड, व्हरांडा सगळे जागे हाथरूणांनी भरून गेले. गीगीया आत्या सोडून सगळ्यांनी खावन घेतलें आनी ते हाथरूणांचेर लवंडले. रातीकडेन किशोर उठलो जाल्यार ताका खंयतरी पयसुल्ल्यान देवहूतीच्या हामेवपाच्या आवाजाचे सूर आयकूंक आयले. ताणें पळयलें तर आत्या मोन्यानी हाथरूणाचेर बसून आसा. “हांव फाल्यां वचून सुरंगीचो पांजरो हाडटलों आनी देवहूतीक चरव घालतलों.” किशोरान सांगलें. आत्यान कांयच जाप दिली ना.

रातभर किशोर हेवटेन-तेवटेन कूस परतीत रावलो. आपणाल्या स्वतःच्या हाथरूणार आसपाचें समादान लेगीत भितरलो उजो पालोवंक शकनाशिल्लें. हिंदू आनी मुसलमान एकठांय रावपाक शकतात अशें जे समजतात ते चुकतात. सामकें बकवास हें. आपणाकूच फटोवपाची गजाल ही. शांतनू आनी अमोलक दोगांयनी ताका चुकिच्या मार्गार व्हेलो. हे गजालीची ताका आज जाण येवपाक लागल्या. नेताजी सुभाषचंद्र बोसाच्या सांगाताक मुसलमानांचो सहयोग शांतनूक फटोवपाक पुरो आशिल्लें. आनी गांधीजींच्यो अवेवहारी कल्पना अमोलकाक चुकिचे वाटेर व्हरताल्यो. भोंवन -भोंवन किशोराच्या दोळ्यांमुखार रगताचे लोट आनी त्या भुरग्याच्यो आंतकड्यो भायर सरपाचो देखाव घुंवतालो. त्या गुंडांचें कितें वायट केल्लें ताणें? हिंदू महासभा, राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघवाले चुकिचें कितें सांगतात? हिंदू आनी मुसलमानांक  हजारांनी वर्सांत लेगीत वांगडा रावपाक जमलें ना तें आतां फुडें कशें जमतलें? अदीक बरें ह्या देशाचे दोन कुडके जावन पाकिस्तान जाल्लें. अमोलकाचे सगळे सिद्धांत म्हळ्यार पोक्या आदर्शांबगर आनीक कांयच न्हय. तांच्या लोकांनी हिंदुचीं देवळां मोडलीं हाचो मुसलमानांक कांयच पश्चाताप जायना. आनी आमी मात कितें तांच्या मशिदींची राखण करपाचो करार घेवन बसल्यात? ते लोक नमाज वाचतात तेन्ना आमच्यो घांटी-नगारे बंद करपाचे? ही जाली एकतर्फी गजाल. अन्यायाचेंच एक रूप हें. अमोलकावांगडा रावन कितलो मूर्ख जावन पडला तो - ह्या विचारान ताका आपणालीच लज दिसता. किशोराचे तकलेंत दोन वर्सां आदली घडणूक घुंवपाक लागली. आपणाल्या उदात्त धारणांच्या फटींच्या विचारांचो ताका कितलो अभिमान आशिल्लो!

□□

अमोलकाच्या आळीसावन मातशें पयस एके गल्लींत मोडून उरिल्ल्या एका पोरन्या घराचो दर्गा आशिल्लो. थंय कोणूच वचनाशिल्लो. थंय एक साधू ठाण मांडून बसला हें एक दीस अमोलकान पळयलें. दर्ग्याचे भायले उकते मेकळे जमनीर ताणें आपणालो त्रिशूळ पुरिल्लो आनी दोळे धांपून तो ध्यान करीत बशिल्लो. दुस-या दिसा आशीकुशीचे एक-एक करून तीनचार बायलो-दादले साधूम्ह-यांत आयले आनी रोटी-भाजी-फळां वी दिवन गेले. दोन दिसांभितर थंय येवप्या-वचप्यांची रीग लागली. दर एकल्या येवपी-वचप्याकडेन

साधू कितें फुतफुततालो कोण जाणा, पूण ताचे म्ह-यांतली गर्दी वाडत वताली.

आयताराक किशोर जेन्ना अमोलकावांगडा थंय आयलो, तेन्ना थंय एक जात्राच कशी भरील्ली. कितें चल्लां म्हण पळोवपाक ते दोगूय थंय गेल्ले. थंय वचून वासपूस केल्यार कळ्ळें, जंय साधू बसला ताच्या मुखार तयार केल्ल्या चौकोनी जाग्यामदीं एक शिवलींग प्रकट जावपाचें आसा. साधूच्या तरातरांच्या चमत्काराच्यो खबरी लोकांनी आयकूंक दिल्ल्यो. ताच्या आशिर्वादांनी कोणाचें दुयेंस ना जालें वा कोणाचें शेणिल्लें धन मेळ्ळें त्या दोगांकूय दिसलें, खरें आसूं वा नासूं, दाल में जरूर कुछ काला है! पूण हो साधू जमीन फोडून शिवलींग कशें प्रकट करतलो ही गजाल मात ना किशोराक समजली तर ना अमोलकाक.

त्या दिसा किशोर रातीकडेन अमोलकागेरूच रावलो. कित्याक तर हो चमत्कार सारको सुर्या उदेवचे आदींच घडपाचो आशिल्लो. फांतोडेवयल्या काळखांत ते जेन्ना थंय पावले, तेन्ना आदींसावनच लोकांची गर्दी एकठांय जाल्ली. आरतीच्या सामानाची तयारी करून सगळेजाण तबकडी, धुपाटणें, निरांजन बी घेवन आयिल्ले. उजवाडपाक लागतकच त्या लोकांनी पळयलें, शिवलींगाचो वयलो भाग ख-यांनीच ल्हवू-ल्हवू जमनींतल्यान वयर सरपाक लागिल्लो. पयलेच फावट किशोराक आपणाभितर खरेली श्रद्धा आसा म्हणपाचें जाणवलें. संवसारांत चमत्कार जायना अशें कोण म्हणटा? देव ना? पूण तेन्नाच अमोलकान थंयच्यान कूस मारिल्ली आनी धा मिनटांभितर बापायवांगडा त्या भागांतलो एक व्हडलो इंग्लीश पुलीस अधिकारी, शिपायांवांगडा तो थंय आयिल्लो. आतांमेरेन श्रद्धा आनी भक्तिच्या आवेगान धूंद जावन थंयची गर्दी घांटी-धोल वाजयताली आनी आरत्यांचें गायन जावपाक लागिल्लें. शिवलींग बेलाच्या पानांनी आनी फुलांनी धांपून वडयिल्लें आनी हरवें दूद आनी उदकाची धार धरून ताची पुजा चलिल्ली.

पुलीस अधिका-याक पळयतकच गर्दी मातशी नरम पडली. शिपायांनी तबकडी कुशीक काडून शिवलींग भायर काडलें आनी तेन्ना सगळ्यांक जमनीचे भितर आशिल्ले भिजिल्ले चणे दिश्टी पडले, जांकां आतां फुलून कोम येवपाक लागिल्ले. तेन्ना सगळ्यांक कळ्ळें, साधून जमीन खणून तातूंभितर चण्याचें एक पोतें पुरून ताचेवयर शिवलींग दवरून वयल्यान पातळसो मातयेचो थर पातळायिल्लो. माती उदकान भिजयतकच चणे फुलपाक लागले आनी जमीन फोडून शिवलींग भायर सरपाक लागलें. फटोवणूकेन दर्ग्याची जमीन ताब्यांत घेवपाच्या आरोपाखाला पुलीसांनी साधूक धरलो. खरीखुरी श्रद्धा ना जाल्लेखातीर खिणभर किशोराक खंत भोगली. पूण एक फट उकतें जावपाचें सार्थकतायेचे भावनेंत तें दुख्ख ना जालें.

□□

आज सतरा ऑगस्टाचे रातीकडेन किशोरान परतून एके खोल खंतीचो अणभव

घेतलो. आपणाल्या धर्माची राखण करप हें दर एके व्यक्तिचें कर्तव्य आनी तो साधू तर धर्मरक्षाच करतालो न्ही? ह्या मुसलमानांनी सांगूं नजो इतलीं देवळां नश्ट केल्यांत, मुर्ती फोडल्यात, लुटलां आनी खबर ना कितल्या बायलांचें शील भश्टिलां. कितल्यातरी जाणांक मुसलमान केल्यात. आतां सगळे मुसलमान हे सात पिळग्यांआदीं हिंदू आशिल्ले आनी तेखातीर ते आमचे भाव हें म्हणपांत कांय अर्थ ना. अमोलकान ताका असले तरेच्या गजालींचेर विश्वास दवरपाक कसो शिकयलो? आतां ताका भोगसणी भोगताली. त्या लोकांनी विनाश केल्ल्या हिंदूंक आदार दिवपाखातीर तांकां कितेंतरी करपाक जाय अशें तो मदल्या मामाक फाल्यां सकाळींच सांगतलो,

दुस-या दिसा मदल्या मामाबरोबर किशोर एके गुप्त बसकेक गेलो. पुलीस आनी मिलीट्री, मुसलमानांची बाजू घेवन हिंदूंचेर अन्याय करतात हें आयकून ताचें रगत खवदळ्ळें. कांय ठिकाणांनी हिंदुंनी मुसलमानांक वांटायल्यात हें तो आयकत उरलो. हिंदुंचे अहिंसा-वृत्तीचें आनी शांती-प्रेमाचें हें प्रमाण आसा. हिंदू धर्मांत मनीसपण सामकें भरून ओतता. बसकेंत असो निर्णय जालो, मुस्लीम-लीग आनी कॉंग्रेसीचो जो जमाव आपापल्या झेंड्यां आनी पताकांसयत 'हिंदू-मुस्लीम एक हो' च्यो घोषणा करीत सेंट्रल एव्हेन्यूसान धर्मतल्ला मेरेन वचपाचो आसा तो मोडून वडोवपाचो. हेखातीर आठ मनशांक वेंचून काडिल्ले.

शांती-मिरवणुकिची कारवाय पळोवपाक किशोर मदल्या मामाक सांगिनासताना धर्मतल्ला गेलो. धर्मतल्ला पावतकच जमावांतले सगळे कार्यकर्ते आतां कितें करपाचें हेविशीं थारावणी जावंक नाशिल्ल्यान बेश्टेच उभे आशिल्ले, तेन्ना तिगां मनशांचो एक पंगड जमावाभितर घुसलो आनी एके व्यक्तीक धुकलीत भायर उभे आशिल्ल्या हेर पांच जाणांम्ह-यांत घेवन आयलो. त्या आठ जाणांनी मेळून ताका लाठयांनी पेटपाक सुरू केलें. तो जमनिचेर पडलो तेन्ना मिरवणुकिंतले सगळे लोक आनी आशी-कुशीक उभे रावन मिरवणूक पळोवपी बघे हांगां-थंय फाफसले.

किशोरान एका जळून गेल्ल्या घराभितर रावन पळयलें, त्या पडिल्ल्या मनशाक सोडून ते आठूयजाण वचपाक वळ्ळे. आनी इतल्यान तातूंतलो एकलो अचकीत धांवून परतलो आनी ताणें ताचेर तीन खेपो चाकू मारलो. जाग्या-जाग्यांनी रगताचे लोट व्हांवले आनी किशोराक उलटी येवन तो थंयच आडवो पडलो. तो जेन्ना घरा परतलो तेन्ना लेगीत हांगां-थंय कुशिल्ल्या मड्यांचो वास ताचेभितर अशेतरेन भरसल्लो, ताका दिसलें हो वास केन्नाच ताच्यान विसरूंक जावंचोना.

किशोर घरांत भितर सरतानाच आईन ताका सांगलें, अमोलक तांका मेळपाक आयिल्लो म्हण. तितल्यान थंय 'सुरंगी' मैनेचो पांजरो पळोवन किशोर अजापलो. आईन सांगलें, "अमोलक आयिल्लो आनी हावें गीगीया आत्याची खवर सांगली, जाल्यार सुरकी-कलच्या घरा वचून तो हें घेवन आयलो. ते लोक पुलिसांचो आदार घेवन मुसलमानांच्या

मुहल्ल्यांत रावपी हिंदूंक आनी हिंदुंच्या मुहल्ल्यांत रावपी मुसलमानांक भायर काडपाक लागल्यात. ताचो बापूय आनी काका मोटारीचेर लाउडस्पीकर लावन हिंदू-मुसलमानांकडेन शांतीची अपील करपाक लागल्यात. एका सारजेन्टाक वांगडा घेवन अमोलक कांय लोकांवांगडा पांयांनी भोंवता. ह्या भुरग्यामदें बरोच सेवाभाव आसा. कितलो पुण्यवान!"

अमोलकाची तुस्त आयकून किशोराचो जळफळाट जालो. तितल्यांत चौकांतल्यान अमोलक आपयता तो आवाज आयकूंक आयलो. किशोराचे पांय आडखळ्ळे. तो अमोलकाक मेळपाक सकयल देंवूंक लागलो, पूण ताका कोणतरी फाटीं ओडटालो. "चल किशोर, दुसरे फावट तुका सोदपाक आयला हांव. खंय गेल्लो तूं?" अमोलकाच्या प्रश्नाची जाप ताणें थोडो वेळ दिली ना.

"म्हजी तब्येत बरी ना. हरिसन रोडाचेर ट्राम लायनीचेर तेरा वर्सांच्या एका हिंदू भुरग्याच्या पोटांतल्यो आंतकड्यो त्या राकेसांनी भायर काडल्यो. हांव तुजेवांगडा येवंचो ना." किशोरान कडक सुरान सांगलें. एक खिणभर अमोलक गोंदळिल्लेभशेन जालो आनी मागीर ताणें ल्हवू सुरान म्हळें, "तुका खबर आसा कितलेकडेन मुसलमानांनी आपल्या जिवार उदार जावन हिंदुंचो जीव वांटायला. चल, पयर म्हजेचबाबतींत घडिल्ली घडणूक सांगतां तुका हांव."

आपल्या घराभायर चबुतऱ्याचेर बसून अमोलकाकडल्यान ताची मर्णाचे दाडयेंतल्यान सुटका जाल्ली ती खबर किशोरान आयकली. कितें करपाचें? ताणें खंय वचपाचें? कोण सारको आसत म्हणपाचो भरवंसो कोणाचेर करपाचो? ताका उगडास जालो त्या गुंडाचे मिरवणुकिचो जंय एका मनशाक तीन फावटीं चाकू मारिल्लो. ना, तो ह्या लोकांक साथ दिवचो ना. तो अमोलकाकूय साथ दिवंचो ना. हिंदू आनी मुसलमान केन्ना एक जावंचेनात. तांचेमदीं रोटयेचोय संबंद जुळपाक पावचो ना. अमोलक मागीर कितेंय म्हणूं. "म्हज्या एका प्रश्नाची जाप दी अमोलक. तेउपरांत तूं सांगता तें हांव करतलों." किशोरान सांगलें. अमोलकान आपल्या थकिल्ल्या दोळ्यांनी ताचेवटेन पळयलें.

"जेतरेन आमी खंयच्याय हिंदुंच्या हॉटेलांत खाण खातात, तशें तूं अमजदिया हॉटेलांत जेवपाक शकतलो? तुका मात लेगीत वीट दिसची ना?" किशोर उत्तेजित जावन हुस्कारतालो. अमोलकाचे दोळे निरशेवणेन भरून आयले.

"हांव खात्रीन तशें सांगपाक शकना." अशें म्हणत ताणें मान सकयल घाली.

"तर आयक. आयज हांव मामा वांगडा एके गुप्त बसकेक गेल्लों. पूण हांव तांकां सामील जालां असें मात समजूं नाका. हांव तांकांय सामील जावंक शकना आनी तुकाय बी. पाकिस्तान जालेबगर रावचें ना. ती गजाल आज ना जाल्यार फाल्यां जरूर तुज्या ध्यानांत येतली. तातूंतल्यान शांती आनी थंडसाण लाभतली."

अमोलकाक मेळपाचो किशोराचो तो दीस निमाणो थरलो.

पंडितजींकडल्यान मेळिल्ले ताचे मर्णाचे खबरेन आज एकावन्न वर्सांनी किशोरबाबूक

अमोलकापासून पयसावपाचो आघात जाणवलो. अमोलकाचे बाबतींत ते इतले कशे कठोर जाल्ले? ट्राम लायनीचेर मरतल्या भुरग्याबरोबर तांचे भितरलेंय कितेंतरी मरून गेल्लें काय कितें?

पुराय कोलकाता शार कुशिल्ल्या मड्यांच्या वासान बुडिल्ल्यान पटकीची सांथ पातळपाच्या दुबावान भियेल्लें. पूण मड्यांक लासून वडोवपाचे ब्रिटीश कमांडराचे सुचोवणेक हिंदूंनीय मान्यताय दिली ना आनी मुसलमानांनीय दिली ना. अप्पर चितपूर रोडाचेर शामपुकुराकडेनच्या घरांच्या मदीं एके मेकळे आशिल्ले सुवातिच्या कुडक्यार पन्नाशेक मड्यांचेर गिधां ताव मारतालीं. पार्क सर्कसचे कुशीक लासून गेल्ल्या एका घरालागीं एके बेवारस लॉरींत विशेक मडीं पडून आशिल्लीं. लोक रेल्वेन आनी रस्त्यावयल्या मेळटा त्या वाहनान कोलकातांतल्यान भायर पडपाक लागिल्ले. एका सप्तकाभितर एक लाख लोक कोलकातांतल्यान गेल्ले. आनी तितलेच लोक आपल्या घरांपासून तुटून जळामळा शिंपडिल्ले. बालीगंजाक एका व्हाळांतल्यान सुरो मारून शेंवटून वडयिल्लो एक जितो मनीस णव दिसांनी भायर काडलो.

आज एकावन्न वर्सां उपरांत लेगीत किशोरबाबूक नेमाळ्यांनी वाचिल्ल्यो ह्यो सगळ्यो घडणुको याद आसात. कित्याक तर ताच्या मेंदवांत ह्या सगळ्या घडणुकांच्या चित्रांची पुंजी करून ताणें आपणाल्या यादस्तिक-भांडारांत दवरिल्लीं. पूण तेदेवेळार ताका ह्या चित्रांचें कांयच सुख-दुख्ख जालें ना. भवानीपुरांत काला-चाँद जोत्याचें दुकान लुटलें म्हणपाचे खबरेन मात ताका जरूर अजाप जाल्लें. कित्याक तर ताणें फाटले फावट अमोलका वांगडा थंयच्यान जोतें विकतें घेतिल्लें. खिणभराखातीर त्या शांत मुसलमानाची मुर्त जोगलावरी ताच्या दोळ्यामुखावयल्यान चक्क जावन गेली. पूण हेर कसलेय गजालीचो ताच्या मनाचेर कांय परीणाम जालो ना. आपलो जीव वाटावलो तें बस जालें. ह्या भानगडींनी आपणें पडप ना हो ताचो निश्चेव पक्को आशिल्लो.

ऑक्टोंबरांत नोआखालिच्या दंग्यावेळार तांच्या घरमालकाच्या नात्यांतलें एक कुटूंब पूर्व बंगालांतल्यान फकत आपणालें मोलादीक सामान घेवन रातोरात आयलें आनी तांची अवस्था पळोवनय किशोरबाबूंक कांयच कळवळो आयलो ना. कोलकाता शारांत हिंदू आनी मुसलमानांच्या भागांमदीं तारीचें जाळ लावन आनी नाका आशिल्लें सामान मांडून 'नो मॅन्स लँड' करून 'हिंदुस्तान' आनी 'पाकिस्तान' जाल्लें. बशी चौरंगीसान स्ट्रेंड रोडावटेन घुंवून चितपूटच्या मुस्लीम इलाख्याक बायपास करून बांगड बिल्डिंगेकडेन आपलो सदचो रस्तो धरताल्यो. बांगड बिल्डिंगसान नाखुदा मशिदीमेरेन वचपी रस्तो पुराय 'पाकिस्तान' चो इलाखो आशिल्लो. हें सगळें पळोवन किशोरबाबूचे तकलेंत बंगालाचें विभाजन जावन गेल्लें. जितली कितें लुटा-लूट, हिंसा-खून, हत्या-बलात्कार जावपाचे आसात तितलें एक फावट जावन वचूं दी. कितेंय मेळयतलें जाल्यार कितेंय सांडचें पडटा. गांधीजी कितें करतले? ते नोआखालीक वचपाच्या वेळार कोलकाताक

राविल्ले. त्या दिसांनीय बी हत्या जाताल्यो. ह्या देशाचे कुडके जावपाक फावनात हे भावुकतायेन अखेर कितें जावपाचें-करपाचें आसा? एकोणिसशें सत्तेचाळीसच्या एप्रिल म्हयन्यांत अमृत बाजार पत्रिकेन लोकांचें मत जाणून घेवपाखातीर वोट घेवन रिपोर्ट दिल्लो, शंबरांतल्या साडे अठ्ठ्याणव्वद लोकांनी बंगालचें विभाजन जावचें म्हण मागिल्लें. तर मागीर गांधीजींच्यो गजाली ह्यो फकत व्यक्तिगत दुराग्रह सोडून आनीक कितें आसा? मुसलमानांचो द्वेष आनी बदलो हांचो मंत्र शिकोवपी सोळा ऑगष्ट एकोणिसशें शेचाळीस शिर्षकाची एक कविता शाळा-शाळांतल्या ल्हान भुरग्यांक सरस्वति पुजेंतले सर्तीखातीर पाठ करपाक वांटटाले. मनांतूच इतली फूट पडिल्ली तेन्ना किशोरबाबूक आपणालेच जिद्दींत असली अवस्था पळोवंक आनी समजूंक शकनाशिल्ल्यांची त्या दिसांनी तिडक येताली. हेखातीर ताणें त्या दिसा उपरांत अमोलकाकडेन कसलो संपर्क सादपाचो यत्न केलो ना.

बायपास ऑपरेशनावेळार जाल्ले दुखापती उपरांत किशोरबाबूक आज दुसरो खर धक्को बसलो. अमोलकान अशेतरेन आपलो जीव अर्पिलो? तो ताका मेळ्ळेबगर अशेतरेन संवसारांतल्यान गेलो? महाराणी विक्टोरीयाचे मुर्तिखाला तांकां एक जानेवारी दोन हजार ह्या दिसा मेळपाचें आशिल्लें हो करारूय ताणें याद दवरलो ना? ना, अशेतरेन ताका सांगनासताना तो वचपाक शकना.

ताका अमोलकाक जायत्यो गजाली सांगपाच्यो आसात. तांचीं मतां चुकिल्लीं म्हणपाचें मानून घेवपाचें आसा. आज लेगीत खंयचीच समस्या सुटिल्ली ना. लाखांनी लोकांच्या व्हांविल्ल्या रगतान मेळिल्लें विभाजन कितें दिवपाक पावलें? आपणावरीच भास उलोवप्यांवांगडा आनी आपणावरीच जिलेबी, कलाकंद खावप्यांकडेन झूज? तांकां दुस्मान लेखून हत्यारां जमोवपाखातीर आनी सैन्य तयार दवरपाखातीर अब्ज-अब्ज रूपयांचो खर्च, जेन्ना आज लेगीत कोलकाताच्या रस्त्यांचेर म्हारोगी, भिकारी, बायलो, भुरगीं तेन्नासारखींच उपाशीं आनी उगड्यांनी भोंवता आसताना?

एकोणिसशें शेचाळीसाच्या दंग्याचें अमोलकाचें दुख्ख, एकोणिससें सत्तेचाळीसाचे फाळणिचें दुख्ख आनी एकोणिसशें अठ्ठेचाळीसाचे गांधीचे हत्येचें दुख्ख किशोरबाबून आज शिरेशिरेंतल्यान अणभवलें. ना, तो अमोलकाक असो वचपाक दिवचो ना. ताचेकडेन उलयलेबगर आनी ताका सांगलेबगर ताच्या आत्म्याकडेन तो संपर्क सादतलो.

ल्हानपणांत ताणें आत्म्याक आपयताना गीगीया आत्याक पळयल्या. एका व्हडल्या कागदाचेर वाटकुळींच सगळीं उतरां बरोवन एक वाटी ताचेर उरफाटी दवरपाची. अमोलकाचो आत्मो जरूर येतलो. ताका पुराय भरवंसो आसा. एक फावट ताका अमोलकाक मेळपाकूच जाय. खंयचेय तरेन जांव. पूण त्या खुनी स्वाम्याचो गळो दामताना ताणें ताका आफुडिल्लो. पयलीं हात बरो धुवन नितळ करचो पडटलो. गीगीया आत्या लेगीत आत्म्याक आपोवचे पयलीं कांय न्ही म्हळ्यार एक वर तरी परतून-परतून दोनूय हातांक वयर मेरेन माती लेपून धुवन घेताली. ताकाय बी आपणांक शुद्ध करचो पडटलो.

# 15
# स्वातंत्र्याचे सांवळेंत : उत्तर काण्ड

कांम्पोज घेवन न्हिदिल्ल्या किशोरबाबूक तो सुस्त न्हिदला काय म्हणून ताची बायल खूब फावटीं येवन ल्हवूच पळोवन गेली. किशोरबाबूची बायल मदले कुडींत एकलीच लवंडली. खूब थकल्या. आतां मरण आयलें जाल्यारूच सुशेग. अशीच न्हिदल्या थंयच न्हिदून उरली जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! हो दीस लेगीत पळोवपाचो उरपाचो. आतां तर किशोरबाबूक चड करून पिश्यांच्या ऑस्पितालांत घेवन वचचें पडत. हे देवा! किशोरबाबूचे बायलेच्या दोळ्यांतल्यान दोनूय वटांनी थांबनासताना व्हांवतल्या दुकांच्या धारांनी उशें भिजून वडयलें. मागीर ह्या पंडित-ज्योतिषांनी कितें पळयलें तर? अशें कितें घडत म्हणपाचो किशोरबाबूचे बायलेक अदमासूय नाशिल्लो. पिसो जाल्लो जाल्यार चल सोड खबर. साठी उपरांत मनीस थोडोभोव पिसो जाता अशें म्हणटात. पूण एका साधूक मारपामेरेन तोल वचप हें कोण चिंतीत तरी? आनी तेंय बी कारणांबगर? तो तर बाबडो मोनो स्वामी. ताणें कांय म्हणूंक लेगीत ना. पंडितजींचो गळो दामिल्लो जाल्यार समजूं येतालें. पंडितजीन कितेंय अशें-तशें म्हटलां आसतलें अशें धरूया. रागीश्ट तर सदांचेच. पूण तो साधू तर घुमगो कसो बशिल्लो. बाबडे दोगूय सज्जन मनीस. दोगूय हांगासान रडत-रडत गेले. पंडितजीक जायते फावटीं विचारलें, कितें जालें, कितें जालें. तर बाबड्याकडेन कांयच उलोवंक जालें ना. 'अमोलक', 'अमोलक' अशें दोन खेपो म्हणून हुंडकेवन रडपाक लागलो.

कोण हो अमोलक? आयजमेरेन ताचें केन्ना नांव लेगीत आयकलें ना. लग्नाक पन्नास वर्सां जायत आयलीं. आतां तर पंडितजी अलाहाबादाक परतल्या आसतले. दोतोरान कितेंय विचारल्यार आमी कितें सांगतलीं ताका? आतां ह्या घराचो विद्‌वाट जावपाचींच लक्षणां दिसतात. एक साधू आनी एक ब्राह्मण - दोगा-दोगा जाणांचे श्राप बादतले ह्या घराक. हावें तर पांय धरून भोगसणी मागली. पूण ताणें कितें जातलें? राजा परिक्षित लेगीत साधुच्या गळ्यांत मेल्लो सोरोप घाल्ल्या कारणान वाचूंक शकलो ना. हाणें तर साधुचो गळोच अंदिलो. किशोरबाबूची बायल हुंडक्या-हुंडक्यांनी रडपाक लागली.

खंयचे घडकेक खंयच्या पंडितान तिचें टीपण किशोरबाबूच्या टीपणाकडेन जुळयिल्लें? तो बालाजी पंडित तर मरून गेलो. नाजाल्यार ताकाच वचून विचारूं येतालें. हाकाच म्हणटात सप्तपदी-सात सुखां? बाबूजी इतले शिकिल्ले सवरिल्ले वकील आसूनय बी कुड्डो भावार्थ दवरताले त्या पंडिताचेर. टीपण जुळोवंक धाडिल्लें कोणा दुस-या भुरग्याचें. ताणें जुळयलें किशोरबाबूच्या टीपणाकडेन. तें टीपण कोणा दुसरे चलयेकडेन जुळोवपाक ताचेकडेन आयिल्लें. सांगलें, ह्या भुरग्याकडेन करात हिचें लग्न. सात सुखां भोगतली तुमची धूव. गाडी-बिडी सगळें आसतलें. नाजाल्यार किशोरबाबूकडेन तेदेवेळार आशिल्लें कितें? मामाकडेन करतालो नोकरी आनी घरांत दोन-दोन विधवा. ते पिरायेर श्रृंगार करपाक मन आशेतालें. केन्ना माग्यांत पिंजर लेगीत भरपाक दिली ना. नाकांत पिली घालपाक दिली ना. म्हणटाले, भटीण कशी दिसतली. पूण भाभीक वायट दिसचें न्हय हें चितून अशे सगळे आदेश दिल्ले हें कितें तिका कळनाशिल्लें? वयल्यान एका फाटोफाट एक अशा पांच-पांच चलयांचो जल्म जायत गेलो. सगळी तरनाटी पिराय तर चल्याचे आशेन चलयांक जल्माक घालपाक सरली. मागीर सगळ्यांच्या हुंड्याची तयारी करपांत. आपणाखातीर केन्ना कसली वस्त राखून दवरली? जें विकतें घेतलें तें चलयांखातीर दवरीत गेली. आनी आतां निमाणे घडकेक हें पिशेपण. बालाजी पंडितान तिचेकडसून बरो बदलो चुकयलो - कितल्या जल्माचें दुस्मानपण आशिल्लें कोण जाणा?

अचकीत् कितेंतरी येवजून आयलें आनी किशोरबाबूचे बायलेचें काळीज धस्स जालें. बालाजी पंडितान तिच्या बापायक ताच्या पिशेपणा संबंदी कसलेय संकेत दिल्ले काय आनी बापायन आयुष्यभर ही गजाल लिपावन दवरली? आसूं येता. ख-यांनीच आसूं येता. किशोरबाबूचे बायलेचीं दुकां आटून गेलीं. तरीच तिका बापूय सदांच सांगत आसताले, “सरोज, किशोरबाबूची तकली खूब तापट आसा आं. ताका तिडक हाडूं नाका. ताची तकली थंड दवरपाचें पळय.” स्वतः आवय-बापूय आपल्या धाकल्या पुताच्या पिशेपणाखातीर इतले खंतींत आशिल्ले, ताणीं तिकाय बी ह्या नरकांत धुकलून वडयलें.

किशोरबाबूचे बायलेच्या सगळ्यांत धाकल्या भावाक मेट्रीकमेरेन शिकल्या उपरांत पिशें लागिल्लें. तो जसो-जसो वाडूंक लागलो, ताचीं पिशेपणांचीं लक्षणां आनीक आकांताचीं जावपाक लागलीं. तो भोवन-भोवन दुस-या मजल्यावयल्यान सकयल घालून घेवपाचो यत्न करतालो. ताका लागून आवय आनी बापूय दोगांय सदांच दुखेस्त उरतालीं. ताणें आई-आई करचें, पूण आई ताचेम्ह-यांत फिरकनाशिल्ली. ताचेखातीर एक नोकर दवरिल्लो. अखेरेक ताका पिशांच्या ऑस्पितालांत भरती करपाखातीर बाबा घेवन गेलो. थंय जेन्ना दोतोरान विचारलें, दुयेंत कोण? तेन्ना भावान म्हळें, दुयेंत मुतपाक गेला. बाबा जेन्ना मुतून आयलो तेन्ना दोतार ताका भितर घेवन गेलो. ताणें आपूण पिसो न्हय, आपलो चलो पिसो म्हण सांगपाचो यत्न केलो. ताचेर भाऊन म्हळें, “आपूण पिसो अशें कोण सांगता?” भाऊचे हे इतले चालाख उलोवण्याचेर दोतोर प्रभावीत जालो आनी ताणें ताच्या

जाग्यार हात-पांय बडयतल्या आनी आड्डतल्या बाबाक भितर व्हरून बंद करून दवरलो. उपरांत तांच्या वांगडा गेल्ल्या एका इश्टान वचून ही चूक सुदारिल्ली. कांय वर्सांनी भाऊ सुदारून कोलकात्याक आयिल्लो आनी बाबाचे तापोवणेन दुस-या मजल्यावयल्यान घालून घेवन मरून गेल्लो.

तर मागीर कितें बाबान जाणून-बुजून आपले धुवेक सात सुखां मेळपाचे आशेन हांगां हाडून सोडली? आतां तर तो जितो ना. आईलेगीत गेली. कोणाक तरी विचारपाचें? वा ख-यांनीच काय तिच्या नशिबांत हें बरयिल्लें आशिल्लें? हे येवजणेन किशोरबाबूची बायल मातशी शांत जाली. नशिबांत बरयिल्लें कोणाच्यान ताळूं येता?

किशोरबाबूचे बायलेन उठून कुडींत दोळे लावन पळयलें जाल्यार किशोरबाबू हाथरूणार नाशिल्लो. बाथरूमाचें दार उकतें आशिल्लें. तिणें लागीं वचून पळयलें जाल्यार तिची तकली सण्ण जाली. किशोरबाबून आपणालें खोमीस काडून दवरिल्लें आनी हातकापें बानयान आनी पिजाम घालून बेसिनाम्ह-यांत उभ्या-उभ्यांनीच तो दोनूय हातांक कोपरामेरेन शाबू लायतालो. ताणें हारशांतल्यान आपले बायलेवटेन पळयलें. दोगांयची नदरानदर जाली. मागीर किशोरबाबून आपणाले दोळे घुंवडायले आनी तसोच दोनय हातांक शाबू चोळीत रावलो. किशोरबाबूची बायल पांच मिनटां उभ्यांनीच ताका पळयत रावली. मागीर तिणें एक दीर्घ हुस्कार सोडलो आनी ती थंयच्यान सटकली. ती परतून मदले कुडींत येवन दुकां गळयिल्ल्या उश्याचेर लवंडली.

सारको व्हडल्या मामाभशेनच उभ्या उभ्यानीच पुराय हाताक शाबू सारयता. म्हणटकच आतां कितें संन्यास घेवपाचें येवजिता काय कितें किशोरबाबू? व्हडलो मामाय संन्यास घेवचेपयलीं असोच चोळटालो शाबू. किशोरबाबूचे बायलेन पयलीं आईकडल्यान आनी मागीर भाभीकडल्यान आयकल्लेंच. पूण एक दीस स्वतःच्या दोळ्यांनीय पळयलें. लग्न जावन तेन्ना एकूच वर्स जाल्लें. पूण तोमेरेन व्हडल्या मामाची एकूय खबर तांचेखातीर आयकुपाची बाकी उरली ना. ती मोट्या कुतूहलान तांच्यो गजाली आयकताली. जेन्ना-तेन्ना व्हडल्या मामाच्या खबरांनी उत्तेजित जाताली. व्हडल्या मामाचो अर्दो जळिल्लो चेरो आनी आडेचो एक दोळो पळोवपाकूय एक अप्रूपच कशें आशिल्लें. कित्याक तर व्हडल्या मामाची नदर सदांच सकयल आसताली. तिचेवटेन तो केन्ना पळय लेगीत नाशिल्लो.

व्हडलो मामा आपल्या दुस-या लग्नाच्या देड वर्सा उपरांत वेगळो रावपाक लागलो. दुकान नुकसानांत वचपाक लागतकच ताची पत सकयल आयिल्ली. राजसिंहासनाचेर आतां मदलो मामा स्वार जाल्लो. लग्नाच्या तीन वर्सांमेरेन ताणें आपणाली अप्रतिष्ठा सोंसली. पूण मागीर तो आपल्या तिगांय भुरग्यांक आनी दुसरे बायलेक घेवन कानपुराक आपले पयले बायलेच्या कुळारा आयलो. ताच्या मांवान आपले कपड्याचे मिलीचें काम आपणाल्या जांवयाकडेन सोपयलें आनी मामा परतून आदलेभशेन थाटामाटान रावपाक लागलो. सद्दां सांजवेळा एके बाईचें गाणें आयकुपाक तो वचपाक लागलो. ते बाईच्या

घराकडेन आपल्या मेवण्याकडेन गांठ पडिल्ल्यान ताचेकडेन जाल्ल्या झगड्यांक लागून काय फॅक्टरीच्या कामाक लागून कामदारांकडेन जाल्ल्या झगड्यांक लागून, कित्याक म्हण खबरना, पूण परीणाम असो जालो, कोणेतरी एके रातीकडेन ताच्या तोंडार ऍसिड भरिल्लो बल्ब शेंवटिलो. ताचो अर्दो चेरो जळून विकृत जालो आनी एक दोळो गेलो. ताका पळोवपाक आनी सांबाळपाक कोलकाताकसान मदलो मामा आनी किशोरबाबू कानपुराक गेले. हे दुर्घटनेंतल्यान व्हडलो मामा वांचत म्हणपाची उमेद कांयच नाशिल्ली. पूण एक दीस अद्‌भूत घडणूक घडली. एक दीस सकाळीफुडें ऑस्पितालांत व्हडल्या मामान किशोरबाबूक सांगले, काल रातीं आपणें सपनांत मामीन दुर्गादेवीक सांगणें केलां तें पळयलें. तें सांगणें अशें - सुहागाच्या जाग्यार आपलो जीव घे. तेन्ना दुर्गादेवीन प्रकट जावन 'तथास्तु' म्हळें. त्याच दिसा दनपारां मामीक काळजाचो आताक येवन तिचो जीव गेलो आनी व्हडलो मामा सुदारूक लागलो. पूण मामी मेल्या म्हणपाचें मामाक लिपोवन दवरिल्लें. भुरगीं दुयेंत आशिल्ल्यान मामी तांकां घेवन कोलकाताक गेल्या अशें ताका सांगलें. मामा बरो जावन कोलकाताक आयलो तेन्ना ताका कळ्ळें, ज्या दिसा ताणें सपन पळयिल्लें त्याच दिसा मामी मेल्ली. तेन्नासावन ताच्यांत वैराग्य आयलें. तो कोडुलिंबाच्या पानांच्या कोडू चटणीबरोबर रोटी खावपाक लागलो आनी दीसभर आपल्या हातांक वयर-वयरमेरेन शाबू लावन हात धुवपाक लागलो. निमाणे एक दीस तो नाच्च जालो. ताका सोदतां-सोदतां किशोरबाबू हरिद्वाराक पावलो आनी आपणाली बुद्द वापरून ताणें ताका सोदून काडलो. पूण मामान घरा परतुपाक न्हयकार दिलो आनी ल्हानपणांत आपल्या आवय-बापायवांगडा केन्नातरी तीर्थयात्रा करताना ज्या आश्रमांत येवन रावतालो त्याच आश्रमांतल्या गुरूकडल्यान ताणें दीक्षा घेतली.

हे देवा! आतां कितें करूं? व्हडल्या मामान आपणाले बायलेच्या मरणा उपरांत संन्यास घेतिल्लो. पूण किशोरबाबू तर तिच्या जितेपणींच संन्यास घेवपाचें येवजितात. हें कशें शक्य आसा? किशोरबाबूचे बायलेक ताका वचून सांगचें कशें जालें, गळो अंदून पयलीं आपणाक मारून वडय. ताच्या उपरांत जाय तितलो घेत राव संन्यास. कोण जाणा स्वामीजीन ताका संन्यास दिवपाक न्हयकार दिला म्हणून आसुंये ताणें स्वामीजींचो गळो अंदिला. हां हेंच सारकें आसतलें. अशेंच जालां आसतलें. अशेतरेन उभ्या-उभ्यानीच हात धुयत रावप हें हेच गजालीचें लक्षण.

किशोरबाबूची बायल परवंत उठली. आतां कितें करता तें पळोवंया. ताका सांबाळपाक घरांतूय कोण ना. सगळीं ऑस्पितलांत गेल्यांत. व्हडले धुवेन दोगां चलयांक जल्माक घालतकच आतां तिसरे फावटीं गर्भपात केला. ह्या काळांत बाबडी पांच फावटीं आवय जाली. भुरगें अर्दें आसूं वा पुराय, बायलेचे कुडिची दशा जावपाची ती जाताच. हे फावटय पोटांतल्यान उदक काडून परीक्षा करून घेतली, जाल्यार चलीच. खरें म्हळ्यार हे फावट इंजक्शन करून पोटांत चलो घाल्लो. जातूंत फक्त चलो जल्मुपाचेच जिवाणू आशिल्ले.

हजारांनी रूपये खर्चिले आनी वेल्यान कुडिचें इतलें नुकसान जालें तें वेगळेंच. कितले फावटीं सोनोग्राफी केली कोण जाणां, कितलीं वखदां-इंजक्शनां खावयलीं. हातांत मात कांय आयलें ना. तिच्या काळांत असले पद्धतिचें विज्ञान बी कांय नाशिल्लें. पूण आतां आसूनय कितें जालें? पूण चली आयकना. म्हणटा, तुजेभशेन म्हाका पांच चलयांक जल्मांक घालपाचें ना. चल, जर तिचेरच गेल्या आसत जाल्यार आतां फुडले फावट चलो जातलो. देव सगळ्यांच्या आदाराक पावता. फुडले फावट ती स्वतः संतोषी माता, वैष्णो देवी, पगाडी देवी सगळ्यांची मान्यताय घेतली. कोण ना कोण पावतलोच.

किशोरबाबूचे बायलेन दाराचें हँडल घुंवडायलें जाल्यार दाराक भितरल्यान खिळी घातल्या. तिचें काळीज वायट येवजणेन भियेलें. कितें घडलां? भितर कितें करता काय? तिणें धाडस करून दोन-तीन फावटीं दार खटखटायलें. मागीर धाडायलें. भितरल्यान कांयच आवाज ना. कितें करपाचें? भितर सरपाचो उपाय कितें?

रांदचीकुडींतल्यान नोकराक वा सकयल्यान गुरख्याक आपोवचो? पूण गरजेभायर बोवाळ जातलो. हरशीं म्हण हे लोक कसल्यो कसल्यो खबरी करतात म्हण कोण जाणा? मनांतल्या मनांत खूश आसतले ते, कित्याक तर बाबू दीसभर तापतालो न्ही, आतां पळय कशी हालत जाल्या ती.

किशोरबाबूचे बायलेन हुस्कारत परतून दार खडखडायलें. कांय आवाज आयलो ना. अचकीत् तिका एक उपाय सुचलो. व्हरांड्याचो तोंकाकडलो भाग ताचे कुडीमेरेन पावतालो आनी जुस्त ताचे फुडें ताचे कुडिचें जनेल आशिल्लें. तिणें जर आपलें पुराय आंग बागोवन व्हरांड्याच्या जनेलांतल्यान भितर पळयिल्लें जाल्यार किशोरबाबूचेर नदर पडूं येताली. अडचण फक्त इतलीच आशिल्ली, ती म्हळ्यार अशें करताना रस्त्यावयल्यान कोणूय तिका पळोवंक शकतालो आनी इतलें जाडें आंग बागयलें जाल्यार कमराक दूखय जावं येताली.

निमाणे किशोरबाबूचे बायलेन आपले कायेक इतले कश्ट दिवन जो देखाव पळयलो, ताका लागून तिका घुंवळच कशी आयली. किशोरबाबूचें कितें चललां हें समजुपाक तिका वेळ लागलो ना. ल्हानपणांत आपणाले आतेभयणी वांगडा आत्म्याक आपोवपाचो हो खेळ ती खेळिल्ली. किशोरबाबू 'अमोलक' 'अमोलक' करता हें तिणें सारकें आयकलें. ही अमोलक म्हण कोण बया, किशोरबाबूचे बायलेक समजलें ना. मीराबाईच्या एका पदांत तिणें आयकल्लें - *वस्तु अमोलक दी मेरे सतगुरू, किरपा कर अपनायो* तशें जाल्यार किशोरबाबून कितें व्हडल्या मामाक आपलो गुरू मानून ताचेकडल्यान मंत्राची दीक्षा घेवन दवरिल्ली? एक फावट तो मरणाचे धडेर आसताना ताका मेळपाक हरिद्वाराक मात गेल्लो.

किशोरबाबूचे बायलेन दोळे ताणून पळयलें जाल्यार वाटी हालताली आनी ती धव्या काग़दाचेर बरयिल्ल्या उतरांचेर भोंवताली. आत्मो आयलो - किशोरबाबूचे बायलेचें काळीज धड-धड जावपाक लागलें. वायट रितीन. पूण ताचे उपरांत किशोरबाबून जें कितें

केलें तें कोणूच सपनांत लेगीत चिंतचो ना. किशोरबाबून ते आत्म्याचे वाटयेक उखलून अशे तरेन आपल्या तोंडाक लायली, जसो कि तें तो तातूंतल्यान कितेंतरी पितालो. किशोरबाबूची बायल व्हरांड्यांतल्यान भितर येईमेरेन जमनीर पडली, तोमेरेन ती शाबुद्दीर नाशिल्ली म्हळ्यार जाता. रांदचीकुडींतल्यान नोकरान येवन तिका सांबाळ्ळी जाल्यार ती घामान पचपचीत भिजिल्ले अवतिकायेंत जमनीर पडिल्ली.

किशोरबाबूचो पूत आनी सून जेन्ना घरा परतलीं तेन्ना तांचे नदरेक उरफाटोच देखाव पडलो. आई हाथरूणार न्हिदिल्ली आनी किशोरबाबू तिचे कुशीकूच कदेल घेवन सामको खडबडीत बरो जावन पेपर वाचतालो. हें कितें जालें आनी कशें जालें? वता आसताना तीं बाबाक काम्पोजाचे नशेंत सोडून गेल्लीं. काल त्या साधुचो गळो अंदुपाच्या यत्ना उपरांत ताका अशेतरेन आईच्या सांगातांत एकलो सांडप म्हळ्यार संकश्टच हें येवजून तीं ताकतिकेन परतल्लीं. नक्कीच बाबाचें कितेंतरी घडलां आईवांगडा. हें येवजून किशोरबाबूच्या पुताचे तकलेची शीर तटतटली. ताचे दोनूय कान हून जाले.

“कितें जालें आईक?” ताणें आड्डूनच कशें विचारलें.

किशोरबाबून ताका रागान कसो पळयलो, “ल्हवू उलय मुर्खा. आई जागी जातली तुजी. तिका घुंवळ आयिल्ली.” ताणें दांत ओंठ चाबडायत म्हळें.

किशोरबाबूचो पूत अजापलो. ‘हें कितें? बॅक टू नॉर्मल? बाबा बरो जालो काय कितें?’ आयज कितल्या म्हयन्यांनी ताणे ‘मुर्खा’ हें आपल्याखातीर म्हणिल्लें आयकलें.

“खंय गेल्लीं तुमी आईक एकली सोडून?” किशोरबाबूच्या पुताक हो प्रश्न म्हळ्यार दुसरो झटको आशिल्लो. तोच पोरनो प्रश्न, तीच तरा. ताणें कितें म्हणचे आदींच सुनेन जाप दिली, “व्हडले दीदीम्ह-यांत गेल्लीं. ऑस्पितालांत. थर्ड ऍबोर्शन आशिल्लें न्ही, खूब रीस्क आशिल्ली, हेखातीर वचचें पडलें.”

ताणें परत विचारलें, “आईक एकली सांडून?”

खूब पयलीं खंयच्यातरी ऑस्पितालांत एके बाटलेंत दवरिल्लो तीन म्हयन्यांचो गर्भ किशोरबाबूक याद जालो, जाचे हात-पांय-बरगड्यो सगळे दिसतालें. किशोरबाबू एकटक आपले सुनेक पळयत रावलो. मागीर ताणें म्हळें, “पळयलें अमोलक, ही बायल पांच वर्सां जालीं आजून आवय जावं ना. वखदांचेर हजारांनी रूपया खर्चिले आनी ही ऍबोर्शनाचे बाबतींत अशेतरेन उलयता, जशी कि तें दांत निखळावपासारखीच गजाल आसा.”

किशोरबाबूचो पूत आनी सून सुन्न जावन उभीं रावलीं. बाबान तांकां भुरगें जावूं ना हेविशीं आजूनमेरेन इतलीं कोडू उतरां काडूंक नाशिल्लीं आनी हो कोण अमोलक?

“आनी आयकात, तुमची व्हडली दीदी जेन्ना बरी जावन घरा येतली न्ही, तेन्ना म्हजेवतीन तिका एक कळोवणी दियात. आपणाल्या भुरग्यांक मारून वडोवपी ते खुनी बायलेची म्हाका सांवळी लेगीत पळोवपाची ना. आयजसावन तिणें ह्या घरांत पावल दवरपाक फावना.” किशोरबाबून आपलें म्हणणें पुराय केलें. “हावें केलां तें सारकें न्ही

अमोलक?'' अशें म्हणत किशोरबाबू उठून आपले कुडींत गेलो आनी बाथरूमांत वचून कोपरामेरेन हाताक शाबू लावन घासूंक लागलो.

किशोरबाबूची बायल आपलें दुयेंस आनी अशक्तताय विसरून उठून बसली आनी शिणिल्ले नदरेन पुताक-सुनेक पळयत रावली. तीं दोगांय सकयल मान घालून मोन्यानी उभीं आशिल्लीं. पुतान तकली वयर काडून आवयवटेन पळयलें. ''आई, हो अमोलक कोण?''

''म्हाकाय खबर ना रे पुता. ख-यांनीच सांगतां.'' किशोरबाबूचे बायलेच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळपाक लागलीं. आत्म्याक आपोवप आनी वाटी तोंडाक लावप हेविशींची गजाल सांगपाक तिचें मन कशेंच तयार जायना जालें. पुताक तिणें 'ख-यांनीच सांगतां' हाचेर जोर दिवन म्हळें ताचेवेल्यान ताका दुबाव आयलो, आई कितेंतरी लिपयता. पूण तो वगीच रावलो.

''तूं हुस्को करूं नाका आई. सगळें सारकें जातलें. बाबाचो दोतोर आज परदेसांतल्यान परतता. ताचेकडेन जरूर कसलोय नवो इलाज आसतलो. थंय तर लोकांक तरातरांचीं मानसिक दुयेंसां जायत आसतात. आयजूच हांव ताचेकडेन उलोवन पळयतां.'' पुतान आवयक आश्वासन दिलें.

परदेसांतल्या दोतोराचें नांव आयकून किशोरबाबूचे बायलेक मातशें सू ऽ ऽ जालें. ''तुजे भयणीक कांयच सांगपाची गरज ना. हांव पळयतां.'' अशें म्हणत ती आपले कुडींत वचपाक उठून उभी रावली. बाथरूमाचें दार उकतें आशिल्लें. पळयलेबगरच तिणें पारखिलें, किशोरबाबू हात रगडून रगडून धुता आसतलो. पूण वचून तो देखाव पळोवपाची इत्सा तिका जाली ना.

किशोरबाबूक पळोवपाक दोतोराक घरा आपोवचो पडलो. ताणें सांगिल्लें ताका दोतोराची गरज ना म्हण. उरफाटें जे तशें समजतात तांकांच खरें दोतोराची गरज आसा. दोतोर जेन्ना किशोरबाबूम्ह-यांत एकलोच बसलो तेन्ना ताणें सगळ्यांत पयलीं ताका ताचे तकलेच्या गुटाविशीं विचारलें. किशोरबाबू अजापलो. ताचें गूट नाच्च जाल्लें. हे गजालीन ताका खोस जाली आनी तो दोतोराकडेन उलोवंक लागलो. ताणें दोतोराकडल्यान ताचे परदेसाचे भोंवडेविशीं जाणा जावपाची इत्सा परगटायली. अचकीत उलयतां-उलयतां दोतोरान ताका विचारलें, ''त्या दिसा तूं स्वामीजीचो गळो अंदुपाक कित्याक गेलो?'' किशोरबाबू हांसलो, ''तुमकां समजुचें ना.''

अशे तरेचे जापेची दोतोराक अपेक्षा नाशिल्ली. किशोरबाबूच्या इतल्या आत्मविस्वासाच्या उलोवण्यान दोतोराक एक खीण वगी केलो. मागीर ताचो आदर राखून ताणें नमळायेन म्हळें, ''तूं समजावन तर पळय. हांव यत्न करून पळयतां.'' किशोरबाबून हे फावट हांसनासताना सांगलें, ''तुमचे नमळायेंत घमेंडिचो वास मारता. तुमचेसारकेलो फोरेन रीटर्नड डॉक्टर म्हजेसारकेल्या पिश्या मनशाचें उलोवणें कशें समजूंक शकचो ना

अशें तुका दिसता न्हय? पूण हांव म्हज्या अणभवांतल्यान तुका सांगतां, हावें म्हजी सगळी खबर जरी तुका सांगली तरीय तुमचे तकलेंत पडपाचें ना." दोतोर ताचेकडेन अशेतरेन पळयत रावलो, जशें कि तें ताका कितेंच समजनाशिल्लें. तेवरोबर किशोरबाबू हांसलो. "इंग्लीशींत सांगल्यार समजत? इट वील गो अबाव योर हेड." कितेंतरी सांगपाक दोतोर उतरां सोदतालो, तर किशोरबाबू परतून हांसलो, "अच्छा, चल, हांव तुमची एक परीक्षा घेतां. तुमी जर 'पास' जाले तर हांव तुमकां तुमच्या प्रश्नाची जाप दितलों. जर तुमी 'फेल' जाले तर ही गजाल तुमकां सांगपाक तुमी लायक नात हें मानून घेवचें पडटलें."

दोतोराक हयकार दिवपाबगर आनीक कांय सुचलें ना.

"सांगात पळोवया, राबडी देवी आनी सोनीया गांधी मदीं कितें फरक आसा?" किशोरबाबून विचारलें.

दोतोराच्या मुखामळार उपहासान भरील्लो हांसो फांकलो. एक खिणभर तो भियेलो, हें खूळ आनीक कसले प्रश्न विचारीत काय म्हण.

"कितें उलयता तूं किशोरबाबू? राबडी देवी आनी सोनीया गांधीचो केन्ना मेळ सादूंक जाता? फरकच फरक आसा. खंय णव भुरग्यांक जल्मांक घालपी एक अशिक्षीत गांवढळ बायल आनी खंय एक शिकिल्ली संवरिल्ली प्रतिष्ठीत कुटूंबांतली सुसंस्कृत महिला." मुखामळाचेर चकचकसाण हाडीत ताणें सांगलें. "यू नो किशोरबाबू, फाटले खेपेक हांव विदेशांत आशिल्लों तेन्ना देविगौडा हे आमच्या देशाचे प्रधानमंत्री म्हण सांगपाक म्हाका लज दिसताली. तांतले तातूंत गुजराल हॅज अ गूड पर्सनालिटी विथ हीज फ्रेंच दाढी."

किशोरबाबू इतल्या मोठ्यान खळखळून हांसलो, ताचे बायलेन दार उगडून भितर पळयलें. "पळय अमोलक, म्हाका पयलींच खबर आशिल्लें, हो मुर्ख हीच जाप दितलो म्हण. फॉरेन रीटर्नड डॉक्टर म्हणटा, दोगांमदीं फरकूच फरक म्हण. दोगांमदीं फरक इतलोच आसा तो म्हळ्यार, एकलेचो घोव मुख्यमंत्री आशिल्लो आनी दुसरेचो घोव प्रधानमंत्री. बाकिचो फरक कांय ना. जस्ट इमेजीन अमोलक, ह्या देशांतलो इंगलीश वाचूंक-बरोवंक जाणा आशिल्लो प्रोफेशनल दोतोरय पोलिटिकली इतलो मुर्ख आसता. आतां कळून येता, फिराक सायबान *'हम वतन बात न समझें, वो वतन मुझको दिया'* अशें कित्याक बरयिल्लें ताचो अर्थ आतां समजलो."

दोतोराक खालतेपण भोगलें आनी तो वगी बसून रावलो. मागीर ताणें परतून आपलीं पाखां फडफडायलीं. "अच्छा, किशोरबाबू हांव आतां समजलों, तुवें सारकें सांगलें, 'डेमोक्रेसी' च्या हिसबान दोगांमदीं फरक कांय ना. बाइ द वे, हो अमोलक कोण?"

"अमोलक म्हज्या भुरगेपणांतलो इश्ट दोतोर. खूब बरो इश्ट. एक्टिविस्ट तो. चुकता त्या गजालींचो विरोध करपी." किशोरबाबून अभिमानान सांगलें.

"हालीं तूं ताचेकडेन उलयत आसता खंय." दोतोरान विचारलें.

"तुमचे कान हांगां हाडात डॉक्टरसायब. सांगतां तुमकां." किशोरबाबू फुतफुतलो. "कितें करूं दोतोर, चारूय वाटांनी पिशांनी रेवाडो घाला. तुमी तर म्हजें कुटूंब पळयलां. तुमचेसारखेल्या दोतोराक म्हजेखातीर धरून हाडला. हेखातीर हांव अमोलकाकडेन गजाली करतां. इतली 'मिडिओक्रिटी' आसा, एखाद्या बुद्धिमान मनशाकडेन गजाली करपाक काळीज आशेता."

दोतोराचें खुमणें बावलें. "अच्छा किशोरबाबू. एक निमाणो प्रश्न. तूं परतून-परतून इतलो वेळ हात कित्याक धुता?" दोतोर अशेतरेन बशिल्लो, जणुंकाय तो हारला. किशोरबाबूक ताची काकूळट दिसली. मनीस काळजान वायट ना. ह्यानफुडें आपूणच जावन येवचोना. ताच्या कुटूंबान मागीर ताका कितलोय आपोवं. तितलो हावरटय न्हय सो दिसता. कोणा पैशेकारालो भुरगो अशें आयकलां.

"हांव हात धुतां तो हेखातीर डॉक्टरसायब, म्हाका दिसता सगळेकडेन चिखोलच चिखोल एकवटला. जंय हात लायता थंय कोयर लागता. अमोलकाबरोबर रावपाखातीर म्हाका हो कोयर परतून-परतून काडून वडोवचो लागता."

किशोरबाबूची ही सगळी उमेद, हो फुरफरो आनी उत्साह अचकीत जमनींत भरसलो जेदेवेळार त्याच सांजवेळा मदल्या मामाच्या मर्णाची खबर कानपुराकसान आयली. मदल्या मामाच्या मर्णान किशोरबाबूक इतलो धक्को बसतलो हें कोणें येवजूंक लेगीत नासलें. ही खबर आयकनाफुडें तो लाकूड कसो घट जालो. कोणाकडेन कितें उलयलो ना तर ताणें कितें खाल्लें ना वा तो कितें पिलो ना. इतलेमेरेन ताच्या ह्या विचित्रतायेच्या प्रतिक्रियांची किशोरबाबूचे बायलेक आनी पुता-सुनेक संवकळ कशी जाल्ली. हेखातीर ताचेकडेन कोणेंच चड उलोवप ना हातूंतच बरेपण आसा अशी समजिकाय करून घेतली.

रातीकडेन कुडींतल्यान कोणतरी उलयता ताचो आवाज येता हें किशोरबाबूचे बायलेक जाणवलें. किशोरबाबू टेलीफोनाचेर बी कोणाकडेन उलयता काय? ती पुराय जागी जाली आनी लक्ष दिवन आयकुपाक लागली. तेन्ना तिका कळ्ळें, किशोरबाबू अमोलकाचें नांव घेता, मदल्या मामाचें नांव घेता आनी भोवन-भोवन रडपाक लागता. किशोरबाबू कसलें सपन बी पळयता काय न्हिदेंत कितें-कितें बडबडटा? किशोरबाबू स्पष्टपणान उलयतालो, "अमोलक, हावें मदल्या मामाखातीर कांयच केलें ना रे. ज्या लोकांनी म्हज्या बोटाक धरून म्हाका चलपाक शिकयलें तांकां जाणटेपणांत जेन्ना गरज भासली तेन्ना हावें तांचो हात धरपाक न्हयकार दिलो. म्हजे असलो पडमूर मेळत खंय? मामा अशे तरेन आपणाल्या इश्टाच्या घरा बेवारशी मेलो. ताच्या इश्टान ताका दवरून घेतलो. धाकल्या भावानय ना आनी हावेंय ना. ताणें एक फावट कोलकाताक येवन म्हाका म्हणिल्लें, तुमचें तर घर आसा किशोर. सकयली एखाद्री कोठडी रिकामी करून दी. हांव थंयच म्हजें ठाण मांडटां. आतां खंय वचूं? दादाच्या भुरग्यांखातीर हावें सगळें कितें केलें. पूण ते ताळटात म्हाका. दीसभर हो म्हजें माथें खातलो ह्या विचारान हावें आयकून ना आयकल्या सारखें केलें. तितलेंच

न्हय अमोलक, मामा जेन्ना हांगाच्यान वचपाक लागलो, तेन्ना हावें इतलेंय म्हळें ना, चल मामा, म्हजे गाडयेन तुका सोडून येतां. तो बस स्टँडार उबो आशिल्लो आनी हांव म्हजे गाडयेन ताच्या मुखावयल्यान ऑफिसांत गेलों."

किशोरबाबूची बायल काळखांत किशोरबाबूचें अमोलकाकडलें एकतर्फी संभाषण आयकत रावली. आतां रडून कितें जातलें? तिणेंच तर त्या वेळार सांगिल्लें, "दवर न्ही मामाक. म्हजेकडल्यान जितली जाता तितली सेवा करतलीं हांव. आमकां तर पुण्यच मेळटलें. आमचें तातूंत नुकसान कितें?"

किशोरबाबून कोडसाण घोटिल्लेवरी तोंड करून सांगलें, "नुकसान? नुकसानच नुकसान आसा. आमी हाका दवरून घेतलो जाल्यार आपणें केल्ल्याची ख्यास्त ताका कशी मेळटली? विसरली तूं, व्हडल्या मामान म्हजेमुखार मदल्या मामाक आनी ताच्या कुटूंबाक कशेतरेन तोंड भर-भरून शाप दिल्ले ते! ताणें म्हणिल्लें, 'जाचेर इतली घमेंड मारता तें सगळें नष्ट जावन वतलें. म्हाका म्हयन्याक पांचशीं रूपये धाडटा. एका संन्याशाक हाचेपरस चड खर्च कितें जातलो अशें म्हणटा. तूं पळयशी किशोर. हांकां कोण पांचशींय दिवपी मेळचो ना. दरेकल्याच्यो खोंटी खातलो. सारकें अशेंच म्हणिल्लें व्हडल्या मामान. ताचें एक-एक उतर म्हाका याद आसा. आतां ताचो शाप खरो थरपाक लागला जाल्यार आमी आडावपी कोण?" तेन्ना किशोरबाबूची बायल वगी रावली. कितें उलयतली? तिणें येवजिलें, कितें सारकें आनी कितें चूक हें देवाकूच खबर. व्हडल्या मामाचो शाप खरो जावपाचो आसा जाल्यार तेंच खरें.

व्हडल्या मामाच्या शापाची गजाल करतां-करतां किशोरबाबू आपणाचेरूच उलोवपाक लागलो, "आनी ह्या लोकांनी म्हजेकडेन कितें केलें? वीस वर्सां काम करून निमाणें जेन्ना धाडस करून हावें सांगलें, हांव वेगळें काम करपाक सोदतां अशें म्हणून तेन्ना ताणी म्हाका कितें दिलें? फकत एक हजार रूपये. वीस वर्सां काम करपाचे बदलीं एक हजार रूपये. तो वेळमेरेन चार भुरगीं आनी तीन बायलो मेळून सात जाणांचो म्हजेर भार आशिल्लो. हजार रूपयांनी कितले दीस भागूं येतात? आनी नवें काम करपाखातीर म्हाका भांडवलाची गरज नाशिल्ली काय कितें? पूण मामाक हांव कांयच करपाक शकलो ना. ह्या लोकांचे म्हजेर इतले उपकार आशिल्ले देखून हांव वगीच रावलों. ते हजार रूपये घेवन हांव रडतूच हरिसन रोडासावन मुक्ताराम बाबू स्ट्रीटाचेर चलत आयलों. दुकांक लागून म्हाका रस्तोय सारको दिसनाशिल्लो." हें सगळें आयकतकूच किशोरबाबूचे बायलेच्यान मदल्या मामाक आनीक कांय म्हणपाचें धाडस जालें ना.

किशोरबाबूचे बायलेक आतां मदल्या मामाच्या मर्णाचें इतलें दुख्ख करपाचें कारण समजलें ना. खात्रीन हो अमोलक कोणूय बरो आत्मो आसूंक जाय - तिका दिसलें. नाजाल्यार मामाक जावपी नुकसानाक धरून ताचें फर्म फेल जावपामेरेन सदांच व्हडल्या मामाच्या शापांची काणी किशोरबाबू गिरयत आसतालो. बावडो मदलो मामा! हो अमोलक

जर किशोरबाबूभितर आदींच घुशिल्लो जाल्यार मामाक मरपाखातीर निदान घर तरी मेळटलें आशिल्लें. किशोरबाबूचे बायलेन मदल्या मामाच्या आत्म्याक पराथिलें, ह्या लोकांक ताणें भोगसुचें. अचकित् तिका दुबाव आयलो आनी ती भियेली, सांगूं नजो, हो मदलो मामा त्या लोकांक शाप दिवन मेला जाल्यार!

किशोरबाबूचें हें उदासपण दोन-तीन दीस उरलें. ह्या काळांत ताणें चड कांय खाल्लें-पिलें ना आनी तो चड उलोवंकय ना. बस, हात चोळपाचे आनी धुवपाचे हो क्रम चालूच उरलो. हेच उदासींत अत्यंत निर्विकारपणान त्या परदेसांतल्यान आयिल्ल्या दोतोरान ताचे अवतिकायेचो रिपोर्ट सांगलो तो असो कोणा पोरन्या आत्मीय वमरणाचेर उदासपण येवप साहजीक आसा.

किशोरबाबूचें हें उदासपण आयताराक म्हळ्यार चवथ्या दिसा सकाळिफुडें पेपर वाचताना एकदम ना नपयत जालें. पेपर वाचून तो इतलो उत्तेजीत जालो, पेपर हातांत दामून परत-परत तो पासयो मारपाक लागलो. परत-परत घडयाळीकडेन पळयतालो आनी मागीर फोनाकडेन. किशोरबाबूचे बायलेन निमाणकडेन धाडस करून विचारलें, “कितें घडलां? पेपरांत कितें आयलां? वा कोणाचो फोन येवपाचो आसा?” किशोरबाबूचे भितर जशो कि तें चंदरजोती पेटटाल्यो. ताणें आपले बायलेचो हात धरून तो तिका आपले कुडींत घेवन आयलो आनी खूब-खूब पयलींभशेन तिका मुखार पलंगाचेर बसयली. किशोरबाबूचे बायलेच्या दोळ्यांत दुकां भरून आयलीं. कितल्या वर्सांनी किशोरबाबू तिचेकडेन प्रेमान उलयतालो.

किशोरबाबू तिका आपले इश्ट अमोलक आनी शांतनूकडेन जाल्ल्या कराराविशीं सांगपाक लागलो. ताणें अमोलकाविशीं कांय सांगलें ना. वयल्यान ती ताचेचविशीं सगळ्यांत चड जाणा जावपाक सोदी “हावें शांतनूखातीर पेपरांत जायरात दिल्ली, ताणें वाचली जाल्यार म्हजेकडेन संपर्क सादचो म्हण. आनी पळय ह्या सैतानाक, ताणें म्हाका रोकड्या रोकडो फोन करपाच्या जाग्यार उरफाटें अशें छापून दिलां, तो कोलकात्यांतूच आसा आनी आज णव वरांचेर तो म्हाका फोन करतलो. शांतनू जर मुंबय वा खंयूय आसलो तरी कोलकात्याक परतला आसतलो हो म्हाका अदमास आशिल्लो. नेताजीचो तो मोठो भक्त आशिल्लो. बोटीवयलें सवणें निमाणें बोटीचेरूच परतून येता. *जैसे उडि जहाज को पंछी, पुनि जहाज पर आवे* - सूरदासान म्हळां न्ही”

किशोरबाबूची बायल आतां वाजेवपाक लागिल्ली. खंयचीं हीं पुरिल्लीं मडीं उस्तुपाक लागला कोण जाणां! आतां शांतनू नावाची आनीक एक कटकट निर्माण जावपाची आसा. तेन्नाच किशोरबाबून आपणाले बायलेक हालोवन तिका आपली गजाल आयकुपाक बळजबरी करीत सांगलें, “हालींच कांय दिसां आदीं हावें पोरन्या पेपरांत वाचलें, भाजपाचो अडवानी आपणाल्या रथाचेर नेताजीचो फोटू लावन देशाचो दौरो करतालो. तर एक मनीस ताच्या रथामुखार पडून रावलो. ह्या जातीयवादी रथावयल्यान नेताजीचो फोटू

जोमेरेन काडचेना तोमेरेन तो थंयच्यानं हालचो ना. ही बातमी वाचून म्हाका दिसलें, कितेंय आसूं, तो मनीस म्हळ्यार शांतनूच आसतलो. चल, आतां तरी कळटलें तो शांतनू आशिल्लो काय न्हय तो."

किशोरबाबूची बायल मोन्यानी ताच्यो गजाली आयकत रावली. हे गजालीचेर हांसपाचें काय रडपाचें तें तिका कळना जालें. तेन्नाच टेलिफोनाची घंटा वाजली. किशोरबाबून धांवट वचून फोन उखललो. कितें कितें उलयत रावलो, जातूंत किशोरबाबूचे बायलेक 'शांतनू' 'नॉर्थ कैलकटावाली राजबाडी' असलीं कांय उतरां समजलीं. नाजाल्यार तो इतलो उत्तेजित आशिल्लो, ताका आपूण कितें उलयता तेंच समजनाशिल्लें जांवये. मेळपाचो वेळ निश्चित जालो - सांजवेळा चार वरांचेर.

फोन दवरून किशोरबाबू कांय वेळ वगी बसून रावलो. मागीर सुशेगादीन उलोवपाक लागलो, "तो तर सांगतालो त्या कुटूंबांतले संपत्तितल्यान कांयच घेवचो ना म्हणून, मागीर राजबाडींत कसो रावपाक लागलो?" किशोरबाबूचे बायलेच्या ध्यानांत कांय आयलें ना. तिणें विचारलें, "खंयची राजबाडी?" पूण किशोरबाबू आयकूंक नाशिल्लेभशेन करून बसलो.

"बरेंच इंग्लीश उलोवपाक लागला शांतनू." तो आपणाकडेनच उलयल्ल्याभशेन कांय वेळान उलयलो.

सांजवेळच्या चार वरांचेर किशोरबाबून बरे हात धुले आनी गाडयेंत बसून तो नॉर्थ कॅलकटावटेन गेलो. शांतनूचे राजबाडीमेरेन पावतकच ताका एक मिनीटभर भास जालो, आपूण चुकिच्या जाग्यार बी पावंक ना मू म्हणून. पूण डॉ. शांतनू रायची चकचकता ती नेमप्लॅट पळोवन ताचो भास पयस जालो. मुखार दिसताली ती झगमगीत राजबाडी म्हळ्यार जशी कि तें काय व्हिक्टोरीया मेमोरीयलच. चारूय वटेन हरयाळीच्या चकचकतल्या लेव-गाड रंगांमदीं संगमरमरच्या सोंपणांवयर विराट स्तंभांचो धवोफुल्ल म्हाल. एका गणवेषधारी गुरख्यान काळे जाळयेची लोखणाची गेट उगडली. ताडाच्या रूखांमदल्या उभो तांबड्या फातरांचे 'ड्राय-वे' चेर गाडी भितर सरली तेन्ना किशोरबाबूक दिसलें, संगमरमरचीं सोपणां देंवन धांवत येवपी शांतनू आतां नदरेक पडटलो. ताची दोतोरकेची प्रॅक्टीस बरी चलताशी दिसता. मोडिल्ल्या घराक ह्या म्हालाचें रूप दिवपाक कितले पयशे खर्च जाल्या आसतले काय? ह्या म्हालामुखार आशिल्लें तें ताचें बालीगंजांतलें आपलें घर तर 'सर्वेन्ट्स क्वॉर्टर्स' जालां.

एका गणवेषधारी नोकरान संगमरमरचीं सोपणां देंवन किशोरबाबूचे गाडयेचें दार उगडलें. "साहब स्टडी में है" म्हणत तो सोपणां चडपाक लागलो तेन्ना किशोरबाबू ताचे फाटोफाट चलपाक लागलो. सोंपणां चडटा आसताना उजवेवटेन आशिल्लें शांतनूचें ऑफीस किशोरबाबूचे नदरेक पडलें, जातूंत कांय टायपरायटर, डुप्लीकेटर सारकीं मशिनां आशिल्लीं ताणें पळयलीं. एका दोतोराक ह्या मशिनांकडेन काम कितें? किशोरबाबूक थोडेंशें अजाप

जालें. नोकर ताका दावेवटेन घेवन गेलो. किशोरबाबूचीं पावलां एअरकंडिशन कुडींतल्या जमखाणावयल्यान चलतालीं म्हणसर "यो किशोर" म्हणत उमेदीन आपणाल्या विराट स्टडी टेबलाफाटल्या कदेलावयल्यान फटच् करून शांतनू उठून उबो रावलो.

किशोरबाबू म्हारगेल्या अशा लाकडी शोकेसींत दवरिल्लीं चामड्याच्या कवरांतलीं आनी भांगराळीं उतरां कोंरातिल्लीं पुस्तकां पळयत मुखावयल्या कदेलार बसलो.
"आरे यार, तुजे केंस तर पुराय धवे जाल्यात मरे." किशोरबाबून आपणालो संकुचितपणा पयसावपाखातीर म्हळें.

"तुज्या काळ्या-धव्या खिचडी केंसांपरस तरी अदीक बरे दिसनात?" शांतनू हांसलो. तोच हांसो. ह्या हांश्यान किशोरबाबूभितर हुनसाण हाडली. पूण आतां कितें म्हणपाचें? ह्या धव्याफुल्ल ठाकठीक दिसपी मनशाक जर अशें विचारलें, 'कितें रे बाबा टेबलाच्या फाटल्यान इतले पयस बसला?' वा 'इतलो पयसो खंयच्यान रे बाबा जोडलो?' जाल्यार तें सारकें दिसतलें? ना, शांतनूक घडये तें आवडचें ना. जें कितें सांगता तें शांतनूक आपणाचेर आक्रमण दिसून तो आपल्याचो बचाव करतलो अशें किशोरबाबूक कित्याक दिसलें कोण जाणा! पूण तो ताचेर आक्रमण कित्याक करतलो? आमचे जशे दोळे, नाक, कान तशेंच जाणटेल्यांची संपत्ति हें आमचें दायज हें सारखें. शांतनून हो म्हाल घेवन् तातूंत बदल घडोवन तो परतून उबारलो तें बरेंच जालें. मनीस कितें आपलीं आदलीं धोरणां बदलूंक शकना? इंगलीशींतल्यान उलोवया कितेंय? किशोरबाबूक दिसलें, इंगलीशींतल्यान कितेंय सांगल्यार शांतनूक वायट दिसचें ना. "इट्स गूड टू सी, दैट यू हैव मेड ए सक्सेस ऑफ योर लाइफ"

किशोरबाबून पळयलें, इंग्लीश वाक्यान खूब बरो परीणाम सादलो. शांतनूमदें ख-यांनीच सहजताय आयिल्ली. ताणें आपलो बचावाचो पवित्रो सोडलो. "आजूनय करता प्रेक्टीस? खंय आशिल्लो इतलीं वर्सां? कोलकाताक केन्नाच्यान रावपाक लागलो?" किशोरबाबून रोकडोच प्रश्नांचो शिंवर केलो.

"आरे बाबा सगळें कितें एकाचबरोबर जाणां जावंक सोदता? बरें आयक, हांव एक एन. जी. वो. (नॉन गवर्नमेंट ऑर्गनायजेशन - बिगर सरकारी सेवा संस्था) चलयतां. दोतोरकी पास करतकच हावें आदिवासींमदीं चाळीस वर्सां काम केलें. आतां हांव फाटल्या पांच वर्सांसावन कोलकात्याक रावपाक आयलां. आय लीव अलोन. दोगूय पूत परदेसांत आसतात. एकलो म्हजेभशेन दोतोर तर धाकलो स्विटजरलँडाक एम. बी. ए. करता."

किशोरबाबू आं करून पळयत उरलो. आदिवासींनी कितें पुरून दवरिल्लो खजिनो दिलो शांतनूक? ताणें चिंतिल्लें, शांतनून खंयूय परदेसांत प्रॅक्टीस करून इतलें धन कमायलां आसतलें. मागीर ताका अशेंय दिसलें, ताका आपल्या पुर्वजांनी पुरून दवरिल्लो खजिनो सांपडला आसुंये.

एक खिणभर किशोरबाबूच्या मनात आपणाल्या चल्यालें चित्र जोगूल कशें चकचकलें

- बी. कॉम. पास, भायर सुटिल्लें धोल, हातांत तंबाखुची चांदिची डबी, जीन पेंटीचेर धवें टी-शर्ट, माथ्याक पुजेच्या चंदनाची तिकली, हातांत सेल्युलर फोन, बोटांत मुदयो. घरांतल्यान भायर सरताना ताका तो ह्याच अवतारांत दिशिल्लो. शांतनून आपल्या भुरग्याक मेळचें अशें ताका केन्नाच दिसचें ना. मागीर ताका आपल्या व्हडल्या नातवाचो उगडास जालो. तो लेगीत गेला न्ही ऑस्ट्रेलियांत शिकपाक. बरें आसा, वेळ येतकच ताचीय खबर करची. तोमेरेन पोरन्योच गजाली करूया.

"आरे, हें कितें? तुजे स्टडींत नेताजीचो फोटू खंयच दिश्टी पडनासो. हावें तर चिंतिल्लें ...." किशोरबाबून अडवाणीच्या रथाची खबर सांगतां-सांगतां आपणाकूच आवरलें . ताका दिसलें, ती गजाल उलोवपाचो हो योग्य जागो न्हय.

"नेताजी? ओह सुभाषबाबू? तूंय बी म्हणून कितें मजा करता रे बाबा. भुरगेपणांत मनीस कितलो भावूक आनी जोशांत आसता. तशें पळोवपाक गेल्यार संवातंत्र्या उपरांत सुभाषबाबू आपणाले 'डिक्टेटरवाल्यो आयडियास' सांबाळून राजकारणांत कितें करतले आशिल्ले? ते त्या वेळार काडून गेले तें बरेंच जालें. कांय न्ही म्हळ्यार एका हुतात्म्याची प्रतिमा जावन आमचेमदीं उरली." किशोरबाबून सिगरेटीक न्हयकार दितकच शांतनून आपणें सिगार फुसकायत सांगलें.

किशोरबाबू एकदम मोनो जालो. ताची तकली इतली रिकामी जाली, जशी कोणा व्हडांतल्या व्हड समाधिस्त योग्याचीय जायना. ताचेभितर कसलो विचारय जागो जायनासलो आनी कितें उलोवपाक जाय हाचो संदर्भय मेळनासलो. इतलेंच न्हय तर ताणें शांतनूकडेन ताचे बायलेसंबंदी सादी चवकशीय केली ना वा तो एकलो कित्याक रावता हेंवूय विचारलें ना. तो मोन्याभशेन शांतनू सिगार ओडटा तें पळयत रावलो.

थंय पातळिल्लो मोनेळ भंग करीत शांतनून विचारलें, "अमोलकाक मेळिल्लो इतल्या वर्सांत?" किशोरबाबून 'ना' म्हण मान हलयिल्ली पळोवन शांतनून मेकळो स्वास घेतलो. "बाबरी मशिदीचे घडणुकिची खबर आसतली तुका." शांतनून परत विचारलें. किशोरबाबून 'हां' म्हण मान हालयली. शांतनू वगी रावन सिगार फुसलायत रावलो. एखादी खबर सांगपाची काय ना हेविशीं ताचो निश्चेव जायना जालो. त्या पोरन्या टेबलाचेर त्या दोगांच्या मदीं एक दाट मोनेळ पातळिल्लो. पुराय सृष्टींत खंयच कोणूच हालना-धोलना असो.

"एकफावट अमोलक आयिल्लो म्हजेम्ह-यांत. खूब वाद जालो ताचेबरोबर. निमाणें हावें म्हज्या गुरख्याक ताका भायर धांवडावंक सांगलें. सगळे एन. जी. ओ. हे विदेशी सरकाराचे एजंट आसात म्हण सांगपाचें धाडस ताका कशें जालें? तशेंच दान दिल्ल्या पयशांचेर पोसपी भिकारी आनी परजिवे म्हण? आनी तेंय बी म्हाका? ताका खबर नाशिल्लें हांव कसल्या खानदानाचो तें? विचारपाक लागलो सेमिनाराच्या निमतान कितले फावटीं परदेशांत वचून आयलो काय म्हणून? एन. जी. ओ. संस्था आनी हॉटेल आनी

एअरलाइंसवाले हांचेकडेन संगनमत आसा अशें म्हणटालो. दळडीर ना करपाक भायल्यान येतल्या रूपयांतले ऐंशीं पयशे ह्यो संस्था आपणाचेरूच खर्च करतात हें सगळें तो 'म्हाका' म्हणटालो. प्रॉपर्टीची कींमत इतली वाडल्या, हावें म्हजे जमनिचो एक लेगीत कुडको जरी विकलो तरीय ताचे असल्या शंभर लोकांक हांव एक वर्स मेरेन नोकरेर दवरूक शकतां. विदेशांतल्या पयशांनी ह्या देशाचें केन्ना बरें जावचें ना हें म्हाका समजावपाक लागलो. हें अशें म्हण जाता? काम करपाकडेन आमचो संबंध. पयशे देशांतल्यान येवं नातर विदेशांतल्यान येवं...." शांतनू उलयत राविल्लो आनी किशोरबाबूच्या कानांत शिट्यो कशो वाजपाक लागिल्ल्यो. आरे वा, तर आतां अमोलक शिटी वाजयता. कित्याक ताणें शांतनूच्यो गजाली आयकूंक जायना म्हण?

किशोरबाबून आपले दोळे धांपून घेतले आनी सांगपाक लागलो, "शांतनू तुजेकडेन असो वागलो हें तुवें म्हाका कित्याक सांगलें ना अमोलक? आदींय तुवें ताचें केन्ना वायट केलें ना, आतांय वगीच रावता? पूण म्हजें मात तुवें अशाचें तशें केलें मरे? कितें म्हणटा? साधनशुद्धिची गजाल सगळ्यांक समजुपाक कठीण म्हण? इतल्या वर्सां उपरांत आज लेगीत तूं साधनशुद्धिची गजाल करपाक शकता? अहिंसेच्या पुजा-याक हिंसेन मारलो आनी ताचें मडें 'तोफ गाडयेंत' दवरून राजघाटार घेवन गेले. म्हजी चली एका चल्याक जल्माक घालपाक कसल्या-कसल्या साधनांचो प्रयोग करता हें जाणां तूं?" किशोरबाबू जाड-जाड पुस्तकांनी भरिल्ल्या आलमारींनी वेढो घाल्ल्या विशाल टेबलाच्या पेल्यान कदेलार बशिल्लेकडेन अमोलकाकडेन गजाली करतालो.

"माई गॉड! हो तर पिसो जाला! ही इज टॉकींग टू अमोलक?" शांतनूचो आवाज आयकून किशोरबाबून दोळे उगडले आनी शांतनू वटेन पळयलें. पळयत रावलो. पळयतूच रावलो. शांतनून पळयलें, अमोलकाचे दोळे ताका तेळटात.

पळयतां-पळयतां शांतनू हारील्लेभशेन दिसलो. ताणें पालवल्ल्या आवाजान म्हळें, "आयडिलीजम (आदर्शवाद) कितें फकत ताचेमदींच आसलो? हावें म्हजें आयुष्य घालें ना सेवेंत? आनी अमोलकांत अशें कितें आशिल्लें? विरोधाखातीर विरोध करप हें एक धोंग, नाजाल्यार आनी कितें? निमाणें ताणें कितें प्रमाणीत करपाक पळयलें आपल्या जिवितांतल्यान? इतलेंच मू - आपणाल्या संन्याशी रावपा-सवरपाक लागून दुस-या लोकांपरस आपूण श्रेष्ठ म्हण? बरें आसा, मेळटाले आसूंये म्हाका म्हयन्याक पन्नास हजार रूपया म्हज्या कामाचे. पूण हावें जर खंयच्याय व्हडल्या शारांत दोतोरकी केल्ली जाल्यार कितें हांव इतले रूपये जोडचो नाशिल्लों? हाचेपरस दुपेटीन जोडपाक शकतालो हांव. हावें कितें त्याग करूंक ना?"

"वतां आतां." अशें म्हणून किशोरबाबू उबो रावलो. शांतनून आपल्या नोकराक आपोवपाक घंटा मारली.

"सिक्योरेटी, हाका गाडयेंत बसोवन यो." ताणें सांगलें.

त्या मनशाक 'सिक्योरेटी' म्हणं उलो मारील्ल्यान किशोरबाबूक जोरान हांसपाक आयलें. शांतनू अजापलो. मागीर ताणें नोकराक सांगलें, "वरें आसा. तूं चल. हावूंच बसोवन येतां सायबाक." तो कित्याक हांसलो हें शांतनूक केन्नाच कळपाचें ना हेखातीर किशोरबाबू खूश आशिल्लो. शांतनून आपणेंच गाडयेचें दार उगडून ताका बसयलो तेन्ना किशोरबाबूक मातसो कळवळो आयलो. आयज लेगीत बावडो भुरगेपणांतलेभशेन तीच इत्सा बाळगिता, अमोलकाकडल्या झगड्यांत हावें हाची बाजू घेवची म्हण. ताचे गाडयेचें दार उगडपाचेर खुश जावन 'टिप' रूपांत ताणें आपणाल्या हांसपाचें कुवाडें सोडयलें.

"त्या मनशाच्या नांवाक लागून म्हाका खूब हांसपाक आयलें. कितें नांव तर! सिक्योरेटी! ताका गणवेषधारी गुरखो करपाच्या विचारानच आवय-बापायन ताका जल्माक घाला आसूंक जाय."

कोणा मुर्खाक पळयतां हेभशेन शांतनू, किशोरबाबूक पळयत रावलो. "ताचें नांव सिक्योरेटी थोडेंच आसा! तो तर सिक्योरेटी गार्ड!"

गाडी सुरू जाली तेन्ना किशोरबाबूच्या लक्षांत आयलें, ताणें आपलें आयुष्य कशें सारलें हेविशीं शांतनून ताका विचारलें ना आनी कराराचीय गजाल केली ना, जाका आतां फकत दोनूच वर्सां उरिल्लीं. ताचें आयुष्य आतां इतलें मामूली थरिल्लें, ताचेर कोणूच उलोवंक शकनाशिल्लो.

□□

किशोरबाबू ज्या दिसा सावन शांतनूक मेळून आयलो तेन्ना सावन ताची हात धुवपाची क्रिया वाडत गेल्या हें किशोरबाबूचे बायलेन पारखिलें. आतां तिणें आपणाक नशिबाचे सुवादीन करून वडयलां. पंडितांच्या भोवाड्यांत पडप ना आनी दोतोरांच्याय ना. रस्त्याचेर भोंवपाचें तर बंदूच जावन पडलां. वेळ येता तेन्ना हें लेगीत जाग्यार पडटलें.

किशोरबाबू चडसो वगीच आसता आनी ताची बायल ताचेकडेन गजाली करपाचो एकतर्फी यत्न चालूच दवरता. किशोरबाबूचो चडसो वेळ आतां पोरन्यो डाय-यो आनी पुस्तकां वाचपांतूच सरता. केन्नाय गजाली करता तो त्या अमोलकाकडेन. ह्या अमोलका नांवाच्या जिवाच्या आत्म्याक किशोरबाबून आपणाभितर पोसला आनी किशोरबाबूचे बायलेक आतां हेर वस्तूंभशेन ताचीय संवंय जायत चलल्या.

केन्ना-केन्नाय एखाद्या मनशाक भूत झपाटटा हें आयकल्लें, पूण कोणूय एखाद्या भुताक आपणाभितर आपोवन घुसडायता म्हणपाचें मात संवसारांत केन्नाच जावंक ना आसतलें. शांताभाभीचे भितर केन्ना-केन्ना कुलपितरांचो संचार जातालो. केन्नाय कोणाल्या लग्न-कारणांत कांय पितरांची वाडी उखलासून दवरपाक विसर पडलो जाल्यार वा अशी कितेंय चूक घडली जाल्यार शांताभाभीक त्या वेळार कितले कश्ट भोगताले. ती जोरा-जोरान उलोवपाक लागताली, उडक्यो मारपाक लागताली. त्या वेळार आई लेगीत तिच्या

पायांचेर घालून घेताली. तेन्ना शांताभाभी गुलाबाच्या फुलाची मागणी करताली. ना, ना. तिचेभितर प्रकटिल्ले पितर देवता गुलाबाचें फूल मागताले. फूल हुंगतकच ते शांत जाताले. उपरांत कांय दीस शांताभाभीक इतली अशक्तताय येताली, ती मागीर हाथरूणारच पडून रावताली आनी घरांतलीं सगळीं भुरगीं बाळां तिकाच सांबाळपाक उरतालीं. एखाद्या वेळार तिच्या मनांत येतालें, ख-यांनीच शांताभाभी आपणांक सुशेग मेळचो म्हण हें नाटक करता आसतली. पूण मागीर असल्या पातकी दुबावांखातीर ती मनांतल्या मनांत पितर देवतांकडेन भोगसणी मागताली. तरी असले दुबाव येवपाची ख्यास्त तिका मेळपाचीच आसली. एका फाटोफाट पांच चलयो जल्मल्यो. दर फावटीं णव म्हयने पितर देवतांक मनोवपाक सरताले. आनी परतूय जाताली एक चली. दोतोरीण सांगताली - लक्ष्मी जाल्या - तिका दिसतालें, तकली आपटून जीव दिवंचो. पूण आई तिका धीर दिताली. सांगताली, "सरोज, तूं हुस्को करूं नाका. फुडले फावट कुलदेवता-पितर-परमेश्वर लज राखतले." फुडले फावट. दर खेप फुडले फावट. कितल्या कश्टांनी तयार जाल्ले पितर-देवता!

ह्या अमोलक नांवाच्या जिवात्म्याक कुडींत राविल्ल्यान किशोरबाबूक कांयच त्रास जायना काय? किशोरबाबूची बायल जायते फावटीं येवजिता. अशें दिसता खरें. उरफाटें किशोरबाबूची सवस्तकाय आदलेपरस सुदारल्या. कोणूय आसूं, पूण हो जिवात्मा एक बरो आत्मा आसा हातूंत मातय दुबाव ना. हेखातीर किशोरबाबूचे बायलेन ही गजाल कोणाक सांगना जावपांतूच आपलें बरेपण मानलें. पितर देवतांवरी हो अमोलकय तांचेर नाराज जावन तांकां त्रास दीत जाल्यार! ती ताका दर दिसा मनांतल्या मनांत प्रणाम करता. मेहंदीपूरच्या बालाजीकडेन तिणें एक फावट पळयिल्लें - एक बायल तिचेभितर एक वायट आत्मो घुशिल्ल्यान एके म्हशीभशेन जोरा-जोरान धेकर दिताली. तिका लोखणाच्या सरपळ्यांनी बांदून दवरिल्ली. हें सगळें येवजून काळजांत भिरांत उप्रासता. किशोरबाबून स्वामीचो गळो अंदिल्लो तेन्ना तर ती आकांताची भियेल्ली. एकेवटेन पळयल्यार अमोलकाचो जिवात्मा आयल्या उपरांत किशोरबाबून असलें कितेंय पिशेपण तरी निदान करूंक ना. हें कितें उणें जालें? नाजाल्यार तिणें कितें-कितें चिंतिल्लें? किशोरबाबूक समजून घेवप वा ताका बदलप हें केन्ना तिच्या सामर्थ्याभायलें नाशिल्लें. आजूय ना. वगीच कित्याक तकालस घेवया? चलूं दी जशें चलता तें.

□□

"*हम लाए हैं तूफान से कश्ती निकाल के। इस देश को रखना मेरे बच्चों संभाल के।*" पंदरा ऑगस्ट एकोणिसशें सत्याणव्वद , स्वातंत्र्याच्या पंचविसाव्या वर्धापनदिसा सकाळीफुडें शेजारच्या घरांतल्यान वाजतल्या रेडयोचो आवाज किशोरबाबूच्या कानार पडलो. ह्या उतरांनी किशोरबाबूक भितरल्यान उमाळो आयलो. ताच्या दोळ्यांत उदक दाटून आयलें. ख-यांनीच तर ह्या लोकांनी हें स्वातंत्र्य हातासपाखातीर कितले कश्ट

सोंसले! त्या दिसांनी कितली उचंबळायं आशिल्ली मनांत! कितले फावटीं मनांत येतालें, ज्या लोकांनी देशाखातीर कुर्बानी दिल्या, तांच्या चरणांची धूळ मेळ्ळी जाल्यार सारा जहाँ मिल जाए। अमोलक-शांतनूचे इश्टागतिचेर ताका कितलो अभिमान आशिल्लो. आपूण कसल्याच कामाक उपकारना हाची ताका लज जाताली. कशी जावची ना? निमाणे ताच्या शीरांनी व्हांवतालें तें रगत आपल्या केदारनाथ-आजोबांचेंच न्हय? पूण ही गजाल आतां ताची डायरी वचतकच कळटा. तोमेरेन ताका हें खंय खबर आशिल्लें? कितलो योगायोग पळय, ज्या पुलीस कमिशनर टैगर्टाचें नांव घेवपाक आवयक मनाय केल्ली ताचे इश्टागतीक लागून आज्यान आपल्या बापायकडेन उलोवपाचें बंद केल्लें.

□□

कालूच कोलकाताच्या इतिहासाचेर एक पुस्तक वाचताना ताका कळून आयलें तें अशें, त्या दिसांनी गुप्त पुलिसांचो विभाग जो 'एलिसियम रो' हांगां आसतालो, ताका आतां 'लॉर्ड सिन्हा रोड' ह्या नांवान वळखतात. थंयच टैगर्ट बसतालो. टैगर्टाच्या विचारांतूच तो काल लॉर्ड सिन्हा रोड गेलो. ताणें पळयलें, एस. बी. (स्पेशल ब्रांच) चें ऑफीस आतांय बी थंयच लॉर्ड सिन्हा रोडाच्या उपगल्लींत आसा. प्रत्यक्षांत आसा ती एक काळखी गल्ली. पुलिसांची ती पोरणी इमारत सारकी पळोवपाक तो तिचे लागीं गेलो. ते निर्जन गल्लींत ते इमारती भायर एक पुलीस शिपाय बंदूक घेवन उभो आशिल्लो. ताणें शिपायाक बारीकसाणेन नियाळ्ळो आनी शिपायानय ताका पळयलो. किशोरबाबू मुखार गेलो. काळखे गल्लींतल्यान परतून येतना ताणें त्या शिपायाक तिरपे नदरेन पळयलो. जसो ताणें ताका येतना पळयिल्लो तसोच तो लॉर्ड सिन्हा रोडावटेन तोंड करून उबो आशिल्लो,

हाचे बंदुकींत गुळयो आसतल्यो काय? जाणपाची ताका इत्सा जाली. थोडेशें फुडें वतकच ताणें फाटल्यान बागोवन पळयलें जाल्यार तो पुलीसय ताचेच वटेन पळयतालो. तो आनीक फुडें गेलो. लॉर्ड सिन्हा रोडाचे गल्लीच्या तोंकाचेर उभो रावन खूब वेळ तो पुलिसाक पळयत रावलो. हाचे बंदुकींत जर गुळयो आसात जाल्यार त्यो कित्याक आसात आनी जर नात जाल्यार हें फालतू बंदूक घेवन तो उबो कित्याक? ह्या प्रश्नान तो घुस्पागोंदळांत पडलो. हो आनी बंदुकेंत गुळयो कित्याक दवरतलो? हाका कोणाक मारपाची आसा गुळी? मागीर कितें बंदूक ही सोबेची वस्त? हें सगळें येवजितां-येवजितां ताची तकली भणभणली. टैगर्टाच्या वेळासावन हो पुलीस हांगां बंदूक घेवन उभो आसतालो काय कितें? पूण तेन्ना तर भिरांत आशिल्ली, टैगर्टाक कोणूय मारपाक येत काय म्हण. पूण आतां ह्या पुलीसाक बंदूक घेवन उबी दवरपाक कोणाक कसली भिरांत आसा?

लॉर्ड सिन्हा रोडावयल्या नाक्याचेर एका दुकानार किशोरबाबू च्या पिलो. ते उपरांत परतून एक फावट गल्ली भितर घुसून पुलीसा म्ह-यांतल्यान ताका पळयत गेलो. पुलिसानय ताका पळयलो, पूण आपूण एका वरापयलीं हांगाच्यान गेल्लों तोच मनीस म्हणपाचें ताणें

आपणांक वळखूंक ना हें किशोरबाबूच्या ध्यानांत आयलें. अचकीत् किशोरबाबूक एक दुवाव आयलो, देड वर जालें तो ह्या मनशाक पळयता. पूण ताणें एक्रूय खेप जांभय लेगीत दिली ना. हांगां उभो रावन-रावन ताका पुरो जायना वा तो बेजारीना? पूण अशें कशें जावं येता? अखेर मनशाचीच तर जात न्ही हाची? आनी तेन्ना किशोरबाबूच्या मनांत भिरांत् निर्माण जावपाक लागली.

किशोरबाबूक दिसलें, तिसरे फावट जर तो गल्लींत गेलो आनी ह्या पुलिसाचे बंदुकेंत जर गुळी आसली तर तो ताका नक्कीच गुळी मारतलो. निमाणे आपणालें बेजारपण पयस करपाक तो कितेंतरी करतलोच. परतून-परतून गल्लींत यो-वच करता तें ताका दुबावीत लागतकच तो निश्चितच गुळी मारतलो. पेपरांनी वाचिल्ल्यो कांय अनिश्चित खबरो ताका याद जावपाक लागल्यो त्यो म्हळयार, धांवतल्या शिपायान दुस-या शिपायाक मारंलो वा आपणाकूच गुळी मारून घेतली वा आपणाले बायलेचेर गुळी मारली. ह्यो गुळयो बेजारपण पयस करपाखातीर मारल्या आसतल्यो हाची किशोरबाबूक शंभर टक्के खात्री पटली. तो कांयशे दुखेस्त अवतिकायेंत घरा परतलो.

घरा परततकच पाकिस्तानी टिवीचेर लागिल्ल्या तांच्या स्वातंत्र्याच्या वर्सुकी उत्सवाचो सुवाळो किशोरबाबू पळोवंक लागलो. 'झेंडो' ह्या उतराक इतल्या दिसांनी 'परचम' हें उतर आयकून कितल्यो यादी जाग्यो जाल्यो कोण जाणां - परचम चो अर्थ ताका मजाज च्या ओळींतल्यान कळून आयिल्लो, जो वाचतकच हड्ड्यांतल्यान काळीज भायर येता कशें दिसतालें. '*तू इस आंचल से । एक परचम बना लेती तो अच्छा था।*' (तुवें ह्या पालवान। एक परचम केल्लो जाल्यार बरें जावपाचें.) ताणें अमोलकाक विचारलें, "त्या दिसांनी सैफुद्दीन कश्मीरी, सैयद बदरूज्जा, सैयद नौशेर अली अशा कितल्या राष्ट्रवादी मुसलमानांचीं भाशणां आयकल्लीं? आसा याद? कश्मीरी तर इतले सुंदर आशिल्ले, आमचे खास आवडिचे आशिल्ले. एकदम हिरो!"

आपूण पाकिस्तानी सुवाळो पळयतां म्हण ताच्या पुताच्या चे-याचेर उपहासान उदेल्लो हांसो पळोवन किशोरबाबूक खूब वायट दिसलें. "ह्या लोकांक कितें खबर आसा आमचें दायच, आमचें आपलेपण - अमोलक, हे तर फक्त दुस्मानांक वळखतात." एक फावट ताच्या मनांत आयलें, वचचें आनी चल्याक एक नेटाचें भाषण आयकुवचें. पूण इतलीं उतरां उलोवपाक ताचें मन तयार जालें ना. सोड खबर. हांकां कितें कळटलें 'परचम' म्हळयार? आयज लेगीत ताका तें सपन जशाचें तशें याद जाता, जेन्ना तिरंगी झेंडो हातांत धरून तो न्हंयो, तळयो,खाडयो वलांडटाना इतलो धांविल्लो, ताका खरस मारपाक लागिल्ली. तेन्ना शांतनून येवन ताचेकडल्यान झेंडो घेतिल्लो आनी ताचो घाम पुशिल्लो.

आपलो पूत आयज कसलेतरी गजालीक लागून बरोच उत्तेजित जाला हें किशोरबाबून वळखलें. तो परतून-परतून फोन घुंवडायतालो. निमाणें ताणें ताका विचारलेंच, "कितें घडलां? कसली खास खबर आसा?" कितल्याशाच जूट मिलींकडल्यान थकिल्ली बाकी

येवपाची आशिल्ली हें किशोरवाबूक खबर आशिल्लें. हालीं तर कामाचो कसलो हिशोवूच उरूक ना. कोण पयशे दिवपाकूच सोदिना. एखाद दुसरो वर्सा-दोन वर्सांनी बील फारीक करता. एखादे जूट मिलींत संप चलता. सगळें पळयल्यार कामकाजाची हालत इबाडत चलल्या हें ताका खबर आशिल्लें.

"मेघना जूट मिलाची ऑर्डर मेळ्ळी रे?" किशोरवाबून पुताक विचारलें. इतल्या दिसांनी किशोरबाबू कामांत रूची दाखयता तें पळोवन पुताक समादान भोगलें.

"खंय रे पापा, सेल्स डिपार्टमेंटान सेंपल रीजेक्ट केलें. ताचो मनीस व्हडली लांच घेवपाक सोदता. आमचें तर दरेके मिलींत परसेंटेज फिक्स्ड आसा. पूण हो मनीस तयार जायना. मोटो चालाख आनी हावरट. तो सांगता, अमकी कंपनी इतलें दिता, तमकी तितलें दिता. म्हणटा, वीस 'गांधी' नी काम चलचें ना. आतां कितें करप?"

जमनिचीं अर्दा जावन तिणें आपणाक गिळून व्रडोवचें इतलो किशोरबाबू लजेन मेलो. ताचे लांचेची गजाल आयकून अमोलक कितें चिंतता आसतलो? आनी पांचशीं रूपयांच्या नोटीं जाग्यार 'गांधी' म्हणटा तें आयकून? ह्या पुतान ताका कसोच सोडलो ना. "आयक, कितें करपाक जाय तें हांव सांगतां. आयजसान खंयचेच मिलींतल्या सेल्समनाक एक लेगीत पयसो दिवपाची गरज ना. जाका माल घेवपाचो आसा ताणें घेवंचो. घेवपाचो ना जाल्यार नाका घेवं. मालाचें मोल तितलेंच उणे कर जितलें आमी ह्या लोकांक खावयतात."

किशोरबाबूचो पूत डबडबीत दोळ्यांनी ताका पळयत रावलो. मागीर ताणें आपल्या बोटांतल्या मुदयांकडेन पळयलें. हाची तकली एकदम घुंवल्याशी दिसता. म्हाका घट्टाणाची वाट दाखयता. हें कितें, हागेलो 'शनी' सांगता म्हाका. कितले फावटीं सांगूनय काळ्या घोड्याच्या नालेची मुदी कांय घालीना. पूण आज कितेंय सांगप सारकें न्हय. हय-हय म्हणपांतच बरेपण आसा.

"कोणाकडेन उलयतालो आतां फोनाचेर?" किशोरबावून पुताक विचारलें.

"फाल्यां पंदरा ऑगस्टाक तुका 'सरप्रायज' दिवपाक सोदतां हांव. तेखातीर आतां सांगना." किशोरबाबूच्या पुतान म्हळें.

'सरप्रायज?' आनी आपणाक? किशोरबाबूक अजाप जालें. आजमेरेन ताचो पूत ताचेकडेन अशें केन्ना उलोवंक नाशिल्लो. जालें तें बरें जालें. आपल्या विचारांनी काम करपाक शकता. हावें बिजनेसांतलें लक्ष उणे केलें तें बरेंच जालें. म्हजेंय कल्याण आनी हाचेंय बी. फाटल्या पन्नास वर्सांत म्हाका जें कळपाक जाय आशिल्लें तें सगळें हांव आतां समजूंक शकतां. चल, कांय नजो. आयुष्य उरलां तेन्ना तें समजून घेवंया. कळावान काय जायना. पुताच्या उलोवण्यान किशोरबाबू खूश जालो. निमाणे हाकाच तर सांवाळपाचो आसा कारभार. एकूच तर पूत म्हाका आनी तोवूय बी इतल्या त्रासांनी जल्मला. तितल्यांत तो फोनाचेर तीन रंगांसंबंदी कितेंतरी उलयता हाचेकडेन किशोरबावूचें लक्ष गेलें.

अच्छा, अच्छा. तो कितें सरप्रायज दितलो हें ताका आतां समजलें. पूण ताचें काळीज

अभिमानान भरून आयलें. ताचो पूत म्हळ्यार केदारनाथाचो पणटू - फाल्यां स्वातंत्र्याच्या वर्धापनदिसानिमतान आपणाल्या वापायक एक तिरंगी झेंडो भेटवण दितलो. कितले खोशयेची गजाल ही! झेंड्याची वेवस्था करपाखातीर कितले त्रास घेता. फोनार फोन कोणाक करतालो कोण जाणा! हांकां 'परचम' म्हळ्यार कितें समजतलें हेविशीं ताणे गरजेभायर आयचे पिळगेसंबंदी वायट-बरें येवजिल्लें. एक गजाल मानची पडटली, ती म्हळ्यार हे पिळगेन जर खंयचीय गजाल मनार घेतली जाल्यार ती अभिव्यक्त करपाची पद्धत तांकां कळटा. कोलकाता शारांत फुलांचीं कितलीं दुकानां हांगा-थंय उकतीं जाल्यांत! कांय जिल्ह्यांत तर गल्ली-गल्लीनी. ताचें बायपास जावन तो जेन्ना घरा आयलो तेन्ना सगळ्या भुरग्यांनी ताका फुलां धाडून दिल्लीं. तीं फुलां पळोवन ताचें काळीज भरून आयिल्लें. आनी आतां हो तिरंगी झेंडो - कितली सुंदर अभिव्यक्ती!

पन्नास वर्सां आदीं कितलो भांगराळो दीस आशिल्लो तो. त्या दिसा भारताच्या मळबांत भांगराळ्या सुर्याचो उदेव जाल्लो. एके टॅक्सींत आई, शांताभाभी आनी नवी व्हंकल सरोज हांकां तिगांकूय बसोवन तो तांकां भोंवडावपाक घेवन गेल्लो. ताणें एक तिरंगी झेंडो विकतो घेवन टॅक्सीचेर हुबयलो तेन्ना ताचें काळीज अभिमानान फुलून भायर फुटटा कशें जाल्लें. त्यावेळार गांधीजी कोलकातांत आशिल्ले. गांधीजींक पळोवपाची सरोजाक खूब इत्सा आशिल्ली देखून तांच्या दर्शनाखातीर तो बेलियाघाटारय गेल्लो. ताणें चितिल्लें, अमोलकाची भेट घडली जाल्यार तो ताका घट्ट वेंग मारतलो आनी फाटल्या दंग्या उपरांत तांचेमदीं जी कोडसाणिची वणट उभी आशिल्ली ती सगळी विसरूंक सांगतलो. रस्त्याचेर जाग्या-जाग्यांनी हिंदू-मुसलमान एकामेकांक वेंग मारताले आनी स्वातंत्र्य मेळिल्ल्याची खोस सगळ्यांच्या चे-याचेर दिसताली. 'हिंदू मुस्लीम एक हो', 'जय हिंद', 'इंकलाव जिंदाबाद' आनी 'वंदे मातरम्' च्या घोषणांनी सगळें शार भरिल्लें. गांधीजीवांगडा त्या दिसा सुहरावर्दीय उपास करतालो. त्या दिसा आख्खो दीस गांधीजीनी चरख्याचेर सूत कांतलें.

सिनेमाच्या रीलावरी किशोरबाबू सगळ्यो गजाली पळयता. हां, सरोजाक 'मरणाची वांय' दाखोवपाकय घेवन गेल्लो. एक मनीस मोटारसायकलीन बांयत वाटकुळोच वयर-सकयल घुंवाड्यो मारतालो. सरोज तेन्ना सामकें भुरगें कशें. आसत सादारण पंदराएक वर्सांचें. लॉरी भरभरून लोक 'जय हिंद' च्यो घोषणा दीत म्ह-यांतल्यान वताल्यो तेन्ना कशी खोशयेची स्फूर्त चडटाली. कांय लॉ-यांचेर बॅंडवाले 'कदम कदम बढाये जा' हे आजाद हिंद फौजेच्या गीताची धून वाजयताले. तीय बी धून गुणगुणपाक लागताली. रातिच्या बारा वरांचेर घडयाळिचेर टण-टण करून टोले वाजपाक लागिल्ले. शंखांचे आवाज आयकूंक येवपाक लागले. त्या दिसा असो कोण आसचो ना जो देश स्वतंत्र जाल्ल्याचे खोशयेंत जागो रावंक ना आनी रडूंक ना. सकाळीं आठ वरांचेर फोर्ट विलियमाचेर सतरा तोफ्यांच्या धमाक्यासयत पयले फावट तिरंगी झेंडो फडकायलो. तेन्ना ताणें सरोजाक

वेंग मारिल्ली. जाग्या-जाग्यांनी गरीबांक खाणां वांटटाले. महात्मा गांधी आनी सुभाषचंद्र वोसाचे व्हडले-व्हडले फोटू घेवन रस्त्याचेर नाचतल्या लोकांमदीं किशोरवावू परतून-परतून शांतनू आनी अमोलकाक सोदतालो. इतल्यान रस्त्याचेर एका मनशान सांगलें, गवर्नर हावसाचीं दारां उकतीं दवरल्यांत आनी सगळी गर्दी थंय भितर घुसल्या. रस्त्याचेर एक इंग्रज दिसलो तेन्ना शांताभाभी आनी सरोज दोगांयनी 'जय हिंद' म्हण ताका हटकिलो. ताणेंय बी हांसून हात हालयलो. कितें दीस तो! सद्‌भाव, सौहार्द आनी खोशयेचो दर्योच जणू काय कोलकोत्यांत उसळटालो.

□□

आयज पन्नास वर्सां उपरांत किशोरबावू *'हम लाए हैं तूफान से कश्ती निकाल के।'* आयकता तेन्ना ताका दिसता, त्या वेळार देश सांबाळपाचो भार ताचे पिळगेचेर आशिल्लो आनी आयज ताच्या भुरग्यांचे पिळगेचेर आसा. आरे हय, आयज तर ताचो पूत ताका एक सरप्रायज दिवपाचो आसा. किशोरबाबून बेगीबेगीन हात तोंड धुलें आनी तो मदले कुडींत येवन बसलो. पूत उठलो काय ताका तो थंयच मेळटलो. सगळ्यान पयलीं तयार. खंय लावपाचो झेंडो? घराचे वयर? रस्त्यावयल्यान येतल्या-वतल्या सगळ्यांक तो दिसतलो. अचकीत ताचो चलो हांसतूच आयलो आनी ताणें ताच्या पांयांक हात लायलो. किशोरबाबू अजापीत जालो. ह्या भुरग्यामदीं असले संस्कार आसतले म्हणपाचें ताका खबरच नाशिल्लें. ख-यांनीच तर ताणें आपणाल्या अहंकारांत चारय वटेंतल्यान दोळे धांपून दवरिल्ले. स्वातंत्र्याच्या पन्नासाव्या वर्धापन दिसा पुतान ताचे पांय धरिल्ले - संवसारांतलें तर हें आठवें अजाप. ताणें अंतस्कर्णांतल्यान आशिर्वाद दिलो, "खूश उरू, सुखी जावं, भरभराट घडूं."

पुतान तेच तरेन हांसत आपणाली बंद मूठ ताचेमुखार धरली. "तुजें सरप्रायज."

हें कितें? किशोरबाबूच्या काळजाक धको कसो बसलो. मुठींत जावपाइतलो हो झेंडो? तो खंय हुवयतलो? आसूं चल. म्हज्या सद-याचेरूच लावया तो. मागीर तो परतून हांसपाक लागलो.

"कितें आसा हातूंत?" ताणें विचारलें. 'सरप्रायज' म्हण नाटकच तर करपाचें आसा. नाजाल्यार चल्याक तातूंत कसली खोस? एखाद्या मिलिटरी ऑफिसराभशेन तो कितलो कडक रावलो पुताकडेन? हे तरेचे खेळ केन्ना खेळूंकच ना. अमोलका वांगडा राविल्ल्यानच ही जादू घडल्या.

किशोरबाबूच्या पुतान मूठ उकती केली. तातूंत एक चावी पळोवन तो हतप्रभ जालो. "हें कितें?" ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर फुटलीं.

"फ्रिडम" पुतान हांसत सांगलें.

"फ्रिडम?" किशोरबाबूक खूब वायट दिसलें. एके चावयेन स्वातंत्र्य मेळूं येता

जाल्यार इतल्या लोकांक जीव दिवपाची गरज कसली आशिल्ली? ह्या उतराचेर असलीं फकाणां केल्लीं ताका लागलीं. ह्या विज्ञापनाच्या युगान सगळ्यांची मत इवाडल्या - उतरांचो कशाय कसो वापर करपाचो हीच जशी कि तें एक करिश्मा तयार करपाची पद्धत उरल्या. जशें कोमेन्टेटर सुनील गावस्काराक विचारता - "तुमचेकडेन हें बरोवपाचें 'फ्लेयर' कशें आनी खंयच्यान आयलें?" सुनील गावस्कार बोल्सांतल्यान 'फ्लेयर' कंपनीचें पेन भायर काडून सांगता, "कित्याक तर हांव फ्लेयर पेनान बरयतां म्हणून." आतां ताचो पूतय जी गजाल क़रता ती हेच पद्धतीन. तो वगी रावलो.

"समजूंक ना पापा तुका? ही 'फ्रिडम फॉर्ड' ची चावी. यो दाखयतां." किशोरबाबूचो चलो ताका धुकलीत व्हरांड्यांत घेवन आयलो.

किशोरबाबून पळयलें, घराच्या आवारांत पांचव्या रंगाची एक चकचकीत फॉर्ड गाडी उबी आसा. ताची तकली घुंवली. फाटल्या म्हयन्यांत ताणें पेपरांत वाचिल्लें, स्वातंत्र्याच्या पन्नासाव्या वर्धापनदिसा निमतान फॉर्ड कंपनी झेंड्याच्या तीन रंगी चारशीं गाडयो विकपाक काडटली. तातूंत तरातरांचीं नवीं फिटींग्स आसतलीं आनी किंमतींतय सवलत आसतली. तरीच ताणें चिंतिल्लें, फॉर्ड कंपनीच्यो गाडयो मार्केटांत विक्रेक वचना आसतल्यो. विंगड विंगड गाडयांमदीं खूब कम्पीटीशन आसा हालीं. हेखातीर ह्यो सगळ्यो येवजण्यो. पूण चल्यान पयशे हाडले खंयच्यान? ताका आपल्या फर्माची हालत खबर आसा. इतले पयशे खर्चुपाची खंयच्यानच तांक ना. वयल्यान कच्च्या मालाचो पेमेंट जालो ना जाल्यार फॅक्टरी बंद पडटली. विकिल्ल्या मालाचे पयशे स म्हयने, वर्स-वर्स मेरेन येना. पयलीं पयशे फारीक करून कच्चो माल घेवचो पडटा. रूपयांची बरीच टंचाय आसा. कशेंतरी चक्र घुंवत आसा. वयल्यान हो खर्च.

व्हरांड्यांतल्यान किशोरबाबू पुताकडेन पळयनासताना आनी कांयएक उलयनासताना आपणाले कुडींत येवन पलंगार लवंडलो. ताचेफाटोफाट चलो आयलो आनी कुडिचें दार बंद करून मुखार उभो रावलो. किशोरबाबून पळयलें, तो थरथरतालो. ना, तो आड्डुचो ना. आड्डून जाता कितें? अमोलकाचो वांगड मेळिल्ल्यान ताच्यांत कितलो बदल घडला! दर एक मनीस संवसारांत आपल्या कर्मांखातीर आपूणच जापसालदार उरता आनी तो आपूणच फळां भोगता. जांव मागीर तें बरें वा वायट. तो पुताक फकत दोनच प्रश्न विचारतलो. बस. पयलो प्रश्न आसतलो - रूपये खंयच्यान आयले? दुसरो आसतलो - अशें कित्याक केलें ह्या वेळार? हे दोनूच प्रश्न. आनीक तो कांयच म्हणचो ना.

"खंयच्यान हाडले गाडयेखातीर पयशे?"

"पापा, पापा पयशे कोणाकडेन मागचे पडले ना. हालीं शंभर टक्के फायनान्साचेर गाडी मेळटा. वस्. हप्त्यांनी पयशे फारीक करपाचे." पुतान किशोरबाबूक ल्हवू उतरांनी भरवंसो दीत सांगलें.

"म्हणटकच तुवें फुडाराचे पयशे आयज खर्चून वडयल्यात. म्हळयार फुडाराक

जोडटलो ते पयशे." कांयच उलोवंचो ना म्हण किशोरबाबून निश्चेव केल्लो. पूण ताचे भितरलो अमोलक उलोवन गेलो.

"सगळेच करतात पापा अशें. गवर्नमेंट लेगीत कसल्याय मोट्या प्रोजेक्टाखातीर लोन घेता." किशोरबाबूच्या चल्यान फणफणत म्हळें.

अमोलकाच्यान मागीर वगी रावपाक जालें ना. "हय. घेता. आनी फुडले फावट पोरनें रीण फारीक करपाक परतून रीण काडटा. पांच हजार कोटी रूपयांतल्यान सादारण चार हजार कोटी रूपये फाटलें रीण फारीक करपाक घेता. तुका जर एखादो हप्तो फारीक करपाक जालो ना जाल्यार कितें परतून रीण मागपाक भोंवतलो?आनी तें रीण पावोवपाक परतून आनीक फुडलें रीण?"

किशोरबाबूचो चलो एक खीणभर वगी रावलो. मागीर मातसोसो आवाज चडोवन ताणें म्हळें, "पापा, तूं खंयच्या संवसारांत जियेता हाची सुद आसा न्हय? एक गाडी विकती घेतली त्या कामाक तूं म्हाका इतलें अपमानीत उलयता, जशें कि तें हावें म्हजें दिवाळें काडपाक ही गाडी विकती घेतल्या. लोक कितें-कितें करतात हें खबर आसा? नकली कंपनी घडोवन बाजारांतल्यान कोट्यांनी रूपयांचे शेअर उबारतात. कारखाने तर जायच ना. पूण गवर्नमेंटाकडल्यान कोट्यांनी रुपये लोन म्हण घेतात. तो सी. आर. भंसाळीचो घोटाळो जावंनाशिल्लो, तातूंत म्हज्या मुंबयच्या इश्टाक अडीचशें कोटी रूपये गवर्नमेंटान लोन दिल्लें. तूं म्हाका कितें सांगपाक सोदता? एक गाडी - फकत स लाखांची गाडी. हप्त्याचेर विकती घेवन हावें व्हडलो. गुन्याव केला काय कितें?"

किशोरबाबूक आतां दुसरो प्रश्न विचारपाचो आशिल्लो. पूण ताचे पयलीं एक गजाल तो चल्याक सांगपाक पळयतालो. "तुज्या आज्याचें नांव खबर आसा न्ही तुका?" ताणें विचारलें. चल्याक कळ्ळें, आतां किशोरबाबू व्हांवत-व्हांवत आरते-परते प्रश्न विचारतलो. पूण वाटावपाक वाट नाशिल्ली.

"हय. भूरामलजी" चल्यान तोंड फुगोवन सांगलें.

"ताच्या बापायचें नांव?"

"खबर ना."

"हांव सांगतां. केदारनाथजी. ताच्या बापायचें - रामविलासजी. ताच्या बापायचें घमंडीलालजी."

किशोरबाबूच्या पुतान ताचें उलोवणें मदींच थांबयत म्हळें, "हो वंशवृक्ष कळून म्हाका कितें करपाचें आसा? हातूंतलो एखादो फॉर्ड गाडी विकती घेतिल्ल्यान बाद जाल्लो?"

किशोरबाबून सांगलें, "ना. पूण हातूंतल्या एकल्यानय एका पयशाचें रीण घेवंनासलें. तुका हांव इतलेंच सांगपाक सोदतां, तें म्हळ्यार मारवाड्यांनी इतलो पयसो जोडलो, खोशी मनोवपाक आनी मजा मारपाक केन्ना ताणीं रीण काडलें ना. बापूय मेल्यार पुतान रीण फारीक केलें. पुताच्यान फारीक करपाक जालें ना जाल्यार नातवान फारीक केलें. आनी

पै-पै करून धन एकटायलें. माचीसाच्या काडयांचो लेगीत हिशोब दवरतालो म्हजो बापूय.''

आतां आपल्या दर एका आज्या-पणज्याच्या काटुकपणाच्या संबंदांतली एकेक काणी आयकुची पडटली म्हण किशोरबाबूचो चलो भियेलो. ताणें म्हळें, ''हेचखातीर तर मारवाडी बदनाम आसात. तांकां वगीच भारताचे ज्यू म्हणटात तर? आनी एक गजाल आयक पापा, आदल्या काळांत मनीस अशेतरेन सवस्तकायेन रावपाक शकतालो. आज रावंक शकना. आदीं इतल्यो वस्तू खंय आशिल्ल्यो? इतल्या सुंदर वस्तुंची खबर कळपाक टी वी खंय आशिल्लो? आतां मनशाक इत्सा जाली जाल्यारय तो आदलेभशेन जियेवंक शकना.''

किशोरबाबूंक दुसरो प्रश्न विचारचो पडलो ना. पूत आपूणच ताचे जापेकडेन आयलो. ''तूं तर सगळो पेपर वाचता पापा. दिसना तुका कितले लोक कशे-कशे, कित्याखातीर आत्महत्या करतात ते? कोण चली आपणाक बापूय माधुरी दीक्षितासारखो घागरो-पोलको हाडून दिना म्हण वीख खाता. आनी तुजे हेवटेन-तेवटेन कितें चलता ताची कितें खबर आसा तुका? हालींच म्हजो इश्ट अरूण, ताचे बायलेन जीव दिलो. कित्याक काय म्हळ्यार अरूण तिका तांच्या लग्नाच्या वाडदिसाक 'सेलिब्रेट करपाक' ताज बंगल्यार घेवन गेलो ना. आनी कांताभाभीचें तर सगळ्यांक खबरूच आसा - नवें फर्निचर आनी अलंकाराच्या सेटाची कींमत भैयान दिली ना म्हण ऐन दिवाळेपयलीं तिणें वीख खालें. दोगी भयणिंच्या घरांत व्हडल्यो गाडयो आसात. आमकांय दिसना काय कितें आसची म्हण? भैयाचें जें घडलें तें आमच्याय बाबतींत घडचें अशें तुका दिसता काय कितें?'' किशोरबाबूच्या चल्याचो गळो भरून आयलो.

किशोरबाबूच्या रगताचें उदक जालें. सूनबायन ''कितें?....'' इतलेंच म्हळें.

चल्यान म्हळें, ''आतां तें सगळें विचारूं नाका.''

किशोरबाबून चादर ओडून आपलें तोंड धापून घेतलें.

□□

***किशोरबाबूचें आपल्याकडलें उलोवप : दुख्ख हीच जिणेची कथा***

कशे तरेन हें घर उबें केलें. कशे तरेन ही प्रतिष्ठा मेळयली. ह्या घराच्या कणाकणात ताचे कश्ट आसपावल्यात. ताणें रगत-घाम वारयलां. कित्याचें कितें करून घडयलें हें घर. एका पोरन्या बंगाली ढांच्याच्या घराची अवतिकायच बदलून वडयल्या. रस्त्यावयल्यान कोणूय गेलो जाल्यार तो हे एरियेंतलें हें सगळ्यांत आधुनीक घर अशें म्हळेबगर रावचो ना. आनी आशिल्लें कितें किशोरबाबूकडेन? बापूय-आज्याकडल्यान कांय मेळूंक ना वा मामा-काकाकडल्यांनूय कांय मेळूंक ना. कोणाचो आदार ना. पूण केद्या धाडसान फुडें सरत रावलो? हरिसन रोडावयल्या दुकानार बसतां-बसतां एक इश्ट मेळ्ळो. ताणेंच ज्यूट-मिलींचे पार्टस सप्लाय करपाच्या धंद्याक लायलो. ताणें एकूय पैसो दिलो ना, पूण वाट मात जरूर दाखयली. आनी किशोरबाबू ते वाटेवयल्यान चलपाक लागलो. एकलोच. सात

प्राण्यांचें ओजें घेवन. दीसरात कश्ट आनी प्रामाणिकपणा सोडलो जाल्यार आनीक कसलो भरवंसो आशिल्लो?

एक-एक पैसो दातांत धरून घरांत आईन काम चलयलें. सदांच धीर दीत रावली. दर गजालीचेर योग्य सल्लो दीत रावली. कशेयभशेन काम चलपाक लागलें. नाजाल्यार मामान हेंच येवजिल्लें आसतलें, 'म्हयन्या-दोन म्हयन्यांनी धक्के खावन परतो येतलो. कळूं दी पीठ-दाळीचो दर. थोडे दीस करूं दी मनाक जाय तशें.' पूण किशोरबाबूनय आवयक सांगिल्लें, "आत्महत्या करीन, भीक मागन. पूण परतून वचचों ना." धाकले मामीन कोणाकडेन म्हणिल्लें खंय "दुकानांत चोरी करता आसतलो किशोरबाबू. नाजाल्यार पांचशीं रूपयांनी कोण इतल्या रूबाबंत आनी थाटामाटांत रावपाक शकता?" खबर किशोरबाबूच्या कानार पावली आनी ताच्या काळजांत खोल रोमलें. आईचो सल्लो, हुशारी आनी पैसो खर्चिताना येवजून-चिंतून खर्चुवप हाका चोरी म्हणटल्यांक तो दाखयतलो आपूण चोर न्हय म्हण. कोणालोय फुकटो एक पैसो लेगीत ताचेखातीर हराम.

एक-एक पावल सांबाळून वडयिल्लें किशोरबाबून. लोकांच्या दोळ्यांत भरचो ना असो एक पैसोय खर्च करूंक ना. खर्च करताना खुट्य जायना तो कसलो पैसो? घर विकतें घेतलें तेन्ना लोक आयकतच उरले. कानाचेर विश्वास बसलो ना. जेन्ना व्हडले चलयेचें लग्न केलें तेन्ना लोक पळयतूच उरले. कितें झकास पेंडल घाल्लो, कसली खडेगांठ व्हंकलपावणी जाल्ली. किशोरबाबून कितलें जोडून दवरलां आसतलें कोण जाणा - लोकांनी चिंतलें. हांगा ताणें आपणाखातीर पान-सुपारी-सिगाराचेर एक पैसोय केन्ना खर्च केलो ना. ह्या सगळ्या वेसनांचो फायदो कितें? गांठीचो पैसो तर वताच, दुसरें, आरोग्य इबाडटा आनी वयल्यान तो पैसो कोणाक दिसय ना.

आई म्हणटाली, कोणे वेळाक चुकूं जायना. हेखातीर किशोरबाबू आपलो एक रूपया जंय पांच रूपयांच्या मोलान चलतालो असल्या संदीं वेळार पैशे खर्चितालो. म्हळ्यार खर्च करतालो एक रूपया पूण गांवाक दिसतालें पांच रूपये खर्चिल्यात म्हण. किशोरबाबून आपणासंबंदिच्यो लोकांच्या बदलत्यो नदरो पळयल्यो. आदीं जंय सगळे सोयरे-धायरेच न्हय, मुनीम-बिनीम ताका 'बाबडो' कसो मामाचो आश्रीत भांचो म्हण पळयताले, थंय आतां धाकले मामीक लेगीत 'किशोरबाबू' 'किशोरबाबू' करताना पुरो जायनाशिल्लें. किशोरबाबूनय तांचेकडेन कोडसाण दवरली ना. जें घडलें तें बरेंच घडलें आनी ताका कारण थरली धाकली मामी. गजाल सारकी आशिल्ली. तो आपूण लेगीत धाकले मामीन चिंतलें तशेंच चिंततलो आशिल्लो.

किशोरबाबून हें घर उबें केलें, इतलेंच न्हय तर ह्या घराच्यो मान-मर्याद, अब्रू सगळें जिवापरस चड राखलें. कोणेंच बोट दाखोवन म्हणचें न्हय, ह्या घरांत अशें घडटा - हे गजालीचें पावला-पावलाक धंगण दवरलें. आईन एक फावट सांगिल्लें, "बाब रे, लक्ष्मी ही भोंवती-फिरती सांवळी आसता. मनीस धन-संपत्ति परतून जोडूंक शकता. पूण एक फावट

गेल्ली अब्रू परतून येना." किशोरबाबू ही गजाल एकूय दीस विसरूंक ना. शांताभाभीचेर ताणें कितलें लक्ष दवरलें. धवे साडयेवयलो दाग रोकड़ो दोळ्यांत वता. भाभीचे अब्रूक कितेंय खत पडलें जाल्यार तांचें घर सदांखातीर बदनाम थरतलें. आपणाल्या घरांत ताणें कोणा दादल्याचो प्रवेश घडूंक दिलो ना. तीन बायलो, पांच चलयो मेळून आठ बायलमनशां. किशोरबाबूचो चलो ल्हानपणांत ह्या बायलमनशांच्या पंगडांतूच राविल्ल्यान चलयांभशेनच उलयतालो, "हांव खातलें, हांव वतलें" अशे तरेन. किशोरबाबून कोणा नरपक्षाचीं पांखां लेगीत हांगा फाकारूंक दिलीं नात. बायल आनी दादलो हांचेमदलो संबंद उजो आनी लोणयावरी आसता. तांकां पयस-पयस दवरूनच वांटावं येता. हेंच चिंतून ताणें कोणा पंडित-ब्राह्मणाक लेगीत घरांत झळकूंक दिलें ना. आदीं बडाबाजारांत हीरालाल गोयनाचें प्रकरण जाल्लें. हातूंत हीरालालची कागाळ गांधीजीमेरेन पाविल्ली. कोणाक खबर ताणें कृष्ण जावन कितल्या बायलांक आकर्षून घेतिल्लीं. त्यो ताका झोपाळ्याचेर बसोवन धोलयताल्यो. निवेद्य दाखोवन खावपाक घालताल्यो. किशोरबाबून कानाक पिंवळ घालून घेतिल्लो, कोणाय मनशाचेर भरवंसो दवरप ना, तो मागीर कोणाय रूपांत आसूं. हेंच चिंतून ताणें आई-भाभी-बायल कोणाकूच कीर्तन-प्रवचनाखातीरय देवळांत वचपाक दिलें ना.

किशोरबाबू आज फाटल्यान वळून पळयत जाल्यार ताका दिसना आपणें कसलीय चूक केली म्हण. तो त्या लोकांच्यो एकापरस एक खबरी जाणा. तो फूक मारून-मारून पावल दवरता जाल्यार तातूंत कितें चुकलें? रूपन देवल केदीय व्हडली अधिकारी जाली तरी निमाणें ती बायलेचेच जातींत पडटा न्ही? गिलान तिच्या कुल्यांचेर चिरपुटां मारलींच न्ही? तेभायर किशोरबाबून कोणाचेर जुलूम करूंक ना. ताच्या शाळेंतल्या मदनमोहन सिंघानियाचे बायलेक दीसयभर घुंगट ओडून पाटार बसून रावचें पडटालें. इतलें, घांस घेवपाच्या वेळार तोंडाच्या जाग्यार नाकांत वतालो. हे गजालीचेर शांतनू जो हांशिल्लो ताची ताका आजून याद आसा. किशोरबाबून आपणाले बायलेक केन्ना शिंदूर-नथ-पैंजण-जोडे घालपाक दिले नात. आपणाल्या चलयांचीं नाकां टोचलीं नात. बायलो म्हळ्यार कितें गोरवां-म्हसरां तांच्या नाकांत दोरी घालपाक? सणा परबेक तोंडावयल्यान ओडण्यो घेवन रस्त्यावयल्यान गाणीं गायत वचपी मारवाडी बायलांखातीर ताका इतली लज दिसताली, बंगालांत रावन लेगीत ह्या बायलांक कुस्कुटाची अक्कल ना म्हण. एक फावट तर ताणे शांतनू-अमोलकाच्या वांगडा एके बायलेची ओडणी फाटल्यांतल्यान ओडून सकयल देंवयिल्ली. बंगाली लोक मारवाड्यांक कितले मागाशिल्ले लेखतात ह्या विचारान ताका खूब खंत भोगताली. तेन्नाच ताणें थारायिल्लें आपूण आपल्या चलयांक शिकयतलों म्हणपाचें.

ताका एक आनी दोन न्हय, तर जाल्योय वी पांच चलयो. ताणें आपल्या सगळ्या चलयांक कॉलेजमेरेन धाडल्यो. आतां तातूंतल्यो दोगीच बी. ए. पास जाल्यो आनी वाकिच्यांचीं मदींच लग्नां जालीं ही गजाल वेगळी. चलयांक शिकयलें-सवरलें पूण सदांच

तांकां एके मर्यादेंत दवरलें. फाजिलपणाचें वागप ताका माननाशिल्लें. भायल्यांचे नदरेंतल्यान तांकां सगळेतरेन वांटायलें. रस्त्यावयले लोक पळयत म्हण केन्ना तांकां व्हरांड्यांत उभें रावपाक दिलें ना. घराच्या दारांतल्यान भायर सरून फुटपाथ वलांडून रस्त्याचेर उभी आशिल्ले गाडयेंत वचून बसपाइतलो तांचो रस्त्याकडलो संबंद दवरलो. चलयांक केन्ना तांच्या इश्टिणींच्या घरा वचपाक दिलें ना. इश्टिणींवांगडा सिनेमांक वचूंक दिलें ना. चलयो खूब फावटीं आज्येमुखार रडल्यो-बिडल्यो. पूण कुशोरबाबून हूं काय चूं केलें ना. येदी व्हडली रिस्क तो कशी घेवंक शकतालो? एक खेप समाजांत कसलेय एके गजालीचें वारें सुटपाक लागलें जाल्यार सासणाची बदनामी सोसंची पडटली. इतलीं वर्सां सांबाळून करून दवरिल्लें सगळें निरूपयोगी जावपाचें. पांज-यांतल्या सवण्याक जल्मासावन पांज-यांत दवरलें जाल्यार ताका त्रास जायनात. पूण एक फावट मेकळ्या मळबांत सोडून मागीर पांज-यांत बंद केल्यार तें आपणालें खावप-पिवप सोडून दिता. निमाणे चलयांक परकी घरांत वचपाचें आसा. घर संवसार सांबाळपाचो आसा. चड पाखां फुटलीं जाल्यार संकश्टांत पडपाचें.

पांचूय चलयांचीं लग्नां करून तांकां निरोप दिवन जेन्ना एके परकी चलयेक सून करून घरा हाडली, तेन्ना निश्चींत जावन ताणें पोरण्यो धारणा गुठलावन दवरल्यो. ताचें मन नवी भरारी घेवपाक सोदतालें. सदांच हुस्क्यांचें ओजें घेवन तो जियेतालो. आतां आनीक ना. ही चली एका म्हासागराचें सूख नकळो. एका ल्हानशा शारांतल्यान आयल्या. हिका भोंवडावपाक जाय. मजा मारपाक दिवंक जाय. भोंवात आनी मजा मारात. तिकाय म्हण कळपाक जाय ती कोणा हौशी मनशाच्या घरांत आयल्या ती. पूण ल्हान शारांतले चलयेन जेन्ना म्हळें, "दर म्हयन्याक म्हज्या ब्यूटी-सलूनाखातीरच पांचशीं रूपया लागतात. पांचशीं रूपया हातखर्चान कितें जातलें?" तेन्ना किशोरबाबू पिसोच जालो. ल्हान शारांतली ही चली इतल्या मुखार पावली आनी ताका मातूय कळ्ळें ना? म्हयन्याक पांचशीं रूपया फकत सुंदरकाय वाडोवपाखातीर खर्च? जिवितांत पयलेच खेप किशोरबाबू आपणाक पिसो समजलो. कितें करपाचें? कशें समजावपाचें? चलयांक तर सदांच तापोवन-धमकावन दामून दवरल्यो. पूण ही तर परकी चली. सून आनी धूव हांचेमदीं फरक आसता.

किशोरबाबूच्या लक्षांत आयलें, हे चलयेचे आंवडे ताच्या सामर्थ्यापरस वयर उडपाक लागल्यात. घडये ताचीय चूक आसुंये. पांज-याच्या सवण्याक मळब दाखयिल्ल्याचो किशोरबाबूक पश्चाताप जालो. हे चलयेन कसलो जादू केला म्हण तो हार मानीत वतालो? आपणाले पोरणे सिद्धांत बदलत वतालो. तिणें म्हळें, "कॉलेजींत शिकतलीं." किशोरबाबून हयकार दाखयलो. तिणें म्हळें, "सलवार-कुरतो घालतलीं. साडी म्हळ्यार कटकट." किशोरबाबूच्यान आडावंक जालें ना. अचकित् ताच्या ध्यानांत आयलें, सुनेन कपलाक कुकूम लावपाचें

सोडून दिलां. हें कितें? ही तर बायलांच्या सवायशीणपणाची खूणा. “पूण हालीं कुकूम लावपाची फॅशन ना.” आतां ‘लेटेस्ट’ फॅशन आपूण नकळो म्हणपाचें किशोरबाबू समजलो. बरेच रातमेरेन क्लबांनी डांस करप हिवूय अशेच तरेची गजाल. एक फावट घोवाकडेन झगडटा आसताना तिडकीभरशीं मरपाखातीर आपणें थर्मामीटरांतलो पारो निखळावन तो खाल्लो अशें भुरगीं व्हळोवपाचो उपचार करपी डॉक्टरणीक सुनेन सांगिल्लें म्हणपाचें मागीर एक दीस किशोरबाबूक कळून आयलें. ताच्या सवूय भुरग्यांक जल्मांक घालपी पोरणे डॉक्टरणीन जेन्ना ताका फोनाचेर हें सांगलें तेन्ना किशोरबाबू वगी रावलो. पूण हे गजालीची ताणें केन्ना वाच्यता केली ना. आपले बायलेकय ताणें कांय म्हळें ना, वा सुनेक-पुताकय कांय विचारलें ना. किशोरबाबूच्या काळजाच्या शिरांनी व्हांवतलें रगत गोठेवंक लागलें. ताका दिसपाक लागलें, ज्या घराचे घडवणेंत ताणें आपलें सगळें आयुष्य खर्चिलें, त्या घरासकयल वाळटी लागल्या. तें केन्नाय कोंसळूं येता. मातयेंत भरसून वतलें.

एके राती किशोरबाबून एक सपन पळयलें. तें म्हळ्यार, आपलो बापूय भूरामलजीची पोरनी पगडी तो आपणाल्या सुनेच्या पांयांचेर दवरून तिका नमळायेन सांगता, म्हजी अब्रू तुज्या हातांत आसा. तेच रातीं पयले खेप ताच्या काळजांत कळो आयल्यो. ताच्या काळजाच्यो शिरो णव्वद टक्के बंद जाल्ल्यो आनी एका बायपास ऑपरेशनानूच त्यो उक्त्यो करपाक जाताल्यो.

□□

सकाळच्या इकरा वरां मेरेन किशीरबाबू तेच तरेन चादरींत तोंड घुसडून पडून रावलो. ताणें उठचें म्हण ताचे बायलेन जायते यत्न केले. मागीर तिणें हार मानली आनी पुतावांगडा गाडयेची पुजा करपाक कालीघाट गेली. पडूं दी असोच, ताची मर्जी. भुरग्यांचे खोशयेंत खोस मानपाक नकळो. कितली सुंदर गाडी हाडल्या. कितल्या जाणांच्या काळजांचेर सोरोप चडटले कोण जाणा. आनी हो एकलोच असो जाका कसलीच खोस ना. दरेके गजालीचो शोककरप. कांयच ना जाल्यार निदान भुरग्यांचे खोशयेंत तरी वांटेकार जा. आज तिणें पांचूय धुवांक, जांवय आनी भुरग्यांसयत जेवणाक आपयल्यांत. नवी गाडी आयिल्ल्याचे खोशयेंत सगळ्यांक एक-एक चांदीचो शिक्को दितली. जिणेंत उत्सवाचे खीण तरी कितले येतात? अशेंच करत-करत मरतले सगळे. जितलें जगून घेतलें तितलेंच आपलें.

बायपास कित्याक जालें हाचो विचार करपाची तराच उरफाटी. पयले फावट जेन्ना आपणें सेकेंड हेंड ‘वाक्सहॉल’ गाडी विकती घेतिल्ली तेन्ना जमनीर पांय धरनाशिल्ले. खटारी गाडी सदांच बिगडटाली. पूण कितल्या जाणांनी सांगलें तरी विकपाक तयार नाशिल्लो. सांगतालो, “गाडी आशिल्ल्यान निदान पांय तरी जमनिचे वयर उरतात.” आतां भुरग्यांचो वेळ आयला जाल्यार तांचेर जळटा. हें कितें मनीसपण जालें? दर गजालीचेर

आरतें-परतें चिंतप. आतांचो जमानोच असो आयला जाल्यार भुरगे तरी कितें करतले? व्हडली गाडी नासल्यार कोण विचारीना. आतांच व्हडले धुवेच्या चल्याक एके चलयेन 'डेटिंग' खातीर फोन केलो आनी सांगलें तिणें तिचो फोन नंबर 'ओपोल' गाडयेच्या शोरूमांतल्यान घेतला. आपलो चलो कितलो तेप मन मारून जियेतालो हें किशोरबाबू समजूनच घेना.

पुराय दीस घरांत गाडयेचे लाड आनी अपुरबायो जायत उरल्यो. सगळ्यो धुवो-जांवय-भुरगीं तातूंतल्यान भोंवून आयलीं. एक-एक फावट जितलीं जातालीं तितलीं. बायलेन सगळ्यांक येतनाच सांगलें, किशोरबाबूची तकली फोडटा. ताका 'डिस्टर्ब' करपाचें ना. किशोरबाबून पडिल्लेकडेन सगळी धांवाधांव पळयली. ताचो कोणूच ना. सगळीं एकेवटेन आनी तो मात एकदम एकलो. फकत अमोलक एकलो आसा ताचेवांगडा. बाकी सगळ्यांनी वांगड सोडलो. ताचे बायलेनच जर सोडलो जाल्यार दुस-याकडल्यान कसली अपेक्षा धरपाची?

सांजवेळा पांचांक सगळ्यो हालचाली थांबल्यो. खूब दिसांनी किशोरबाबून पासयेक वचपाचीं चपलां घालीं आनी तो पायांनी चलपाक भायर सरलो. व्हॉल्तार बस धरली आनी पावलो चौरंगीक. पोरनी घरां पळयत भोंवपाक लागलो. काळोख जातांच 'कनक बिल्डींगेतंल्यो' लायटी पेटल्यो. केन्नातरी हांगासरल्या आर्मी एंड नेवी स्टोरांतल्यान सामानाची खरेदी करपाक कितली इत्सा जाताली. पूण तितले पयशे केन्ना जाले ना. दुसरें म्हाझूज सोंपतकच रस्त्याचेर जाग्या-जाग्यांनी सैनिकांखातीर आयिल्लीं जाकिटां, तंबू, लायटर, स्प्रे अशें तरातरांचें विलायती सामान सवाय दरान मेळटालें. तेन्ना ताणें हें सामान विकतें घेतिल्लें. फाटले वटेन टॉर्चाचो बल्ब पेटपी एक पेनय ताणें अमोलकाखातीर घेतिल्लें. पूण अमोलकान तें घेतलें ना. "हांव विलायती माल वापरीना" म्हणपाक लागलो. तेन्ना खूब फावटीं ताका अमोलकाच्यो गजाली अहंकार आनी गर्वान भरील्ल्यो लागताल्यो. आतां आपलो चलोय ताचेरूच गेला हाची ताका जाणीव जाता. हो रगताचो परीणाम. निमाणे इत्सांचो प्रवाहूय रगतांतल्यानूच व्हांवत आसता न्ही? असेंब्ली हावसाचे दिवे पळयतां-पळयतां हाइकोर्ट आनी राजभवनाच्या मुखावयल्यान वचत किशोरबाबू घरा परतलो. निमाणे मनीस घराच पावपाक शकता. वा जंय परतता ताकाच घर म्हणटात.

□□

हाचे उपरांतची कथा, कथा आसा काय ना हें किशोरबाबूक सारकें खबर ना. तें एक सपनय आसूं येता. कल्पनाय आसूं येता जी पुराय सत्यापरसूय चड खरी दिसूं येता. स्मृती-विभ्रमय बी. वा 'विशफुल थिंकींग.' म्हळ्यार आपणाक जें करचेंशें दिसता तें करताना तातूंत आपणाकूच पळोवप.

किशोरबाबूचे बायलेन रातच्या धा वरांसावन ताका 'भागवत-कथा' आयकुवपाक

सुरवात केली. कशेय तरेन निमाणे सवस्तकाय हाडपाक जाय. गाडी तर आतां उरतलीच. बापूय-पुतामदलें उलोवप बंद जातलें. आनीक कोणाचो जीव घुस्मटूं वा ना घुस्मटूं, तिका मात स्वास घेवप कठीण जातलें. देडेक वरा उपरांत भागवतांत 'जड भरत' चो प्रसंग आयलो.

आपल्या फाटल्या दोन जल्मांमदले मायेंत अडकल्ल्याचे चुकिची याद दवरीत जड भरतान ह्या जल्मांत जड रावपाचो निश्चेव केला. तो कोणाचकडेन उलयना. कांयच सांगीना. पिशावरी रावता. कोणेंय कितेंय काम सांगलें जाल्यार ताच्या उरफाटें करता. चिमण्यापासून शेताची राखण करपाक सांगलें जाल्यार चिमण्यांकूच आपोवन सांगपाक लागलो, 'चिमण्यांनो येयात, दाणे खायात.' हाचें कारण म्हळ्यार ताणें चिंतलें, आपणालें गिन्यान प्रकट केलें जाल्यार परतून संवसाराच्या चक्रांत घुस्पतलो. कोणेय मान दिलो जाल्यार अहंकार जातलो. कोणेय अपमान केलो जाल्यार अहंकार दुखावतलो. अदीक बरें, पिश्यावरी रावपाचें. पिश्याकडल्यान कोण कसली इत्सा बाळगिना, कोण ताचे गजालीचें वायटय धरीना. जो पिसो नासता ताका दर वेळा आपूण जें कितें उलयता ताचो परीणाम कितें जातलो हे बाबतींत शादूर रावचें पडटा. पिसो मनीस आपणाले मजेंत रावपाक शकता. कोणाची भिरांत ना, कोणाकडेन वाद ना. हेखातीर जड भरत हेभशेन खूब गुबगुबीत आनी ताजोतवानो रावतालो.

उलयतां-उलयतां किशोरबाबूची बायल थांबली. कित्याक थांबली काय - किशोरबाबू येवजूंक लागलो. कितें चिंतता आसतली हेंवूय येवजूंक लागलो. पयले फावटीं भागवत-कथेंत एक पात्र मेळिल्लें, जाचेविशीं फुडें जाणून घेवपाची ताका उमळशीक लागिल्ली. किशोरबाबूचे बायलेन अचकीत् थांबून एक शून्य निर्माण केलें.

बायल पुस्तक बंद करता तें पळोवन किशोरबाबूक अजाप जालें. कितें घडलें? अस्वस्थशी कित्याक जाल्या? पूत-सून नवे फोर्ड गाडयेंत इश्टांक भोंवडावपाक घेवन गेल्लीं.

"आज टी वीचेर पार्लीयामेंटाची खास कार्यावळ जावपाची आसा. रातच्या उसरां. चल ती पळोवयां. साडे इकरा जाल्यांत. तातूंत व्हड-व्हड कलाकार राष्ट्रीय गीतां गायतले." अशें म्हणत किशोरबाबूचे बायलेन टी वी लायलो.

टी वी चेर एक चली अर्दी इंग्लीश आनी अर्दी हिंदी उलयत दर्शकांक आयच्या दिसाचें म्हत्व पटोवन दिवपाक नाटकी व्हिव्हळतायेन भरिल्ल्या आवाजान उलयताली. तिच्या भितरल्यान जशी कि तें दुकां उसळी मारतालीं. दर्शकांक भावविवश करपाचो हो यत्न किशोरबाबूक अश्लील लागलो आनी ताणें दोळे घुंवडायले. पूण तो कांय उलयलो ना. जड भरताची गजाल ताका खूब लागिल्ली. आतांच्यान तो अमोलकाकडेनय कांय उलोवचो ना. तो कितें चिंतता हें कोणाकूच कळपाचें ना. इतल्यान किशोरबाबूचे बायलेन गजाली करपाचो आपलो यत्न चालूच दवरपाखातीर म्हळें, "आज खंय पार्लियामेंटांत ताच्या

भावोजीची नक्कल जाताली. तें जेन्ना अठरा वर्सांचें जाल्लें, तेन्ना ताणें ताका फुलांचे अठरा बुके धाडिल्ले न्ही? तातूंतलो एक तर ताचे लांबायेइतलो उंच आशिल्लो. पांच फूट दोन इंच. ड्रींक तयार करपी संवसारांतली एक व्हडली कंपनी आपणाली जायरात करपाखातीर पार्लियामेंटांत पन्नास फूट लांबायेची एक पितुळची बाटली दवरतली. मागीर सगळ्यांक तातूंतलें ड्रींक पिवपाक दितली आनी ती बाटली दवरपाक एक स्मारक करतली. चिंत, कितले पयशे खर्चतले ते - पन्नास फूट लांबायेची बाटली - पन्नास वर्सांखातीर - दर वर्साचो एक फूट."

हें सगळें आयकतां-आयकतां हांगां टी वी चेर लता मंगेशकर गळो खांकारता ती दिश्टी पडली आनी थंय किशोरबाबूचे तकलेंत एक स्फोट कसो जालो. अमोलकाच्या आत्म्यान घडये कूड सोडपाचो निश्चेव केला आसुंये. ताका अशें दिसलें, अमोलक पार्लियामेंटांत वचून एक दांडो घेवन कितेंतरी तोडफोड करपाचो निश्चेव करता.

ताणें अमोलकाक आडावपाचो यत्न केलो. "ना अमोलक तूं म्हाका एकलो सोडून वचूं नाका. आनी आयक अमोलक, तूं गांधीचो शिष्य आसा हें कसो विसरता? हिंसा करपाक तूं कसो तयार जाता? म्हजें आयक अमोलक." पूण अमोलक ताका एकलो सोडून गेलो. तेन्ना किशोरबाबून एक खोंट मारून टी वी चो स्क्रीन फोडून वडयलो. ताच्या हातांतल्यान रगत व्हांवपाक लागलें आनी ताची बायल हिस्टेरियाची पेशंट आशिल्लेवरी आड्डुपाक लागली, "आरे कोणूय तरी ओझा सयानीक आपयात. हे मेहंदीपूरच्या बालाजी, हांचे कुडींतल्यान अमोलकाचें भूत भायर सरलें जाल्यार तुका सव्वा मण चुरमो चडयतलीं."

कितें घडलें आनी कितें घडूंक ना हें किशोरबाबूक खबर ना. ताणें टी वी फोडलो काय ना हें तरी कोणाक विचारतलो? ताचेकडेन उलयतलो असो कोण आसा? संवसारांत तो सामको एकलो आसा. ताच्या उजव्या हाताक दुखापत जाल्लेभशेन जाणवता. पूण ही दुखापत लेगीत ताची कल्पना जावं येता. ताचे तकलेंत एक स्फोट जाल्लो तितलीच ताका याद आसा. अमोलक कित्याक गेलो? तो गेल्या उपारांत तोच डॉक्टर प्रकट जालो जो परतो आतां केन्नाच येवंचो ना अशें ताणें चिंतिल्लें. ताका घडये न्हिदेच्या गुळयो खावयता आसतलो जाका लागून तो ताका असले प्रश्न विचारचोना जाच्यो जापो तो फॉरेन रिटर्नड जावनय नकळो आसतलो. हेखातीर ताका आतां ताचेपासून कसलो धोको ना. किशोरबाबून वयर मेरेन चादर ओडून घेवन तोंड धापून घेतलें आनी आवाज करीनासताना तो पुटपुटलो, "सुखिया सब संसार है, खावे और सोवे। दुनिया रास कबीर है, जागे और रोवे"

□□

# 16
# परतून किशोरबाबूची दीर्घ न्हीद आनी कथालेखकाचें आत्मचिंतन

*हे धरतरेचेर अनंत काणयों आसात कित्याक तर दर एका मनशाभितर ताच्या संवसाराची आपली अशी म्हण एक काणी आसता.*

*तशें पळोवंक गेल्यार दर एका मनशाभितर ताच्या संवसाराच्यो आपल्यो अश्यो काणयों आसात आनी हे संवसारय अनंत आसात अशें म्हणपाक जाय. इतलेंच न्हय तर, तेभायर हे अनंततेंत संवसारांतल्या सगळ्या निर्जीव वस्तू आनी पशू-पक्षी-झाडां-रस्त्यांच्यो लेगीत काणयों आसात :*

*दक्षिण कोलकाताचे हे गर्देन भरिल्ल्या वाठारांत वाटकुळें भोवून अस्तमतेवटेन वचपी रस्तो - जंय धुंवोर सोडपी सगळ्यो बशी, मिनीबशी, टॅक्सींच्या घामाचो वास येवपी आनी तिडकुपी चालक आनी जायत्या नव्या गाडयांचे खुशालभरीत काळजांचे चालक, लोअर सर्कुलर रोड (वा आचार्य जगदीशचंद्र बोस रोड) आनी अप्पर सर्कुलर रोड (वा आचार्य प्रफुल्लचंद्र रोड) च्या नांवान वळखुपी - हांचीय बी एक काणी आसा. केन्नातरी हो रस्तो मराठ्यांच्या आक्रमणांतल्यान कोलकाताक वांटावपाखातीर तयार केल्लो 'मराठा डिच' आशिल्लो. जो घडोवपाखातीर सायबान 'देशी' लोकांकडल्यान अधिकृतपणान पयशे वसूल करून घेतिल्ले.*

*काणी आकर्षक जावं येता. पूण हातूंतल्यान सिद्ध कितें जातलें? कथांची अनंतता? पूण सिद्धांतांनी काणयो जायनात. त्यो घडटात रचणूक कुशळतायेचो वापर करून आनी योगायोगांतल्यान निर्माण जावपी रसायनांतल्यान.*

*कथा रचपाच्यो तरा अनंत आसात. हो भ्रम वा! विश्वास कथा सांगतल्याक दर एकाक युगा-युगांसावन भटकायत आयला. हे कथेचो वाचक आनी नायक किशोरबाबू हाणीय कथालेखकाक कितें थोडो भटकावंक ना. तशें पळोवंक गेल्यार किशोरबाबू ज्या धूसर चेतनेच्या वाठारांत गेलो थंय दाट झाडांच्या झोपांपोंदां जमनिचेर पानांतल्यान खंय-खंय गाळून आयिल्ल्या वांटकुळ्या कवडशांपुरतो उजवाड आसा. पूण कथालेखकाक*

*दिसता, हे चकचकपी वांटकुळे कवडशे म्हळ्यार केन्नाच असत्याचे दाग लागपाक शकना असले सत्याचे पुंज आसात. आनी ते असल्या धूसर वाठारांतूच सांपडूं येतात. जंय सगळेवटेन उजवाड पसरला थंय अशीं अलोक केंद्रां खंयचीं? आनी म्हणूनच कथालेखक असो एखादो सत्य-पुंज पळोवंक मेळपाखातीर अखंडीतपणान ह्या दाट झोंपांनी भोंवत रावता.*

*पूण प्रश्न उरता तो म्हळ्यार कथालेखक अशा अखंडीतपणाच्या भ्रमणांतल्यान खंयचें ल्हान-व्हड सत्य पळोवंक पावला? काय ताणें फकत एक भोंवडी थारायल्या, फुडले एके भोंवडेचे तयारेंत?*

किशोरबाबू कितें काम्पोज गुळयो आनी फॉरेन रीटर्न्ड डॉक्टराकडल्यान हार मानून घेवपी व्यक्ती न्हय. ल्हानपणासावन तो आपलें होडें दर एका मर्ण-दुर्घटना-धक्के-अपमाना वांगडा वल्हयत भायर काडपी मनीस हें सगळ्यांक खबर आसा. आनी हे फावट आपणाल्या इश्टांकडेन केल्ल्या कौलाचे पयलींच ह्या काळखांतल्यान उजवाडाकडेन वचपाक किशोरबाबू भायर सरलो.

हे फावट तांचें होडें खंयचे तडीक बांदलां हें जाणून घेवपाक तुमी इत्सूक आसात हातूंत दुबाव ना. ह्या देशाचे मातयेचो गूणधर्मूच हो आसूंये, व्हडांतल्या व्हड क्रांतिकारकाचीं आनी धर्माक अफू मानप्यांचीं होडीं लेगीत निमाणें हेच तडीक येवन लागतात. हालिच्या दिसांनी किशोरबाबू फकत एकाच पुस्तकाचें वाचन-पारायण-मनन करपाक लागला आनी तें आसा - 'श्रीमद्‌भगवत्‌गीता'. इतलेंच न्हय तर 'गीते' चेर तो आपूणच कितें बरोवंक लागला. किशोरबाबूचे हे परिणितिचेर ताचें कुटूंब प्रसन्न आसा. बायल-पूत-सून-धुवो सगळ्यांचे सगळे. ताका कोणा मानसोपचारतज्ञाक दाखोवंचें अशी गजाल आतां कोणाच्याच मनांत चुकून लेगीत झळकना.

"संस्कृत ही इतली पोरनी भास आसा आनी ती कळटा अशे लोक तरी आतां खंय आसात? एंड माइ फादर, जस्ट इमेजीन, गीतेवयली टिका इंग्लीशींतल्यान वाचता." किशोरबाबूचो पूत ही गजाल जायते फोवटीं लोकांक सांगताना आयकूंक येता. किशोरबाबू 'गीते' चेर इंग्लीशींतल्यान बरयिल्ली टिका वाचता हे गजालीचेर ताचो चलो अत्यंत मुग्ध आसा.

मोठ्या यत्नांनी जल्माक आयिल्ल्या नातवाचें नांव आपल्या 'ग्रेट ग्रेंड फादर' वा पणजोबाचें 'रामविलास' दवरचें म्हण किशोरबाबू जेन्ना हट्टाक पेटलो, तेन्ना ताच्या पूतान आपणाले हेच मुग्धतायेक लागून आपले बायलेन कितलीय नाराजी दाखयली तरी न्हयकार दिलो ना.

"आमी ताका 'विली' म्हणुया डियर. तूं कित्याक हुस्को करता? आनी कितें सांगूं येता, हें नांव फॅशन म्हण परतून येवं येता! हालीं पळोवंक ना तुवें, पोरन्यो वस्तू फॅशन

म्हण कश्यो आयल्यात त्यो! वेदांत, श्रीवर्धन, ऋषभ, मंगलम्, शुभम् - लोक हीं पोरनी नांवां खंयच्या-खंयच्यान सोदून दवरतात म्हण कोण जाणा! म्हाका जाल्यार दिसता हाची सुरवात बिडला कुटूंबान कुमारमंगलम् नांव दवरून केल्या."

"आनी हें पळय, आमच्या कुटूंबांत हो जो रामविलास जालो न्ही, ताणेंय भिवानीत आपली व्हडली हवेली बांदिल्ली. इंग्रजांकडेन ताची व्हडली इश्टागत आशिल्ली. कोणाच्यान सांगूं येत, आमचो चलोय तितलोच 'लकी' थरू येता. कोणा एखाद्या मल्टीनॅशनल कंपनीच्या विलायती सायबाची ताचेर कृपानदर जावं येता, सांगूं नजो."

"हें पळय न्ही, ब्रिटनचो प्राइम-मिनिस्टर जॉन मेजर जेन्ना कोलकाताक आयिल्लो तेन्ना ताच्या येवकाराखातीर कितें कितें जालें! विनय-बादल-दिनेश बागेचीं नावां परतून डलहौजी स्वायर दवरपाची गजाल लेगीत जाल्ली. ते लोक परतून येतले. पळय नाजाल्यार." किशोरबाबून आपले बायलेक समजावपाक कांयच राखून दवरलें ना.

किशोरबाबूच्या पुताचे बायलेचेर जॉन मेजरवाले गडजालीचो परीणाम जालो आनी तिणेंय बी कोलकाता कोर्पोरेशनाभशेन तेंच पोरणें नांव दवरपाच्या प्रस्तावाक विरोध केलो ना. आपणाले खाशेले इश्टिणीक तिणें अशे तरेन समजायलें.

"म्हजो मांव, यू नो, एकदम ऋषी जाला. धव्या फुल्ल खाडाक लागून केन्ना केन्ना सायड फेसाचेर एकदम श्री अरवींद कसो दिसता. ताची गजाल ताळप बरोबर न्हय. जरूर कसली खास गजाल आसा देखून तो अशें सांगता. तो 'गीते' चेर कसलें तरी पुस्तक बरयता. यू नो."

किशोरबाबूच्या साम्राज्याचेर सदांच ताचें चलत आयिल्लें आनी आतांय चलत रावतालें. आनीक कांयच ना जाल्यार 'गीते' चें कारण. मागीर तो आपणाक सामको 'निस्पृह' आनी 'निरहंकार' जावपाक गीता वाचन करता आसूं. आतां ताका कोणाचेर आपलें वर्चस्व चलोवपाचे इत्सेपासून मुक्त जावपाक जाय. पूण भारत देशांत धर्म ही हिटलराहूनय व्हडली शक्त आसा आनी ही गजाल खबर आसूनय ना समजुपी सदांच तोंडाक सांपडटात. तर परिस्थिती अशी - किशोरबाबूच्या फाटल्यान साक्षात् 'गीते' च्या कृष्णाची शक्त आसा आनी ताका टक्कर दिवपाचो विचारय मनांत हाडपाचें धाडस कोणाक जायत ?

किशोरबाबून जेन्ना आपल्या न्हिदपाच्या पलंगार आपलो न्हिदपाचो भाग सोडून उरिल्ल्या वांट्यांत धर्मिक पुस्तकां मांडून दवरलीं तेन्ना ताका कोणेंच कांय म्हळें ना. किशोरबाबूचे बायलेन मोन्यांनी आपलें बस्थान दुसरे कुडींत व्हेलें. तिणें चिंतलें, जनक राजा म्हालांत रावूनय 'विदेह' आशिल्लो. किशोरबाबूचें अशें जावप म्हळ्यार तिचेखातीर सौभाग्याची गजाल. जेन्नासावन अमोलकाचो आत्मो ताचे कुडींतल्यान भायर सरून गेला, तेन्नासावन किशोरबाबू एकदम शांत आनी गंभीर जाला. तिणे भागवत् पुराण आयकुपाक

दिलें ताचें पुण्य फळाक आयलें. किशोरबाबूविशींचे श्रद्धेचो उमाळो ताचे बायलेच्या मनांत परतून-परतून वयर सरता. गीतेचेर कितल्यो ब-यो-ब-यो खबरी बरयतात.

हेच श्रद्धेचे भावनेक लागून जेन्ना किशोरबाबूक शेंदरी पातलावन तिचेर बसून बाबाभशेन तोंड करून नमाज वाचता तें तिणें पळेलें तेन्ना किशोरबाबूचे बायलेक व्हडलो धक्को बसलो ना. कांय दिसां उपरांत किशोरबाबू रूमाल वांदून 'वाहे गुरू सतनाम' करपाक लागलो तेन्ना तिणें सुटकेचो स्वास घेतलो. कितेंय आसूं, मुसलमान जावचेपरस शीख जावप चड बरें. हाचे उपरांत कांय दीस मेरेन तो आपणाक 'फादर किशोर' म्हणपाक लागलो आनी सगळें करून-सवरून जातकच किशोरबाबू परतून 'गीते' चेर आयलो तेन्ना किशोरबाबूचे बायलेन अंतस्कर्णांतल्यान परमेश्वराक पराथिलें. सगळे रस्ते एकाच इश्वरावटेन वतात हे सारकें. पूण आपणाल्या वळखिच्या रस्त्यावयल्यान चलपच चड सारकें. नव्या-नव्या रस्त्यांवयल्यान चलून पळोवपाक आतां आयुष्यांतले दीस तरी कितले उरल्यात?

किशोरबाबूचे बायलेक आपल्या जिवितांत इतले खोशयेचो अणभव केन्ना येवंकच ना. आतां कसली इत्सा उरिल्ली ना. नातवाची उमळशीक आशिल्ली, नातू जालो. सगळ्यांत व्हडली गजाल म्हळ्यार किशोरबाबूक पिशांच्या हॉस्पिटलांत व्हरचें पडलें ना. वयल्यान ताच्यांत इतली साधूवृत्ती आयली, जाची तिणें आदीं कल्पनाय करूंक नाशिल्ली. ज्या मनशान केन्ना कोणाचें आयकलें ना, सदांच आपणालेंच चलयलें, तो सगळे वटेन इतलो ओडून वचून लेगीत खंय बांदून उरलो ना, हाचेर कोण भरवंसो तरी दवरीत? सगळी कृष्णकृपा!

किशोरबाबू आपणाल्या बरपांत-वाचपांत दंग उरता. किशोरबाबूची बायल सद्दां रातीकडेन 'गीते' चेर  जें कितें वाचता तें आपूण बरयता. खंय वचय ना आनी कोणाक फोनय करीना. इतले शांत प्रवृत्तिचो जाला. भाज्जेंत मीठ पडलें ना जाल्यारय कसली कुरकुर ना. अळणीच खावन वता. हाका लागून हालीं ती बारीकसाणेन आदीं चाखून पळयता आनी ताचें ताट तयार करता.

कांय गजालीं बावतींत मात किशोरबाबून आपलो हट्ट  जरूर दवरला. पूण ताचेखातीर दुस-या कोणाक बादा जायना. देखीक तो गाडयेंत बसना. पूण हाणें कोणाक फरक पडटा? रस्त्याचेर हेडत रावलो जाल्यार कुटूंबांतल्या लोकांक फरक पडटा. चारूय वटेन अब्रू वतली. पूण तो तर घरांतल्यान भायरच सरना. ताचो दुसरो हट्ट म्हळ्यार विदेशी कंपनीन निर्मिल्ल्यो वा तांच्या पालवान तयार केल्ल्या वस्तुंचो वापर करप ना. बरें आसा. हातूंत खंत कित्याक करपाक जाय? ताचेखातीर एखादे भारतीय कंपनीचो शावू आनी मंजनाचें आयोजन करूं येता. असल्यो कंपनी आसप तशें कठीण आनी एखाद दुसरी अशी आसूंय येता. खरें सांगपाचें जाल्यार मंजनाची कंपनी तर एकूच आसा. पूण सोड, हिवूय तशी खास अडचण न्हय.

किशोरबाबूचे बायलेन खोशयेभरशीं येवजिलें, चल हेंवूय बरें आसा, बापूय एका ध्रुवाचेर चलता आनी पूत-जांवय दुस-या ध्रुवाचेर. भुरगीं तर कसलीच देशी वस्त वापरूंक सोदिना. सुदैवान आतां कोलकाताच्या थेयटर रोडाचेर लोकोसेटो, ऐरो, पियरे कार्डीन, सगळ्या तरांच्या शर्टांचीं दुकानां उकतीं जाल्यांत. नाजाल्यार भुरग्यांनी वापरपाचे लायकिचे कपडे सोदपाची इतली मेकळीक आदीं खंय आशिल्ली? ह्या शर्टांनी अशें कितें दवरलां जें इतले पैशे खर्च करून विकतें घेवपाक जाय - किशोरबाबूचे बायलेक तर हें समजचना. पूण भुरगीं तर 'ब्रांड'चें नांव आसलेबगर कसली वस्तूच विकती घेनात. चल आसूं दी. जो तो आपणांक जाय जाय तें करूं. घोवाक दुखता वा भुरग्यांक दुखता हाचें तिका कित्याक पडचें?

आयजकाल तर परिस्थितीच अशी जाल्या, तीन वर्सांचे तिगेले नातीक तिणें विचारलें, तूं दाव्या हातान कित्याक खाता काय म्हण, जाल्यार तिणें सांगलें, "म्हजी मर्जी." हे येदेशे चलयेक मर्जी म्हळ्यार कितें हें कळटा! आयकून तर ती चकीतच जाली. तेन्ना तिचे धुवेन सांगलें, हें एका सिनेमाचें गीत जातूंत दर एके वळिच्या शेवटाक म्हणटात, "म्हजी मर्जी." जेन्ना इतल्या ल्हान भुरग्यांचे मर्जेआड कोण वचपाक शकना जाल्यार कितें व्हडल्या भुरग्यांक कायदो करपाक जायत? आनी व्हडलो ब्रह्मदेव जरी आयलो तरी किशोरबाबूचेर कायदो करूं नज. आतां तर किशोरबाबूचे हे 'विदेह' अवस्थेंत ताच्या ल्हान-व्हड फर्माईशांचे बाबतींत कागाळींचो सूर काडपाची ताचे बायलेची इत्साय ना.

किशोरबाबूची बायल आतांच घोवाच्या सुखाची परम अवस्था अणभवताली. तर अचकित् तिका आपल्या पांयां पोंदची जमीन निसरूंक लागिल्ल्याचें जाणवलें. तर घडलें अशें, किशोरबाबूक नातू जाल्ल्याच्या निमतान कांय हिजडे तांच्या घरा नाचपाक आनी आशिर्वाद दिवपाक आयले. किशोरबाबू सगळो वेळ व्हरांड्यांत उबो रावन तांकां पळयत आसा हें नदरेक येतकच किशोरबाबूचे बायलेक आयलो राग. हिजड्यांची मागणी एका हजारापासून सुरू जाल्ली आनी किशोरबाबूची बायल शंभर रूपयांसान सुरवात करीत एका वरांत दोनशें रूपयांमेरेन पाविल्ली.

दर पांच मिनटांनी सकयल्यान वयर व्हरांडावटेन किशोरबाबूची बायल आशेन नदर तेळटाली ती हेंच पळोवपाक, किशोरबाबू थंयच्यान गेला आसतलो म्हण. पूण दर खेप किशोरबाबू नदरेक पडटालो. तिका खूब वायट दिसलें. एका धव्याफुल्ल खाडाच्या गीतापाठी मनशान अशे तरेन हिजड्यांमदीं रस घेवप कांयशें अशोभनीय दिसता. खंयतरी कसली गडबड आसा, तिका दुबाव आयलो. आनी किशोरबाबून गीतेचेर बरयिल्लें लिखाण जेन्ना ते राती ती सदचेभशेन वाचपाक लागली तेन्ना सामकी चक्रावली. तिचो अदमास खरो थरलो.

आज किशोरबाबून 'गीते' तल्या एखाद्या श्लोकाचेर टिप्पणी बरोवपाच्या जाग्यार आपणाले दोस्त शांतनू आनी अमोलका वांगडा केल्ल्या एक जानेवारी दोन हजार सालांतल्या

कराराचो उल्लेख केल्लो, जाका आतां फक्त दोन म्हयने बाकी उरिल्ले. तेचवरोवर किशोरवाबून त्या कराराक लागून आपणाक आपल्या कुटूंबाकडेन करपाक लागपी 'पार्टिशना' चो उल्लेख केल्लो म्हळ्यार 'फॅमिली' कडल्यान पार्टीशन. पूण हाचेफुडें ताणें आपणाल्या वाटकुळ्याशा सुंदर अक्षरांनी 'हिजडे आनी पार्टीशन : एकोणिसशें सत्तेचाळीस' अशी एक टिप्पणी बरयिल्ली जी खंयच्यान तरी उतरावन घेतिल्ली. हें वाचतकच किशोरवाबूचे वायलेक तें आपणाले साडयेचे घडयेमदीं आदलेभशेन चेंपून लिपोवन दवरचें हाचेवगर आनीक कांय सुचलें ना. हे खबरेची मागणीय आदलेभशेनच आसा, किशोरबाबूचे वायलेन साडयेचे घडयेमदीं दामून दवरिल्ल्या ह्या विवरणाक जशाचें तशें तुमचेमुखार दवरतां -

**हिजडे आनी पार्टीशन : एकोणिसशें सत्तेचाळीस**

*सत्तेचाळीस सालांत पाकिस्तानांत वचपाक मुसलमानांनी जे सकाळीं शार खाली केलें, त्या वेळार त्या भागांतल्या सात हिजड्यांनी - अम्मी, गुलब्बो, नानकी, मनचली, कज्जन, मुनीर आनी बरफी हाणीं त्या लोकांक शार सोडटाना पळयलें आनी तांकां थोडी मस्ती येवजली. लोकांची भिरांत म्हळ्यार तांकां अडाणीपणां आनी पिशेपणां दिसलीं. काल ते हिंदुंच्या मुहल्ल्यांत नाचपाक गेल्ले आनी खंयच्याच हिंदून तांचेकडेन वांकडे नदरेन पळयलें ना. ते सातूय जाण आपल्याच दारांत बसले आनी ढोलकें आनी ताळयो वाजोवन बाळंत जाल्याउपरांतचें गीत गावपाक लागले. शेजारचे लोक एकदम भियेवन तांचेकडेन आयले. मिठाईचें दुकान चलोवपी चौधरी आब्बास, ताणें कडक उतरांनी सांगलें, "ए,बदजातीच्यांनो, ओगी रावात. सगळे मुसलमान मरणाच्या दारांत उभे आसात."*

*कज्जनान म्हळें, "हाय चौधरीसायब, तुज्या दांत पडिल्ल्या तोंडाक हालवो लागूं आनी तुजी हसीना तुज्या रागाक एक थापट मारूं. हांगां आमचे गुलब्बोक चली जाल्या." कांय लोक हांसले. पूण चौधरी आब्बासाचो तरणो चलो हातांत दांडो घेवन तांचेर झुडून गेलो. बापायपरस कडक दुपेटीन तापलो, "ओगी रावतात कांय ह्या ढोलक्याचे दोन कुडके करूं?"*

*ननकीन हाताचो तायट घुंवडायत मुरको मारलो आनी म्हळें, "हाय, हाय! तुजे बायलेचें पोट जातलें ढोलकें. आनी तातूंतल्यान भायर सरतलो एक तरणो जवान. आमी खातलीं खीर आनी पुलाव. हाय, हाय. उदक शिंपडाय तुज्या रागाचेर आनी दांड्याचेर." सगळो मुहल्लो खो-खो करून हांसत सुटलो आनी कांय मिनटांखातीर लोक आपणाली भिरांत विसरले.*

*हिजड्यांनी पळयलें, आतां तांकांय वचचें पडटलें. आपापली पोटली खांकेंत मारून हाथरूणाचे कवळे चौधरी आब्बासाच्या दारांत शेंवटून वडयले, जशें कि तें तांकांय स्टेशनार घेवन वचचें. चौधरीन आयकलें ना जाल्यार हेवूय बी आयकुचेनात. "वा, कसो व्हरचोंना तर? आमी सातूय जाणां तर तुजींच भुरगीं आनी तूं आमचो*

*आका." हे फावटीं चौधरीय हांसलो.*

*हे उपरांत ते सगळे आपापल्यो खाटी घेवन नाक्याचेर विकपाक गेले. एका हिंदू मडवळान विचारलें, "सांग गुलब्बो, कितल्यांक विकतली?" गुलब्बोन म्हळें, "आरे मेल्या, खाट घेतिल्ली साडेतीन रूपयांक आनी दोन रूपयांचे बान. तूं अडेज दी." तर तेवटेन रामसिंह तम्बोलीन विडयेचो झुरको घेत सांगलें, "ए, धनुआ तुवें ही खाट घेतल्यार तूं हिजडो जालोच म्हण समज." खूब यत्न करूनय हिजड्यांच्या खाटींक गिरायक मेळ्ळें ना. तेदेवेळार भिरांत आनी दहशतीची जाणीव जावन त्या सातीय जाणांक थरथरो सुटलो. शेंपडी तुटसर ताणीं स्टेशनावटेन धांव मारली. रस्त्यांत लोक थोमणे मारताले, "पळयात, पळयात. हिजडे चलले पाकिस्तानाची भरभराट करपाक."*

किशोरबाबूची बायल गळीतगात्र जावन हाथरूणाचेर पडली. ह्या हिजड्यांक पळोवन कितें म्हण हाची तकली घुंवली आनी खंय वाचिल्लें आनी आयकल्लें हें सगळें चोपडेंत उतरावन सोडलें कोण जाणा. ही खबर भिवानीत घडिल्ल्याची शक्यताय आसा जंय सत्तेचाळीसांत किशोरबाबू एक फावट गेल्लो. असली भास आनी असलीं उतरां कोणूय वाचीत जाल्यार कितें म्हणटलो? कांय ना जाल्यार निदान आपल्या धव्या खाडाची तरी लज बाळगुपाची! आनी हें कितें - हिजड्यांवयल्यान पार्टीशन याद जावप आनी पार्टीशन उतरान आपणाल्या इश्टांवांगडा केल्लो करार जाका लागून ताका आपणाल्या कुटूंबापासून पयस वचपाचें येवजप? पूण खंय वतलो? आनी कोणावांगडा? अमोलक तर ना. आनी ज्या दिसा शांतनूक मेळून आयलो तेन्नासावन ताचेंय नांव ना. त्या दिसा उपरांत तर कांय दीस सगळो वेळ हात धुयत रावलो. तेन्नाच तिका जाणवल्लें, शांतनूक मेळून ताका बरें दिसूंक ना. तर मागीर खंयच्या पार्टीशनाची गजाल तो येवजिता? पूत-सुनेक सोडून वेगळें घर थाटपाचें तर तो चिंतिना मू? काय व्हडल्या मामाभशेन संन्याशी जावपाचें येवजिता? "वचूं दी वचपाचो आसा थंय." किशोरबाबूची बायल थकली आनी निमाणें तिका दिसलें, आपूण करूंक तरी कितें शकतली?

□□

*संवसाराच्या गतिचक्रांत केन्ना कसलें परिवर्तन घडत हें कोणाक खबर आसता! कोलकाता शारांत कोण एक व्यक्ती आसा जी शारांतल्या वणटींचेर धव्या रंगान बरयत रावता - 'सूर्य धर्तरेच्या सभोंवतणी घुंवत आसता आनी हें करपाक ताका पुराय एका वर्सांचो काळ लागता.' कोणाक खबर हें केन्ना खरें जायत म्हण? आयज जें सारकें मानतात तें एक हजार वर्सांपयलीं चुकिचें मानपाची शक्यताय आसा, तशेंच आयज जें दिश्टी पडना, तें ख-यांनीच घटीत जातलें म्हणपाचें कोण जाणा?*

*किशोरबाबू घर सोडून वतलो ही घडणूक ख-यांनीच किशोरबाबूचे बायलेच्या जीवनकाळांत घटीत जातली? किशोरबाबूची बायल हें चिंतीत आशिल्ली, इतल्यांत संवसारांत एक अशी*

घडणूक घडली जिणें फकत तिचेंच न्हय तर सगळ्या संवसाराचेंच जिवीत बदलून वडयलें.

....लोकांक आयजमेरेन भिरांत दिसताली, तिसरें संवसारीक झूज जालें जाल्यार सगळी पृथ्वी नष्ट जावन वतली. पूण अशें कांय घडलें ना. जें घडलें तें सगळें येवजूंक नाशिल्लेंच. सामकेंच आमी जाका अनहोनी म्हणटात तें. सैमाचे प्रकृतिचीं पांच म्हाभूतां - माती, उदक, उजो, मळब आनी वारें अचकीत गडबडलीं. आनी सगळ्यांत पयलीं हाचो प्रभाव संवसारांतल्या सगळ्यांत ताकतवान देशांत दिश्टी पडलो. आतांमेरेन विज्ञानीक सांगत आयिल्ले, धर्तरेवयली उष्णता वाडूंक लागल्या आनी तिचे वयले वटेन जें एक खाशेलें वा-याचें संरक्षक छत्र आसा तातूंत बुराक पडपाची भिरांत आसा. पूण दर एका शास्त्रज्ञाक आनी दर एके व्यक्तीक दिसतालें, आपले जितेपणीं तरी अशें जावचें ना. पूण सगळें कितें घडलें तें इतल्या अकस्मात, आयिल्ले परिस्थितीचो स्विकार केलेबगर कोणाचकडेन आनीक कसलो पर्याय नाशिल्लो.

संवसारांतल्या सगळ्यांत ताकदवान अशा देशांत अचकीत् सगळीं झाडां-झोपां मरपाक लागलीं, जशें कि तें कोणेतरी जमनिचे भितर वीख घालां. हवेंत ऑक्सिजनाचो इतलो उणाव भासूंक लागलो, लोकांक स्वास घेवपय कठीण जावन पडलें. धर्तरेवयलें सगळें उदक आटूंक लागलें आनी कुपांविरयत मळब वाळवंटांतले रेंवेंभशेन तापूंक लागलें. हें सगळें घडलें तें एका दिसाभितर. देखूनच त्या देशाच्या सरकारान देशांतलीं झाडां-झोपां मरून गेल्ल्याची खबर दुस-या देशाक कळची न्हय हेखातीर पावलां उखलचे आदींच सगळ्या देशांक ही खबर कळ्ळी. सगळ्या देशांनी मागीर रोकड्या-रोकडें भुकेन मरपाची पाळी येवची न्हय म्हण आपापलें धान्य पोतयांनी भरून दवरलें. एक किल भांगराच्या बदलांत लेगीत एक क़िल गंव दिवपाक खंयचोच देश तयार नाशिल्लो.

संवसारांतल्या सगळ्या देशांनी पेत्रोलाचेर चलपी दर एक वस्त रोकड्या रोकडी बंद करून वडयली. कित्याक तर पृथ्वी ही चंद्रासारखी वा-याविरयत जावपाचें सगळ्यांत व्हड कारण म्हळ्यार पेत्रोल-डीजल-गॅस आनी कोळशांचेर चलपी वस्तू हेंच आशिल्लें. विजेची निर्मिती एकदम बंद केली. हाचो परीणाम असो जालो, कालचे-फायचे सगळे कारखाने बंद पडले. संवसारभरांतल्या सरकारांनी खास करून सारें आनी रसायनां तयार करपी कारखाने रोकड्या-राकडे बंद करपाचे आदेश काडले.

सगळ्यो मोटारगाडयो बेकार पडल्यो. व्हडल्या-व्हडल्या इमारतिंचीं लिफ्टां चलनाशिल्ल्यान आनी उदक पावनाशिल्ल्यान थंय रावप असंभव थरलें. आतां सगळ्यांत गरीब मनीस होच सुखी मनीस थरलो जाका धर्तरेचेर रावपाची आनी पांयांनी चलत भोंवपाची संवंय आशिल्ली. खावपाखातीर लागपी धान्यां-फळां-भाज्यो पिकोवप हें काम अत्यंत गरजेचें जालें आनी हें काम जाणा जावपी मनशाचो पगार सगळ्यांहून चड जालो. पृथ्वीक वांटावपाचो आतां एकूच उपाय उरलो आनी तो म्हळ्यार सगळ्या मशीनांचो जागो मनशांच्या कश्टांनी घेवप आनी हे कश्ट जाचे निर्मितींत कसल्याच तरेच्या रसायनांचो

वापर करीनासताना चडानचड हरयाळिचे उत्पत्तींत उपेगाक येवंचे. रूख आनी झाडांपासून तयार जावपी ऑक्सीजनच आतां हे पृथ्वीक वाटांव शकताली. ही सुचोवणी संवसारांत पातलावपाक आतां कम्प्युटराची, टी. वी. ची वा नेमाळ्यांची गरज नाशिल्ली. तशेंच विमानां, बोटी आनी रेल्वेचीय गरज नाशिल्ली. ही गजालूच अशी आशिल्ली जी दरेका भुरग्याकूय भितरल्यान समजून आयिल्ली.

ज्या सुविधांचो भोग घेवप लोकांक संवकळिचें जाल्लें त्योच तांच्या दुख्खाचें कारण थरिल्ल्यो हेंवूय लोकांक कळून आयलें. जाणें जाणें जितल्यो सुविधा भोगल्यो, ताका तितलेच त्रास सोंसचे पडले. बाकिचे लोक जशे आदीं रावताले तशेच ते आतांय रावपाक लागले. जे लोक आपल्या गावांतलें अमूल्य वारें-उदक-मळब सोडून शारांतलें नरकासारखेलें जिवीत जगपाक आयिल्ले, ते मुक्त जाले. ते सगळे मोठे उमेदीन गांवावटेन परतले. कित्याक तर शारांत जोडिल्ल्या पैशांतल्यान वापरपाक येता अशी कसलीच वस्त ते आतां विकती घेवपाक शकनाशिल्ले. हेखातीर ते परतून आपणाले धर्तरेचे वेंगेंत सुशेग घेवपाक गेले.

□□

ह्या नव्या संवसारांत जानेवारी 1 साल 2000 ह्या दिसा किशोरबाबू फांतोडेर उठून न्हावन-धुवन तयार जालो आनी व्हिक्टोरीया वटेन पांयांनी चलपाक लागलो. जेन्ना ताचे बायलेक न्हिदेंतल्यान जाग आयली, तेन्ना तो दोन किलोमीटरांचें अंतर चलून फुडें पाविल्लो. सिंहासनाचेर बशिल्ले महाराणी व्हिक्टोरियाचे विशाळ मुर्तिच्या जाग्यार आशिल्ल्या महर्षि अरविंदाचे दुबळे आनी ठेंगू कायेसभोवतणी बांदिल्ल्या वाटकुळ्या घे-याकडेन तो उदेंतेवटेन उबो रावलो. किशोरबाबूक थंय उबो रावन पांच मिनटांय जावंक नासतलीं, इतल्यान ताका दोन घोड्यांची एक घोड्यांगाडी कोलकातावटेंतल्यान येता ती दिश्टी पडली. किशोरबाबूचें काळीज धडधडूंक लागलें. जशी-जशी ती घोड्यागाडी लागीं येवपाक लागली, किशोरबाबूचे दोळे अजापान मोठे जायत गेले. आपले पोरने बग्गींतल्यान सकयल देंवन शांतनून ताका वेंग मारली.

"तूं आयलो शांतनू? आयची गजाल तुका याद उरतली हें हावें धरूंकच ना. तरीय हांव आयलों. म्हळें जितों आसा तेन्ना उतराक जागतलों." किशोरबाबून सांगलें.

"तुका बायपास करून हांव जिवितांत फुडें कसो सरतलों किशोर? आनी आमच्या संवसारांतले सगळे बायपास रस्ते जेन्ना बंद जाल्यात तेन्ना म्हाका हांगा येवपाबगर आनीक कसलो उपाय आशिल्लो?" शांतनून सांगलें.

ताचें उलोवणें किशोरबाबूक समजलें ना. शांतनू हांसलो. तोच वळखिचो परिचित हांसो. मागीर तो किशोरबाबूक आदीं समजायतालो तेच तरेन आपलें म्हणणें समजावंक लागलो.

*"हें पळय, एक रस्तो जाम जाततालो तेन्ना आमी त्या रस्त्याच्या दोनूय तोंकांक जोडपी दुसरो रस्तो निर्माण करताले. ट्रॅफीक चड जाली जाल्यार आमी वन-वे रस्ते तयार करताले. आमी कसलेय समस्येचीं कारणां समजून तांचीं मुळां नश्ट करपाचो केन्ना यत्न केलो ना. दरेके समस्येचेर बायपास करपाचे रस्ते सोदीत रावले. पूण आतां तर खंयचीच बायपास उपकारा पडना."*

*तेन्ना अमोलकान शांतनूचे फाटीर हात दवरलो आनी ताणें म्हळें, "तूं सारकें बरोबर उलयलो शांतनू. तुका म्हजें म्हणणें आतां-आतां कळून येता न्हय? हावें तुका हेंच सांगिल्लें - आमच्या देशाचें स्त्रोत बायपास करून विदेशी फंडांतल्यान तुमी कांयच करपाक शकचेनात. तुमकां जें कितें करपाचें आसा तें आपणाल्या बळाचेर करपाक जाय."*

*अमोलकाक पळोवन आनी ताचो आवाज आयकून किशोरबाबू आनी शांतनू इतले अजापले, खोस परगटावपाकूय ते विसरून गेले. अमोलक कसो जितो जालो? ते एखादें सपन तर पळयनात मू?*

*"आरे, तूं तर बाबरी मशिद प्रकरणांत मेल्लो न्हय?" निमाणें शांतनूनच ताका विचारलें. तोंमेरेन किशोरबाबूच्या तोंडांतल्यान उतर फुट्टूंक नाशिल्लें.*

*"ना, हांव मरूंक नाशिल्लों. जो मेल्लो तो म्हजो डुप्लीकेट आशिल्लो. म्हजेसारखें रूप आनी मत आशिल्लो."*

*अमोलकाचें उलोवप आयकून किशोरबाबूच्या तोंडांतल्यान आयलें, "आरे, ही तर सारकी हिंदी सिनेमांतल्याभशेन खबर जाली."*

*ताची उलोवपाची तरा आयकून शांतनू आनी अमोलक हांकां हांसपाक आयलें. किशोरबाबूचो हांसो शेणिल्लो. तांकां हें समजप गरजेचें आशिल्लें, ते एखादें फटिचें फिल्म पळयतात कांय जें घडटा तें ख-यांनीच.......!*

**'कलि-कथा : वाया बायपास'** ही 1925 वर्सा जल्मल्ल्या किशोरबाबूंची कथा. काळजाचे बायपास शस्त्रक्रिये उपरांत, केन्नाच गाडयेबगर भोंवनाशिल्ले किशोरबाबू अचकित पांयांनी कोलकाता शारांत भोंवड्यो मारपाक लागतात. ह्यो भोंवड्यो म्हणल्यार एक वांटकुळें काळचक्र कशें. भूत-वर्तमान आनी भविष्यकाळ हांच्यो शिमो पुसून वडयत हें काळचक्र किशोरबाबूंक तांगेल्या पूर्वजांच्या-पणज्यांच्या संवसारांत भोंवडावन हाडटा. आपणाली जल्मभूंय सोडून परकी मुलखांत गेल्लो मारवाडी समाज, ताणें राबित्याखातीर वेंचिल्लें ब्रिटीशकाळांतले कोलकाता शार, तांचे मदलो संबंद हो कादंबरीचो प्रस्थानबिंदू.

1943 चो बंगालांतलो खर दुकळ, 1946 चें 'ग्रेट कॅलकटा किलींग' आनी 1947 चें देशाचें विभाजन अशा आकांताळ्या घडणुकांनी भरिल्ल्या काळांत, सुभाषभक्त शांतनू आनी गांधी-भक्त अमोलक ह्या इश्टांच्या सांगातान सारिल्लो किशोरबाबूंच्या जिविताचो पयलो भाग हांगां दिसता. उपरांत येता तो कित्याचेंच सोयर-सुतक नाशिल्लो फकत दुडू जोडपाचो पन्नास वर्सांचो काळ. आनी 'बायपास' उपरांत, आपणाले आशिकुशीक, आयच्या काळांत घडपी तांचे तिसरें आयुश्य.

एकाच वेळार अनेक शैलींचो वापर करत, वेगवेगळो प्रदेश आनी काळ हातूंन फाटी-फुडें वचत ही कादंबरी वाचप्याक अशा एका प्रवासांत भोंवडावन हाडटा, जंय अजापभरीत जावपाचो, रस्तो चुकपाचो आनी तो परतून सोदून काडपाचो आनंद अणभवपाक मेळटा.

पूर्णवेळ लेखिका आशिल्ल्यो हे कादंबरीच्यो बरोवपी अलका सरावगी कसदार लेखन करतात. तांचें दोन कथासंग्रह आनी तीन कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात जाल्यार तांचे कांय साहित्य भारतीय भाशांसयत फ्रेंच, इतालियन आनी स्पॅनिश भाशांनी अणकारीत जालां.

ह्या कादंबरीच्यो अनुवादक हेमा नायक कोंकणी भाशेंतल्यो स्वतंत्र प्रतिभेच्यो लेखिका आसात. तांकां 'भोगदंड' कादंबरीखातीर साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला. तांचीं स्वतंत्र आनी अणकारीत जायतीं पुस्तकां प्रकाशित जाल्यांत.

Kali-Katha : Via Bypass (Konkani), Rs.90





ISBN 81-260-2578-6


24 भासांतली पुस्तकां उजवाडावपी साहित्य अकादेमी ही संवसारांतली सगळ्यांत व्हड संस्था